# कोंकणी – कोंकणी शब्दकोश

शांताराम अनंत हेदो




१९९२

कोंकणी भाशा मंडळ (गोंय)

# कोंकणी – कोंकणी शब्दकोश

शांताराम अनंत हेदो




१९९२

कोंकणी भाशा मंडळ (गोंय)

**उजवाडावपी :**
डॉ. राजेंद्र हेगडो
सरचिटणीस,
कोंकणी भाशा मंडळ (गोंय)
४९, बी, एराज्मु कार्वाल्ल्यु मार्ग,
मडगांव, गोंय ४०३ ६०१.

**छापणावळ :**
तन्वी ग्राफिक्स,
गांगानेली रिबेलो रस्तो,
बड्डें, मडगांव, गोंय ४०३ ६०१

पयलें उजवाडावप : १९९२

मोल :
१९९२ — ५० रुपया
१९९३ — ५५ रुपया
१९९४ — ६० रुपया

# कोंकणी–कोंकणी शब्दकोशाच्या निमतान

गोंयचे सुटके उपरान्त गोंयांत क्रांतीकारक बदल घडपाक लागले. शिक्षण क्षेत्राकय ताजो धग लागलो. भुरग्यांचें मुळावें शिक्षण तांचे आवय भाशेंत जावपाक जाय म्हळ्ळें सर्वसामान्य तत्त्व तेन्ना दोळ्यांआड करप शक्य नाशिल्लें. पूण देशांतल्या हेर भासांकडेन तुळा केल्यार साहित्य-संपदेचे नदरेन उणी आशिल्ल्यान आनी नांव घेवपासारके शिक्षणीक ग्रंथ नाशिल्ल्यान कोंकणींत मुळावें शिक्षण दिवपाचो विचार जायत्या जाणांक वेव्हारीक असो दिसनाशिल्लो. कोंकणी शिकिल्ल्यांचो फुडार कसो घडत हाजें आकलन सामान्य मनशाक जायनाशिल्लें. शेंकड्यांनी वर्सां साकून चलून आयिल्ली शिक्षण परंपरा मोडून कोंकणी शिक्षणाची नवी मांडावळ आपणावपाची जायत्या जाणांची मनाची तयारी जायनाशिल्ली. अशा वेळार गोंयच्या राजकारणांत भाशावादाचो भस्मासूर धुमशेणां कांडटालो. मुळावें शिक्षण भुरग्यांचे आवय भाशेंत दिवपाक जाय ह्या विचाराक लटकें म्हणपाची धिटाय जरी ह्या वादांत नाशिल्ली तरी कोंकणींत तें घडूं येता म्हणपाचो विचार समजूंक आनी पचोवंक बरोच जड जातालो. अशा वेळार कोंकणीच्या सुपुतांनी मुळाव्या शिक्षणांत कोंकणीक हकाची सुवात मेळूंकच जाय म्हण एकवटून खर यत्न केल्ल्यान गोंयच्या मुळाव्या शिक्षणांत कोंकणीचो आसपाव करप सरकाराक अनिवार्य जालें. पूण ताजे खातीर जें करपाक जाय तें करपाकडेन सरकारान फाव तें लक्ष दिलें ना.

कोंकणी शाळा सुरू करपाक जाय आसत तर कोंकणी पाठ-पुस्तकांची गरज आशिल्ली. कोंकणी शिकोवपी शिक्षकांक प्रशिक्षण दिवपाची आवश्यकताय आशिल्ली. शिक्षकांक संदर्भ ग्रंथांची पुरवण करपाचीय गरज आशिल्ली. ही सगळी जापसालदारकी सरकारान आंगार घेतली ना. पूण आवय भास कोंकणीक तिजी हकाची सुवात मेळोवन दिवपाक वावुरपी स्वाभिमानी पुतांनी आनी धुवांनी कोंकणी भाशा मंडळाच्या पांख्यातळा एकठांय येवन हो वावर तडीक व्हेलो. पाठ-पुस्तकां तयार केलीं, तीं छापून हाडलीं आनी शिकपी भुरग्यांच्या हातांत पावयलीं. कोंकणी शिकोवपी शिक्षकांक प्रशिक्षण दिलें आनी तांच्यांतलो आत्मविस्वास वाडयलो. कोंकणी शिकोवपाची निकतीच सुरवात जायत आशिल्ल्यान व्याकरणाचे प्रमाणीत नेम थारावपाची गरज आशिल्ली. कोंकणी भाशा मंडळान गोंय कोंकणी अकादमीचो आदार घेवन उण्या मोलान कोंकणी व्याकरण मेळपाची वेवस्था केली. शाळेंतल्या भुरग्यांक शिकयतना उपयोग जावपी शब्दकोशाची गरज आशिल्ली. कोंकणी कोशाचें हस्तलिखीत तयार करपाची ही जापसालदारकी कोंकणी भाशा मंडळान प्रा. शांताराम हेदे हांचेकडेन दिली.

शब्दकोश तयार करपाचो वावर तसो सोपो न्हय. ताजे फाटल्यान दीर्घ तपश्चर्येचें पुण्य पदराक आसचें पडटा. दर एक उतर शब्दकोशांत आसपावता

तें घासून पुसून पळोवपाक जाय. ताजो अर्थ सारको समजून घेवन, विंगड विंगड संदर्भांत त्या उतराचो उपयोग कसो जाता हाजो पुरायेन अभ्यास केल्या उपरांतच अधिकारवाणीन ताजो आसपाव शब्दकोशांत करपाचो आसता. प्रा. शांतारामबाबान मन लावन सातत्यान हो वावर पूर्ण केलो आनी शब्दकोशाचें निवळ हात-बरप कोंकणी भाशा मंडळाकडेन पावयलें.

एका मनशान केल्लें कार्य कितलेंय समर्पण भावनेन मन लावन केल्लें आसलेंय तरी अनवधानान जावं वा विस्मृतीन जावं तातूंत कांय उणिवो आसूं येतात. प्रा. शांतारामबाबान तयार करून दिल्लो शब्दकोश कांय जाणकारांनी नदरे खाला घालीत तर तातूंन गरजेप्रमाण सुदारणा करूंक जायत अशें दिसून कोंकणी भाशा मंडळान कांय बुदवंतांची एक समिती घडयली. हे समितीन कामाची सुरवात केली. पूण ते समितीचे वांगडी तांच्या-तांच्या व्यापांक लागून शब्दकोशाच्या कामाक सारके पावनात जाले. उपरान्त हो वावर तडीक व्हरपाचो वेगळ्या वेगळ्या पांवड्यार जायतो यत्न जालो. पूण वावर पूर्ण जावपाक जें योगदान मेळूंक जाय आशिल्लें तें मेळूंक पावलेंना आनी हो कोश छापून उजवाडाक हाडपाक कळाव लागत गेलो.

शाळां-कॉलेजांनी शिकतल्यांक आनी शिकयतल्यांक उपकारपा सारको कोंकणी-कोंकणी शब्दकोश उजवाडावपाचो निर्णय मंडळान घेवन प्रा. शांतारामबाबांबकडेन ताजी जापसालदारकी दिल्या उपरान्त आतांमेरेन एका तपापरस चड काळ सोंपला. ह्या काळांत कोंकणीच्या शिक्षण आनी ग्रंथ-साहित्य क्षेत्रांत जायते बदल जाल्ले आसात. कोंकणीचो पदव्युत्तर शिक्षणांत आसपाव जाला. गरजेक अणसरून ग्रंथ-साहित्य निर्मणी जाता आसतना कोंकणी-कोंकणी शब्दकोशय जाल्ले आसात. पेडणेच्या श्रीसिताराम प्रकाशनान श्री. श्रीपादबाब देसाय हांचो व्हड शब्दकोश चार खंडांत उजवाडाक हाडला. गोंय कोंकणी अकादमीन श्री. चंद्रकांत केणी हांची इंग्लीश-कोंकणी-हिन्दी उतरावळ उजवाडायल्या. तांकां लागून शब्दकोशाची बरीच गरज भागल्या. श्री. श्रीपादबाबालो शब्दकोश चार खंडांत आशिल्ल्यान आनी ताजें मोलय चड आशिल्ल्यान शाळेंत शिकपी भुरग्यांचे आनी तांकां शिकोवपी शिक्षकांचे नदरेन तो शब्दकोश बरोच व्हड आसा. श्री. चंद्रकांत केणी हांचो शब्दकोश तांची गरज जायत्या प्रमाणांत भागयता. तरीपूण तांची गरज पूर्ण भागोवपासारको एक शब्दकोश आसपाची गरज अजून आसा. अशे तरेचो शब्दकोश आसा काय म्हूण वासपूस करपाक जायते जाण कोंकणी भाशा मंडळांत येतात. आतां कोंकणी माध्यमाच्यो शाळा वाडत आशिल्ल्यान आनी शाळां-कॉलेजांनी कोंकणी विशयाकडेन चड भुरगीं येवपाक लागिल्ल्यान अशे तरेच्या शब्दकोशाची चडच गरज दिसपाक लागल्या. प्रा. शांतारामबाबाचो हो कोंकणी-कोंकणी शब्दकोश ती गरज बऱ्याच प्रमाणांत भागोवंक पावतलो म्हूण आमकां आस्त आसा.

प्रसववेदनेचो दीर्घ काळ सोंपून हो शब्दकोश उजवाडाक येता. बाळक जल्माक येतना जी खोस जाता ते परी हो शब्दकोश वाचप्यांक दितना भोव खुशालकाय भोगता. पूण ह्या खुशालभरीत वेळार ह्या शब्दकोशाचे जनक प्रा. शांताराम हेदे हे जायते दीस हांतुळणार पडून आसात; परस्वाधीन जीण जगत आसात. आपूण खंय आसा, किते करता हाजें भानय तांकां आसत अशें दिसना. हो शब्दकोश रचतना तांणी दीर्घकाळ मेरेन जिद्द दाखयली आनी ते आंगार घेतिल्लें काम पूर्ण करपांत जैतवंत जाले. आपणे तयार केल्लो हो शब्दकोश उजवाडाक आयिल्ली खबर कानार पडपाची इत्सा मनांत बाळगून ते आतां शर-शय्येर स्वस्थ पडिल्ले आसूंये. आतां हो शब्दकोश तांच्या हातांत पडटलो. तांच्या भानरहीत स्थितींतय आपणालो शब्दकोश उजवाडाक आयिल्ल्याची जाणविकाय तांका जावं आनी तांच्या मनाक अपूर्व शांतताय मेळूं म्हूण आमी काळजा साकून आंवडेतांव.

हो शब्दकोश तयार केल्या उपरांत ताजेकडेन जायत्या जाणांचो संबंद आयला. हो शब्दकोश बरो जावपाक जाय म्हूण जायत्या जाणांनी आपणाक सुचता त्यो सुचोवण्यो केल्ल्यो आसात. शब्दकोशांत सुदारणा करपाक घडयिल्ले समितीचे वांगडी जावन चड उणे प्रमाणांत शब्दकोशाचो नियाळ केल्ले आसात. ह्या शब्दकोशाविशीं भासाभास जातना बसकेंत वांटो घेवन आपणाली मोलादीक मतां कळयिल्ले आसात. शब्दकोश छापपाक दिवपाच्या वावरांत हातभार लायिल्ले आसात. पूण ह्या सगळ्यांची नोंद केल्ली दिसना. आसलीय जाल्यार ह्या दीर्घ काळाचे प्रक्रियेंत कांय कागदपत्रां शेणिल्लींय आसतीत वा कोणाय कडेन पडून आसतीत. जीं कागदपत्रां आसात ताजे वेल्यान आनी जे ह्या शब्दकोशाकडेन संबंद आयिल्ले आसात तांच्या सांगणेवेल्यान कांय जाणांनी ह्या शब्दकोशाच्या वावरांत मोलादीक हातभार लायला हें कळून येता. पूण तांचोच तितलो उल्लेख आतां केलो जायत तर त्याच तरेन वावर केल्ल्या हेर जायत्या जाणांचो उल्लेख केलोना म्हळ्ळो आरोप आमचेर येवं येता. देखून कोणाचोच उल्लेख करनासतना, जांणी ह्या कोशाच्या वावरांत चड-उण्या प्रमाणांत प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष हातभार लायला त्या ज्ञात-अज्ञात सगळ्यांच्या पालवान हो शब्दकोश आज उजवाडाक येता हाजो कृतज्ञतेन उल्लेख करतां आनी त्या सगळ्यांक देव बरें करूं म्हणटां.

ह्या शब्दकोशाकडेन संबंद आयिल्ल्यांमदीं श्री. सुरेश बोरकारय आसात. तांच्या व्यापाक लागून हेआदीं ते चड वेळ ह्या शब्दकोशाक दिवपाक शकले नाशिल्ले. पूण शब्दकोशाचो छापपाचो वावर निर्णायक पांवड्यार पाविल्लेवेळार तांचो आदार घेवप गरजेचें दिसलें. तशें तांचेकडेन उतर घालतकच तांणी तो वावर हातांत घेवपाचें मान्य केलें आनी फकत १०-१५ दिसांत शब्दकोशार नदर मारून तातूंत गरजेची सुदारणा करून दिली. हाजो उल्लेख हांगा करून दिवप गरजेचें दिसता. तांकां देव बरें करूं म्हणटां.

ह्या शब्दकोशाची कांय पानां एका छापखान्यांत छापिल्लीं. पूण कांय कारणांक लागून तें काम तितल्यारच बंद जालें. आदीं छापिल्ल्या पानांचें लुकसान आपणाचेर घेवन सुरवेसाकून पुराय शब्दकोश छापून दिवपाची जापसालदारकी तन्वी ग्राफिक्सचे मालक श्री. राजेश भाटीकार हांणी आपणाचेर घेतली आनी पावला कणकणी उप्राशिल्ल्या सगळ्या अडचणींक तोंड दिवन तांणी हो शब्दकोश सोबीत छापून दिलो. तांकाय देव बरें करूं म्हणटां.

*यशवंत सदानंद पालेकार*
अध्यक्ष
*कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय*

जून, १९९२
मडगांव, गोंय

---

## शब्दकोशांत उपकरायिल्लीं संक्षिप्त रुपां

| | |
|---|---|
| ना. | नाम |
| ना. पु. | नाम – पुरुशलिंग |
| ना. स्त्री. | नाम – स्त्रीलिंग |
| ना. न. | नाम – नपुसकलिंग |
| वि. | विशेशण |
| स. | सर्वनाम |
| स. क्रि. | सकर्मक क्रियापद |
| अ. क्रि. | अकर्मक क्रियापद |
| सं. क्रि. | संयुक्त क्रियापद |
| क्रि. वि. | क्रिया विशेशण |
| अ. | अव्यय |
| वा. प्र. | वाकप्रचार |
| ना. पु. भो. | नाम पुरुशलिंग – भोववचन |
| ना. स्त्री. भो. | नाम स्त्रीलिंग – भोववचन |
| ना. न. भो. | नाम नपुसकलिंग – भोववचन |

# कोंकणी शालेय शब्दकोश

## अ

**अ** कोंकणी वर्णमाळेंतलें पयलें अक्षर; पयलो स्वर.

**अ** – उपसर्ग. हो उपसर्ग न्हयकार दाखोवंक उपकारायतात : अनीत, अवीट; वायट ह्या अर्थान उपकारायतात: अभागी, अवेळ.

**अउर** (ना. न.) हुंवार.

**अकमान** (ना. पु.) अपमान.

**अकरा** (ना. पु. वि.) धा उपरान्तचो आंकडो.

**अकरावें** (वि.) धाव्या उपरान्तचें.

**अकराळ** (वि.) भयांकृत; भिरांकूळ.

**अकस्मात** (क्रि. वि.) अवचीत. कळनासतना.

**अक्कल** (ना. स्त्री.) बुद्द; मत्त; शाणेपण.

**अक्कलशून्य** (वि.) अप्रबुद्द; शाणेपण नाशिल्लें.

**अक्रीण** (वि.) वायट रुचिचें.

**अक्रोड** (ना. पु.) एक फळ (ना. न.) अशें फळ लागपी झाड.

**अखटाय** (ना. स्त्री.) दुस्वास; नसाय; तिरस्कार.

**अखणें** (वि.) सगळें; कुडके जावंक नाशिल्लें.

**अखया** (वि.) सदांचें; नित्याचें; कायम.

**अखील** (वि.) सगळें; पुराय; पूर्ण.

**अखेर** (ना. स्त्री.) अंत, शेवट (क्रि. वि.) अखेरेक, निमाणें, शेवटाक, निमाणेकडेन.

**अखेरेक** पळय अखेर

**अख्खें** (वि.) पुराय, सगळें, पूर्ण.

**अखंड** (वि.) एकसंध, सगळें, कुडके जावंक नाशिल्लें; खंड पडनासतना, तुटनासतना.

**अखंडतायत, अखंडितायत** (ना. स्त्री.) अखंडपण, पुरायपण.

**अगड** (वि.) खोल.

**अगडबंब** (वि.) खूब मोठें, खूब व्हड, अवाढव्य.

**अगणित** (वि.) मेजूंक जायना इतलें. असंख्य.

**अगतीक** (वि.) आधाराविणें; असहाय. (**अ. जावप.** (क्रि.) आधार तुटिल्लेवरी जावप.)

**अगत्य** (ना. न.) आस्था; कळकळ; आपलेपण.

**अगत्यवाद** (ना. पु.) आपलेपण वा आस्था दाखोवपी तरा.

**अगर्दी** (क्रि. वि.) सामकें, पुराय.

**अगरसाळ** (ना. स्त्री.) देवळालागीं बांदिल्ली धर्मशाळा, देवस्थानांत येवपी लोकांक गरजेपुरतें रावंक बांदिल्लें घर.

**अगा** (उ.) दादल्यामनशाक मानान उलो मारूंक वा हडकूंक उपकरावपाचें उतर.

**अगाध** (वि.) अंतपार नाशिल्लें. जाची जाण करूंक नज अशें.

**अग्री** (ना. पु.) उजो, आग.

**अग्र** (ना. न.) मुखावयलें तोंक.

**अग्रगण्य** (वि.) सगळ्यांत व्हड, व्हडांमदीं व्हड, श्रेष्ठ.
**अग्रलेख** (ना. पु.) वर्तमानपत्रांतलो संपादकीय स्तंभांतलो लेख.
**अघटीत** (वि.) घडूंक कठीण अशें.
**अघळपघळ** (वि.) आयस पयस, प्रमाण नाशिल्लें.
**अघोर** (वि.) भयांकृत. भिरांकूळ.
**अचकीत** (क्रि. वि.) अकस्मात, अवचीत, कळनासतना.
**अचरयां, अचर्यां** (क्रि. वि.) अकस्मात, अवचीत.
**अचर्यें** (ना. न.) अजापाची घडणी, अजाप, नवल.
**अचल** (वि.) थीर, मात लेगीत हालना तसलें.
**अचळय** (क्रि. वि.) अळंग, जतनायेन, हालय धोलय नासतना.
**अचाट** (वि.) अजाप करीसारखें, आकांताचें.
**अचानक** (क्रि. वि.) अकस्मात, अवचीत, कळनासतना.
**अचीरकाय** (ना. स्त्री.) चत्राय; नात; बारकाय; भान.
**अचूक** (वि.) बरोबर, सारकें. (क्रि. वि.) चुकयनासतना.
**अचूकपण** (ना. न.) सारकेपण.
**अचेतन** (वि.) निर्जीव, जीव वा प्राण नाशिल्लें; बेशुद्ध.
**अच्छा** (क्रि. वि.) बरें.
**अच्छेर** (ना. पु.) अर्दो शेर.
**अच्छेव** (ना. पु.) अनर्थ, आकांत, आकांताचो घडिचार.
**अजगर** (ना. पु.) प्राण्याक गिळपी व्हड जिवाणें; हार.
**अजब** (वि.) नवलायेचें, अजापाचें.
**अजरामर, अजरंवर** (वि.) सासणाक उरता अशें; अमर, जाका मरण ना अशें.
**अजस्त्र** (वि.) भोव मोठें, अवाढव्य.
**अजागळ** (ना. पु.) बोकड्याच्या गळ्यांत लोंबतात त्यो गांठी. (वि.) अरवळ, घळयें, आपलें आपल्याकूच थंग नाशिल्लें.
**अजाण** (वि.) जाण नाशिल्लें, गिन्यान नाशिल्लें.
**अजाप** (ना. न.) आश्चर्य, नवल; ना घडपासारकी गजाल वा घडणी.
**अजापप** (क्रि.) आश्चर्य जावप; नवल दिसप.
**अजापी** (वि.) नवल करपी, अजाप करपी.
**अजिंक्य** (वि.) जिखूंक केन्ना येना, हारोवंक नज अशें.
**अजीत** (वि.) जिखूंक नाशिल्लें.
**अजीर्ण** (ना. न.) अपचन; पचूंक ना तें. **अजीर्ण जावप** खाल्लें जिरना जावप.
**अजून** (क्रि. अ.) आतांमेरेन, ह्या खिणामेरेन, हो वेळपर्यंत. **अजून मेरेन** आतांमेरेन.
**अट** (ना. स्त्री.) बंधन, शर्त, कबलातींतलें कलम वा नेम.
**अट्टल** (वि.) अस्सल, खांपें, सामकें.
**अटंगें** (वि.) गच्च, दाट. (अटंगें रान: झाडांनी गच्च भरिल्लें रान.)
**अटांबो** (ना. पु.) ओंट, ओंटब; एक तरेचें झाड जाच्या फळापासून सोलां करतात.
**अठरा** (ना. पु.) धा आनी आठ; (१८).
**अठरावें** (वि.) क्रमानुसार अठरा हे संख्येचे सुवातेर येवपी.

**अठराशें** (वि.) अठरा शेंकडे, एक हजार आनी आठशें; (१८००).
**अठ्ठावन** (ना. पु.) पन्नास आनी आठ (५८).
**अठ्ठावन्नावें** (वि.) क्रमानुसार अठ्ठावन हे संख्येचे सुवातेर येवपी.
**अठ्ठावीस** (ना. पु.) वीस आनी आठ; (२८)
**अठ्ठावीसावें** (वि.) क्रमानुसार अठ्ठावीस हे संख्येचे सुवातेर येवपी.
**अठ्ठेचाळीस** (ना. पु.) चाळीस आनी आठ; (४८).
**अठ्ठेचाळीसावें** (वि.) क्रमानुसार अठ्ठेचाळीस हे संख्येचे सुवातेर येवपी.
**अठ्ठ्याणव, अठ्ठ्याणव्वद** (ना. पु.) णव्वद आनी आठ; (९८).
**अठ्ठ्याणव्वदावें** (वि.) क्रमानुसार अठ्ठ्याणव्वद हे संख्येचे सुवातेर येवपी.
**अठ्ठ्यात्तर** (ना. पु.) सत्तर आनी आठ; (७८).
**अठ्ठ्यात्तरावें** (वि.) क्रमानुसार अठ्ठ्यात्तर हे संख्येचे सुवातेर येवपी.
**अठ्ठ्यांयशीं** (ना. पु.) ऐंशीं आनी आठ; (८८).
**अठ्ठ्यांयशावें** (वि.) क्रमानुसार अठ्ठ्यांयशीं हे संख्येचे सुवातेर येवपी.
**अडकप** (क्रि.) आडखळून उरप.
**अडकां-नाडकां** (ना. न. भोव.) आडकां-नाडकां, आडांगीपणा, खटपटी-लटपटी; नाका जाल्ल्यो राटावळी.
**अडचण** (ना. स्त्री.) आडखळ; आडमेळें.
**अडचप** (क्रि.) अडचण येवप, अडून उरप.
**अडचोवप** (क्रि.) अडचण करप.
**अडप** (क्रि.) अडचणीक लागून काम उरप.
**अडाणी** (वि.) अन्नाडी, निर्बुद्द.
**अडुसो, अडुळसो** (ना. पु.) एक ल्हान वखदी झाड.
**अडेचें** (वि.) अस्सल वा निजाचें न्हय तें.
**अडेज** (वि.) दोन आनी अर्द; ($2^1/_2$)
**अडेनांव** (ना. न.) बळयां घेतिल्लें वा दवरिल्लें नांव.
**अडोवप** (क्रि.) अडचोवन दाखोवप, आडखळ करप वा हाडप.
**अड्डो** (ना. पु.) जमपाची थरिल्ली सुवात वा जागो.
**अणकार** (ना. पु.) अनुवादन, भाशांतर, एके भाशेंतल्यान दुसरे भाशेंत हाडिल्लो मजकूर.
**अणकारपी** (ना. पु.) अणकार करपी.
**अणभव** (ना. पु.) अनुभव, प्रचिती, प्रत्यक्ष जाणून घेतिल्लें तें.
**अणभवप** (क्रि.) अनुभव घेवप, प्रचिती जोडप.
**अणभवी** (वि.) अणभव घेतिल्लें.
**अणवीक** (वि.) अणुपासून तयार जाल्लें.
**अणवें** (वि.) बाबत, अर्दकुटेपणां करपी. (अणवें कूळ: बाबत वा अर्दकुटेपणा करपी मनीस.)
**अणी** (वि.) आवताचें बारीक तोंक.
**अणु** (ना. पु.) रसायनान जाचो वांटो करूंक जाता असो वस्तुकण, बारिकांतलो बारीक वा भोव सूक्ष्म कण.
**अणुबाँब, ॲटमबाँब** (ना. पु.) अणवीक शक्तीपासून तयार केल्लें संहारक अस्त्र.
**अणुभट्टी** (ना. स्त्री.) अणुशक्ती निर्मूंक घडयिल्लें संयंत्र.

**अतप्पर** (क्रि. अ.) केन्नाच, ह्या फुडें, ह्या मुखार.
**अति, अती** (क्रि. अ.) खूब, चड, प्रमाणाभायर, सुमाराभायर.
**अति** (क्रि.) उपसर्ग; प्रमाणाभायर.
**अतिताय** (ना. स्त्री.) अतिरेक, आसा ताचेपरस वेगळें करून सांगपाची तरा.
**अतिरथी** (ना. पु.) व्हड झुजारी, म्हालगडो मनीस.
**अतिरेक** (ना. पु.) एकदम तोंकाक पावयिल्ली वा व्हेल्ली गजाल वा करणी.
**अतिशय** (क्रि. अ.) खूब, चड, भोव.
**अतिसार** (ना. पु.) हागवण.
**अत्तोनात** (वि.) खूब, चड, भोव, प्रमाणाभायर, सुमाराभायर.
**अत्तर** (ना. न.) फुलांपासून तयार केल्लो परमळीत अर्क.
**अत्याचार** (ना. पु.) जुलूम, पिडणूक, पिडापीड, दुश्टपण.
**अत्रवीद, अत्रबीज** (वि.) अवजाळी, आडांगी, उनाडगें, मस्तेपणा करपी.
**अत्रेक, अत्रेग** (ना. पु.) उमाळो, ध्यास्त, काळजाचो हावेस.
**अथ्रेक** (ना. पु.) अत्रेग.
**अथ्रेकणी** (ना. स्त्री.) उमळशीक, ध्यास्त. (अथ्रेकणी लागप: पैसाव्याचें दुख्ख, विरहाचें दुख्ख).
**अथीर** (वि.) अस्थिर, चंचल, थीर न्हय तें.
**अद्भूत** (वि.) अजापाचें, नवलाचें.
**अदमास** (ना. पु.) अंदाज, सुमार.
**अदमासप** (क्रि.) अदमास करप.
**अदमासपत्र** (ना. न.) अंदाजपत्र, वर्सुक्या आदा-खर्चाची मांडावळ.
**अदीक** :(जो. अ.) आनीक; चड, जास्त; (वि.) चड, चडीत. (अदीक म्हयनो: चडीत म्हयनो)
**– अदीक** : प्रत्यय, चड [मोल + अदीक = मोलादीक]
**अदीकउणें** (क्रि. अ.) चड-थोडें, (वि.) उणें-पुणें.
**अदृढ** (वि.) घट्ट न्हय तें.
**अद्रुश्ट, अदृश्ट** (ना. न.) नशीब; प्राक्तन. [अदृश्ट घडप: आकांताचें घडप, वायट घडप].
**अदृश्य** (वि.) जें नदरेक दिसना तें; गुप्त.
**अधर्म** (ना. पु.) अनाचार, धर्माभायरी करणी, धर्मशास्त्राआड कर्तुब.
**अधर्मी** (वि.) धर्मान चलना तें.
**अधांतर** (ना. न.) अवकाश, अंतराळ.
**अधाशी** (वि.) खादोळें, बुभूक्षित, वसवशें.
**अधीक** (ना. स्त्री.) संख्येंत संख्या मेळोवपाक गणितांत उपकारायिल्ली खूण [+]. (क्रि. अ.) चड, खूब. (सं. अ.) आसा ताच्या भायर.
**अधिकर** (ना. पु.) मूळ कराचेर आकारिल्लो आनीक कर.
**अधिकरण** (ना. न.) व्याकरणांत कारक अर्थ: हातूंत उतर सातत्रे विभक्तींत आसता.
**अधिकाधिक** (वि.) चडांत चड.
**अधिकार** (ना. पु.) पदवी, योग्यताय, सत्ता, झुटी.
**अधिकारी** (ना. पु.) अधिकार हातांत आशिल्ली व्यक्ती.
**अधिकृत** (वि.) सरकारान वा संस्थेन वा अधिकारी व्यक्तीन अधिकारीपणान केल्लें वा सांगिल्लें.
**अधिनियम** (ना. पु.) विधीमंडळान केल्लो कायदो.

**अधिपती** (ना. पु.) स्वामी, धनी, मुखेल अधिकारी.

**अधिभार** (ना. पु.) भाडें वा कर हाचेर आधारून वाडयिल्ली रक्कम.

**अधिवेशन** (ना. नं.) खंयचेय संस्थेची, तिचे नेमावळीक धरून आपयल्ली वांगड्यांची बसका.

**अधिश्ठान** (ना. नं.) राबितो, सासाय.

**अधिसूचना** (ना. स्त्री.) राजपत्रांत उजवाडायल्ली सरकारी कळोवणी.

**अधीर** (वि.) उतावीळ, धीर धरना तें.

**अधीक्षक** (ना. पु.) कारभार चलोवन घेवपी.

**अधोगती** (ना. स्त्री.) पतन, नैतीक नदरेन उणाकपणाक पावप.

**अध्ययन** (ना. नं.) अभ्यास, शिकप, शिक्षण, ज्ञान जोडप.

**अध्यक्ष** (ना. पु.) येजमानी; सभा, समिती, मंडळ, संस्था वा अशेतरेच्या संघटनाच्या वावराचे नियमन करपी मुखेल.

**अध्यात्म** (ना. नं.) आत्म्याविशींचें ज्ञान.

**अध्यापक** (ना. पु.) शिकोवपी, शिक्षक.

**अध्यापन** (ना. नं.) शिकोवपाचें काम.

**अध्याय** (ना. पु.) ग्रंथांतलें प्रकरण वा वांटो, अवेस्वर वा आवेसोर.

**अध्यासन** (ना. नं.) विद्यापीठांतले थारावीक विशयाक ओंपिल्लें केंद्र.

**अनंत** (वि.) अमर्याद, अंतपार नाशिल्लें. (ना. पु.) एक फूल झाड.

**अनधिकृत :** (वि.) अधिकृत न्हय तें.

**अनन्य** (वि.) जाचेसारकें आनीक ना तें.

**अनन्वित** (वि.) सुमाराभायर, प्रमाणाभायर.

**अनपत** (ना. स्त्री.) वायट दशा वा आवतिकाय.

**अनपेक्षित** (वि.) येवजूंक नाशिल्लें, कल्पनेभायलें, अपेक्षेभायलें.

**अनभावार्थ** (ना. पु.) श्रद्धाहीनपण.

**अनभावार्थी** (वि.) श्रद्धा नाशिल्लें, देवा धर्माचेर विस्वास नाशिल्लें.

**अनमनप** (क्रि.) फाटी फुडें जावप, अस्थिरपण दाखोवप.

**अनर्थ** (ना. पु.) आखांत, व्हड संकश्ट, भयांकृत घडणी.

**अनरसो** (ना. पु.) तांदळाच्या पीठापासून तळून केल्लो खावपाचो गोड जिनस.

**अनवधान** (ना. नं.) निश्काळजीपण, भान दवरिनासतना वर्तुवपाची तरा.

**अनवळखी** (वि.) अपरिचीत, वळख देख नाशिल्लें.

**अनवाणे** (वि.) उक्त्या पांयांचे, [अनवाणे चलप : उक्त्या पांयांनी चलप.]

**अनवाळें** (ना. नं.) सोवळें, जें शुद्ध तें.

**अनवाळेंपण** (ना. नं.) सोवळेपण.

**अनशीण** (ना. स्त्री.) अनस, अनसाचें रोंप.

**अनहित** (ना. नं. ) अकल्याण, लुस्काण, वायट, हानी.

**अनागोंदी** (वि.) अवेवस्थीत, धरबंद नाशिल्लें.

**अनाचार** (ना. पु.) नितीभायरी वर्तणूक, अधर्मी वागणूक.

**अनाथ** (वि.) पोरकें, निराधार, निराश्रित, आधार नाशिल्लें.

**अनादर** (ना. पु.) अकमान, अवमान.

**अनादि** (वि.) जाका आरंभ ना तें. [अनादि काल : जाका गणती ना तो

काळ].
**अनामत** (ना. स्त्री.) विस्वासान दिल्ली ठेव वा कसलीय वस्त.
**अनामिक** (वि.) नांव नाशिल्लें.
**अनायास** (ना. नं.) सोंपेपण, सहजपण.
**अनारोग्य** (ना. नं.) भलायकी नासता तें, पीडा.
**अनार्य** (ना. पु.) आर्य वंशाचो न्हय तो.
**अनावर** (वि.) सावरूंक वा थातारूंक जायना अशें, आटापाक येना अशें.
**अनावरण** (ना. नं.) उक्तावण, उद्घाटन.
**अनावश्यक** (वि.) गरज नाशिल्लें.
**अनाश्रित** (वि.) निराधार, आसरो नाशिल्लें.
**अनास्था** (ना. स्त्री.) आपलेपण नाशिल्ली स्थिती वा वर्तणूक.
**अनाहूत** (वि.) अकस्मात, अवचित, आगांतुक.
**अनिच्छा, अनित्सा** (ना. स्त्री.) नाखुशी, नावड.
**अनित्शीत, अनिश्चीत** (वि.) थारावंक नाशिल्लें.
**अनीत** (ना. स्त्री.) नितीचो उणाव, वायट चालचलणूक, पातक.
**अनुक्रम** (ना. पु.) एका फाटल्यान एक अशे तरेन केल्ली मांडावळ.
**अनुकुळाय** (ना. स्त्री.) हीत वा फायदो जावपासारकी परिस्थिती.
**अनुकूल** (वि.) फायद्याचें, बऱ्याचें, हीत जावपासारकें.
**अनुदान** (ना. न.) देणगी, दुडवांचो पालव.
**अनुनासीक** (वि.) उच्चारतना नाकयां जाता तें.
**अनुपकारी** (वि.) उपकार करपी न्हय अशे. बेमान, उपकाराक विसरपी.
**अनुभव** (ना. पु.) अणभव, खासा आपणें जोडिल्लें गिन्यान, खासा भोगून आइल्ली जाण.
**अनुभवी** (वि.) अणभव आशिल्लें.
**अनुमती** (ना. स्त्री.) मान्यताय, हयकार.
**अनुमान** (ना. न.) अदमास, तर्कान केल्लो समज.
**अनुमोदन** (ना. न.) मान्यताय, तेंको.
**अनुयायी** (ना. पु.) दुसरो सांगता वा करता तशें करूंक सोदपी.
**अनुरुप** (वि.) रुपाक गुणांक सोबसारकें, योग्य, फावो तशें.
**अनुवाद** (ना. पु.) एके भाशेंतल्या बरपाची दुसरे भाशेंत तशाक तशी उतरावणी, अणकार, भाशांतर.
**अनुवादक** (ना. पु.) अणकारपी, भाशांतरकार.
**अनुशासन** (ना. न.) शीस्त, नेमांप्रमाण चलपाची संवय.
**अनुसुची** (ना. स्त्री.) जोडपत्र (कायद्यांत). **अनुसुचीत जात वा जमात** (ना. स्त्री.) अनुसुचींत सांगिल्ली जात वा जमात.
**अनुस्वार** (ना. पु.) एक खूण. नाकांतल्यान जावपी उच्चार दाखोवपाखातीर ती उपकारायतात. देखीक: घरांत: हातूंत ही खूण अनुस्वार.
**अनुपचारीक** (वि.) उपचार म्हणून करिनात अशें.
**अनेक** (वि.) एकापरस चड, खूब.
**अनोळखी** (वि.) वळख नाशिल्लें, परकी.
**अन्न** (ना. न.) जेवण-खाण.
**अन्नाडी** (ना. पु.) (पळय अनाडी)
**अन्य** (वि.) हेर, दुसरे, खेरीत.

**अन्याय** (नां. पु.) न्याय न्हय तो.
**अप** – (अ.) उपसर्ग (वायट, विरूद्ध ह्या अर्थान उपकारायतात.)
**अपघात** (ना. पु.) अकस्मात जाल्ली घडणूक, चड करून वायट.
**अपघाती** (वि.) अपघातान जाल्लें.
**अपचन** (ना. न.) अजीर्ण, जिरवण नासपाचो दोश.
**अपमान** (ना. पु.) अकमान; अनादर.
**अपमान करप** फावो जाल्लो मान दिवप ना.
**अपमानप** (क्रि.) अपमान करप.
**अपरंपार** (वि.) शिमेवेर नाशिल्लें, खूब.
**अपरान्त** (ना. पु.) कोंकण प्रदेशाचें पोन्नें नांव.
**अपराध** (ना. पु.) गुन्यांव.
**अपराधी** (वि.) अपराध करपी.
**अपरिचीत** (वि.) अनवळखी.
**अपरिहार्य** (वि.) वाटावंक नज अशें.
**अपरुख्रीं** (क्रि. वि.) अस्वडीं.
**अपरूप** (वि.) नवलांचें. (अ. लं.) तोखणाय करीसारकें.
**अपवाद** (ना. पु.) आडवाद.
**अपवित्र** (वि.) पवित्र न्हय अशें.
**अपव्यय** (ना. पु. ) गरजेभायर खर्त्त.
**अपव्यय करप** गरज नासतना खर्चप.
**अपशकुनी** (वि.) अपशकून करपी.
**अपशकून** (ना. पु.) मुखार येवपी वायट घडणूकेची सुचोवणी.
**अपशब्द** (ना. पु.) वायट उतर, गाळ.
**अपक्ष** (वि.) पक्षाचें न्हय अशें.
**अपात्र** (वि.) योग्य, लायक न्हय अशें.
**अपादान** (ना. न.) (व्या.) पांचवे विभक्तीचो अर्थ.
**अपार** (वि.) पार नाशिल्लें, शीम-मेर नाशिल्लें, खूब.
**अपुर्णांक** (ना. पु.) पूर्ण न्हय असो आंकडो वा संख्या.
**अपुरताय** (ना. स्त्री.) उणाव.
**अपुरतें** (वि.) पुरतें जायना अशें, अपूर्ण.
**अपुर्बाय** (ना. स्त्री.) तोखणाय, कौतुक.
**अपुर्बुद** (ना. स्त्री.) नेणारपण, भुरगें मत्त.
**अपूर्ण** (वि.) पूर्ण न्हय अशें, अर्दकुटें.
**अपूर्व** (वि.) आदीं केन्नाच अणभवंक नाशिल्लें, तोखणायेचें.
**अपेशी** (वि.) यश मेळना असो.
**अपेस** (ना. न.) हार, यश न मेळप.
**अपेक्षा** (ना. स्त्री.) आशा, इत्सा.
**अप्तागीर** (ना. पु.) (पळय अब्दागीर).
**अप्रतिष्ठा** (ना. स्त्री.) बेअब्रु, दुर्दशा; मान, अब्रू वचून जाल्ली वायट दशा.
**अप्रतीम** (वि.) तुळा करूंक नज अशें.
**अप्रीय** (वि.) आवडना अशें.
**अप्रुपाय** (ना. स्त्री.) नवलाय, सुंदरताय.
**अप्रूप** (वि.) अजापांचें.
**अप्सरण** (ना. न.) किचांट, आळ, वायट घडणूक.
**अप्सरा** (ना. स्त्री.) स्वर्गांत देवांक रिझोवपी सुंदर बायल.
**अपंगूळ** (वि.) शक्त नाशिल्लें, अशक्त.
**अफरातफर** (ना. स्त्री.) आपणाकडेन आशिल्ल्या दुसऱ्यांच्या दुडवांची फारावणी.
**अफवा** (ना. स्त्री.) आधार नाशिल्ली खबर.
**अफाट** (वि.) खूब, मेजूं नज अशे.
**अब्दागीर** (ना. पु.) राजाक धरचेली मानाची सत्री.

**अबर्गत** (वि.) बुद्दीहीण; अजागळ; अरवळ.
**अबला** (ना. स्त्री.) बायलमनीस.
**अबुद्द** (ना. स्त्री.) बुद्धीचो अभाव.
**अबुद्धीपण** (ना. न.) पळय अबुद्द.
**अब्ज** (वि.) शंबर कोटी.
**अब्बा** (उ.) अजाप दिसून आइल्लो उमाळो. (ना.) बापायक मानान आनी मायेन मारपाचो उलो.
**अब्रू** (ना. स्त्री.) इज्जत, मान, लज.
**अंबारी** (ना. स्त्री.) हत्तीचेर बसपाखातीर आशिल्ली घुमटी.
**अंबुरकें** (वि.) अमुरपिकें.
**अभक्त** (ना.) भक्ती करपी न्हय तो.
**अभद्र** (वि.) अमंगल; अपवित्र.
**अभय** (ना. न.) भंय ना म्हणपाचें दिल्लें उतर, निर्भय.
**अभक्ष्य** (वि.) खावचें न्हय अशें.
**अभागी** (वि.) दुर्दैवी.
**अभाग्य** (ना. न.) वायट नशीब; दुर्भाग्य.
**अभाव** (ना. पु.) उणाव.
**अभिजीत** (ना. पु.) दुस्मानाक जिखपी.
**अभिनंदन** (ना. न.) तुस्त.
**अभिनेतो** (ना. पु.) नट.
**अभिनेत्री** (ना. स्त्री.) नटी.
**अभिन्न** (वि.) भेद करूंक नजं अशें; कुशीक काडूंक नज अशें.
**अभिप्राय** (ना. पु.) मत, शेरो.
**अभिमान** (ना. पु.) गुणांची आनी अस्मितायेची जाणविकाय, ल्हान प्रमाणांत गर्व.
**अभिमानी** (वि.) अभिमान बाळगुपी.
**अभिशेक** (ना. पु.) मंत्र म्हणत घाल्लें न्हाण (चड करून देवाक.)
**अभूतपूर्व** (वि.) आदीं घडूंक ना अशें.
**अभेद** (ना. पु.) एकरूप; एकजीव.
**अभ्यास** (ना. पु.) शिक्षण.
**अभ्यासप** (अ. क्रि.) शिकप.
**अभ्यासू** (वि.) शिकपाची आवड आसपी.
**अमर्के** (वि.) जाची आदीं खबर, नांव आयलां तें.
**अमर** (वि.) मरण नाशिल्लें, सासणाक उरपाचें, चिरंजीव.
**अमरकोश** (ना. पु.) संस्कृत भाशेचो कोश.
**अमरपटो** (ना. पु.) सदांकाळ चलपाचो हक वा नेम.
**अमरपद** (ना. न.) मोक्ष, मुक्ती.
**अमरलोक** (ना. पु.) स्वर्ग.
**अमर्याद** (वि.) शीम नाशिल्लें.
**अमान्य** (वि.) मान्य नाशिल्लें.
**अमास** (ना. स्त्री.) म्हयन्याची तिसावी तीथ.
**अमिताभ** (वि.) तेजीश्ट.
**अमीर** (वि.) गिरेस्त. (ना. पु.) सरदार.
**अमुरपिकें** (वि.) पिकूंक आइल्लें.
**अमूक** (वि.) थारायिल्लें.
**अमूर्त** (वि.) इंद्रियांक भावना अशें, मूर्त रुपांत ना अशें.
**अमृत** (ना. न.) एक पियेवपाची वस्त. (ती पितकच मनीस मरना असो समज आसा.) देवांनी पियेवपाची वस्त.
**अमोल** (वि.) मोल करूंक येना अशें.
**अयशस्वी** (वि.) अपेशी; यश येवंक ना अशें.
**अयोग्य** (वि.) योग्य न्हय अशें, रितीभायरें.
**अरण्य** (ना. न.) रान; अटंग्यरान.
**अरब** (वि.) १. शंबर कोटीं. २. अरब वंशाचो मनीस.
**अरवळ** (वि.) पिसाय; अर्दकुटो; अबुद्दी.

**अरसप** (अ. क्रि.) निस्तप; जिरप.
**अराजक** (ना. न.) अंदाधुंदी; कायदो नाशिल्लें राज.
**अरिश्टाचें** (वि.) आकांताळें; संकश्टाचें.
**अरीश्ट** (ना. न.) संकश्ट; संकट.
**अरूच** (ना. स्त्री.) जेवणा खाणाची वीट; रुचिचो उणाव.
**अरूंद** (वि.) अशीर; उणे रुंदायेचें.
**अरेरावी** (ना. स्त्री.) दादागिरी; जुलूम.
**अर्क** (ना. न.) सत्व; ऐन तें.
**अर्ग** (ना. न.) भोवमान करचेखातीर दितात तें.
**अर्ज** (ना. पु.) **अर्जी** (ना. स्त्री.) नमळायेन केल्लें मागणें.
**अर्जदार** (ना. पु.) अर्ज करपी.
**अर्थ** (ना. पु.) उतर, उतरां पुंजो, वाक्य बरेंभशेन समजुचें म्हणून केल्ली फोडणिशी; स्वारस्य. (ना. स्त्री.) हौस.
**अर्द** (ना. न.) एकाचे दोन समा वांट्यातलो एक.
**अर्दकुटें** (वि.) पुराय न्हय अशें.
**अर्पप** (स. क्रि.) ओंपप; अर्पण करप.
**अर्र** (उ.) भेश्टावंक उपकारावपाचें उमाळी उतर.
**अल्प** (वि.) थोडें; इल्लें.
**अल्पसंख्य** (वि.) संख्येन उणे.
**अव** (अ.) उपसर्ग (हो लागतकच वायट, सकयल, पयस असो अर्थ जाता.)
**अवकळा** (ना. स्त्री.) वायट दशा; दूख.
**अवगूण** (ना. पु.) वायट गूण; दोश.
**अवघड** (वि.) कठीण; जड.
**अवचिन्न** (वि.) वायट गुणाचें; मस्तें.
**अवचित** (क्रि. वि.) अकस्मात; अचकीत.
**अवजड** (वि.) धरूंक येना अशें.
**अवजार** (ना. न.) आवत.
**अवजाळी** (वि.) आडांगी; मस्तें; सांगिल्लें आयकना असलें.
**अवतरप** (अ. क्रि.) अवतार घेवप; अकस्मात येवप; उदेवप.
**अवतार** (ना. पु.)मनशाच्या जल्माक आइल्ली दैवी शक्त; सवंग. **ताचो अवतार पळय :** ताचें सवंग पळय.
**अवताराचें** (वि.) आकांताचें.
**अवताराचो पावस :** आकांताचो पावस.
**अवतारी** (वि.) देवासारके गूण आशिल्लो.
**अवदसा, अवदिसा** (ना. स्त्री.) वायट वृत्ती, दळदीर.
**अवमान** (ना. पु.) अपमान.
**अवयव** (ना. पु.) भाग; वांटो; कुडीचो वांटो.
**अवर्शण** (ना. न.) दुकळ; दुश्काळ.
**अवलंबप** (अ. क्रि.) अवलंबून रावप; पातयेवन, आधारान आसप.
**अवलक्षण** (ना. न.) १. वायट लक्षण; वायट खूण. २. अवचिन्न.
**अवलक्षणी** (वि.) अवचिन्नाळें.
**अवशेश** (ना. पु.) उरिल्लो कुडको. (चड करून मोडल्या उपरान्त).
**अवश्य** (क्रि. वि.) जरूर, केन्नाय.
**अवस** (ना. स्त्री.) उमास.
**अवसर** (ना. पु.) १. फुरसद; वेळ; वगत. २. भार.
**अवसरप** (अ. क्रि.) अवसर सोंपप.
**अवस्ता, अवस्था** (ना. स्त्री.) दशा; वायट स्थिती.
**अवसान** (न.) धीर; नेट; धिटाय.
**अवसान घात** (ना. पु.) उत्साहभंग.
**अविचार** (ना. पु.) योग्य न्हय असो विचार; चूक.
**अविचारी** (वि.) योग्य विचार करपी

न्हय अशें; विचार नाशिल्लें, हुतहुतें.
**अविश्वास, अविस्वास** (ना. पु.) विस्वासाचो अभाव.
**अविस्वासप** (अ. क्रि.) पातयेवप ना.
**अविश्वासी** (वि.) विश्वास नाशिल्लें; पातयेवपासारकें न्हय अशें.
**अवेर, अवेरां** (क्रि. वि.) पैरच्या आदल्या दिसा.
**अव्यवस्था, अवेवस्था** (ना. स्त्री.) वेवस्थेचो उणाव.
**अव्यवहार, अवेव्हार** (ना. पु.) वेव्हाराचो उणाव.
**अव्यवहारी, अवेव्हारी** (वि.) वेव्हार कळनाशिल्लो.
**अशक्त** (वि.) शक्त नाशिल्लें, घटसाण नाशिल्लें, दुर्बळ.
**अशक्यताय** (ना. स्त्री.) अरुंदाय.
**अशिक्षित** (वि.) बरोवंक, वाचूंक येना अशें.
**अशीर** (वि.) अरूंद, रूंदी नाशिल्लें.
**अशुद्ध** (वि.) शुद्ध न्हय अशें.
**अश्टम, अष्टम, अस्टम** (ना. स्त्री.) आठ; आठवे तिथीचें नांव.
**अस्टवांकूड** (वि.) आठकडेन वांकडें.
**असत, असत्य** (ना. न. वि.) फट, खरें न्हय तें.
**अस्कत** (वि.) अशक्त; बळ वा शक्त नाशिल्लो.
**असडीक** (वि.) पातळ कल्लाचो कड्डो.
**अस्त** (ना. पु.) अखेर, शेवट; ना जावप.
**असत्य** (ना. न.) जें सत् न्हय; फट; असत्.
**अस्तंत** (ना. स्त्री.) जे वटेन सूर्य पडटा ती दिका, अस्तम, अस्तेंत.
**अस्तमप** (अ. क्रि.) ना जावप; सूर्य मावळप; नदरेआड जावप.
**अस्ताव्यस्त** (वि.) कशाकशेंय, शिस्त आनी वेवस्ता नाशिल्लें.
**असमजिकाय** (ना. स्त्री.) समजिकायेचो अभाव, समज नासपाची सभावाची एक तरा, नेणारपण.
**असमजीक** (वि.) जें समजना; जाचो समज मेळना.
**अस्मादीक** (ना. पु.) खासा आपूण; हांव ह्या उतराक लेखिल्लें व्हडपणाचें उतर.
**अस्मिताय** (ना. स्त्री.) निजाचें वेगळेंपण, आपले खाशेले सभाव गूण.
**अस्त्र** (ना. न.) झुजांत अुपकारावपाचें आनी दुस्मानाक ना करपाचें एक साधन.
**असलो** (वि.) अशे तरेचो, अशे पद्धतिचो, अशे भाशेनचो.
**अस्वडी** (क्रि. वि.) फाटल्यान, दोळ्यांआड, लिपचोरयां.
**अस्वस्थाय** (ना. स्त्री.) हुसको; अुचंबळाय; असस्ताय.
**असार** (वि.) सयसुवाद नाशिल्लें, कसलोच फायदो नाशिल्लें.
**असुदाय** (क्रि. वि.) सोवकास; थंडपणान; हुसक्या मेकळो; जाय तशें आनी जाय तितलें.
**असुर्पी** (ना. स्त्री.) सादारण अडेच रुपयाच्या मोलाचें एक पयलीं काळचें नाणें.
**असूक/ओसूक** (ना. स्त्री.) सगल्या आंगार फोड उठपाचो एक भिरांकूळ वशा रोग; देवी.
**असूख** (ना. न.) सुखाचो उणाव वा अभाव; दुख्ख; चिंता.
**अशें** (वि.) हे तरेचो; हे भाशेन; ह्या सारको.

**अहवाल** (ना. पु.) जाल्ले घडणुकेची खबर.

**अहिंसा** (ना. स्त्री.) कोणाकच दुखोवचें न्हय; मारचें न्हय अशें शिकोवपी तत्व.

**अहंकारी** (वि.) गर्व; मद; मदांतकाय.

**अळय** (ना. स्त्री.) बैलाचे फाटीर जूं बांदून ताका लांब कोंड्यान अडखळायिलें एक नितळ फळें.

**अळय मारप** (स. क्रि.) खणिल्ली शेता जमीन एका तळार हाडप; नितळ करप.

**अळशिकप** (अ. क्रि.) घाणावप; निंदा करप; कुस्कुटावप; दुसऱ्याक कांय न्ही करप.

**अळशिकावणें** (वि.) घाणयारें; कुसक्या सभावाचें; घाण कोयर बी जाल्लें.

**अळशीक** (ना. स्त्री.) पोजड; घाण; रेबड.

**अळंग** (क्रि. वि.) ल्हवू; हालय-धोलय नासतना; जतनायेन.

**अक्ष** (ना. पु.) आळ; निमित्य; किरकोळ कारण.

**अक्षता** (ना. स्त्री.) पुजेखातीर वा कसल्याय बऱ्या धर्मीक वावराक उपकरावचेले पिंजर लायिल्ले तांदूळ.

**अक्षर** (ना. न.) आपले विचार आनी उमाळे बरोवन सांगूंक उपकारावचेली कुरू. (वि.) जें ना जावन वचना अशें.

## आ

**आई** (ना. स्त्री.) आवय; बा.

**आका** (ना. स्त्री.) बापायची भयण.

**आक्त** (ना. पु.) दबाजो; घडणूक; काम.

**आकृताय** (ना. स्त्री.) चित्रायल्ले वस्तूची भायली वळ; वस्तूचो भायलो आकार; चित्र.

**आक्सांव** (ना. पु.) वांटो; भाग.

**आंकडो** (ना. पु.) संख्या; संख्या बरोवपाची कुरू.

**आकंठ** (क्रि. वि.) गळ्यामेरेन; पोटभर.

**आकांत** (ना. पु.) किंवाटो; बोब; बोवाळ; गोंदळ; रडारड (वि.) खूब व्हड; खूब मोटो.

**आकांतप** (अ. क्रि.) हुसक्यान बोवाळ करप; चड हुसक्यान आवरो उडिल्ल्यावरी जावप.

**आकांताचें** (वि.) खूब व्हड; खूब चड.

**आकांतावप** (स. क्रि.) भेसडावप.

**आकांताळें** (वि.) खूब मोटें; खूब व्हड.

**आकादमी** (ना. स्त्री.) शास्त्र आनी कला हांची उदरगत घडोवंक एकठांय आयिल्लो गिन्यानी लोकांची संस्था.

**आकार** (ना. पु.) वस्तूची भायली कड; भायलो आंवाट.

**आकाश** (ना. न.) मळब.

**आकाशवाणी** (ना. न.) १. मळबांतल्यान आयिल्लो आवाज; मळबांतल्यान आयिल्ली देवाली शिटकावणी. २. रेडियो.

**आकास-दिवो** (ना. पु.) दिवाळे दिसा रंगीत फोली बी लावन ऊंच जाग्यार पेटयतात तो दिवो.

**आकूळ-पिकूळ** (वि.) तळमळ्यांनी भरिल्लें; उतळतापानी त्रास पाविल्लें; कासावीस जाल्लें.

**आकोर्दियांव** (ना. पु.) एक वाद्य. तें पेटयेभाशेन आसता.

**आंक** (ना. पु.) वांटो; भाग.

**आंकवार** (वि.) लग्न जावंक नाशिल्लो चलो वा चली.
**आंकविशेशण** (ना. न.) आंकडो सांगपी विशेशण.
**आंकरी** (ना. स्त्री.) कोंबरी; निकतेंच फुटिल्लें ल्हान पान.
**आख्खो** (वि.) सगलो; सबंद.
**आखणु-माखणू** (ना.) ल्हान भुरग्यांचें एक गीत. हें गीत भुरग्याच्या माथ्याक; आंगाक बी तेल लायतना म्हणटात.
**आखाणो** (ना. पु.) हाताचें मोटवें, दाट, हेर चार बोटांपसून वेगळायल्लें बोट.
**आखो-माखो** (ना. पु.) ल्हान भुरग्यांचो एक खेळ.
**आंखडप** (अ. क्रि.) आंवुळप; भितर ओडिल्ल्यावरी जावप.
**आंखळप-माखळप** (स. क्रि.) चड अपुरबायो करप; थातो माथो करप.
**आंखूड** (वि.) मोटवें.
**आगटें** (ना. न.) उजो करपाचें पत्र्याचें आयदन; शेगडी.
**आगत-स्वागत** (ना. न.) आपल्याकडेन आयिल्ल्याक बरे भाशेन दिल्लो येवकार.
**आग्नेय** (ना.) उदेन्त आनी दक्षिण हांचे मदली दीक.
**आगर** (ना. पु.) मीठ पिकोवपाची शेता भाशेन जमीन.
**आगरी** (वि. ना.) मिठाच्या आगरांत वावर करपी मनीस.
**आगरो** (ना.) खूप केल्लें आमंत्रण; हट.
**आंगवस्तर** (ना.) न्हेसपाचें लुगट; चड करून घरांत न्हेसपाची पातळ येलिफांत वा मलमल.
**आगळें** (वि.) सप सप दिश्टी पडना अशें; वेगळेच तरेचें.
**आगळो-उणो** (वि.) चड-थोडो.
**आंग** (ना.) शरीर; कूड; देह; भाग.
**आंग काडप** (वा. प्र.) हुसक्यान वो भिरांतेन कच् करून आंग हालप; फाटीं सरप.
**आंगठो** (ना. पु.) पांयाचें वा हाताचें पयलें बोट.
**आंगड** (ना. स्त्री.) गांवच्या बाज़ाराचो वाटार.
**आंगण** (ना. पु.) घरा भायलो वा घराभितरल्या चौपेटी मदलो नितळ केल्लो जागो.
**आंगबळ** (ना. न.) कायबळ; धिटाय; हुशारकाय.
**आंगलें** (ना.) ल्हान भुरग्याची आंगाक घालपाची काबाय; व्हिस्तीत; बेबो; बानयान बी.
**आंगलोट** (ना. पु.) आंगाची बांदावळ; कुडीचो आकार.
**आंगवण** (ना. स्त्री.) देवाक दान करपाचें वो देवाची सेवा करपाक दिल्लें अुतर.
**आंगवप** (स. क्रि.) आंगवण करप; देवाकडेन कसलीय मागणी करून ताच्या बदला देवाक कितेंय दिवपाचें करप.
**आंगवळण** (ना. न.) सवंय; अभ्यास.
**आंग सोडप** (वा. प्र.) बारीक जावप; सुकप; भागप.
**आंगशी** (ना.) लुगटाचो कुडको; आंगटी; लुगटा बोंथर.
**आगांतूक** (वि.) अकस्मात आयिल्लें.
**आंगाक उजो पेटप** (वा. प्र.) खूब तिडक येवप; आंगाक जाळ पडप.
**आंगाचें** (ना. न.) आंगावयलें.
**आंगार पडो** (वि.) गुन्यांव नासतना दुसऱ्याचे वाटेक वचपी; कारणाबगर

किजील करपी.

**आंगार वचप** (अ. क्रि.) आंगार जुडप; मारूक वचप.

**आंगारो** (ना. पु.) देवाचो प्रसाद असो मानून घेतिल्लो होमांतलो धुपाआरतीतलो कोळसो.

**आंगावर्ले** (ना. न.) ल्हान भुरग्याचें आंगाचें.

**आंगूळ** (ना. न.) बोटाचे जाडयेचें माप; हाताचें बोट.

**आगे** (अ.) बायल-मनशेक भौमानान उलो मारपाचें उतर.

**आगेल** (ना. न.) व्हड उजो; उज्याचो लोट.

**आगो** (अ.) चलयेक उलो मारपाचें एक उतर.

**आगोळ** (ना.) केसांचे दोन चार धागे.

**आचरप** (क्रि.) करप; करणेंत हाडप.

**आचवप** (क्रि.) आवंप; खातकच वा जेवतकच तोंड धुवप.

**आंचप** (क्रि.) जमनीची माती खणून कालोवन ती नितळ करप.

**आचार** (ना. पु.) १. अपशकून. २. चाल-चलणूक.

**आचारवाणें** (वि.) अपशकुनी; वायट चाल-चलणुकीचें.

**आज** (क्रि. वि.) आयच्या दिसा.

**आजगो** (ना. पु.) कुसाचें भात; कूस आशिल्ल्या एका भाताची जात; भाताचें अेक गांवठी बीं.

**आज्यूत** (ना. न.) परसाकडेन निवळ जावचें म्हणून पोटांत सकयल्यान घेवपाचें उदक.

**आजवेर** (वि.) आज मेरेन.

**आजी** (ना. स्त्री.) बापायची वा आवयची आवय.

**आंजीण-कांजीण** (ना.) ल्हान भुरग्याचो एक खेळ.

**आजे-पणजे** (ना.) पयलींची पिळगी; जाणटेले.

**आजो** (ना. पु.) बापायचो वो आवयचो बापूय.

**आजोळ** (ना. न.) आवयल्या आवय-बापायचें घर; आवयचें कुळार; मामालें घर.

**आंज** (ना. पु.) देवदूत.

**आटप** (अ. क्रि.) उश्णतायेन इल्लें इल्लें उणें जावप; सुकप.

**आटपप** (स. क्रि.) सोंपवप; काबार करप.

**आट-फाट** (ना.) ल्हान भुरग्यांचो फाट धरपाचो खेळ.

**आटवल** (ना. न.) मेथी बी घालून केल्लें तांदळाचें गोडशें.

**आटाप** (ना.) सोंपोवन उडोवचेलो खूब वावर; आस्पाव.

**आटी** (ना. स्त्री.) फांती.

**आटो** (ना.) वाटकुळी लाकडाची वा धातूची कांब.

**आटा-पाटो** (ना. पु.) बडवाचार; मोटेपण; व्हडविकाय; व्हडपण.

**आठ** (ना. पु.) ८ आंकडो.

**आठ्ठीस** (ना. पु.) तीन दसक आनी आठ (३८).

**आठव** (ना. पु.) उगडास; याद.

**आठवप** (स. क्रि.) उगडास काडप; मानप (उपकार).

**आठवो** (ना. पु.) दाणो-गोटो मेजपाचें एक माप.

**आठोर्ले** (वि.) आठ म्हयन्यांनी जाल्लें.

**आड** (अ.) विरूद्ध.

**आडकथा** (ना. स्त्री.) मुखेल खबरेंत

भरशिल्ली दुसरी कसलीय खबर.
**आडको** (ना. पु.) अर्दी पै.
**आडखळ** (ना. स्त्री.) अडचण.
**आडखळप** (अ. क्रि.) घुस्पप.
**आडखाण** (ना. स्त्री.) आडवेळाचे खाण-जेवण.
**आड्डप** (अ. क्रि.) मोट्यान उलोवप; व्हड ताळ्यान उलोवप; तिकूसून उलोवप; थेंगशेवन उलोवप.
**आड पडप** (अ. क्रि.) आडवो पडून विसव घेवप; हातुळणार आडवो जावप; पडून रावप.
**आडफागूर** (ना. पु.) झाडाक फुटिल्लो आडवो खांदो.
**आडंबर** (ना. न.) भपको; बडवचार; व्हडपण.
**आडबारें** (ना. न.) धा-बारा हात लांबायेचो खूट; आडभर.
**आडमर्ण** (ना. न.) मर्ण येवपासारखी बादा; अपमृत्यू.
**आडमार्ग** (ना. पु.) १. पांयवाट; बोळ; आडखळीची वाट; २. अनितीचो उपाय; वायट सादन.
**आडमेळें** (ना. न.) आडखळ; अडचण.
**आडवल** (ना. न.) पामरी; शालीभाशेन फाटीर पांगुरपाचें सोबीत लुगट.
**आडवेळ** (ना. स्त्री.) सकाळ आनी दनपार हांचे मदलो वा दनपार आनी तीनसांज हांचे मदलो वेळ.
**आडवां** (ना.) पिकून तयार जाल्लें शेताचें थाम.
**आडवें** (वि.) उबें न्हय तें.
**आडसर** (ना. न.) शियाळें; तन्नो नाल्ल.
**आडसार्टे** (वि.) मध्यम उंचायेचें.
**आडावण** (ना.) भितर सरूंक मेळचें न्हय म्हणून केल्ली आडखळ.
**आडावप** (स. क्रि.) बंद करप; आडखळ करप; आडावण घालप.
**आडांगी** (वि.) मस्ती; मोड-तोड; आदळ-आपट करपी; अवजाळी; हडबंगा करपी.
**आडांगेपण** (ना. न.) मस्तेपण; अवचिन्नपण; अवजाळेपण.
**आडांबो** (ना. पु.) दार धापूंक घाल्लो आनी वंटीतल्यान भायर भितर घोळपी लाकडी करवो.
**आडी** (ना. स्त्री.) वळ; रेग; रीस्क.
**आडुकसाण** (ना. स्त्री.) मातशी कोडसाण.
**आडो** (ना. पु.) फातरांचें दुरीग; आडावण.
**आण** (ना.) १. दादल्याच्या लिंगाचो अेक भाग; २. सोपूद.
**आणकु-माणकुल्यो** (ना.) ल्हान भुरग्यांचो एक खेळ.
**आणो** (ना. पु.) रुपयाच्या सोळाव्या भागाचें मोल.
**आंतकडी** (ना. स्त्री.) अन्न नळयेचो सकयलो वांटो.
**आत्मतुस्त** (ना. स्त्री.) आपलीच तोखणाय; आपलीच बडाय; स्वताचीच तुस्त.
**आत्मसमर्पण** (ना. न.) आपल्या जिवाचें दान.
**आत्मसंतोस** (ना. पु.) आपलेविशीं खोस.
**आत्मीक** (वि.) आत्म्याचें; धर्मीक; आत्म्याक थंडाय दिवपी.
**आत्मो** (ना. पु.) जीव; अंतस्कर्ण.
**आत्र्यापयऱ्यान** (अ.) परत परत; एक दोन दीस सोडून.
**आंतरीक** (वि.) खोल मनांतलें.

**आत्साण-पात्साण** (ना. स्त्री.) सुवाद; रूच; सयसुवाद.
**आतां** (अ.) तुर्ताक; सद्या.
**आतेभयण** (ना. स्त्री.) बापायचे भयणीची धूव.
**आतेभाव** (ना. पु.) बापायचे भयणीचो पूत.
**आंत** (ना. न.) आंतेरीचे फळ; नुसत्याच्या पोटांतली अन्न नळी.
**आंतेर** (ना. स्त्री.) आंतां दिवपी झाड.
**आंतेर** (ना. न.) आंतेरिचें फळ.
**आथवो** (वि.) वेगळेच तरेचो; संवकळ नाशिल्लो; वळख देख नाशिल्लो.
**आदन** (ना. न.) शीत करूंक रांदनीर दवरिल्लें उदकान भरिल्लें आयदन.
**आदर** (ना. पु.) भोवमान; भक्तिभाव.
**आदर-आतिथ्य** (ना.) आपल्याकडेन आयिल्ल्या मनशाक बरे तरेन दिवपाचो येवकार.
**आदरप** (क्रि.) आदर करप; भोवमान दिवप.
**आदरी** (वि.) दुसऱ्याकडेन भोवमानान चलपी; आदर दिवपी; बरे चाल चलणुकेचो.
**आदलो** (वि.) पयलींचो; पुर्विल्लो.
**आदवॉगाद** (ना. पु.) वकील.
**आदवॉगासी** (ना. स्त्री.) वकीलपण.
**आदर्श** (ना. पु.) देख.
**आदळ-आपट** (ना. पु.) आदळप-आपटप; फडफडणी.
**आदळ-आपट करप** (वा. प्र.) फडफडप; मनांतली तिडक उक्तावप.
**आदळणी** (ना.) आदळचेलें काम.
**आदळप** (अ. क्रि.) आपटप.
**आदा-खर्च** (ना. पु.) जोडिल्लो आनी मोडिल्लो पैसो; जमा आनी खर्च; आयिल्लो आनी गेल्लो पैसो.
**आदार** (ना. पु.) पालव; मदत; तेंको.
**आदाव** (ना. पु.) फायदो; नफा; उपेग.
**आदावंत** (ना. स्त्री.) आळसाय; चुकारपण; नाखुशी; नावड.
**आदावतप** (अ. क्रि.) आळसाय करप; कशाकशेंय करप.
**आदांव** (ना. पु.) किरिस्तांव धर्माप्रमाण देवान घडयल्ल्या पयल्या दादल्या मनशाचें नांव.
**आदिवासी** (ना. पु.) मूळचो गांवकार.
**आदीं** (अ.) पयलीं; सुरवेक.
**आदूफ** (ना.) करपां वा हारशे लायिल्लें जनेला-दार.
**आदोळी** (ना. स्त्री.) भाजी शिनपाचें आनी नाल्ल कांतपाचें हत्यार.
**आंदुली** (ना. स्त्री.) दोळ्याचे पातयेक जाता ती पुळी; दोंगरपुळी.
**आधार** (ना. पु.) मदत; तेंको; पालव.
**आधीन** (वि.) सुवादीन; बंदो; हातासकयलो.
**आधीनपण** (ना.) सुवादीनपण; बंदेपण; गुलामी.
**आनंद** (ना. पु.) खोस; खुशालकाय; समाधान.
**आना-आमा** (ना.) बापूय-आवय.
**आनाळी-गुनाळी** (ना. स्त्री.) आपल्या भोंवतणी काडिल्लो आरतो-परतो घुवंडो; आपल्या भोंवतणी मारिल्लो भोंवर.
**आनी** (उ. अ.) दोन उतरां वा दोन वाक्यां जोडपाचें उतर; तेभायर; शिवाय; आनीक; अदीक.
**आनीक** (अ.) अदीक; चड.
**आप** (स. ना.) आपूण; स्वता.
**आपआपूण** (ना.) दर एकलो; स्वता.
**आप-उक्तावणी** (ना. स्त्री.) आपणेच

सांगिल्ली आपली खबर.

**आपखुशी** (ना. स्त्री.) आपली खुशी; स्वताची इत्सा; आपली थारावणी; आपली मान्यताय.

**आपखोशी** (ना. स्त्री.) आपली मान्यताय; स्वताची खोशी. पळय **आपखुशी.**

**आपघात** (ना. पु.) आपणेच केल्ली आपली हत्या; आपखुशयेन स्वताक हाडिल्लें मरण.

**आपटप** (स. क्रि.) आदळप; मोठ्यान उडोवप; कित्याचेर मारप.

**आपटी** (ना. स्त्री.) हार; अपेस.

**आपटो** (ना. पु.) एक रूख; दसऱ्या दिसा ताचीं पानां भांगर कशें लेखून एकामेकांभितर वांट्टात.

**आपणालो** (स. ना.) आपलो; स्वताचो.

**आपणावप** (स. क्रि.) मेळोवप; जोडप; आपलो ताबो दवरप; आपले मालकीचो करप; आपलो करप.

**आप-पर** (वि.) आपलो-पेलो; हें आपलें आनी तें पेल्याचें अशें मानप.

**आपलेपण** (ना. न.) ओड; मोग; माया.

**आपलो** जण एकल्याचो; स्वताचो; ओडिचो; माये मोगाचो.

**आपलो-पेलो** (ना.) सोयरो- धायरो; इश्ट-मित्र; नात्या- पात्यांतलो; लागशिल्लो आनी पयशिल्लो.

**आपोवप** (स. क्रि.) उलो मारप; आपल्या लागशीं येवंक सांगप; आपल्या म्हऱ्यांत येवंक सांगप; आमंत्रण दिवप.

**आपवावुरपी** (ना. पु.) आपलीं कामां आपूण करपी.

**आपशींच** आपाप; आपले आपूण.

**आपसांत** आपले भितर; आपले मजगतीं; एकामेकांत.

**आपसुलाद** (वि.) आपल्याक जाय तेंच करपी; मनाक मारीत तशें चलपी; मस्तो; फाजील.

**आपसुलादपण** (ना.) खोलायेन तजवीज करी नासतना चलपाचो सबाव; मनांत येत तसो चलपाचो गूण; फाजिलपण.

**आपसूक** (वि.) आपशींच; आपाप; बळयां करी नासतना.

**आपाप** (वि.) आपशींच; आपले आपूण.

**आपार** (सा. ना.) पेनाक लावपाचें पितूळचें वा दुसरे कसलेय धातूचें बारीक पोंत.

**आपा-लिपा** (ना.) एक भुरग्यांचो खेळ. हातूंत एक सोडून सगलीं भुरगीं लिपतात आनी उरिल्लें तें लिपिल्ल्यांक सोदून काडटा.

**आपूण** (स. ना.) स्वता.

**आपोस्त** (ना. न.) पैज.

**आपोस्तोलीक** (वि.) क्रिस्ताल्या शिश्यानीं सांगिल्ले भाशेन; पाप सायबाचे मान्यतायेचो.

**आपोवर्णे** (ना. न.) आपोवपाचें काम; आमंत्रण.

**आपोवणो** (ना. पु.) आमंत्रण करपी.

**आफडप** (स. क्रि.) १. तेंकप; हात लावप. २. भश्टप.

**आफिस** (ना. न.) काम करपाचें घर; कार्यालय.

**आब** (ना. पु.) बडाय; बडवचार; व्हडपण; थाट.

**आबघात** (ना. पु.) अकस्मात घडिल्ली कसलीय वायट गजाल.

**आंब** (ना.) अेके तरेचें कालवणें; जशें : ओडयां-आंब.

**आंबट** (वि.) चिंचेबोटा सारकें वा भिंडासारकें रूचिचें.
**आंबट-खयण** (वि.) आंबट आनी खार अशी भरशेल्ली रूच.
**आंबटसाण** (ना. स्त्री.) चिंचेबोटाची वो भिंडासारकी रूच.
**आव्वा** (अ.) अजाप दाखोवपाचो उद्गार.
**आंबवप** (क्रि.) आंबट करून फूग हाडप.
**आंबाडो** (ना. पु.) १. एक लिंबा वेदें आंबट फळ. २. हें फळ दिता झाड. ३. केंसाची गांठ.
**आंबील** (ना. स्त्री.) नासण्या पिठाची आंबट खीर.
**आंबुल्ली** (ना. स्त्री.) आंबली; आंब्या ल्हान झाड.
**आबे** (ना. पु.) किरिस्तांव मठाचो मुखेल कोव्हेंताचो मुन्यारी.
**आंबो** (ना. पु.) १. आंब्या झाड. २. त्या झाडाचें फळ.
**आबोलार जावप** (अ. क्रि.) काचाबूल जावप; काळजांत कलकलप.
**आबोलासांव** (ना. न.) हुस्क्यान जाल्लो काळजाचो खपखप.
**आबोलें** (ना. न.) एक सुपुलें आनी पोवळ्या रंगाचें फूल.
**आमटाण** (ना. स्त्री.) सोल्लां आनी चिंचारे काडून निवळ केल्लीं चिंचेबोटां.
**आमटी** (ना. स्त्री.) शिवराक कालवणें; दाळीचो वा कसल्याय कड्डणाचो रोस.
**आमडप** (स. क्रि.) धांवडावप.
**आमंत्रण** (ना. न.) आपोवणें.
**आमरस** (ना. पु.) आंबे पिकून काडिल्लो रोस.
**आमली** (ना. स्त्री.) आंब्या झाडाचें तन्नें फळ; तन्नो आंबो.
**आमलो** (ना. पु.) कानांत हुमकळावपाचो भांगराचो दागिनो.
**आमिगदाद** (ना. पु.) इश्टागत.
**आमी** (स. ना.) म्हजे सयत आनीक एक वा कांयजाण; हांव ह्या सर्वनामाचें भोववचन.
**आमीग** (ना. पु.) इश्ट; मित्र.
**आमुडप** (स. क्रि.) पळय **आमडप.**
**आमोरी** (ना. स्त्री.) तीन कातरीवेळ; तीनसांज.
**आयकतलो** (वि.) आयकुपाचें काम करपी; आयकुपी.
**आयकप** (स. क्रि.) कानांत गेल्ल्या आवाजाची आनी उतरांची समजिकाय मेळप; पाळो दिवप.
**आयकवप** (क्रि.) आयकूंक लावप.
**आयकीव** (वि.) आयकल्लें; कोणेंय सांगिल्लें.
**आयज** (अ.) पळय **आज.**
**आयट** (ना. स्त्री.) सांचो; नमुनो.
**आयत** (ना. पु.) लांबायेच्यो आनी रुंदायेच्यो कडो सम आशिल्लो चोवकोण; लांबोडो चोवकोण.
**आयतार** (ना. पु.) सप्तकाचो पयलो दीस.
**आयतें** (ना. न.) जेवणाच्या जिनसांत घालपाची वांटिल्ली सोय आनी हेर मसालो.
**आयतेकार** (ना. पु.) आयतें वाटपी; सोय मिरसांग वाटपी.
**आयतें** (वि.) कश्टाबगर मेळिल्लें.
**आयदन** (ना. न.) जेवण-खाण दवरपाची वस्त.
**आयस-पयस** (वि.) लांब-रूंद.
**आयात** (ना.) भायल्यान भितर हाडिल्लो

म्हाल.

**आयाव** (वि.) घोव आशिल्ली बायल.

**आयाळ** (ना. स्त्री.) शिंवाच्या माथ्यावयले आनी मानेवयले लांब केंस.

**आयुर्वेद** (ना. पु.) रोग आनी तांचे वयली वखदां हांचें शिक्षण दिवपी शास्त्र.

**आयुश्य** (ना. न.) जीण; जल्मापासून मर्णामेरेनचो काळ.

**आर्क** (ना. न.) वाटकुळें दार; वाटकुळो दरवाजो; वाटकुळी रीस्क.

**आरखप, पारखप** (स. क्रि.) बारीकसाणेन नियाळप.

**आरत** (ना. स्त्री.) पुजेवेळार देवाभोंवतणी ओंवाळटात त्यो पेटयल्ल्यो वाती.

**आरतून-परतून** (अ.) आरतें परतें; फुडले आनी फाटले वटेन; उदारें-उमथें.

**आरतें** (अ.) फुडले वटेनचें.

**आरतें-परतें** (अ.) दोनय वटेन; फुडले आनी फाटले वटेनचें.

**आरमार** (ना. स्त्री.) १. पुस्तकां वो मुस्तायकी दवरपाची लांबशी आनी खणांची उबी पेट. २. झुजांत वांटो घेवपी तारवां आनी बोटी.

**आर्य** (ना.) कांय हजार वर्सां पयलीं हिंदुस्थानांत आयिल्लो भायलो लोक.

**आर्यधर्म** (ना. पु.) आर्य लोकांचो धर्म.

**आर्यावर्त** (ना. पु.) विंध्य दोंगरा पलतडचो हिंदुस्तान.

**आऱ्हांजार करप** (स. क्रि.) मेळोवप; यत्न करून हाडप; तयार करप.

**आरोग्यताय** (ना. स्त्री.) भलायकी; आरोग्य.

**आरंभ** (ना. पु.) सुरवात.

**आरंभप** (क्रि.) सुरू करप; आरंभ करप.

**आश्चर्य** (ना. न.) अजाप; नवल.

**आलतड** (ना. स्त्री.) न्हंयेची आमचे वटेनची कड.

**आल्तार** (ना. पु.) देवाकडेन एकचार दवरपाचो ईगर्जेंतलो उंचायेचो जागो; देवारो.

**आल्त-फाल्त** (वि.) चडउणो; कमी अदीक.

**आल्फिनेत** (ना. स्त्री.) हूक; पीन..

**आलम पेड्ड्यार** (वि.) वाळेस; वावर धंदो नाशिल्लो; तवनास; हांगा थंय भोवप पोट भरपी; पारपोळ.

**आल्लय** (ना. स्त्री.) ल्हान भुरग्याक न्हिदावपाक वा पोटाक घालपा वेळार म्हणपाचें गीत.

**आलवांतीण** (ना. स्त्री.) मेल्ले गुरवार बायलेचें भूत.

**आल्वीस** (ना. न.) खुशाले पासत वांटिल्लो दुडू वो खावपा जिनस; खुशालकायेचें बक्षीस.

**आलाप** (ना. पु.) नाजूक सूर; गायनांतलो हेळो.

**आलासरो** (ना. पु.) आधार; पालव.

**आलुगॅर** (ना. पु.) भांडें.

**आलेभाव-कोलेभाव** (ना.) व्हडलेंशें नातें नासून सोयरे म्हणून मिरोवपी.

**आलें** (ना. न.) आल्या झाडाचें मूळ.

**आवटो** (ना. पु.) पिसांट; मतीन धड नाशिल्लो.

**आवड** (ना. स्त्री.) इत्सा; रूच.

**आवड-निवड** (ना. स्त्री.) इत्सा; रूच.

**आवडप** (क्रि.) इत्सा धरप; आस्त धरप.

**आवंडो** (ना. पु.) लाळीचो घोंट; इत्सा; हावेस; तळमळ.

**आवत** (ना. न.) शेतकाम करपाचीं

आयदनां वा हत्यारां; नांगर; कुदळ; खोरें बी.

**आवतिकाय** (ना. स्त्री.) दशा; वायट स्थिती.

**आवय** (ना. स्त्री.) भुरग्याक जल्म दिवपी बायल.

**आवाहन** (ना. न.) विनंती; विनंती करून मारिल्लो उलो.

**आवय-आवय** (अ.) तोंडांतल्यान आपशींच आयिल्ले उबगणीचे उद्‌गार; कंटाळो उकतावपाचो उद्‌गार.

**आवयस** (अ.) दुख वा अजाप उकतावपाचो उद्‌गार.

**आंवप** (अ. क्रि.) घोंट घेवन उडोवप; तोंड धुवप.

**आवरो** (ना. पु.) १. एक अळसांद्याभाशेन कड्डण. २. धीर; नेट; साबुद्द.

**आवरो उडप** (क्रि.) काळजाक धक्को बसप; काळजांत कल्ल जावप; एकदम मन पडप; धीर सुटप; गळीत जावप; साबुद्द वचप.

**आंवळप** (स. क्रि.) दामून धरप; गच्च धरप; गच्च बांदप.

**आवाज** (ना. पु.) ताळो; सूर; नाद.

**आवाठ** (ना. पु.) भोंवतण; आकार; आस्पाव.

**आवा-शिवा करप** (वा. प्र.) खूब तकालस घेवप; आटा पिटा करप; नजं जाता करप.

**आंवाळी** (ना. स्त्री.) आंवाळ्या झाड.

**आंवाळो** (ना. पु.) एक सुपुल्लें आंबट गोड फळ; आंवाळी फळ.

**आविरभाव** (ना. पु.) हावभाव.

**आवो** (ना. स्त्री.) आवय; बा; मां; मम्मी.

**आश्वीन** (ना. पु.) हिंदु वर्साचो सातवो म्हयनो.

**आशा** (ना. स्त्री.) अुमेद; आस्त; भरवंसो.

**आशाड** (ना. पु.) हिंदू वर्साचो चौथो म्हयनो.

**आशादोशी** (वि.) खूब आस्त धरपी; ल्हेंवटें.

**आशिर्वाद** (ना. पु.) बरी इत्सा; दुसऱ्याचें बरें भलें जावं अशें मागणें.

**आशी** (ना. स्त्री.) आसो; तांदळांतलो भाताचो कण.

**आशेभगत** (वि.) आशादोशी; आस्तेखोर.

**आशेवप** (स. क्रि.) आंवडेवप; आशा बाळगप; आस्त धरप.

**आस** (ना. स्त्री.) आस्त; आशा.

**आस्कळ-विस्कळ** (वि.) आयस पयस; व्हड.

**आसडप** (स. क्रि.) सरी करप; आशे; फातर; कुंडो काडप; फाफडप.

**आस्कार-उस्कार** (ना.) स्वास-उस्वास.

**आस्तवंत** (वि.) आस्त धरिसारकें; जाचे संबंदान आस्त धरू येता अशें.

**आसतेपण** (ना. न.) आसपाची स्थिती; अस्तित्व.

**आसन** (ना. न.) बसका; बसचेलो जागो; देवाक बसोवंक केल्लो एक खाशेलो जागो.

**आसनमांडी** (ना. स्त्री.) पायांत पांय घालून बसपाची एक तरा; आसनाभाशेन घाल्ली मांडी.

**आसप** (अ. क्रि.) जियेवप; हाताक दोळ्यांक कानांक बी जिवाची वा वस्तूची जाणवीक जावप.

**आस्पत** (ना. स्त्री.) भाट-बेंस; गिरेस्तकाय; पयसो; आडको; येणावळ.
**आसपाव** (ना.) भोंवतणच्यो वस्तू; भोंवतणचो वावर; आवाठ; विस्तार; वावराच्यो शिमो; मर्यादा.
**आसपावप** (अ. क्रि.) आवाठा भितर येवप; मेरे भितर आसप; कक्षे भितर येवप.
**आसमंत** (ना. न.) भोंवतणची सुवात; वातावरण.
**आसर** (ना. पु.) वखळ; पावस थांबल्या उपरान्तचो वेळ.
**आसरप** (अ. क्रि.) पावस उणो जावप वा थांबप; पावस चुकवप.
**आश्रम** (ना. पु.) रुशी आनी तांचे भाशेन जियेवपी मनशांची एकसुरे सुवातेर बांदिल्लें सादें घर वा खोंप.
**आश्रय** (ना. पु.) आलासरो; आधार.
**आसिनाद** (ना. स्त्री.) निशाणी; सय.
**आसो** (ना. न.) तांदळांलो वा फोवांतलो भाताकण.
**आहवान** (ना. न.) सर्त वा झूज करपाखातीर मारिल्लो उलो.
**आं-हां म्हणप** (क्रि.) हयकार दिवप; मान्यताय दिवप.
**आहुती** (ना. स्त्री.) खावंक; गिळूंक ओपिल्ली वस्त; यज्ञांत घाल्ल्या तुपा म्होंवासारके तरेकवार जिनस; दान; ओंपणी.
**आळ** (ना. पु.) बगलांट; किंचांट.
**आळणो; आयणो** (ना. पु.) वारें घेवपाखातीर तयार केल्ली कागदाची; कोण्ड्याच्या वेळांची वो टायाची वस्त.
**आळबंद** (ना. पु.) बंधन; नेमाचे पास; राखण.
**आळमें** (ना. न.) रोयणींत किल्लुपी सत्रेवरी दिसपी वनस्पत.
**आळशी** (वि.) कसल्याय वावराक फाटीं; कामा धंद्याची उबगण करपी.
**आळसावप** (अ. क्रि.) थंडी माखूण जावचे पयलीं आळसाय-कडामोड जावप; उमेद नासप; उबगण येवप.
**आळसाय** (ना. स्त्री.) सुस्ती; काम करपाची उबगण.
**आळा** (वि.) चड अपुर्बाय जाल्लें भुरगें.
**आळाबंदाक हाडप** (स. क्रि.) ताब्यांत दवरप; सत्तेमुळा दवरप; आडावप.
**आळुबाय** (ना. स्त्री.) चड तोखणाय आनी अपुर्बाय जाल्लें भुरगें; लाडकुबाय.
**आळें** (ना. न.) सावळ आनी सारें पुरपाक झाडाभोंवतणी काडिल्ली खळी; माडाभोंवतणी मारिल्ली चरी.
**आज्ञा** (सा. ना.) फर्मावणी; हुकूम.

## इ

**इकरा** (ना. पु. वि.) एक दशक आनी एक मेकळो (११).
**इकोणचाळीस** (ना. पु. वि.) तीन दशक आनी णव (३९).
**इकोण्णवद** (ना. पु. वि.) अयशीं आनी णव (८९).
**इकोणपन्नास** (ना. पु. वि.) चाळीस आनी णव (४९).
**इकोणसत्तर** (ना. पु. वि.) साठ आनी णव (६९).
**इकोणसाठ** (ना. पु. वि.) पन्नास आनी णव (५९).
**इकोण्यायशीं** (ना. पु. वि.) सत्तर आनी णव (७९).
**इकोणीस** (ना. पु. वि.) धा आनी णव (१९).

**इकोणतीस** (ना. पु. वि.) वीस आनी णव (२९).
**इगर्ज** (ना. स्त्री.) किरिस्तांव धर्माचें देवूळ; प्रार्थना स्थळ.
**इंगळो** (ना. पु.) पेटिल्लो कोळसो.
**इच्छप** (स. क्रि.) जाय दिसप; इत्सा जावप; आपणावपाची आस्त दिसप.
**इज्जत** (ना. स्त्री.) अब्रू; कूत; पत.
**इंजनेर** (ना. स्त्री.) तेरेकवार यंत्रां; घरांची बांदावळ आनी वीज हांच्या संबंदान गिन्यान जोडिल्लो.
**इंजनेरकी** (ना.) यंत्रां; वीज; घरां; [illegible]न हांचें गिन्यान.
**इंजमोल** (ना. न.) भीक; भिक्षा.
**इंजीन** (ना. न.) गाडी; स्कुटर हांचें माक्न; उज्यागाडयेचें माक्न आनी तें आसपाचो दबो.
**इंजेसांव** (ना. न.) तोपणी; तोंचणी; तोपून घाल्लें वखद.
**इडली** (ना. स्त्री.) सांदना भाशेन खावपाचो एक जिनस; हीट.
**इंत्रूज** (ना. न.) कार्नावालांतलो खेळ; रोमट.
**इतल्यांत** (अ.) इतले म्हणसर; इतले मजगतीं; अशा वेळार.
**इतलें** (वि.) फावो सारकें; जाय तितलें; चड न्हय आनी उणेंय न्हय.
**इत्सा** (ना.) आस्त; जायशें दिसप; आवड.
**इंतिमासांव** (ना. न.) सरकारी फर्मावणी; कळोवणी.
**इतिहास** (ना. पु.) घडून गेल्ल्या गजालिंची खबर.
**इतिहासकार** (ना. पु.) घडून गेल्ल्या गजालिंची खबर सांगपी; इतिहास बरोवपी.
**इतिहासकी** (ना.) पळय **इतिहास.**
**इंद्र** (ना. पु.) देवांचो राजा.
**इंद्रधणू** (ना. न.) पावसा दिसांनी सुर्यकिरणांक लागून मळबांत उदेल्लें रंगांचें आर्क.
**इंद्रनील** (ना.) गाड निळ्या रंगाचो एक मोलादिक खडो.
**इंद्रीय** (ना. न.) दोळे; कान; जीब बी सारके संवसाराचें ज्ञान घडोवपी कुडिचे भाग.
**इन्स्पेक्टर** (ना. पु.) तपासणी करपी.
**इनाम** (ना. न.) बक्षीस; तसरीप.
**इपशटा** (ना. स्त्री.) हाल; दैना; त्रास; खूब त्रास.
**इंफेर्न** (ना. पु.) नरक.
**इबाड** (ना. पु.) नासधूस; मोडतोड.
**इबाडप** (स. क्रि.) नासधूस करप; वाट लावप; पिड्ड्यार करप; भंगप; पिड्ड्यार जावप.
**इबाडयो** (वि.) इबाड करपी; भंगोवपी; पिडड्यार करपी.
**इमारत** (ना. स्त्री.) व्हड घर.
**इल्लें** (वि.) उणें; थोडें.
**इल्लें-इल्लें** (वि.) थोडें-थोडें; म्हत्त्व नाशिल्लें; चड थोडें; उणो जाल्लें.
**इल्लें-तिल्लें** (वि.) इतलें-तितलें; चड-थोडें; अदीक-उणें; कमी-जास्त.
**इल्लें-शिल्लें** (वि.) पळय **इल्लें-तिल्लें.**
**इलाखो** (ना. पु.) देसाचो भाग.
**इलेक्ट्रिक** (वि.) विजेचो वा विजेन भरिल्लें.
**इश्कुसांव** (ना. न.) भोवंडी.
**इश्ट** (ना. पु.) मित्र; दोस्त; नातें-पातें नासूनय मोगाच्या पासांनी लागीं आयिल्लो मनीस.
**इश्टागत** (ना. स्त्री.) दोस्ती;

मनशा-मनशा भितर बरे संबंद; इश्टा भितल्लें नातें.
**इशान्य** (ना. स्त्री.) उदेन्त आनी उत्तर हांचे मदली दीक.
**इशारत** (ना. स्त्री.) कुरू; सुचोवणी; शिटकावणी.
**इशारो** (ना.) शिटकावणी; इशारत.
**इस्क्रिव्हांव** (ना. पु.) कुळकर्णी; दप्तर बरोवपी; ऑफिसांतलीं कागदां आनी हिशोब बरोवपी.
**इस्काद** (ना. स्त्री.) सोपणां; अेका सकयल अेक आशिल्लीं सोपणां.
**इस्कीन** (ना. स्त्री.) सुताची लडी.
**इस्टेट** (ना. स्त्री.) आसपत; भाट बेंस.
**इस्त** (ना. स्त्री.) इज्जत; अब्रू.
**इस्तान** (ना. स्त्री.) एकावयर एक मारिल्लीं फळीं.
**इस्पीक** (ना. स्त्री.) पत्त्यांचो जोड.
**इस्लाम** (ना. पु.) मुसलमानी धर्म.
**इस्लामी** (वि.) मुसलमानी.
**इसाई** (वि.) किरिस्तांव.

## ई

**ईट** (ना.) तिजुलो; वीट.
**ईद** (ना.) मुसलमान लोकांचो अेक म्हत्वाचो सण.

## उ

**उकडप** (स. क्रि.) शिजवप. (अ. क्रि.) गरम जावप; उजो जावप.
**उकडयां** (अ.) कुले तेंकय नासतना पायां तळवे लावन बसप.
**उकडें** (वि.) शिजयल्लें.
**उकताडा येवप** उकतें जावप; भायर फुटप; लोकांक कळप.
**उकताडो** (ना.) उकतो जागो; मेकळी सुवात.
**उक्तावण** (ना.) पळय **उक्तावणी.**
**उक्तावणी** (ना. स्त्री.) उकतो करपाचें काम; घर, पुस्तक बी पयलेच खेप उजवाडाक हाडपाची करणी.
**उक्तावप** (स. क्रि.) उगडो करप; आपले विचार आनी उमाळे उलोवन वा बरोवन सांगप.
**उकतो** (वि.) उगडो; मेकळो.
**उकलास** (ना.) दान करूंक दवरिल्ली वस्त; उगडास.
**उकलासप** (स. क्रि.) कोणाच्या नांवान कसलीय वस्त दवरप.
**उकशमा** (ना. स्त्री.) देख घेवंक सांगिल्ली काणी.
**उकळी** (ना. स्त्री.) उमाळो; भितल्ल्यान आयिल्लो एके तरेचो नेट.
**उखल-दवर** (वा. प्र.) एका फाटोफाट उखलपा-दवरपाचो वावर; वावराचो तडाको; वावराखातीर काडपाच्यो काडाओडी.
**उखलप** (स. क्रि.) उबारप; वयर काडप.
**उखला-दवरी** (ना.) श्रम; कश्ट; दीसभर उखलचेलो दवरचेलो वावर.
**उखलार्पे** (वि.) वयल्या-वयलें; भार नाशिल्लें; थिरताय नाशिल्लें.
**उगडप** (स. क्रि.) धाकणें काडप; उकतो करप; मेकळो करप.
**उगडास** (ना. पु.) याद; यादस्ती.
**उगडें** (वि.) उकतें; मेकळें; नागडें.
**उगवप** (स. क्रि.) उदेवप; वळवप (केंस).
**उगळप** (क्रि.) झरवप.

**उघड** (अ.) मेकळेपणान; हुजीर.
**उंच** (वि.) मोटें; चड मोलाचें.
**उचकप** (क्रि.) अकस्मात परत उदेवप; परतून भायर फुटप; अकस्मात उस्तप.
**उच्चार** (ना. पु.) उलोवणें; तोंडांतल्यान काडिल्लो आवाज वा उतर.
**उच्चारप** (स. क्रि.) उलोवप; तोंडातल्यान उतरां काडप.
**उंचाटी** (ना. स्त्री.) उंचाय; उंच जागो.
**उचापत** (ना. स्त्री.) १. उदारी; रोख फारीक करिनासतना केल्लो वेपार. २. राटावळ.
**उचापती** (वि.) उदारी करपी; उदार म्हाल घेवपी.
**उचांबळ** (वि.) अस्वस्त; अशांत.
**उचांबळप** (अ. क्रि.) शांतताय भंगप; अस्वस्त जावप.
**उचांबळाय** (ना. स्त्री.) अशांतताय; अस्वस्तकाय.
**उंचाय** (ना. स्त्री.) उबारी; लांबाय.
**उंचावयर्ले** (वि.) वयलें.
**उजमारें** (वि.) चड उश्णतायेचें; उजो मारपी; खर तापेन भरिल्लें.
**उज्यागाडी** (ना. स्त्री.) लोखंडा रूळांवयल्यान चलता ती गाडी; आगगाडी; रेल्वे.
**उजवप** (स. क्रि.) सोंपोवप; कसलेंय काम काबार करप; मनासारकें जातकच व्रत सोंपोवप; लग्न करून उडोवप.
**उजवाट्ट्यार** (वि.) दीस उदेवपा वेळार.
**उजरावप** (स. क्रि.) नुसत्याचीं खवळां; पाखाटे बी काडून तें निवळ करप. (अलं.) धींड काडप; कुसकुटावप; बेगीन सोंपोवप.
**उजवाड** (ना. पु.) काळोख ना करपी असो कांय वस्तूंक आनी गिऱ्यांक आशिल्लो गूण; लकलकसाण; चकचकसाण.
**उजवाडप** (अ. क्रि.) उजवाड फांकप; दीस उदेवप.
**उजवाडावप** (स. क्रि.) उजवाडाक हाडप; प्रसिद्ध करप; एकादें पुस्तक छापून घेवन तें लोकांमुखार हाडप.
**उजवाडावपी** (ना.) उजवाडाक हाडपी; प्रसिद्ध करपी; प्रकाशक.
**उजवात** (ना. स्त्री.) उद, अत्तर बी लावन तयार केल्ली वासा काडी.
**उजव्यान** (वि.) उजवे वटेन.
**उजवो** (वि.) १. ज्या हातान भोव करून सगलो लोक वावर धंदो चड करतात त्या हाता वटेनचो; दाव्या हाताचो उरफाटो. २. मातूसो बरो.
**उजळ** (वि.) निवळ; धवसार; लकलकीत.
**उजळणी** (ना. स्त्री.) बाराखडी; आंकडे पाडे बी हांचो अभ्यास; शिकिल्ल्या वावराची घोळोवणी.
**उजळप** (अ. क्रि.) धवे कोड जावप; धवे दाग पडप; धवसार जावप; निवळ जावप.
**उजळ्ळेलें** (वि.) आंगाक धवे दाग पडिल्लें.
**उजू** (वि.) सरळ; भायर-भितर सारकें.
**उजो** (ना. पु.) पेट; धग.
**उजो लावप** (वा. प्र.) म्हत्त्व दिवप ना; किकोंत करप; दुर्लक्ष करप; दुस्मानकाय रिगवप; झगडीं मातवप.
**उंट** (ना. पु.) फाटीर गूट आशिल्लें एक व्हडलें जनावर.
**उटंगार** (ना. पु.) हुंवार येसर पडिल्लो पावस; हरंदारीन पडिल्लो पावस.
**उटावळ** (ना. स्त्री.) कोरांतून काडिल्लीं

चित्रां आनी अक्षरां.

**उटी** (ना. स्त्री.) १. कपालाक गंद लावपाची एक तरा; चंदनाचे वस्तूच्यो कपालाक ओडिल्ल्यो तीन रिस्को. २. दक्षीण भारतांतलो एक थंड वाऱ्याचो जागो.

**उठप** (अ. क्रि.) न्हिदेंतल्यान जागो जावप; उबें रावप.

**उठवप** (स. क्रि.) उबो करप; जागो करप.

**उठा-बशी** (ना. स्त्री.) उठपा-बसपाची कसरत.

**उंड** (ना. न.) अेक इल्लेंशें वाटकुळें फळ; उंडीचें फळ; उंडीचो रूख.

**उडकी** (ना. स्त्री.) ल्हान उडी.

**उडटें** (वि.) वाऱ्यार भोंवपी; वयल्यावयर; धांवपी. (अ.) बेगीबेगीन.

**उडण** (ना. न.) लांब उडी.

**उडणायो** (ना. न.) फकाणां; कुस्कुटावण्यो.

**उडप** (क्रि.) पांखां हालोवन वाऱ्यार चलप.

**उडपी** (वि.) १. वाऱ्यावयल्यान वचपी; उडून वचपी. २. कारवार होनावर कडली अेक जात.

**उडवप** (स. क्रि.) सोडून दिवप; भायर मारप; शेंवटून मारप.

**उडाण** (ना. न.) उडी; पैस मारिल्ली उडी.

**उडी** (ना. स्त्री.) पावलां घालिनासतना एकाच धपक्यांत जागो हुपप.

**उडीद** (ना. पु.) मुगां येदें एक काळसार कड्डण.

**उंडी** (ना. स्त्री.) जेवंक वळिल्ली शिताची वा पेजेची गुळी.

**उडून शेवाळें** (वा. प्र.) चड तकालस घेनासतना जाल्लो फायदो.

**उंडेकार** (ना. पु.) उंडे भाजता तो; वा उंडे विकता तो; पदेर.

**उंडो** (ना. न.) पाव; गंवा पिटाचो आनी खोर्नांत भाजून काडिल्लो अेक खाणा जेवणाचो जिन्नस.

**उण्यात उणो** (वि.) कमींत कमी; जाता तितलें उणें.

**उणाक** (वि.) हीण; उण्या मोलाचें; किरकोळ; सकयल्ल्या पांवड्याचें; वायट चालचलणुकेचें.

**उणाव** (ना. पु.) तुटपाण; कमीपण; उणेपण.

**उणी झाड** (ना. न.) उणां दिवपी एक रूख.

**उणेपण** (ना. न.) ल्हानपण; कमीपण; अपमानाची गजाल.

**उणें** (वि.) कमी; थोडें; वायट अर्थाचें; अपमानाचें.

**उणें-पुर्णे** (वि.) अदीक-उणें; चड थोडें; हय-न्हयशें.

**उत्पन्न** (वि.) निर्मिल्लें; आपशींच उदेल्लें. (ना. न.) घरची येणावळ.

**उत्फरके** (ना. न.) उमाळे; हुटहुटे.

**उतर** (ना. न.) मनांतलो विचार वा उमाळो उक्तावपाचो स्वर वा स्वर आनी व्यंजन मेळून घडिल्लो आवाज; शब्द.

**उतर दिवप:** वचन दिवप.

**उत्तर** (ना. स्त्री.) १. चार मुखेल दिकांतली अेक दीक; उदेंते वाटेन फुडो करून दाव्या हाताक उरता ती दीक. २. जाप.

**उत्सव** (ना. न.) धर्मीक दबाजो; फेस्त.

**उत्साव** (ना. पु.) उमेद.

**उतळताप** (ना. पु.) घालामेल; कायलावणी; सोंसूंक नजं अशे त्रास.

**उतार** (ना. पु.) देंविल्लो; पिरायेन जाणटो; देंवती.
**उतेर** (ना. पु.) भुरग्याचो जल्म आनी वाड जावपाची आवयच्या पोटांतली पोती.
**उदक** (ना. न.) जमनी पोंदा मेळिल्ली रंग; रूप आनी सुवाद नाशिल्ली पातळ वस्त.
**उदक मारप** (वा. प्र.) आंगान तुटतुटीत जावप.
**उदक मारिल्ल्यावरी जावप** (वा. प्र.) मात्सो आंगान भरप; टवटवीत दिसप.
**उदक सोडप** (वा. प्र.) ओंपप; हक सोडप; अर्पण करप; आस्त सोडप.
**उदकाळ** (वि.) उदकान भरिल्लें; जंय-थंय उदक आशिल्लें.
**उदर्गत** (ना. स्त्री.) वाड; सुदारणा; भरभराट.
**उदरगमी** (वि.) सकले वटेन व्हांवपी.
**उद्गार** (ना. पु.) उमाळ्याचें उतर.
**उद्देग** (ना. पु.) वावर-धंदो.
**उद्देगपती** (ना. पु.) व्हड वेपारी; मोटो उद्देग करपी.
**उद्देश** (ना. पु.) हेत; हावेस.
**उदाणू** (ना.) वेपारी भाशेंत तीन हो आंकडो दाखोवपी उतर.
**उदार** (वि.) मोट्या मनाचें; व्हड अंतस्करणाचें; उचापतीन विकतो व्हेल्लें.
**उदारो** (वि.) जमनीक फाट तैंकोवन न्हिदिल्लें.
**उदाहरण** (ना. न.) देख; पत.
**उदीक** (ना. न.) पळय **उदक.**
**उदेंत** (ना. स्त्री.) सकाळीं सूर्य उदेता ती सराद; वेळ उदेता ती दिक्.
**उदेवप** (स. क्रि.) प्रगट जावप; भायर फुटप; वयर सरप.
**उदेशी** (अ.) वरवीं.
**उधळप** (स. क्रि.) कशाकसोय खर्च करप; मनाक मारीत तशी आस्पत मोडप.
**उधळें** (वि.) कशा कशेय पैशे मोडपी; पैशे वगडावपी.
**उपकर** (ना. पु.) उपेग; फायदो.
**उपकरप** (अ. क्रि.) उपेगाक पडप; फायद्याक पडप.
**उपकार** (ना. पु.) दुसऱ्याखातीर केल्लें काम; आभार.
**उपकारप** (स. क्रि.) उपेगाक पडप; फायदो जावप.
**उपकरावप** (अ. क्रि.) उपेग करप; वापरप.
**उपकारा पडप** (क्रि.) उपेगी जावप.
**उपकारी** (वि.) दुसऱ्याचें हीत करपी; उपकार करपी.
**उपकारीक** (वि.) उपकार जाणपी; नमळाय आशिल्लें; उपकार मानपी.
**उपचार** (ना.) उपाय; चाल-रीत.
**उपद्रव** (ना.) त्रास; उपाद्रे; लुकसाण; पिडापीड.
**उपद्रवी** (वि.) त्रास भोगवपी; पिडापीड करपी.
**उपद्व्याप** (ना. पु.) नाका जाल्ले उद्देग; करचो न्हय असलो केल्लो वावर.
**उपद्व्यापी** (वि.) नाका जाल्लो वावर करपी; त्रास दिवपी.
**उपदीक** (ना. स्त्री.) मुखेल दोन दिकां भितल्ली दुसऱ्या पांवड्याची दीक.
**उपदेश** (ना. पु.) सांगणी; बोध; हिताची सांगणी.
**उपनिशद** (ना. न.) हिंदू धर्मांतल्या तत्वगिन्यानाचे ग्रंथ.
**उपप** (अ. क्रि.) पळय **हुपप.**
**उपमहासागर** (ना. पु.) दुसऱ्या

पांवड्याचो व्हड दरया; म्हासागरा परस ल्हान सागर.
**उपयोग** (ना. पु.) उपेग; आदाव; फायदो.
**उपरां** (अ.) मागीर; फाटल्यान.
**उपरासणी** (ना. स्त्री.) अचकीत उदेल्ली गजाल.
**उपरासप** (क्रि.) अवचीत उदेवप.
**अपसर्ग** (ना. पु.) बादा; आडखळ; अडचण; त्रास.
**उपसागर** (ना. पु.) समुद्र; ल्हान दरया.
**उपाट** (अ.) तुडूंब.
**उपाद्रे** (ना. पु.) हाल; ख्यास्त; त्रास; पिडापीड.
**उपाय** (ना. पु.) माण्णी; युक्ती; सादन.
**उपाशीं** (वि.) जेवण खाण घेवंक नाशिल्लें; खाल्लें जेविल्लें न्हय अशें.
**उपास** (ना. पु.) जेवण खाणाचो त्याग.
**उपास-तपास** (ना. पु.) उपासासारकीं धर्मीक कामां; धर्माखातीर कुडीक दिल्ली दंडणा.
**उपासना** (ना.) भक्ती; ध्यान.
**उपासमार** (ना. स्त्री.) जेवणा खाणाची मारामार; दुकळ.
**उपेगी** (वि.) फायद्याचें; आदाव आशिल्लो उपेग जायसारकें.
**उफराटें** (वि.) परतें; भायली वाट भितर आनी भितल्ली वाट भायर जाल्लें.
**उफाट्टें** (वि.) परतें.
**उफेणी** (ना. स्त्री.) उदकार उफेवपाचो वस्तूचो गुण; उदका फाटीर उफेल्ल्यो वस्त.
**उफेवप** (स. क्रि.) बुडनासतना उदका फाटीर उरप; उदकाचेर रावप.
**उबगण** (ना. स्त्री.) कंटाळो; वाज; नाउमेद.
**उबगणी** (वि.) कंटाळो हाडपी; वाज दिवपी; कंटाळपी; वाजेवपी.
**उबगप** (अ. क्रि.) वाजेवप; कंटाळप.
**उबट** (वि.) हुनसाण आशिल्लो.
**उबंत** (क्रि. वि.) आधार, आलाशिरो नाशिल्लें.
**उबप** (अ. क्रि.) उडप; वाऱ्यार उफेवप.
**उंबरो** (ना. पु.) दाराचे चौकटीचो सकलो भाग; हुंबर.
**उबवप** (स. क्रि.) १. वाऱ्यार मेकळो सोडप; वाऱ्यार फडफडावप. २. तांतयांक उश्णताय दिवप.
**उबस** (ना.) दमो; कफ; स्वासोस्वास जड जावप; छातयेंत कूं कूं जावप.
**उबारप** (स. क्रि.) उखलप; वयर काडप; उंचावप.
**उबारो** (ना. पु.) उंचाय; व्हडपण.
**उबाळ** (ना. पु.) गरमेचे दीस; उज्यादीस; गीम.
**उबो** (वि.) पायां तळव्यांचेर नीट राविल्लें.
**उभट** (वि.) उबार; लांबसार.
**उमकळप** (अ. क्रि.) पळे **हुमकळप;** लांबप.
**उमजप** (स. क्रि.) खरें आनी फट समजप; सगल्या अर्थांनी समजप; खोलायेन समजप.
**उमण** (ना.) नुस्त्याचें कालवणें; पळय **हुमण.**
**उमर्थें** (वि.) परतें; उरफाटें; फुडली वाट सकयल आनी फाटली वाट वयर केल्लें.
**उमळ** (ना. स्त्री.) चड पावस पडिल्ल्यान वचत थंय फुटिल्ले झरे.
**उमळप** (स. क्रि.) १. धुवप; निवळ करप; शाबू बी लावन म्हेळ काडप. २. चड पावस पडिल्ल्यान हांगा थंय

झरे फुटप.

**उमळप-बिमळप** (स. क्रि.) धुवप आनी तसलींच हेर कामां करप.

**उमळें** (वि.) उमळिल्लें; धुल्लें; निवळ केल्लें.

**उमा** (ना. स्त्री.) पापी; उमो; आदरान वा मोगान घेतिल्लो मुको.

**उमाणें** (ना. न.) गुमानीत; कुवाडें.

**उमास** (ना. स्त्री.) हिंदू म्हयन्याचो निमाणो दीस.

**उमाळो** (ना. पु.) काळजांतल्यान भायर फुटिल्लें दुख्ख; दामून दवरिल्लें रडें; मेकळेपणान रडें फुटचेपयलीं आयिल्ली हिमटी; आवेग; भावना.

**उमेद** (ना. स्त्री.) उमळशीक; उर्बा.

**उमेदी** (वि.) उमेद आशिल्लें; उत्साही; कसल्याय कामांत खोशयेन फुडें सरपी.

**उमेवप** (अ. क्रि.) हूम येवप; घाम येवप.

**उमो** (ना. पु.) उमाव; उमा; चुंबन.

**उरउळी** (ना. स्त्री.) १. हुलूक; रगत खावपी अेक बारीक जीव. २. तेल घालपाचें एक ल्हान आयदन.

**उरप** (अ. क्रि.) सोंपप ना; थारप; बाकी आसप; रावप.

**उरबडप** (स. क्रि.) नाखटांनी बुड्डप; खरवडप; मोट्यान खरपप.

**उरबा** (ना. स्त्री.) उमेद; तळमळ.

**उर्मट** (वि.) मस्तें; भीड मुरवत नाशिल्लें; पर्वा नाशिल्लें.

**उरमटप** (अ. क्रि.) उर्मट जावप; भीड मुरवत नासप.

**उर्मटपण** (ना. न.) मस्तेपण; बेपर्वाय.

**उरमटाय** (ना. स्त्री.) मस्तेपण; मदांधकाय; बेपर्वा.

**उरी** (ना. स्त्री.) कोंयड्या बारानी खेळपाक काडिल्ली चरी.

**उलक** (ना. स्त्री.) हुलूक; उखळी.

**उलकेच्या काळजाचो** (वा. प्र.) भिजूड; भित्रो.

**उलगप** (स. क्रि.) सोंपप.

**उलप** (ना. पु.) उज्या धग; हुलप.

**उल्लास** (ना. पु.) खुशालकाय; उमेद; आनंद.

**उल्लासप** (अ. क्रि.) भुरकुटप; खुशाल जावप.

**उल्लेख** (ना. पु.) कोणाकय लेखून केल्लें उलोवप वा बरोवप; कोणाकय वा कित्याकय लेखून काडिल्लो उगडास.

**उल्लेखप** (स. क्रि.) लेखप; उगडास काडप.

**उलवणे** (ना. न.) सांगणें; तोंडांतल्यान काडिल्लीं उतरां.

**उलवणो** (वि.) उलोवपी; बडबडपी.

**उलवप** (स. क्रि.) सांगप; तोंडांतल्यान उतरां काडप; रागार जावप; तिडकप; तापोवप.

**उलांडप** (स. क्रि.) हुपप; परतो जावप.

**उलांडी** (ना. स्त्री.) व्हडें परतुचें न्हय म्हणून ताका बांदिल्लो लाकडाचो लांबसार करवो.

**उलो** (ना. पु.) कोणाकय आपोवंक ताचें नांव घेवन मारिल्ली हालेट; साद; मागणें; आवाहन.

**उलोभर** (क्रि. वि.) उल्याचो आवाज जंय पावता तितली वाट वा अंतर.

**उलो मारप** (स. क्रि.) आपोवप; कोणाचेंय लक्ष आपल्याकडेन वोडप.

**उलोवणीं** (ना. स्त्री.) धेंगसो; तिखशेणी; काळजाक तोपचेलीं उतरां.

**उंवाळणी** (ना. स्त्री.) दिश्ट काडपाची चाल; उंवाळल्ल्याक दिल्ली देणगी.

**उंवाळप** (स. क्रि.) बऱ्या हेतान आनी भोवमान करूक मनशाच्या वा देवाच्या तोंडाभोंवतणी दिवो; आरत बी भोंवडावप; नड बादा काडपाखातीर तकले भोंवतणी तांदूळ वा दुसरी कसलीय वस्त घुंवडावप.

**उंवाळलेलें** (वि.) १. भायर उडयिल्लें; नदरेभायलें; नातें-पातें तोडिल्लें. २. एक गाळ.

**उंवाळून घाल्लें** (वि.) भायरें केल्लें; उंवाळलेलें.

**उश्टावण** (ना. न.) लग्नावेळार व्हंकलेन न्हवऱ्या पानावयलें जेवण उश्टावपाची चाल; लग्ना-दिसा न्हवऱ्या व्हंकलेन अेकामेकांच्या तोंडात जेवण भरपाची चाल.

**उश्टावप** (स. क्रि.) खावन पळोवप; पयलीं रूच घेवप; जेवणा-खाणाचो ल्हानसो घास तोंडांत घालप.

**उश्टें** (ना. न.) जेवण-खाण जातकच पानार उरिल्लें वा सकयल पडिल्ले शिताचे गोटे आनी हेर वस्तू.

**उश्टेवारो** (ना. पु.) उश्टें; कोयर बी उडोवपाचो वेगळोच जागो.

**उश्टो** (वि.) पयलीं खाल्लो; उश्टें लागिल्लो; उश्टायल्लो.

**उश्ण** (वि.) हून; माल पडटा अशें ताप.

**उश्णता** (ना. स्त्री.) धग; ताप; हुनसाण; ऊब.

**उश्णताय** (ना. स्त्री.) हुनसाण; ऊब.

**उश्णें** (वि.) परत दिवपाच्या कबलातीन घेतिल्लें.

**उशिकाणो** (ना. पु.) रोसाळ आनी गोड काण आशिल्लें झाड; ऊस.

**उशीर** (ना. पु.) फावो ताच्यापरस जाल्लो चड वेळ; कळाव.

**उशें** (ना.) माथ्या पोंदा आडवी घेवपाची कापसान भरिल्ली ल्हान पिशवी.

**उशेल** (ना. न.) उशिकाण्यांचो मळो.

**उस्तणी** (ना. स्त्री.) वयर सकयल धवळून पळोवपाचें काम; विस्कुटावणी.

**उस्तप** (स. क्रि.) आरतूप परतून सोदप; विस्कुटावप; धवळप.

**उस्तरें** (ना. न.) आयंडो घुस्पल्ल्यान जाल्ली स्वास उस्वासाची आडखळ.

**उस्तरें वचप** (अ. क्रि.) आयंडो घुस्पल्ल्यान स्वास-उस्वासाक आडखळ जावप.

**उस्तवारी** (ना. स्त्री.) सारकें करचेलो वावर; नासधूस जाल्ली कसलीय वस्तू सारकी करपाचें काम; सारको करचेलो कारभार.

**उसरमट** (ना. न.) धांपेणी; थंडेक बी लागून स्वास-उस्वासाक जाल्ली आडखळ.

**उसरपत** (ना. स्त्री.) उसव; वावरार आसतना मदींच मेळिल्लो इल्लोसो वेळ; विसव.

**उसरां** (वि.) कळावान.

**उसवप** (स. क्रि.) उक्ती करप; विस्कुटप.

**उस्वासप** (अ. क्रि.) उस्वास सोडप; सुस्कारप.

**उस्वास** (ना. पु.) नाकांतल्यान वारो भायर सोडपाचें काम.

**उसळ** (ना. स्त्री.) १. कडडणाची सरमरम सुकी शाक. २. हाता-पायांक भितल्ल्यान मारिल्ली दुखी.

**उसळप** (अ. क्रि.) नेटान उडप; उडक्यो मारप; तकली दुखप; आंगा-पांगाक भितल्ल्यान दुखी मारप.

**उसळावप** (स. क्रि.) फाफडप; शिंपडावप; कपल सणसणावप; तिडक हाडप.
**उळउळप** (अ. क्रि.) बुचबुचप; कसलोय ल्हान जीव भोंविल्ल्यान आंग शिरशिरप.

## ऊ

**ऊंच** (वि.) वयर.
**ऊब** (ना. स्त्री.) हुनसाण; उशणताय; शेक.
**ऊर्ध्व** (ना. स्त्री.) अेक उपदीक; माथ्यावयली उपदीक.
**ऊव** (ना.) मनशाच्या केंसांत लिपून रावन रगत खावपी एक तरेचो ल्हान जीव.

## ए

**एक** (ना. पु. वि.) १. १ ही संख्या; एकलोच. २. (ना.) कोणय; जाचें नांव गांव बी सारकें सांगूंक येना असो.
**एकएक** (वि.) एकलो एकलो.
**एकचार** (ना. पु.) एकवट; इश्टागत.
**एकचित** (वि.) एकेच वस्तूचेर वा गजालीचेर ध्यास दवरिल्लो.
**एकजात** (वि.) एकान एक; सगळे; एकूण एक.
**एक जावप** (अ. क्रि.) एकठांय येवप; इश्टागत जोडप.
**एकटुर्के** (वि.) एकलेंच; एकसुरें.
**एकटें-दुकटें** (वि.) एकटेंच; सांगात नासतना; वांगडाक घेनासतना.
**एकठांय** (अ.) एकेकडेन; एकेसुवातेर; एकें राशीन; सगल्यांबराबर.
**एकठांय करप** (क्रि.) जमोवप; एकेकडेन हाडप; भरसप.
**एकठावप** (स. क्रि.) एकेकडेन करप; एकठांय करप; जमोवप; मेळोवप.
**एकताल** (ना. पु.) संगितांतल्या एका तालाचें नांव.
**एकतीस** (ना. पु. वि.) तीन दशक आनी एक (३१).
**एकदम** (अ.) एकाच बराबर; रोखडेंच; अवचित; ध्यानामनांत नासताना.
**एकदां** (क्रि. वि.) एक फावट; एक खेपो.
**एकपाठी** (वि.) एकच फावट वाचून मतींत दवरपी.
**एकमत** (ना. न.) एकच विचार.
**एकमुळो** (वि.) एकसुरो; एकलोच; एकलोच रावपांत सूख मानपी.
**एकमेक** (वि.) दोगांभितर संबंधाविशीं आशिल्लें नातें.
**एक्याणणय** (ना. पु. वि.) णव्वद आनी एक (९१).
**एक्यायशीं** (ना. पु. वि.) अयशीं आनी एक (८१).
**एक्यात्तर** (ना. पु. वि.) सत्तर आनी एक (७१).
**एकरूप** (वि.) एकाच रूपाचें; एकेच तरेचें; गुल्ल; तल्लीन.
**एकरूप जावप** (अ. क्रि.) पुराय विरगळून वचप; एकेच भाशेन जावप; तल्लीन जावप.
**एकरूपताय** (ना. स्त्री.) रंग-रूप आकाराचें सारकेपण.
**एकलें** (वि.) एकटो; खंचोय एक.
**एकलेंच** (वि.) वांगडी नासतना; एकसुरें.
**एकवचन** (ना.) जाका लागून एकच वस्तू; एकच जीव वा एकच मनीस

अशें कळून येता असो; उतरांचो धर्म.
**एकवचनी** (वि.) एकच वचन आशिल्लो; एकच हो आंकडो दाखोवपी; एकाच उतराचो; दिल्लें उतर पाळपी.
**एकवट** (ना.) एकी; एकचार; एकठांय येवप.
**एकवीस** (ना. पु. वि.) वीस आनी एक (२१).
**एक्वेरियम** (ना. पु.) नुस्तें पोसपाचो कांचेचो पांजरो.
**एकशें** (ना. पु. वि.) एक शेंकडो; शंबर.
**एकसठ** (ना. पु. वि.) साठ आनी एक (६१).
**एकसारको** (वि.) परत परत; फाटोफाट.
**एकसुरेपण** (ना. न.) एकलेपण; सांगाताबगर.
**एकसुरें** (वि.) एकटें; एकलेंच; एकावल्लें.
**एकाद्रें** (वि.) खंयचेंय एक; अमकोच म्हणून सांगूंक येना अशें.
**एकादस** (ना. स्त्री.) हिन्दू म्हयन्याचे पयले वा दुसरे पंद्रशिचो इकरावो दीस.
**एकादुकलें** (वि.) एकाद्रें; कोणय एक.
**एकानएक** (वि.) सगले; एकय भाणय नासतना.
**एकारत** (ना. स्त्री.) एके जातीची आरत.
**एकावन** (ना. पु. वि.) पन्नास आनी एक (५१).
**एकावप** (अ. क्रि.) एकोडो जावप; एकसुरो जावप.
**एकी** (ना. स्त्री.) एकचार; इश्टागत.
**एकेक** (वि.) एकलें-एकलें.
**एकेचाळीस** (ना. पु. वि.) चाळीस आनी एक (४१).
**एको** (वि.) एक; एक आंकडो आशिल्लो; एकलो; वांगडाक वा सांगाताक नाशिल्लो.
**एकोडें** (वि.) एकलेंच.
**एंडेल** (ना. स्त्री.) एरंडा फळाचें तेल; एरंडा-तेलाची भायरी.
**एंडो** (वि.) बाबत; अबुद्धी.
**एर्दे** (वि.) लांबी; रुंदी; मोटसाण वा आंवाठ दाखोवपी उतर.
**एन्नादर** (क्रि. वि.) आतांमेरेन; इतल्यान.
**एरंड** (ना. पु.) एक ल्हान वखदी झाड.

# ऐ

**ऐन** (वि.) जिस्त; मुळचें; बराबर.
**ऐन वेळार :** कले वेळार.
**ऐरावत** (ना.) इंद्राचो हत्ती.
**ऐवज** (ना. पु.) पयसो-आडको; दागिने.

# ओ

**ओंक** (ना. स्त्री.) ओंकारो येवन भायर पडिल्लें.
**ओंकप** (स. क्रि.) ओंकारो आयिल्ल्यान पोटांतलें जेविल्लें खाल्लें वचप.
**ओंकीर** (ना. पु.) दोळ्यां-खांचिनी जमिल्लो धवसार मळ.
**ओखद** (ना. पु.) रोग निवळावंक दिल्ल्यो गुळयो; कोपां; कडे बी वस्तू; वखद.
**ओखेवप** (स. क्रि.) हारशांत तोखणायेन आरतें परतें पळोवप; नियाळप.
**ओग** (ना. पु.) व्हांवप; वेग; गती.
**ओगोत** (ना. पु.) वेळ; काळ.
**ओजिश्ट** (वि.) नेट आशिल्लें.
**ओजें** (ना. न.) १. कोंड्यावेळाचें व्हड पाटें; व्हड आकाराचो पाटलो; चड वजन. २. न्हवऱ्या व्हंकलेक धाडटात

तें तरेकवार खाण; वजें.

**ओझरी** (ना. स्त्री.) झरो; झर; जमनींतल्यान फुटिल्लें उदक.

**ओट्ट** (ना. न.) पोरसूं; घरामुखार वा फाटल्यान फळां-फुलां बी रोयिल्लो जागो.

**ओंट** (ना. न.) ओंटिणीचें फळ..

**ओंटो** (ना. पु.) सारें; उदक बी उरचें म्हणून भाटांत मदिंमदीं घाल्ली मेर.

**ओंठ** (ना. पु.) तोंडाची दांताभायली मांसाळ आनी तांबसार एकेक कड; तोंडाचें जण एकलें कवाड.

**ओंठयें** (वि.) मोठ्या ओंठाचें; बोंचो आशिल्लें.

**ओड** (ना. स्त्री.) मन ओडून घेवपाचो गूण; आकर्शण; मोग; आदर; भक्ती.

**ओडणी** (ना. स्त्री.) पामरी; फाटीर; माथ्यार बी घेवपाचें लुगट.

**ओडप** (स. क्रि.) १. नेटान आपल्या म्हऱ्यांत हाडप; ताणावप. २. विडी सिगार बी चिंवून तांचो धुंवर भितर घेवप. ३. तंबाकुची पूड हुंगप.

**ओडलायर्णे** (वि.) मन ओडून घेवपी.

**ओणव** (ना. पु.) कमर फुडल्यान बागोवन रावपाची तरा.

**ओतप** (अ. क्रि.) रकप; वाखप.

**ओतवप** (स. क्रि.) १. रकवप; वाटवप. २. लोखंड बी धातू कडोवन तांच्यो वस्तू घडोवप.

**ओतो** (ना. पु.) चड खतखतो आयिल्ल्यान भायर रकिल्लो पातळ जिनस.

**ओथांबो** (ना. पु.) पावसा उदका थेंबो.

**ओप** (ना. स्त्री.) घांसून वा घसटून काडिल्ली लकलकसाण.

**ओंपणी** (ना. स्त्री.) दान; देण; दुसऱ्याक दिवन उडवपाचें काम.

**ओंपप** (स. क्रि.) १. दुसऱ्याचे सुवादीन करप; सदांकाळ दुसऱ्याक दिवप उडवप. २. शेतांत रोव मारप.

**ओपार** (ना. स्त्री.) म्हण; अणभव आनी शाणेपण शिकोवचेलें काव्यपूर्ण वाक्य.

**ऑफिस** (ना. न.) बरोवपाचें; हिशोब दवरपाचें घर; कचेरी.

**ऑयल** (ना. स्त्री.) बुळबुळीत दाटसार तेल.

**ओरातोर** (ना. स्त्री.) देवाचें ध्यान करपाचो जागो; देवाची कूड.

**ओरोंब** (ना. पु.) आरंब; सुरवात.

**ओल** (ना. स्त्री.) पावसान आयिल्ली ओलसाण.

**ओल** (ना. स्त्री.) किरिस्तांव बायलांच्या न्हेसणावयर पांगुरपाचें धवें लुगट; चादर; कुबेर्त; पांगरूण.

**ओलट** (वि.) उदकाची शेळ आशिल्लें; ओलसार.

**ओलतेर** (ना. न.) विसव घेवपाचें कदेल.

**ओलसाण** (ना. स्त्री.) उदकान जाल्ली शेळ.

**ओलांडी** (ना. स्त्री.) पळय **उलांडी.**

**ओलावप** (स. क्रि.) भिजोवप.

**ओल्ली** (ना. स्त्री.) तांदूळ धुंवचेलें बारीक बुराकांचें कोंड्या वेळांचें आयदन.

**ओलें** (वि.) शेळें; भिजिल्लें; उदकान फुगिल्लें.

**ओंवी** (ना. स्त्री.) दळप करपा वेळार म्हणटात तें गित; एक लोकगितांचो प्रकार.

**ओंवळ** (ना. न.) बऱ्या परमळाचे एक सुपुलें फूल; ओंवळ हें फूल दिवपी

झाड.

**ओंस** (ना. न.) राताचो सोळावो भाग; सादारण एकतीस ग्राम.

**ओस्त** (ना.) किरिस्तांवी धर्मांत मिसावेळार देवाक ओपिल्ली गंवा पिठाची ल्हान वडी.

**ओसाड** (वि.) पडंग; वशाड; रोयखोय नाशिल्ली सुवात.

# औ

**और** (ना. न.) हुंवार; (वि.) विचित्र; मौजेचो.

# अं

**अंकूश** (ना. पु.) हत्तीक बी तोपचेलो ल्हान भालो.

**अंगारिका** (ना. स्त्री.) मंगळारा दिसा आयिल्ली संकश्टी; मंगळारा दिसाची गणपतीची पुजा.

**अंजन** (ना. न.) काजळ; नदर निवळ जावचे खातीर दोळ्यांत घालपाचें वखद.

**अंजली** (ना. स्त्री.) दोनय हातांचो पोसो.

**अंत** (ना. पु.) शेवट; निमाणचो खीण; मरण.

**अंतपार** (ना. पु.) शीम-मेर; शेवट.

**अंत्यविधी** (ना. पु.) मेल्ल्या मनशांचो धर्मीक विधी.

**अंतर** (ना. न.) दोन वस्तूंभितल्ली सुवात.

**अंतरमाळ** (ना. स्त्री.) आंतकडी; कुडीचे भितल्ले भाग.

**अंतरप** (स. क्रि.) सोडून वचप; कसलीय वस्त सोडची पडप; जीव वचप.

**अंतरपाट** (ना. पु.) लग्न लावचे पयलीं न्हवऱ्या-व्हंकले मदीं धरिल्लें लुगट.

**अंतराळ** (सा. ना.) आमच्या माथ्यावयली पोकळसाण; पृथ्वी भोंवतणची सुवात.

**अंतस्कर्ण** (ना. न.) मन; भितल्लो ताळो.

**अंतस्करण** (ना. न.) पळय **अंतस्कर्ण.**

**अंती** (वि.) निमाणे; शेवट; अखेरेक:

**अंदप** (स. क्रि.) आंवळप; घट्ट धरप; चिड्डप.

**अंदाज** (ना. पु.) अदमास; सुमार.

**अंदू** (क्रि. वि.) चलता त्या वर्सा.

**अंधुकाय** (ना. स्त्री.) कुड्डेपण; कुन्नाटेपण

**अंधुर्के** (वि.) कुड्डें; दोळे-फुटकें; कुन्नाटें.

**अंबुरकें** (वि.) अमुरपिकें.

**अंश** (ना. पु.) ल्हान भाग.

# क

**कच** (ना. न.) (चड करून धातूसाधीत उतरांपुंज्यांनी आइल्लें दिश्टी पडटा.) १. **कच करून** (अ.) अकस्मात भियेवन: ताणें कच करून आंग काडलें. २. **कच जावप** (क्रि.) अकस्मात भियेवप: घोवाची खबर आयकून तिका कच जालें.

**कचक** (ना. न.) (पळय कच २.)

**कचकच** (ना. पु.) १. कोयर; तरेकवार गजाली भरसून जाल्लो कोयर: **आंगणांत खूब कचकच जाला.** २. कशायकशोय दवरिल्ल्यो (चड करून खूब) वस्तू: मेजार खूब कचकच जाला.

**कचकडो** (ना. पु.) कांसवाचें कट्टें.

**कचकचावणी** (ना. स्त्री.) हिणासावणी; तोपून केल्लें उलोवप; उलोवप छळप.
**कचकचावप** (स. क्रि.) हिणसावप; तोपून उलोवप; छळप.
**कचकचीत** (वि.) खूब; सुमाराभायर चड (चड करून आसप आनी लागप ह्या क्रि. बरोबर येता.) **तांदळांत क. फातर आसात; पणसाक क. पणस लागल्यात.**
**कचकचो** (ना. पु.) त्रास; छळ.
**कचमकालो** (ना. पु.) कचकच; घुस्पागोंदळ.
**कचरप** (अ. क्रि.) फाटीं सरप; भियेवप; अनमनप.
**कचरून येवप** (अ. क्रि.) जिरवण नाशिल्ल्यान गळ्याकडेन आंबट येवप.
**कचरो** (ना. पु.) कोयर; म्हत्व नाशिल्ली वस्त. **ताका ते कचरो कसो लेखतात.**
**कचाकच** (क्रि. वि.) कच कच करून; सोंपेपणान; उसंत घेनासतना.
**कचींबचीं** (ना. न.) (भोववचनांत) ल्हान भुरगीं.
**कचेरी** (ना. स्त्री.) ऑफिस; कार्यालय; कारभाराचें घर.
**कचो** (ना. पु.) सामको ल्हान धोडयारो; धोडयाऱ्याचो पोर; ल्हान भुरग्याच्या आंगल्याक गळ्याकडेन बांदपाचो तीर.
**कचोरी** (ना. स्त्री.) तळिल्लो खावपाचो जिनस.
**कच्च** (ना. न.) (पळय **कच**).
**कच्चें** (वि.) १. हरवें; तन्नें; जून जावंक नाशिल्लें: **कच्चें फळ.** २. भाजूंक वा शिजोवंक नाशिल्लें; अर्दकुटें भाजिल्लें वा शिजयल्लें: **कच्चें जेवण.** ३. सारको अणभव नाशिल्लें; अर्दकुटें गिन्यान आशिल्लें; **ताचें भाशेचें गिन्यान कच्चें.** ४. जें पूर्ण जाल्लें ना अशें: **कच्चो रस्तो:** मातयेचो रस्तो.
**कजाग** (वि.) झगडाळ; त्रास दिवपी.
**कंजूस** (वि.) गरजेक जाय ते दुडू मोडपी न्हय अशें; किर्पण.
**कट** (ना. पु.) गुपीत कारस्थान.
**कटकट** (ना. स्त्री.) त्रास; बेजार करपाचो कसलोय वावर; उबगणेचो वावर.
**कटाकटा** (अ.) दुख्ख उक्तावपाचो उमाळो.
**कटूक** (वि.) चड खार.
**कट्ट** जावप क्रियेक घेवन घोळटा. **कट्ट जावप:** मोडप.
**कट्टर** (वि.) १. जाणटें जाल्लें वा सोपूंक आयिल्लें: हें सूप कट्टर जालां. २. प्रखर अभिमानी; शिस्तीन कडक.
**कट्टी** (ना. स्त्री.) नाल्ली; कातले भोंवतणचें कवच.
**कट्टूल** (ना. न.) ल्हान कट्टी; उबाळाच्या दिसांनी भुरग्यांचे तकलेर उदेता तें गूट; कपल; नशीब.
**कट्टें** (ना. न.) मनशाचे वा जनावराचे तकलेचें सबंद हाड. (वि.) कडक निश्टेचें; खर अभिमान बाळगुपी.
**कठीण** (वि.) समजूंक सोपें न्हय तें; जड **(हें गणीत समजूंक कठीण);** घट; कश्टाचें **(मुखावयलो काळ कठीण आसा).**
**कठिनाय** (ना. स्त्री.) अवघडपण.
**कठीन** (वि.) पळय **कठीण.**
**कठोर** (वि.) काकुळट नाशिल्लें; कडक; निश्ठूर; घट मनाचें. (अ.) वायट; कठीण.
**कठोरपण** (ना. न.) कठोर आसपाचो गूण.
**कड** (ना. पु.) ओतो; उमाळो; वताचो

खरखरख; बाजू; पक्ष.
**कड** (ना. पु.) हांड; देग.
**कडक** (वि.) शिस्तीन वागपी; ताठ; थीर; घट; बागवना अशें.
**कडकडप** (अ. क्रि.) थरथरप; **वत कडकडप :** कडक वत पडप.
**कडकडावप** (स. क्रि.) भेश्टावप; थरथरावप; गजाल करप; धेंगशे घालप.
**कडकडीत** (वि.) खर; चड तापिल्लें; निश्ठेचें.
**कडकडें** (ना. न.) बारीक देंठ आशिल्लें भांगराचें फूल.
**कडकपण** (ना. न.) कडकसाण; घटसाण; निबरसाण.
**कडच्यान** (अ.) कडल्यान; हस्तुकीं; वरवीं.
**कडप** (अ. क्रि.) तापप; हून जावप; हुनसाणीन वितळप वा तेंवप.
**कडल्यान** (अ.) पळय **कडच्यान.**
**कडवण** (ना. न.) कालवण; सांबारें; रोस.
**कडवप** (स. क्रि.) शिजवप.
**कडवें** (ना. न.) पदाचो वा कवितेचो चरण.
**कडवो** (वि.) कट्टर; खर अभिमानी; (ना. पु.) मल्लांचें वा चुडटांचें व्हडप.
**कडसरप** (अ. क्रि.) ल्हवूच कुशीक सरप; ल्हवूच पयस वचप; कूस मारप; कडासप.
**कडसवप** (स. क्रि.) टाळप.
**कडासपॅ** (क्रि.) कोणाक दिसनासतना वचप; कूस मारप.
**कडाशी** (ना. स्त्री.) वणत आनी पाखें हांचेमदीं बारीक वस्त शिरकावन दवरुपाचो जागो.
**कडी** (ना. स्त्री.) हुमण; कालवणें; शीत कालोवंक सोय पिळून आनी सोलां घालून केल्लें रसायन; तिंवळ.
**कडें; कडेन** (अ.) लागीं; सरीं.
**कडें** (ना. न.) हातांत घालपाचो भांगराचो; रुप्याचो वा कसल्याय धातूचो वाळो; वेटाळें; घेरो.
**कडेकोट** (वि.) चौंयवशीन पुराय बंदोबस्त आशिल्लें.
**कडो** (ना. पु.) १. कसाय. २. दोंगराचे वयर धरून सकयल उबें आंग. ३. भात भरपाचो वाटकुळो हांतरपटो.
**कडोवणी** (ना. स्त्री.) शिजोवणी.
**कड्डप** (अ. क्रि.) भितरले भितर चिड्डप; माड्डप; दांत ओंठ चाबून उलोवप.
**कड्डण; कड्डाण** (ना. न.) मूग; वाटाणो; मसूर असो दोन दाबयांचे दाणो.
**कड्डणी** (ना. स्त्री.) पिरंगणी.
**कड्डुर्के** (वि.) कस धरपी; किरमणां हाडपी; किरमुपी.
**कड्डें** (वि.) सोलासयत.
**कड्डो** (ना. पु.) लडो; मार.
**कढय** (ना. स्त्री.) कायल.
**कण** (ना. पु.) १. कसलेय वस्तूचो बारकांत बारीक कुडको. २. तांदूळ; गंव; मूग अशा धान्याचो वा कड्डणाचो एक नग.
**कणकण** (ना. पु.) बोवाळ (चड करून सोंसूंक जायना असो); सणसण.
**कणकणप** (अ. क्रि.) उसळप; दुखप; सणसणप.
**कणकणावप** (स. वि.) काण्ण्यो घालप; धुंवळ बी आयिल्ल्या मनशाचीं कानसुलां बोटांच्या पेरांनी दाबप.
**कणकणी** (अ.) उपरान्त. **पावला**

**कणकणी** दर पावला उपरान्त.
**कणखर** (वि.) घट्ट; बदपा न्हय अशें.
**कणंग** (ना. न.) कणगी; एक गोड मूळ.
**कणप** (अ. क्रि.) एकाच जाग्यार उरिल्ल्यान स्नायू दुखप.
**कणयारें** (ना. न.) तांदळाच्या कणयांचो केल्लो सांजो.
**कणयारें** (ना. स्त्री.) कणी आशिल्लें.
**कणय** (ना. स्त्री.) दया; काकुळट.
**कणवाळें** (वि.) काकुळटेचें.
**कणशी** (ना. स्त्री.) कणस.
**कणस** (ना. न.) भात; गंव; नासणो अशा जातीच्या रोंपाक येवपी दाण्यांचो तुरो.
**कणसप** (स. क्रि.) नडप; नडणी काडप.
**कणी** (ना. स्त्री.) तांदळाचे मोडिल्ले बारीक मोटे कण.
**कणेर** (ना. पु.) एक फूलझाड.
**कणो** (ना. पु.) मानेपासून कमरामेरेन हाडांच्या मुदयांची उबी रस्त. २. खंयचेय वस्तीचो वा वेवस्थेचो आदार अशें मुखेल आंग. ३. तांदूळ; गंव अशा वरवाचें कण कशें पीठ.
**कण्ण** (ना. न.) मुगा दाळीचें गोडशें.
**कण्णपास** (ना. पु.) माळणान हुंदराच्या जिवाक घाल्लो रेवोडो; घराच्यो कण्ण्यो बांदपाचो पास.
**कण्णावप** (स. क्रि.) घराच्या पाख्याक बांदप वा खिळावप.
**कंटाळप** (अ. क्रि.) उबगप; वाजेवप; विटप.
**कंटाळावप** (स. क्रि.) वाज हाडप; त्रास करप.
**कंटाळो; कंठाळो** (ना. पु.) वाज; उबगण; वीट.
**कंटाळवाणें** (वि.) वाज हाडपी.
**कंठ** (ना. पु.) गळो; ताळो; आवाज.
**कंठप** (स. क्रि.) सारप (चड करून त्रासांनी) **काळ कंठप** काळ सारप.
**कंठमणी** (ना. पु.) गळ्याचें मुखार आयिल्लें हाड.
**कंठमाळ** (ना. स्त्री.) गळ्याभोंवतणी गांठी जावपाची पिडा.
**कंठकोश** (ना. पु.) ताळो फुटसर केल्लें आड्डप. **कं. करप** अशें आड्डप करप. **कंडुली; कंडुलो** (ना.) ल्हान कंडो.
**कंडो** (ना. पु.) १. मानीच्या वेतांचें विणून केल्लें वाटकुडें आनी उबें आयदन. २. चुडटाचें विणिल्लें माथ्यावयल्यान धेवपाखातीर केल्लें.
**कतरेल** (ना. न.) वणटीक भितर केल्ली ल्हानशी आरमार.
**कत्तल** (ना. स्त्री.) कापाकाप; व्हडा संख्येन केल्ली हत्या.
**कथक** (ना. पु.) नाचाचो एक प्रकार.
**कथा** (ना. स्त्री.) काणी; गजाल; गोश्ट.
**कथाकार** (ना. पु.) कथा रचपी; कथा बरोवपी.
**कथानक** (ना. न.) कथेंतली घडणूक.
**कद** (ना. पु.) रेशमाचें धोतराभशेन न्हेसपाचें लुगट; मुकटो.
**कदमकाळ; कदीमकाळ** (ना. पु.) चड फाटलो काळ.
**कदर** (ना. स्त्री.) पर्वा; भीड; मान.
**कदाचित** (अ.) एकादलें; एकाद्रें.
**कदीम** (वि.) खूब पोरनें.
**कदेल** (ना. न.) बसपाखातीर केल्ली चार खुरांची आनी फाट आशिल्ली बसका; खुर्ची.
**कनिश्ठ** (वि.) सकयल्या पांवड्याचें.

**कन्नड** (ना. स्त्री.) कानडी लोकांची भास. (वि.) कानडी; कर्नाटकांतलें.
**कन्या** (ना. स्त्री.) १. चली; धूव. २. सवी रास.
**कन्यादान** (ना. न.) लग्नांत मंत्र म्हणून धूव जांवयाक दिवपाचो सुवाळो. (ही रीत हिंदुंगेर चलता.)
**कन्यारत्न** (ना. न.) कन्या; धूव; चली.
**कन्याशाळा** (ना. स्त्री.) चलयांक शिकोवपाची शाळा.
**कंद** (ना. पु.) कांदो; गड्डो.
**कंदन** (ना. न.) कत्तल.
**कपचेल** (ना. न.) फातराचो वा तळपाचो कडेकडलो कुडको (चड करून पातळ.)
**कपचो** (ना. पु) ल्हान कुडको.
**कपट** (ना. न.) सुलूस लावंक दिनासतना केल्ली फसवणूक.
**कपटकारस्थान** (ना. न.) कपटान दुसऱ्याक फटोवंक रचिल्लो कट.
**कपटी** (वि.) कपट करपी.
**कपनखायरें** (वि.) चामटें; खूब हिमटें.
**कपडे** (ना. पु.) लुगट; वस्त्र.
**कपयाळें** (ना. न.) कपयो गांठावन केल्ली ल्हान गोजडी.
**कपल; कपळ; कपाळ** (ना. न.) १. तकलेचो दोळ्यांपासून केंसामेरेनचो भाग. २. नशीब **कपलां घेवप :** आपलें कपल धाडावप.
**कपल-फुटकें** (वि.) वायट नशिबाचें; दुर्दैवी.
**कपशेल** (ना. न.) १. (पळय कपचेल) २. खांब्याचें कोत्रायल्लें माथें.
**कपळफोडणी** (ना. स्त्री.) भोवन भोवन केल्ली शिटकावणी.
**कपाट** (ना. न.) आरमार.
**कपात** (ना. स्त्री.) उणें; कमी.
**कपी** (ना. स्त्री.) लुगटाचो ल्हानसो कुडको; थिगळ.
**कपीत** (ना. पु.) पुलिसिचो वा सैन्याचो अधिकारी; बोटीचो मुखेल.
**कपेल** (ना. न.) किरिस्तांव धर्माची देवळी.
**कपो** (ना. पु.) नुस्त्याचो कांट्याबगर काडिल्लो कुडको (चड करून ल्हान.)
**कप्पो** (ना. पु.) ल्हान खण.
**कंपू** (ना. पु.) पंगड.
**कफ** (ना. पु.) थंडेक लागून हड्ड्यांत सांठिल्लो चिकट पदार्थ.
**कफनी** (ना. स्त्री.) १. मुसलमान साधू न्हेसतात तो झगो. २. मुसलमानांगेर प्रेत गुटलावपाचें लुगट.
**कफल्लक** (वि.) दुडू नाशिल्लें; सामको गरीब.
**कबड्डी** (ना. स्त्री.) हुतूतूचो खेळ.
**कबर** (ना. स्त्री.) मुसलमान धर्मातल्या मेल्ल्या मनशाक पुरिल्ल्या जाग्यार उबारिल्लें थडें.
**कबलात** (ना. स्त्री.) भासाभास करून घेतिल्ली थारावणी; करार.
**कबुली** (ना. स्त्री.) मान्यताय.
**कबूल** (वि.) मान्य; पसंत. **कबूल करप.** मान्यताय दिवप. **कबूल जावप** आपणें केलां म्हणून सांगप.
**कब्जो** (ना. पु.) ताबो.
**कमर** (ना. न.) फाटीचो सकयलो भाग; कंबर. **पेंगट बांदप :** नित्शय करप; वावराक लागप : (कोंकणीचें नांव व्हड करूंक तांणी पेंगट बांदलें.)
**कमरपटो** (ना. पु.) कमराक बांदपाची बायलांची एक वस्त.
**कमवप** (स. क्रि.) १. जोडप;

२. **चामडें कमवप :** चामडें मोव करप.
**कमळ** (ना. न.) साळीक.
**कमाद** (ना. स्त्री.) नुस्त्याची गांथन.
**कमान** (ना. स्त्री.) आर्क; वाटकुळें तोरण.
**कमाय** (ना. स्त्री.) जोड; येणावळ.
**कमाल** (वि.) चडांत चड.
**कमाविसदार** (ना. पु.) देवळाचे कमिटिचो कुलकर्णी; वेव्हार करपी; राखणदार.
**कमिटी** (ना. स्त्री.) समिती.
**कमी** (वि.) उणें; थोडें.
**कमीजास्त** (वि.) अदीक उणें.
**कमीतकमी** (वि.) उण्यांत उणें; किमान.
**कमीपण** (ना. न.) उणेपण; ल्हानतिकाय.
**कय; कीय; कूय** (अ.) १. परस; हून; वयर. २. पांचवे विभक्तिचीं कुसां.
**कयपंजी** (ना. स्त्री.) तेल भरपाची वेवस्था आशिल्ली पंटी.
**कयल** (ना. न.) गांवठी नळ्याचो फुटिल्लो पोकळसाण आशिल्लो कुडको; चणे; भिकणां बी भाजपाचें कुयणें.
**कयास** (ना. पु.) अदमास; तर्क.
**कर** (ना. पु.) हात; येणावळीचेर भरचेली पटी.
**करकचून** (अ.) घट्ट आंवळून.
**करकरप** (क्रि.) कर कर असो आवाज जावप.
**करकरीत** (वि.) नवें; ताजें.
**करकरो** (ना. पु.) नुस्त्याची एक जात; सवण्याची एक जात. **करकरो हालवो** (ना. पु.) रवो; तूप; साकर बी घालून केल्लो हालवो.
**करड** (ना. न.) पावसांत दोंगरार रुजपी तण. **करड काडप** तापवप; रागान उलोवप; खूब काम करून घेवप.
**करडप** (क्रि.) पिठो करप.
**करडें** (वि.) गोबऱ्या रंगाचें; नितळावंक नाशिल्लें.
**करण** (ना. पु.) धातूचो डबो.
**करण** (ना. न.) तिसरे विभक्तेचो अर्थ.
**करणार** (ना.) करपी.
**करणी** (ना.) १. कर्तूप; कर्म; वावर; कार्य. २. दुसऱ्याचें वायट जावचें म्हूण केल्लें चेटकीपण.
**करतूप** (ना. न.) कर्तुत्व; मोटो वावर; पराक्रम.
**करप** (स. वि.) आचरप; घडोवप; प्रत्यक्षांत हाडप; तडीक व्हरप; निर्मप; रचप. (ना. न.) १. चिऱ्याचो कापटीचो कुडको. २. कालवांचें कट्टें.
**करपट** (वि.) करपिल्ल्यासारकें.
**करपट धेंकर** गळ्याकडेन आंबट जावन आयिल्लो धेंकर.
**करपटाण** (ना. स्त्री.) करपल्ल्याचो वास.
**करपप** (क्रि.) काळें पडसर भाजप; लासप.
**करपी** (ना. पु.) करणारो.
**करपुटाण** (ना. स्त्री.) पळय **करपटाण.**
**करबट** *(ना. न.) जायत्या जातीचें बारीक एकठांय नुस्तें.
**करबील** (ना. पु.) एक वखदी झाड. (हाचीं पानां वासाखातीर जेवणांत घालतात.)
**करभार** (ना. पु.) आपणें भरपाची पटी.
**करम** (ना. स्त्री.) तोराची चटणी; पिंपरी; टोमाट अशा फळांची बारीक शित्री भरसून केल्ली खावपाची वस्त.

**करमणूक** (ना. स्त्री.) मौज; मजा; हांसपाखेळपाची गजाल.

**करमप** (अ. क्रि.) मिठान फळ खार जावन ताची आंबसाण वचप (चड करून तोर); मन रंजप.

**करमल** (ना. स्त्री.) १. अेक आंबसार बिंबलाभाशेन फळाचें झाड; ह्या झाडाचें फळ. २. चिमणेच्या दिव्याची वात सकयल वयर काडपाचें यंत्र.

**करमेवप** (स. क्रि.) मीठ घालून तिगवप (चड करून तोर; आंबाडो बी).

**करवप** (स. क्रि.) करून घेवप.

**करवली** (ना. स्त्री.) लग्नांत करो घेवन येवपी न्हवऱ्याची भयण.

**करवलो** (ना. पु.) न्हवऱ्याचो धेडो.

**करवो** (ना. पु.) उशेकांड्याचो ल्हान कुडको; केळीच्या कांडाचो कुडको.

**करामत** (ना. स्त्री.) मोट्या नवलांचो वावर.

**करामती** (वि.) हिमकती; खटपटी.

**करारी** (वि.) कडक शिस्तिचें.

**करूण** (वि.) काकुळटेचें; काकुळट येवपासारकें.

**करुणा** (ना. स्त्री.) काकुळट; चुरचुरे.

**करें** (ना. न.) उंट.

**करेल** (ना. पु.) आंब्याची जात (हो आंबो लोणच्याखातीर उपकारायतात.)

**करो** (ना. पु.) लग्नांत करवलेन धरपाचो मंगल कलश; थंडेन बर्फ जाल्लो पावसाच्या थेंबांचो गुळो.

**करोड** (वि.) कोटी.

**करेज्म** (ना. न.) किरिस्तांव धर्मांत पास्कांआदीं येवपी चाळीस दीस. (ह्या दिसांत ह्या धर्मांतले लोक दुख्ख मनयतात.)

**कर्क** (ना. न.) कुल्ली; रास; कॅन्सर.

**कर्कश** (वि.) गोड न्हय तें (चड करून आवाजाच्या संबंदान.)

**कर्कशा** (वि.) कजाग; एक सारखी खेपपी (चड करून बायले संबंदान.)

**कर्ज** (ना. न.) रीण; देणें.

**कर्ण**(ना. पु.) कान.

**कर्णधार** (ना. पु.) पंगडाचो मुखेल (चड करून खेळांच्या.)

**कर्णफूल** (ना. न.) कानांतलो एक दागिनो.

**कर्तव्य** (ना. न.) लागणूक.

**कर्तृत्व** (ना. न.) व्हड करणी.

**कर्तृत्वी** (वि.) व्हड करणी करपी; पुरुशार्थी.

**कर्तुपी** (वि.) व्हड वावर करपी.

**कर्तूप** (ना. न.) १. वावर. २. वायट कर्म.

**कर्तो** (ना. पु.) करणारो; करपी. (वि.) घरसंवसार पळोवपी पुरुश. (व्या) पयले आनी तिसरे विभक्तेचो अर्थ.

**कर्तो सवरतो** (वि.) बरेभशेन जोडून संवसार करपी.

**कर्दन** (ना. न.) जिवानशी घाल्लो मार पेट. **कर्दन करप :** थार मारप.

**कर्दनकाळ** (ना. पु.) निश्ठूरपणान जीव घेवपी; मरण.

**कर्म** (ना. न.) काम; वावर; नशिबांत आयिल्ले त्रास.

**कर्मकट्टें** (वि.) दळिदें; नशीब फुटकें.

**कर्मचारी** (ना.) नोकर.

**कर्मठ** (वि.) धर्मान घालून दिल्ल्या आचारांक वेळकाळ पळयनासतना पाळो दिवपी.

**कर्मदळिद्रें** (वि.) फुटक्या नशिबाचें.

**कर्मनिश्ठ** (वि.) आचार निश्ठेन करपी.

**कर्मफुटकें** (वि.) फुटक्या नशिबाचें.

**कर्मभोग** (ना. पु.) वायट कर्माचें फळ; नशिबांतलो भोग.
**कर्मोवर्मो** (ना. न.) उणीं दुणीं.
**कर्मी** (ना. पु.) कर्तुपी.
**करंगटप** (अ. क्रि.) चिड्डप; हाताच्या बोटांनी चिड्डप; फातरीर हयन्हयशें धाडावप.
**करंगटावप** (स. क्रि.) करंगटावन घेवप.
**करंज** (ना. न.) करंजाचें झाड.
**करंजेल** (ना. न.) करंजीच्या बियांचें तेल.
**करंटें** (वि.) फुटक्या नशिबाचें.
**करंगूट** (ना. स्त्री.) भाताची एक जात.
**करंजेवप** (अ. क्रि.) बरगेवप; घटसाण ना जावप (चड करून लाकूड).
**करंदाय** (ना. स्त्री.) बोवाळ; गडबड.
**कल** (ना. पु.) ओड; आवड.
**कलकल** (ना. पु.) एकमेकांत आवाज भरसून जाल्लो बोवाळ; भंय; खपखप.
**कलकल येवप:** संकश्टाक लागून आकांताचो भंय दिसप.
**कलकलप** (अ. क्रि.) खपखपप; काळजांत धडधडप; भंय दिसप.
**कलकलाट** (ना. पु.) खूब आवाज एकमेकांत भरसून जाल्लो बोवाळ.
**कलकलावप** (स. क्रि.) भेश्टावप; भेसडावप.
**कलकलो** (ना. पु.) भंय; खूब हुसको
**कलकलो भरप:** खूब भंय दिसप.
**कलप** (ना. पु.) १. केंस काळे करपाखातीर तांका लावपाचो रंग. २. लकप; बागोवप.
**कलम** (ना. न.) नेम; प्रशासनाच्या कायद्यांत आंकडेवार केल्लें विधान; एका रोंप्यार दुसऱ्या झाडाची ताळी बसोवपाची पद्धत; अशेतरेन तयार जाल्लें नवें झाड.
**कलम करप:** कलमान नवें झाड तयार करप.
**कलमाकाप** (ना. न.) एक वखदी वनस्पत.
**कलमी** (वि.) कलमापासून जाल्लें.
**कलय** (ना. स्त्री.) कथलाचो लेप. (तांब्याचे; पितुळचे आयदनांनी जेवण कळमेवचें न्हय म्हणून अशा आयदनाक हो भितल्ल्यान लेप काडटात.)
**कलयकार** (ना. पु.) कलय काडपी.
**कलयाद** (ना. न.) पळय **कुलूप.**
**कलवंत** (ना. न.) नाच; गायन असो धंदो करपी बायलमनीस.
**कलश** (ना. पु.) कळसो; तांबयो; देवसपणाखातीर उदक भरून दवरिल्लो तांबयो.
**कलसांव** (ना. न.) पँट.
**कला** (ना. स्त्री.) सुंदर तें निर्मुपाचो गूण; अशे निर्मणेंतल्यान जाल्लें तें; तरा.
**कलाकार** (ना. पु.) कला निर्मुपी.
**कलाबूत** (ना. स्त्री.) भरतकाम.
**कल्पना** (ना. स्त्री.) येवजण; विचार; तर्क.
**कल्पनीक** (वि.) खरें न्हय अशें; कल्पनेंतलें; रचिल्लें.
**कल्पप** (स. क्रि.) येवजून काडप; आपले बुद्दीन रचप.
**कल्पीत** (वि.) कल्पनेंतलें; रचिल्लें.
**कल्परुख** (ना. पु.) मागता तें दिवपी झाड.
**कल्याण** (ना. न.) जें बरें तें; हीत.
**कल्याण जावप:** बरें जावप. **कल्याण करप:** बरें करप.
**कल्ल** (ना. न.) सोल्ल; पातळ कट्टें. (वि.) पोखरून गेल्लें. **कल्ल जावप** भितरल्यान पोखरून वचप; भंय दिसप.

**कल्लवप, कल्लावप** (क्रि.) कल्लां काडप; सोलप.
**कल्ली** (ना. स्त्री.) १. कुळागरांत झाडां शिंपपाचें कुलेराभाशेन एक लाकडी आयत. २. नुस्त्याची एक जात.
**कल्लो** (ना. पु.) गलो; कानसुलावयल्या केंसाचो झुबको.
**कल्लोळ** (ना. पु.) सोसूंक नज असो बोवाळ.
**कवकवसाण** (ना. स्त्री.) टवटवीतपण.
**कवकवीत** (वि.) टवटवीत; तुकतुकीत; तेजीश्ट.
**कवच** (ना. न.) भायली साल; सोल वा कट्टें; आंगार घालपाचें लोखणी वा हेर धातूपासून केल्लें राखणे आंगाचें; चिलखत.
**कवटाळ** (ना. न.) आळ; जादू.
**कवटाळप** (स. क्रि.) वेंगावप; वेंगेंत घेवप.
**कवटी** (ना. स्त्री.) मनशाचे तकलेचें हाड.
**कवड** (ना. न.) दार.
**कवडी** (ना. स्त्री.) ल्हान कवडो.
**कवडो** (ना. पु.) एक सवणें.
**कवतूक** (ना. न.) अपुरबाय.
**कवदो** (ना. पु.) मोटो काकाडो.
**कवन** (ना. न.) कविता; गीत.
**कवनी** (वि.) कवनां करपी; फकाणेर.
**कवळ** (ना. न.) वखदी पाळांमुळांचें वा पानांचें पाप.
**कवळप** (स. क्रि.) गुठलावप; आपल्याक घेवप; बेगीबेगीन काम सोंपोवप.
**कवळी** (ना. स्त्री.) गुटलायल्ली वा एकठांय बांदिल्ल्या वस्तूंची मोवळी; तयार केल्ल्या दांतांची माळ.
**कवळो** (ना. पु.) कवळिल्ली वस्त; हांतुळणाचो कवळो.
**कवाथो** (ना. पु.) माडाचो रोंपो.
**कवाली** (ना. स्त्री.) गायनाची अेक तरा.
**कवासो** (ना. पु.) (केगदीचो) हातो.
**कवाळो** (ना. पु.) झाडाचो कंवळो कोंब; कोळोव.
**कविता** (ना. स्त्री.) कवन; कवीत; गीत.
**कवी** (ना. पु.) कविता रचपी.
**कंवच** (ना. न.) पळय **कवच.**
**कंवची** (ना. स्त्री.) कांचेचो वा हारशाचो कुडको.
**कवट** (ना. न.) तांतीं (चडकरून कोंबी; बदक अशा सवण्यांचें).
**कशें** (क्रि. वि.) कशे तरेन; कशे भाशेन; कितल्या मोलाचें.
**कश्ट** (ना. पु.) (भोववचनांत) त्रास; वावर.
**कश्टप** (अ. क्रि.) वावर करप; त्रास करून वावर करप; दुख्ख करप.
**कश्टी** (वि.) वावर करपी; त्राशीक; शेतांतलो वावुरपी.
**कस** (ना. पु.) परिक्षा; तांक; दजो. **जमनीचो कस :** जमनिची पिकाळ जावपाची तांक. **कस धरप :** किरमप.
**कसकस** (ना. पु.) स्नायू ताठ जावन जाल्ली दूख.
**कसकसप** (अ. क्रि.) कसकस येवप.
**कसर्के** (वि.) पिरंगणें; कस धरपी.
**कसणी** (ना. स्त्री.) पिरंगण; किरमणां.
**कसप** (स. क्रि.) १. नांगरप; शेतकाम करप. २. कस धरप; किरमप. ३. दुसऱ्याचें वायट चिंतप.
**कसपट** (ना. न.) कुसकूट; कसलेंच

मोल नाशिल्ली वस्त.
**कसब** (ना. न.) कुशळकाय.
**कसबी** (वि.) कसब आशिल्लें.
**कसय** (ना. स्त्री.) कसाय; काफयेच्चो पिठो उरिल्ली निमाणची काफी.
**कसर** (ना. स्त्री.) १. उणाव. २. धवी वाळटी.
**कसरत** (ना. स्त्री.) सर्कस.
**कसरप** (अ. क्रि.) कूस मारप.
**कसलें** (वि.) कसले तरेचें.
**कसाब** (ना. पु.) खाटीक. (वि.) क्रूर; दयामाया नाशिल्लें.
**कसाय** (ना. पु.) पाळां मुळां घालून केल्लो वखदी कडो.
**कसालत** (ना. स्त्री.) कश्ट; श्रम; तकालस.
**कळ** (ना. स्त्री.) दुखी; तीड. **कळ काडप :** तिडावप.
**कळकळ** (ना. स्त्री.) आपलेंपण; आस्था; कळवळो.
**कळप** (स. क्रि.) समजप; गिन्यान जावप.
**कळप** (ना. पु.) हिंड; जमो.
**कळपुटी** (सा. ना.) नुस्त्याच्यो शेंशट्यो बी घालून केल्लो सुको जिनस.
**कळम** (सा. ना.) शेळीक लागून वा थंड वाऱ्यान लोखणाचेर आयिल्लो थर.
**कळमेवप** (अ. क्रि.) कळम येवप; लोखणाचेर पुडी भाशेन बारीक थर येवप.
**कळ्यांलाडू** (ना. पु.) चण्यां पिठाच्या काडयांची गुळी; एक खावपाचो जिनस.
**कळवप** (स. क्रि.) गमवप; सांगप; कळीत करप.
**कळवळप** (अ. क्रि.) खंत भोगप; उमाळो येवप; काकुळट दिसप; चुरचुरो दिसप.
**कळवळो** (ना. पु.) खंत; काकुळट; चुरचुरो; पोट तिडक.
**कळवो** (ना. पु.) ल्हान विस्वण; पेटो.
**कळस** (ना. पु.) देवळाचें वा घराचें वयलें पोंत.
**कळसुली** (ना. स्त्री.) ल्हान कळसो.
**कळसो** (ना. पु.) उदक काडपाचें फुगऱ्या पोटाचें आयदन.
**कळा** (ना.) तरा; रूप; गावप; नाचप; बरोवप अशे तरेचें काम.
**कळाकार** (वि.) पळय **कलाकार.**
**कळाव** (ना. पु.) जाय ताचेपरस चड वोगोत; गरजेपरस लागिल्लो वेळ.
**कळिंद्री** (वि.) दळदिरें; बाबडें.
**कळिंद्रीपण** (ना. न.) दळिद्र; दळदीर.
**कळिंद्रो** (वि.) पळय **कळिंद्री.**
**कळिंवर** (ना. न.) जीव आनी तेज नाशिल्लो मनीस; झेंड.
**कळी** (ना. स्त्री.) मोनें फूल; उकतें जावंक नाशिल्लें फूल; कळो.
**कळो** (ना.) उकतें जावंक नाशिल्लें फूल.
**कळोवणी** (ना. स्त्री.) सांगणी; कळोवपाची गजाल; रकाद.
**कळंक** (ना. पु.) दाग; खत; दोश.
**कळंतर** (ना. न.) रिणाचें भाडें; व्याज.

## का

**काक** (ना. पु.) कावळो. (ना. न.) बापायली भयण.
**कांकण** (ना. न.) मनगटांत घालपाचो बायलांचो दागिनो; कसलीय वाटकुळी ल्हान वस्त.
**कांकणघोण** (ना. स्त्री.) व्हड वागोणी.

**काकम** (ना. स्त्री.) काकय; गोडाचो पंक.
**काकय** (सा. ना.) गोडाचो पंक; उशी कांड्याचो रोस शिजोवन केल्लो पंक.
**काका** (ना. पु.) बापोलयो; बापायचो भाव.
**काकाडो** (ना. पु.) १. बडयेच्या वयल्या तोंकाक लुगट बांदून केल्ली वात. २. तन्नें पेर वा हेर फळ.
**काकुळट** (ना. स्त्री.) दया; चुरचुरो.
**काकुळवंत** (वि.) काकुळट आशिल्लें; दुसऱ्याचे चुरचुरे आशिल्लें.
**काकुळटेणें** (वि.) चुरचुरे करपाचें; काकुळट दिसपासारकें.
**काकुळतेस्त** (वि.) काकुळट आशिल्लें.
**काकी** (सा. ना.) बापोलयाची बायल; बापायली भावज.
**काको** (ना. पु.) ल्हान भुरग्यांले भाशेंत कावळो अशा अर्थाचें उतर.
**काकोळ** (ना.) मेल्ल्या मनशाच्या नांवान कावळ्याक घाल्लें जेवण.
**कांग** (ना. न.) ताबूल फळ्यांतला एक घुलांचो खेळ.
**कागदी** (वि.) कागदाचें; कागदापासून केल्लें.
**कागाळ** (ना. स्त्री.) तक्रार; कोणाच्याय आड केल्लो गुन्यांव; केश.
**कांच** (सा. ना.) १. दोनय वटेन चुनो लावंक नाशिल्लो हारसो; जिच्यांतल्यान पलतडचें कितेंय दिसता अशी वस्त. २. मुरवत; भिरांत.
**काचकिचांव** (ना. न.) ताकतीक; हुसको; ताकीत.
**काचाबूल** (वि.) भुजिल्लें; अशांत; हुसकेल्लें.
**काचिकियार** (वि.) काचाबूल; हुसकेल्लें.
**काचिंबुचीं** (ना.) पळय **कचींबचीं.**
**कांचेवप** (अ. क्रि.) भिरातीन वा मुरवतीन काचाबूल जावप; कांच दिसप.
**काज** (ना. स्त्री.) म्हुट्टो आनी बी आशिल्लें एक गोड फळ दिवपी झाड; बुतांव घालपाचो बुराक.
**काजऱ्यापान** (ना. न.) एका वखदी झाडाचें पान.
**काजळलेलें** (वि.) काजळाभाशेन काळें जाल्लें; काजळाचो थर मांडिल्लें.
**काजळी** (ना. स्त्री.) धुंवरान आयिल्लो काळो रंग; काजळाचो थर.
**काजार** (ना. न.) लग्न.
**काजारपण** (ना. न.) लग्नपण; लग्न जाल्ली स्थिती.
**काजारी** (वि.) लग्न जाल्लें.
**काजी** (ना. पु.) मुसलामानी धर्माचो अधिकारी.
**काजुलो** (ना. पु.) पावसा दिसांत जियेवपी आनी रातचो लिकलिकपी एक कुसां जीव.
**काजू** (ना. पु.) काजी झाडाचें फळ; काजूचें झाड.
**काजू-पोर** (सा. ना.) तन्नो म्हुट्टो; तुरमण.
**काजूबाग** (सा. ना.) काजूचें भाट; काजूचो मळो.
**काजेल** (सा. ना.) काजू म्हुट्ट्यांचो रोस; काजू-सोरो.
**काट** (ना. पु.) पन्नास; शंबर अशे एकाचेर एक दवरून बांदिल्ले दोणे.
**काटक** (वि.) घटमूट; थंडी-वाऱ्याची आनी वावराची रोखडीच बादा जायनाशिल्लें.
**काटकसर** (ना. स्त्री.) उणो केल्लो खर्च; सांबाळून केल्लो खर्च; जाय ताज्यापरस

उणो खर्च करपाचो गूण.
**काटकसरी** (वि.) जाय ताज्यापरस उणो खर्च करपी.
**काटकसाण** (ना. स्त्री.) घटसाण; घटमूट बलायकी.
**काटकार** (ना. पु.) राजालो वा देवालो मानाचो दांडो धरपी मनीस.
**काटमूंय** (ना. स्त्री.) एक काळी आनी विखारी मूंय.
**काटांदोर** (ना. पु.) काळ्या वा गोबऱ्या रंगाचें आनी सादारण माजराभाशेन दिसपी एक रानवट जनावर.
**काट्यार बसप** (वा. प्र.) गोमटेर बसप; हट्टेक लागप; एक सारको फाटल्यान लागप; घट्ट दसप; एकसारको आग्रो करप; हट धरप.
**कांटाळी** (ना. स्त्री.) नुस्तें धरपाची एक ल्हान जाळी.
**काटूकसाण** (ना. स्त्री.) चड खारसाण.
**काटूक** (वि.) चड खार.
**कांटी** (ना. स्त्री.) कांट्याची बडी.
**कांटी पेटप** (वा. प्र.) म्हत्त्व लेखप ना; तुच्छ मानप; कशाकसोय वावर करप.
**कांटेकणंग** (ना. न.) कांटे आशिल्लें लांबसार आनी मांसाळ कणंग.
**कांटेकुवर** (ना. स्त्री.) कुचकुचीत कांट्यांनी भरिल्लें एक वखदी झाड.
**कांटो** (ना. पु.) बारीक तोंकाचें कूस; सुये भाशेन पोंताची ल्हान काडी.
**कांटो फुलप** (अ. क्रि.) आंगावयल्या केंसांची मुळां भिरांतीन उबीं जावप.
**कांठ** (ना. पु.) देग; कड.
**कांड** (ना.) १. झाडाचो मदलो भाग. २. म्हाकाव्याचो भाग.
**काड्डूंव** (ना. न.) साव्या उदकांतलें एक बोटभर लांबायेचें नुस्तें.
**कांडण** (ना. न.) कांडपाचो वा धोडावचेलो दांडो; मुसळ.
**कांडप** (स. क्रि.) वानांत घालून धोडावप.
**काडप** (स. क्रि.) तोडप; बरोवप; उखलप; व्हरप; हातांत घेवप; आपणावप; सारप.
**काडयो** (ना.) म्हसंगाच्या पानाचे देंठ घालून केल्ली पातळ भाजी.
**कांडी** (ना. स्त्री.) केळीच्या कांडाचो भितल्लो मदलो भाग; लांब नळी; विजेची नळी.
**काडा-ओडी** (ना.) काडपा ओडपाचो वावर; परतून परतून चडपा देंवपाचे कश्ट; येरादारी.
**काडी** (ना. स्त्री.) बारीक बडी; पिली; मोती वा थीक लावन केल्लो नाकांत घालपाचो ल्हानसो दागिनो; पाटयेर बरोवचेली फातराची बारीक पेन्सिल.
**काडून वचप** (वा. प्र.) गांव आनी घरदार सोडून वचप.
**काण्णां घालप** (स. क्रि.) धुंवळ आयिल्ल्या मनशाचीं कानसुलां मोट्यान दाबप.
**काण्णी** (ना. स्त्री.) बोटां पेरांनी कानसुलां मोट्यान दामचेलें काम.
**काणपी; कांडपी** (ना.) कांणणान धोडावपी.
**काणारको** (ना. पु.) खरचे सारक्या नुसत्याचो बुरांटो.
**काणी** (ना. स्त्री.) खबर; गजाल; कथा.
**काणेर** (ना. पु.) एक विखारी आनी हातभर लांबायेचें जिवाणें.
**कांत** (ना. स्त्री.) तेज; उजवाड;

ताजपाण; लकाकी.

**कात** (ना. स्त्री.) १. चामडी; कातडी. २. विड्यांत घालतात तो खैरी झाडाचो दीख.

**कांतनें** (ना. न.) आदोळेचें बारीक दांत आशिल्लें चेपटें पसरट तोंक.

**कांतप** (स. क्रि.) किसवप; भोंवरेचेर वा चरक्याचेर सूत काडप.

**कातर** (ना. स्त्री.) लुगट बी कापचेलें दोन पात्याचें एक हत्यार.

**कातरप** (स. क्रि.) तीर वा कुडके करप; चिरप; खंवटेल्ल्या तेला-तुपान गळ्याक दुखी बादप; ताळो सरांटप.

**कातली** (ना. स्त्री.) नाल्लांतलो गोरोप; नाल्लांतलो मगज.

**कांतवप** (स. क्रि.) पळय **कांतप.** मेकळो करप; पिंजप.

**कांतार** (ना. न.) गीत; गाणें; कवन.

**कांतावप** (स. क्रि.) कोरांतप.

**कांतीवंत** (वि.) लकलकीत; रसरशीत; ताजपाण आशिल्लें; तोंडार शाणेपणाची सया आशिल्लें.

**काती** (ना. स्त्री.) माडाची पोय कातरपाची रेंदेराली वाटकुळसार कोयती; रूंद पात्याची मोटवी कोयती.

**कातोलीक** (वि.) किरिस्तांवी धर्माचो एक खांदो; किरिस्तांव.

**कांतोवणी** (ना. स्त्री.) कांतोवपाचें कोरणी वा दाबण.

**काथलावप** (अ. क्रि.) उज्यान वा खर वोतान आंग भाजिल्ल्यावरी जावप.

**काथोळो** (ना. पु.) पोटांतल्यो आंतकड्यो आनी हेर भाग.

**काथो** (ना. पु.) नाल्लाचे कट्टे भायलो कुचकुचीत धाग्यांनी भरिल्लो भाग; *सोण्णाचे साली भितल्ले दाट धागे.*

**कादय** (सा. ना.) बंदखण; सांखळी; सरपळी.

**कांदळ** (ना. न.) एक ल्हान सोबीत फूल.

**कादेर्न** (सा. ना.) चोपडी; पटी.

**कांदो** (ना. पु.) एका झाडाचें कांड वा कंद (पातयेच्या झाडामुळा आनी सादारण बटाटा येद्या आकाराचो आमच्या जेवणा-खाणांत येणारो एक कंद).

**कान** (ना. पु.) आयकुपाचें काम करपी कुडीचो एक भाग वा इंद्रीय.

**कानडी** (वि.) कर्नाटक प्रांतांतलो.

**कानतोपी** (ना. स्त्री.) कान आनी माथें धांपचेली तोपी.

**कान-दोळे सुजोवप** (वा. प्र.) एकसारकें रडप; रडून रडून दोळे सुजोवप.

**कानपडदो** (ना. पु.) काना बुराकांत आशिल्ली पातळ कात.

**कानपाळी** (ना. स्त्री.) काना दोण्याचो सकयल्लो भाग.

**कानमंत्र** (ना. पु.) कानांत ल्हवूच सांगिल्लो उपदेश; कानांत फुतफुतिल्ली गजाल.

**कानयो** (वि.) व्हड कानांचो.

**कानस** (ना. स्त्री.) लोखणा वस्तू तासपाचे एक खरखरीत हत्यार.

**कानसप** (क्रि.) कानशीन घांसप.

**कानसूल** (ना. न.) कानाकडचो भाग.

**काना मनार घेवप ना** (वा. प्र.) मतींत घेवप ना; ध्यान दिवप ना. म्हत्त्व लेखप ना.

**कानापो** (ना. पु.) वणखणे आशिल्ली न्हिदपाची लाकडी खाट.

**काना भयऱ्यार घालप** (वा. प्र.) लक्ष दिवप ना; आयकलें ना शें करप.

**कानार केंस काडप** (वा. प्र.) मनार

घेवप ना; आयकप ना; कानामनार घेवप ना.

**कानाल** (ना. पु.) उदकाचो पाट; उदकाचो मोटो चर; दोन व्हड न्हंयो वा दोन दर्या जोडपी अशीर न्हय वा पोंय.

**कानी** (ना. स्त्री.) आडसाटी सुम्बाची दोरी.

**कानुर्ले** (ना. न.) कानांतलो कोयर काडपाचें सुपुल्लें कुलेर.

**कानुलो** (ना. पु.) कानांतलो कोयर.

**कानोक्ल** (ना. पु.) कानाक लावन वायटकाराची छाती; काळीज बी तपासपाची वैजाली नळी.

**काप** (ना. न.) हालव्याचो वा कसलेय वस्तूचो कापिल्लो कुडको.

**कापड** (ना. न.) बायलांचें न्हेसपाचें लुगट.

**कापणी** (ना. स्त्री.) केंस कापचेलें काम; शेताची लुवणी.

**कापप** (स. क्रि.) कातरप; चिरप; फाळप.

**कांपप** (अ. क्रि.) थरथरप; कांपरें सुटप; कडकडप.

**कांपरो** (ना. पु.) थरथरो; कडकडो.

**कापशीण** (ना. स्त्री.) कापूस दिवचेलें झाड.

**कापसावप** (स. क्रि.) कापसांतल्यो बियो कोयर बी काडून तो निवळ करप.

**कापसाळें** (ना.) नुस्त्या जात.

**कापशें** (वि.) कापसाभाशेन मोव.

**कांपीन** (ना. स्त्री.) मेजार दवरून वाजोवपाची वा सायकलीक लावचेली सुपुल्ली घांट.

**कापूर** (ना. पु.) कापसा झाडाचो तीख वासाचो दीख.

**कापो** (वि.) सुको आनी घटसार; जो कापूंक येता असो.

**कापोत** (ना. स्त्री.) पावस लागचो न्हय म्हणून मुस्तायके वयर घालपाचो लांब कोट.

**काफी** (ना. स्त्री.) काफ्यां-पिठो घालून केल्ली पियोवपाची पातळ वस्त; काफ्यांपिठो.

**काफॉ** (ना. पु.) काफिणी झाडाचें फळ.

**काब दे पुलीस** (ना. पु.) शिपायक.

**कांबरप** (क्रि.) पांगरप.

**काबसांव** (ना. न.) निभावणी; तडजोड; कसलेंय किजील बरे भाशेन सोपोवचेलो वावर; कसलेंय किजील समजिकायेन मेटोवचेलें काम.

**कांबळ** (ना.) तागाच्या सुताचें वा मेंढ्याचे बी ल्हंवेचें विणिल्लें लुगट.

**काबाय** (ना. स्त्री.) लांब गळगळीत आंगावलें; गळ्यापासून पांयामेरेन लांबायेचो चोळो.

**काबार करप** (स. क्रि.) सोंपोवप; ना करप.

**काबार जावप** (अ. क्रि.) सोंपप.

**काबिजाद** (ना. स्त्री.) झूज करून आपणायिल्ली भूंय; काबीज केल्ली जमीन.

**काम** (ना. न.) वावर; कश्ट.

**कामगाय** (ना. स्त्री.) इत्सा भागोवपी गाय; मागिल्लें दिवपी गाय.

**कामट** (ना. न.) पातळसार कांब; कोंड्याचें (दाटसार) वेळ.

**कामत** (ना. न.) शेत; शेताकामाविशीं.

**कामदार** (ना. पु.) सरकारी चाकरमानो; जाळवणदार.

**कामधंदो** (ना. पु.) उद्देग; वावर;

वेपार-उद्देग.

**काम्र** (ना. न.) नगरपालिका; कूड.

**कामर खरची** (ना. न.) सुवादीक नुस्त्याची ल्हान जात.

**कामा येवप** (स. क्रि.) उपकारा पडप; उपकारावंक येवप.

**कामार** (ना. पु.) लोखणाचीं वा तांब्याचीं आयदनां आनी हेर वस्तू करपी.

**कामिजांव** (ना. पु.) बसीभाशेन मोटार.

**कामीण** (ना. स्त्री.) फिगदाचो रोग.

**कामेरें** (ना. न.) बावर करपी बायल मनीस.

**कामेस** (ना. न.) शेताचो सगळे तरेचो वावर.

**कांय** थोडेंशें; इल्लेंशें.

**कायदे-कानू** (ना.) कायद्याचें पुस्तक.

**कायबळ** (ना. न.) धिटाय; हुशारकाय; शक्त; नेट.

**कायल** (ना.) वडे; पुर्‍यो आनी हेर वस्तु तळपाचें आयदन.

**कायलाथो** (ना. पु.) तव्यावयल्यो तळपाच्यो वा भाजपाच्यो वस्तु आरत्योपरत्यो करपाचो सपाट तोंडाचो दोवलो.

**कायलोळी** (ना. स्त्री.) तांदूळ; गंव बी वांटून केल्लो दाट पोळो.

**काया** (ना. स्त्री.) कूड; आंग; देह; शरीर.

**कायेमनान** (क्रि. वि.) कुडीन आनी अंतस्करणान; सगल्या वाटांनी; पोटतिडकेन.

**कार्ड** (ना. पु.) दाट फोली कुडको.

**कार्त** (ना. स्त्री.) डिप्लोमा; डिग्री बरयल्लें कागद.

**कार्तीक** (ना.) हिंदू वर्साचो आठवो म्हयनो.

**कार्तूश** (ना. स्त्री.) आर्मांतली गुळी; आर्माच्यो गुळ्यो भरिल्ली सुपुल्ली नळी.

**कार्तेर** (ना. पु.) पोस्टांतल्यान आयिल्ल्यो चिटी आनी हेर कागदां वांटपी; पोस्टमन.

**कार्तेल** (ना. न.) पुलिशे ठाणें.

**कारभार** (ना. पु.) वेवस्ता; देखरेख.

**कारभारी** (ना. पु.) वेवस्ता करपी; देखरेख करपी.

**कार्य** (ना. न.) वावर; काम; लग्ना-मुजीचो दबाजो.

**कार्यकर्तो** (वि.) वावर करपी; कार्य करपी.

**कार्यकारी मंडळ** (ना. न.) वावुरपी कमिटी.

**कार्यालय** (ना. न.) सरकारी वा खाजगी वावर करपाचें घर.

**कार** (ना. पु.) खंड; भाडें.

**कारकून** (ना. पु.) बरोवपाचो वावर करपी चाकर; चिटणीस; सेक्रेतार.

**कारकूनकी** (ना. स्त्री.) कारकुनाचो धंदो; कारकूनपण; संस्थेचें दप्तर बरोवपी आनी सांबाळपी.

**कारण** (ना. न.) हेत; निमित्य; काम करूंक फुडें काडपी गजाल. (अ.) कित्याकतर.

**कारंदाय** (ना. स्त्री.) बोवाळ; गडबड.

**कारस्तान** (ना. न.) कट; घूट.

**कारागीर** (ना. पु.) कसबी; कसलेंय सोबीत काम करपी; थवयपण; दर्जीपण; कमारपण बी कामां करपी.

**कारार्थे** (ना. न.) एक आडुकसार पूण रूचीक अशें फळ.

**कारांदो** (ना. पु.) सादारण बटाटायेदें वाटकुळसार आनी सुरबूस फळ.

**काराबां** (ना.) कानाक घालपाचो बायलांचो मोतयां दागिनो.

**कारीट** (ना. न.) एक वाटकुळसार आनी कोडू ल्हानशें फळ.

**कारूण्य** (ना.) पळय **करुणा.**

**कारो** (ना पु.) विखारी फळांचें झाड (हार्चीं पानां वखदाक वापरतात.)

**काल** (क्रि. वि ) आयच्या दिसा पयलो दीस.

**कालवणें** (ना. न.) शीत कालोवंक केल्ली कडी; रोस वा हुमण.

**कालसांव** (ना.) पँट.

**कालवप** (स. क्रि.) सुके वस्तूंत पातळ वस्तू भरसून मुड्डप; मळप; मस्तप.

**काली** (ना.) एके देवीचें नांव.

**कालूं** (ना. न.) दरया देगेवयल्या फातरांत रावपी जीव; तिसरे सारक्या खुब्यांतलें मांस.

**कालेत** (ना. स्त्री.) आरोग्य; तब्येत; भलायकी.

**कालो** (ना. पु.) जागर; गणपती; सरस्वति सारक्या पुराणांतल्या सवंगांचो उकत्यार केल्लो खेळ.

**कालोवपी** (ना.) कालयणारो; भरसुपी; एकठांय करपी.

**काव** (ना. स्त्री.) एक तांबसार रंगा पिठो.

**काव-काव** कावळ्याचो आवाज; कावळ्याचें आड्डप.

**कावड** (ना. स्त्री.) जड वस्तू व्हरूंक कोंड्याच्या दोनय पोंताक हुमकळायिल्लीं मालीं वा कुरपणीं; कोंड्याचे व्हड शिंके.

**कावळीण** (ना. स्त्री.) कावळ्याची मादी.

**कावळो** (ना. पु.) एक काळ्या रंगाचें 'कां-कां' करून रडपी आनी गोंयांत चांटये पावलाक मेळपी सवणें.

**काश्ट** (ना. न.) लाकूड.

**काश्टी** (ना. स्त्री.) कंबराचे मुजीक फुडले वटेन हुमकळावन फाटल्यान खोयिल्ली आंगटी.

**काश्मीर** (ना. न.) भारताचो उत्तरेकडलो प्रांत.

**काश्मिरी** (वि ) काश्मीरचें; काश्मीर प्रांतांतलें.

**कांश्यो** (ना. पु.) लोखणाचो दोवलो.

**काशियात्रा** (ना. स्त्री.) काशी ह्या धर्मीक थळाची भोवंडी.

**काशी** (ना. स्त्री.) उत्तर प्रदेशांतलें एक हिन्दु धर्मीक पवित्र थळ.

**काशें** (ना. न.) एक काळसार रंगाचो धातू.

**काशोत** (ना. न.) ल्हान पेट; बॅग; ट्रंक; कास.

**कास** (ना. स्त्री.) १. पेट. २. फाटले वाटेन खोयिल्ल्यो न्हेसणाच्यो मिरयो.

**कास्क** (ना.) फोंतिभाशेन आंगार फोड हाडपाचो वखदी कागद.

**कासफोड** (ना. पु.) आंगाक आयिल्लो व्हड फोड.

**कास्त** (ना. स्त्री.) जात; वर्ण.

**कासव** (ना. पु.) फाटीर कट्टें आशिल्लो; उदकांत तसो जमनीर जियेवपी चार पायांचो जीव.

**कासाटो** (ना. पु.) पुडवें न्हेसपाची एक तरा; धोतराच्यो मिरयो फुडले वटेन सोडिनासतना त्यो कंबराक फाटल्यान खोवन न्हेसपाची एक तरा.

**कासादोर** (ना. पु.) शिकारी; आर्मान सवणीं आनी हेर मोनजात मारपी मनीस.

**कांसार** (ना. पु.) तांब्याचीं आयदनां आनी हेर वस्तू करपी मनीस.

**कासावीस** (वि.) चड त्रासांनी खरशेल्लें.

**कासाळी** (ना. स्त्री.) आळवाभाशेन व्हड पानांचें एक झाड.

**कासाळें** (ना. न.) व्हड आकाराची झांज.

**कांसूल** (ना. न.) इल्लोसो दोवलो; वाटकुळ्या तोंडाचें कुलेर; उरवुळेंतलें तेल काडपाचो सुपुल्लो दोवलो.

**कांसो** (ना. पु.) १. कांचेचें आयदन; वाडगो; चिक्र. २. मूत आनी परसाकडचें धरपाचें आयदन.

**काळ** (ना. पु.) १. वेळ; तेंप. २. मरण हाडपी. **काळ येवप** आकांत येवप; मरण चलून येवप.

**काळकुटें** (वि.) काळें.

**काळगें** (ना.) एक गाळ; काळ; चांडाळ अशा अर्थाचें एक वायट उतर.

**काळजाक पिवळ पडप** (वा. प्र.) खूब खंत जावप; खूब वायट दिसप; खूब काकुळट दिसप.

**काळजादीक** (वि.) धीरवान; धिटायेचें.

**काळपाण** (ना. स्त्री.) पळय **काळसाण**.

**काळवेळ** (ना. पु.) तेंप; नशिबांतली फुडली घडणूक.

**काळसाण** (ना. स्त्री.) काळो रांप; काळो रंग; काळो लेप.

**काळसार** (वि.) हय न्हयशा काळ्या रंगाचें; सुमाराकशें काळें.

**काळांतर** (ना. न.) व्याज. पळय **कळंतर.**

**काळांदूर** (ना. न.) वाटकुळसार चेपटें नुस्तें; काळूंदर.

**काळींग** (ना. न.) एके वालीचें सादारण चिबडायेदें मांसाळ आनी रोसाळ फळ.

**काळिंगीण** (ना. स्त्री.) काळंगां दिवचेली वाल.

**काळी** (ना. स्त्री.) कर्नाटकांतली एक न्हंय; गोंयांत भितर सरतकच तिका गोमती अशें नांव पडलां.

**काळीज** (ना. न.) १. हड्ड्यांत आशिल्लो कुडीचो एक म्हत्त्वाचो भाग; अंतस्कर्ण; मन. २. कुडीच्या सगल्या भागांक निर्मळ रगत धाडपी आनी वायट रगत घेवपी एक कुडीचो भाग. ३. धिटाय; शूरताय. **काळीज जावप** (वा. प्र.) धिटाय आसप.

**काळेपण** (ना. न.) काळसाण; काळ्या रंगाचो गूण.

**काळेवप** (क्रि.) काळो जावप.

**काळो** (वि.) पालवल्ल्या कोळशासारको वा काजळासारको रंग.

**काळो किट्ट** (वि.) खूब काळो; किटा सारको काळो.

**काळोख** (ना. पु.) उजवाडाचो अभाव; उजवाडाचो उणाव वा नासतेपण.

## कि

**किचमण** (ना. स्त्री.) किर्मणां; इल्ले इल्ले भितल्ले भितर दिल्ले त्रास; खरपणी.

**किचमणप** (स. क्रि.) १. ल्हान ल्हान कामाखातीर इल्ले इल्ले पूण परत परत त्रास दिवप; किरमप. २. नाखटांनी उस्तप; खरपप.

**किचांट** (ना. न.) आळ; बगलांट.

**किंजळ** (ना. स्त्री.) एक मदेराचो रुख; फळी; वांशे बी काडपाचें एक रानवट व्हडलें झाड.

**किजील** (ना. न.) केस्तांव; तंटो; झगडें.

**किटकिटप** (अ. क्रि.) ल्हवू आवाजांत हांसप आनी नाचप; आंगार घाम वा कसलोय पुळेर आयिल्ल्यान ते कुचकुचप.

**किटकिटी** (ना. स्त्री.) एक सुपुल्लें रंगयाळें सवणें.

**किटकिटो** (ना. पु.) हांशान आनी तरातरांनी भायर फुटिल्ली खुशालकाय; खुशायकायेक आयिल्ली भरती.
**किटाळ** (ना स्त्री.) आळ; उज्याची कीट.
**किटूर** (ना. न.) पिटकोळी सारकें एक ल्हान सवणें.
**किडुलें** (ना. न.) इल्लीशी कीड.
**किडेवप** (अ. क्रि.) कीड लागप.
**किडो** (ना. पु.) घाणीत बुचबुचणो ल्हान जीव; कीड.
**किण्ण** (ना. न.) पुराय शांतताय; इल्लोय आवाज नाशिल्ली थंडाय.
**किणेवप** (क्रि.) कसलेय दुखीन वा मारान भायर फुटिल्लें रगत कातीपोंदा साणावन उरप.
**कितलेंय** (क्रि. वि.) चड-थोडें; कल्पनेभायलें.
**कितलेशेच** (वि.) खूब; जायते; गणूंक येनात अशे.
**कित्याक** (अ.) कारण. (वि.) कसल्या कामाक; कसल्या कारणाक.
**कितें** (स.) कसली वस्त; वा गजाल हें विचारपाचें उतर; प्रस्न करपाचें सर्वनाम.
**कितेंय** (ना.) कसलीय गजाल; कसलीय वस्त.
**कित्तो** (ना. पु.) देख; नमुनो; वळण.
**किनार** (ना. स्त्री.) देग; कड.
**किनारो** (ना. पु.) दर्याची नितळ कड; न्हंयची देग.
**किमस** (ना.) जळेर; जळेराभाशेन ल्हान जीव.
**किरकावळें** (ना. न.) सगल्यां पयलीं केल्लो कसलोय वावर.
**किरकिरप** (अ. क्रि.) किरकीर करप; वाजेवप; उबगण हाडप; किरमप;. कीर कीर असो आवाज करप.
**किरकिरो** (ना. पु.) लांब चोंचीचें सवणें.
**किरकोळ** (वि.) चडशें मोल नाशिल्लें; सादें; चालंत.
**किरंगोळी** (ना. स्त्री.) हाताच्या बोचकुलाचें धाकलें आनी बारीक बोट.
**किरट** (ना. स्त्री.) गोरवाच्या आंगाक घट्ट दसून रावन तांचें रगत खावपी एक जीव.
**किर्ण** (ना. न.) उजवाडाचो धागो.
**किर्तन** (ना. न.) देवाची कथा आनी तुस्त; तोखणाय.
**किर्त** (ना. स्त्री.) नामना; फांक.
**किर्म** (ना. स्त्री.) भोकसूंक नज असो व्हड गुन्यांव.
**किरमणी** (ना. स्त्री.) भौन भौन आनी भितल्ल्या भितर दिल्ले ल्हान त्रास; किचमणी.
**किर्मणी** (ना. स्त्री.) भितल्ल्या-भितर दिल्ली किर्मणां; पिडापीड; ल्हान-सान कामांखातीर वाजेवप; उबगण.
**किरमुर्जी** (वि.) तांबडो-जांबळो.
**किरपीण** (वि.) हिमटो; किरकोळ.
**किरपीणपण** (ना. न.) हिमटेपण; किरकोळसाण.
**किर्मप** (स. क्रि.) भितल्ले भितर पिडापीड दिवप; किंचमप.
**क्रिया** (ना. स्त्री.) काम; वावर.
**क्रियाविशेशण अव्यय** क्रियापदा संबंदान चड कितेंय सांगपी उतर.
**किरल** (ना. पु.) कोंड्याचो किर्ल; कोंब.
**किरवंट** (ना. स्त्री.) कंबराक खोयिल्लें न्हेसणा पोंत; कंबर.
**किरांटी** (ना. स्त्री.) किरासारकी एक

सवण्याची जात.

**किरां-मोरां** (ना.) तरेकवार चित्रायल्ल्यो वाली; फुलां; पानां; सवणीं बी.

**किरायतें** (ना न.) एक वखदी झाड.

**किरांव** (वि.) खूब धड.

**किरावप** (अ. क्रि.) किरानें तरेतरेन गावप; शेळोर्णी घालप.

**किरिस्तांव** (वि.) पळय **क्रिस्तांव.**

**किरी** (ना. स्त्री.) बलायकिचो कसलोय ना कसलो दोश.

**किलबील** (ना. स्त्री.) सवण्यांनी काडिल्ले तरेतरेचे आवाज.

**किल्ल** (ना. पु.) कोंड्याचें तन्नें मूळ; ह्या मुळाची शाक. पळय **किरल.**

**किल्लकातनें** (ना. न.) कोण्ड्याच्या बारकेल्या पोताक घट्ट बसयल्लें लोखणाचें वाटकुळसार पातें; कोण्ड्याच्या पोताक बसयल्लें कोयतूल.

**किल्लप** (अ. क्रि.) रोव येवप; जमनींत पुरून वा उदकांत उरिल्ल्यान कोंब येवप.

**किल्लावप** (स. क्रि.) कोंबेवंक घालप.

**किलिंडर** (ना. पु.) मोटार पुसपी आनी धुवपी मनीस.

**किल्लुसाण** (वि.) चड दिसाच्या खाऱ्या नुसत्याक आयिल्ली एके तरेची घाण.

**किल्लो** (ना. पु.) गड; तट.

**किलो** (ना. पु.) एक हजार ग्रामचें जोख.

**किलोलिटर** (ना. पु.) हजार लिटर.

**किंवाटप** (अ. क्रि.) चिड्डून उलोवप; दांत ओंट चाबून उलोवप.

**किंवाटो** (ना. पु.) पोट तिडक.

**किसणी** (ना. स्त्री.) कुंवाळे बी तासपाचें आवत.

**किसप** (स. क्रि.) कीस करप; बारीक बारीक कुडके करप.

**किसमूर** (ना. स्त्री.) बारीक बारीक कुडके; पूड; फळाचे वा सुक्या नुसत्याचे कुडके करून तयार केल्लो एक जेवणा जिनस.

**किसर** (ना. न.) कांट्याभाशेन बारीक काडी.

**किसवप** (स. क्रि.) बारीक बारीक कुडके करप.

**किसूळ** (ना. स्त्री.) मदेराची कीस.

**किसोवणी** (ना. स्त्री.) बारीक आनी पातळ कुडके करचेलें काम.

**किळंच** (ना. स्त्री.) पोटतिडकेन काडिल्लो आवाज; हामेल; बोबाट.

**किळांच** (ना. स्त्री.) पळय **किळंच.**

**किंळचप** (क्रि.) किळंच मारप; गजाल मारप.

## की

**कीट** (ना. स्त्री.) उज्याचें कूस.

**कीड** (ना. स्त्री.) तांदळांत वा खातोणांत जाल्लो ल्हान उळउळो जीव.

**कीर** (ना. पु.) पोपट.

**कीस** (ना. पु.) कागदाचे वा मदेराचे बारीक कुडके.

## कु

**कुकड** (ना. न.) कोंबी; कोंबो वा कोंबये पील.

**कुकडूक** (ना. न.) एक सवणें.

**कुकर** (ना. पु.) खाण-जेवण शिजोवपाचें वाफेचें आयदन.

**कुकुडसो** (ना. पु.) कुकडांक लागता तो हुलके भाशेन जीव.

**कुकुलें** (वि.) भुरग्यांले भाशेन सुपुलें;

इल्लेशें; ल्हान.

**कुचकुचप** (अ. क्रि.) कुच्च कुच्च जावप; खरपुचेली इत्सा जावप; खाज सुटप.

**कुचकुचीत** (वि.) गच्च; दाट.

**कुचकूच** (ना. पु.) बुड्डुगाची खर इत्सा; उयांसारकी बारीक जिवांची दाटायेन गर्दी.

**कुच्छित्र** (ना. न.) कूत; दोश.

**कुचंबण** (ना. स्त्री.) आडखळ; भीड; मुरवत.

**कुचमण** (ना. स्त्री.) पळे **कुचंबण.**

**कुचमणी** (ना. स्त्री.) मुरवत; पेंच; भीड; कुचमण.

**कुचमप** (अ. क्रि.) कसलेंय काम करूंक फाटीं फुडें येवप; मुरवत जावप.

**कुचिंद्री** (वि.) कुच्छित्री; दुसऱ्यांच्यो चाडयो करपी; कुतां काडपी.

**कुचिंद्रीपण** (ना. न.) कुच्छित्रिपण; दुसऱ्यांच्यो चाडयो करपाचो वा दोश काडपाचो सबाव.

**कुच्छित्री** (वि.) चाडयाळें.

**कुची** (ना. स्त्री.) माथ्यावयल्यान मानेमेरेन पावपाचें तोपरें.

**कुंज** (ना. पु.) पानां; वाल्ली हांणी भरिल्लो माटोव.

**कुजीन** (ना. न.) रांदची कूड; जेवण-खाण शिजोवपाची कूड.

**कुजुमेंत** (ना. पु.) कडो; कसाय.

**कुटप** (स. क्रि.) धोडावप; पूड करप; (अ. क्रि.) लंगडप.

**कुटलावप** (स. क्रि.) कुटले मारप; कुटी मारप.

**कुटलावणी** (ना. स्त्री.) चिमट्यांनी उलोवणी.

**कुटी** (ना. स्त्री.) खोपूट; खोंप.

**कुटीर** (ना. स्त्री.) खोंप; ल्हान आनी सादें घर.

**कुटुंब** (ना. न.) नात्यान बांदिल्लीं आनी एका घरांत एकठांय रावतलीं मनशां; घराबो.

**कुटुंबण** (ना. न.) कुटुंबाचें रासवळ भाटबेंस.

**कुटुरी** (ना. न.) आपा-लिपा खेळांतलो उलो.

**कुडकुडप** (अ. क्रि.) थरथरप; कडपडप; कुलकुलप.

**कुडकुडो** (ना. पु.) कुलकुलो; कडकडो; थरथरो.

**कुडको** (ना. पु.) भाग; वांटो; लुगट; कपडो.

**कुड्डें** (वि.) १. नदर नाशिल्लें; जाका दिश्टी पडना अशें. २. विचाराभायलें; तजविजे भायलें; तर्काक धरून नाशिल्लें.

**कुंड्यार शिजप** (वा. प्र.) तकालस घेना आसतना आपशींच कामां जावप.

**कुडव** (ना. पु.) दोन पायल्यांचें माप.

**कुंडेकुसकूर** (ना. न.) गोंयचे लोकां-काणयेंतलें मुखेल पात्र.

**कुडो** (ना. पु.) एका झाडाचें नांव. ताच्या पानाच्यो विडयो करतात.

**कुंडो** (ना. पु.) भाताच्या सोल्लाचो पिठो; भुसो.

**कुणकुणप** (अ. क्रि.) पिरंगप; गुणगुणप.

**कुणकूण** (ना. स्त्री.) फुतफुतणी; कुजबूज.

**कुणगी** (ना. स्त्री.) शेतांत मेरो घालून केल्लो चौकोनी भाग; शेताचो भाग.

**कुणबी** (ना. पु.) शेतकार; रोवपा खोवपाचो वावर करपी.

**कुंडयो** (ना. पु.) तिसऱ्यांसारके शिंपयांतलो जीव.

**कुतकुतली** (ना. स्त्री.) कातकुतली; कुजुल्ली; शिरशिरी.

**कुत्रो** (ना. पु.) एक पोशिल्लें जनावर; सुणो.

**कुतुबमिनार** (ना. पु.) दिल्ली शारांतलो एक भोव नामनेचो खांब.

**कुतुल्यो** (ना. स्त्री.) कातकुतल्यो; कुतकुतल्यो.

**कुतू** (ना. पु.) भुरग्यांले भाशेंत सुणो; कुत्रो.

**कुंथण** (ना. स्त्री.) दुखीन वा नेट केल्ल्यान भायर फुटिल्लो आवाज; परवण.

**कुथणप** (अ. क्रि.) नेटान भितल्लेभितर आवाज काडप; परवंप.

**कुदप** (अ. क्रि.) लांब लांब हेळे काडून देव-देंवचाराक पराथप.

**कुदळ** (ना. स्त्री.) जमीन खणपाचें एक आवत.

**कुपार** (ना. पु.) धर्मीक नदरेन मानिल्लो बापूय.

**कुंपास** (ना. पु.) दोन तोंकाचे दांडे आशिल्ली आनी वाटकुळ्यो रिस्को काडपाची वस्त.

**कुपी** (ना. स्त्री.) ल्हान बुशेद; कासवा करण.

**कुंब** (ना. पु.) वीस खाणयाचें माप.

**कुबेर** (ना. पु.) देवालो भांडारी; आसूपतीचो देव. (वि.) खूब गिरेस्त; खूब आसूपत आशिल्लो.

**कुंभारकी** (ना. स्त्री.) कुमारपणाचो धंदो; मातयेचीं आयदनां; नळे बी करपाचो वावर.

**कुंभारमाती** (ना. स्त्री.) मडकीं; नळे बी करपाची माती.

**कुंभारवाडो** (ना. पु.) कुंभारालीं घरां आशिल्ली सुवात; कुंभार रावतात तो वाडो.

**कुमकुमावप** (स. क्रि.) लडो घालप; मार घालप; धुमके मुठी बी मारप.

**कुमसार** (ना. पु.) आपल्या पातकांची कबलात; केल्ल्या पातकांची पाद्रीमुखार केल्ली सांगणी.

**कुमान्न** (ना. स्त्री.) मातयेचें सुपुलें घर करून तातूंत रावपी जीव.

**कुमार** (वि.) लग्न जावंक नाशिल्लो. तरणाटो; (ना. पु.) मातयेचीं आयदनां, नळे, बावल्यो बी करपी.

**कुमार-काम** (ना. न.) नळे, आयदनां बी मातयेच्यो वस्तू करपाचो वावर.

**कुमारी** (वि.) लग्न जावंक नाशिल्ली चली; आंकवान्न.

**कुमांव** (ना. पु.) परसाकडेन बसपाची कूड; संडास.

**कुयणें** (ना.) रोस; हुमण बी करपाचें मातयेचें आयदन; कुळणें.

**कूय** (ना. स्त्री.) नेटान काडिल्लो आवाज; शिटकावणी दिवंक वा हुरयो घालूंक तेच भाशेन आनंद मनोवंक खोल ताळयांतल्यान काडिल्लो पिल्लुकेभाशेन आवाज.

**कुयेक** (ना. न.) पोंदा घालचेलें मोटवें कालसांव; चेड्डी.

**कुर्कूट** (ना. न.) वणटीक केल्ली सुपुली आरमार; कत्रेल.

**कुरची** (ना. स्त्री.) लाकडाचो तुतयो; कितेंय धोडावपाची लाकडाची हातोटी; लाकडाचें मोर्तेल.

**कुरपणो** (ना. पु.) कोंडया वेळांचो वा वेतां बडयांचो सुपुल्लो पांटलो वा खोंटलो.

**कुरपा** (ना. स्त्री.) कृपा; दया.

**क्रुजर** (ना. पु.) झुजारी लोकांक आनी

झुजारी शस्त्रां अस्त्रां हाडपा व्हरपाची बोट.

**क्रुपा** (ना. स्त्री.) दया; काकुळट.

**कुरपा** (ना. स्त्री.) पळय **क्रुपा.**

**कुरपेवंत** (वि.) दयेस्त; काकुळतेस्त.

**कुरंय** (ना. स्त्री.) चिटी; नेमाळीं आनी हेर कागदां एका गावांतल्यान दुसऱ्या गावांत धाडप-हाडपाचें घर.

**कुरंयकार** (ना. पु.) चिटी नेमाळीं आनी हेर कागदां वाटपी मनीस; कार्तेर.

**कुराड** (ना. स्त्री.) लाकडां फोडपाचें हत्यार.

**कुराण** (ना. न.) मुसलमानांचो धर्मग्रंथ.

**कुरींग** (ना.) मोनजातीचो एक पोटाचो रोग.

**कुरूपाय** (ना. स्त्री.) विद्रुपाय; कुरूपसाण; असुंदरताय.

**कुरूक्षेत्र** (ना. न.) कौरव आनी पांडव हांचे मदीं हस्तिनापुरांत जंय झूज जालें तें मळ.

**कुरू** (ना. स्त्री.) खूण; चिन्न.

**कुरूप** (वि.) सोबीत रूप नाशिल्लें; देखणें नाशिल्लें; विद्रूप; असुंदर; वायट रूपाचें.

**कुलकुलप** (अ. क्रि.) कडकडप; कुलकुलो येवप.

**कुलकुल्या जोर** (ना. पु.) मलेरिया भाशेन कुडकुडो खावन येता तो जोर.

**कुलकुलो** (ना. पु.) कडकडो; शिंयान आयिल्लो थरथरो.

**कुलच्यांव** (ना. स्त्री.) लुगटाचे पोतयेंत कापूस भरून केल्ली गादी.

**कुलचेत** (ना. स्त्री.) आंगावयलें घट्ट उरूक लावचेली एक तरेची ल्हान हूक.

**कुलप** (ना. न.) कलयाद; तालें.

**कुली** (ना. पु.) मुस्तायकी हाड-व्हर करपी; पावट्यां वावर करपी.

**कुल्ली** (ना. स्त्री.) फाटीर कट्टें आशिल्लो १० दोकयांचो एक प्राणी.

**कुल्लीं** (अ.) एकूण; सगलें मेळून.

**कुलास** (ना. पु.) एक लांबसार आंब्याची जात.

**कुलेत** (ना. स्त्री.) जिदये भितर आनी खोमसावयर हात नाशिल्लें एक आंगाचें.

**कुलेर** (ना. न.) खाण जेवण तोंडांत घालपाचो एक सुपुल्लो दोवलो.

**कुलो** (ना. पु.) १. कंबरा सकयल्लो मासाळ आनी वाटकुळसार असो कुडीचो भाग. २. पिल्लुके भाशेन ताळ्यांतल्यान नेटान काडिल्लो आवाज.

**कुंवर** (ना. पु.) कुमार; पूत; चलो.

**कुंवलो** (ना. पु.) सुपुल्लो तन्नो पणस.

**कुंवळप** (क्रि.) चेपिल्ल्यान वा धोडावल्ल्यान मोव जावप.

**कुवाडें** (ना. न.) सोंपेपणान सांगूक येना असो प्रस्न; गुमानीत; उमाणें.

**कुश्टरोग** (ना. पु.) कातीचो एक वायट आनी वंशाचो रोग; आंगार चवनां जावपाचो एक रोग.

**कुशळ** (वि.) कसबी; फिशाल; लायक; हुशार.

**कुशळताय** (ना. स्त्री.) कसब; हुशारपण; फिशालकाय.

**कुस्कूट** (ना. न.) कण; बारीक कूस वा काडी; कसलेय वस्तूचो सुक्षीम कुडको.

**कुस्कुटावणी** (ना. स्त्री.) हिणसावणी.

**कुसकेपण** (ना. न.) पेड्डयार जावचेलो दोश; भितल्ल्या गांठीचो सबाव; एकमुळेपण.

**कुसकें** (वि.) उपेग नाशिल्लें; मनीस घाणें; एकमुळें; पिड्डयार जाल्लें.

**कुश्टाण** (ना. स्त्री.) कुशिल्ल्याची घाण.
**कुसड** (वि.) कुसक्या सबावाचें.
**कुसडो** (वि.) कुसको वा कुशिल्लो; भंगिल्लो; मनीसघाणो; पाड्या सबावाचो; वायट सबावचो; एकमुळो.
**कुस्तार जावप** (स. क्रि.) कठीण पडप; सोपो नासप; शक्य जावप ना; मुरवत जावप.
**कुसवो** (ना. पु.) भुरगीं जावप ना जावपाचो बायलेचो गुण दोश.
**कुसांकीड** (ना. स्त्री.) आंगाक कुचकुचीत विखाळ कुसां आशिल्लो एक जीव; सुकुंडो.
**कुळकर्ण** (ना. न.) कुळकर्ण्याचो वावर; कुळकर्ण्याच्या वावरांत आसपावचेले गांव.
**कुळकर्णी** (ना. पु.) देवळाचें; कोमुनिदादीचें वा कसलेंय भौशीक संस्थेचें बरोवप करपी आनी दप्तर सांबाळपी.
**कुळकुळप** (अ. क्रि.) १. धगळप; फळमासाचें भितल्लें भितर उदाक जावप. २. चड भिरांत दिसप.
**कुळणें** (ना. न.) भगुण्यासारकें मातयेचें आयदन.
**कुळधर्म** (ना. पु.) आज्या-पणज्यांचो धर्म; घराण्याची लागणूक; चालचलणूक वा परंपरा.
**कुळनांव** (ना. न.) आडनांव; कुळाचें नांव.
**कुळंबी** (ना. पु.) लोकांची एक जात; कुणबी; शेतकामती.
**कुळवंत** (वि.) बरे कुळयेचें; नांवाजत्या घराण्याचें; नामनेचे पिळगेचें.
**कुळवंतपण** (ना. न.) बऱ्या आनी नांवाजत्या घराण्याची चालगीत; नावाजते कुळयेची चाल-चलणूक.
**कुळवाडी** (वि.) शेतकार; शेतकामती; रावपा-खोवपाचो वावर धंदो करपी.
**कुलक्षय** (ना. पु.) सगल्या कुळाचो नाश; सगळें कूळ ना नपश्यात जावप.
**कुळागर** (ना. न.) सुपारे झाडांबराबर माड; केळी; आंबे; पणस आनी हेर झाडां लायिल्ली सुवात.
**कुळार** (ना. न.) लग्न जाल्लें चलयेच्या आवय-बापायचें घर.
**कुळावी** (वि.) एका कुळांतलो; म्हाजन; भजपी.
**कुळी** (ना. पु.) आजे-पणजे; वंश; गेल्ल्यो पिळग्यो.
**कुळींद** (ना. पु.) मसुरे भाशेन पुण मोटसार कडडण.

# कू

**कूट** (ना. स्त्री.) खुटलो; मूठ आवळून बोटां-पेरांनी माथ्यार मारिल्लो धपको.
**कूड** (ना. स्त्री) १. आंग; शरीर; देह; २. घराचो एक भाग वा खण.
**कूत** (ना. न.) चूक; दोश; दुर्गूण.
**कूप** (ना. न.) ढग.
**कूंय** (ना. न.) गोटो; पेजेंतलो वा शितांतलो शिजयल्लो तांदूळ.
**कूस** (ना. स्त्री.) १. कड; बाजू. २. काडयेचो बारीक कुडको; कुस्कूट; कुसवो.
**कूस मारप** (स. क्रि.) कुशीन सरप; कडेक सरप; कडसरप; दडप; कडासप.
**कूस लावप** (स. क्रि.) तिडावप.
**कूळ** (ना. न) वंश; घराणें; रयत; शेताचो भागेली.

# के

**केक** (ना. पु.) मयदो; तांतयां; तूप; साखर बी घालून केल्लो एक खावपाचो जिनस.

**केगद** (ना. न.) हातया झाडाचें फूल; हात्या फुलाभाशेन केल्लो माथ्यांत माळपाचो एक बायलांचो भांगरा दागिनो.

**के. जी.** (ना. स्त्री.) किंडर गार्टन; बालवाडी; तीन ते स वर्सांमिरेन पिरायेच्या भुरग्यांची शाळा.

**केण** (ना. न.) उज्याचें ल्हार.

**केणाप** (स. क्रि.) दुशण लावप; तोपून उलोवप.

**केंद्र** (ना. न.) मदलो जागो; मध्यस्तळ; मुखेल सुवात.

**केंदळ** (ना.) भाताच्या बियाची एक जात.

**केदो** (क्रि. वि.) कितलो व्हड?

**केदोळ** (क्रि. वि.) केदो वेळ; खूब वेळ.

**कॅन** (ना. पु.) दोन गॅलनाचें माप; दोन गॅलन जावपाचो डबो.

**केन्ना** (क्रि. वि.) खयच्या वेळार?

**केन्ना-केन्नांय** (क्रि. वि.) अदींमदीं.

**कॅप्टन** (ना. पु.) एक मिलिटरी अधिकारी; बोटीचो मुखेल अधिकारी.

**कॅंब्रीज** (ना. न.) विद्यापिठाक लागून नामना जोडिल्लें एक इंग्लंडचें शार.

**कॅबीन** (ना. न.) बोटींत वा उज्या गाडयेंत सगली मांडणी आशिल्ली कूड.

**केम्प** (ना. पु.) मोलादीक खडो; तांबडें थीक.

**कॅमेरो** (ना.) फोटो घेवपाचें माकन वा यंत्र.

**केयूज** (ना.) लोणयाचो एक खावचेलो जिनस

**क्रेन** (ना. स्त्री.) खूब जड वस्तू उखलपाचें यंत्र.

**केर** (ना. स्त्री) व्हडलें मरड; एका नुमल्याचें नांव.

**केरवा** (ना. पु.) संगितांतल्या तालाचें एक नांव; नाचाची एक तरा.

**केरवो** (ना. पु.) मोडाचो आनी हावभावाचो एक नाच.

**केल्लें** (ना. न.) तेंकडेच्या वयल्या पोंताक आशिल्ली पालशी बडी; म्हेडिच्या वयल्या पोंताक दोंय वटेन आशिल्ल्यो दोन पालश्यो बडयो.

**कॅलेंडर** (ना. स्त्री.) वर्स; म्हयनो; तारीख; सुटयो; धर्मीक उत्सव बी दाखोवचेलें कागद.

**केंवकेंव** (ना. न.) कें-कें असो आवाज; खूब जाणांचो एकठांय जाल्लो आवाज.

**केंवमेंव** (ना. न.) कुत्र्या-मांजरांचो आवाज; बोवाळ.

**केवलो** (वि.) वेपारी भाशेंत एक ही संख्या सांगचेलें उतर.

**केवो** (ना. पु.) एकठांय केल्लो दुडू; पयशांची गांठ.

**केशव** (ना. पु.) भगवान श्रीकृष्ण.

**केश्टी** (ना. स्त्री.) लांबोड्या केंसांचें आगोळ; केंसांचें झूल.

**केस** (ना. स्त्री.) कागाळ; तक्रार.

**केंस** (ना. पु.) ल्हवेंचो एक धागो; ल्हवेंच्या धाग्यांचो चुंबो.

**केसपुळी** (ना. स्त्री.) केंसामुळा टट्टटून येता ती पुळी.

**केस्तांव** (ना. पु.) झगडें; तंटो.

**केस्तांव-खोर** (वि.) झगडाळ; झगडीं; केस्तांवां करपी.

**केस्तोड** (ना. स्त्री.) केंस फुटून आयिल्लो

फोड.
**केंसार** (ना. न.) बळारी भाशेन लांब गळ्याचें एक सवणें.
**केंसाळें** (वि.) खूब केंस आशिल्लें.
**केसांळी** (ना. स्त्री.) केंसा मुळांत आयिल्ली घटसार पुळी.
**केळ** (ना. स्त्री.) केळीं दिवपी झाड.
**केळडें** (ना. न.) माकोड.
**केळफूल** (ना. न.) केळीचें फूल; केळी फुलाची शाक.
**केळमो** (ना. पु.) ल्हान केळ; केळीचो मोखो.
**केळवण** (ना. स्त्री.) लग्न-मुजीक बी धाडिल्ली भेट.
**केळवप** (स. क्रि.) तरेतरेन घोळवप; आपल्याक जायतशी खेळवप.
**केळ्यांघड** (ना. पु.) केळ्यां फेण्याचो घोंस.
**केळावर्ले** (ना. न.) केळ्यां-घड.
**केळें** (ना. न.) एक लांबोडें गोड आनी मासाळ फळ; केळीचें फळ.

## कै

**कैद** (ना. स्त्री.) बंदखण; कादय.
**कैद करप** (स. क्रि.) बंदखणींत घालप; कादयेंत घालप.
**कैदखानो** (ना. पु.) बंदखण; कादय.
**कैदी** (वि.) बंदखणींत घाल्लो मनीस.
**कैफ** (ना. पु.) गुंगी; मस्ती.
**कैलास** (ना. पु.) हिमालय पर्वताचें एक तेमूक; सर्ग.

## को

**कोंकण** (ना. न.) सह्याद्रीची दोंगरावळ आनी अरबी समुद्र हांचे मदली भूंय.
**कोंकणदुदी** (ना. पु.) दुदयाभाशेन एक लांबोडें पावशी फळ.
**कोंकणी** (ना. स्त्री.) कोंकण प्रदेशांतल्या लोकांची भास.
**कोंकणो** (वि.) कोंकण प्रदेशांतलो मनीस.
**कोंक** (ना. स्त्री.) आपटून कपलाक जाल्लो घाय.
**कोंकप** (स. क्रि.) तोपून भायर काडप; बुराक करप.
**कोंकिळा** (ना. स्त्री.) कोंकिळाची मादी.
**कोकीळ** (ना. पु.) एक काळ्या रंगाचें आनी गोड ताळ्याचें सवणें.
**कोंकून काडप** (स. क्रि.) तोपून काडप; बुराक करून निखळावप.
**कोको** (ना. पु.) भुरग्यांलें जेवण; ल्हान भुरग्यांले भाशेंत तांगेलें जेवण-खाण.
**कोको-मेमो** (ना. पु.) भुरग्यांलें जेवण-खाण आनी नुस्तें.
**कों कोंच कों** (अ.) कोंब्याचो साद.
**कोगूळ** (ना. न.) काळ्या रंगाचें आनी गोड ताळ्याचें एक सवणें.
**कोंगो** (ना. पु.) कट्ट्याभितर रावपी ल्हानसो जीव.
**कोंचणी** (ना. स्त्री.) तोपचेलें; घाल घालचेलें काम.
**कोंचप** (स. क्रि.) बारीक बारीक घाय घालप; खणप.
**कोंचावप** (स. क्रि.) बोंचावप; पिकासान बारीक बाराक घाय घालप.
**कोजागिरी** (ना. स्त्री.) आश्वीन म्हयन्यांतली पुनवे रात.
**कोट** (ना. पु.) गळ्याक सावन कंबरामेरेन घालपाचें आंगावयलें; जुदी; (सं. वि.) शंबर लक्ष.

**कोट** (ना. न.) किल्लो; दुस्मानापासून राखण करचेलें गडगंज घर.
**कोटा** (ना. पु.) थारायल्लो भाग; थारावीक वांटो.
**कोटी** (सं. वि.) शंबर लक्ष.
**कोठवो** (ना. पु.) म्हाल व्हरपाची पातमारी.
**कोठयेकूड** (ना. न.) जेवणा-खाणाच्यो वस्तू एकठांय करून दवरपाची कूड.
**कोठाल** (ना. स्त्री.) पावसा दिसांत उपरासपी खूप पांयाचो तांबड्या आनी बोटभर लांबायेचो एक जीव.
**कोठी** (ना. स्त्री.) कोश; कसलेंय सामान भरपाचो जागो.
**कोठो** (ना. पु.) खाल्लें जेविल्लें उरपाची पोती; पोट.
**कोड** (ना. न.) कातीचो एक वशाचो रोग.
**कोंड** (ना. न.) उदकाचो फोंडारो; कुशिल्ल्या उदकाचो फोंड.
**कोडमूळ** (ना. न.) सोलकडी घालचेलें चोचिचें लाकडा-आयदन.
**कोडसाण** (ना. स्त्री.) कोडू रूच; कोडू सुवाद; काराथ्याची वा कारिटाची रूच.
**कोंडाळें** (ना. न.) पळय **कोनाळें.**
**कोडू** (वि.) काराथ्यासारके रूचिचें.
**कोडू वखद** (ना. न.) किरायतें; कोडू वोंवो; जिरें बी घालून केल्लो कसाय.
**कोंडो** (ना. पु.) लांब आनी बारीक कांडाचें एक झाड.
**कोण** (स.) खंयचो मनीस, मोनजात.
**कोणएक** (स.) कोणय; नांव बी सांगूक येना असो.
**कोणाच्याय नांवान बोटां मोडप** (वा. प्र.) कोणाकय दुशण लावप.

**कोणूच** (स.) एक पसून.
**कोंत** (न.) हिशोब; लावणी; गणीत.
**कोंत्र** (अ.) आड; विरूद्ध.
**कोंत्रसाण** (ना. स्त्री.) दुस्मानकाय.
**कोंत्राद** (ना. पु.) करार; कबलात.
**कोंत्रावणी** (ना. स्त्री.) कोंत्रावपाचो वावर; कोरांतणी.
**कोंत्रावप** (स. क्रि.) बारीक पोंताच्या चिन्नान धातुचेर वा घट्ट फातराचेर आकृतायो काडप.
**कोंतादोर** (ना. पु.) कोर्टाचो हिशेब करपी.
**कोंतेली** (वि.) हिशेब करपाक लापीट; गणितांत हुशार; कोंतां करपी.
**कोथमीर** (ना. स्त्री.) कोथमिरे झाडाचें फळ; मसाल्याचें एक म्हत्वाचें आंग.
**कोनाळें** (ना. न.) वाटकुळी रीस्क वा वळ; वाटकुळे रिस्केभाशेन.
**कोनसो** (ना. पु.) एका पोंतावयल्यान भायर सरतल्या दोन वळीं भितल्ली सुवात. एकामेकांक लागून आशिल्ल्या दोन वंटी भितल्लो जागो.
**कोप** (ना. न.) कांचेचो पेलो.
**कोंपर** (ना. पु.) हाताचो बावळो आनी ताजो सकल्लो भाग जोडपी खिळी.
**कोंपरावप** (स. क्रि.) कोंपरान धोंगशे मारप.
**कोंपरो** (ना. पु.) व्हड हांडो; भाण; तांब्याचें व्हड आयदन.
**कोपिश्ट** (वि.) खूब राग आयिल्लें; खूब तापार जाल्लें वा जावपी.
**कॉफी** (ना. स्त्री.) काफिणी झाडाचें फळ; काफ्यांचो पिंगे घालून तयार केल्लो पियेवपाचो जिनस.
**काफो** (ना. पु.) एक घमघमीत वासाचें फळ; हें फळ दिवपी झाड.

**कोंब** (ना. पु.) तन्नें मूळ.
**कोंबरी** (ना. स्त्री.) आंकरी; निकतींच फुटिल्लीं नाजूक पानां
**कोबलें** (ना. न.) कोड्याच्या वयल्या पोताक बसयल्ली सुमाच जाळयेची पोती.
**कोंबलो** (ना. पु.) कोंबो.
**कोबी-कोबू** (ना. स्त्री.) माथ्यार वाटकुळीं दाट पानां एकमेकांचेर कवंळून फूल जाल्लेवरी दिसपी झाड.
**कोंबी** (ना. स्त्री.) कोंब्याची मादी; कोंबडी.
**कोबूफुल** (ना. स्त्री.) कोबी भाशेनच माथ्यार रूंद धवें फूल आमपी झाड.
**कोंबो** (ना. पु.) कोंबयेचो नर; एक देखणें आनी पोशिल्लें सवणें.
**कोब्द** (ना.) वाराचो तिसरो भाग; सादारण ३३ सें. मि. लांबायेचें जोक.
**कोम्द** (ना. न.) गवेतां आशिल्ली आरमार.
**कोमुन्यांव** (ना.) किरिस्तांव धर्मातल्या एकचाराचो सोपूत घेवपाची एक चाल.
**कोमरी** (ना. स्त्री.) आंकरी; झाडाक निकतेंच फुटिल्लें नाजूक तन्नें पान.
**कॉमादर** (ना. स्त्री.) एक सवणें.
**कॉमीक** (वि.) हांसयणें; फकाणेर; (ना. स्त्री.) हांसयणी खबर; विनोद.
**कॉमिकेर** (वि.) फकाणेर.
**कोमुनिदाद** (ना. स्त्री.) शेता-भाताची आनी गांवची हेर उस्तवारी करपी एक भोवशीक एकवट.
**कोंबेवप** (अ. क्रि.) कोंब फुटप; रोवप.
**कोय** (ना. स्त्री.) आंब्याची भितल्ली बी.
**कोयंडो** (ना. पु.) कोंड्याचो वा लाकडाचो हात देड हात दांडो.
**कोयंडी** (ना स्त्री.) कळसो घुसपावंक राजवाक मारिल्ली निसर गांठ.
**कोयंडो-वार** (ना. पु.) एका हात देड हात लांबायेच्या दांड्यान एक ल्हान कोंड्याकुडको शेंवटून मारपाचो खेळ.
**कोयतवाल** (ना. स्त्री.) एक वाल: कातरपाचें हत्यार; कोयती.
**कोयतूल** (ना. न.) ल्हान कोयती: कोयतवालेची सांग.
**कोयतो** (ना. पु.) व्हडसार कोयती.
**कोयर** (ना. पु.) कागदाचे वा हेर कसलेय वस्तुचे उपेग नाशिल्ली वस्तू; कचरो.
**कॉर** (ना. न.) रेग: रीस्क.
**कोंरदाव** (ना. पु.) सरपळेभाशेन भांगराची माळ.
**कोरणी** (ना. स्त्री.) कोरांतून केल्लें काम.
**कोरप** (क्रि.) कोरांतप; बारीक पोंताच्या वस्तून चित्रावप.
**कोरांतप** (क्रि.) तोपप; बुराक काडप; कोचून काडप.
**कोरावप** (क्रि.) पोंताच्या वस्तून बुराक घालप; कोरातप; कोत्रावप.
**कोरेजमा** (ना.) पळय **क्वारेजूम.**
**कॉरो; करो** (ना. पु.) न्हवऱ्याबराबर व्हरपाचो नाल्ल आनी आंब्याताळ्यासयत तांबयो.
**कोरोली** (ना. स्त्री.) लग्नाचो करो व्हरपी न्हवऱ्याची भयण.
**कोरोलो** (ना. स्त्री.) लग्नाचो करो व्हरपी व्हंकलेचो भाव.
**कोलगें** (ना. न.) कोल; कोलूक; सुण्याची मादी.
**कोलसूणें** (ना. न.) एक रानवट मोनजात.
**कोल** (ना. न.) कोलूक; सुण्याची मादी.

**कोलदांडो** (ना. पु.) कांद्याभशेन मूळ आशिल्लें एक ल्हानशें गांवठी वखदा झाड.
**कोल्च** (ना. पु.) दाट कुबेर्त.
**कोलती** (ना. स्त्री.) उज्या बडी; पेटिल्लें लाकूड.
**कॉलर** (ना. स्त्री.) जुदयेचें वा खोमसाचें गॉल.
**कॉलेरा** (ना. पु.) हाग-ओंक लागपाचो एक भिरांकूळ वशाचो रोग.
**कोल्ल** (ना. न.) एके तरेचो हट; विक्षिप्तपण.
**कोल्ली** (वि.) आपल्याक जाय तेंच करपी; हट्टी; विक्षिप्त.
**कोल्लसाण** (ना. स्त्री.) पळय **कोल्ल.**
**कोली** (ना. स्त्री.) एक जनावर; कोल्याची मादी.
**कोलू** (ना. पु.) घरा पाळपाचे पोन्ने जाल्ले चुट्टांचे सांपळे, करड बी वस्तू.
**कोलूक** (ना. न.) पळय **कोल**; कुत्रीण.
**कोलेखांक** (ना. स्त्री.) एक सारकी खांक येवपाचो वशाचो रोग; कोल्याच्या कुयांभाशेन आवाज येवपी खांक.
**कोलेबुद्ध** (ना. स्त्री.) धुर्तपण; शिटूकपण.
**कोलो** (ना. पु.) एक सुण्यायेदें रानवट जनावर.
**कोव्हेंत** (ना. पु.) पाद्री आनी माद्री बी रावपाचो मठ.
**कोश** (ना. पु.) कोठी; तिजोरी; उतरां-कोठी.
**कोशकार** (ना. पु.) कोश तयार करपी; उतरां कोठी रचपी.
**कोश्टी** (ना. पु.) लुगट विणपी; सावजाचे शागोतीचो वांटो.
**कोंस** (ना. पु.) ५ किलोमिटर लांबायेची वाट.
**कोसमेवप** (अ. क्रि.) उदकांत उरिल्ल्यान वा शेळ बादिल्ल्यान कुसप; करमेवप.
**कोसळप** (अ. क्रि.) सकला पडप.
**कोळ हुंदीर** (ना. पु.) एक व्हड हुंदराची जात.
**कोळवो** (ना. पु.) उदाक उसपूंक लाटीक बांदिल्ले कोंड्याचे सानशेभाशेन आयदन वा लात.
**कोळमी** (ना. स्त्री.) लाकूड कोरांतून केल्लें वान.
**कोळमूळ** (ना. न.) चोंच आशिल्लें लाकडाचें आयदन.
**कोळशेकार** (ना. पु.) कोळशे घेवपी वा विकपी.
**कोळसो** (ना. पु.) पालवल्लो इंगळो.
**कोळी** (ना. पु.) खारवी; नुस्तें धरपी. २. मावली; पोटांतल्यान बारीक धागे काडून तांचें घर विणपी.
**कोळोव** (ना. पु.) चुडटां बी माडाचो वयलो भाग.

# कौ

**कौतुक** (ना. न.) तोखणाय; अपुरबाय.
**कौल** (ना. पु.) प्रसाद; देवाली म्हणणी वा शिकोवणी.

# कं

**कंकरी** (ना. स्त्री.) संक्री; बारीक बारीक फातर.
**कंकासप** (अ. क्रि.) किळच्यो मारून उलोवप; ताळो पडसर मोट्यान उलोवप.
**कंगरकीस** (ना. स्त्री.) कोंत्राव

काडिल्ल्यो बारीक बारीक वाली आनी फुलां-फळां.

**कंगरे** (ना.) १. कागदार वा लुगटार केल्लें नाजूक कातर काम. २. मोड; लाग. ३. (वि.) मुदयाळे.

**कंटाळो** (ना. पु.) उबगण; वाज.

**कंटाळप** (क्रि.) उबगप; वाजेवप.

**कंठी** (ना. स्त्री.) गळ्यांत घालपाचो एक दागिनो; भांगराचो हार.

**कंडूल** (ना. न.) कोंड्याचो सुपुल्लो कुरपणो.

**कंडो** (ना. पु.) पावस लागचो न्हय देखून माथें आनी फाट धांपचेलें मल्लाचें धांकणें; मीठ बी घालूंक केल्लें कोंड्याचें आयदन.

**कंडी** (ना. स्त्री.) ल्हान कंडो; कोंड्याचे वा मातयेचें ल्हान आयदन.

**कंथा** (ना. स्त्री.) काणी; खबर; कथा.

**कंदमूळ** (ना. न.) जमनींत जाल्ले तरेकवार कांदे; कांद्याभाशेन वाडिल्लें झाडामूळ.

**कंपनी** (ना. स्त्री.) कायद्यान घडिल्ली वेव्हार संस्था.

**कंपाउंडर** (ना. पु.) वैजाली वखदां बी तयार करपी मनीस.

**कंपू** (ना. पु.) पारपोळ वा वाळेस मनशांचो पंगड.

**कंवळें** (वि.) नाजूक; तन्नें.

**कंवळेपण** (ना. न.) नाजूकसाण; तरणेपण; ल्हानपण.

**कंस** (ना. पु.) मथुरेचो एक दुश्ट राजा आनी कृश्णाचो मामा.

## ख

**खचप** (क्रि.) झरप; निखळप; पुरो जावप; निर्शेवप; शक्तिहीण जावप.

**खट** (वि.) हटी; कोल्ली.

**खटखटावप** (स. क्रि.) खट्ट खट्ट असो आवाज करप; दारार मारप.

**खटखटीत** (वि.) गोमान वा खळीन घटसार जाल्लें.

**खटखटें** (ना. न.) आलें; बियो बी घालून केल्लो गोडाचो घट्ट हालवो.

**खट्ट खुबो** (वि.) हाडाभाशेन घट्ट.

**खटपट** (ना. स्त्री.) यत्न; तरेकवार उपाय; येवजिल्लें काम जावचें म्हणून केल्ल्यो तरेतरेच्यो माण्ण्यो.

**खटपटी** (वि.) यत्न करपी; खटपट करपी; तरेकवार उपाय करपी.

**खटलो** (ना. पु.) कोर्टावरवीं चलयल्ली मनसुबी; त्रिबुनालाकडल्यान चलयल्ली केश; रुजवात.

**खटारो** (ना. पु.) म्हाल हाडपा-व्हरपाचो बैलांचो गाडो.

**खटासप** (स. क्रि.) बेगिबेगीन खावन उडवप; भकप; पुसून चाटून खावप.

**खट्ट जावप** (स. क्रि.) लजेन लाखटेवप; लज जावप.

**खडखडप** (अ. क्रि.) सोंपप; काबार जावप.

**खडखडावप** (स. क्रि.) सोंपवप; काबार करप.

**खड्डो** (वि.) तकलेक केंस नाशिल्लो (ना. पु.) फोणारो.

**खडप** (ना. न.) व्हड फातर; तळप.

**खडपसूक** (वि.) उमळशीक लागिल्लें; अधीर जाल्लें.

**खडपें** (वि.) खड्याभाशेन; तळयाभाशेन; व्हड फातरासारकें.

**खडपो विंचू** (ना. पु.) व्हड आनी काळ्या विंचवाची एक जात.

**खडबडीत** (वि.) खरखरीत; भरभरीत;

जें नितळ न्हय; राबस.

**खडसावणी** (ना. स्त्री.) शिटकावणी; इशारो.

**खडसावप** (स. क्रि.) इशारत दिवप; धेंगशेवप; तिखशेवप.

**खडाघांत** (वि.) पळय खोडेगांठ.

**खडावो** (ना. स्त्री.) पादुको; जोत्याभाशेन पायांत घालपाचें लाकडाचें पांयतण.

**खडी** (ना. स्त्री.) बारीक फातर.

**खडीसाकर** (ना. स्त्री.) खड्यांच्या रूपांत आशिल्ली साकर.

**खडू** (ना. पु.) फळ्यार बरोवपाची चुन्या-काडी.

**खण** (ना. स्त्री.) १. चिरे; माती; लोखण; मॅंगनीज बी मेळटा ती सुवात. २. गवेत.

**खणाखणीत** (वि.) फडफडीत; निवळ; सडसडीत.

**खणणी** (ना. स्त्री.) कुदळीन देंपे काडून जमीन सदळ आनी भुसभुशीत करपाचो वावर.

**खणप** (क्रि.) कुदळीसारक्या आवतान वा नांगरान जमीन उस्तप.

**खणपी** (ना. पु.) खोऱ्यान वा कुदळीन जमीन फोडपी.

**खत** (ना. न.) १. दाग; चिखलाचो; मातयेचो वा तिंताचो बोळो. २. सारें.

**खतखतप** (क्रि.) सळसळप; तापून बोंबाडे येमेरेन तापोवप; खतखतो हाडप.

**खतखतीत** (वि.) हुनहुनीत; कडकडीत.

**खतखतें** (ना. न.) दुदी; घोसाळें; बी तरेकवार फळफळावळ घालून शिजयल्लो एक जिनस.

**खतखतो** (ना. पु.) कसलेय पातळ वस्तूक बोंबाडे येमेरेन हाडिल्ली उश्णताय.

**खतां-मखां** (ना.) बिवटां; दाग; दोश.

**खतावणी** (ना. स्त्री.) जिनसांवार खात्याचो बरयल्लो हिशोब.

**खतावप** (क्रि.) खत पडप; दाग लागप.

**खतें** (ना. न.) गिरायका कणकणी वा जिनसांवार म्हाला कणकणी बरयल्लो हिशोब.

**खतो** (ना. पु.) लेप; आंगाक सारोवंक शिजोवन तयार केल्ली वखदी वस्त.

**खदोळ** (वि.) धवळून म्हेळें केल्लें.

**खप** (ना. पु.) विकरी; विकिल्ल्यो वस्तू.

**खप्प जावप** (सं. क्रि.) काळजाक धको बसप; भिरांत दिसप; कल्ल जावप.

**खपप** (क्रि.) विकून सोंपप.

**खपवप** (स. क्रि.) विकून सोंपोवप.

**खबर** (ना. स्त्री.) घडिल्ली गजाल; काणी; वासपूस; समाचार; चौकशी; बातमी.

**खबर आसप** (सं. क्रि.) जाणा जावप.

**खबर घेवप** (सं. क्रि.) चौकशी करप; वासपूस घेवप; भलायकीची चौकशी करप.

**खबरदार** (वि.) हुशार. (हें उतर शिटकावणी दिवंक उपकारायतात.)

**खबर नासप** (सं. क्रि.) न कळप; नेणां जावप.

**खयण** (वि.) खार; खारट.

**खयर/खैर** (ना.) तेल काडचेलें एक फळ.

**खयरी झाड** (ना. न.) खयरां दिवपी झाड.

**ख्यास्त** (ना.) शिक्षा; दंड; पिडापीड; त्रास; हाल.

**खर** (वि.) कठीण; घट्ट. (ना. स्त्री.) बांयचो वा न्हयेचो तळ.

**खरखरीत** (वि.) खडबडीत.

**खरखरीतपण** (ना. स्त्री.) खडबडीतपण.
**खरखरीतसाण** (ना. न.) पळय **खरखरीतपण.**
**खरखरें** (वि.) नाजूकसाण नाशिल्लें.
**खर्च** (ना. पु.) मोड; सोंपयल्लो दुडू वा वस्तू.
**खरचटप** (अ. क्रि.) घस्टप; घस्टून कात वा साल वचप.
**खर्चप** (स. क्रि.) मोडप; सोंपोवप.
**खर्चाणी** (ना. स्त्री.) एका नुस्त्याचें नांव; व्हड खर्ची.
**खर्ची** (ना. स्त्री.) पळय **खर्चाणी.**
**खरची** (ना. स्त्री.) सुवादिक कप्यांचें एक नुस्तें.
**खर्चीक** (वि.) चड मोडपी; कशाकसोय खर्च करपी.
**खरड** (ना. न.) १. माथ्यार दाटिल्लो एकेतरेचो धवो पिठो. २. टिका; खडसावणी; कुसकुटावणी.
**खरड** (ना. न.) तकलेचे केंस झडिल्लो जागो.
**खरडपट्टी** (ना. स्त्री.) तासंपट्टी; झडटी; कुसकुटावणी.
**खर्ण** (ना. न.) अरीश्ट; व्हड संकश्ट; हाल-उपाद्रे.
**खरपणी** (ना. स्त्री.) बुड्डणी; सांसपणी; बोचणी.
**खरपप** (स. क्रि.) नाखटांनी बुड्डप; बोटांनी घस्टप.
**खरपवप** (स. क्रि.) दुसऱ्याकडल्यान खरपून घेवप.
**खरबो** (ना.) पळय **खरड.**
**खऱ्यानिशीं** (अ.) खरेपणान.
**खऱ्यानी** (अ.) खरेपणान.
**खरवडप** (स. क्रि.) घट लागिल्लें खत; लेप वा म्हेळ घसटून काडप.
**खरवडावप** (स. क्रि.) कसलेय धारेचें वा तोंकाचे वस्तून घासून निवळ करप.
**खरवण** (ना. स्त्री.) १. खांच; घाय. २. बारीक खांप.
**खरवत** (ना. स्त्री.) १. लाकूड चिरपाखातीर बारीक दांत आशिल्लें लोखणाचें हत्यार. २. खरखरीत. ३. पानाचें एक झाड.
**खरवतकार** (ना. पु.) खरवतीन लाकूड चिरपी.
**खरशेणी** (ना. स्त्री.) पुरो जावन नेटान आनी बेगिबेगीन जाल्लो स्वास-उस्वास; धाप; खपखप.
**खरशेवप** (अ. क्रि.) बेगिबेगीन स्वास-उस्वास जावप; धाप लागप.
**खरस** (ना. स्त्री.) बेगिबेगीन आनी मोठ्यान जाल्लो स्वास-उस्वास; धाप.
**खरसाण** (ना. स्त्री.) कडकसाण.
**खरसावप** (स. क्रि.) खरस हाडप; चड कश्ट दिवप.
**खरीप** (ना.) सर्दी फसल; पावसी पिकावळ.
**खिस्ती** (वि.) किरिस्तांवी.
**खरेदी** (ना. स्त्री.) विकतें घेवपाचें काम; पयशे दिवन हाडिल्लो म्हाल.
**खरेपण** (ना. न.) सत; खातरी.
**खरें** (ना. न.) सत; प्रत्यक्ष घडिल्लें; नितीक धरून आशिल्लें.
**खवंट** (वि.) वायट तेला वासाचें.
**खवंटप** (अ. क्रि.) चड दीस गेल्ल्यान तेलाक; तुपाक वा तळिल्ल्या वस्तूंक वास येवप.
**खवंटाण** (ना. स्त्री.) तेलाक वा तेलान तळिल्ल्या वस्तूंक आयिल्लो वायट वास.
**खवदळ** (ना. पु.) गडबड; बोवाळ; चकनळ; धवळ.

**खवदळप** (अ. क्रि.) गडबड-बोवाळ घालप; चकनळप; धवळप.
**खवटळावप** (स. क्रि.) तिडावप; बोवाळ घालूंक लावप; धवळूंक लावप; चिथावप.
**खवळ** (ना. न.) नुस्त्याच्या आंगाचें वाटकुळसार आनी पातळ कट्टें; एका नुस्त्याचें नांव.
**खवंळ** (ना. न.) इल्ली सोय उरिल्ले नाल्लाचें वळें.
**खवळी** (ना. स्त्री.) चवना वयली सुकिल्ली कात; पेखिल्ल्या फोडावयली कात.
**खवळो** (ना. पु.) जिरनाशिल्ल्या रंगाचो वा सारयल्ल्या शेणाचो वयर सरिल्लो फोड.
**खवो** (ना. पु.) आटोवन घटसार केल्लें दूद.
**खसखस** (ना. पु.) एका झाडाचें नासण्यासारकें बारीक फळ आनी मसाल्याचो एक जिनस.
**खस्ट** (ना. न.) खस्टी झाडाचें फळ.
**खस्टी झाड** (ना. न.) आंतेरा येदें फळां दिवपी झाड.
**खस्टेल** (ना. न.) खश्टांचें तेल.
**खळ** (ना. स्त्री.) पळय **खळें.**
**खळखळप** (अ. क्रि.) खळ खळ असो आवाज जावप वा करप; नेटान व्हांवप.
**खळप** (स. क्रि.) चुकप; उपेग जायनासतना उरप.
**खळी** (ना. स्त्री.) बारीक चर; पाट
**खळें** (ना.) आंचून निवळ आनी नितळ केल्ली सुवात.

# खा

**खांक** (ना. स्त्री.) थंडेन ताळो कुचकुचून वा हड्डें भरिल्ल्यान नेटान भायर सुटिल्लो वाऱ्याचो आवाज.
**खांकडप** (क्रि.) मुरवत जावप; फाटीं फुडें येवप; गणमणप.
**खांकनवाळ** (वि.) पैसो आडको नाशिल्लें; जोड नाशिल्लें.
**खांकप** (अ. क्रि.) खांक काडप; खोंकप.
**खांको** (ना. पु.) भुजापोंदाचो पोकळ जागो.
**खांच** (ना. स्त्री.) अडखळीचो जागो; खरवण; अशीर कोनसो; कोयत्यान वा सुरयेन घाल्लें खांप.
**खांचोट** (ना.) खांच; कोनसो; आडखळीचो जागो; लोकांचें येवप; वचप नाशिल्लो पर्यशिल्लो जागो.
**खाजगी** (वि.) खाशेलें; आपलें; स्वताचें.
**खाजन** (ना. न.) न्हंयक तेंकून आशिल्लें शेत.
**खाजूर** (ना. पु.) एक सुकयल्लें गोड लाल्लक फळ.
**खाजुरमाड** (ना. पु.) खाजूर दिवपी झाड.
**खाजें** (ना. न.) चण्या दाळीचें पीठ; गोडाचो पांख; आलें; तीळ बी घालून केल्लो खावपाचो जिनस; काडबडयो.
**खाट** (ना. स्त्री.) कानापो; अरूंदशी बाज.
**खाटीक** (ना. पु.) गोरवां बी मारपी. (वि.) क्रूर; दया-माया नाशिल्लो.
**खाड** (ना. न.) खाडकी; सकल्ल्या

ओंटापोंदचो भाग; खाडकेचे केंस.
**खाडकी** (ना. स्त्री.) ओंटा सकयल्लो भाग.
**खांडप** (अ. क्रि.) बारीक कुडके जावप.
**खाडयो** (वि.) खाड आशिल्लो.
**खांडवें** (ना. न.) पळय **खाणवें.**
**खाडी** (ना. स्त्री.) न्हंयेचो बारीक फांटो; व्हाळ; खळी.
**खांडी** (ना. स्त्री.) वीस कुडवांचें माप.
**खाडूं** (ना. न.) माडार चडटा आसतना पांय धरूंक दोनय पावलांक घालतात तो सुंबाचो वंडो.
**खाण** (ना. न.) खावपाच्यो वस्तू.
**खाणप** (अ. क्रि.) पळय **खांडप.**
**खाणवे** (ना.) कोंड्या वेळाचो ल्हान हांतरपटो.
**खाणारो** (वि.) खावपी.
**खाणावळ** (ना. स्त्री.) खाण-जेवण विकतें मेळपाचें घर.
**खाणू** (ना. न.) उदका नेटान बांदाक पडिल्ली चीर.
**खातखुतली** (ना. स्त्री.) शिरशिरी; खातखुतल्यो जावचेलें एक विखारी झाड.
**खातखुतल्यो** (ना.) पायांच्या तळव्याक; खांक्याक बी हात लायतकच आयिल्ली एक नाजूक शिरशिरी.
**खातड** (ना. स्त्री.) जमनीर व्हांविल्लें उदक; व्हड रास; हेवटेन तेवटेन शिंवरिल्लें उदक.
**खातखुतली** (ना. स्त्री.) मनशांच्या कांय भागांक हात लायतकच आयिल्ली एके तरेची शिरशिरी.
**खात्री** (ना. स्त्री.) खरेपण.
**खातलें** (वि.) खावपी; खाणारें.
**खातसाण** (ना. स्त्री.) खातोणांतलो घाणयारो वास; मूत; चिखोल बी कुसतकच आयिल्ली घाण.
**खातीर** (अ.) पसत; पासावत; देखून; लागून.
**खातें** (ना. न.) वांटो; कार्यालय; ऑफिस.
**खातें** (वि.) जेवंक खावंक आशिल्लें.
**खातें-जेवतें** (वि.) खावंक जेवंक आस्पत आशिल्लें; येणावळ आशिल्लें.
**खातोण** (ना. न.) सांठावन उरिल्ल्यान कुशिल्लें उदक; चिखोल; मूत बी.
**खांद** (ना. पु.) मान आनी भूज हांचे मदलो जागो.
**खांदी** (ना. स्त्री.) झाडाचो बारीक खांदो.
**खादी** (ना. स्त्री.) हातान काडिल्ल्या सुताचें लुगट.
**खांदेमार** (ना. न.) बखांदी; धोंगसो.
**खांदो** (ना. पु.) १. मोठी खांदी. २. व्हंकलेन माळिल्ले न्हवऱ्याच्या बासगांचे सुता पोड केळीर दवरपाची चाल.
**खादोळें** (वि.) भकारें; वसवशें.
**खांकनवाळ** (वि.) पान दुडू लेगीत नाशिल्लें.
**खांप** (ना. स्त्री.) एक नुस्त्याची वाटकुळसार आनी चेपटी ल्हान जात.
**खापरी** (ना. पु.) आफ्रिकेंतलो काळो मनीस.
**खापरें** (वि.) काळ्या रंगाचें; खांपऱ्या रंगाचें.
**खापुल्लो** (ना. पु.) रंगान काळो किट्ट मनीस.
**खांपो** (वि.) हुशार. फिशाल.
**खांव** (ना. पु.) खांबो; एकावयर एक

माळयो आशिल्ली लांब इमारत; खांब्यासारकी बांदावळ.

**खांवली** (ना. स्त्री.) ल्हान खांबो.

**खांवो** (ना. पु.) फातराचो वा लाकडाचो उबो तेंको.

**खार** (वि.) पळय **खारट.** (ना. पु.) पोटेशियम; सोद सारक्यो वस्तू.

**खार घालप** (वा. प्र.) खर्च करूंक लावप; लुकसाण करप; खर्चाक मारप.

**खारंज** (ना. उदक खेळोवपाची चरी वा पाट.

**खारट** (वि.) खार; खयण; मिठाचे रुचिचें.

**खारवी** (ना. पु.) पागी; नुस्तें मारपी.

**खारसाण** (ना. स्त्री.) खयणसाण; मिठाची रूच.

**खारशें** (वि.) मातशें खार; खयण.

**खारीक** (ना. स्त्री.) जून जावचे पयलीं काडून सुकयल्लो खाजूर.

**खारीज** (ना.) पळय **खारंज.**

**खारें** (ना.) मिठान करमयल्ली सुकी मासळी.

**खारें** (वि.) खयण; मिठान भरिल्लें.

**खाल** (अ.) खाला; सकयल.

**खालतेपण** (ना.) नमळाय.

**खाला** (क्रि. वि.) सकयल; तळा; मुळा.

**खाली** (वि.) रितें; रिकामें.

**खावंक** (ना. न.) खावपाच्यो वस्तू; खाण.

**खावगेपण** (ना. न.) चड खावपाचो सबाव; भकारेपण.

**खावगें** (वि.) भकारें; चड खावपी.

**खावचें पान** (ना. न.) पान-वेलीचें पान; विड्याचें पान.

**खावटें** (ना. न.) फूट; चीर; खाणू.

**खावड** (ना. स्त्री.) खावचेले जिनस; गोरवासारक्या मोन जातीक घालपाचें खाण; कुंडो; पेण अशे तरेच्यो वस्तू.

**खावप** (स. क्रि.) पोटांत घालप; भूक भागोवंक पोट भरप; चाबप; रूच घेवप; गिळप; चोंचप; पिडप.

**खावपी** (वि.) खाणारें; पोट भरपी; भकपी.

**खावसाण** (ना. स्त्री.) खावपाची इत्सा.

**खाश्ट** (वि.) खूब कडक; दया-माया नाशिल्लें.

**खाशेलेपण** (ना. स्त्री.) अस्सलपण; वेगळेपण.

**खाशेलें** (वि.) सामकें; खुद्द आपलें; अस्सल; वेगळेंच; एकेतरेचेंच.

**खास्त** (ना. स्त्री.) कश्ट; त्रास; शिक्षा; ख्यास्त.

**खासा** (वि.) बळयांच केल्लें; वेगळें.

**खासावीस जावप** (क्रि.) कलकल जावप; जीव सकयल वयर जावप; उतळताप जावप.

# खि

**खिचकट** (ना. स्त्री.) गर्दी; गच मुड्डी; चिरंगट.

**खिचडी** (ना. स्त्री.) तांदूळ; गोड; सोय; मुगां दाळ बी घालून केल्लो खावचेलो जिनस.

**खिणयाळो** (वि.) इल्लो वेळ तिगपाचो; थोडो वेळ उरपाचो.

**खितखितलो** (ना. स्त्री.) ल्हान भुरग्यांच्या खेळांतले जेवणा-खाणाचे इल्ले इल्ले जिनस.

**खिदळटो** (वि.) किटकिटपी; भुरकुट्यान हांसपी-न्हाचपी.

**खिदळप** (अ. क्रि.) किटकिटप; भुरकुट्यान हांसप-नाचप.

**खिरप** (अ. क्रि.) विरगळप; वितळप.

**खिरवप** (स. क्रि.) घोळवप; विरगळावप.

**खिस्त** (ना. न.) भाग; वांटो; आवेसोर.

**खिसमीस** (ना. पु.) बियो नाशिल्लीं आनी सुकयल्लीं दाकू वा द्राक्षां.

**खिळखिळप** (अ. क्रि.) सदळ जावप; घटसाण वचप.

**खिळखिळीत** (वि.) सदळ जाल्लें; गिडबिडीत.

**खिळखिळो** (ना. पु.) खिळ् खीळ् असो आवाज करपी ल्हान भुरग्यांलें खेळणें.

**खिळावप** (स. क्रि.) खिळे मारून घट्ट करप.

**खिळी** (ना. स्त्री.) मेटिल्लीं दारां घट्ट उरचीं म्हणून भितल्ल्यान आशिल्ली लोखणी वा लाकडी कांब; दोन दारांची जोडणी.

**खिळो** (ना. पु.) एक पोंत खूब बारीक आनी दुसरें रूंद आशिल्लो लोखणा सरयेचो कुडको.

## खी

**खीण** (ना.) १. कातीचो घट्ट जाल्लो भाग. २. इल्लोसो वेळ.

**खीणभर** (क्रि. वि.) थोड्या वेळा मेरेन.

**खीर** (ना. स्त्री.) शेवयो घालून केल्लें गोडशें.

## खु

**खुजेपण** (ना. पु.) मोटवेपण.

**खुजें** (वि.) मोटवें.

**खुंटप** (स. क्रि.) तोडून काडप; हुमटप.

**खुट्यामाकोड** (ना. पु.) कसलोच अधिकार आनी सत्ता नाशिल्लो मनीस; शेतांतलें बावलें.

**खुटयाळें** (ना. न.) आंगाचीं हुमकळावंक खुट्यो आशिल्ली लाकडाची वा धातूची पट्टी.

**खुटलावप** (स. क्रि.) भोवन भोवन खुटले मारप; परत परत धेंगशे घालप.

**खुंटलो** (ना. पु.) बोटा पेटांनी तकलेर मारिल्ली मूठ.

**खुंटी** (ना. स्त्री.) तोंकाची ल्हान दांडी.

**खुंटो** (ना. पु.) दांडो; झाडा-खांद्याचो कुडको.

**खुणावप** (क्रि.) कुरवांनी शिटकावप; हावभावांनी उलोवप.

**खुतखुतलो** (ना. पु.) भुरग्यांच्या खेळांतली रांदपा-वाडपाचीं ल्हान ल्हान आयदनां आनी जेवणा-खाणाचे जिनस.

**खुद** (वि.) खाशेलें.

**खुदप** (अ. क्रि.) पळय **कुदप.**

**खुदबो** (ना. पु.) मुसलमानांतलो एक धर्मीक सण.

**खुदळावप** (स. क्रि.) धोंगशे मारप; म्हऱ्यांतल्या मनशाक परत परत हालोवप; धुकलप.

**खुनमारें** (वि.) खुनशी; लोकांचे जीव घेवपी.

**खुनळावप** (स. क्रि.) पळय **खुदळावप.**

**खुनी** (वि.) खून करपी; जिवानशी मारून उडोवपी.

**खुवदळें** (वि.) मस्तें; खुदपी; आडांगी; अवजाळी; हडभंगां करपी.

**खुबप** (अ. क्रि.) हटान मस्तेपणा करप; रडून आडांगपणा करप.

**खुबळप** (अ क्रि.) रागान हात-पांय आपटून बोवाळ करप; खूब मस्ती करप.

**खुबळो** (ना. पु.) हात-पांय आपटून केल्लो बोवाळ; रडून केल्लो हट.

**खुबो** (ना. पु.) १. तिसरे सारकी एक कालवांची जात. २. वाटकुळें हाड वा हाडाचो वाटकुळो भाग.

**खुमणें** (ना. न.) तोंड ह्या अर्थाचें हिणोवचेलें उतर.

**खुमा** (ना. स्त्री.) १. कुरू; खूण. २. चाल; बाब.

**खुरखुरी** (ना. स्त्री.) उमेद; इत्सा; नेट.

**खुरदो** (ना. पु.) दुडवां नाण्यांची बारीक मोड.

**खुरीस** (ना. पु.) उब्या-लांब लाकडाक खिळायल्लें आडवें-मोटवें लाकूड; किरिस्तांवी धर्मीक कुरू.

**खुशाल** (वि.) आनंद जाल्लें; खोस जाल्लें; खोशी.

**खुशालकाय** (ना. स्त्री.) खोस; आनंद.

**खुशालभरीत** (वि.) खुशालकायेन भरिल्लें.

**खुशाली** (ना. स्त्री.) खुशालकाय; बोलायकी.

**खुस्तार** (अ.) नाड्यार; खर्चान.

**खुस्ती** (ना. स्त्री.) एकामेकांक वेंग मारून जमनीर उडोवपाचो खेळ.

**खुस्तीखायरें** (वि.) खुस्ती खेळपी.

# खू

**खूंट** (ना. पु.) जमनींत पुरिल्लो उबो दांडो.

**खूण** (ना. न.) कुरू; हावभाव.

**खून** (ना. पु.) हत्या; जिवानशीं मारप.

**खूम** (ना. स्त्री.) कुरू; चाल; रीत; वाव.

**खूप** (वि. अ.) खूब; चड.

**खूब** (वि. अ.) पळय **खूप.**

**खूब आसप** (वा. प्र.) ओड दिसप; आस्त दिसप.

**खूर** (ना. पु.) गाय, बैल अशा मोनजातीचें पावल; वस्तूंचो पांय.

# खे

**खेंचप** (स. क्रि.) निबरान ओडप.

**खेचर** (ना. न.) घोडो आनी गाढवीण हांचेपासून जाल्ली एक मोनजात.

**खेट** (ना. स्त्री.) गचमुड्डी; गर्दी.

**खेटप** (अ. क्रि.) गर्दी करप; एकामेकांक घसटप; चिड्डप.

**खेडें** (ना. न.) गांव.

**खेडो** (वि.) गांवठी; गांवयारो.

**खेतबागडें** (वि.) फकाणेर.

**खेत्र** (ना. न.) सुवात.

**खॅत्र** (ना. न.) देवाखातीर दिल्ले कोंब्याचें आनी बोकड्यांचे बळी.

**खेत्री** (ना. पु.) झाडावयल्यान पडून वा बुडून मेल्ल्या मनशाचें भूत.

**खेतशेवप** (अ. क्रि.) भौन भौन धेंगसो मारप; कुसकुटावप; तुकलावप.

**खेतोण** (ना. न.) बायल खेतें.

**खेतें** (ना. न.) माकडाभाशेन दिसपी एक जनावर.
**खेतो** (ना. पु.) पळय **खेतें.** खेतिणीचें पुल्लींग.
**खेद** (ना. पु.) खंत; दुख्ख.
**खेदप** (अ. क्रि.) खेद करप; खंत करप; खंतप.
**खेदिश्ट** (वि.) खंती; खेदान भरिल्लें.
**खेप** (ना. स्त्री.) फावट.
**खेपप** (स. क्रि.) गाळी सांगप.
**खेबड** (ना. स्त्री.) मस्करी; फकाणां; कुसकुटावणी.
**खेरीज** (अ.) बगर; त्याभायर; शिवाय.
**खेरीत** (वि.) वेगळें; खाशेलें. पळय **खेरीज.**
**खेव** (ना. पु.) खुबळो; अच्छेव; मस्तेपण; भार.
**खेवो** (वि.) मस्तो; आडांगी.
**खेळ** (ना. पु.) मौज करपाचें साधन; खुशालकायेचो उपाय.
**खेळगडो** (ना. पु.) खेळांत वांटो घेवपी मनीस.
**खेळणें** (ना. न.) बावली; पिल्लुक; मोटार बी भुरग्यांची खेळपाची वस्त.
**खेळप** (अ. क्रि.) करमणूक करप; मौज करप.
**खेळपी** (ना. पु.) पळय **खेळगडो.**
**खेळवप** (स. क्रि.) नाचवप; मौज करूंक लावप; एका पाटांतलें वा खळयेंतलें उदक दुसऱ्या पाटांत वा खळयेंत सोडप.
**खेळां-मळ** (ना. न.) तेरेकवार खेळ खेळपाची आयस पयस नितळ सुवात.
**खेळां-मेळ** (ना. पु.) तेरेकवार खेळ करून दाखोवपी लोक.

# खो

**खोंकप** (अ. क्रि.) खांकप; खोंकली काडप.
**खोंकरें** (वि.) भौन भौन खांकपी; दमेकार.
**खोंकली** (ना. स्त्री.) खांक.
**खोंकलो** (ना. पु.) खोंकली; खांक.
**खोखो** (ना. पु.) एक खेळ; एकामेकांक धरपाचो खेळ.
**खॉ-खॉ** (अ.) मोट्यान हांसतना आयिल्लो आवाज.
**खोंच** (ना. स्त्री.) खोल अर्थ; सार.
**खोजनो** (ना. पु.) गच्च दारू भरून पेटोवचेलो लोखणाचो वेंतभर पोकळ कुडको.
**खोजा** (ना. पु.) मुसलमान लोकांची एक जात.
**खोंट** (ना. स्त्री.) १. पावलाचो फाटलो खुबो. २. फांपार; पांयान मारिल्लो धपको.
**खोंटलो** (ना. पु.) पांटलो; तोंकरो.
**खोंटावप** (स. क्रि.) खोंटो मारप; खोंटांनी बडोवप; फांपार मारप.
**खोटें** (वि.) जें खरें न्हय; लटीक.
**खोड** (ना. स्त्री.) वायट संवय; दोश; हट.
**खोडयाळें** (वि.) खोड आशिल्लें; हटी.
**खोडू** (ना. पु.) फळ्यार बरोवपाची चुन्या काडी.
**खोडेगांठ** (वि.) खूब व्हड; आकांताळें.
**खोडो** (ना. पु.) बेडी; पळून वचचें न्हय म्हणून गुन्यांवकाराच्या हाता-पायांक घाल्ली सरपळी.
**खोंप** (ना. स्त्री.) चुडटांनी वा कड्डान शिविल्ली रावपाची सुवात.
**खोंपटी** (ना. स्त्री.) ल्हान खोंप.

**खोबरें** (ना. न.) नाल्लाचो सुकयल्लो मगज.
**खोब्रेल** (ना. न.) नाल्लाच्या खोबऱ्याचें तेल; नाल्लेल.
**खोमप** (स. क्रि.) पुरप; पोंदा घालप; रोमप.
**खोमशी** (ना. न.) भुरग्यांलें आंगाचें.
**खोमीस** (ना. न.) आंगाचें शर्ट.
**खोरजप** (अ. क्रि.) कुचकुचप; खाज येवप.
**खोरजुवाळें** (वि.) खोरज जाल्लें.
**खोर्न** (ना. न.) उंडे; पाव; बिस्कुत्यो बी भाजपाची भट्टी.
**खोरें** (ना. न.) जमीन खणपाचें एक आवत; रूंद पत्रो आनी एक दांडो आशिल्लें खणपाचें एक हत्यार.
**खोरोज** (ना. स्त्री.) रंवथ्याक लागून वा दुसऱ्या कसल्याय कारणाक लागून आंगाक जाल्ल्यो पुळयो.
**खोल** (वि.) पोंदाक गेल्लें. (क्रि. वि.) भितर.
**खोलती** (ना. स्त्री.) कोंयड्या बाराच्या खेळांत बार शेंवटून मारपाची तोंकाळ बडी.
**खोलसाण** (ना. स्त्री.) पळय **खोलाय.**
**खोलाय** (ना. स्त्री.) वयर सावन पोंदच्या तळामेरेनची लांबाय.
**खोलावप** (स. क्रि.) पोंदाक घालप; खोलाय वाडोवप.
**खोली** (ना.) १. पणसाचें वा दुसऱ्या कसल्याय झाडाचें सुकिल्लें पान. २. खोलाय.
**खोले करप** (सं. क्रि.) कोयंड्या बाराच्या खेळांत कोयंड्यान बार शेवटून मारप.
**खोलो** (ना. पु.) केळी पानाचें फाळन; चोळको.
**खोवप** (स. क्रि.) रोवप; गच्च लावप; खुटयेक हुमकळावप.
**खोशी** (वि.) खोस जाल्लें; खुशाल; धादोशी.
**खोस** (ना स्त्री.) खुशालकाय; आनंद.
**खोसयाळें** (वि.) खोसयेन भरिल्लें; हांसत्या तोंडाचें; हांसकुरें.
**खोळ** (ना. स्त्री.) कांबळीक माथ्यावटेन तोपऱ्याभाशेन घाल्ली दोड.

# खं

**खंकाळ** (वि.) तिडकें; खूब मस्तें.
**खंकाळप** (अ. क्रि.) किळच्यो मारून उलोवप; तिडकून मोट्यान उलोवप.
**खंजीर** (ना. पु.) तोंकाची सुरी.
**खंड** (ना. पु.) १. भाग; भागेल्यान भाटकाराक फारीक करचेलें भात; शिदाव. २. खळ; मदींच थांबिल्लो वावर.
**खंडकाम** (ना. न.) मोलावन केल्लें काम; खंडीत घेतिल्लें काम.
**खंडप** (स. क्रि.) मोलावप.
**खंडीत** (वि.) थांबयल्लें; मोडिल्लें; तुटिल्लें; मोलावन केल्लें.
**खंत** (ना. स्त्री.) खेद; पच्छताप.
**खंतभरीत** (वि.) खंतीन भरिल्लें.
**खंती** (वि.) खंत जाल्लें; खेदिश्ट; त्रासीक.
**खंदक** (ना. पु.) कोटा भोंवतणी मारिल्लो व्हडलो चर.
**खंदूल** (ना. न.) एक तरेचो आकास दिवो.
**खंय** (अ.) सुवात विचारपाखातीर उपकारायिल्लें उतर.
**खंय ना खंय** (क्रि. वि.) हांगा थंय.

# ग

**गगन** (ना. न.) मळब.

**गच्च** (क्रि. वि.) एकमेकाक तेंकून; घट्ट; आवळून; दसून.

**गची** (ना. स्त्री.) गळी; गोमटी; खंकनळी.

**गजगज** (ना. पु.) बोवाळ; गडबड.

**गचमुड्डी** (ना. स्त्री.) खिचकट; गर्दी.

**गजर** (ना. पु.) सगल्यांनी एकाच ताळ्यान केल्ली गर्जना; सगल्यांनी तोंडांतल्यान बराबरच काडिल्लीं एकेच तरेचीं उतरां.

**गजरो** (ना. पु.) जांभळा आकाराचें; पूण खावंक उपकारा पडनाशिल्लें एक फळ; गुंथिल्ल्या फुलांचो ल्हान घोंस.

**गजाल** (ना. स्त्री.) खबर; काणी; घडणूक; बोबाट; किंळच.

**गटखळ** (ना. स्त्री.) आडखळ; अडचण.

**गटार** (ना. स्त्री.) उदकाक वाट करून दिवपाक मारिल्ली खळी.

**गड** (ना. पु.) किल्लो; दुस्मानापसून राखण जावची म्हणून बांदिल्लें आनी सगल्या तरांनी घटमूट केल्लें गडगंज अशें घर.

**गडखळ** (ना. स्त्री.) आडखळ; अडचण; आडमेळें.

**गडगंज** (वि.) घटमूट; खूब.

**गडगड** (ना. पु.) कुपांचो मोटो आवाज.

**गडगडप** (अ. क्रि.) गड गड असो कुपांचो आवाज जावप; कोसळप.

**गडगडाट** (ना. पु.) गडगड; मोटो आवाज.

**गडगडो** (ना. पु.) कुपां एकामेकांचेर आदळून जाल्लो आवाज; एक जुगाराचो खेळ.

**गड्डो** (ना. पु.) फातराचो; चुन्याचो वा कांचेचो ल्हान गुळो. (वि.) बुद्द नाशिल्लो; अकलेन उणो.

**गडप जावप** (सं. क्रि.) शेणप; लिपप.

**गडबड** (ना. पु.) बोवाळ; गोंदळ.

**गडबडप** (अ. क्रि.) काचाबूल जावप; हुसको जावप; बोवाळ करप.

**गडबडें** (वि.) बोवाळ करपी; शांतताय नाशिल्लें; उचांबळ.

**गडी** (ना. स्त्री.) इश्टागत; मोगाचें नातें. (ना. पु.) खेळांतलो वा कसल्याय वावरांतलो वांगडी.

**गडें** (वि.) एक; तीन; पांच अशे आंकडे; दोनांनी भाग सुटनात अशे आंकडे.

**गडें-फाडें** (ना. न.) गडें म्हळ्यार १; ३; ५; ७; ९ अशे आंकडे आनी फाडें म्हळ्यार २; ४; ६; ८ अशे आंकडे. (ना. न.) एक खेळ. हातूंत एकल्यान एकेच तरेच्यो कांय वस्तू मुठींत घट्ट धरप आनी दुसऱ्याक त्यो गड्यान काय फाड्यान आसात तें पारखप.

**गडो** (ना. पु.) वांगडी; शाळेंत शिकपी भुरगो.

**गण** (ना. पु.) एकाच विचाराचो आनी चालचलणुकेचो लोक; गांवकार; नागरीक.

**गणना** (ना. स्त्री.) हिशोब; तुळा; बराबरी.

**गणप** (स. क्रि.) मेजप; हिशोब करप.

**गणपती** (ना. पु.) शास्त्र आनी कला हांचो देव. दुख्ख ना करपी आनी सूख दिवपी देव; लोकांचो राजा.

**गणमणप** (अ. क्रि.) फार्टिफुडें येवप; थिरताय नासप; दुबावप.

**गणमणावप** (अ. क्रि.) दुबाव भरप; बदलावप.
**गणराज्य** (ना. न.) लोकान चलयलें आपलें राज्य.
**गणसाबैल** (ना. पु.) मान हालोवन खेळ करपी बैल.
**गणीत**-(ना. न.) हिशोब; कोतां.
**गणेस** (ना. पु.) गणपती; भोवसाचो देव.
**गणेस पुजेक फुटको नाल्ल** (वा. प्र.) हातांत घेतिल्ल्या कामाचे सुरवेकच आयिल्ली अडचण वा आडखळ.
**गत** (ना. स्त्री.) तरा: दशा; अवस्ता; कल; ओड; मुळचीच आवड.
**गत्त** (ना. स्त्री.) तरा; दशा; परिस्थिती.
**गतप्राण** (वि.) जीव गेल्लें; मरण आयिल्लें; प्राण गेल्लें.
**गती** (ना. स्त्री.) चाल; थरावीक वेळांत मनशान वा धांवतेऱ्यान कापिल्ली वाट.
**गद्य** (ना. न.) यमक; मात्रा बी नेम नाशिल्लें लिखाण.
**गदळ** (ना. पु.) गोंदळ; घुस्पणी.
**गदळप** (क्रि.) गोंदळप; घुसपप.
**गदायुद्ध** (ना. न.) गदेन केल्लें झूज.
**गबो** (ना. पु.) केळी कांडाची एका मुळा एक आशिल्ली साल.
**गमप** (अ. क्रि.) समजप; कळप.
**गमवप** (स. क्रि.) सांगून धाडप; कळोवप.
**गया** (ना. स्त्री.) बौद्ध धर्माचें बिहार प्रांतांतलें एक पवित्र थळ.
**गर** (ना. पु.) फळांतलो मगज.
**गरगटावप** (स. क्रि.) जेवणाचे तरेकवार शेळे जिनस एकठांय करून नवो जिनस तयार करप.
**गरंगटें** (ना. न.) पयल्या दिसाचे तरेतरेचे शेळे जेवणा-जिनस भरसून तयार केल्लो नवो जिनस.
**गर्ज** (ना. स्त्री.) गरज.
**गरज** (ना. स्त्री.) तांतड; जाय जावप; जाय अशें दिसपाची जाणविकाय.
**गर्जना** (ना. स्त्री.) हालेट; हामेर; एकल्यान वा खूब जाणांनी मोट्या आनी एकाच ताळ्यान काडिल्लीं तोखणायेचीं वा निखड्डायेचीं उतरां.
**गर्जप** (अ. क्रि.) व्हडल्या ताळ्यान उलोवप; हालेटी घालप; किंवाट्यान मोठ्यान उलोवप.
**गरजवंत** (वि.) गरजेक आयिल्लें; आधार जाय जाल्लें.
**ग्रंथ** (ना. न.) तोला मोलाचें आनी म्हत्वाचें पुस्तक.
**ग्रंथसाहेब** (ना. पु.) शीख लोकांच्या धर्माचें पुस्तक.
**गर्द** (वि.) गच्च; दाट.
**गर्दी** (ना. स्त्री.) खूब लोकांचो जमो; एकठांय जाल्लो खूब लोक.
**गर्नाल** (ना. पु.) व्हड आवाज करपी बाण.
**गर्ब/गर्भ** (ना. पु.) गुरवारपणांतलें पोटांतलें भुरगें.
**गर्बी** (ना. स्त्री.) भितल्लो भाग.
**गर्बीण** (ना. स्त्री.) ठवयपणाचें एक हत्यार.
**गर्भकूड** (ना. स्त्री.) देवाची म्हूर्त बसयल्ली देवळांतली भितल्ली कूड.
**गर्भगळीत** (वि.) भिरांतीन गळीत जाल्लें.
**गरम** (वि.) हून; उश्ण.
**गरमी** (ना. स्त्री.) १. हुनसाण; उबाळा दिसांनी मारिल्लो उजो; उश्णताय. २. एका रोगाचें नांव.
**गर्व** (ना. पु.) बडाय; हांवपण; व्हडवीक;

फाजील अभिमान.

**गरवप** (स. क्रि.) गरी लावन काडप; गरयेन सांपडावप; मांडणेन आनी युक्तेन मेळोवप.

**गर्वीश्ट** (वि.) गर्व जाल्लें; मदांत; आपल्याविशीं फाजील अभिमानी.

**गराद** (ना. स्त्री.) चोवकेचे; व्हारांदाचे बी कडेन लायिल्लें लाकडाचें; लोखणाचें सोबीत आडावण.

**ग्राव्हात** (ना. पु.) गळपटो; गळ्याभोंवतणी गुटलावन फुडें गांठ मारपाचो लुगटाचो तीर; टाय.

**गरिबी** (ना. स्त्री.) दुर्बळकाय; पयसो-आडक्याचो अभाव.

**गरी** (ना. स्त्री.) दोरी आनी तिच्या पोंताक गरो आशिल्ली बडी.

**गरीब** (वि.) १. दुर्बळ; पयसो-आडको नाशिल्लें. २. खालत्या सबावाचें; सादें; नमळाय आशिल्लें.

**गरीबकाय** (ना. स्त्री.) दुर्बळपण.

**गरीबपण** (ना. न.) दुर्बळकाय; सादेपण; खालतेपण; नमळाय.

**गरूड** (ना. पु.) एक व्हड बळाचें सवणें.

**गरूडास्त्र** (ना. न.) दुस्मानांचेर गरूड सोडपाचें पुराणकाळातलें अस्त्र.

**गरो** (ना. पु.) नुस्तें धरचेलो लोखणाचो हूक वा आंकडो.

**गरोवप** (स. क्रि.) गरी घालून सांपडावप; हांयस लावन काम सादप.

**गल्ल** (ना. न.) झूल.

**गल्ली** (ना. स्त्री.) दोनय वाटांनी गच्च घरां आशिल्लो अशीर मार्ग; चाळ.

**गलांब** (ना. स्त्री.) भांगरा रंगाचें सूत; रेशीम; जर.

**गलेरी** (ना. स्त्री.) घराचे चौकेवयली वा जनेलाभायली माळी; व्हारांद.

**गलो** (ना. पु.) काना कुशीन दवरिल्ले आनी सकयल वाडयल्ले केंस.

**गंवडेपण** (ना. न.) चिरे बी तासपाचो वावर वा धंदो.

**गवंडो** (ना. पु.) चिरे तासपी आनी घराच्यो वंटी बांदपी.

**गवन** (ना.) न्हवऱ्या व्हंकलेक दिल्ली भेट; अहेर.

**गवय** (ना. स्त्री.) गावपी; गायन करपी.

**गवर** (ना. स्त्री.) गौरी; पार्वती.

**गवसप** (स. क्रि.) अवचित मेळप; सांपडप.

**गवळी** (ना. पु.) गोरवां पोसून दूद, धंय, ताक बी विकपी.

**गवाय** (ना.) पळयल्ले वा जाणा जाल्ले गजालीचें खरेपण सांगप.

**गवेत** (ना. न.) मेजाचो वा आलमारीचो खण.

**गवो** (ना. पु.) रानवट बैल.

**गळगळप** (अ. क्रि.) सदळ जावप; व्हड जावप.

**गळगळावप** (स. क्रि.) कसलेंय वखद; कसाय वा कडो गळ्यांत गळ् गळ् करून घोळोवप.

**गळगळीत** (वि.) सदळ; जाय ताचेपरस व्हड.

**गळगळो** (ना. पु.) ताळ्यांत घोळोवपाचो कडो वा कसाय.

**गळटी** (ना. स्त्री.) बुराकांतल्यान व्हांविल्लें उदक वा कसलोय पातळ जिनस.

**गळती** (ना. स्त्री.) पळय **गळटी.**

**गळप** (अ. क्रि.) व्हांवप; पोंवप.

**गळवप** (स. क्रि.) व्हांववप; बारीक धारेन रकवप.

**गळवज्ञा येवप** (सं. क्रि.) गळ्यांत

पडप; काकुळटेक येवप.

**गळसणप** (अ. क्रि.) गळून पडप; गळीत जावप.

**गळसणावप** (स. क्रि.) पडूंक दिवप; हातांतलें सोडप; उडवप.

**गळसरी** (ना. स्त्री.) गळ्यात घालचेलो मुयेदांचो वा पोवनांचो हार; गळ्यांत घालचेलो एक बायलांचो भांगरा दागिनो.

**गळीत** (वि.) शक्तिहीण; धीर; नेट बी गेल्लें.

**गळो** (ना. पु.) तकली आनी हड्डें हांच्या मदलो लांबोडो भाग.

**गळो-नळो** (ना. पु.) पोटासाकून गळ्यामेरेनची सगळी नळी.

## गा

**गा** (अ.) जाणट्या मनशाक लेखून मारिल्लें उल्याचें उतर.

**गागेवप** (अ. क्रि.) सदट करून तोंडातल्यान उतरां न फुटपाचो दोश; उतरां सुटचे पयलीं ग् ग् ग् असो आवाज येवप.

**गांच** (ना. पु.) आंकडो; हूक; पीन.

**गांज** (ना. स्त्री.) कांट्याची वा तोंकाची बडी लागून जाल्लो वयल्या वयर घाय.

**गाज** (ना. स्त्री.) नाद; आवाज.

**गांजणूक** (ना. स्त्री.) पिडापीड; त्रास; ख्यास्त.

**गांजप** (स. क्रि.) त्रास दिवप; उबगण हाडप.

**गाजप** (स. क्रि.) घोगेवप; पडसाद उठप; कीर्त जावप; गडगडप; फांकप.

**गाजर** (ना. न.) एक लांबोडें आनी तांबडसार मूळ.

**गाजवप** (स. क्रि.) नामना जोडप; फांकावप; सगलेकडेन पातळावप.

**गांजील** (ना. पु.) एक विखारी मूस.

**गाजोवाजो** (ना. पु.) चोंयकडेन जाल्ली कीर्त; नामना.

**गाझोलीन** (ना. न.) मोटारीक बी घालपाचें पेत्रोल.

**गांठ** (ना. स्त्री.) १. दोरयेची पोंतां एकामेकांत घुसपावन घाल्लो वेळखो. २. भेट.

**गांठ घालप** (सं. क्रि.) घट्ट उगडास दवरप; निच्छेव करप.

**गांठप** (स. क्रि.) मेळवप; सांपडावप.

**गांठ पडप** (सं. क्रि.) एकामेकांक अवचित मेळप.

**गांठ-भेट** (ना. स्त्री.) एकामेकांची भेट; एकामेकाकडेन जाल्लो मेळ.

**गांठ लागप** (वा. प्र.) कसल्याय खावपा जिनसाची ओड लागप; रूच सुटप; उमळशीक लागप.

**गांठलें** (ना. न.) म्होरो वा मुयेदां गुंथून केल्ली माळ.

**गांठवल** (ना. न.) न्हवऱ्याच्या शेल्याक आनी व्हंकलेचे पामरेक मारिल्ली गांठ.

**गांठावप** (स. क्रि.) जोडप; जुळवप.

**गांठीक मारप** (वा. प्र.) मतींत घट्ट दवरप.

**गाड** (वि.) दाट; चड; सुस्त.

**गाडगुलांव** (व.) आंगान मोटें; गुड्डीशें; फोफशें.

**गांड** (ना.) भोंक; दोन कुल्यांमदलो बुराक.

**गाडगो** (ना. पु.) मातयेचो ल्हान बुडकुलो.

**गाडी** (ना. स्त्री.) मनीस आनी म्हाल हाडपा व्हरपाचें एक सादन; धांवतेर.

**गाडी-नाडी** (ना. स्त्री.) नखलामी.

**गाडेकार** (ना. पु.) गाडो चलोवपी; गाड्याचो धनी.
**गाडो** (ना. पु.) बैलांची गाडी; हात गाडो.
**गाढ** (वि.) पळय **गाड.**
**गाढव** (ना. पु.) एक घोड्या जातीचें जनावर.
**गाणार** (ना. पु.) गावपी; गवय.
**गाणारो** (ना. पु.) पळय **गाणार.**
**गात्र** (ना. न.) कुडीचो भाग.
**गांथन** (ना. स्त्री.) नुसत्याची माळ.
**गादी** (ना. स्त्री.) सोरो विकपाचो पसरो; राजालें आसन; कुलच्यांव.
**गादेवप** (अ. क्रि.) चड भुकेन गळीत जावप.
**गान** (ना. न.) गायन; गाणें.
**गाब** (ना. पु.) बायलेच्या पोटांतलें उण्या दिसांचें भुरगें.
**गाबणी** (वि.) पोटांत भुरगें आशिल्ली गाय; म्हस बी मादी.
**गाबणो** (वि.) खूब पैसो-आडको आशिल्लो.
**गाबती** (ना. पु.) खारवी; मासळी मारपी.
**गावळ** (ना.) चरबेक लागून पोटाचे कुशीक पडिल्ली मिरी.
**गाबीत** (ना. स्त्री.) पळय **गाबती.**
**गाबो** (ना. पु.) मगज; सार.
**गाबोळी** (ना. स्त्री.) नुस्त्या पोटांतली तांतयांनी भरिल्ली पोती.
**गाभारो** (ना. पु.) गर्भकूड; देवाची म्हुर्त आशिल्ली कूड.
**ग्राम** (ना. पु.) १. वजन काडपाचें जोख; किलोचो हजारावो भाग. २. गांव.
**ग्रामपंचायत** (ना. स्त्री.) गांवची बरी वायट चोवकशी आनी उदरगत करपी कमिटी.
**ग्रामपुरूस** (ना. पु.) गांवचो मूळ पुरूस.
**ग्रामसेवक** (ना. पु.) गांवच्या बऱ्याभल्याचो वावर करपी; ग्रामपंचायतींतलो एक जाळवणदार.
**गाय** (ना. स्त्री.) एक खूब उपेगाचें आनी घरावें जनावर.
**गायक** (ना. पु.) गावपी; गवय.
**गायकी** (ना. स्त्री.) गावपाची तरा.
**गायंडोळ** (ना. पु.) पावसा दिसांत मातये पोंदा उपरासपी एक लांबोडो: धवसार आनी बुळबुळीत जीव.
**गायन** (ना. न.) गळ्यांतल्यान काडिल्ले गोड सूर; आलाप.
**गायर** (ना. स्त्री.) गोरवांचें शेण साठावन दवरचेलो फोंडारो.
**गार** (ना. स्त्री.) पाली भाशेन पूण हात दोन हात लाबायेचो एक जीव; (वि.) थंड.
**गाराणें** (ना. न.) देवाक केल्ली सांगणी-मागणी.
**गारुडी** (ना. पु.) पुंगी वाजोवन सोरोप नाचोवपी.
**ग्रांव** (ना. पु.) वजन करचेलें गुतीम जोख.
**गार्ड** (ना. स्त्री.) उज्या गाडयेचो राखणदार.
**गार्फ** (ना. पु.) कलम केल्लें आंब्याझाड; कसलेय जातीचे आंबलेक बऱ्या आंब्याझाडाचो ताळो खोंचून घालून तयार केल्लें बरें आंब्याझाड.
**गारो** (ना. स्त्री.) मळबांतल्यान पडिल्ले बर्फाचे वाटकुळसार कुडके.
**गाल** (ना. पु.) पोलो; चेऱ्याकुशीनचो फुगरो भाग.

**गालटी** (ना. स्त्री.) पोल्याचो मदलो फुगरो भाग.
**गालद्यो तोडप/घेवप** (वा. प्र.) पोल्याक चिमटो काडप.
**गालमो** (ना. पु.) खूब बारीक सुंगटां.
**ग्राव** (ना. पु.) उश्णताय वा सोन्याची कडकसाण बी मेजपाचें माप.
**ग्राव्हात** (ना. स्त्री.) खोमसा गोलामुळा गांठ मारून बांदपाचो एक सोबीत लुगटा तीर; टाय.
**गांव** (ना. पु.) खेडें; खूब घरां मेळून जाल्ली वस्ती.
**गांवकार** (ना. पु.) गांवांत मुळासावन रावपी.
**गांवकी** (ना. स्त्री.) गांवपण; गांवच्या प्रस्नांचेर गांवकारांनी केल्ली भासाभास.
**गावगारो** (वि.) गांवठी; हेंगाडी; शिक्षण नाशिल्लो.
**गांव-जेवण** (ना. न.) कसल्याय निमतान गांवाक घाल्लें जेवण.
**गांवठी** (वि.) पळय गांवगारो.
**गावडो** (वि.) गौड; गोंयचो मूळ पुरूस; एके जातिचें नांव.
**गावप** (क्रि.) १. गळ्यांतल्यान बरेबरे सूर आनी आलाप काडप. २. मेळप; भेट घडप.
**गांवपण** (ना. न.) गांवकारांनी केल्ली गांवाची बरी-वायट चोवकशी.
**गांवभाव** (ना. पु.) एकाच गांवात रावपी मनशांभितल्लें नातें.
**गांव-राखण** (ना. स्त्री.) गांवाचो सांबाळ.
**गावी** (ना.) चिमटो; पक्कड.
**ग्रास** (ना. पु.) घास; उंडी; जेवण; अन्न.
**गाळ** (ना. स्त्री.) वायट उतर; वाडो; झाडापेडांनी वशिल्ली व्हड जमीन.
**गाळणी** (ना. स्त्री.) १. च्या; काफी बी गाळपाचो बारीक बुराकांचो दोवलो. २. ल्हान झारो; गाळपाचें काम.
**गाळप** (स. क्रि.) मदीं झारो वा बारीक बुराकाचें लुगट धरून एका आयदनांतलो पातळ जिनस दुसऱ्या आयदनांत सोडप.
**गाळयारें** (वि.) गाळी संवपी.
**गाळी-फस्ती** (ना. स्त्री.) वायट उतरां; हिणसावचेलीं तशींच अपमानाचीं उतरां.
**गाळो** (ना. पु.) एका परस चड बिराडांची हाळ; रूंद देगेची साडी वा कापड.

# गि

**गिचमिडें** (वि.) सोंपेपणान वाचूंक जायना अशें; खूब बारीक आनी वांकडें तिकडें.
**गिड्डें** (वि.) मोटवें; बरी वाड नाशिल्लें.
**गिणी** (ना. स्त्री.) पळय **गिण्डी.**
**गिण्डी** (ना. स्त्री.) बारीक नळी आशिल्लें तेलाचें आयदन.
**गिर्दनी** (ना. स्त्री.) वाटकुळें उशें.
**गिधाड** (ना.) गीद; मांस खावपी एक व्हड सवणें.
**गिन्नाटी** (ना. स्त्री.) पडीचो आठवो भाग.
**गिन्यान** (ना. न.) जाणविकाय; बुदवंतकाय; ज्ञान.
**गिन्यानी** (वि.) बुदवंत; शाणें; जाणविकाय आशिल्लें; पंडित.
**गिमाळो** (ना. पु.) उबाळाचे दीस.
**गिरकी** (ना. स्त्री.) भोंवर; भोंवताडो.
**गिरगिरप** (अ. क्रि.) भोंवर मारप;

तकली घुंविल्लेवरी जावप; घुंवळप.

**गिरगिरावप** (स. क्रि.) वाटकुळें घुंवणावप.

**गिरगिरें** (ना. न.) बडयेक लायिल्लें वाऱ्यान घुंवपी कागदाचें फूल.

**गिरवड** (ना. स्त्री.) बारीक आनी किचमण्यांचो वावर.

**गिरवप** (स. क्रि.) चिरप; एकेच रिस्केर दुसरी रीस्क झरोवप; दुसऱ्याची देख घेवप.

**गिरबुजी** (ना. स्त्री.) एक सुपुल्लें सवर्णें.

**गिरबुजें** (ना. स्त्री.) पळय **गिरबुजी.**

**गिरसप्पा** (ना. पु.) म्हैसूर राज्यांतलो आनी भारतांतलो सगल्यांत व्हड धोगो.

**गिरायक** (ना. न.) १. म्हाल घेवपी मनीस. २. खप.

**गिरावप** (स. क्रि.) चिरूक लावप; देख घेवंक लावप.

**गिरास** (ना. पु.) पळय ग्रास.

**गिरावळ** (ना. स्त्री.) गिऱ्यांचो एकवट वा माळ.

**गिरेस्त** (वि.) दुडवांकार; व्हड आस्पतिचें; श्रीमंत.

**गिरेस्तकाय** (ना. न.) दुडू आनी भाट बेंस; व्हड आस्पत.

**गिरेस्तपण** (ना. न.) आस्पत; आस्तीकपण; घरदार आनी भाट बेंस; बरी चाल चलणूक; नितीक सोबसारकी चालरीत.

**गिरो** (ना. पु.) अंतराळांतलो चंद्र; सूर्यासारको गुळो.

**गिलाव** (ना. पु.) लेप; पातळ थर; गिलेट.

**ग्रिस्मरूतू** (ना. पु.) गिमाळो; तापीचे दीस.

**गिळप** (स. क्रि.) ताळ्यांतल्यान सकयल्ले नळयेंत धुकलप; घोटप.

**ग्रीक** (वि.) ग्रीस देशांतलो.

**गीत** (ना. न.) कवन; पद; कविता; कांतार.

**गीद** (ना. पु.) घार; घोण; गिधाड.

**गीम** (ना. पु.) ओताचे दीस; गरमेचे दीस.

# गु

**गुंगुल्लो** (ना. पु.) मदेराक बी बुराक करपी मूस.

**गुंज** (ना. न.) १. जंय खांदो फुट्टा तो झाडाकांडाचो घटसार भाग. २. गुंजी झाडाचें फळ.

**गुजगुजप** (अ. क्रि.) उश्णतायेन उकडल्ल्यावरी जावप; उजो जावप.

**गुजगूज** (ना. पु.) १. उश्णताय; हून वाऱ्याचो धग. २. फुतफुतणी.

**गुंजट** (वि.) खूब गुंजां आशिल्लें झाड वा मदेर.

**गुजरात** (ना. न.) भारताचे अस्तेंत देगेवयलो एक प्रांत..

**गुजराती** (वि.) गुजरात प्रांतांतलें.

**गुजारतीन** (अ.) हस्तुकीं; वरवीं.

**गुटलावप** (स. क्रि.) १. गुटलो करप; पोटली करप; वेडावप. २. मांडणेन फटवप.

**गुटली** (ना. स्त्री.) ल्हान पोटली.

**गुटी** (ना. स्त्री.) फळांतली बी.

**गुंड** (वि.) तवनास; वाळेस; मस्तो; पारपोळ; मारकुटो; केस्तांवखोर.

**गुडगुडप** (अ. क्रि.) गुडगुड असो आवाज येवप.

**गुडगुडी** (ना. स्त्री.) हुक्क्याभाशेन तंबाकू ओडपाची एक वस्त.

**गुड्डावप** (क्रि.) मुठीनी; खोटांनी बी लडो घालप; खोटांनी मस्तप.

**गुड्डी** (ना. स्त्री.) बाटलेच्या तोंडाक घट्ट लावचेलो कागदाचो बी गुड्डो; कंवचेची बारीक वाटकुळी गुळी.

**गुडी** (ना. स्त्री.) बंदेर; पळय **घुडी.**

**गुड्डलसांव** (ना. न.) फटींगपण; चिकान; तड्डक.

**गुड्डो** (ना. पु.) लुगटाची; कागदाची बी घट्ट गुटली.

**गुडें** (ना. न.) एकठांय दाळिल्ल्या तणांची उबी रास.

**गुंडो** (ना. पु.) फातर.

**गुणक** (ना. पु.) जाणें गुणटात तो आंकडो. संख्या कितले पटीन वाडोवची हें दाखोवपी आंकडो.

**गुणगुणप** (स. क्रि.) पुटपुटप; तोंडातल्या तोंडान ल्हवूच उलोवप; फुतफुतप.

**गुणप** (स. क्रि.) संख्या पटींनी वाडोवपाची क्रिया करप.

**गुणफळ** (ना. न.) एका आंकड्याक दुसऱ्या आंकड्यान गुणटकच येता तो नवो आंकडो; गुणाकाराची जाप.

**गुण्य** (ना. स्त्री.) जे संख्येक गुणटात ती.

**गुणविशेशण** (ना. न.) मनशाचो; जिवाचो वा वस्तूचो गूण सांगपी उतर.

**गुणाकार** (ना. पु.) आंकडो वाडोवपाचें गणीत.

**गुणी** (वि.) बऱ्या गुणाचें; बऱ्या सबावाचें; आंगांत कसलेंय कसब आशिल्लें.

**गुणुलें** (वि.) अपुरबायेचें; शाणुलें.

**गुणेस्त** (वि.) पळय **गुणी.**

**गुणें** (वि.) शाणें; बऱ्या सबावाचें.

**गुंथप** (क्रि.) एकांत एक घुसपावप; माळ करप.

**गुदांव** (ना. पु.) म्हाल एकठांय करून दवरपाची कूड.

**गुन्यांव** (ना. पु.) अन्याय; चूक; पाप; *करपाची न्हय अशी केल्ली करणी.*

**गुन्यांवकारी** (वि.) अन्याय करपी; आगळीक करपी; करूं नये तें करपी.

**गुप्प** (वि.) गाड; खूब; दाट.

**गुपाट** (वि.) पळय **गुप्प.**

**गुपीत** (ना. न.) लिपयल्ली वा लिपोवचेली गजाल.

**गुफेत हालवो** (ना. पु.) चणे; बियो *बी तरेतरेची खाज साखरे पंखात इल्ली* इल्ली घोळोवन आनी तिचेर कांटो हाडून तयार केल्लो हालवो.

**गुबगुबीत** (वि.) आंगान मोटें आनी मोव; फुगरें.

**गुबगुबीतपण** (ना. न.) मोटपाण; फुगरेपण.

**गुमानीत** (ना. न.) उमाणें; कोडें; उखाणो.

**गुरखो** (ना. पु.) नेपाळांत आनी ताचे भोंवतणचे सरादींत रावपी मनीस.

**गुरगुरप** (अ. क्रि.) भितल्ले भितर आवाज करप; ल्होव ताळ्यान मनांतलो राग उक्तावप; गुर्र गुर्र असो आवाज करप.

**गुरगुरावणी** (ना. स्त्री.) गुर्र-गुर्र असो आवाज; भितल्ले भितर तिडकीन काडिल्लो आवाज आनी उतरां.

**गुरजप** (अ. क्रि.) गुरगुरप; पिरंगप; भितल्ले भितर वाजेवप.

**गुर्मी** (ना. स्त्री.) गुल्साण; तनरी; मस्ती; गर्व.

**गुरवाचार** (ना. पु.) गुरवारपण; पोटांत भुरगें धरपाचो आनी तें वाडपाचो काळ.

**गुरवाचार-आडो** (ना. पु.) गुरवारपण

येवचें न्हय देखून घेवपाचें वखद.
**गुरवार** (वि.) पोटांत भुरगें आशिल्ली.
**गुरवारपण** (ना.) पळय **गुरवाचार.**
**गुरू** (ना. पु.) देख लावपी; शिक्षण दिवपी.
**गुरूजन** (ना. पु.) शिकोवणी आनी देख दिवपी गुरू.
**गुरूजी** (ना. पु.) शणय; मास्तर; शिकोवपी.
**गुरूत्वाकर्शण** (ना. न.) एकामेकांक ओडून घेवपाची आशिल्ली शक्त.
**गुरूमंत्र** (ना. पु.) गुरून दिल्लो मंत्र; गुरून केल्लो उपदेश.
**गुलगुलीत** (वि.) आंगान मोटसार; गुटगुटीत.
**गुलगुलीतपण** (ना. न.) मोटसाण.
**गुलगुलेत** (ना. न.) उदक थंड उरचें म्हणून भरपाचें आयदन.
**गुल्ल** (वि.) गुंग; तल्लीन; धेयभान विसरून गेल्लें.
**गुलाब** (ना. न.) गुलाबी रंगाचें एक सुंदर फूल.
**गुलाब शेवतें** (ना. न.) पळय **गुलाब.**
**गुलाबी** (वि.) गुलाबा फुलाच्या रंगाचें.
**गुलाम** (ना. पु.) मेकळेपण आनी स्वतंत्रताय नाशिल्लो मनीस; बंदो; मोनजातीभाशेन वावर करूंक विकतो घेतिल्लो मनीस.
**गुलामपण** (ना. न.) बंदेपण; परतंत्र.
**गुवाडें** (वि.) अळशिकावणें; गुवान भरिलें. (ना. पु.) परसाकडे वचपाचो जागो.
**गुळंकार** (ना. पु.) गुळो; हालूंक धोलूंक जाय नाशिल्ली स्थिती.
**गुळंकार जावप** (सं. क्रि.) पिडा जावप; कांयच न्हज अशें दिसप.

**गुळखी** (ना. स्त्री.) माथ्यांत माळपाचो पयलीं काळचो एक दागिनो.
**गुळगुळावप** (स. क्रि.) धड उलोवप ना; खरें-फट सारकें सांगप ना.
**गुळगुळीत** (अ.) नितळ; तुळतुळीत.
**गुळम** (ना. न.) काश्यांचें; पितुळचें बी ल्हान आनी जड आयदन.
**गुळी** (ना. स्त्री.) ल्हान लाडू; वखदाचें पिल्ल; वखदा पिठ्याची ल्हान आनी वाटकुळसार वस्त. **भियेवन गुळी जावप :** भंयान जंयचे थंय उरप.
**गुळेणी** (ना. स्त्री.) गोड; सोय घालून केल्ली तांदळा पिठाची खीर.
**गुळो** (ना. पु.) कसलीय वाटकुळी वस्त.

## गू

**गू** (ना. पु.) विश्ठा, घाण.
**गूट** (ना. न.) १. चामडेर वा सालीचेर आयिल्ली गुळी. २. (पु.)कट.
**गूड** (वि.) समजूंक कठीण अशें.
**गूट** (ना. पु.) समजूंक कठीण अशी गजाल.
**गूण** (ना. पु.) सबाव; लक्षण; धर्म.

## गे

**गे** (अ.) 'आगे' ह्या उतराचें ल्हान रूप; जाणटे बायल मनशेक लेखचेलें उतर.
**ग्रेग** (ना. पु.) ग्रीस देशांतलो लोक.
**गेण्डो** (ना. पु.) आडसाट्या बैलायेदें एक मस्तें रानवट जनावर.
**गेत** (ना. न.) दोशीं फुटिल्लो खूर.
**गॅलन** (ना. पु.) पातळ वस्तू, भोव

करून पेत्रोल, गाजोलीन बी मेजपाची वस्त.

## गो

**गो** (अ.) ल्हान चलयेक लेखपाचें उतर; 'आगो' ह्या उतराचें ल्हान रूप. (ना. स्त्री.) गाय.

**गोकर्णवाल** (ना. स्त्री.) एक सोबीत फुलाची वाल.

**गोकुळाष्टम** (ना. स्त्री.) कृष्णजयंती; श्रीकृष्णाचो जल्मदीस.

**गोगलगाय** (ना. स्त्री.) फाटीर घर घेवन वचपी एक काळसार; बुळबुळीत पावशी जीव.

**गोजडी** पळय **गोयडी.**

**गोंट** (ना. पु.) मनगटाक घालपाचो वाळ्याभाशेन एक बायलांची भांगरा वस्त.

**गोटाण** (ना. स्त्री.) कोठाल; खूब पायांचो एक लांबोडो जीव.

**गोटिशेरो** (ना.) एक ल्हान वखदी झाड.

**गोटो** (ना. स्त्री.) भाताचो; तांदळाचो वा शिताचो कण; कसल्याय कड्डणाचो दाणो.

**गोठण** पळय **गोठाण.**

**गोठेवप** (अ. क्रि.) पातळ वस्तूचो घट्ट वस्तूंत बदल जावप; गोरवांचे एकाच जाग्यार बसून रावप.

**गोठो** (ना. पु.) गोरवांक बांदून दवरपाचें आनी सांबाळपाचें घर.

**गोड** (वि.) साखर बी खातकच लागिल्ली रूच; मधूर.

**गोड** (ना. न.) उशी कांड्याचो वा माडाचे सुरीचो केल्लो एक गोड जिनस.

**गोड खावंक वचप** (वा. प्र.) आपले तांकीभायलें काम करूंक सोदप; अपेस येवप.

**गोडशें** (ना. स्त्री.) गोड वस्त; पोळी.

**गोडसाण** (ना. स्त्री.) साखरे-गोडासारकी रूच.

**गोडसार** (वि.) हय न्हयशें गोड.

**गोडा-धेंप** (ना. स्त्री.) उणो-पुणो १५ किलो वजनाचो गोडा गुळो.

**गोडाय** (ना. स्त्री.) पळे गोडसाण.

**गोडेकॉश्ट** (ना. न.) वेखणाभाशेन कसायाचें एक आंग; एका वखदी झाडाचें मूळ.

**गोंडो** (ना. पु.) घोंस; तुरो; उंबको; कणस; कणसाभाशेन दिसता अशी वस्त.

**गोण** (ना. पु.) साक; तागाची वा सणाची व्हड पोती; म्हालान भरिल्लो साक.

**गोत्र** (ना. न.) मुळच्या रुशीकडेन आशिल्लें नातें.

**गोंदळ** (ना. पु.) गडगड; बोवाळ; धांदळ.

**गोंदळप** (अ. क्रि.) घुसपप.

**गोदी** (ना. स्त्री.) धक्को; बंदर.

**गोदी-कामगार** (ना. न.) बोटीवयलो म्हाल चडय-देंवय करपी लोक.

**गोप** (ना. पु.) एकवट; एकचार.

**गोफ** (ना. पु.) एकामेकांत घुसपावन विणिल्ले लुगटा-तीर; दोरयो वा कसलेय धातूच्यो सरयो.

**गोफीण** (ना. स्त्री.) फातर शेंवटून मारपाची एक वस्त; रबराचे तीर बांदून केल्लें.

**गोबरें** (वि.) गोबरें रंगाचें. (ना. पु.) फूट देडफूट लांबायेचें एक सुरबूस नुस्तें.

**गोबोर** (ना. पु.) कसलेय जळिल्ले वस्तूचो पिठो.

**गॉम** (ना. न.) कितेंय दसोवपाचो एक चिकट जिनस.
**गोमटी** (ना. स्त्री.) गळो; गची.
**गोमटें** (वि.) सोबीत; सुंदर.
**गोमन्त** (ना. पु.) सह्याद्रि पर्वताच्या एका तेमकाचें नांव.
**गोमेर** (ना. पु.) गॉम भरपाचें आयदन.
**गोंय** (ना. न.) भारताचे अस्तेंतेक आनी मलबारचे कडेक आशिल्लो एक सुंदर आनी सुपुल्लो प्रदेश.
**गोंयकार** (ना. पु.) गोयांत जाल्लो आनी गोयांत रावपी मनीस.
**गोयडी** (ना. स्त्री.) एकार एक आंगट्यो दाळून आनी शिवून तयार केल्लो कोल्च कुबेर्त.
**गोरपाण** (ना. स्त्री.) धवसाण वा धवपाण.
**गोरिला** (ना. पु.) शेपडी नाशिल्लो आनी सादारण मनशाभाशेन दिसपी एक बळीश्ट माकडाचे जातीचें जनावर.
**गोरू** (ना. न.) गाय; बैल; म्हस; रेडो बी मोनजात.
**गोरें** (वि.) धवें; कापसा रंगाचें; नरका रंगाचें.
**गोरोप** (ना. पु.) मगज; फळाचे सालिभितल्लो खावचेलो भाग.
**गोरो-पिटूट** (वि.) खूब गोरो.
**गोल** (वि.) वाटकुळें. (ना. पु.) फुटबॉलाच्या खेळांत एका पंगडान दुसऱ्या पंगडाचे जाळयेंत घाल्लो बोल.
**गॉल** (ना. न.) खोमसाचो वा कसल्याय आंगल्याचो गळ्याभोंवतणचो दोंडिल्लो भाग.
**गोलांट** (ना. स्त्री.) उडकी; लाग.
**गोलें** (ना. न.) तेल वा दूद मेजपाचें एक माप.
**गोव्हेर्न** (ना. पु.) कारभार; सरकार; शासन.
**गोव्हेर्नादोर** (ना. पु.) राज्य चलोवपी; राज्यपाल.
**गोंसाय** (ना. पु.) घाडयाभाशेन देवस्पण करपी मनीस.
**गोळ** (ना. पु.) हुमकळायिल्ली दोरी.
**गोळ** (ना. न.) तन्नें; गळिल्लें फळ.
**गोळार दिवप** (वा. प्र.) गोळाक गची आंवळून जिवानशी मारप.
**गोळोव** (ना. पु.) पळय **गोळ.**

## गौ

**गौण** (वि.) किरकोळ; म्हत्व नाशिल्लें.
**गौरी-शंकर** (ना.) म्हादेव-पार्वती; हिमालय पर्वताचें सगळ्यांत वयलें तेमूक.

## गं

**गंगळ** (ना. न.) दोनय कुशिनी कान आशिल्लें एक व्हड आयदन.
**गंगा** (ना. स्त्री.) उत्तर प्रदेशांतली एक पवीत्र न्हंय.
**गंगामाय** (ना. स्त्री.) पळय **गंगा.** आवय सारकी मानतात देखून तिका *गंगामाय* म्हणटात.
**गंजण** (ना. न.) तांदळा रोपासारके खूब पातयो आशिल्लें भोव बऱ्या वासाचें एक वखदी झाड.
**गंद** (ना. न.) उदकान झरयल्लें चंदन; वास.
**गंदेल** (ना. न.) चंदनाचें तेल.
**गंधर्व** (ना. पु.) सर्गांतलो गावपी-नाचपी कलाकार.
**गंभीर** (वि.) शांत पूण धीरवान; पकदस्त;

कडक.

**गंभिरताय** (ना. स्त्री.) गंभीर आसपाचो गूण; पकदस्तपण; सबावाची कडकसाण.

**गंव** (ना. पु.) एक म्हत्वाचें धान्य.

**गंवळ** (ना.) गोरवां बांदपाचे खूट आनी कोंडे.

**गंडमेरू** (ना. न.) एक मेरवाची जात.

**गदळ** (ना. पु.) गोंदळ; घुसपणी.

**गंमत** (ना. स्त्री.) मौज; फकाणां; मस्करी.

**गंभेरपण** (ना. न.) पळय **गंभिरताय.**

## घ

**घट** (वि.) १. तणक; मोडूंक फोडूंक कठीण; निबर. २. नवरात्रांत देविच्या नांवान पुजेक लायिल्लो नाल्ल.

**घटका** (ना. स्त्री.) वेळ; चोवीस मिणटांचो काळ.

**घट्ट** (वि.) *निबर; जें सहजतायेन* मोडना; फुटना; विरगळना अशें.

**घट्ट जावप** (सं. क्रि.) निबरसाण येवप. (अलंकारीक) मरप; जीव वचप.

**घट्टाण** (ना. न.) नासधूस.

**घटणा** (ना. स्त्री.) घडिल्ली गजाल.

**घटपाण** (ना. स्त्री.) निबरसाण; शक्त; बळगें.

**घटमूट** (वि.) निबर; ताकदवान; शक्तिवान; बळगें आशिल्लें.

**घटसाण** (ना. स्त्री.) पळय **घटपाण.**

**घटां** (ना. न.) मांडण्यो; उपाय; युक्ती.

**घटा-घटा** (अ.) उदकाचे व्हडले व्हडले घोंट पियेतना जाल्लो आवाज.

**घटाय** (ना. स्त्री.) निबरसाण; शक्ती; बळगें.

**घड** (ना. पु.) केळ्या-फेण्यांचो घोंस.

**घडका** (ना. स्त्री.) वेळ; खीण; इल्लो वोगोत.

**घडघडाट** (ना. पु.) घडघड; घुम् घुम् असो आवाज.

**घडण** (ना. स्त्री.) बांदावळ; रचणूक.

**घडणार** (ना. पु.) बांदपी; घडपी; रचपी; करपी.

**घडणी** (ना. स्त्री.) घडिल्ली गजाल; घडणूक.

**घडणूक** (ना. स्त्री.) घडिल्ली वा घडचेली गजाल.

**घडप** (स. क्रि.) बांदप; रचप; करप. (अ. क्रि.) जावप.

**घडमोड** (ना. स्त्री.) घडपाचें आनी मोडपाचें काम.

**घणघण** (ना. पु.) घाटींचो व्हडलो नाद; बोवाळ.

**घणघणप** (स. क्रि.) व्हडलो आवाज जावप; बोवाळ जावप; कीर्त फांकप.

**घडयणो** (*ना. पु.*) घडोवपी; रचपी; बांदपी.

**घडयाळ** (ना. स्त्री.) वेळ दाखोवपाचें यंत्र.

**घडये** (क्रि. वि.) एकाद्रें; एकादुकलें; घडकाभर; खीणभर.

**घडये-घडये** (क्रि. वि.) परतु-परतून; भौन-भौन.

**घडवण** (ना.) बांदावळ; रचणूक.

**घडवप** (स. क्रि.) बांदप; रचप; करप.

**घडावलें** (ना. न.) ल्हान घड; केळ्यां फेण्यांचो घोंस.

**घडी** (ना. स्त्री.) १. घटका; वेळाचो भाग; इल्लोसो वेळ; खीण. २. दोड.

**घडीत** (ना. न.) नशिबान घडिल्ली बरी वायट गजाल.

**घडुले** (ना. न.) केळ्यांचें ल्हान घडावलें.

**घण** (ना. पु.) व्हडलो तुतयो.

**घणघणीत** (वि.) लकलकीत; चकचकीत; निवळ.
**घणसाबैल** (ना. पु.) तकली हालोवन तेरेकवार खेळ करपी बैल.
**घन** (ना. पु.) १. स चौखण आनी व्हटो आशिल्ली आकृताय. २. दाट.
**घनाकृती** (ना. पु.) स चौखण आनी व्हटो आशिल्ली आकृताय.
**घमघम** (ना. पु.) पळय **घमघमाट**.
**घमघमप** (अ. क्रि.) परमळ सुटप; फांकप; पातळप.
**घमघमाट** (ना. पु.) खर वास; तीख परमळ.
**घमघमीत** (वि.) खर वास आशिल्लें.
**घर** (ना. न.) राबित्याखातीर बांदिल्लो सुगूर जागो.
**घरकान्न** (ना. स्त्री.) घराची मालकीण; लग्न जाल्ली बायल.
**घरकार** (ना. पु.) घराचो धनी; घरांत रावपी.
**घर कोंबडो** (वि.) घरांत बसून जीण सारपी; भायले भेकळे हवेची रूच नाशिल्लो. (ना.) पोसपाचो कोंबो.
**घरखातें** (ना. न.) घराकडेन संबंद आशिल्लो वेव्हार; घराविशींचो जमा-खर्च.
**घरगुती** (वि.) घरावें; घरच्या संवसारा विशींचें.
**घर-घर** (ना. पु.) गळ्याकडेन जाल्लो घुर्र-घुर्र असो आवाज; मरणा देगेर पाविल्ल्या मनशाच्या स्वास-उस्वासाचो आवाज.
**घरघरप** (अ. क्रि.) घर्र-घर्र असो आवाज जावप.
**घर-जांवय** (ना. पु.) मावोड्याच जियेवपी जांवय.
**घर-दार** (ना. न.) घर आनी घरचें भाट-बेंस.
**घरपटी** (ना. स्त्री.) दर एकल्या घराचेर बसयल्लो कर वा कसलीय वर्गणी.
**घरप्रवेश** (ना. पु.) नव्या घराचें उक्तावण.
**घरभरवणी** (ना. स्त्री.) लग्न जातकच व्हंकलेचे पयलेच फावट घरांत येवप; व्हंकल पावणी.
**घरभाट** (ना. न.) घरा लागशीचें शेतभाट.
**घरभेदी** (वि.) दायजी-दुस्मानाक मेळिल्लो आपलोच मनीस; विस्वास घातकी.
**घर माथ्यार घेवप** (वा. प्र.) घरभर शबय घालप; खूब बोवाळ करप.
**घरय** (ना. स्त्री.) जुनसार पणसा घऱ्यांची शाक.
**घरवड** (ना. स्त्री.) घरवत; घरची आस्पत.
**घरवत** (ना. स्त्री.) घरच्यो ल्हान व्हड सगल्यो वस्तू.
**घरवंत** (वि.) घर-दार आशिल्लो आस्पतिचो मनीस; बरे कुळयेचो; बऱ्या घराण्याचो.
**घर संसार** (ना. पु.) घरचो वेव्हार; घराविशिंचीं ल्हान व्हड सगलीं कामां.
**घराचार** (ना. पु.) घरची चाल-रीत.
**घराचेर सुर्णी चडोवप** (वा. प्र.) दुसऱ्याचे आड मार्गांनि वायट करप; दुसऱ्याक काबार करूंक पळोवप.
**घराणें** (ना. न.) घरची कुळी; वंश; कुटुंब.
**घरान घर** (ना. न.) दर एकलें घर.
**घराबो** (ना. पु.) घरच्या मनशां भितल्लो एकचार आनी इश्टागत.
**घरावें** (वि.) घरचें; घरांत तयार केल्लें.
**घरेलू** (वि.) घरांत तयार जाल्लें; घरचें;

घरा रावन शिक्षण घेतिलें.

**घरो** (ना. पु.) पणसाचें फळ.

**घस** (ना. स्त्री.) धुंवराची काजळी.

**घसघशीत** (क्रि. वि.) दोळ्यांत भरसारकें.

**घस घस** (ना. पु.) १. तरतर; हिमटेपण धरिनासतना केल्लो वेव्हार. २. व्हांवत्या उदकाचो बी आवाज.

**घसघसप** (अ. क्रि.) सडसडीत व्हांवप; घसघस करून व्हांवप; पडप.

**घसघसो** (ना. पु.) घोगो; उंचायेवयल्यान पडिल्लो उदकाचो लोट.

**घसटप** (स. क्रि.) घांसप; नेटान तेंकप; निबरान लागप.

**घसरगुंडी** (ना. स्त्री.) पालशें बसयल्लें नितळ फळें; पालशा फळ्यावयल्यान घसरून देंवपाचो खेळ.

**घसरप** (अ. क्रि.) निसरप.

**घसरी** (ना. स्त्री.) देंवती.

**घसाघस** (क्रि. वि.) कळाव करिनासतना; सडसडीत; मेकळेपणान.

**घळ** (ना. स्त्री.) दोन दोंगरांमदली खोल सुवात. (वि.) शिटुकसाण नाशिल्लें; जतनाय नाशिल्लें.

**घळयेपण** (ना. न.) शिटुकसाण नाशिल्लो सबाव; जतनायेचो अभाव.

## घा

**घागर** (ना. स्त्री.) कळशी; व्हड कळसो.

**घागरी** (ना. स्त्री.) घुंगूर; वाटकुळी ल्हान घाट.

**घागरो** (ना. पु.) कमरा सकयल न्हेसपाचें बायलांचें न्हेसण.

**घाट** (ना. पु.) आकार; आकृताय; घडण; बांदावळ.

**घांट** (वि. ना.) १. सह्याद्री दोंगरा-हाळिच्या पलतडची सराद; खर चडटी. २. मदीं लोळ्यो आशिल्ली कांश्याची, पितुळची बी वाजोवपाची वस्त.

**घांटवळ** (ना. पु.) घांटार रावपी मनीस; घांटावयलो म्हाल.

**घांटिकार** (ना. पु.) घांट वाजोवपी.

**घांटी** (ना. पु.) घांटार रावपी मनीस; घांटार तयार जावपी म्हाल.

**घाडपण** (ना. न.) घाडयाचें कुदप आनी ताचो वावर-धंदो; बुदवंतकाय; मांडणी; युक्ती.

**घाडी** (ना. पु.) म्हारवा देंवचारा वरवीं मनशाची पिडा पयसावपी आनी ताची इत्सा भागोवपी.

**घाडीण** (ना. स्त्री.) घाडयाची बायल; सादारण घाडयासारकोच वावर करपी.

**घाण** (ना. स्त्री.) १. वायट वास; अळशीक. २. रिणाखातीर दवरिल्ली वस्त.

**घाणयारो** (वि.) वायट वासाचें; अळशिकावणें.

**घाणवट** (ना. न.) घाण दवरचेली वस्त.

**घाणवप** (स. क्रि.) वायट तरेन करप; कित्याकितेंय आनी कशाकशेंय करप.

**घाणावप** (स. क्रि.) पळय **घाणवप.**

**घाणेकार** (ना. पु.) तेलाचो बी घाणो चलोवपी.

**घाणो** (ना. पु.) तेल बी काडपाचें यंत्र.

**घात** (ना. पु.) वायट गजाल; संकश्ट; लुकसाण.

**घातकी** (वि.) दुसऱ्याचें वायट करपी; घात मारपी.

**घातकेपण** (ना. न.) दुसऱ्याचो वायट

करपाचो सबाव.
**घातमारे** (वि.) पळय **घातकी.**
**घाबरप** (अ. क्रि.) काचाबूल जावप; हुसकेवप; घुस्पप; गोंदळप.
**घाम** (ना. पु.) चड वावर केल्ल्यान वा उज्रो जाल्ल्यान आंगांतल्यान व्हांविल्लें उदक; हूम.
**घामसाण** (ना. स्त्री.) घामाचो वास.
**घामेवप** (अ. क्रि.) घाम देंवप; घामान भिजप.
**घामोळें** (ना. न.) घामाक लागून कातीर फुटिल्लो पुळेर.
**घाय** (ना. पु.) घावो; सुरी; कोयती सारक्या कसल्याय हत्यारान पडिल्ली वा घाल्ली चीर; कसल्याय शस्त्राचो धपको.
**घार** (ना. स्त्री.) घोण; ल्हान जिवांक मारून खावपी व्हड सवणें.
**घारशें** (वि.) पिंगशें; तंबाकु रंगाचें.
**घालप** (स. क्रि.) भरप; ओतप; रकवप; वेळ सारप; न्हेसप.
**घालवप** (क्रि.) चुकवप; पिड्ड्यार करप; वेळ सारप.
**घालपी** (ना. पु.) करपी; सारपी; रकोवपी; ओतपी; वाडपी.
**घालाघाल** (ना.) ताकीद.
**घावटो** (ना. पु.) कुराडिचो व्हड घाय; शस्त्राचो धपको.
**घांस** (ना. पु.) नेटान दांत तोपून केल्ली दुखी.
**घांसडप** (स. क्रि.) घसटप; घांसप.
**घांसप** (स. क्रि.) घसटप; निवळ करप.
**घाळ** (वि.) चत्राय नाशिल्लें; जतनाय नाशिल्लें.
**घाळप** (अ. क्रि.) विसर पडप; ध्यान नासप; चत्राय नासप.
**घाळयें** (वि.) विसरपी; चत्राय नासपी.
**घाळ वचप** (सं. क्रि.) विसरप; चत्राय वचप; ध्यान उडप.

# घि

**घिरट** (ना. स्त्री.) घुरी.
**घिसघिशीत** (वि.) लिकलिकीत; चकचकीत.

# घु

**घुगी** (ना. स्त्री.) घुबड; नातूक; घुगूम.
**घुगूम** (ना. न.) एक रात सवणें; घुगी; नातूक.
**घुंगूर** (ना. पु.) नाचावेळार पांयाक बांदपाच्यो घागऱ्यो; सुपुल्ल्यो घांटी.
**घुटमळणी** (ना. स्त्री.) फाटीं-फुडें येवपाचो सबाव; गोंदळणी; घुसपणी.
**घुटमळप** (अ. क्रि.) फाटीं-फुडें येवप; गोंदळप; थीर नासप; गणमणप.
**घुटमळावप** (स. क्रि.) फाटीं फुडें येवंक लावप; गोंदळावप; घुसपावप; गणमणावप.
**घुडी** (ना. स्त्री.) बावटो; बंदेर; देशाची वा विचाराची कुरू; बडयेक लायिल्लें एक खाशेलें कागद वा लुगट.
**घुबड** (ना. न.) पळय **घुगी** वा **घुगूम.**
**घुमट** (ना. न.) एके वाटेन चामडें लायिल्ली बुडकुल्या सारकी वाजोवपाची वस्त. (पु.) देवळाचो घूड.
**घुमटी** (ना. स्त्री.) चार खांब आनी माथ्यार घुमट आशिल्लें देवाचे म्हर्तीक बसोवचेलें आसन.
**घुमप** (अ. क्रि.) आपटल्लो आवाज परतो येवप; आवाज फांकारप; पोकळ

आनी व्हड वस्तूंतल्यान आवाज येवप.
**घुमें** (वि.) भितल्ले गांठीचें.
**घुरी** (ना. स्त्री.) झोंपय; आक्रमण.
**घुवंडावप** (स. क्रि.) फिरावप; वाटकुळो फेरो दिवप.
**घुवंडो** (ना. पु.) घुंवळ; वाटकुळो फेरो; भौन भौन आयिल्लो एकच विचार.
**घुवणावप** (स. क्रि.) भोंवतणी फिरावप.
**घुंवप** (अ. क्रि.) वाटकुळें भोंवप; भोंवतणी फिरप.
**घुंवळ** (ना. स्त्री.) भोंवतणच्यो वस्तू घुंवतात अशें दिसपी पिडा.
**घुंवळप** (अ. क्रि.) घुंवळ येवप; तकली घुंविल्ल्यावरी जावप; चिनारी येवप.
**घुंवोवप** (स. क्रि.) भोवतणी फिरावप.
**घुसप** (अ. क्रि.) नेटान भितर रिगप; नेटान भितर सरप.
**घुसपणी** (ना. स्त्री.) गुस्फटावणी; अडकणी.
**घुसपप** (अ. क्रि.) एकामेकांत भरसप; घुसपटप.
**घुसपावप** (स. क्रि.) घुसपटावप; गुरफटावप.
**घुसमटणी** (ना. स्त्री.) घुसमटावणी; स्वास-उस्वासांत जाल्ली आडखळ.
**घुसमटप** (अ. क्रि.) स्वास-उस्वासांत आडखळ जावप.
**घुसमटावप** (स. क्रि.) स्वास-उस्वासांत आडखळ हाडप.
**घुसळप** (स. क्रि.) धवळप; चाळप.
**घुसळावप** (स. क्रि.) आरतें परतें चाळप.
**घुस्पागोंदळ** (ना. पु.) एकामेकांत भरसल्ल्यो गजाली; कठीण प्रस्न.
**घुस्मटो** (ना. पु.) घुस्मटमार; स्वास घेवंक जाल्ली आडखळ.
**घूट** (ना. पु.) कट; लिपोवन केल्ली थारावणी.
**घूड** (ना. पु.) १. देवळाच्या पाख्याचो वयलो भाग; देवळाचें माथें. २. कुकडांक सांबाळपाची सुगूर सुवात. ३. आंगाचीं धुवपाची एक मांडणी वा तरा.
**घूम** (ना.) कानांत घालपाचो एक मोतयांचो दागिनो.
**घूल** (ना. स्त्री.) बुद्धिबळ; पग; कॅरम बी अशा खेळांतली ल्हान लाकडी वस्त.
**घूस** (ना. स्त्री.) कोळ-हुंदीर; तांदळाचो भाता कल्लाचो वा बरड लागिल्ल्या कड्डणाचो बारीक पिठो.

## घे

**घेण** (ना. स्त्री.) घेवपाचें काम; घेणीं.
**घेणी** (ना. स्त्री.) पळय **घेण.**
**घेणें** (ना. न.) घेतिल्ली वा घेवचेली वस्त.
**घेणेकार** (ना. पु.) घेवपी; घेणारो.
**घेर** (ना. पु.) भोंवतण.
**घेरो** (ना. पु.) वाटकुळी कड; वाटकुळी देग.
**घेरावो** (ना. पु.) लोकांनी घाल्लो वेडो.
**घेवपी** (ना. पु.) जो घेता तो; घेणारो.

## घो

**घोंकणी** (ना. स्त्री.) गुल्ल जावन गेल्लो विचार; तनरी; भौन भौन केल्लो एक विचार.
**घोंकप** (स. क्रि.) खोलायेन विचार करप; विचारांत गुल्ल जावप; तोंड पाठ करप.

**घोगेवप** (अ. क्रि.) गाजप; घो-घो असो आवाज जावप.

**घोगो** (ना. पु.) वयल्यान पडिल्लो उदकाचो लोट; घसघसो.

**घोंट** (ना. पु.) एक फावट तोंडांत पावपा सारकी कसलीय पातळ वस्त.

**घोंटप** (स. क्रि.) झरोवप; घसटून धवळप; व्हड व्हड घोंट काडून पियेवप; बेगिबेगीन पियेवप.

**घोंटूरो** (ना. पु.) सुपुल्लो घोंटेर.

**घोंटेर** (ना. पु.) सवण्यांचें घर.

**घोडकें** (ना. न.) वावराक उपेग जायनाशिल्लो घोडो; बरी वाड नाशिल्लो; रोगी घोडो. (अलंकारीक) वायटकार.

**घोडी** (ना. स्त्री.) घोड्याची मादी. (अलंकारीक) लग्न जावंक नाशिल्ली खूब वाडिल्ली चली.

**घोडूक** (ना. न.) ल्हान घोडो; बरी वाड नाशिल्लो घोडो.

**घोडेकार** (ना. पु.) घोड्याचो धनी; घोडे सांबाळपी.

**घोडो** (ना. पु.) एक पिटपिटीत धांवपी जनावर. "**घोडो पडप**" वा "**घोडो घेवप**" (वा. प्र.) परिक्षेंत नापास जावप.

**घोण** (ना. स्त्री.) घार; ल्हान जीव मारून खावपी एक व्हड सवणें.

**घोणसाबैल** (ना. पु.) पळय **गणसाबैल.**

**घोरेणी** (ना. स्त्री.) न्हिदेंत गळ्यांतल्यान आनी नाकांतल्यान आयिल्लो घुर्र घुर्र असो आवाज.

**घोरेवणी** (ना. स्त्री.) पळय **घोरेणी.**

**घोरेवप** (अ. क्रि.) न्हिदेंत नाका-तोंडांतल्यान घुर्र-घुर्र असो आवाज येवप.

**घोल** (ना. स्त्री.) व्हड बुराक.

**घोव** (ना. पु.) न्हवरो; लग्न जाल्ले बायलेचो दादलो.

**घोवकान्न** (वि.) घोव आशिल्ली बायल; लग्न जाल्ली बायल.

**घोवपण** (ना. न.) लग्न जाल्ल्या दादल्याची लागणूक; घोवाचीं कर्तुबां.

**घोशणा** (ना. स्त्री.) नेटान केल्ली सांगणी; व्हड ताळ्यान केल्लो हुकूम.

**घोंशे जावप** (सं. क्रि.) जिरवण नाशिल्ल्यान भुरग्याच्या पोटांत दुदाचे बारीक बारीक गुळे जावप.

**घोंस** (ना. पु.) चोंबो; एकेकडेन आशिल्ल्यो वा बांदिल्ल्यो वस्तू.

**घोस्त** (ना. पु.) रूच; आवड.

**घोंसाळी** (ना. स्त्री.) घोसाळ्याची वाल.

**घोंसाळें** (ना. न.) एक पावशी लांबोडें फळ.

**घोसोळ** (ना. पु.) बोवाळ; गडबड.

**घोळ** (ना. पु.) फजेत; धांदळ.

**घोळ** (ना. न.) व्हड मिरी; शिवण वा बेतप चुकिल्ल्यान आंगाच्याक पडिल्ली व्हड मिरी.

**घोळकावप** (स. क्रि.) घुसपावप; गोंदळावप.

**घोळटी** (ना. स्त्री.) चाल; रुढी; सवंय.

**घोळणूक** (ना. स्त्री.) चाल-रीत; घोळिल्ली गजाल.

**घोळप** (अ. क्रि.) सवंय आसप; घोळणुकेंत आसप.

**घोळवप** (स. क्रि.) पाठ करप; सवंय करप; झरोवप.

**घोळशी** (ना. स्त्री.) खरचेभाशेन एक सुवादीक आनी व्हड नुस्तें.

**घोळोवणी** (ना. स्त्री.) घोळोवचेलें काम; परत परत केल्लो एकच वावर; सवंय;

पाठ करपाचो वावर.

**घोळोवप** (स. क्रि.) पळय **घोळवप.**

**घंटो** (ना. पु.) घांटीचो एक फावट केल्लो आवाज; एक वर.

## च

**चक्क** (वि.) लकलकीत; झग्ग.

**चकचक** (ना. पु.) लकलक; झगझग; खर उजवाड.

**चकचकप** (अ. क्रि.) उजवाडान भरून वचप.

**चकचकसाण** (ना. स्त्री.) लकलकसाण; उजवाड.

**चकचकीत** (वि.) उजवाडान भरिल्लो; झगझगीत.

**चकचयाळ** (वि.) लकलकीत; चकचकीत; झगझगीत.

**चकचयाळो** (वि.) पळय **चकचयाळ.**

**चकती** (ना. स्त्री.) वाटकुळो पत्र्या-कुडको; चक्रेदात्यांत घालचेलें फॉर्म.

**चकनळप** (स. क्रि.) धवळप; चाळप; वयलो सकयल आनी सयकलो वयर जावप; ओकूंक आयिल्ल्यावरी जावप.

**चकनळावप** (स. क्रि.) वयर-सकयल करप; चाळप.

**चकप** (अ. क्रि.) फसप; ध्यान सुटप; लक्ष नाशिल्ल्यान चूक घडप.

**चकमक** (ना. स्त्री.) घसटून उजो करपाची वात आनी फातर आशिल्ली एक वस्त; लायटर.

**चक्र** (ना. न.) चाक; आटो; गाडी धांवची देखून तिका पोंदच्यान लायिल्लो घुंवतो वाटकुळो आटो.

**चक्रदातो** (ना. पु.) चक्रेचें पीठ पिळपाखातीर तयार केल्ली एक वस्त; ल्हान शेवगो.

**चक्रम** (वि.) कोल्ली; पिसांट; तकली घुंविल्लें; आंवटें.

**चक्रवर्ती** (ना. पु.) पातूशा; राजा.

**चक्रव्यूह** (ना. पु.) सैन्याची चक्रभाशेन वाटकुळी रचणूक; भायर सावन भितरमेरेन चक्राभाशेन दाळिल्ले शिपायक.

**चक्रवप** (स. क्रि.) फटोवप; ध्यान चुकोवप; भानळावप.

**चकाटो** (ना. न.) वेळ सारूंक केल्ल्यो गजाली.

**चकासूर** (ना. पु.) बारीक पिठो; पूड.

**चकीत** (वि.) अजापी; नवलान तटास जाल्लें.

**चक्री** (ना. स्त्री.) तांदळांच्या वा गंवाच्या पिठाचो वाळो घुंवडावन केल्लो एक खाणाचो जिनस.

**चंचळ** (वि.) अथीर; थिरताय नाशिल्लें.

**चंचळाय** (ना. स्त्री.) अथिरताय.

**चटको** (ना. पु.) उज्यान वा खर तिखसाणीन जिबेक वा कुडिच्या हेर भागाक बादिल्ली दुखी.

**चटणी** (ना. स्त्री.) मीठ; मिरसांग बी घालून बारीक वांटिल्ली नाल्लाची सोय.

**चड** (वि.) खूब; अदीक. (वा.प्र.) 'चडार व्हरप.' व्हड रूप दिवप; कसलीय ल्हान गजाल वाडोवप; किरकोळ गजालीक म्हत्व दिवप.

**चडटी** (ना. स्त्री.) ल्हान घांट; इल्ली इल्ली वयर सरिल्ली जमीन; दोंगराची फाट; घांटी.

**चडटें** (वि.) वाडटें; चडपी; इल्लें इल्लें चड जावपी.

**चड्डी** (ना. स्त्री.) आंगाच्या मुळा

कंबरा सकयल न्हेसचेलें मोटवें कालसांव; अंडरवेअर.
**चडण** (ना. स्त्री.) पळय **चडटी.**
**चडणी** (ना. स्त्री.) पळय **चडटी.**
**चडप** (अ. क्रि.) सकयल्यान वयर वचप; कसलेय वस्तुचेर रंगाचो बी थर येवप.
**चडफडणी** (ना. स्त्री.) धेंगशेणी; तिखशेणी; उबगणी.
**चडफडप** (अ. क्रि.) वाजेवप; धेंगशेवप; किंवाटप.
**चडाव** (ना. पु.) घांटी; चडटी.
**चडोवप** (स. क्रि.) उबारप; वयर काडप; आंगार घालप; मेळवप; चड करप; न्हेसप.
**चणक** (ना. न.) हांत देड हात लांबायेचें एक सुवादीक नुस्तें.
**चणकूल** (ना. न.) ल्हान चणक.
**चणचणीत** (वि.) झणझणीत; तिखशे रूचिचें.
**चणो** (ना. पु.) एका कड्डाणाचें नांव; वाटाणो.
**चन्नाय** (ना. स्त्री.) ध्यान; लक्ष; शिटुकसाण.
**चतुर** (वि.) चौकस; हुशार; युक्तिवान; शाणें.
**चतुरताय** (ना. स्त्री.) हुशारकाय; चौकसपण; बुदवंतकाय.
**चतुर्दस** (ना. स्त्री.) हिंदु पंचांगांतल्या म्हयन्याचो १४ वो आनी २९वो दीस.
**चतुरभूज** (वि.) चार हात आशिल्लो. (अलंकारीक) लग्न जाल्लो.
**चन्नड** (ना. स्त्री.) चुरो; पिठो; पूड.
**चपको** (ना. पु.) बचको.
**चपलाहार** (ना. पु.) गळ्यांत घालपाचो भांगराचो एक बायलांची वस्त.
**चपाती** (ना. स्त्री.) तूप लावन भाजिल्ली गंवा-पिठाची दोडिल्ली पोळी.
**चमक** (ना. स्त्री.) उजवाड; लिकलिकसाण.
**चमकप** (अ. क्रि.) लिकलिकप; उजवाड भायर सरप; चलप; पावलां मारून फुडें सरप.
**चमकवप** (स. क्रि.) चलवप; पावलां मारूंक शिकवप.
**चमत्कार** (ना. पु.) अजापांची गजाल; सैमाच्या नेमाभायली घडणूक.
**चमचो** (ना. पु.) कुलेर; ल्हान दोवलो. (अलंकारीक) 'हांजी; हांजी' करपी; लाळघोटो.
**चर** (ना. पु.) खळी.
**चरखो** (ना. पु.) हातान सूत काडपाचें राटाभाशेन एक यंत्र.
**चरचरणी** (ना. स्त्री.) भगभगणी; एके तरेची दुखी; चर्रचर्र जाल्लो आवाज.
**चरचरप** (अ. क्रि.) चर्रचर्र आवाज जावप; एके तरेची दुखी बादप.
**चरचरावप** (स. क्रि.) बरेंच शिजोवप; काळसार जायसर तळप.
**चरतें** (ना. न.) कातिचो इल्लो इल्लो वाडपी पुळेर; नाटो.
**चरप** (अ. क्रि.) फुडें फुडें वचप; इल्लो इल्लो वाडप; गोरवांनी बी तण पालो खायत फुडें फुडें वचप.
**चरफडप** (अ. क्रि.) फडफडप; किंवाटप; चिड्डून उलोवप.
**चरब** (ना. स्त्री.) चरबी; कातिपोंदा आनी मांसाचेर वाडिल्लो एकेतरेचो धवो आनी तुपाळ थर.
**चरबी** (ना. स्त्री.) पळय **चरब.**
**चरवप** (स. क्रि.) गोरवांक; बोकडांक बी पालो तण खावंक मेळचें देखून

भोवंडावप.
**चरांटप** (स. क्रि.) घट्ट आंवळप; चिड्डप; घट्ट दामप.
**चरी** (ना. स्त्री.) खळी; खारीज.
**चरोव** (ना. पु.) पावसाळ्यांत उदेल्लो पालो; तण आनी सुपुल्लीं झाडां.
**चरोवप** (स. क्रि.) पळय **चरवप.**
**चलणूक** (ना. स्त्री.) जियेवपाची तरा; सबाव; चाल-रीत.
**चलणो** (ना. पु.) चलपी; चाल मारपी.
**चलतें** (वि.) सध्याचें; तुर्ताचें; पायांनी चलपी.
**चलप** (अ. क्रि.) पायांनी फुडें सरप; वागप.
**चलयणारें** (वि.) चलोवपी; फुडें व्हरपी; भोंवडावपी.
**चलवप** (स. क्रि.) फुडें व्हरप; भोवंडावप; चाल मारूंक शिकवप.
**चली** (ना. स्त्री.) धूव; ल्हान पिरायेची बायल मनीस.
**चलो** (ना. पु.) पूत; भुरगो; ल्हान पिरायेचो दादलो.
**चलोवणी** (ना. स्त्री.) फुडें व्हरपाचें काम; चलोवपाचो वावर.
**चलोवपी** (वि.) चलयणें; फुडें व्हरपी.
**चव** (ना. स्त्री.) रूच; सुवाद; सुरबुससाण.
**चवचवीत** (वि.) रूच; सुवाद नाशिल्लें.
**चवड** (वि.) साडेचारांचो आंकडो.
**चवडो** (ना. पु.) नाल्लाची गोड कीस वा कड्डणाचो गोड पिठो घालून केल्लो खावचेलो जिनस.
**चवताळप**-(अ. क्रि.) खुबळप; रागान उसळप.
**चवथ** (ना. स्त्री.) चान्या पंद्रशीचो वा काळखे पंद्रशीचो चौथो दीस.
**चवदा** (ना. पु. वि.) धा आनी चार (१४).
**चवन** (ना. न.) खोरजीन भरिल्लो कातिचो वाटकुळसार भाग; जडार पडिल्ली पुळी वा घाय.
**चवली** (ना. स्त्री.) दोन आण्यांचें नाणें.
**चवरां पडप** (सं. क्रि.) मान दिवप; आग्रो करप; मागणी आसप.
**चवळी** (ना. स्त्री.) हळसांद्याभाशेन एक कड्डण. (वा. प्र.) **चवळयो मारप** चकाटां मारप; खबरो मारप.
**चवाय** (ना. स्त्री.) तीन पायांची सुपुल्ली तामरेत.
**चवो** (ना. पु.) घट्ट करपाची चावी; पानो.
**चळचळीत** (वि.) भळभळीत; सडसडीत व्हांविल्ली पातळ वस्तूची धार.
**चळप** (अ. क्रि.) पिशांभाशेन करप; साबुद्दीर नाशिल्लेभाशेन जावप.
**चळवळ** (ना. स्त्री.) हालचाल; धवळ; सगळेकडेन आनी सगळ्यांमदीं केल्लो कसलोय वावर.
**चळवळें** (वि.) चळवळ करपी.

## चा

**चाक** (ना. न.) धांवतेराचें चक्र.
**चाकर** (ना. पु.) नोकर; कामां करूंक दवरिल्लो मनीस.
**चाकरमानो** (ना. पु.) दुसऱ्यागेर रावन तागेलो वावर धंदो करपी मनीस; मानाय.
**चाकरी** (ना. स्त्री.) नोकरी; दुसऱ्यागेर रावन केल्लो वावर.
**चाकू** (ना. पु.) ल्हान सुरी; दोनय वटेन दोन पातीं आशिल्ली दोट्टी सुरी.
**चाखप** (स. क्रि.) तोंडांत घालून रूच

घेवप.

**चाखरी** (ना. स्त्री.) पळय **चाकरी.**

**चाखो** (ना.) कुंवल्याची शाक; तन्या पणसाची भाजी.

**चांचावणी** (ना. स्त्री.) कोयतेन एकसारके घाय घालपाचें काम.

**चांचाबर** (ना. न.) फाफसणी; बेशिस्तपण; कशाकश्योय दवरिल्ल्यो वस्तू; कशाकसोय केल्लो वावर.

**चांचावप** (स. क्रि.) सुरयेन; कोयतेन बी घाय घालप.

**चाचा** (ना. पु.) काका; बापोलयो.

**चांचाळ** (वि.) बोवाळ; गडबड; गोंदळ.

**चांट** (ना. स्त्री.) चाल; मुखार घाल्लें एक पावल.

**चाटप** (स. क्रि.) पातळ आनी दाटसार वस्त जिबेन ओडून खावप; ल्हेंवप.

**चांटये-पावलाक** (क्रि. वि.) पावला-पावलाक; पावल घालता थंय; परत परत; खिणा-खिणाक.

**चाडो** (वि.) झुंजारे जातिचो; क्षत्रीय; चतुरथी; चार रथाचो हक आशिल्लो.

**चाडयाळें** (वि.) चाडयो करपी; एकल्याली खबर दुसऱ्याक सांगपी.

**चांडाळ** (ना. पु.) मनशाक गोळार दिवपासारकीं कामां करपी; दया-माया नाशिल्लो; एक गाळ.

**चांडाळपण** (ना. न.) दया-माया नाशिल्लें काम; मनशाक मारपाचें काम.

**चाडी** (ना. स्त्री.) अस्वडीं सांगिल्लीं कोणाचींय कुतां; एकाची खबर दुसऱ्याक सांगपाचें काम.

**चातुर्मास** (ना. पु.) आशाडांतलो पयलो एकादशी पासून कार्तीक पयले एकादशी मेरेनचो तेंप.

**चांदर्ने** (ना. न.) चंद्रिमाचो उजवाड.

**चांदिमाम** (ना. पु.) भुरग्यांले भाशेंत चंद्रीम.

**चांदी** (ना. स्त्री.) रुपें.

**चानी** (ना. स्त्री.) हुंदरायेदी एक लापीट मोनजात.

**चान्नें** (ना. न.) पळय **चांदर्ने.**

**च्या** (ना. स्त्री.) घमघमीत वासाच्या झाडा-पानांचो चुरो; च्याचो पालो घालून केल्लो एक पियेवपाचो जिनस.

**च्याप** (ना. पु.) आर्याचो घोडो; पडिल्ल्या माडार आंकडे मारपाची एक वस्त. नाल्ल पाडिल्ल्या माडाचेर कुरू मारपाखातीर रोमन आंकडे कोरांतिल्ल्या चार दांड्यांचें फूल आनी ताकां मदीं बसयल्ली बडी.

**च्याय/च्याव** (ना. स्त्री.) पळय **च्या.**

**च्याव-च्याव** (ना. पु.) धांदळ; गडबड; शिस्त नाशिल्लो वावर; बोवाळ.

**च्यावन** (ना. न.) चिक्र; एकेवटेन कान आशिल्ली कांचेची वाटी.

**चांफें** (ना. न.) एक बऱ्या परमळाचें रंगीत फूल.

**चांफो** (ना. पु.) चांफ्या-झाड.

**चाबकावप** (स. क्रि.) चाबकान मारप.

**चाबडावप** (स. क्रि.) रूच घेना आसतना खावप; कशाकशेंय चाबप; नाका जाता करून खावप.

**चाबप** (स. क्रि.) दांतांनी बारीक करप; घांस मारप.

**चाबपी** (वि.) खावपी; घांस मारपी.

**चाबरें** (वि.) पळय **चाबपी.**

**चाबूक** (ना. न.) बडयेक बांदिल्ली घट्ट चामड्याची दोरी.

**चाम** (ना. न.) चामडें.

**चामखीळ** (ना. पु.) चामडेर जाल्ली चामडेची पुळी.

**चामडें** (ना. न.) मोनजातीची भायली दाट कात.
**चामार** (ना. पु.) चामड्याच्यो वस्तू करपी.
**चामारकी** (ना. स्त्री.) चामारपण; चामड्या वस्तू करपाचो धंदो.
**चामारपण** (ना. न.) पळय **चामारकी.**
**चामारवाडो** (ना. पु.) चामार रावपाची खाशेली सुवात; चामारांचो वाडो.
**चामडो** (वि.) हिमटो; खूब काटकसरी; चामडी दिवपी पूण दुडू दिवपी न्हय.
**चायण** (ना. न.) जाळयेचें पोंद आशिल्लें एक आयदन; कसलीय वस्त गाळचेलें आयदन.
**चायो-बोयो** (ना. स्त्री.) विटकळिल्ल्या दुदाचे घटसार गुळे.
**चार** (ना. स्त्री.) पणसुलाची साल. (सं. वि.) (च्यार) ४ हो आंकडो.
**चारकुटो** (ना. पु.) पिक्या रसाळ पणसुलाचो कुडको.
**चारकोणी** (वि.) चार कोनशे आशिल्लें; चौकोनी.
**चार-चौग** (वि.) कांय लोक; धा जाण.
**चारशें** (वि.) चार शेंकडे (४००).
**चारां** (ना. न.) काळसार रंगाचीं आंबट-गोड सुपुल्लीं रानवट फळां.
**चाल** (ना. स्त्री.) १. वाट कातरूंक मारिल्ली पावली; गती; रीत; पद्धत. २. पदाचे वा गिताचे सूर.
**चालंत** (वि.) सध्याचें; तुर्ताचे रितीभाशेन; चलता ते चालीरितीप्रमाण.
**चावडी** (ना. स्त्री.) गांवचो मुखेल जागो; अधिकाऱ्याचो न्याय-नीत करपाचो जागो.
**चावयेकार** (ना. पु.) चावयो सांबाळपी; चावयांचो धनी.
**चावी** (ना. स्त्री.) कुलप उगडपाची वा बंद करचेली एक सुपुल्ली वस्त.
**चाळ** (ना. स्त्री.) घरांची हाळ.
**चाळणी** (ना. स्त्री.) गाळणी; पोंदाक बारीक बुराक आशिल्लें आयदन.
**चाळप** (स. क्रि.) धवळप; वयलें; सकयल आनी सकयल्लें वयर करप.
**चाळवप** (स. क्रि.) तिडावप; थेडावप; खेतीं-बागडीं करप.
**चाळीस** (ना. पु. वि.) चार दसक (४०).
**चाळींत पडप** (सं. क्रि.) गोंदळांत पडप; घुसपप.
**चाळीसपत्र** (ना. न.) वोक्ल; नदरेक पडचें देखून दोळ्यांक लावचेली दोन हारशे बसयल्लें एक साधन; नदरेची तांक वाडची देखून दोळ्यांक लावचेले हारशे.
**चाळो** (ना. पु.) एक फावट दोवल्यान वा दायेन मारिल्लो धवळ; वांकडे तिकडे हावभाव; सवंय; छंद; नाद; खोड.

# चि

**चिकचिकप** (अ. क्रि.) लिकलिंकप; चिकटप; आंगाक दसप.
**चिकचिकीत** (वि.) लकलकीत; आंगाक दसपासारकें; चिकट.
**चिकचीक** (ना. स्त्री.) चिकट वस्तू; चिखोल.
**चिकट** (वि.) दसणें वा दसपी.
**चिकटप** (अ. क्रि.) दसप; एकामेकांक लागप.
**चिकटसाण** (ना. स्त्री.) दसपाचो गूण.
**चिकटावप** (स. क्रि.) दसवप; दोन

वस्तू गोमान बी जोडप.

**चिकण** (वि.) चिकट; दसपी.

**चिकनळी** (ना. स्त्री.) बारीक नळी; शिरींग.

**चिक्र** (ना. न.) च्यावन; एकेवटेन कान आशिल्लें कांचेचें वाटयेभाशेन आयदन.

**चिकाटी** (ना. स्त्री.) वाजे नासतना एकसारकें काम करपाचो गूण.

**चिकान** (ना. न.) फटिंगपण; नाडपण.

**चिकालो** (ना. पु.) साव्या नुस्त्याची एक जात.

**चिकी** (ना. स्त्री.) खटखट्यासारको गोड घालून केल्लो पदार्थ.

**चिकुपण** (ना. न.) हिमटेपण; काटकसर.

**चिकू** (वि.) हिमटो. (ना. पु.) एक गोड आनी रूचीक फळ.

**चिकूझाड** (ना. न.) चिकू दिवपी झाड.

**चिके** (अ.) मातृशें; खिणभर.

**चिको** (वि.) ल्हान; मोटवो.

**चिकोट** (ना. न.) चाबकाचो मार; शिक्षा.

**चिखलट** (वि.) चिखलान भरिल्लें; रेबट.

**चिखोल** (ना. पु.) रेबो; वांबर; उदकान कालयल्ली माती.

**चिंगूळ** (ना. न.) आंगार वाटकुळे पाट आशिल्ली एका व्हड सुंगटाची जात.

**चिंचारो** (ना. पु.) चिंचे बोटांतली बी.

**चिचुंद्री** (ना. स्त्री.) चिचोंदर; हुंदराभाशेन एक ल्हान मोनजात.

**चिंचेझाड** (ना. न.) चिंचे-बोटां दिवपी झाड.

**चिंचेबोट** (ना. न.) चिंचेचें फळ.

**चिचोंदर** (ना. स्त्री.) पळय **चिचुंद्री.**

**चिंचेसोल** (ना. स्त्री.) चिंचेची आमटाण.

**चिटणीस** (ना. न.) सेक्रेटरी.

**चिटयेकार** (ना. पु.) चिटयो बी वांटपी.

**चिटवाळें** (वि.) चिरंगुटें; भोगी.

**चिड्डण** (ना. स्त्री.) खिचकट; गर्दी; गचमुड्डी.

**चिड्डणी** (ना. स्त्री.) पळय **चिड्डण.**

**चिड्डप** (अ. क्रि.) एकामेकांक घट्ट लागप; दसप. (स. क्रि.) दांबून दवरप.

**चिड्डो** (ना. पु.) एक सुपुल्लें आनी उदकाळ झाड.

**चिडयें** (वि.) तिडयें; रोखडेंच तिडपी.

**चिंतक** (वि.) चिंतपी; जिणेंतल्या तरेकवार प्रस्नांचेर खोल विचार करपी.

**चिंतणा** (ना. स्त्री.) कसल्याय प्रस्नाविशीं केल्लो खोल विचार.

**चित्त** (ना. स्त्री.) ध्यान; मत; लक्ष.

**चिंतप** (स. क्रि.) खोल विचार करप.

**चिंतपी** (ना. पु.) तत्वगिन्यानी; खोल विचार करपी.

**चित्र** (ना. न.) आकृताय; मनशाचो; वस्तुचो वा सैमाचो बारिकसाणेन काडिल्लो आकार.

**चित्रकार** (ना. पु.) चित्रीक; चित्रां काडपी; चितारी.

**चित्रावपी** (ना. पु.) तरेकवार बावलीं आनी सैमाचे देखावे काडपी.

**चित्रावळ** (ना. स्त्री.) मंत्र म्हणून जेवणा-ताटाभोंवतणी घुंवडायल्लें उदक आनी देवांच्या आनी मनशांच्या नांवान ओंपिल्ले पांच ग्रास.

**चित्रीक** (ना. स्त्री.) पळय **चित्रकार.**

**चितळ** (ना. न.) मेरवाभाशेन एक रावनट मोनजात.

**चिता** (ना. स्त्री.) सरण; मडें लासूंक

केल्लो लाकडांचो दाळ.
**चिंता** (ना. स्त्री.) हुसको.
**चितारप** (स. क्रि.) चित्रां काडप; चित्रावप; कागदार वा लुगटार बावलीं वा सैमाचे देखावे काडप.
**चितारी** (ना. पु.) चित्रां काडपी; चित्रीक.
**चिती** (ना. स्त्री.) चौकोनी वटो आशिल्ली वस्त.
**चितेवप** (अ. क्रि.) भातेवप; चितो येवप; थंडायेन कसलेय वस्तूचेर एके तरेचो धव्या पिठ्याचो थर येवप.
**चिंतेस्त** (वि.) हुसको जाल्लें; चिंतेन भरिल्लें; हुस्केल्लें.
**चितो** (ना. पु.) ओलसाणीन कसलेय वस्तुचेर आयिल्लो पिठाभाशेन धवो थर.
**चित्र** (ना. न.) कुरू; निशाणी.
**चिनारी** (ना. स्त्री.) घुंवळ; थोडो वेळ साबुद्ध वचपाची स्थिती.
**चिनी** (वि.) चीन देशांतलें.
**चिन्नें** (ना. न.) विन्याभाशेन पूण अरूंद पात्याचें एक ठवयालें हत्यार; खरवणां आशिल्ली एक घुंवती चकती.
**चिनेल** (ना. न.) एकच रूंद पटो आशिल्ली चामड्याची व्हाण.
**चिपचिपावणी** (ना. स्त्री.) धेंगशेणी; परत परत दिल्ली शिटकावणी.
**चिपचिपावप** (स. क्रि.) परत परत धेंगशे मारप; भौन भौन रागार जावप.
**चिपचिपीत** (वि.) आंगावयल्यान उदक गळटा अशें. (देखीक : अकस्मात झडिल्ल्या पावसान अशोक चिपचिपीत भिजलो.)
**चिपट** (ना. न.) पळी; सादारण ल्हान दोवल्यासारकी आनी पुजेक उपकरावचेली वस्त.
**चिपटी** (ना. स्त्री.) पोतार पेंचिल्ली बडी.
**चिप्प** (अ.) नाकार बोट दवरून ल्हान भुरग्याक वोगी करचेलो एक शिटकावणेचो उद्गार; भुरग्याक दबकावचेलें एक उतर.
**चिंब** (वि.) खूब भिजिल्लें; सगलें उदकान भरिल्लें.
**चिबड** (ना. न.) सादारण तवश्या आकाराचें एक मांसाळ आनी गोड फळ.
**चिंबडीण** (ना. स्त्री.) चिबडां दिवपाची वाल.
**चिमचिमीत** (वि.) सणसणीत; चिम्‌चिम् असो आवाज आयिल्लें.
**चिमटावप** (स. क्रि.) चिमटे काडप; तुकलावप; भौन भौन धेंगशेवप.
**चिमटी** (ना. स्त्री.) आंगठो आनी हाताचे दुसरें बोट हांची एकामेकांक तेंकयल्लीं पोंतां.
**चिमटे येवप** (वा. प्र.) आतुरताय वाडप; हुरहुरावणी जावप; ताकतीक जावप.
**चिमटो** (ना. पु.) बोटांपोतांनी काडिल्लो पिवोळ; कसलीय वस्त पकडचेली गावी.
**चिमणी** (ना. स्त्री.) लाताचो ल्हान दिवो; कांचेचो तूब आशिल्लो वणटीक लावपाचो दिवो.
**चिमूट** (ना. स्त्री.) चिमटेंत आस्पावता इतली; चिमटी.
**चिरकुटेपण** (ना. न.) रंगेलपण; पोजडेपण.
**चिरकुटें** (वि.) रंगेल; पोजडें.
**चिरको** (ना. पु.) कारांद्यासारके वालिचें एक लांबशें फळ.
**चिरंगट** (ना. स्त्री.) खिचकट; खेट; गर्दी; गचमुड्डी.
**चिरंगटणी** (ना. स्त्री.) पळय **चिरंगट.**

**चिरंगटप** (अ. क्रि.) चिड़डप; गचमुड्डेंत सांपडप.
**चिरचिरप** (अ. क्रि.) वाजेवप; हिंगप; उबगप.
**चिरचिरीत** (वि.) चिर्रचिर्र असो आवाज जाल्लें; घटसाण गेल्लें; तकतकसाण नाशी जाल्लें.
**चिरचिरेपण** (ना. न.) उबगणी; पिरंगणी.
**चिरचिर्रे** (वि.) उबगणें; पिरंगणें; हिंगणें.
**चिरप** (स. क्रि.) कातरप; फाळप.
**चिरपप** (अ. क्रि.) पोटांत घांस मारिल्ल्यान हागूंक जावप; सोसूंक नज जावन मातशें हागप.
**चिरपी** (ना. पु.) कातरपी; फाळपी.
**चिरपूट** (ना. न.) १. आपशींच उदेल्ल्या झाडाचे एक ल्हान आनी वाटकुळें फळ. २. उरफाटें बोट मारून केल्लो नाखटाचो आवाज.
**चिरमुली** (ना. स्त्री.) उज्यार फुलयल्ल्या भाताचो कण. **चिरमुल्यो-करप** (वा. प्र.) कानांत फुतफुतप.
**चिराव** (वि.) चिरूंक जावचेलें.
**चिरमिरी** (ना. स्त्री.) लांच; काम सादूंक दिल्लें बक्षीस.
**चिरी** (ना. स्त्री.) पोती; पिशवी; अशीर साक.
**चिरू** (ना. पु.) केसांतले उयेभाशेन एक ल्हान जीव.
**चिरूट** (ना. न.) बोट देड बोट लांबायेची तंबाकू पानाची घट्ट कवळी.
**चिरेकार** (ना. पु.) चिरे मारपी.
**चिरो** (ना. स्त्री.) तळप चिरून काडिल्लो फातर.
**चिलखत** (ना. न.) मार फार लागचो न्हय देखून आंगांत घालचेलें लोखणा जाळयेचें वा पत्र्याचें आंगावयलें.
**चिल्लर** (वि.) बारीक; किरकोळ.
**चिलवण** (ना. न.) बारीक ऊय.
**चिलीम** (ना. स्त्री.) तंबाकू घालचेलें सादारण फुनेलाभाशेन आयदन.
**चिंवचिंवाट** (ना. पु.) चिंव चिंव असो खूब सवण्यांचो आवाज.
**चिंवचिंवप** (अ. क्रि.) चिंव चिंव असो आवाज करप.
**चिंवचिंव** (ना.) चिंव चिंव असो आवाज.
**चिवण** (ना. न.) रोस चोखतकच वा काडटकच उरिल्लो सोप.
**चिंवप** (स. क्रि.) तोंडान ओडून घेवप; चोखप; उमो घेवप.
**चिंवळेपण** (ना. न.) बारीकपण; सुकिल्ली-भागिल्ली स्थिती.
**चिंवळें** (वि.) सुकिल्लें; आंवुळ्ळेलें; ल्हान; सुकड; मस्तमकड; चिंविल्लें.

# ची

**चींच** (ना. स्त्री.) चिंचेबोटां दिवपी झाड; चिंचेबोटांची आमटाण.
**चीट** (ना. स्त्री.) पत्र.
**चीर** (ना. स्त्री.) वेर; खांच; फूट.
**चील** (ना. स्त्री.) बारीक खांच; फूट; बुराक.
**चींव** (ना. स्त्री.) दूद बी ओडूंक उपकारावचेली रबराची वाटकुळसार वस्त. मामादोरांक लावचेलें रबराचें वाटकुळसार पोंत.
**चुकप** (स. क्रि.) खरें करपाचें सोडून दुसरेंच काम करप; घाळ वचप; गुन्याव करप; जिस्त करप ना.
**चुकपी** (ना.) घाळ वचपी; गुन्यांव करपी.

**चुकवप** (स. क्रि.) चूक करूक लावप; भारावप; सोडप. "चुकिल्लेवरी जावप" (वा. प्र.) मनाक एकेतरेची बोंचणी लागप; मन सैर भैर जावप; शांतताय नासप.

**चुकून माकून** (अ.) कळ नासतना.

**चुटको** (ना. पु.) फकाणांची ल्हान गजाल; हांसो हाडपाची इल्लीशी खबर.

**चुडटी** (ना. स्त्री.) माडाचुडटाची एक माती; चुडटे रंगाची आनी चुडटेसारकी लांब बारीक जिवाळ.

**चुडी** (ना. स्त्री.) लुविल्ल्या भाताची ल्हानशी भरी.

**चुडीत** (ना. न.) माडाचें वा माडयेचें पान.

**चुडो** (ना. पु.) व्हंकलेच्या हाताक घाल्लीं पांचवीं कांकणां.

**चुन्न** (ना. न.) १. सोयेंत गोड भरसून केल्लो जिनस. २. धव्या रंगाचें एक रानवट गोड फळ.

**चुनाळ** (ना. पु.) खावचेलो चुनो घालपाचें एक ल्हान आयदन.

**चुनो** (ना. पु.) शिंपयो भाजून केल्लो पिठो.

**चुप्प** (वि.) मोन्यानी; बोवाळ-गडबड नाशिल्लें; शांत.

**चुम्ब** (ना. न.) उमो; उमांव; चुंबन.

**चुंबक** (वि.) ओडून घेवपी; आंगांत ओडून घेवपाची सैमाची शक्त आशिल्लें.

**चुम्बप** (स. क्रि.) उमो घेवप; चिंवप; ओडून घेवप.

**चुंबळ** (ना. स्त्री.) माथ्याक मार लागचो न्हय देखून ताजेर घेवपाची लुगटाची वाटकुळी कवळी.

**चुटको** (ना. पु.) माया; काकुळट.

**चुरचुरप** (स. क्रि.) काकुळट करप; पच्छाताप जावप.

**चुरचुरावप** (स. क्रि.) चुरचुरे घालप; फडफडे घालप; पच्छाताप करूक लावप.

**चुरचुरीत** (अ.) निवळ आनी सडसडीत.

**चुरचुरो** (ना. स्त्री.) काकुळट; खेद; खंत.

**चुरण** (ना. न.) पळय **चुन्न.**

**चुर्र जावप** (सं. क्रि.) उज्यान दुखी बादप; मनाक दुखी बादप; काकुळट दिसप.

**चुरो** (ना. पु.) पूड; पिठो.

**चुलती** (ना. स्त्री.) बापोलयाची बायल; काकी.

**चुलतो** (ना. पु.) बापोलयो; बापायचो भाव.

**चुळको** (वि.) गंभिरताय नाशिल्लो; चाडयो करपी; चाडयाळो.

**चुळचुळप** (अ. क्रि.) बोवाळ-गडबड करप; शांतताय नासप.

**चुळचुळें** (वि.) बोवाळ-गडबड करपी; अशांत.

**चुळबूळ** (ना. स्त्री.) बोवाळ; हालचाल.

# चू

**चूक** (ना. स्त्री.) जें सारकें न्हय; जें बराबर आनी जिस्त न्हय तें.

**चूड** (ना. स्त्री.) उजवाडाखातीर बांदिल्लो चुडटाचो सांपळो.

**चूर** (ना. स्त्री.) पिठो; चुरो. (वि.) गुल.

**चूल** (ना. स्त्री.) रांदन; उजो करूंक दवरिल्ले तीन फातर.

# चे

**चेंचणी** (ना. स्त्री.) चांचावणी; धोडावणी.
**चेंचप** (स. क्रि.) चांचावप; घाय घालून बारीक करप; धोडावप.
**चेड्डी** (ना. स्त्री.) आंगांच्या पोंदा घालपाचें मोटवें कालसांव.
**चेडी** (ना. स्त्री.) वायट चलणुकेची बायल; एक गाळ.
**चेडूं** (ना. न.) आडसाटी चली मनीस; घरचो वावर करूंक दवरिल्ले चलये मनशाचें भुरगें.
**चडो** (ना. पु.) भुरगो; पूत; चलो.
**चेप** (ना. न.) आदळून-आपटून वा दामून आयदनाचो भितर गेल्लो भाग.
**चेपटें** (वि.) चेपिल्लें; चिड्डिल्लें; दामिल्लें.
**चेपण** (ना. स्त्री.) घट्ट दामून चेपून घाल्लें धांकणें.
**चेपणी** (ना. स्त्री.) चेपून घाल्ली आंबली; दोणांतली आंबली.
**चेपणें** (वि.) चेपिल्लें; दामिल्लें; चिड्डिल्लें.
**चेपप** (क्रि.) चेप येवप; आयदनाचो वा कसलेय वस्तूचो इल्लो भाग भितर वचप.
**चेपें** (ना. न.) माथें धांपचेली येवरोपी तोपी; हॅट.
**च्यॅऽ** (अ.) न्हयकार उक्तावपाचो एक उद्गार.
**च्येड** (ना. स्त्री.) धूव; चली.
**चेर** (ना. पु.) अत्तराभाशेन बऱ्या वासाचें उदक. (अ.) वयर अर्थाचें उतर. (देखीक : दोंगराचेर).
**चेरमेल** (ना. न.) तोंडान वाजोवपाचो सुपुल्लो ऑर्गन.
**चेरो** (ना. पु.) नाक; दोळे; तोंड आशिल्लो तकलेचो फुडलो भाग.
**चेल** (ना. न.) लुगटाची एक जात.

# चै

**चैत्र** (ना. पु.) हिंदु वर्साचो पयलो म्हयनो.
**चैत्री** (वि.) चैत्र म्हयन्यांतलें; चैत्र म्हयन्याविशीं.
**चैतन्य** (ना. न.) जीवसाण; ताजपाण; तेज.
**चैन** (ना. स्त्री.) मौज; फोल्ग.
**चैनी** (वि.) मौज मारपी; फोल्गी.

# चो

**चोख** (वि.) निवळ; शुद्ध; हीण भरसूंक नाशिल्लो.
**चोखप** (स. क्रि.) दांत लायनासतना फकत ओंठांनी आनी जिबेन तोंडांत घोळोवप; सोकप.
**चोंच** (ना. स्त्री.) पळय **तोंच.** सवण्याल्या तोंडाचो भायलो भाग.
**चोंचणी** (ना. स्त्री.) चोंचपाचें काम.
**चोंचप** (स. क्रि.) चोंच मारप; दुखदिण्या विचारान मनाक चोंचो मारिल्ल्यावरी जावप.
**चोंचरें** (वि.) लुडबें.
**चोथो** (ना. पु.) चिवण; चोय; रोस काडटकच उरिल्लो सोप.
**चोंदप** (स. क्रि.) दामून चेंपून भरप.
**चोबाळप** (अ. क्रि.) पातळावन हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो खबरो करप; हालवारे करप; बडबड करप.
**चोबाळेपण** (ना. न.) हालवारपण; बडबड.

**चोबाळें** (वि.) हालवारपण करपी; बडबडें.
**चोंबो** (ना. पु.) जमो; हिंड.
**चोमडेपण** (ना. न.) चाडयाळेपण; कुसां लावपाचो सबाव.
**चोमडो** (वि.) चाडयाळें; कुसां लावपी; झगडीं पेटोवपी.
**चोय** (ना. स्त्री.) रोस चोखून उरिल्लो सोप; चिवण.
**चोंयकडेन** (क्रि. वि.) चारय वाटांनी; चारय दिकांनी; सगलेकडेन.
**चोंयवशीन** (क्रि. वि.) चारय वाटांनी; भोंवतणी.
**चोंयवसल्यान** (क्रि. वि.) चारयवटेन; सगलेकडेन.
**चोंयवाटेन** (क्रि. वि.) चारय कडांनी; सगल्याक.
**चोर** (ना. पु.) नकळटां परक्यालें हातासपी.
**चोरप** (स. क्रि.) लिपोवन हातासप; फारावप.
**चोरपण** (ना. स्त्री.) चोरपाचो सबाव; नकळटां दुसऱ्यालें कितेंय हातासपाचो वायट गूण.
**चोरी** (ना. स्त्री.) सुलूस लायनासतना कोणालेंय कितेंय व्हरपाचें काम.
**चोरी-मारी** (ना. स्त्री.) चोरपाचें आनी मारपाचें काम.
**चोरू** (ना. पु.) म्हारवा-देंवचाराक घालचेलें शीत आनी हेर जिनस.
**चोरोव** (ना. पु.) पावसा दिसांत किल्लें तण आनी हेर पालो.
**चोवतीस** (ना. पु. वि.) तीस आनी चार (३४).
**चोवथ** (ना. स्त्री.) भाद्रपद म्हयन्यांत गणपती पुजपाची धर्मीक परब; दर हिंदु म्हयन्याचे पयले आनी दुसरे पंद्रशीचो चोवथो दीस.
**चोवथाय** (ना. पु. वि.) चोवथो वांटो; अर्दाचें अर्द; (१/४)
**चोवद्याणणय** (ना. पु. वि.) णवद आनी चार (९४).
**चोवद्यायशीं** (ना. पु. वि.) अयंशी आनी चार (८४).
**चोवद्यास्तर** (ना. पु. वि.) सत्तर आनी चार (७४).
**चोवदा** (ना. पु. वि.) धा आनी चार (१४).
**चोवप** (स. क्रि.) पळोवप; देखप.
**चोवपन** (ना. पु. वि.) पन्नास आनी चार (५४).
**चोवरंग** (ना. पु.) चार पांयांची चवाय.
**चोवसठ** (ना. पु. वि.) साठ आनी चार (६४).
**चोवीस** (ना. पु. वि.) वीस आनी चार (२४).
**चोवेचाळीस** (ना. पु. वि.) चाळीस आनी चार (४४).
**चोळ** (ना. न.) आयतो जाल्लो फायदो; कश्टांबगर मेळिल्ली वस्त.
**चोळणें** (ना. न.) कालसांव; कंबराक आनी दोनय पांयांक मेळून घालपाचें आंगाचें.
**चोळप** (स. क्रि.) हातांनी घस्टप; मळप; मस्तप; आरतें परतें कालोवप.
**चोळ पिकप** (सं. क्रि.) मौज करून मेळप; हुसक्या मेकळें जायतें करूक मेळप; खूब फायदो जावप.
**चोळ सांपडप** (सं. क्रि.) अवचित फायदो जावप; अचकीत मेळप.
**चोळी** (ना. स्त्री.) आंगांत घालपाचें अशीरशें बायलांचें आंगावयलें.

**चोळो** (ना. पु.) लांब कोट.

## चौ

**चौक** (ना. पु.) आंगण; शारांत घरांचे गर्देंत मदींत आशिल्ली मेकळी सुवात; बाजाराची सुवात.
**चौकशी** (ना. स्त्री.) वासपूस; रूजवात; मनसुबी.
**चौकस** (वि.) चारय वाटांनी नदर आशिल्लें; सगले तरेचें गिन्यान जोडपाचो गुण आशिल्लें; हुशार.
**चौकी** (ना. स्त्री.) घराभितर आनी राजांगणाचे कडेन व्हरांदा भाशेन आशिल्ली मेकळी सुवात.
**चौकूट** (ना. न.) चार वस्तुंचो पुंजो.
**चौकोनी** (वि.) चार सारक्यो कडो आशिल्लें; एकेच जातिचे चार कोन आनी सारके लांबायेच्यो कडो आशिल्लें.
**चौख** (ना. पु.) वंटीची ल्हानशी आलमार.
**चौखणें** (ना. पु.) एकाच मापाच्यो चार वाटो आशिल्लें.
**चौखणो मिटर** (ना. स्त्री.) एक मिटर लांबाय आनी एक मिटर रुंदाय आशिल्लें जोख.
**चौखी** (ना. स्त्री.) राजांगणा भोंवतणी चारय वाटांनी आशिल्ली एकेक पडशी.
**चौखुरें** (वि.) चार पांयांचें; चार खूर आशिल्लें.
**चौग** (ना. पु. वि.) चार (चड करून मनीस).
**चौघुडो** (ना. स्त्री.) शेनाय, सूर्त, धोल, तासो अशा वाजपांचो पंगड.
**चौपट** (वि.) चार वांट्यांनी चड; चार पटींनी चड.
**चौपाटी** (ना. स्त्री.) मुंबयचो एक भोव सोबीत आनी दर्या देगेचो भाग.
**चौरंग** (ना. पु.) पळय **चोवरंग.**

## चं

**चंचळ** (वि.) अथीर; खिणाखिणांत आपलें मत बदलपी.
**चंदन** (ना. न.) भोव बऱ्या परमळाचें लाकूड; गंदा झाड.
**चंद्र** (ना. पु.) पृथ्वीचो शेजारी गिरो.
**चंद्रकळा** (ना. स्त्री.) काळें न्हेसण; काळें कापड वा साडी.
**चंदरज्योत** (ना. स्त्री.) लाखेन भरिल्ली पेटोवचेली वात; फुलवात.
**चंद्रमौळी** (वि.) सादें; मोडकें; फुटकें; भिकाड्डें; किरकोळ.
**चंद्रावळ** (ना. स्त्री.) देवाची तुस्त केल्लें जागर आनी काल्यांतलें गीत.
**चंवर** (ना. न.) कुचकुचीत फुटिल्लीं बारीक फुलां; मोव केंसांचो तुरो.
**चंवरप** (अ. क्रि.) फुलप.
**चंवरी** (ना. स्त्री.) वारो घालचेलो मिळमिळीत केंसाचो तुरो.

## छ

**छडो** (ना. स्त्री.) गळ्यांत घालपाचो सरपळे भाशेन बायलां दागिनो.
**छत्रपती** (वि.) माथ्यार सत्री धरपाचो मान आशिल्लो; राजा; पातशा.
**छळ** (ना. पु.) दंडणा; पिडापीड; ख्यास्त.
**छातिदार** (वि.) धीट; काळीजवान.
**छातिवान** (वि.) धिटवान; धीट.
**छाती** (ना. स्त्री.) हड्डें; धिटाय.
**छाप** (ना. पु.) छापचेली राजाली

वा सरकारी कुरू; उठावळ.

**छापखानो** (ना. पु.) कागदां आनी पुस्तकां छापचेलें घर.

**छापणावळ** (ना. स्त्री.) छापिल्लीं कागदां आनी पुस्तकां.

**छापप** (स. क्रि.) लोखणाची वा दुसरें कसलेय धातूचीं केल्लीं अक्षरां आनी चित्रां कागदार उठावप.

**छापी** (वि.) छापिल्लें; उठाव काडिल्लें.

**छिल-उपद्रव** (ना. स्त्री.) पिडापीड; ख्यास्त.

**छीद्र** (ना. न.) बारीक बुराक.

**छेद** (ना. पु.) एके सगले वस्तुचे कितले भाग घेतले तें दाखोवचेलो आंकडो; अपुर्णांकाचे वळी सकयल बरोवचेलो आंकडो.

**छंद** (ना. पु.) नाद; बरी सवंय; आवडिचें काम.

## ज

**जग** (ना. न.) संवसार; पृथ्वी; धर्तरी.

**जगप** (अ. क्रि.) जियेवप; जितो उरप.

**जगम** (ना. न.) एक गोड ल्हान फळ.

**जगम** (ना. स्त्री.) जगमां दिवपी एक व्हड झाड.

**जगार घालप** (वा. प्र.) चार चौगांक कळोवप; वाऱ्यार घालप.

**जगोवपी** (वि.) तिगोवपी; जियेवंक आधार दिवपी.

**जघांट** (ना. स्त्री.) वाजोवपाची काशाची थाळी.

**जटवाल** (ना. स्त्री.) शेपटेभाशेन लांब तांबडी फुलां दिवपी एक झाड.

**जटा** (ना. स्त्री.) घुसपल्ले केंस; केसांचो काथो.

**जड** (वि.) चड वजनाचें; चड भार आशिल्लें.

**जड्डें** (वि.) म्हातारें; जून.

**जडप** (अ. क्रि.) आसप; लागप; वसप. देखीक : शबरीक रामाची भक्ती जडिल्ली.

**जडसाण** (ना. स्त्री.) वजन; भार.

**जडशें** (वि.) जड आशिल्ले भाशेन; सादारण.

**जडाय** (ना. स्त्री.) जडसाण; वजन.

**जडावप** (क्रि.) मोठ्यार पडप; वाडप; चडार पडप.

**जडार पडप** (सं. क्रि.) चड जावप; वाडप.

**जण** (ना. पु.) कोमुनिदादीतल्यान जण एकल्या गांवकाराक वर्साक एक फावट ठरावीक दुडू मेळपाचें हक.

**जणएक** (ना. न.) एक एकलो; दर एकलो.

**जणकार** (ना. पु.) जण घेवपी; कोमुनिदादीसारके संस्थेकडल्यान जण एकल्याक आयिल्ले दुडू घेवपी गांवकार.

**जतनाय** (ना. स्त्री.) बारीकसाणीन केल्ली राखण; सांबाळ; साबुद्ध.

**जथप** (स. क्रि.) करूंक येवप; करंक जावप; शक्य जावप.

**जथापथ** (वि.) फावो ते तरेन; जाय तशें आनी जाय तितलें.

**जनन-इंद्रीय** (ना.) दादल्याचें लिंग.

**जनावर** (ना. न.) चार पांयांची मोनजात.

**जनावरपण** (ना. न.) मोनजातीभाशेन चाल-चलणूक; समजिकाय नाशिल्लेवरी चलणूक; अबुद्दीपण.

**जनेल** (ना. न.) वारो आनी उजवाड येवपाक घराचे वणटीक दवरिल्लो मेकळो

जागो.

**जप** (ना. पु.) एक सारकी केल्ली पराथणी; परत परत म्हणिल्लो एकाद्रो मंत्र वा देवाचें नांव.

**जप्त** (वि.) ताब्यांत घेतिल्लें.

**जप्ती** (ना. स्त्री.) कोणालेय आस्पतीच्या मालकी हकाक कायद्यान हाडिल्ली बंदी.

**जपप** (स. क्रि.) जतनायेन सांबाळप; देवाच्या नांवाचो वा आनी कित्याचोय जप करप.

**जपमाळ** (ना. स्त्री.) जप करचेली माळ; मणी ओडून देवाक पराथपाची माळ; पराथण्यो मेजपाची मणयां-माळ.

**जपानी** (ना. स्त्री.) जपान देशांतलो.

**जबर** (वि.) खूब; घट; निबर.

**जबरदस्त** (वि.) नेटान भरिल्लें; लादिल्लें; मोटें; आक्रांताळें.

**जबरदस्ती** (ना. स्त्री.) जुलूम मनशाचे इत्सेआड ताचेकडल्यान करून घेतिल्लीं कामां; दंडणा; पिडापीड.

**जबरसाण** (ना. स्त्री.) घटसाण; निबरसाण.

**जबाब** (ना. स्त्री.) जाप; उतर.

**जबाबदार** (वि.) जापसालदार; येसा-अपेसाची लागणूक आशिल्लें; बऱ्या-वायट कामाचें धनी.

**जबाबदारी** (ना. स्त्री.) केल्ल्या बऱ्या-वायट कामाची जापसाल; जतनाय.

**जमखान** (ना. न.) जमनीर हांतरपाचें व्हड जादय.

**जमनीभरवण जावप** (वा. प्र.) काबार जावप; भूंय सपाट जावप; मातयेंत भरसप.

**जमप** (अ. क्रि.) एकठांय जावप; एककडेन येवप; करूंक येवप; शक्य जावप; सादप.

**जमवप** (स. क्रि.) पुंजावप; इश्टागत जोडप; संबंद जोडप.

**जमा करप** (स. क्रि.) एकठांय करप; एकेकडेन मेळोवप.

**जमाखर्च** (ना. पु.) आयिल्लो आनी गेल्लो दुडू वा कसलीय वस्त.

**जमा-जावप** (अ. क्रि.) एकठांय जावप; वाडप; चडप.

**जमात** (ना. स्त्री.) १. जात; वर्ग. २. लोकांचो जमो; सभा.

**जमिनदार** (ना. पु.) भाटकार; जमनीचो धनी.

**जमीन** (ना. स्त्री.) भूंय; धर्तरी.

**जमो** (ना. पु.) एकठांय जाल्लो लोक.

**जमोवप** (स. क्रि.) जोडप; मेळवप; एकठांय करप.

**जमोवपी** (ना. पु.) एकठांय करपी; जुळोवपी; सादोवपी; मेळोवपी.

**जय** (ना. पु.) जैत; येस.

**जय-जय** (अ.) जयताच्यो हालेटी; जयजयकार.

**जय-जय** (अ.) आल्लयेंतलीं उतरां; ल्हान भुरग्याक थापटून न्हिदावचेल्या गितांतलीं उतरां.

**जयजयकार** (ना. पु.) जयता उपरांत घाल्ली खुशालकायेची हालेट.

**जयजयवंती** (ना. पु.) संगितांतल्या एका रागाचें नांव.

**जयत** (ना. न.) येस; बरो शेवट.

**जयतपद** (ना. न.) जयताची सुवात; येस.

**जयतवंत** (वि.) जयत जोडिल्लें; येस मेळिल्लें.

**जयंती** (ना. स्त्री.) जल्मगांठ; जल्मादिसाचो दबाजो.

**जर** (ना. स्त्री.) चकचकीत सूत; थोड्या

प्रमाणान भांगर भरसल्लें सूत.
**जर** (अ.) अट सुचोवचेलें उतर.
**जरतुस्त** (ना. स्त्री.) पारशी धर्माची थापणूक करपी.
**जर्मन** (ना.) जर्मनी देशांतलो.
**जरी** (वि.) १. जरी सुताचें. २. एक अव्यय.
**जरुरी** (ना. स्त्री.) गरज.
**जरूर** (अ.) खऱ्यानीच.
**जल** (ना. न.) नेट; बळ; धीर; तेंको.
**जलद** (वि.) बेगीन; सडसडीत; ताकतिकेन.
**जल्म** (ना. पु.) ह्या संवसारांत येणें वा येवप.
**जल्मगांठ** (ना. स्त्री.) वाडदीस.
**जल्मदीस** (ना. पु.) जल्म घेतिल्लो दीस; ह्या संवसारांत आयिल्लो दीस.
**जल्मप** (अ. क्रि.) संसारांत येवप.
**जल्मपत्र** (ना. न.) जल्माक आयिल्ल्या दिसा प्रमाण आनी वेळाप्रमाण थारायिल्ले तेरेकवार गिऱ्यांचे जागे; मनशाच्या जल्मा वेळावयले रवी; मंगळ आनी हेर गिरे हांच्यो सुवातो थारावन तयार केल्लें कागत; जातक; नक्षत्र.
**जल्मपांगो** (वि.) जायत सावन थोंटें.
**जल्मभास** (ना. स्त्री.) जल्मापासूनची भास; मांयभास.
**जल्मभूंय** (ना. स्त्री.) आपूण जाल्लो तो गांव; आवयभूंय.
**जलमार्ग** (ना. पु.) उदकांतली वाट.
**जल्मी** (ना. पु.) घाडी.
**जल्लो** (ना. पु.) तांबडी पांखां आशिल्लो एक ल्हान जीव.
**जवंजाळ** (ना. पु.) तेरतेरेच्यो आडखळी आनी अडचणी; त्रास.
**जवार्दे** (ना. न.) एक रानवट मोनजात. (वि.) फकाण; बाबत; अरवळ.
**जवान** (वि.) तरणाटें. (ना. पु.) लढायेंत वांटो घेवपी शिपाय; झुजारी; झूज खेळपी.
**जशें** (अ.) जेभाशेन; जेप्रमाण; जे तरेचें.
**जळ** (ना. न.) उदक.
**जळजळीत** (वि.) उमाळ्यान फुटिल्लें; स्पश्ट; हुनहुनीत; भीड-मुरवत नाशिल्लें.
**जळटें** (वि.) भाजतें; पेट्टें.
**जळप** (अ. क्रि.) भाजप; लासप; पेटप.
**जळपप** (अ. क्रि.) कूड दंडवप; त्रास काडप; ओतान कणकणप आनी काळो जावप.
**जळपेवप** (अ. क्रि.) सपनेवप; न्हिदांत बडबड करप.
**जळफळप** (अ. क्रि.) फडफडप; भितल्ले भितर चिड्डप.
**जळव** (ना. पु.) जळूंक उपकरा पडचेलीं लाकडां; खांदे; शिरपुटां बी वस्तू.
**जळशाक** (ना. स्त्री.) उदकांतली शाक; म्हळ्यार नुस्तें; मासळी.
**जळ्ळें** (वि.) एक गाळ; भंगलें; लासलें; मेलें.
**जळा-मळार** (क्रि. वि.) हांगा-थंय; वचत थंय; हेवटेन तेवटेन.
**जळार** (ना. न.) आपले बारीक सुळे तोपून रगत खावपी एक किमस; जळेर.
**जळींमळीं** (क्रि. वि.) हांगा-थंय.
**जळू** (ना. स्त्री.) रगत चिंवपी एक लांबोडो आनी बुळबुळीत जीव.
**जळेर** (ना. न.) पळय **जळार.**
**जळोणी** (ना. स्त्री.) एक खूब पायांचो; ल्हान पूण लांबोडो विखारी जीव; वागोणे भाशेन एक जीव.
**जळोव** (ना. पु.) लाकडां; सोण्णां

बी जळपाच्यो वस्तू.
**जळोवणी** (ना. स्त्री.) तक्रार; आडमेळें; आडखळ.
**जळोवणें** (वि.) हटी; मेळत त्या कामाक तक्रार करपी; सत्या गाजोवपी.
**जळोवप** (स. क्रि.) निमित्त्यां करप; आडमेळीं हाडप; हट करप; दंडवप.

## जा

**जाकीट** (ना. स्त्री.) हातकापो मोटवो कोट; कुलेत.
**जाग** (ना. स्त्री.) जाण; जाणविकाय; न्हिदेंतल्यान उठ्ठकच आयिल्ली साबुद्दी.
**जांग** (ना. स्त्री.) कंबरा सकयल्लो धोंपरा मेरेनचो पांयाचो मांसाळ भाग; जांगड.
**जाग करप** (स. क्रि.) कळवप; सुलूस दिवप; शिटकावप.
**जागजूग** (ना. स्त्री.) जागमाग; हालचाल; बोवाळ; गडबड.
**जांगड** (ना.) जांग; जांगेचो पोंदाचो मांसाळ भाग.
**जागप** (अ. क्रि.) न्हीद खळोवप; जागरण करप.
**जागपी** (ना.) जागरण करपी; न्हिदनासतना कसलोय वावर करपी.
**जागर** (ना. पु.) कालो.
**जागरूक** (वि.) जागें; भान आशिल्लें.
**जागरूकताय** (ना. स्त्री.) जागेपण; लक्ष; भान.
**जाग्रूत** (वि.) जागें; जतनाय आशिल्लें; बऱ्या-वायटाकडेन नदर लावन आशिल्लें; जागरूक.
**जागवप** (स. क्रि.) जाग हाडप; शिटकावप; उगडास करप.
**जागो** (ना. पु.) सुवात. (वि.) न्हिदेंतल्यान उठिल्लो; जाग आयिल्लो.
**जागो जावप** (अ. क्रि.) न्हिदेंतल्यान उठप.
**जागोवपी** (वि.) जाग हाडपी; हुशारकाय हाडपी.
**जाट** (ना. पु.) रजपूत लोकांभितल्ले एके जातीचें नांव.
**जाण** (ना. स्त्री.) जाणविकाय; समजिकाय.
**जाणकारी** (ना. स्त्री.) खोल गिन्यान.
**जाणटेपण** (ना. न.) १. व्हड पिराय; म्हातारपण. २. गिन्यान.
**जाणटेल्ले** (ना. पु. भो.) आजे-पणजे. (वि.) पिरायेन व्हडले.
**जाणटेल्लें** (वि.) वयान बरेंच व्हड; म्हातारें; चड पिरायेचें.
**जाणटें** (वि.) व्हड वयाचें; चड पिरायेचें; गिन्यान आशिल्लें.
**जाणप** (स. क्रि.) खबर आसप; खबर घेवप; जाणां जावप; कल्पना करप.
**जाणवप** (स. क्रि.) समजप; कळोवप; जाण करून दिवप.
**जाणवाय** (ना. स्त्री.) गिन्यानाची नसती बडाय; सयसुवाद आशिल्लें उलोवणें; गिन्यान. (वि.) फाजील; बडायेखोर.
**जाणवायकार** (वि.) मनाक येत तशें उलोवपी आनी जियेवपी; फाजील; सुबेज.
**जाणवायो** (ना. स्त्री.) फाजील उलोवणें; सय-सुवाद नाशिल्लें उलोवणें.
**जाणविकाय** (ना. स्त्री.) जाण; गिन्यान; समजिकाय.
**जाणां आसप** (स. क्रि.) गिन्यान आसप; जाणविकाय आसप; खबर आसप.
**जाणां जावप** (स. क्रि.) गिन्यान

जोडप, जाणप; जाणविकाय घेवप.

**जाणापर** (ना. स्त्री.) जाणविकाय; वळख.

**जात** (ना. स्त्री.) वर्ग; भाग; वांटो; भेद; तरा.

**जातक** (ना. न.) जल्मनक्षत्र; टिपण.

**जात-नाम** (ना. न.) जात दाखोवपी नाम; सरभरस नाम; सामान्य नाम.

**जात्रा** (ना. स्त्री.) उत्सव; गांवच्या देवाचो म्हत्वाचो दीस; धर्मीक दबाजो; धर्मीक दबाज्या निमतान जमिल्लो लोक; गर्दी.

**जातिवंत** (वि.) निजाचें; कुळवंत.

**जाजम** (ना. न.) पळय **जादंम.**

**जादम** (ना. न.) हांतरूणा पोंदा घालपाचें वा जमनीर पातळावपाचें घटसार आनी तणक लुगट; सतरंजी.

**जादुकार** (ना. पु.) पळय **जादुगार.**

**जादुगार** (ना. पु.) जादू करपी.

**जादू** (ना. पु.) नवलांची कामां करून दाखोवचेली कला; फितीस.

**जानवर** (ना. पु.) पळय **जनावर.**

**जानवें** (ना. न.) धर्मीक नेमाप्रमाण गळ्यांत घालचेलें तिपोडी सूत.

**जाप** (ना. स्त्री.) जबाब; प्रस्न करतकच आपलें सांगिल्लें म्हणणें.

**जाप दिवप** (सं. क्रि.) खबर घेवप; पातारप.

**जापसाल** (ना. स्त्री.) लागणूक; कर्तव्य.

**जापसालदार** (वि.) जबाबदार.

**जापसालदारकी** (ना. स्त्री.) लागणूक; आंगार घेतिल्लो वावर करपाची लागणूक; जबाबदारी भोगपाची लागणूक.

**जाब** (ना. पु.) जबाब; म्हणणी; जाप.

**जांब** (ना. पु.) एक गोड फळ.

**जांबय** (ना. पु.) आळसायेन वा उबगणेन उगडिल्लें तोंड; स्वास-उस्वास घेवंक नकळट्यां उगडिल्लें तोंड.

**जांबळ** (ना. न.) एक जांबळ्या रंगाचें सुपुल्लें आनी मधूर फळ.

**जांबळ** (ना. स्त्री.) जांबळी रूख.

**जांबळो** (ना.) सोण्णां सारक्यो वस्तू भरपाची सुमाची वा दुसरे कसलेय दोरयेची जाळी; सुमा जाळयेची व्हड पोती.

**जांबळें** (वि.) जांबळ्या रंगाचें.

**जामिनकी** (नां. स्त्री.) हमी; जापसालदारकी.

**जामिनदार** (ना. पु.) हमी दिवपी; जापसालदारकी घेवपी.

**जामीन** (ना. पु.) पळय **जामिनकी.**

**जाय** (ना. स्त्री.) एक घमघमीत वासाचें सुंदर फूल. (स. क्रि.) आपणावचो अशें दिसप.

**जाय आसप** (सं. क्रि.) आपणावपाची इत्सा उदेवप.

**जाय जावप** (सं. क्रि.) आवडप; मानप; रूचप; आपणावपाची इत्सा जावप.

**जायण्यो/जाळण्यो** (ना. स्त्री. भो.) चवकश्यो; रुजवात; मनसुबी.

**जायत** (क्रि.) मान्यताय दिवपाचें "हां; हां" अशे उद्‌गार.

**जायतें** (वि.) खुबशें; बरेंच चड.

**ज्यानेर** (ना. पु.) किरिस्तांवी वर्साचो पयलो म्हयनो.

**जायपत्री** (ना. स्त्री.) एक वखदी झाडा पानां.

**जायफळ** (ना. न.) बऱ्या परमळाचें फळ आनी एक मसाल्याचें आंग.

**ज्यार** (वि.) कश्टी; खमिल्लें; खूब पुरो जावन गळिल्लें.

**जायरात** (ना. स्त्री.) सगल्यांक केल्ली

कळोवणी.

**जायांचें** (वि.) उश्णें; परत करचेले बोलीत घेतिल्लें.

**जार्द** (ना. पु.) एक लांबायेचें मेजमाप. ११ सेंटिमिटर लांबायेचें जोख.

**जाल्यार** (अ.) तर.

**जाल्यारय** (अ.) तरी; तरी पासून; तरी सुद्धां.

**जालियनवाला बाग** (ना. स्त्री.) पंजाबातली एक सुवात. हांगा सभेखातीर जमिल्ल्या लोकांचेर जनरल डायर ह्या इंग्लेज कोमांदांतीन गुळयो घालून तांकां जिवानिशीं मारले.

**जांव** (अ.) नाजाल्यार.

**जावप** (अ. क्रि.) जल्माक येवप; घडप; उपकारा पडप; दिसप.

**ज्याम** (वि.) घट्ट; ज्यार.

**जावंय** (ना. पु.) धुवेचो घोव.

**ज्वालामुखी** (ना. पु.) उजो; धातूचो रोस बी ओंकपी दोंगर.

**जाव** (ना. स्त्री.) देराची बायल.

**जाळ** (ना. न.) नुस्तें धरचेली ताणये-सुताची वा सुमाची बी जाळी.

**जाळप** (स. क्रि.) भाजवप; पेटवप; लासप.

**जाळ पडप** (वा. प्र.) खूब तिडक येवप; आंग हुलपल्ल्यावरी त्रास भोगप.

**जाळवणदार** (ना. पु.) कारभारी; अधिकारी.

**जाळवणदारकी** (ना. स्त्री.) कारभार; चोवकशी.

**जाळवणी** (ना. स्त्री.) कारभार; वेवस्ता; चोवकशी.

**जाळी** (ना. स्त्री.) बुराकाचें विणिल्लें लुगट; बुराकांचो पत्रो.

**जाळें** (ना. न.) घट्ट दोरयेन विणिल्ली जाळी.

# जि

**जिखणार** (ना. पु.) जिखपी; जयत जोडपी; येस जोडपी.

**जिखप** (स. क्रि.) धरप; पकडप; जोडप; जय मेळोवप.

**जिखपी** (ना. स्त्री.) पळय **जिखणार**.

**जिणे दर्शन** (ना. स्त्री.) जिणेचें चित्र; जिणे-दिस्टावो.

**जितेपण** (ना. न.) जीण; जिवो आसपाची स्थिती आनी तेंप.

**जितें** (वि.) जिवें; जीव आशिल्लें; मरूंक नाशिल्लें.

**जितो मूस नासप** (वा. प्र.) एकटोय मनीस नासप; कोणच नासप.

**जिंत्रूप** (वि.) जिस्त; सारको.

**जिद्द** (ना. स्त्री.) खर इत्सा; हट.

**जिनस** (ना. पु.) नग; वस्तू.

**जिनसाजिनसाचें** (वि.) तरेतरेचें; जिनसांवार; तरेकवार.

**जिनसांवार** (वि.) तरेकवार; तरेतरेचें; ज यत्या तरांचें.

**जिबट** (वि.) जीब आशिल्लें; मोनो ह्या उतराचें उरफाटें उतर; बडबडें.

**जिबली** (ना. स्त्री.) ल्हान जीव; पोट-जीव.

**जिभट** (वि.) बडबडें.

**जियेणी** (ना. स्त्री.) जियेवपाची तरा; जीण.

**जियेवप** (अ. क्रि.) जीण सारप.

**जिरप** (स. क्रि.) पचप. (अ. क्रि.) ओडून घेवप; ना जावप.

**जिरवण** (ना. स्त्री.) पचणूक भितल्ले भितर ओडून घेवपाची शक्त.

**जिखप** (स. क्रि.) पचोवप; पचोवंक लावप; भितल्ले भितर ओडून घेवंक लावप; मुरवप.

**जिराफ** (ना. पु.) लांब मानेची एक मोनजात.

**जिरें** (ना. न.) मसाल्याचें रुचीक आनी बरें वासाचें आंग.

**जिरेसाळ** (ना. पु.) भाता-बियाची एक जात.

**जिलबी** (ना. स्त्री.) तुपांत तळून साखरेंत पंकांत काडिल्ले मैद्या पिठाचे वाळे; खाणाचो एक गोड जिनस.

**जिल्लो** (ना. पु.) प्रशासनाचे नदरेन केल्लो प्रांत.

**जिवकुटो** (ना. पु.) ल्हान जीव.

**जिवट** (वि.) ताजें; जिवपाण आशिल्लें; टट्टटीत.

**जिवसाण** (ना. स्त्री.) ताजपाण; हुशारकाय.

**जिवाणें** (ना. न.) माळूण; सोरोप बी; जिवाळ.

**जिवाळ** (ना. स्त्री.) जमनीवयल्यान घसटून वचपी लांबोडो जीव.

**जिवा-भावान** (अ. क्रि.) माये-मोगान.

**जिवार घालप** (वा. प्र.) खूब मोग माया करप; तोखणायो करप; थातो-मातो करप.

**जिवार येवप** (वा. प्र.) कठीण जावप; कुस्तार जावप; संकश्ट येवप.

**जिवावळ** (ना. स्त्री.) जीव-जात; सगल्या तरांचे जीव.

**जिवीत** (ना. न.) जीण; जल्मासावन मरणामेरेन सारिल्लो वेळ.

**जिवें** (वि.) जितें; जीव आशिल्लें; ताजपाण आशिल्लें; मेल्लें; मुकिल्लें वा बावूंक नाशिल्लें.

**जिस्त** (वि.) बराबर; सारकें.

**जिस्ताजिस्त** (वि.) फावो तशें आनी फावो तितलेंच.

**जिज्ञासा** (ना. स्त्री.) समजून घेवपाची इत्सा आनी उमळशीक.

**जिज्ञासू** (वि.) जाणां जावन घेवंक सोदपी; गिन्यान जोडपाची उमळशीक लागिल्लें.

## जी

**जीख** (ना. स्त्री.) झूज करून मेळयल्ली घेणी; जिखिल्ली जमीन.

**जीण** (ना. स्त्री.) जल्मापासून मरणामेरेनचो काळ; जिवीत.

**जीब** (ना. स्त्री.) तोंडाभितर आशिल्ली मासाची पाती. तिचो उपेग उलोवंक आनी रूच घेवंक जाता.

**जीव** (ना. पु.) किडे-मुयेसारको ल्हान प्राणी.

**जीव-कार्डे** (वि.) जिवानशी मारपी; जीव घेवपी.

**जीव कातरींत सांपडप** (वा. प्र.) कितें करचें कितें ना अशें जावप.

**जीव कि प्राण** (वा. प्र.) आपल्या जिवाभाशेन सांबाळ.

**जीव कि प्राण करप** (वा. प्र.) आपल्या जीवाइतलो मोग करप.

**जीवघेणें** (वि.) जीव घेवपी; मारून उडोवपी; खुनी.

**जीव घेवप** (वा. प्र.) मार मारप; जिवानशीं मारप.

**जीव जन्तू** (ना. पु.) कीड-मूय; ल्हान जिवावळ.

**जीव-जात** (ना. स्त्री.) सगले तरांचे जीव; जिवावळ.

**जीवन** (ना. न.) जीण; जल्मापासून मरणामेरेनचो काळ.
**जीवन-झोत** (ना. पु.) व्हांवती जीण.
**जीव सकयल वयर जावप** (वा. प्र.) तळमळप; कळवळप.

## जु

**जुगार** (ना. पु.) पैशांचो खेळ; पैशे लावन खेळचेलो खेळ.
**जुगाड्डो** (वि.) जुगार खेळपी; दुडवांनी खेळपी.
**जुगारी** (वि.) पैशांनी खेळपी.
**जुडप** (अ. क्रि.) आंगार येवप; आंगाक घसटप.
**जुडी** (ना. स्त्री.) ल्हान मोवली.
**जुदी** (ना. स्त्री.) कोट; गळ्यापासून कंबरामेरेन घालपाचें आंगावेलें.
**जुदेव** (वि.) जुदेय देशांतलो मनीस; इस्रायली धर्माचो मनीस.
**जुनसाण** (ना. स्त्री.) बरी जाल्ली वाड; माजवळपण; तन्नेपण ह्या उतराच्या उरफाट्या अर्थाचें उतर.
**जुनेर** (ना. न.) पोरनें न्हेसण.
**जुरामेंत** (ना. पु.) सोपूत; खरेपणान दिल्लें उतर.
**जुरार जावप** (क्रि.) सोपूत घेवप; उतर दिवप.
**जुलूम** (ना. पु.) आगळीक; ख्यास्त; पिडापीड.
**जुलमी** (वि.) पिडापीड दिवपी; ख्यास्त भोगोवपी; आगळीक करपी.
**जुवळप** (स. क्रि.) जुळोवप.
**जुवळेपण** (ना. न.) एकच वेळा एकापरस चड भुरगीं जावपाची स्थिती.
**जुवळें** (वि.) एकाच वेळा एकापरस चड जाल्ल्या भुरग्यांमदलें एकलें.
**जुवान** (ना. पु.) तरणाटो; वयावयलो भुरगो.
**जुवानपण** (ना. स्त्री.) तरनाटेपण.
**जुंवावळ** (ना. स्त्री.) एकामेकांक लागून आशिल्ले जुंवे.
**जुवीज** (ना. पु.) न्याय दिवपी; न्यायाधीश; गुन्यावांची मनसुबी करपी.
**जुंवो** (ना. पु.) भोंवतणी उदकान वेडायल्ली जमीन.

## जू

**जूं** (ना. न.) शेत कसूंक वा दुसऱ्या कसल्याय कामाखातीर बैलामानेर बांदिल्लो आडवो कोंड्याचो वा मदेरा करबो.
**जून** (वि.) बरें वाडिल्लें; माजवळ; जें तन्नें न्हय.
**जून** (ना. पु.) किरिस्तांव वर्साचो ६वो म्हयनो.
**जूय** (ना. स्त्री.) एक सुपुल्लें वासाचें फूल.
**ज्यू** (ना. पु.) इजरायेल देशांतलो मनीस; इजरायेली धर्माचो.
**ज्यूर** (ना. पु.) कळांतर; मुदलाचें भाडें.
**जूल** (ना. पु.) क्रिरिस्तांव वर्साचो सातवो म्हयनो.

## जे

**जेजू ख्रीस्त** (ना. पु.) किरिस्तांव धर्माची थापणूक करपी.
**ज्येत** (ना.) ऐट.
**जेर्दे** (वि.) जितलें.
**जेन्ना** (अ. वि.) ज्या वेळार.
**जेरूझालें** (ना. न.) ख्रिस्ताक खुरसार

मारलो तो गांव; किरिस्तांव लोकांचें पवित्र थळ.

**जेवण** (ना. न.) पोट भरूंक केल्ल्यो शीत, रोस, तोंडाक सारक्यो रांदिल्ल्यो वस्तू.

**जेवण-खाण** (ना. न.) जेवंक खावंक केल्ले जिनस वा वस्तू.

**जेवणघर** (ना. न.) जेवणाची कूड वा साल; वासरी.

**जेवणाक म्हारग जावप** (वा. प्र.) खावंक जेवंक नासप.

**जेवणावळ** (ना. स्त्री.) जेवणांची पंगत; जेवतल्यांची वळ.

**जेवणारे** (वि.) जेवपी; जेवण घेवपी.

**जेवप** (स. क्रि.) पोट भरप; खावप; तोंडांत घालप.

**जेवपी** (वि.) पळय **जेवणारे.**

**जेववप** (स. क्रि.) जेवण लावप; जेवंक लावप; जेवण भरवप.

**जेश्ट** (ना.) हिंदु वर्साचो तिसरो म्हयनो. (वि.) व्हडलें.

# जै

**जैत** (ना. न.) जीख; यस.

**जैतपत्र** (ना. न.) येस जोडिल्ल्या खातीर वा यस जोडिल्ल्याची बरयल्ली मान्यताय.

**जैतपद** (ना. पु.) येस; झुजांत जोडिल्ली जीख.

**जैतवंत** (ना. पु.) येस मेळयल्लो; जैत जोडिल्लो.

**जैन** (ना. पु.) जैन धर्मीक.

# जो

**जो** (स.) पयलीं लेखिल्लो तो; ज्याच्या संबंदान पयलीं उलयल्यात तो.

**जोख** (ना. न.) कसलेय वस्तूची लांबाय; रुंदाय; उंचाय आनी जाडसाण मेजपाचें माप.

**जोखर्ते** (वि.) फावो तितल्या जोखाचें; जाय तितलेंच.

**जोखप** (स. क्रि.) वजप काडप; तुळा करप; लांबाय रूंदाय बी काडप; माप घेवप; तोलप.

**जोखम** (ना. स्त्री.) जबाबदारी; भंय; कांचवेणी; जापसालदारकी.

**जोखीम** (ना. स्त्री.) जबाबदारी; जतनायेन करपाचेलो वावर.

**जोगलावप** (अ. ना.) दोन कुपां एकामेकांचेर आदळून उजवाड जावप.

**जोगवण** (ना. स्त्री.) इबाड जावचो न्हय वा चड खर जावचो न्हय म्हणून घेतिल्ली जतनाय; सांबाळून केल्लो खर्च; भागोवणी; कशेय तरेन भागोवन घेतिल्लें काम.

**जोगी** (ना. पु.) योगी; संन्याशी.

**जोगूल** (ना. न.) वीज; कुपां आदळून जाल्लो उजवाड.

**जोड** (ना. स्त्री.) वावर वा वेपार-उद्येग करून मेळयिल्ले पैशे; कामाचो फायदो; पैशाचो आडाव; आदावसाण; मुशारो.

**जोडकार** (ना. पु.) पैशे मेळयतलो; जोडपी.

**जोडगीर** (ना. न.) दोन वर्ण एकामेकांत भरसून जाल्लो एक नवो वर्ण; जोडाक्षर.

**जोडटे** (वि.) दुडू मेळोवपी; जोडपी; फायद्याचें.

**जोडणी** (ना. स्त्री.) जुळोवणी; सांदणी;

गांठावणी; मेटण.
**जोडप** (स. क्रि.) १. दसवप; लावप. २. मेळवप; केल्ल्या वावराचें मोल घेवप; पैशे मेळोवप; मुशारो घेवप.
**जोडपें** (ना. न.) पळय **जोडें.**
**जोडवें** (ना. न.) आरतींत घालून पेटोवचेल्या वातींच्यो दोन चुडयो.
**जोडाक्षर** (ना. न.) जोडिल्ले दोन वर्ण; जोडगीर.
**जोडी** (ना. स्त्री.) दोन सारक्यो वस्तू.
**जोडें** (ना. न.) घोव-बायल; दादलो-बायल; कसल्योय बरोबरीन आशिल्ल्यो दोन वस्तू.
**जोडो** (ना. पु.) १. पुडव्याचो जोड. २. दोन एकेच तरेच्यो वस्तू.
**जोत** (ना. स्त्री.) पेटयल्ली वात; देवाम्हऱ्यान पेटयल्लो दिवो.
**जोत** (ना. पु.) बैलांची वा रेड्याची जोडी.
**जोत घालप** (सं. क्रि.) नांगरान जमीन खणप.
**ज्योतिशी** (ना. पु.) पारखी; फाटल्यो आनी फुडल्यो घडणुको सांगपी.
**ज्योतीश** (ना.) पारखणी; जिणेची फाटली आनी फुडली सांगणी.
**जोतें** (ना. न.) व्हाणो.
**जोंधळो** (ना. पु.) बोंडानी जावपी हळडुव्या वा धव्या रंगाचो एक बारीक वाटकुळो दाणो.
**जोयशी** (ना. पु.) ज्योतिशी; जिणे संबंदान फाटल्यो फुडल्या गजाली सांगपी.
**जोर** (ना. पु.) ताप; नेट.
**जोरगत** (ना. स्त्री.) भरतीचो नेट; पुनवे पयलींचे आनी उमाशे मागीरचे दोन चार दीस.
**ज्योंर्नाल** (ना. पु.) खबरे कागद; दिसाळें; नेमाळें.
**जोळोणी** (ना. स्त्री.) ल्हान वागोळी; खूब पायांचो लांबोडो विखारी जीव.
**जोळोव** (ना. पु.) पळय **जळव.**

## जं

**जंजीर** (ना. न.) आल्याचें आर्क बी घालून केल्लें सरबत.
**जंगल** (ना. न.) झाडा-पेडांनी गच्च भरिल्लो जागो; रान.
**जंगली** (वि.) रानवटी; रानांत रावपी.
**जंत** (ना. पु.) दन्त; पोटांत वाडिल्लो एक लामोडो बुळबुळीत जीव.
**जंतर-मंतर** (ना. न.) दिल्लींतली वेदशाळा; गिऱ्यांविशीं सगळी खबर मेळोवपी दिल्लींतली शाळा.
**जंतू** (ना. पु.) सुक्षीम जीव.
**जंद्री** (ना. स्त्री.) पायांत घालपाची एक वस्त.
**जंद्री-वाळो** (ना. पु.) भुरग्याच्या पायांत घालपाच्यो रुप्या-वस्ती.
**जंद्री वाळयाच्या रे बाबा:** ल्हान भुरग्यालें एक गीत. हें गीत आवय म्हणटा आनी भुरगें पायान ताल धरता.
**जंवजाळ** (ना. पु. भो.) त्रासांचो आनी उबगणेचो वावर.
**जंवजाळें** (वि.) कटकटिचें; त्रासांचें; आडखळीचें.
**जवंवेर** (अ.) जोमेरेन.

## झ

**झगझगणें** (वि.) लकलकणें; चकचकणें.
**झगझगप** (अ. क्रि.) चकचकप;

लकलकप.

**झगझगीत** (वि.) लकलकीत; चकचकीत.

**झगडप** (अ. क्रि.) किजील करप; कशाकशेंय उलोवप; मारप; बडोवप; लडो घालप.

**झगडपी** (ना.) किजिलां करपी; झगडें करपी.

**झगडाळ** (वि.) खूब झगडीं करपी; झगडीं करचेल्या सबावाचें; किंजिली.

**झगडें** (ना. न.) बाचाबाची; मारामारी; तंटो.

**झगडेकार** (वि.) झगडें करपी; मारामारी करपी.

**झगडें पेटप** (वा. प्र.) खर झगडें जावप.

**झगो** (ना. पु.) घागरो; स्कर्ट.

**झटको** (ना.) अकस्मात उदेल्लो धक्को.

**झड** (ना. पु.) पावसा वावझडीन वंटी फुगूं नयेत देखून तांकां बांदिल्लीं चुडटां; मल्लां बी.

**झडटी** (ना. स्त्री.) चौकशी; मनसुबी.

**झडप** (अ. क्रि.) गळून पडप; वयल्यान सकयल गळप; पडप.

**झडपप** (स. क्रि.) फाफडप; मारप.

**झडवप** (स. क्रि.) देववप; सकयल उडवप.

**झणझणप** (अ. क्रि.) झणझण असो आवाज जावप; मोठ्यान व्हांवप.

**झणझणीत** (क्रि. वि.) नेटान; निबरान.

**झपताल** (ना. पु.) संगितांतल्या एका तालाचें नांव.

**झर** (ना. स्त्री.) जमनीच्या बुराकांतल्यान फुटिल्लें उदक.

**झरकटप** (अ. क्रि.) खरचटप; घसटप.

**झरणी** (ना. स्त्री.) झरपाचें काम.

**झरप** (अ. क्रि.) थोडो थोडो काबार जावप; घसटप.

**झरम** (ना. न.) मोडशी.

**झरवप** (स. क्रि.) घसटप; घांसप.

**झरो** (ना.) जमनींतल्यान फुटिल्लें उदक.

**झसझस** (क्रि. वि.) घस् घस्; बेगिबेगीन.

**झळ** (ना. स्त्री.) वसो.

**झळक** (ना. स्त्री.) सुलूस; जाग.

**झळकप** (अ. क्रि.) मातशें मातशें दिश्टी पडप.

**झळकें** (ना. न.) नुस्तें; मासळी.

**झळझळावप** (स. क्रि.) उमळिल्लीं आंगाचीं आनी लुगटां उदकांत नेटान आरतीं परतीं करप.

**झळझळीत** (वि.) झळझळ असो आवाज केल्लें; घसघशीत; निवळ; नितळ.

## झा

**झांकडी** (ना. स्त्री.) चकाटां; वेळ वचूंक केल्ल्यो खबरो.

**झांकणी** (ना. स्त्री.) बडबड; चकाटां.

**झांकप** (स. क्रि.) बडबड करप; चकाटां मारप.

**झांकरें** (वि.) बडबडें; झांकपी; चकाटां मारपी.

**झांज** (ना. स्त्री.) गातना दोनय हातांनी वाजोवपाच्यो पितुळच्यो वा काश्याच्यो दोन ल्हान तबकड्यो.

**झाड** (ना. न.) रूख; रोंप.

**झाडकूळ** (ना. न.) ल्हान झाड.

**झाडप** (स. क्रि.) सात्र मारप; झाडो मारप.

**झाडपालो** (ना. पु.) झाडाचीं पानां; मुळां आनी बारीक खांद्यो.

**झाड-पिकें** (ना.) झाडार पिकिल्लें; अमुरपिकें.
**झाडपी** (ना.) सात्र मारपी; कोयर काडपी; झाडुवालो.
**झाडू** (ना. पु.) कोंड्याच्या पोंताक बांदिल्लो माडाचो सांपळो वा दुसऱ्या कसल्याय झाडाचो ताळो.
**झाडूक** (ना. न.) ल्हान झाड.
**झाडेकार** (ना. पु.) झाडो घालपी.
**झाडो** (ना. पु.) १. कसलोय विखार निवळावंक माथ्यार सावन पांयामेरेन भोंवडायल्लो हुसकेच्या झाडाचो बी ताळो. २. वणटी बी निवळ करूंक कोंड्याक बांदिल्ली सात्र.
**झांपड** (ना.) झेम; लकणी; न्हीद.
**झामणो** (ना.) माडाची सूर घेवंक पोंयेक लायिल्लें कुयण्या भाशेन आयदन.
**झारो** (ना. पु.) बारीक बुराकांचो दोवलो; गाळणी.

## झि

**झिगझगप** (अ. क्रि.) लिकलिकप; चकचकप.
**झिगझीग** (ना. स्त्री.) लकलकसाण; चकचकसाण.
**झिगझिगीत** (वि.) चकचकीत; उजवाडान भरिल्लें.
**झिगिमिगी** (ना. स्त्री.) लकाकी; चकचकसाण; उजवाड.
**झिगिमिगी जावप** (स. क्रि.) लकलकसाण मारप.
**झिजप** (अ. क्रि.) झरप; इल्लो इल्लो सरप.
**झिजवप** (स. क्रि.) झरवप.
**झिझी** (ना. स्त्री.) अळशीक; मळ; विश्टा.
**झिझी करप** (स. क्रि.) भुरग्यांले भाशेंत परसाकडे करप.
**झिणझिणीत** (वि.) निबरान केल्लें; झिणझिण असो आवाज जाल्लें.
**झिरकप** (अ. क्रि.) घुसपप; रिगप; झाडाक वा वयले कसलेय वस्तूक हुमकळप.
**झिरझिरीत** (वि.) विस्कळ सुताचें; पातळ; झरिल्लें.
**झिरपप** (अ. क्रि.) इल्लें इल्लें गळप.
**झिली** (ना. स्त्री.) झूल; झोंप.
**झिळमिळ** (क्रि. वि.) सूर्य उदेवचे पयलीं; फांतोडेर.
**झिळमिळी** (ना. स्त्री.) सूर्य उदेवचे पयलींचो उजवाड.

## झी

**झीट** (ना. स्त्री.) घुंवळ; चिंनारी.
**झील** (ना. पु.) पूत; चलो.

## झु

**झुजामळ** (ना. स्त्री.) लढाय करचेली आयस-पयस सुवात.
**झुंडी** (ना. स्त्री.) गर्दी; चोंबो; जमो.
**झुजप** (अ. क्रि.) लडाय करप.
**झुजपी** (ना.) झूज मारपी; लडायेंत वांटो घेवपी; शिपायक.
**झुजारी** (वि.) झूज खेळपी.
**झुपाटी** (ना. स्त्री.) धेंगसो; तिकशेणी.
**झुंबर** (ना. पु.) कांचे-दिव्याचें हुमकळायल्लें झाड.
**झुरप** (अ. क्रि.) पळ काडप; भितल्ले भितर त्रास करून घेवप.

**झुलप** (ना. न.) झूल; विस्कुरलेले केंस.
**झुळझुळ** (वि.) झरीच्या व्हांवत्या उदका आवाज.
**झुळूक** (ना. स्त्री.) वाऱ्याचें नाजूक ल्हार.

## झू

**झूज** (ना. न.) झगडें; लडाय.
**झूल** (ना. न.) ल्हान ल्हान झाडांनी गच्च भरिल्ली सुवात.

## झे

**झेंड** (वि.) ऐट नाशिल्लें; अबरगत.
**झ्येत** (वि.) ऐट; नेट.
**झेम** (ना. स्त्री.) न्हीद; लकणी; न्हिदेन दोळ्यांक आयिल्ली जडसाण.
**झेमप** (अ. क्रि.) न्हिदेन लकप.
**झेमेवप** (स. क्रि.) न्हिदेन लकवप.
**झेमें** (वि.) चड न्हिदपी; आळशी.
**झेल** (ना. पु.) उडून आयिल्लो चेंडू वा कसलीय वस्त.
**झेलप** (स. क्रि.) वयल्यान उडून आयिल्ली वस्त जिखप.
**झेलवप** (स. क्रि.) हालोवप-धोलवप.
**झेलो** (ना. पु.) माळ; हार; गांथन.

## झो

**झोंप** (ना. न.) झूल; ल्हान ल्हान गच्च झाडां.
**झोंपय** (ना. स्त्री.) कितेंय करूंक अकस्मात घाल्ली घुरी.
**झोपाळो** (ना. पु.) पाटयेक हुमकळायिल्लें फळें.
**झोंबप** (स. क्रि.) शिणशिणप; भितरमेरेन तोंपप; खोल जाणिवकाय जावप; दुखी बादप; झगडीं करूंक येवप.
**झोमारी** (ना. स्त्री.) कुसकुटावणी; फकाणां.
**झोंबी** (ना. स्त्री.) हेवटेन तेवटेन ओडप; एकान एके वाटेन जाल्यार दुसऱ्यान दुसरे वाटेन ओडप.

## झं

**झंपें** (वि.) पिसाय; अरवळ; अबरगत.
**झंझर** (ना. न.) पायांत घालपाचो एक दागिनो.
**झंजळावप** (स. क्रि.) आरतें परतें चकनळावप.

## ट

**टट्टटप** (अ. क्रि.) **खूब भरिल्ल्यान अंदिल्ल्यावरी जावप; अंदप; चरांटप.**
**टट्टटावप** (स. क्रि.) चरांटप; अंदप.
**टन** (ना. पु.) शंभर क्विंटलाचें जोख.
**टपाल** (ना. न.) चिटी, नेमाळीं बी पावोवपाचें सरकारी खातें.
**ट्यूब** (ना. पु.) रबराची वा धातूची नळी.
**ट्रक** (ना. पु.) म्हाल हाडपा-व्हरपाची व्हड मोटार.

**ट्राम** (ना. स्त्री.) जमनीक बसयल्ल्या रुळांवयल्यान विजेशक्तीन चलपी गाडी.
**ट्रीप** (ना. स्त्री.) भोंवडी.
**टळप** (अ. क्रि.) चुकप; करचेलें काम तशेंच उरप; पैसावप.

## टा

**टांक** (ना. पु.) लिखणी.
**टांकसाळ** (ना. स्त्री.) नाणीं तयार करपाचें खातें.
**टांकी** (ना. स्त्री.) उदाक सांठावन दवरचेलें पत्र्याचें व्हड आयदन.
**टांको** (ना. पु.) सुयेन वा दाबणान मारिल्लो पोत; शिवणेचो धागो.
**टाय** (ना.) खोमसा गॉला पोंदच्यान गांठ मारून बांदपाचो सोबीत लुगटाचो तीर.
**टायर** (ना. पु.) रबरी चाक; चक्राक घट्ट बसयिल्ली रबरी पोती.
**टाळ** (ना. पु.) झांजी भाशेन वाजोवपाची वस्तू.
**टाळें** (ना. न.) कुलप.

## टि

**टिकप** (अ. क्रि.) तिगप; उरप; बेगीन सोंपप ना.
**टिका** (ना. स्त्री.) विस्कटावणी; फोडणिशी.
**टिकाव** (ना. पु.) तग.
**टिपरी** (ना. स्त्री.) वाजोवपाचे लाकडाचे दोन कुडके.
**टिवं टिवं** (ना. न.) तंबाऱ्याचो आवाज.
**टिवं टिवं करप** (स. क्रि.) तंबाऱ्याचेर आवाज काडप.

## टी

**टीम** (ना. स्त्री.) खेळगड्यांचो मेळ.

## टु

**टुरीस्ट** (ना. स्त्री.) भोंवडी करपी.

## टू

**टू-बाय-टू** (ना. न.) लुगटाची एक जात.

## टे

**टेपटेप जावप** (अ. क्रि.) भिरांत दिसप.
**टेप रेकोर्डर** (ना.) कसलोय आवाज उतरावन घेवपाचें साधन.
**टेम्पो** (ना. पु.) ल्हान बस; मिनी बस.
**टेरेलीन** (ना. न.) लुगटाची एक जात.
**टेलिफोन** (ना.) पयस उलोवपाचें साधन.

## टो

**टोंकी** (ना. स्त्री.) लांब तोंक आशिल्लें एक लांबोडें नुस्तें.
**टोंकेराव** (वि.) पदव्यांचो; बडायो मारपी.
**टोंचणी** (ना. स्त्री.) बोचणी; चोंचणी.
**टोंचप** (स. क्रि.) रोंमप; तोंचप; बोंचप; चोंचप.
**टॉनीक** (ना. न.) घटसाणीचें वखद.
**टॉप** (ना. पु.) कसलेय वस्तूचो माथ्यावयलो भाग.

## ठ

**ठक** (वि.) १. फटिंग; तड्डकी. (ना. पु.) एक जात.
**ठकपण** (ना. न.) फटिंगपण; तड्डकपण.
**ठकवप** (स. क्रि.) फटोवप; फटिंगपणा करप.
**ठणठणीत** (वि.) घटमूट.
**ठरप** (अ. क्रि.) थारावणी करप; निच्छेव करप.
**ठराव** (ना. पु.) थारावणी; दोन वा चड मनशांभितर थारायल्ली गजाल; करार.
**ठराविक** (वि.) थारिल्लें; थारायल्लें; थीर; अमकेंच.
**ठवय** (ना. पु.) मेस्त; मदेरा वस्तू करपी मनीस.
**ठवयपण** (ना. न.) मेस्तपण; मदेरा वस्तू करपाचो वावर-धंदो.
**ठसो** (ना. पु.) बोटाचो वा दुसरे कसलेय वस्तूचो छाप.

## ठा

**ठाण** (ना. न.) जागो; बसकण.
**ठाय** (अ.) लागीं; कडेन.
**ठांय-ठांय** (क्रि. वि.) हांगाथंय.
**ठाव** (ना. पु.) खोलाय; वयर सावन तळामेरेनची खोलाय; थाव; अदमास.

## ठि

**ठिकाण** (ना. न.) सुवात; थळ; जागो.

## ठे

**ठेको** (ना. पु.) हाताचें दुसरें बोट तबल्यार मारून काडिल्लो आवाज; ताळी मारून धरिल्लो ताल.
**ठेवण** (ना. स्त्री.) बांदो; कुडीची बांदावळ; रचणूक.

## ठो

**ठोक** (वि.) रोख; नकद; मोटें.
**ठोकप** (स. क्रि.) मारप; धोडावप.

## ड

डझन (ना. पु.) बारा नग.
**डबो** (ना. पु.) फोलीण; उज्या गाडयेचो दबो.
**डमरू** (ना. पु.) वाजोवचेलें गिडमिडें.
**डरांव** (ना. न.) बेब्याचो आवाज.

## डा

**डाक** (ना. स्त्री.) टपाल; टपालांतल्यान एका गावांत सावन दुसऱ्या गावांत धाडपाची वा दुसऱ्या गावांतल्यान हाडपाचीं कागदां बी वस्तू.
**डाक-घर** (ना. न.) टपालाचें घर.
**डायनिमो** (ना. पु.) वीज तयार करचेलें मशीन.
**डाव** (ना. पु.) दाव; माण्णी; युक्ती.
**डाळमां-झाड** (ना.) डाळमां दिवपी झाड.
**डाळीम** (ना. न.) एक रोसाळ आनी गोड बियो आशिल्लें फळ.

## डि

**डिझेल** (ना. न.) मोटारीक; गिरण्यांक बी घालपाचें दाट आनी काळसर तेल.
**डिस्टिलरी** (ना. स्त्री.) काजूचो बी सोरो गाळपाचो जागो.
**डिसपीस** (ना. पु.) स्क्रू लावपाचें आनी काडपाचें चिन्न्याभाशेन हत्यार.

## डू

**डूल** (ना. पु.) भुरग्यांल्या कानांत घालपाची सुपुल्ली वस्त.

## डे

**डेक्रोन** (ना. न.) एका उंची लुगटाचें नांव.
**डेकाग्राम** (ना. पु.) १० ग्रामाचें वजन.
**डेकामिटर** (ना. पु.) १० मिटरांची लांबाय.
**डेकालिटर** (ना. पु.) १० लिटरांचें माप.
**डेसिग्राम** (ना. पु.) ग्रामाचो १०वो वांटो.
**डेसिमिटर** (ना. पु.) मिटराचो १०वो वांटो.
**डेसिलिटर** (ना. पु.) लिटराचो १०वो वांटो.

## ढ

**ढ** (वि.) अबुद्दी; बरी मत नाशिल्लें.
**ढग** (ना. पु.) कूप.
**ढडढडप** (अ. क्रि.) खपखपप.
**ढाल** (ना. स्त्री.) आपले कुडीचेर मारफार लागचो न्हय म्हणून तयार केल्लें तगडाभाशेन लोखणाचें हत्यार.

## ढो

**ढोंग** (ना. न.) भायर आनी भितर दाखयल्लें वेग-वेगळें रूप; तड्डक; कपट.
**ढोंगी** (वि.) भायर आनी भितर वेगवेगळीं रूपां दाखोवपी; कपटी.

## ण

**णय** (वि.) ९ हो आंकडो.
**णव** (वि.) पळय **णय.**
**णवद** (ना. पु. वि.) ९० ही संख्या.
**णव्याणय** (ना. पु. वि.) णवद आनी णव (९९).
**णवशें** (ना. पु. वि.) णव शेंकडे (९००).

## त

**तकतकीत** (वि.) तुळतुळीत; निवळ; लकलकीत.
**तक्तो** (ना. पु.) कसलेय गजालीचो थोड्या उतरांनी आनी आंकड्यानी दिल्लें सार.
**तक्रार** (ना. स्त्री.) कागाळी; आक्षेप.
**तकली** (ना. स्त्री.) माथें; मेंदू; बुद्द; बुदवंतकाय.
**तकली-फोड** (ना. स्त्री.) तकली उसळचेलें काम.
**तकलो** (ना. पु.) व्हड तकली.
**तकस** (ना. पु.) कश्ट; त्रास; तकालस.
**तकाकी** (ना. स्त्री.) लकाकी.
**तकालस** (ना. स्त्री.) कश्ट; श्रम;

खटपट.
**तकालशी** (वि.) कश्टी; खटपटी.
**तख्त** (ना. न.) राजाची गादी; शिंवासन; राजालें आसन.
**तगड** (ना. न.) उबार कांठ नाशिल्लो थाळो; आयदनाचेर धांपचेलें धांकणें.
**तगोवणी** (ना. स्त्री.) सामाळणी; जतनाय.
**तगोवप** (स. क्रि.) सामाळप; जतनायेन दवरप आनी उपेगप.
**तगोवपी** (वि.) सांबाळपी; जतनायेन वापरपी.
**तजवीज** (ना. स्त्री.) विचार; चिंतणा.
**तट्टटप** (अ. क्रि.) गच्च जावप; आंगाक घट्ट बसप.
**तट्टटसाण** (ना. स्त्री.) ताजपाण.
**तट्टटीत** (वि.) ताजें; सुकूंक-बावंक नाशिल्लें; फडफडीत.
**तटास** (वि.) अजापीत.
**तड** (ना. स्त्री.) देग; कड.
**तडक** (क्रि. वि.) नीट; सरळ; थारनासतना.
**तड्डक** (ना. न.) फट खबर; ताल; फटकी गजाल.
**तड्डकी** (वि.) तालां मारपी; फटी गजाली सांगपी.
**तडाको** (ना. पु.) धपको; लडो; मार; भार; खूब; चड.
**तण** (ना. न.) भात मळून जातकच उरिल्ली सुकिल्ली भाता रोंप्याची झाडां.
**तण्णा** (वि.) बाबत; अबुद्दी; वाळेस.
**तणतणप** (अ. क्रि.) रागान तिडकप; निबरान उलोवप.
**तणतणीत** (वि.) हाडापेरान घट्ट; तट्टटीत.
**तत्काळ** (क्रि. वि.) रोकडेंच; ताबडतोब; सडसडीत; त्याच वेळार.
**तत्व** (ना. न.) सार; म्हत्वाचो विचार.
**तत्वगिन्यान** (ना. न.) जिणेच्या कठीन प्रस्नाचेर चिंतणा आनी जापो; जाणवाय; जाणविकाय.
**तत्वगिन्यानी** (ना.) चिंतपी; गिन्यान जोडिल्लो; पंडीत.
**तत्वविद्या** (ना.) जिणेविशीं सांगपी शास्त्र.
**तत्वगिन्यान** (ना.) देव धर्म आनी जिणेविशीं कठीण प्रस्न सोडवपाचें गिन्यान.
**तत्वज्ञानी** (ना.) पळय **तत्वगिन्यानी.**
**तथा** (अ.) वा; आनी; तेचभाशेन.
**तन्न** (ना.) पळय **तर्न.**
**तन्नेपण** (ना.) तरणाटेपण; जुवानपण; कोंवळेपण.
**तन्नें** (वि.) तरणाटें; कोंवळें; जें जून न्हय; वयावयलें; जुवान.
**तप** (ना. न.) ध्यास; खर वावर; हावेस जोडूंक सोशिल्ले हाल-उपाद्रे; चिंतणा.
**तपप** (वि.) तप करप; चिंतन करप.
**तपलें** (ना. न.) शित वो पेज करपाची ल्हान थाली.
**तपश्चर्या** (ना. स्त्री.) हावेस जोडूंक काडिल्ले कश्ट; खोल चिंतणा.
**तपश्चर्या** (ना. स्त्री.) पळय **तपश्चर्या.**
**तपशील** (ना.) बारकायेन दिल्ली खबर.
**तपासणी** (ना. स्त्री.) झडटी; चोवकशी; मनसुबी.
**तपासप** (स. क्रि.) वावराची झडटी घेवप; नेमांप्रमाण काम चल्लां काय ना तें पळोवप.
**तपासपी** (ना.) झडटी घेवपी; तपासणी करपी.

**तबक** (ना. न.) व्हड तबकडी.
**तबकडी** (ना. स्त्री.) थाळी; ल्हानसार सोबीत ताट.
**ताब्लियांव** (ना. पु.) ताबेलियांव; भाटां-बेसांचीं लिखितां करपी.
**तबलें** (ना.) एक वाजंतर; एकेवटेन चामडें ताणावन तयार केल्लें वाजंतर.
**तमको** (ना.) जाचें थरावीक नांव सांगू नजं अशें; कोणय एक; खंचेंय एक.
**तमाम** (वि.) सगले; संपूर्ण.
**तमासो** (ना. पु.) देखावो; लोकांसामकार केल्लो खेळ.
**तय** (ना. स्त्री.) हिंदू म्हयन्यांतले पयले आनी दुसरे पंद्रशिचो तिसरो दीस; चोवथी पयलींचो गौरी पूजपाचो दीस.
**त्याग** (ना. पु.) दुसऱ्याखातीर केल्ली सोडसाण.
**तयार** पूर्ण; सोपोवन; उडयल्लें; कसलेंय काम करूंक थीर बेत जाल्लें.
**तयारी** (ना. स्त्री.) बांदाबांद; बेत; कसलीय वस्त करचेखातीर पयलीं करचेलो वावर.
**तर** (अ.) जाल्यार; कसलीय अट सुचोवपें उतर.
**तर्क** (ना. पु.) बरो वायट विचार; सगल्यातरांनी केल्लो विचार; अदमास.
**तर्कट** (ना. न.) वांकडो; तिकडो केल्लो विचार; कशाकसोय केल्लो तर्क.
**तर्कटी** (वि.) कित्याकितेंय तर्क करपी; नाका जाल्ल्यो कल्पना करपी.
**तरकारी** (ना. स्त्री.) शाक भाजी; भाजी पालो.
**तरंग** (ना. स्त्री.) एका तोंकार देवाची फुलासयत म्हुर्त आशिल्लो लाकडा दांडो.
**त्रिखंड** (ना. न.) सर्ग; धर्तरी आनी पाताळ; सगलो संसार.
**त्रिजा** (ना. स्त्री.) मध्यस्तळा थावन वाटांगुळे वळी मैरेन पाविल्ली एक नीट वळ.
**त्रिमुर्ती** (ना. स्त्री.) ब्रह्मा; विश्णू आनी म्हादेव अशीं तीन तोंडां आशिल्लो देव; दत्तात्रय; तीन तोंडांची म्हूर्त.
**त्रियोदस** (ना. स्त्री.) हिंदू म्हयन्यांतले पयले आनी दुसरे पंद्रशीचो तेरावो दीस.
**त्रिवट** (ना. पु.) संगितांतल्या त्रितालाचें दुसरें नांव.
**त्रेपन** (ना. पु. वि.) पन्नास आनी तीन; (५३).
**त्रेसठ** (ना. पु. वि.) साठ आनी तीन; (६३).
**तरजप** (स. क्रि.) तागडेन घालून पळोवप; खरें फट बारीकसाणीन पळोवप.
**तरजप** (स. क्रि.) जोखप; तुळा करप.
**तरजुमो** (ना.) नमुनो.
**तरणेपण** (ना.) जुवानपण; तरणी पिराय.
**तरणें** (वि.) वयावयलें; जुवान तरणाटें; कंवळें.
**तरतर** (ना. पु.) मोटेपण; व्हडपण; बळवचार.
**तरतरप** (अ. क्रि.) मोटेपण दाखोवप; बडाय दाखोवप; बडवचार करप.
**तरतरावणी** (ना. स्त्री.) पळय **तरतर.**
**तृतीय** (वि.) तिसरें.
**तर्न** (ना. न.) निवोळ; शीत वाळटकच निस्तल्लें तांदळा उदक.
**तरनाटेपण** (ना. न.) जुवानपण.
**तरणाटें** (वि.) जुवान; वयावयलें; भुरगें.
**तरप** (अ. क्रि.) उपेवप; संकश्टांतल्यान सुटप; वांचप.
**तर्पण** (ना. न.) मेल्ल्या मनशा संबंधान धर्मीक विधी.

**तरपाशोर** (वि.) तिंडावणें; खोडी करपी; कुसलायणें; लापीट.

**तरबेज** (वि.) हुशार; फिशाल.

**त्र्याण्णय** (ना. पु. वि.) णवद आनी तीन (९३).

**त्र्यायशीं** (ना. पु. वि.) णवद आनी तीन (८३).

**त्र्याहत्तर** (ना. पु. वि.) सत्तर आनी तीन (७३).

**तर्र** (वि.) धुंवळिल्लें; साबुद्द गेल्लें.

**तरवार** (ना. स्त्री.) तरसाद; झुजांत उपकरावचेलें एक लांब पात्याचें शस्त्र.

**तरवो** (ना. पु.) दाटायेन किल्लावन काडिल्ले भाताचे रोंपे.

**तरसाद** (ना. न.) *लडाय करपाचें* लोखणा पातें आनी मूठ आशिल्लें एक शस्त्र.

**तरा** (ना. स्त्री.) रीत; भास; पद्दत; माणणी.

**तराज** (ना. स्त्री.) तागडी.

**तरांटप** (स. क्रि.) ताणप; वाटारप.

***तरा-तरानी*** (क्रि. वि.) खूब भाशेन; खूब उपायांनी.

**तरी** (अ.) अशें आसूनय; पुण.

**तरेकतरा** (वि.) खूब तरांचें; वेगवेगळे; जिनसांवार; विंगड विंगड.

**तरेकतरांचें** (वि.) पळय **तरेतरेचें.**

**तरेकवार** (वि.) तरेतरेचे; जिनसांवार.

**तरेतरेचें** (वि.) जिनसांवार.

**तलग** (ना. न.) अडसाटी कोंबी.

**तलक** (ना. न.) इत्सा; हुकी; कूय.

**तल्लीन** (वि.) गुल्ल; गूंग.

**तवनास** (वि.) शिस्त नाशिल्लें; वाळेस; पारपोळ; वादयांव.

**तवनासपण** (ना. न.) वाळेसपण; वायट चाल-चलणूक; पारपोळपण; वादयांवपण.

**तवशीण** (ना. स्त्री.) तवशीं दिवपी एक वाल.

**तवशें** (ना. न.) एक वालीचें लांब शाके फळ.

**तवसळी** (ना. स्त्री.) तवशाची कीस घालून केल्ली गवांची दाट भाकरी.

**तवो** (ना. पु.) नुस्तें वा फोडी तळपाचो वाटकुळो धातूचो दाट पत्रो.

**तशेंच** (अ.) तेच भाशेन.

**तस्कर** (ना. पु.) चोर; कर चुकोवन म्हाल हाड-व्हड करपी.

**तस्करी** (ना. स्त्री.) चोरी; कर चुकोवपी.

**तस्त** (ना. न.) परात; बशेभाशेन व्हड *आयदन.*

**तस्त्रीप** (ना. स्त्री.) बक्षीस; बऱ्या वावराखातीर दिल्लें पदक; दुड्डू वा दुसरी कसलीय वस्त.

**तसलें** (वि.) तशे तरेचें; ताचे भाशेन.

**तशें** (वि.) त्या भाशेन; ते तरेचें.

**तह** (ना. पु.) कबलात.

***तळ*** (ना. पु.) जोत्याचें वा बुटाचें पोंदचें चामडें.

**तळघर** (ना.) जमनी पोंदा बांदिल्लें घर; जमनी मुळा बांदिल्लो घराचो भाग.

**तळट** (ना. न.) बोचकुलाचो भितल्लो नितळ भाग; हाताचो तळवो.

**तळण** (ना. न.) तळपाच्यो वस्तू.

**तळतळप** (अ. क्रि.) वोतान; भुकेन बी त्रास जावप.

**तळतळाट** (ना. पु.) रागाचो किंवाटो; किंवाट्यान केल्लो बोवाळ.

**तळतळो** (ना.) पळय **तळतळाट.**

**तळप** (ना. न.) व्हडलो फातोर; तेलान भाजप; तेलांत शिजोवप.

**तळपी** (ना. स्त्री.) तेलान तव्यार

शिजोवपी.

**तळमळ** (ना. स्त्री.) उमळशीक; पोट तिडक.

**तळमळो** (ना. पु.) तळमळ; दूख; त्रास.

**तळय** (ना. स्त्री.) तळी; उदक आशिल्लो उथळ व्हड फोंड; ताटांत घालून दिल्ले तांदूळ आनी एक नाल्ल.

**तळवो** (ना. पु.) पळय **तळट;** पांयाचो तळ.

**तळसप** (स. क्रि.) तव्यार वा कायलींत तेलान भाजप.

**तळसाण** (ना. स्त्री.) तळिल्ल्याचो वास.

**तळी** (ना. स्त्री.) सांचयल्ल्या उदकाचो बांदून काडिल्लो फोंड; थोडे तांदूळ आनी एक नाल्ल.

**तळें** (ना. न.) व्हड तळी.

## ता

**ताक** (ना. न.) लोणी काडटकच उरिल्ल्या दुदाचें आंबट उदाक.

**तांक** (ना. स्त्री.) बळगें; शक्त.

**ताकतीक** (ना. स्त्री.) वावर बेगिबेगीन करपाची उमळशीक; ताकीत.

**तांकप** (स. क्रि.) बळगें वा शक्ती आसप; शक्य जावप.

**ताळकेवप** (अ. क्रि.) तानेन आनी वोतान दोळे बी ओडिल्लेवरी जावप.

**ताकीत** (ना. स्त्री.) ताकतीक; सडसडीत काम करपाची उमळशीक.

**ताग** (ना. पु.) एका झाडाचो धागो; सुतली बी तयार करचेलो एका झाडाचो धागो; धागे काडचेलें एक झाड.

**तांग** (ना. न.) पयलीं काळचें एक नाणें; पांच पयशे आनी एक पय मोलाचें नाणें.

**तागडी** (ना. स्त्री.) तराज.

**ताजपाण** (ना. स्त्री.) टवटवीतपण; कवकवीतपण; तेज.

**ताजें** (वि.) जितें; ताजपाण आशिल्लें; नवें.

**ताट** (ना. स्त्री.) जेवण खावपाचें उथळ आयदन; परात.

**ताटकळप** (अ. क्रि.) तिश्टप.

**ताटो** (ना. पु.) वंयेच्या खुटांक बांदिल्लो आडवो कोंडो.

**ताड** (ना. स्त्री.) सादारण माडाभाशेन एक व्हड झाड.

**ताडप** (स. क्रि.) पारखप; अदमास करप.

**तांडप** (स. क्रि.) व्होले मारप; ओडून ताठ करप.

**ताडपत्री** (ना. स्त्री.) घट्ट कॅनवासाचें उदक शिरनाशिल्लें लुगट.

**ताडमाड** (ना.) पळय **ताड.** (वि.) खूब लांब.

**तांडव** (ना. न.) हावभावांसयत कोल्ली नाचपाची एक तरा; महादेवाचो नाच.

**तांडी** (ना. स्त्री.) खूब वावराची वा मनशांची गर्दी.

**ताडी** (ना. स्त्री.) ताडाच्या झाडाची काडिल्ली सूर वा तयार केल्लो सोरो.

**तांडेली** (ना. पु.) व्हडें तांडपी; व्हले मारपी.

**ताण** (वि.) नीट; सरळ; बाग नाशिल्लें; ताठ.

**ताणप** (स. क्रि.) दोनय पोंतानी खूब ओडप; ओडून घट धरप; हट करप.

**ताणशेवप** (अ. क्रि.) तिडकप; धेंगशेवप.

**ताणी** (ना. स्त्री.) घट्ट दोरी.

**तातड** (ना. पु.) १. एक वातड तांबड्या रंगाची मूय. २. ताकतीक.

**तात्पर्य** (ना. न.) सार; हेत; आपरोस.

**तांतलें** (वि.) तांच्यामदलें; जाणां जाल्ल्या कांय वस्तूंतलें

**तात** (ना. स्त्री.) १. भुरग्याले भाशेंत न्हीद. २. (पु.) भोवमानान बापायक लेखचेलें उतर.

**तांतीं** (ना. न.) गर्भान भरिल्लें वाटकुळें कट्टें; पील घडपाचो आनी वाडपाचो जागो; अंडें.

**तांतीं-पिलां** (ना. न. भो.) ल्हान भुरगीं; काचिं-बुचीं.

**तांदूळ** (ना. पु.) एक दाणो; भाताचे सोल्लाभितर आशिल्लो दाणो; कांडिल्ल्या भाताचे दाणे.

**तान** (ना. स्त्री.) १. पियेवचेंशें दिसपी इत्सा. २. गायनाचे अलंकार.

**तानसोक** (ना. पु.) खूब तान.

**तानेल्लें** (ना.) तान लागिल्लें; पियेवचें अशें दिशिल्लें.

**तानेवप** (अ. क्रि.) पियेन दिसप; तान लागप; ताळो सुकून येवप.

**ताप** (ना. पू.) जोर; हुनसाण; त्रास.

**तापट** (वि.) रोकडेंच रागार जावपी; इल्लेशा कारणान तिडकुपी.

**तापप** (अ. क्रि.) हून जावप; तिडकप; धेंगशेवप; धेंगसो मारप; रागार जावप.

**तापपी** (वि.) तिडकुपी; तिडकी; रोखडेंच रागार जावपी.

**तापयणें** (वि.) तिडकुपी; धेंगशेवपी; तापोवपी.

**तापवप** (स. क्रि.) हून करप; शेळ मोडप; तिडकप; धेंगशेवप.

**तापियोग** (ना.) एका झाडाच्या मुळाचे बारीक लारीक कुडके.

**तापोवणी** (ना. स्त्री.) मीठ जावंक न्हयेचें खारें उदक सांचोवचेली कुणगी.

**तांब** (ना. स्त्री.) घोळनाशिल्ल्यान तांब्याच्या वस्तूंक आयिल्लो कळमेभाशेन रांप. घांसप-पुसप नाशिल्ल्यान तांब्याच्या वस्तूंक आयिल्लो तांबसार थर.

**तांबडसाण** (ना. स्त्री.) तांबड्या रंगाचो लेप; तांबडसार रंग.

**तांबडी भाजी** (ना. स्त्री.) पथाक बरी अशी तांबड्या पानांची भाजी; तांबड्या पानांचें ल्हान झाड.

**तांबडें** (वि.) रगताभाशेन रंगाचें;

**तांबडें-गूंज** खूब तांबडें; गुंजेभाशेन तांबडें.

**तांबडें भडंग** (वि.) खूब तांबडें; दाट तांबडें.

**तांबप** (स. क्रि.) तांब्याच्या वस्तूंक तांबसार थर येवप; तांबडसार रांप मांडप.

**तांब्यापटो** (ना. पु.) तांब्यापत्र्याचो कुडको; दान पत्र.

**तांबयो** (ना. पु.) उदक घालपाचें ल्हान आयदन; व्हडसार चेंबू.

**तांबरेत** (ना. स्त्री.) ल्हानसार चवाय.

**तांबूल** (ना. न.) खेळचेलो पातळ आनी नितळ कांबी कुडको.

**तांबशी** (ना. स्त्री.) तांब्याक आयिल्ली कळम.

**तांबसाळ** (ना. स्त्री.) भाताच्या बियाची एक जात.

**तांबावत** (ना. न.) तांब्याची ल्हान व्हड आयदनां.

**ताबुल फळें** (ना. न.) ताबलानी खेळपाचें फळें.

**ताबूत** (ना. पु.) मुसलमानांतली एक धर्मीक परब.

**तांबूस** (वि.) मातृशें तांबडें; तांबसार; तांबडसार; हय न्हयशें तांबडें.
**तांबें** (ना. न.) तांबूस रंगाचो एक धातू.
**तांबेवप** (अ. क्रि.) घोळनाशिल्ल्यान कळमेभाशेन तांब मांडप; घांसप; पुसप नाशिल्ल्यान तांबीचो थर येवप.
**ताबो** (ना. पु.) हक; मालकी; धनीपण.
**तांवोर** (ना.) दोनयवटेन चामडें आशिल्लें वाजंतर.
**तामण** (ना. न.) तांब्या पत्र्याच्यो तेरेकवार ल्हान व्हड वस्तू.
**तामबर्के** (ना. न.) तामसार रंगाची बक्याची जात.
**तामसो** (ना.) तांबडसार रंगाचें हातभर लांबायेचें नुसतें.
**तामीळ** (ना. स्त्री.) दक्षिण हिंदुस्थानांतली एक द्रविडी भास.
**तायखिळो** (ना. पु.) सादारण दोन तीन हात लांबायेचें; आपशींच किल्लल्लें एक वखदी झाड.
**तायचुंग** (ना. न.) एक हायब्रीड भाताचें जपानी बी.
**तार** (ना. स्त्री.) कसलेय धातूची सरी; तेलेग्राम; लोकांक हाड-व्हर करपी व्हडें.
**तारतम्य** (ना. न.) शाणेपण; तोखणाय; सार; धोरण.
**तारप** (स. क्रि.) वांचोवप; जीव वाटावप; सांबाळप; राखप.
**तारपी** (ना.) वांचोवपी; सांबाळ करपी; जीव राखपी.
**तारयो** (ना. पु.) तार चलोवपी व्हडेकार.
**तारवटी** (ना.) तारवार वावर करपी मनीस.
**तारवावळ** (ना. स्त्री.) तारवाचो चुंबो.
**तारसोळी** (ना. स्त्री.) ताल्ल्याभाशेन एक नुस्त्याची जात.
**तारीख** (ना. स्त्री.) दीस; म्हयनो आनी वर्स सांगपी आंकडे.
**तारू** (ना. न.) व्हडलें व्हडें; मचवो.
**तारो** (ना. पु.) गिरो; सिनेमांतलो सवंगी.
**ताल** (ना. पु.) संगीतांतली लय; मुजकांतलो कुंपास; तड्डक; फकाणाची गजाल.
**तालगडी** (ना. स्त्री.) तोंडयां खेळ; तालार तोंडयो मारून केल्लो नाच आनी खेळ.
**तालयें** (वि.) तालां मारपी; तड्डकी; फटी मारपी.
**ताल्लो** (ना. पु.) एक रूचीक आनी पथीक ल्हान नुस्तें.
**तालां** (ना. न. भो.) तड्डकां; फकाणां; गजाली.
**तालां मारप** (सं. क्रि.) तड्डकां मारप; फकत मौजेखातीर आनी खऱ्याचो आधार नाशिल्ल्यो खबरो सांगप.
**तालीम** (ना. स्त्री.) येसाय; सवंय; शिक्षण.
**तालुको** (ना. पु.) खूब गांव मेळून जाल्लो एका जिल्ल्ह्याचो भाग.
**तालें** (ना. न.) कुलप.
**तावज** (ना. पु.) देवाचो प्रसाद घाल्ली आनी गळ्यांत हुमकळावचेली सुपुल्ली भांगराची बी नळी.
**ताव मारप** (स. क्रि.) जाय तितलें खावप-जेवप; पोटभर खावप-जेवप.
**तास** (ना. पु.) १. वर; एका वराचो वेळ. २. कसलेय वस्तुचो सालीभाशेन काडिल्लो पातळ कुडको; शेता जमनिचो खोऱ्यान बी काडिल्लो देंपो.
**तास घालप** (स. क्रि.) नांगरप वा खोऱ्यान शेत खणप.

**तासणी** (ना. स्त्री.) कुराडी भाशेन एक आवत; मदेर; वांशे बी तासपाचें रूंद पात्याचें हत्यार.
**तासप** (स. क्रि.) बारीक बारीक सालपटां काडून निवळ करप; तुळतुळीत करप. (अलं.) टिका करप; कुस्कुटावप.
**तासंपट्टी** (ना. स्त्री.) कुसकुटावणी; टिका.
**तासो** (ना. पु.) एक वाजंतर; व्हडसार तोपायेद्या तांब्याच्या वाटकुळसार आयदनाक एके वटेन चामडें ताणावन केल्लें वाजोवपाचें साधन.
**ताळ** (ना. पु.) झांजीभाशेन भजनांत वाजोवचेल्या दोन ल्हान वस्तूंचो जोड; संगितांतली लय.
**ताळणी** (ना. स्त्री.) पाडी बुद्द; वायट शिकवण; वायट आस्त.
**ताळयार हाडप** (वा. प्र.) जाग्यार हाडप; शितीतार हाडप.
**ताळी** (ना. स्त्री.) १. बारीक खांदी. २. दोनय हातांचे तळवे एकामेकांचेर मारून केल्लो आवाज.
**ताळू** (ना. स्त्री.) तकलेच्या हाडाचो मदलो नाजूक भाग.
**ताळो** (ना.) १. आवाज; गळो; सकनळी. २. बेरीज; वजाबाकी सारकें गणीत सारकें आसा काय ना तें पळोवचेलें उरफाटें गणीत. ३. झाडाची फांदी.

# ति

**तिकशेणी** (ना. स्त्री.) तिडक; राग; तिडकीन मारिल्ले धेंगशे.
**तिकप** (अ. क्रि.) उरप; पळय **तिगप.**
**तिक्शेवप** (स. क्रि.) तिडकप; धेंगशेवप.
**तिकळी** (ना. स्त्री.) १. पिंजरेचो वा गंदाचो वाटकुळो बारीक तिबो; ल्हान तिळो. २. तीन चल्यांचेर जाल्ली पयलीच चली.
**तिकळो** (ना. पु.) १. व्हड तिबो. २. तीन चलयांचेर जाल्लो पयलोच चलो.
**तिकेट** (ना. पु.) दुडवांचे नोटीभाशेन पयशे फारीक करून घेतिल्लो कागदाचो कुडको.
**तिकेटमास्तर** (ना. पु.) तिकेटी दिवपी-घेवपी आनी तपासपी; तिकेटी विकपी.
**तिखट** (वि.) मिरसांग; मिरयां खातकच लागता ती रूच; तीख.
**तिखसाण** (ना. स्त्री.) पळय **तिखटसाण.**
**तिखी** (ना. स्त्री.) एक मसाल्याचें तीख आंग.
**तिखें** (ना. न.) लोखणापसून तयार केल्लो धातू.
**तिगप** (अ. क्रि.) रोखडोच सोंपनासतना; काबार जायनासतना उरप; तिगाव धरप.
**तिगाव** (ना. पु.) रोखडोच काबार जाय नासतना उरपाचो गूण; तिगपाचो गूण.
**तिचाकी** (ना. स्त्री.) तीन चाकांची सायकल.
**तिजप** (स. क्रि.) बारीकसाणेन तपासप; बरो काय वायट; कुसको काय धड हें हालोवन धोलोवन पळोवप.
**तिजान** (ना. न.) कडो; शिजयल्ली पातळ वस्त.
**तिजुलो** (ना. पु.) जमनीर वा वणटीर बसोवपाचे तुळतुळीत पातळ वीट; किरां मोरां आशिल्ले चौकोनी पातळ वीट.
**तिजोर** (ना. स्त्री.) घराच्या पाख्याची कमर सरी आनी वांशे धरूंक पाटयेचेर

बसयल्ली खांवली.

**तिटतिटो** (ना. पु.) किटकिटो; उमेद. (वि.) नाचरो.

**तिट्टें** (वि.) तीन पट व्हड; तिब्राद.

**तिटापोय** (ना. स्त्री.) काळ्या रंगाचें एक सवणें.

**तिटो** (ना. पु.) नुस्तें शाक-भाजी बी विकपाचो जागो.

**तिडक** (ना. स्त्री.) राग; तिकशेणी.

**तिडकप** (अ. क्रि.) रागान उलोवप; धेंगसो मारप; तिकशेवप.

**तिडकें** (वि.) रोखडेंच तापपी; सट्ट करून रागार जावपी.

**तिडप** (अ. क्रि.) रागान उलोवप.

**तिडावप** (स. क्रि.) राग हाडप; तापप; कूस लावप; चाळवप.

**तिणयां** (क्रि. वि.) थंय; थंयसावन.

**तितकें** (वि.) तितलें.

**तितल्यांत** (क्रि. वि.) तितले मजगतीं; तितले म्हणसर; अवचित; मदींच; अकस्मात.

**तितलें** (वि.) पुरोशें; जायशें; गरजेइतलें.

**तिती** (ना. स्त्री.) भुरग्यांले भाशेंत तिकली; तिबो.

**तिंतेर** (ना. पु.) तींत घालपाचें सुपुलें आयदन.

**तिनशें** (वि.) तीन शेंकडे (३००).

**तिनसांज** (ना. स्त्री.) आमोरी; तीन कात्रीचो वेळ.

**तिफॉयद** (ना. पु.) दिसां-जोर.

**तिबको** (ना. पु.) ल्हान तिबो; तिकली.

**तिब्राद** (वि.) तीन पटींनी चड.

**तिबो** (ना. पु.) व्हड तिकळी; तिळो.

**तिरकस** (वि.) जें सामकें उबें न्हय आनी आडवेंय न्हय; वांकडें; पालशें.

**तिरकस आयत** (ना. पु.) तिरकस वडांचो आयत.

**तिरकामटी** (ना. स्त्री.) धनुश्य-बाण; धोणू आनी बाण.

**तिरकूट** (ना. न.) तिगां जाणांचो एवकट.

**तिर्थयात्रा** (ना. स्त्री.) पवित्र थळांची केल्ली भोंवडी.

**तिरपप** (अ. क्रि.) पायांचें पावल परतप; पांय परतो पडप.

**तिरबी** (ना. स्त्री.) मंद वोत.

**तिरशेपण** (ना. न.) एका दोळ्याची मुंडली मदीं जाल्यार दुसऱ्याची कुशीन आसपाचो दोश.

**तिरसुवाद** (वि.) भितल्ले गांठिचें; मनीसघाणें; जें सरळ आनी उजू न्हय.

**तिरसुवादपण** (ना. न.) कोल्लपण; विचित्रपण.

**तिरशें** (वि.) पालशे नदरेचें; एका दोळ्याची मुंडली मदीं जाल्यार दुसऱ्याची पालशी आशिल्लें.

**तिरांटो** (ना. पु.) तिसती; फाळी; तीर.

**तिरायत** (वि.) तिसरें; परकी.

**तिवतिवप** (अ. क्रि.) लिकलिकप; लकलकप.

**तिवतिवसाण** (ना. स्त्री.) लकलकसाण; तिकतिकसाण; उजवाड.

**तिवतिवीत** (वि.) तकतकीत; लकलकीत.

**तिंवळ** (ना. न.) नाल्लाचो रोस घाल नासतना फकत मीठ; मिरसांग; सोलां आनी हींग घालून केल्ली कडी; सोल-कडी. (अलं.) रगत.

**तिवो** (ना. पु.) रांदन करूंक माती कालोवन केल्ल्या तीन गुळयांतलो एक गुळो.

**तिश्टणी** (ना. स्त्री.) ताकीत; तळमळ.

**तिश्टत** (ना. स्त्री.) उमळशीक; तळमळ; ताकीत.
**तिश्टप** (अ. क्रि.) वाट पळयत रावप; आडावन उरप; कामांत घुसपून उरप.
**तिश्टावप** (स. क्रि.) कळाव करप; दुसऱ्याक उशीर करप; दुसऱ्याक वाट पळोवंक लावप.
**तिस्क** (ना. न.) दोन वा दोन परस चड मार्ग एकामेकांक मेळटा तो जागो.
**तिस्ती** (ना.) फाळी; आंगटेचो तीर; तिरांटो; दोरी.
**तिसराय** (ना. स्त्री.) तिसरो वांटो.
**तिसरी** (वि.) तीन क्रमांकाचेर आशिल्ली. (ना. स्त्री.) शिपयेंत आशिल्ल्या एका कालवाची जात.
**तिसरें** (वि.) तीन क्रमांकाचे सुवातेवयलें.
**तिसाल** (ना. न.) तीन वर्सां सोंपतकच येता तें वर्स; तीन तीन वर्सांनी नेमान घडपी गजाल.
**तिळगूळ** (ना. पु.) मकर संक्रांतेच्या दिसा वाटूंक साकरेचो वा गोडाचो पंक लायिल्ले तीळ.
**तिळसांज** (ना. स्त्री.) तीनसांज; आमोरी; तीन कातरीचो वेळ.
**तिळेल** (ना. न.) तीळ मुड्डून काडिल्लें तेल.
**तिळो** (ना. पु.) तिबो; कपलार मदीं हुमकळावचेलो एक बायलांची वस्त.

## ती

**तीख** (वि.) मिरसांगेचे रुचिचें; खर धारेचें.
**तीग** (वि.) तीन जाण.
**तीड** (ना. न.) तिडक; राग.
**तींत** (ना. न.) शाय; बरोवंक उपकरा पडत असो तयार केल्लो काळो वा दुसरो रंगीत पदार्थ.
**तीथ** (ना. स्त्री.) हिंदू म्हयन्याचो दीस.
**तीन** (ना. पु. वि.) ३ हो आंकडो.
**तीन कातरी** (ना. स्त्री.) आमोरी; तीन सांज.
**तीन ताल** (ना. पु.) तीन आवर्तनां आशिल्लो संगितांतलो एक ताल.
**तीर** (ना. पु.) देग वा कड; फाळी वा तिस्ती.
**तीर्थ** (ना. न.) पवित्र उदक; देवाक न्हाण घाल्लें पंचामृत; धर्मीक थळ.
**तीर्थस्थान** (ना. न.) देवाची सासाय आशिल्लो पवित्र जागो.
**तिर्थक्षेत्र** (ना. न.) धर्मीक पवित्र जागो; देवाची सासाय आशिल्ली सुवात.
**तीस** (ना. पु. वि.) ३० ही संख्या.
**तीळ** (ना. पु.) तिळा-झाडाचें बीं; तिळासारकें काळें खत.
**तीळशें** (ना. न.) गोड लायिल्ले तीळ; तिळांचें गोडशें.

## तु

**तुकतुकीत** (वि.) नितळ; लकलकीत; तुळतुळीत.
**तुकलावणी** (ना. स्त्री.) किरमणां.
**तुकलावप** (स. क्रि.) किरमप; परत परत कुतां काडप.
**तुकू तुकू पळोवप** (स. क्रि.) थीर नदर लावन पळोवप.
**तुच्छ** (वि.) ओड-आवड नाशिल्लें; मोल फाव नाशिल्लें; किकोंत; अळशिकावणें; वीट येवचेलें.
**तुच्छताय** (ना. स्त्री.) किळस; नावड; वीट.

**तुटकेपण** (ना. न.) भीड मुरवत आनी गोडी नाशिल्ली चाल-चलणूक; फट्ट करून संबंद तोडपी सबाव.

**तुटकें** (वि.) तुटिल्लें; कुडके जाल्लें; भीड मुरवत नाशिल्लें; ओड नाशिल्लें.

**तुटप** (अ. क्रि.) कुडके जावप.

**तुटवप** (स. क्रि.) तोडप; कुडके करप; फाळप.

**तुडूंब** (वि.) उपट; कांठामेरेन; देगेमेरेन.

**तुणतुणें** (ना. न.) वाजोवचेलें गिडबिडें; ल्हान डमरू.

**तुतनायक** (ना. स्त्री.) मद; मस्ती.

**तुतयो** (ना. पु.) हातोटी; मोरतेल; कुर्ची.

**तुपमिरें** (ना. न.) सांसवाभाशेन काळें ल्हान बीं.

**तुपाळ** (वि. तुपान भरिल्लें.

**तुफान** (ना. न.) वादळ; मॉड; निबरान व्हांविल्लो वारो आनी ताकालागून जाल्ली मोड-तोड.

**तुबक** (ना. न.) आर्म.

**तुबकी** (वि.) आर्म आशिल्लो वा आर्म मारपी.

**तुंबप** (अ. क्रि.) कोंडप; फुगप; भायर वचपाची वाट नाशिल्ल्यान सांठावन उरप.

**तुमी** (स.) 'तूं' ह्या सर्वनामाचें भोववचन.

**तुर्की** (वि.) तुर्कस्तानचो; तुर्कस्तानी.

**तुरतुरीत** (क्रि. वि.) बेगिबेगीन; सडसडीत.

**तुरूतुरू** (क्रि. वि.) बेगिबेगीन; सडसडीत.

**तुरमण** (ना. न.) ल्हान वा तन्नो म्हुट्टो.

**तुरो** (ना. पु.) फुलां आनी पानां बांदून केल्लो घोंस; कोंब्याचें शेंकरें.

**तुवालो** (ना. पु.) आंग पुसपाचें लुगट.

**तुश्ट** (वि.) खुशालभरीत; समाधानी; धादोशीत.

**तुश्टप** (अ. क्रि.) खोशी जावप; खोस भोगप.

**तुस्त** (ना. स्त्री.) तोखणाय; गुणांची वर्णना.

**तुळतुळावप** (स. क्रि.) निवळ करप; घांसून पुसून नितळ करप.

**तुळतुळितपण** (ना. न.) नितळसाण; चकचकसाण; गुळगुळितपण.

**तुळतुळीत** (वि.) गुळगुळीत; निवळ; नितळ; लकलकीत.

**तुळा** (ना.) बराबरी; दोन वस्तू सारक्यो काय न्हय हें तपासचेलें काम.

**तुळाभार** (ना. पु.) तागडेन जोखिल्ली कसलीय वस्त; देवाक वा कसल्याय बऱ्या कामाक ओंपूंक मनशाच्या वजनाइतलें भांगर; रुपें वा दुसरी कसलीय मोलाची वस्त.

**तुळशिपत्र** (ना. स्त्री.) तुळशीचें पान.

**तुळशिपत्र सोडप** ओंपप; दान दिवप.

**तुळस** (ना. स्त्री.) एक सुपुल्लें वासा झाड; हें आंगणांत रोयतात आनी तिची पुजा करतात. व्हडले दिवाळेक तिचें लग्न करतात.

# तूं

**तूं** (स.) ज्राचेकडेन उलयतात ताका लेखपाचें उतर.

**तूट** (ना.) उणाव; लुकसाण; बारीक बारीक तुटिल्ले मोडिल्ले कुडके.

**तूप** (ना. न.) दुदापासून केल्लो एक जिनस; कडयल्लें लोणी.

**तूम** (ना.) उदक बी भायर सोडपाचो बुराक वा नळ.
**तूर** (ना. स्त्री.) एका कड्डाणाचें नांव.
**तूर्क** (ना. स्त्री.) तुर्कस्तानचो मनीस.
**तूर्त** (क्रि. वि.) सध्या; सध्याचो काळ; चलता तो तेंप.
**तूस** (ना. स्त्री.) कुंडो; जाय ताचे परस चड धोडायल्ल्यान वा कांडिल्ल्यान जाल्लें दाण्या-गोट्याचें पीठ; बरड बी लागून जाल्लें कड्डाणाचें पीठ.

## ते

**ते** (स.) पयस आशिल्ले बायल मनशेक मोनजातीक वा स्त्रीलिंगी वस्तूक लेखिल्लें उतर.
**ते** (स.) पयस आशिल्ल्या एकापरस चड दादल्यांक; मोनजातीक वा वस्तूंक लेखिल्लें उतर.
**तें** (स.) पयस आशिल्लें भुरगें; मोनजात वा वस्तूक लेखिल्लें उतर.
**तेंकडी** (ना. स्त्री.) १. दोंगुल्ली. २. केलें आशिल्ली लांब बडी.
**तेकडेन** (क्रि. वि.) ते वटेन; ते दिकेन.
**तेंकप** (अ. क्रि.) एकामेकाक लागप; घस्टप.
**तेंको** (ना. पु.) आधार; आलाशिरो.
**तेग** (वि.) तीग जाण; तीन.
**तेंगशी** (ना. स्त्री.) झाडा-माथें; झाडा-माथ्यावयली ताळी.
**तेज** (ना. न.) चकचकसाण; हुशारकाय; चैतन्य; कांत; ताजपाण.
**तेजवंत** (वि.) कांतिवान; चकचकसाण आशिल्लें.
**तेजाळ** (वि.) कांत आशिल्लें; रसरशीत उजवाड आशिल्लें.
**तेजिश्ट** (वि.) काळीजवान; हुशारकायेन भरिल्लें; तेज आशिल्लें.
**तेजी** (ना. स्त्री.) बरकत; मागणी.
**तेंडली** (ना. स्त्री.) तेंडलां दिवपी एक वालीचें झाड.
**तेंडलें** (ना. न.) एक बोटभर लांबायेचें आनी तितलेंच मोटसार फळ.
**तेत्तीस** (ना. पु. वि.) तीस आनी तीन (३३).
**तेतू** (ना. पु.) ल्हान भुरग्यांले भाशेन तेल.
**तेदूस** (क्रि. वि.) त्या दिसा.
**तेदोळ** (क्रि. वि.) तेदो वेळ; िततलो वेळ.
**तेन्ना** (क्रि. वि.) त्या वेळार; म्हण्टकच; म्हणटकीर.
**तेंप** (ना. पु.) काळ; वेळ; वोगोत.
**तेंप्र** (ना. न.) मसालो; सांबार; मीठ; मिरसांग; हळद; तिखी बी वस्तू.
**तेफ** (ना. न.) मातयेचो दिवळो; मातयेचो देंपो.
**तेफळ** (ना. न.) एक मिरमिरीत तीख आनी बऱ्या वासाचें सुपुल्लें फळ.
**तेफळां फोडप** (वा. प्र.) तड्डकां मारप; आदार नाशिल्ल्यो पूण सुरबूस खबरी सांगप.
**तेफळां मारप** (वा. प्र.) अतितायेन भरिल्लीं आनी सुरबूस तड्डकां मारप.
**तेंबी** (ना. स्त्री.) दोंगुल्ली; घांट; चडटी; दोंगरा माथें.
**तेम** (ना. न.) हट; हटपाण; छंद; नाद.
**तेमी** (वि.) हट्टी; नादी.
**तेमूक** (ना. न.) दोंगराच्या माथ्या-पोंत.
**तेमेरेन** (क्रि. वि.) ते म्हणसर.
**तेमेली** (वि.) हटी; तेमी.

**तेरमामेत्र** (ना. पु.) उश्णताय मेजपाची आनी पोंतार पारज आशिल्ली कांचेची पोकळ नळी.
**तेर्स** (ना. पु.) किरिस्तांव धर्मांतली एक प्रार्थना. (वि.) तिसरो वांटो.
**तेरा** (ना. पु. वि.) धा आनी तीन (१३).
**तेरो** (ना.) आळवाभाशेन एक ल्हान झाड.
**तेल** (ना. न.) तळूंक वा पेटोवंक उपकरचेलो खोबऱ्याचो; तिळांचो बी पिळून काडिल्लें अर्क.
**तेलकट** (ना.) तेलान भरिल्लें; तेला वासाचें.
**तेलकार** (ना. पु.) तेलयो; तेल विकपी वा तेल काडपी.
**तेलगू** (ना. स्त्री.) दक्षीण हिंदुस्थानांतली एक द्रविडी भास.
**तेलयो** (ना. स्त्री.) तेली; तेलाचो धंदो करपी; तेल काडपी आनी विकपी.
**तेलसार** (वि.) तेलान भरिल्लें; तेला वासाचें.
**तेली** (ना. पु.) तेल विकपी.
**तेलेग्राम** (ना. पु.) थोड्या वेळांत पयस सावन आयिल्ली वा पयस धाडिल्ली खबर.
**तेंव** (ना. स्त्री.) मीठ; साकर बी दवरिल्लेकडेन आपशींच विरगळून आयिल्ली ओलसाण.
**तेवटेन** (क्रि. वि.) ते कडेन; त्या मार्गान; ते वाटेन.
**तेंवप** (अ. क्रि.) मिठाची; साकरेची बी ओलसाण येवप.
**तेवीस** (ना. पु. वि.) वीस आनी तीन (२३).
**तेवेचाळीस** (ना. पु. वि.) चाळीस आनी तीन (४३).
**तेवेरां** (क्रि. वि.) चलता त्या दिसाच्यान तिसरो दीस.
**तेस्तामेंत** (ना. पु.) मर्णपत्र; आपूण मरतकच कोणें कितें करचें वा आपले आसूपतिची वांटणी कशी जावची हाचेविशीं बरोवन दवरिल्लें कागद.
**तेसरशी** (क्रि. वि.) त्याबराबर; तेन्ना.
**तेळणार** (ना. पु.) बारीकसाणीन पळोवपी; ध्यान दिवन नदर दवरपी.
**तेळणी** (ना. स्त्री.) बारकायेन म्हऱ्यांतले तशें पयशिल्लें पळोवचेलें काम.
**तेळप** (स. क्रि.) बारकायेन पळोवप; नदर दवरप.
**तेळपी** (ना. पु.) जतनायेन आनी बारीक ध्यान दिवन पळोवपी.

# तो

**तो** (स.) हांव आनी तूं सोडून तिसरो.
**तोंक** (ना. न.) पोंत.
**तोंकयाळें** (वि.) तोंक आशिल्लें.
**तोंकाळ** (वि.) तोंक आशिल्लें; बारीक पोंताचें.
**तोकासांव** (ना. न.) कूत काडून केल्लें उलोवणें.
**तोखणाय** (ना. स्त्री.) ओड; आपलेपण; अपुर्बाय; तुस्त.
**तोखेणी** (ना. स्त्री.) तुस्त; रुचीन लायिल्ली नदर.
**तोखेवप** (स. क्रि.) मानवप; तोखणाय करप; तुस्त करप; तोखणायेन पळोवप.
**तोंच** (ना. स्त्री.) चोंच.
**तोंचप** (स. क्रि.) चोंचप; चोंचीन वा कसल्याय तोंकाच्या वस्तून धोंगसप.
**तोटी** (ना. स्त्री.) पी; आयदनांतलें

वा नळांतलें उदाक सोडचेली वा बंद करचेली चावी.
**तोटो** (ना. पु.) उणाव; लुकसाण.
**तोड** (ना. स्त्री.) उपाय; युक्त; मांडणी.
**तोंड** (ना. न.) मुस्कट; चेरो; खावपा पिवपाचो कुडीचो भाग.
**तोंड आ जावप** (वा. प्र.) चड अजाप जावप; अजापान तोंड उकतें जावप.
**तोंड घेवप वचप** (वा. प्र.) कायमचो वचप; काडून वचप; ना जावप.
**तोंड दिवप** (वा. प्र.) कसल्याय बऱ्या-वायट कामाक धिरान फुडें सरप.
**तोंडपाठ** (वि.) जिबेर खूब घोळिल्लें; मतींत घट्ट उरिल्लें.
**तोंड फाफडप** (वा. प्र.) हाचेकडेन ताचेकडेन मागप.
**तोंडभर उलोवप** (वा. प्र.) खुब उलोवप.
**तोंडवळख** (ना. स्त्री.) वयल्या वयली वळख; फकत तोंडापुरती वळख.
**तोंड वाजप** (वा. प्र.) उलोवप; बडबड करप.
**तोंड वाजोवप** (वा. प्र.) गरज नासतना उलोवंक लावप; बडबड करूंक लावप.
**तोंड शिंदळ** (वि.) तोंडान बडबड करपी; खूब उलोवपी.
**तोडशेवप** (अ. क्रि.) चड जेविल्ल्यान उबस मारप; चड भरिल्ल्यान ओडिल्ल्यावरी जावप.
**तोंडाक** (ना. न.) तोंडालावणें; शिताच्या आनी पेजेबराबर रूच वाडची म्हणून खाल्लो दुसरो कसलोय जिनस.
**तोंडाक उदक सुटप** (वा. प्र.) रूच सुटप; खायन दिसप.
**तोंडांत दिवप** (वा. प्र.) दुसऱ्या कडल्यान खावंक लावप; दुसऱ्या कडल्यान ख्यास्त भोगोवप; दुसऱ्याचो गुन्यांवकारी करप; दुसऱ्याचे सुवादीन जावप.
**तोडप** (स. क्रि.) कुडके करप.
**तोंडा लावणें** (ना. स्त्री.) शीत कडये बराबर केल्ली शाक-भाजी वा नुस्त्याचे जिनस.
**तोंडी** (वि.) तोंडान केल्लें; हातान करिनासतना फकत तोंडान केल्लें.
**तोंडुलें** (ना. न.) तोंड ह्या अर्थाचें एक अपुरबायेचें उतर; सुपुल्लें तोंड.
**तोडो** (ना. पु.) हाताक घालपाचो बायलांची एक वस्त.
**तोणकी** (ना. स्त्री.) कांट्यासारकी लांब चोंच आशिल्लें एक शिरशिरीत नुस्तें.
**तोणको** (ना. पु.) कोंड्याचो करवो; कोंड्याचो दोन /चार हात लांबायेचो कुडको. (वि.) मेकळ्या सबावाचो; भीड मुरवत नाशिल्लो.
**तोणी** (ना. स्त्री.) तालगडी मारपाची सुपुल्ली बडी.
**तोणो** (ना. पु.) केसांत जियेवपी एक ऊय.
**तोंतरेपण** (ना. न.) गागयपण; लुडबेपण.
**तोंतरें** (वि.) लुडबें; गागयें.
**तोनीक** (वि.) घटसाण दिवपी; बळगें वाडोवपी; खाण-जेवण आनी वखदां.
**तोप** (ना. पु.) जेवणखाण करपाचें एक वाटकुळें आयदन.
**तोपण** (ना. न.) मोटी सूय; दाबण; सुये-सुतान मारिल्लो पोंत; गादयेंतलो कापूस घट्ट उरचो म्हणून सुये-सुतान मारिल्ली गांठ.
**तोपप** (स. क्रि.) बुराक घालप; तोंकाच्या शस्त्रान धोंगसप.
**तोपयो** (ना. पु.) शेड्डो; एक पालीभाशेन प्राणी.

**तोपरें** (ना. स्त्री.) माथें आनी कान धांपचेलें आंगाचें; कानतोपी.
**तोपी** (ना. स्त्री.) माथें धांपचेली लुगटाची एक वाटकुळी वस्त; वोत बादचें न्हय म्हणून माथ्याक घालचेलें.
**तोपी घालप** (वा. प्र.) फटोवप; चोरप.
**तोफ** (ना. स्त्री.) नाळ; दारू आनी गुळे भरून मार-फार आनी मोड-तोड करचेली लोखणाची व्हड नळी.
**तोमसूळ** (वि.) मस्तें; आडांगी.
**तोमात** (ना. न.) एक तांबड्या रंगाचें वाटकुळसार फळ.
**तोमातीण** (ना. स्त्री.) तोमातां दिवचेलें झाड.
**तोमेरेन** (क्रि. वि.) ते म्हणसर; ते मेरेन.
**तोर** (ना. न.) आंबली; तन्नी आंबली.
**तोरटसाण** (ना. पु.) आडुकसाण; मातशी कोडसाण.
**तोरण** (ना. न.) पानां-फुळांनी न्हेसोवन उबारिल्लें आर्क.
**तोरांज** (ना. न.) एक वाटकुळें गोड मिरमिरीत फळ.
**तोरींज** (ना. न.) पळय **तोरांज.**
**तोल** (ना. पु.) वजन; शक्त.
**तोलप** (स. क्रि.) जोखप; वजन काडप; कसलीय जड वस्तू उखलप.
**तोल्द** (ना. न.) पावस आनी वोत लागचें न्हय देखून व्हड्याच्या एका पोंतार बांदिल्लें पाखें.
**तोलमोल** (ना. न.) वजन; म्हत्त्व.
**तोल्ल** (ना. पु.) नाल्ला भाटाची वा सुपारेच्या वा काजुच्या भाटाची राखण करपी.
**तोल्लूक** (ना. न.) राखणेक आशिल्लें नाल्लाचें; सुपारेचें बी भाट.
**तोऴ** (ना. पु.) सादारण मुसा भाशेन दिसपी आनी टुण्ण करून उडयो मारपी एक किटक.
**तोळी** (ना. स्त्री.) एक लांब शिरशिरीत नुसतें.
**तोळो** (ना. पु.) मोलादीक वस्तू जोखपाचें वजन.

## तं

**तंत्र** (ना. न.) कितेंय करचेली रीत; मांडणी आनी उपाय.
**तंत्रीक** (वि.) तंत्र आशिल्लें; तंत्राचें; करणेविशिंचें.
**तंतुवाद्य** (ना. न.) सारंगी; सतारीभाशेन सरयो आशिल्लें वाद्य.
**तंबाकू** (ना. पु.) तीख आनी कडक वासाच्या पानाचें झाड; ह्या झाडाचीं पानां आनी चुरो; धुमटी.
**तंबारो** (ना. पु.) सूर दिवपाचें एक वाद्य; लाकडाची पोकळ कळशी; दांडो आनी ताका ताणायल्ल्यो सरयो आशिल्लें एक वाजोवपाचें हत्यार.
**तंबू** (ना. पु.) लाकडा खांब्याच्या आदारान माथ्यार आनी कुशीनी लुगट ताणावन तयार केल्लो घराभाशेन जागो.
**तंबोर** (ना. पु.) पळय 'तंबारो'.
**तंवर** (क्रि. वि.) तोमेरेन; ते म्हणसर.
**तंववेर** (क्रि. वि.) तेमेरेन; ते म्हणसर.

## थ

**थक्क** (वि.) खूब अजापीत.
**थक्क जावप** (सं. क्रि.) अजापान तटास जावप.
**थकणी** (ना. स्त्री.) पुरो जावपाची

स्थिती; श्रमान कश्टान बी जाल्ली गळीत कामां.

**थकप** (अ. क्रि.) पुरो जावप; गळीत जावप.

**थर्डे** (ना. न.) मनशाक लाशिल्ल्या वा पुरिल्ल्या जाग्याचेर बांदिल्लें यादस्तीक.

**थतर-मतर** (वि.) अशक्त; गळीत.

**थतर-मतर जावप** (सं. क्रि.) चड पिरायेन स्नायू आनी सगलीच कूड गळीत जावप; आंग फावो तशें घोळप ना.

**थपकटें** (वि.) चेपटें; चेपिल्लें; खोलसाण नाशिल्लें; उथळ.

**थपकण** (ना. स्त्री.) बसकण; थपकल.

**थपकल** (ना. स्त्री.) बसकण; थीर घेतिल्ली बसकण.

**थपकल मारून बसप** (सं. क्रि.) बसकण मारप; पातळावन थीर बसप.

**थपथपप** (अ. क्रि.) उदकान वा कसल्याय पातळ जिनसान भरप; कसलीय पातळ वस्त ओडून घेवप.

**थप्प** (वि.) थंड; पुराय शांत; सामकें बंद.

**थपय** (वि.) मतीन अर्दकुटें; पिसाय; अरवळ; गर्भगळीत.

**थबकण** (ना. स्त्री.) बसकण; थपकल.

**थर** (ना. पु.) लेप; आवरण; रंगाचो भाव.

**थर्त** (वि.) थार; खूब.

**थरथरत** (वि.) कडकडत; कांपत.

**थरथरप** (अ. क्रि.) कडकडप; कांपप.

**थरथरावप** (स. क्रि.) भेश्टावप; कडकडावप.

**थरथरो** (ना. पु.) कडकडो.

**थरप** (स. क्रि.) एक मत जावप; थारावणी करप.

**थरू** (ना. न.) कोयतेक बी घालतात ती लाकडी; शिंगाची बी मूठ.

**थवो** (ना. पु.) भिरें; जमो.

**थळ** (ना. न.) जागो; सुवात; देवळा भोवतणचो वाटार.

**थळावें** (वि.) मूळचें; त्या त्या गांवचें.

## था

**था-था** (ना. स्त्री.) ल्हान भुरग्याचीं बोचकुलां धुंवडावन म्हणिल्ल्या गितांतलीं उतरां.

**थाकाय** (ना. स्त्री.) समादान; थंडसाण; धादोसपण.

**थाट** (ना. पु.) बडवाचार; तरतर; व्हडपण.

**थाट-माट** (ना. पु.) पळय **थाट.**

**थाणें** (ना. न.) १. जागो; सवंयेचो जागो. २. लुगटाची एक जात.

**थातारणी** (ना. स्त्री.) समजावणी; समजाविशी.

**थातारप** (स. क्रि.) समजावप; समज घालप; थंडावप.

**थान** (ना. न.) हड्डें; छातयेचो उबार भाग.

**थानकरीण** (ना. स्त्री.) दुदकान्न; दुसऱ्याल्या भुरग्याक आपलें दूद दिवपी बायल मनीस.

**थाप** (ना. स्त्री.) १. तबल्याचेर, बायाचेर बी वाजोवपाखातीर मारिल्लो हात. २. फट; तड्डक.

**थापट** (ना. न.) हाता तळव्याचो फार.

**थापटणी** (ना. स्त्री.) मायेन मारिल्लीं ल्होवल्होव थापटां.

**थापटप** (स. क्रि.) अपुरबायेन वा मोगान ल्हवू ल्हवू थापटां मारप.

**थापटावणी** (ना. स्त्री.) थापटां मारपाचें काम; थापटावपाचो वावर; मार.
**थापटावप** (स. क्रि.) थापटां मारप; लडो घालप.
**थापटी** (ना. स्त्री.) हातार फार मारचेली लाकडी कांब; पालमत्री.
**थापप** (स. क्रि.) एका जाग्यार थीर करप; आरंब करप.
**थापी** (ना. स्त्री.) गवंड्यालें चेपटें कुलेर.
**थापो** (ना. पु.) गुळो. (अलं.) अबर्गत; आळशी.
**थांबप** (अ. क्रि.) रावप; थारप.
**थांबवप** (स. क्रि.) थारवप; चाल मोडप.
**थांबो** (ना. पु.) गाडी, मोटार बी थांबोवचेलो थरावीक जागो.
**थांय** (क्रि. वि.) ठांय; लागीं; कडेन.
**थार** (ना. पु.) विश्रांती, समाधान.
**थारप** (अ. क्रि.) रावप; थांबप.
**थाराव** (ना. पु.) करार; थारावणी.
**थारावणी** (ना. स्त्री.) कबलात; थारायल्ली गजाल; निच्छेव.
**थारावप** (स. क्रि.) थारावणी करप; निच्छेव करप.
**थारो** (ना. पु.) थांबो; विसव; उसरपत.
**थाल** (ना. न.) शीत करपाचें व्हड आयदन; व्हड तपलें.
**थाली** (ना. स्त्री.) आडसाटें तपलें; ल्हान थाल.
**थाव** (ना. पु.) बांयच्या वा न्हयेच्या पोंदचो तळ; खर.
**थाव-ठिकाणो** (ना. पु.) नामो; पत्तो; नावनिशी.
**थाळी** (ना. स्त्री.) व्हड ताटली; व्हड थाळो.
**थाळो** (ना. पु.) तांब्याची; पितळेची बी बशी.

## थि

**थिंगा** (क्रि. वि.) थंय; थंयसर.
**थिगूर** (ना. पु.) एक काळसार सावें नुस्तें.
**थिरताय** (ना. स्त्री.) एकच एक विचार; मनाची घटसाण.
**थिराय** (ना. स्त्री.) पळय **थिरताय.**
**थिरावप** (स. क्रि.) एकाच जाग्यार घट्ट रावप; थीर दवरप.

## थी

**थीक** (ना. न.) केंप; पाचूसारको खडो.
**थीर** (वि.) अचळ; घट्ट; एकाच विचारान भरिल्लें.
**थीरपण** (ना. न.) थिराय; मनाचो एकच एक थाराव.

## थु

**थु-थु-थुमेकाल** (अ.) वायट घडचें न्हय अशी वान्सा उक्तावचेलीं उतरां.
**थुकप** (अ. क्रि.) निथू उडवप; लुथी घालप.
**थुकी** (ना. स्त्री.) निथू; लुथी.
**थुशी** (ना. स्त्री.) गळ्यांत घालपाची बायलांची एक वस्त.
**थु:** (अ.) लुथी घालतना तोंडांतल्यान आयिल्लो आवाज.

## थे

**थेट** (क्रि. वि.) सारको; सामको; जिस्त; नीट.
**थेटर** (ना. न.) नाटकांचे खेळ करपाचें वा सिनेमा दाखोवपाचें घर.
**थेंबो** (ना. पु.) कूसभर उदक वा कसलीय पातळ वस्त.

## थो

**थोटेपण** (ना. न.) एक पांय नाशिल्ल्यान वा मोटवो जाल्ल्यान आयिल्ली कूट.
**थोटेवप** (अ. क्रि.) कुटप.
**थोटें** (ना.) सारकें चलूंक येना आशिल्लें; पायांनी कुटपी.
**थोडावप** (स. क्रि.) उणें करप; थोडें करप.
**थोडें** (वि.) इल्लें; उणें; जाय ताचेपरस कमी.
**थोडें-भोव** (वि.) अदीक-उणें; चड-थोडें.
**थोताण** (ना. न.) फट गजाल; तड्डक.
**थोमणो** (ना. पु.) मनाक तोपसारकें उतर; आड उलोवणें; उतरांनी काडिल्लो चिमटो.
**थोर** (वि.) व्हड; मानादीक; भोवमानेस्त.

## थं

**थंड** (वि.) शितळ; शांत.
**थंडगार** (वि.) खूब थंड; थंड किरांव.
**थंड जावप** (अ. क्रि.) १. शेळेवप; न्हिवप; हुनसाण वचप. २. जीव वचप; मरप.
**थंडपण** (ना. न.) थंडसाण; कमी उश्णताय; शांतताय.
**थंडसाण** (ना. स्त्री.) पळय **थंडपण.**
**थंडाय** (ना. स्त्री.) शांतताय; शेळ; थंड हवा.
**थंडावप** (स. क्रि.) शांत करप; राग न्हिववप; समजावप.
**थंडी** (ना. स्त्री.) शीं; शेळाव; थंड वारो बी लागिल्ल्यान कपल दुखप; नाक व्हांवप; खोंकली येवप अशी अवस्था.
**थंय** (क्रि. वि.) उलयतल्याकडल्यान पयस; उलयतल्यापासून पयशिल्लो जागो; थिंगा; थंयसर.
**थंयसर** (वि.) पळय **थंय.**

## द

**दखल** (ना. स्त्री.) वळख.
**दखीण** (ना. स्त्री.) दक्षीण; सकाळच्या वेळार उदेंतेकडेन तोंड केल्यार उजव्या हाताक उरता ती दीक.
**दगडफूल** (ना. न.) एक मसाल्याचें आंग; मसाल्यांत घालपाचें कडकडीत वासाचें एक फूल.
**दगदग** (ना. स्त्री.) कंटाळो; उबगण; वाज येवपासारको वावर.
**दगदगप** (अ. क्रि.) उबगण येवप; कंटाळो येवप; वाज येवप.
**दगदगावप** (स. क्रि.) वाज हाडप; उबगण हाडप.
**दगळप** (अ. क्रि.) पगळप.
**दगो** (ना. पु.) विस्वासघात.
**दटावणी** (ना. स्त्री.) दबकावणी; शिटकावणी; भेश्टावणी.
**दटावप** (स. क्रि.) दबकावप; शिटकावप; भेश्टावप.

**दटावपी** (वि.) दबकावपी; भेश्टावपी; तिडकुपी.
**दंड** (ना. पु.) कडसरणी; लिपचेलें काम.
**दंड मारप** (वा. प्र.) कूस मारप; लिपप; कडसरप.
**दडक** (ना. स्त्री.) नेटान झडिल्लो पावस.
**दडप** (अ. क्रि.) लिपप; कडसरप.
**दनपार** (ना. स्त्री.) दिसाच्या बारा ते तीन वा चार वरांमेरेनचो वेळ.
**दप्तर** (ना. न.) लुगटांत बांदिल्ली पुस्तकां; पाटी बी शाळेंत व्हरचेल्यो वस्तू; हिशेबाच्यो पटयो.
**दबकावणी** (ना. स्त्री.) दटावणी; शिटकावणी; धेंगशेणी.
**दबकावप** (स. क्रि.) शिटकावप; दटावप.
**दबदबीत** (वि.) सुको वा पातळय न्हय अशें.
**दबदबें** (ना. न.) दाटसार कड्डणाचें बी तोंडालावणें.
**दबाजो** (ना. पु.) उत्सव; थाटामाटान मनयल्ली धर्मीक वा समाजीक घडणूक.
**दबाव** (ना. पु.) सक्ती; चेंपण.
**दबावप** (स. क्रि.) भिरांत घालप; शिटकावप.
**दबी** (ना. स्त्री.) बुशेद; ल्हान करण; ल्हान दबो.
**दबो** (ना. पु.) १. पत्र्याचें सुपल्लें पेटूल. जेवण-खाण हाड-व्हर करचेलें खणाचें लांबोडें आयदन. २. उज्या गाडयेचो एक एक भाग. ३. फिगदाचो एक रोग.
**दम** (ना. पु.) दबाव; नेट; आपल्यो इत्सा आनी इंद्रियां आळाबंदाक हाडचेलें काम; आत्म्याचेर नियंत्रण.
**दमट** (ना. न.) कुपांनी भरिल्लें मळब; धतरीर पडिल्ली कुपांची सावळी.
**दमडी** (ना. स्त्री.) पयशाचो चोवथो वांटो.
**दमसार** (वि.) ओलसार; सामकें सुकें न्हय आनी सामकें ओलेंय न्हय.
**दमळ** (ना. न.) कुपाचें सांवट; मळबार जमिल्ल्या कुपांची सांवळी.
**दमास्क** (ना. न.) तिजुलो; तिजुल्यांचीं चित्रां आशिल्लें दाट लुगट.
**दमो** (ना. पु.) हड्डें भरून येवपाचो आनी उस्वासाक आडखळ जावपाचो रोग.
**दया** (ना. स्त्री.) काकुळट; चुरचुरे.
**दयामाया** (ना. स्त्री.) काकुळट; मोग-माया.
**दयावंत** (वि.) काकुळतेस्त; दया आशिल्लो; मोव अंतस्करणाचें.
**दयेस्त** (वि.) काकुळतेस्त; चुरचुरे आशिल्लें.
**दर** (ना. पु.) १. एक एकलें; जण एकलें. २. मोल; किंमत.
**दर्जिपण** (ना. न.) आंगावयलीं शिंवपाचो धंदो.
**दरजी** (ना. पु.) आंगांचीं शिवपी मनीस; शिंपी; आल्फियाद.
**दरजो** (ना. पु.) तरा; जात; मोल; गूण.
**दर्ब** (ना. पु.) यज्ञांत आनी हेर धर्मीक वावरांत उपकरावचेली तणाची पाती.
**दर्बट** (वि.) करपल्लो वास आयिल्लें.
**दर्बटाण** (ना. स्त्री.) जेवण-खाण बी करपल्ल्याचो वास.
**दरबार** (ना.) राजा; प्रधान आनी हेर सरकारी जाळवणदारांची सभा.
**दर्या** (ना. पु.) समुद्र; सागर.

**दर्यावेळ** (ना. स्त्री.) दरयाची सपाट आनी नितळ कड.

**द्रव** (ना. पु.) उदकाभाशेन पातळ जिनस.

**दरवटो** (ना. पु.) दाराची भोंवतण; दाराची फास्की; व्हड दार.

**दरवाजो** (ना. पु.) मुखेल व्हडलें दार.

**दर्शन** (ना. न.) दिस्टावो; भेट.

**दरेका** (वि.) जण एकल्या; दर एकल्या.

**दरी** (ना. स्त्री.) दोन दोंगरांमदली अशीर आनी खोल सुवात.

**दलाल** (ना. पु.) व्यापाऱ्यांकडल्यान म्हाल घेवन दुसऱ्याक विकपी मदलो मनीस.

**दलालपण** (ना. न.) दलालाचो धंदो; एकाकडल्यान म्हाल घेवन तो दुसऱ्याक विकपाचो धंदो.

**दंव** (ना. पु.) फांतोडेर मळबांतल्यान धुंवराभाशेन देंविल्लो खूब बारीक उदका शिंवर.

**दवरणें** (ना. न.) माथ्यावेलें ओजें दवरूंक मार्गाचे कडेन केल्ली फातरांची उबारी.

**दवरप** (स. क्रि.) जायथंय वा जाय ताचेकडेन थारवप; पातयेवप; कोणायकडेन राखूंक दिवप; सांबाळूंक दिवप.

**दवलो** (ना. पु.) पातळ जिनस काडपाचें वाटकुळ्या तोंडाचें व्हड कुलेर.

**द्वेस** (ना. पु.) दुस्वास; दुसऱ्याचें वायट जावचें अशी इत्सा.

**द्वैत** (ना. न.) वेगळेपण; वेगळोचार.

**दशमान-तागडी** (ना. स्त्री.) खूब जड जड वस्तू जोखपाची तागडी.

**दशमान तिंब** (ना. न.) सगल्यो वस्तू आनी ते वस्तूचे भाग दाखोवपी बारीक वाटकुळो तिबो. ह्या तिब्याचे दावे वटेनचो आंकडो सगल्यो वस्तू दाखयता जाल्यार उजवे वटेनचो आंकडो ते वस्तूचे भाग दाखयता.

**दशमान-पद्धत** (ना. स्त्री.) फकत धा धा पट व्हड जायत वचपी आनी धा धा पट ल्हान जायत वचपी जोखां आशिल्ली पद्धत.

**दशलाख** (वि.) धा लाखांचो आंकडो.

**दशसहस्त्र** (वि.) धा हजारांचो आंकडो.

**दशा** (ना. स्त्री.) स्थिती; परिस्थिती; तरा.

**दशांश** (वि.) एके सगलें वस्तुचो धावो वांटो.

**दशीण/दसण** (ना. स्त्री.) फुलां दिवपी एक आडसाटें झाड.

**दस** (वि.) धा; धा हो आंकडो.

**दसक** (वि.) धा धा वस्तूंचो एक एक गट.

**दसणीफूल** (ना. न.) दसणी झाडाचें फूल.

**दस्तो** (ना. पु.) आर्माची नळी बसयल्लो लाकडी भाग; आर्माची मूठ.

**दसप** (अ. क्रि.) एकामेकाक घट्ट लागप; एकामेकाक चिकटप.

**दसम** (ना. स्त्री.) हिंदु म्हयन्याचे पयले आनी दुसरे पंद्रशीचो धावो दीस.

**दसरो** (ना. पु.) आश्वीन शुद्ध दसमी सावन पुनव मेरेन मनयतात तो दबाजो.

**दसवप** (स. क्रि.) एकामेकाक घट्ट लावप; एकामेकाक चिकटावप.

**दळणवळण** (ना. न.) येवप-वचप; हाडप-व्हरप; येत्या-वेत्या मनशांची आनी हाड-व्हर केल्ल्या म्हालाची घोळणूक.

**दळणी** (ना. स्त्री.) दळिल्ली वा दळचेली वस्तू.

**दळप** (स. क्रि.) दाण्या-गोट्याचें वा दुसरें कसलेंय पीठ करप.
**दळ** (ना. पु.) वास.
**दळदीर** (ना. न.) दुर्बळकाय; पयशा-आडक्या बगर जाल्ले हाल-उपाद्रे.
**दळदिरें** (वि.) नशीब फुटकें; पयसो-आडको आनी सुख-समाधान नाशिल्लें; दुर्बळ.
**दळिद्री** (वि.) पळय **दळदिरें.**
**दक्षणा** (ना. स्त्री.) धर्मीक काम केल्लेखातीर ब्राह्मणाक दिल्लें दान.
**दक्षीण** (ना. स्त्री.) चार दिकांमदली एक दीक; उदेंतेकडेन फुडो करतकच उजव्या हाताक उरता ती दीक.

## दा

**दाक** (ना. स्त्री.) द्राक्ष; दाकूं; द्राक्षाची वाल.
**दाकूं** (ना. न.) द्राक्ष; दाक.
**दाकूं-वाल** (ना. स्त्री.) द्राक्षां दिवपी वाल.
**दाखलो** (ना. न.) पुरावो; कसलीय घडणूक खरी वा फट थारावपाचो लिखीत.
**दाखवणें** (ना. न.) पत; देख; एके सगले आनी व्हड वस्तूचो इल्लो भाग.
**दाखोवणी** (ना. स्त्री.) भायलोचार; दाखोवचेलें काम; दाखोवचेलें रूप; वयलोचार.
**दाखोवप** (स. क्रि.) नदरेक हाडप; सुचोवप.
**दाग** (ना. पु.) लाशिल्ल्याचें खत; मारा-फारांचो उदेल्लो वळ.
**दागप** (स. क्रि.) तापिल्ले सरयेन वा दुसरे कसलेय धातूचे वस्तून आंग भाजप.
**दांग** (ना. न.) धेंप; उडी.
**दांगर** (ना. पु.) दाण्या-गोट्याचो वा नुस्त्याचो मसालो बी घालून तळिल्लो वडो.
**दाट** (वि.) घटसार; गाड; जाड; गच्च.
**दाटपाण** (ना. स्त्री.) घटसाण; जाडाय; गाडसाण.
**दाटसाण** (ना. स्त्री.) पळय दाटपाण.
**दाटाय** (ना. स्त्री.) मोठसाण; जाडाय.
**दाटी** (ना. स्त्री.) जाडी (अलं.) इश्टागत.
**दाटून** (क्रि. वि.) बळयां; मुद्दाम.
**दाटें-मोटें** (वि.) बरें वाडिल्लें; व्हडशें.
**दाड** (ना. स्त्री.) दांताचे माळिंतलो कुशिनचो व्हड दांत.
**दाडवण** (ना. न.) दांतांची वयली आनी सकयल्ली माळ.
**दाडी** (ना. स्त्री.) १. कुशिनचो व्हडलो दांत; खाल्लें जेविल्लें दळिल्ल्यावरी पीठ करपी दांत. २. खाडकेर वाडिल्ले वा वाडयल्ले केंस; खाड.
**दांडी** (ना. स्त्री.) बडी; मुस्तायकी सुकोवंक आडवो बांदिल्लो कोंडो.
**दाडेल** (ना. न.) तळून जातकच उरिल्लें तेल; दाट जाल्लें तेल.
**दांडो** (ना. पु.) कोंड्या कुडको; हातांत धरपाची बडी; तोणको.
**दाणारो** (ना. पु.) केळीचें अख्खें पान; पोपायेचें दांड्या पान.
**दाणो** (ना. पु.) कड्डाणाचो वा तांदळा-गंवाचो कण; गोटो.
**दाणोगोटो** (ना. पु.) तांदूळ; गंव; कड्डण आनी जेवणा-खाणाचे हेर जिनस.
**दांत** (ना. पु.) चाबून बारीक करूंक; तोडूंक वा घट्ट धरूंक तोंडातले हड्डेक फुटिल्ले हाडा कुडके.
**दांत ओंट खावप** (वा. प्र.) रागान दांत ओंट चिड्डप.

**दांतकडी** (ना. स्त्री.) दांतखिळी; एकामेकांक घट्ट मेळिल्ल्यो दांतांच्यो माळो.
**दांतखिळी** (ना. स्त्री.) एकामेकांचेर घट्ट बशिल्ल्यो दांतांच्यो माळो.
**दांत-पार्डे** (वि.) एक गाळ; कित्याकितेंय उलयतल्या मनशाक लेखूंक काडिल्लें वायट उतर; पाड्या दातांचें.
**दांतविणें** (वि.) दातांबगर; दांत नाशिल्लें.
**दांतो** (ना. पु.) फणयेभाशेन लांब दातांचो; एक शेता वावराचें आवत; चकऱ्यो; शेवयो बी काडपाच्यो मांडण्यो आशिल्लें साधन.
**दांतोणी** (ना. स्त्री.) केंस वळोवपाची बारीक दातांची वस्तू; फणी.
**दांतोळ** (ना न.) विणगाभाशेन एक नुसतें.
**दांतोळ्यो** (ना. स्त्री.) भुरग्याक पयले दांत येतकच ताका खाणाच्या तेरेकवार जिनसांचो पावस घालून ताची केल्ली अपुर्बाय.
**दाद** (ना. स्त्री.) चरतें; कातीचो रोग.
**दादड** (ना. पु.) कसल्याय विखारान कातीक आयिल्ली पुळयेभाशेन मातशी सूज.
**दादलेपण** (ना. पु.) दादल्याच्या आंगांत आसपाचे गूण.
**दादलो** (ना. पु.) दादलो मनीस; घोव; घरकार; पति.
**दादा** (ना. पु.) व्हडलो भाव; गुंड लोकांचो मुखेल.
**दान** (ना. न.) ओंपणी; देण.
**दानत** (ना. स्त्री.) मनाचें मोठेपण.
**दानधर्म** (ना. पु.) लोकांक मजत करपांत केल्लो दुडवांचो खूब खर्च.
**दानपत्र** (ना. न.) दान केल्याचें लिखीत.
**दानशूर** (वि.) गरजीवंतांक दिवपांत सदांच फुडें आयिल्लें; सदळ हातान मदत करपी.
**दाना-धिस्पट** (ना. स्त्री.) खूब मोड-तोड; कुस्कुटावणी; खर शिटकावणी.
**दाबण** (ना. न.) शिवणकाम करपाची वा साक बी शिंवपाची व्हड सूय; निकतेंच फुटिल्लें पणसाचें फळ.
**दाबणें** (ना. न.) माडा सूर घेवंक कापिल्ले पोयेक लावचेलो बुडकुलो.
**दामप** (स. क्रि.) चिड्डप; आवळप.
**दामास्क** (ना. स्त्री.) जमनीक वा वणटींक बसोवचेले तुळतुळीत आनी सोबीत फातर.
**दाय** (ना. स्त्री.) शीत बी वाडपाचें चपट्या तोंडाचें दवल्याभाशेन आयदन.
**दायज** (ना. न.) आपले कुळयेंतलें नातें; गोतें.
**दायजी** (ना. पु.) कुळयेंतलो वा आपले नात्यांतलो मनीस.
**दायजिपण** (ना. न.) दायज्यांभितल्लो संबंद; एका घराण्याच्या मनशां भितल्लें नातें.
**दायण** (ना. स्त्री.) एक नुस्त्या जात.
**दार** (ना. न.) घरांत भायर भितर सरूंक वणटीक दवरलेलो उकतो जागो.
**दार पासाक लागप** (वा. प्र.) दार उकतें आसप.
**दारवडी** (ना. स्त्री.) दार.
**दारूगुळो** (ना. पु.) मार फार करचेली दारू आनी गुळे.
**दारू** (ना. स्त्री.) पेट घेवपी जिनस; उजो लागपी वस्तू.
**दाली** (ना. स्त्री.) ल्हान भुरग्याच्या कानांत घालपाच्यो वस्ती.

**दार्ले** (ना. न.) तागडेचें ताट.

**दाव** (ना. पु.) खेळाची खेप; खेळाची फावट.

**दावकूल** (ना. न.) माजरासारक्या मोनजातीचें बोचकूल.

**दावखुर्रे** (वि.) दाव्या हातान वावर करपी.

**दावखूल** (ना. स्त्री.) पळय **दावकूल.**

**दावण** (ना. स्त्री.) चार-पांच बैलांक एकठांय बांदपाची वेवस्ता.

**दाव्यान** (क्रि. वि.) दावे वाटेन.

**दावल** (ना. न.) ल्हान दोवलो.

**दावस** (ना.) पावसाळ्यांत किल्लतात आनी मातलात तीं झाडां.

**दावें** (ना. न.) गोरवांक वा हेर मोनजातीक बांदपाची दोरी.

**दावें** (वि.) दावे वटेनचें.

**दास** (ना. पु.) ल्हान सान कामां करपी चाकरमानो; खूब ओड आशिल्लो इश्ट.

**दांस** (ना. पु.) दादल्या-बायलांचो नाच.

**दास्तन** (ना. न.) कोठी; सांटो; तिजोरी; कसल्योय वस्तू एकठांय करून दवरचेलो जागो.

**दासी** (ना. स्त्री.) राजा-राणीसारक्या व्हड मनशाची कामां करपी बायल मनीस.

**दाळ** (ना. पु.) एकामेकांचेर मांडिल्ल्यो वस्तू; एक कड्डण.

**दाळाक लावप** (वा. प्र.) १. एकामेकांचेर दवरप. २. मारून उडोवप.

**दाळणी** (ना. स्त्री.) एका वयर एक रचणी.

**दाळप** (स. क्रि.) एकाचेर एक दवरप.

**दाळीम** (ना. न.) एक गोड बियांचें फळ.

# दि

**दिक** (ना. न.) दिशा; दिको चार आसात : पूर्व (उदेंत); पश्चिम (अस्तेंत); दक्षीण आनी उत्तर.

**दिखाळ** (वि.) दिखान भरिल्लें.

**दिगंतर** (ना. न.) खूब पयशिल्लें गांव.

**दिग्विजय** (ना. पु.) चोंयवाटांनी जोडिल्लें जैत; सगल्या वाटांनी जोडिल्लें यस.

**दिंडी** (ना. स्त्री.) गायत वाजयत देवाचे वा धर्मीक थळाचे भेटीक काडिल्ली भोवणी; भजन करपी लोकांचो मेळ.

**दितर्ले** (ना.) दिवपी.

**दिनवासप** (स. क्रि.) उपकार मानप.

**दिपकावप** (स. क्रि.) उजवाडान नदर भिलभिलावप.

**दिपचंदी** (ना. पु.) संगितांतल्या तालाचें एक नांव.

**दिपप** (अ. क्रि.) खर उजवाडान दोळ्या नदर भिलभिलप.

**दिपरदना** (ना. स्त्री.) पेटयल्ल्या दिव्याची रस्त; पेटयल्ल्या पणट्यांची वा वातींची वळ.

**दिपावणी** (ना. स्त्री.) दिपावचेलें काम.

**दिपावणें** (ना. न.) चड उजवाडान आयिल्लें थोड्या वेळापुरतें अंदुकेपण; दिपावचेली वस्त.

**दिपावप** (स. क्रि.) खर उजवाडान नदर म्हेळी करप.

**दिफळ** (ना. पु.) नांगर; खोरें; पिकास बी सारख्या आवतानीं काडिल्लें मातयेचें कपचेल; मातये-देपां.

**दिमयां** (क्रि. वि.) दिमी मारून.

**दिमी** (ना. स्त्री.) धोंपर जमनीक तेंकोवन रावचेली तरा.

**दिमखुरी** (ना. स्त्री.) जमनीर हात

पांय तेंकोवन रावप.

**दियाब** (ना. पु.) देमणो; म्हारू; देंवचार.

**दियोनीझ** (ना. पु.) ग्रेग लोकांचो देव.

**दिलरुबा** (ना. पु.) सतारीभाशेन पड्डे आशिल्लें आनी गजान वाजोवपाचें एक वाद्य.

**दिल्ली** (ना. स्त्री.) भारताचें राजपाटण.

**दिवज** (ना. न.) पांच; सात बी वाती पेटोवपाचें मालें.

**दिवटी** (ना. स्त्री.) पयलींच्या काळांतलें उजवाडाचें एक साधन; पितुळच्या दांड्यांक आंगट्यो गुटलावन तेलान पेटोवचेलो दिवो.

**दिवटें** (वि.) वायट कर्तुबां आदारून आपले आनी आपल्या घराण्याचें नांव वगडावपी.

**दिवप** (स. क्रि.) दुसऱ्याच्या हवाली करप; कोणाच्याय सुवादीन करप; ओंपप.

**दिवपी** (ना. स्त्री.) सुवादीन करपी; दिणो.

**दिव्य** (वि.) अजापांचें; सप सप घडना असलें; मनशाकडल्यान ज्ञावंक कठीण अशें. (ना. न.) कठीण काम; परिक्षा.

**दिवली** (ना. स्त्री.) दिवे पेटोवचेली मालें आनी दांडो आशिल्ली एक वस्त.

**दिवळे मारप** (क्रि.) व्हड मोरतेला भाशेन लाकडा आवतान मातयेचें देंपे फोडप.

**दिवळो** (ना. पु.) शेंतातले मातये देंपे फोडपाचे तुतयाभाशेन एक आवत.

**दिवाळी** (ना. स्त्री.) कार्तीक म्हयन्यांतलो एक म्हत्त्वाचो सण; नरक चतुर्दस; श्रीकृश्णान नरकासूराक मारून उडयल्ल्या दिसाचो वाडदीस.

**दिवाळें** (ना. न.) वेपार धंद्यातलें भरून येवपाचें न्हय अशें व्हड लुकसाण जावन जाल्ली दशा.

**दिवे लावणीवेळ** (ना. स्त्री.) तीनसांज; आमोरी; तीनकात्री वेळ.

**दिवो** (ना. पु.) उजवाडापसत पेटयल्ली पणटी; मेणवात; बल्ब बी वस्तू.

**दिवोड** (ना. पु.) एक जिवाणें.

**दिश्ट** (ना. स्त्री.) वायट नदर.

**दिश्ट काडप** (स. क्रि.) वायट नदरेन जाल्लें वायट निवळावप.

**दिश्ट जावप** (स. क्रि.) नदर लागप.

**दिश्टवाद** (ना. पु.) नदर लागून जाल्ली बादा.

**दिश्टादय** (ना. स्त्री.) नुस्त्या निवेद्य मानून घेवपी एक देवता.

**दिश्टावो** (ना. पु.) दिश्ट; नदर; सपनांतलो देखाव; पयलीं जाल्लो भास; फुडली नदर.

**दिश्टीकार** (ना. पु.) दिश्टवाद काडून उडोवपी.

**दिश्टी पडप** (सं. क्रि.) नदरेक पडप; दिसप; देखप; पळोवप.

**दिशा** (ना. स्त्री.) १. दिक्; उदेंतेकडली; अस्तेंतकडली बी वाट. २. ध्येय; मोख; थारावणी.

**दिशिंदिशी** (क्रि. वि.) दिसानदीस.

**दिसप** (स. क्रि.) नदरेक पडप; पळोवप; समज जावप; मनांत येवप.

**दिसपट्टें** (क्रि. वि.) दिसान दीस; दरदिसा; सदांच; दरएकल्या दिसाचें; सदांचें.

**दिसपडटेर** (क्रि वि.) दीस देंवपा वेळार; अस्तेंत.

**दिसणें** (वि.) दिसपी.

**दिसवडो** (ना. पु.) एक वावरा दीस; एका दिसाचो मुशारो.

**दिसां-जोर** (ना. पु.) तिफोयद वा ते जातीचो जोर.
**दिसान-दीस** (क्रि. वि.) दर दिसा; दिशिदिशीं.
**दिसाळें** (ना. न.) दिसपट्टें उजवाडा येवपी नेमाळें.
**दिक्षा** (ना. स्त्री.) धर्म आपणावचेलो विधी; *धर्म आपणावचेलो धर्मीक सुवाळो.*

## दी

**दीक** (ना. पु.) पळय **दीख.**
**दीख** (ना. पु.) झाडा पानांतल्यान वा फळां देटांतल्यान व्हांविल्लो बुळबुळीत पातळ द्रव.
**दीन** (वि.) गरीब; दुर्बळ; नम्र.
**दीर** (ना. पु.) कंवळी खांदी; फागूर; आडफागूर.
**दीस** (ना. पु.) सूर्य उदेत पासून तो पडमेरेनचो काळ. मध्यानरातीपासून दुसऱ्या दिसाच्या दनपार मेरेनचो काळ.

## दु

**दुकटें** (वि.) दुसरें.
**दुकर** (ना. पु.) एक *पोशिल्ली मोनजात.*
**दुकरपण** (ना. न.) पिशेपणाचें काम; हीण कर्तुब.
**दुकरीण** (ना. स्त्री.) दुकराचें स्त्रीलिंग.
**दुकलें** (वि.) दुसरें; वेगळें.
**दुकळ** (ना. पु.) टंचाय; उदक नासून *जाल्ली दाण्यागोट्याची खर टंचाय.*
**दुकान** (ना. पु.) पसरो; विकचेल्यो वस्तू दवरिल्लें घर.
**दुखणें** (ना. न.) रोग; पिडा; वायट.
**दुखणेकार** (ना. पु.) वायटकार.
**दुखदिणें** (वि.) दुख्ख *भोगयणें.*
**दु:ख** (ना. न.) त्रास; मनाक बादिल्ली पिडापीड; पिडा; खंत.
**दुखप** (अ. क्रि.) त्रास जावप; कळा मारप; दुखी बादप.
**दुखाणू** (ना. न.) सुजीन आयिल्लो आनी मातेरीन भरिल्लो मोटो फोड.
**दुखाभरीत** (वि.) दुख्खी; दुख्खाभरीत; खूब खंती.
**दुखावप** (स. क्रि.) दुखी जावप; मार लागप; मार घालप.
**दुखी** (ना. स्त्री.) त्रास; हायवूय; सोसूंक जायना असो अणभव.
**दु:खी** (वि.) त्राशीक; मनाक पिडा भोगिल्लें; खंती.
**दुखेस्त** (वि.) दु:खान भरिल्लें; त्राशिल्लें.
**दुगदुगीत** (वि.) हुनसार; चड हून न्हय आनी चड थंड न्हय अशें.
**दुच्छित्र** (ना. न.) वायट चित्र; वायट सुचोवणी.
**दुच्छिरी** (ना. स्त्री.) एका वखदी झाडाचीं मुळां.
**दुजें** (वि.) दुसरें.
**दुट्टी** (वि.) दुपार; दोन वाट्यांनी चड; दोडी.
**दुडू** (ना. पु.) पैशे.
**दुडवांकार** (ना. पु.) खूब दुडू आशिल्लो मनीस; गिरेस्त मनीस.
**दुत्रो** (ना. पु.) वखदी झाड; हांसयाळी.
**दुदकार** (ना. पु.) दूद विकपी.
**दुदको** (ना. पु.) चड दूद पियेल्ल्यान जाल्लो एक रोग.
**दुदफेणो** (ना. पु.) दूदा खव्याची दोनय वाटेन तोंकां आशिल्ली गुळी.
**दुदाळ** (वि.) खूब दूद दिवपी.
**दुदी** (ना. पु.) एक फोफगें आनी

मांसाळ पावशी फळ.

**दुदीण** (ना. स्त्री.) दुदया वाल.

**दुदिरमण** (वि.) दुदयाभाशेन मोटो वाटकुळो आनी फोफसो.

**दुदोळी** (ना. स्त्री.) तांदळां कण्याचो खावचेलो एक गोड जिनस.

**दुपेट** (वि.) दुप्पट; दोन फावट व्हड.

**दुबळेकाय** (ना. स्त्री.) अशक्ताय; अजागळपण; अशक्तपण; अबर्गपण.

**दुबळें** (वि.) दुर्बळ; गरीब; धिटाय नाशिल्लें; अबर्गत.

**दुबाव** (ना. पु.) संशय; दोन आरते परते विचार; दोन भाव.

**दुबावप** (स. क्रि.) दोन उरफाटे विचार येवप; एकाच विचाराचेर थीर नासप; हय काय न्हय हांच्या मर्दी घुसपप.

**दुबावी** (वि.) दुबाव आशिल्लें; थीर नाशिल्लें; दोन आरत्या परत्या विचारांत घुसपल्लें.

**दुभाशिपण** (ना. न.) एके भाशेचो दुसरे भाशेंत अणकार करचेलें काम.

**दुभाशी** (ना. पु.) एके भाशेचो दुसऱ्या भाशेंत अणकार करपी.

**दुर्गूण** (ना. पु.) वायट गूण; वायट सबाव.

**दुर्दैव** (ना. न.) वायट नशीब.

**दुर्बळ** (वि.) कसलीच आस्पत नाशिल्लें; शक्तीचें वा दुडवांचें बळगें नाशिल्लें.

**दुर्बळकाय** (ना. न.) गरीबपण.

**दुर्बीण** (ना. स्त्री.) पयशिल्लें दिसपाचें हारशे लायिल्ल्यो दोन नळयो.

**दुर्भागी** (वि.) वायट नशिबाचें; कर्मकट्टें.

**दुर्दशा** (ना. स्त्री.) वायट परिस्थिती; दुखदिणी स्थिती.

**दुर्बुद्द** (ना. स्त्री.) वायट बुद्द; वायट विचार.

**दुर्मुखी** (वि.) सदांच वायट तोंड करपी; कसल्याय किरकोळ कारणाक लागून सुद्धां रडवें वा चिंतेस्त तोंड करपी.

**दुर्येस** (ना. न.) रोग; वायट.

**दुरवो** (ना. स्त्री.) हरयाळी; गणपतीक ओपचेलीं पांचव्या पात्याचीं ल्हान रोंपां.

**दुरीग** (ना. न.) ताशिल्ल्या चिऱ्यांचो सोबीत आडो.

**दुरूपयोग** (ना. पु.) वायट उपेग; चुकीचो उपेग.

**दुल्पद** (ना. न.) लोकगिताची एक तरा. मांडो गावन जातकच हें म्हणटात.

**दुवाड** (वि.) अवचिन्नाळें; मोड-तोड करपी.

**दुवाडपण** (ना. न.) अवचिन्नपण; मस्तेपण.

**दुवादस** (ना. स्त्री.) हिंदू म्हयन्याचे पयले आनी दुसरे पंद्रशीचो दीस.

**दुवाळो** (ना. पु.) गुरवार बायलेची आवड-नावड; इत्सा.

**दुश्ट** (वि.) वायट इत्सा धरपी आनी वायट करणी आधारपी.

**दुश्टपण** (ना. न.) वायट करपाचो सबाव.

**दुशण** (ना. न.) उणेपण; गुन्यांव; दोश.

**दुस्मान** (वि.) दुसऱ्याचें वायट चिंतपी आनी वायट करपी.

**दुस्मानकाय** (ना. स्त्री.) दुसऱ्याचें वायट चिंतपाचो आनी वायट करपाचो सबाव.

**दुस्मानी** (ना. स्त्री.) वायट तरेचे संबंद.

**दुसरेपण** (ना. न.) दुसरी खेप; दुसरी फावट.

**दुसरें** (वि.) २ ह्या क्रमांकाचेर येवपी आंकडो.

**दुस्वास** (ना. पु.) अंदुकेपण; कुन्नाटकाय; मत्सर.
**दुस्वासप** ((अ. क्रि.) दुस्वास करप; दुसऱ्याचें वायट इत्सप.
**दुस्वासी** (वि.) अंदुकें; दुसऱ्याची नसाय करपी; मत्सरी.

## दू

**दूक** (ना. न.) दोळ्यांतल्यान गळिल्लो उदका थेंबो.
**दूख** (ना. न.) त्रास; खंत; सोसूंक जायना असो अणभव; मनाक बादिल्ली व्हड दुखी.
**दूज** (ना. स्त्री.) बारा वस्तूंचो गट.
**दूत** (ना. पु.) सांगणें हाडपी आनी व्हरपी मनीस.
**दूतपण** (ना. न.) सांगण्यो पावोवचेलो आनी हाडचेलो वावर.
**दूद** (ना. न.) बायलमनशेच्या हड्ड्याच्या पेशींतल्यान व्हांविल्लो एक धवो गोडसार पातळ जिनस.

## दे

**देख** (ना. स्त्री.) ज्याचे भाशेन चलचें; करचें वा जियेवचें असो; नमुनो; अनुकरण.
**देखणें** (वि.) सुंदर; रूपेस्त; बरें दिसणें.
**देखणी** (ना. स्त्री.) १. गोंयच्या एका गायनाची आनी नाचाची तरा. २. रूपेस्त; सुंदर.
**देखप** ((स. क्रि.) पळोवप; चोवप.
**देखभाल** (ना. पु.) वासपूस; चौकशी; व्यवस्ता; बरदास्त.
**देखवंत** (वि.) देख घेवची अशे गूण आशिल्लो; ज्याचे भाशेन चलचें अशें.
**देखाव** (ना. स्त्री.) पळोवपासारकी सुंदर आनी अजापाची गजाल; नदर ओडून घेवचेलें सैमाचें चित्र.
**देखावो** (ना. पु.) पळय **देखाव.**
**देखी-काणी** (ना. स्त्री.) बरी देख शिकोवचेली काणी.
**देखून** (अ.) म्हणून; ह्याखातीर; ह्यापासत.
**देग** (ना. स्त्री.) १. दर्याक तेंकिल्ली जमीन; कांठ. २. न्हेंसणाचे कडेन आशिल्लो सोबीत पटो.
**देजो** (ना. पु.) रूजू केल्ल्या वा तपाशिल्ल्या कलमाचेर मारिल्ली कुरू.
**देंट** (ना. पु.) पानाचो वा फुलाचो दांडो.
**देंटो** (ना. पु.) दुदनी झाडाचो; तांबडे भाजेचो बी नाजूक आनी रोसाळ खांदो.
**देठो** (ना. पु.) व्हडलें दार; दरवाजो.
**देड** (वि.) एक सगली आनी अर्दी वस्त.
**देडशाणें** (वि.) शाणें न्हय; फाजील; आपल्याक चड शाणें समजुपी अशा अर्थाचें कुस्कुटावणेचें उतर.
**देडशें** (वि.) एक शेंकडो आनी अर्दो (१५०).
**देडी** (ना. स्त्री.) एक आनी एकाचें अर्द इतलो आंकडो.
**देडें** (वि.) एक आनी अर्द खेपो.
**देण** (ना. स्त्री.) दिल्ली वस्त वा दुडू; पागण; भेट.
**देणें** (ना. न.) रीण; कर्ज.
**देणेंकार** (ना. पु.) देणें आशिल्लो मनीस; रीण घेतिल्लो मनीस.
**देणें घेणें** (ना. न.) दिवपा-घेवपाच्यो वस्तू वा दुडू.

**देदाल** (ना. न.) सूय तोपची न्हय म्हणून बोटाक घालपाचें बुकाल.

**देदे** (ना. पु.) भुरग्यांले भाशेन दिवो.

**देपो** (ना. पु.) मातयेचें दिफळ.

**देमणो** (ना. पु.) देंवचार; म्हारू.

**देमांद** (ना. पु.) मनसुबी; जुविजामुखार जाल्ली भाट-बेंस संबंदान वा दुसरी कसलीय रूजवात.

**देमांदिस्त** (ना. पु.) देमांद करपाचो नाद आशिल्लो मनीस; खटल्यांचो नादी मनीस.

**देर** (ना. पु.) १. न्हवऱ्याचो भाव; घोवाचो भाव. २. कळाव; तोडोव.

**देर** (ना. न.) पळय **दार.**

**देलगाद** (ना. पु.) सरकारी वकील; मुणयारी वकील.

**देव** (ना. पु.) हो संसार आनी तातूंत जें जें कितें आसा तें तें रचपी.

**देवकारें** (ना. न.) तरेकवार जिनसाचें देवाक ओंपिल्लें जेवण.

**देवघेव** (ना. स्त्री.) दिवप-घेवप; देणें-घेणें.

**देवकेळमो** (ना. पु.) एक फुलांझाड; हळदी पानांभशेन व्हड पानांचें आनी तरेकवार रंगाचीं फुलां दिवपी झाड.

**देंवचार** (ना. पु.) म्हारू; बरें तशें वायट करपी देमणो.

**देंवचारपण** (ना. न.) खूब वायट करपी; देंवचारासारकी करणी.

**देंवणी** (ना. स्त्री.) देंवती; सकयल गेल्लो जमनीचो तळ.

**देवता** (ना. स्त्री.) लक्ष्मी; सरस्वती; शांतादुर्गा सारकी देवी.

**देंवती** (ना. स्त्री.) सकयल गेल्लो जमनीचो तळ; देवणी.

**देंवतें** (वि.) सकयल देंविल्लें; सकयल येवपी; उंचायेवयल्यान सकयल आयिल्लें.

**देवधर्मिश्ट** (वि.) देवा-धर्माचेर कर विस्वास आशिल्लें; उपास-तपास आनी हेर धर्मीक कामां पोट-तिडकेन करपी; देवभोळें.

**देवनगर** (ना. न.) देवालो राबितो आशिल्लें शार; कुचकुचीत देवळांनी भरिल्लो गांव वा शार.

**देवनागरी (लिपी)** (ना. स्त्री.) भास बरोवचेली लिपी; बालबोध लिपी.

**देंवप** (अ. क्रि.) वयर सावन सकयल येवप.

**देवपण** (ना. न.) देवाची सेवा; देवाची भक्ती; देवासारके गूण.

**देवपिसाय** (ना. स्त्री.) देवापिशें; देव देव करचेली सवंय; देवभोळेपण.

**देवपिशें** (वि.) देवाचें पिशें लागिल्लें; देवाविशीं चड नाद लागिल्लें.

**देंवपी** (वि.) सकयल येवपी; उतरपी.

**देवमनीस** (ना. पु.) देवासारको; नितिवंत; भावार्थी मनीस.

**देंववप** (स. क्रि.) वयर सावन सकयल हाडप; खाला उतरावप.

**देववाणी** (ना. स्त्री.) देवाली सांगणी आनी शिटकावणी; देवाली भास; संस्कृत भास.

**देवस्थान** (ना. न.) देवाचो जागो; देवालें घर; देवूळ.

**देवसपण** (ना. न.) तरेतरच्या. उपायांनी केल्ली देवाची सेवा.

**देवसांव** (ना. न.) देवाची सेवा आनी भक्ती.

**देवळी** (ना. स्त्री.) १. ल्हान देवूळ. २. एके जातिचें नांव; देवळ्यांतल्या वावराची चाकरी करपी.

**देवाकूड** (ना. स्त्री.) १. देवाची म्हूर्त

आशिल्ली आनी देवाची पूजा बी करचेली घराची खाशेली कूड. २. ज्याचेर देवाचो भार येता तो मनीस.
**देवारो** (ना. पु.) देवाची म्हूर्त बसोवचेलें आसन.
**देवी** (ना. स्त्री.) १. देवता; देव ह्या उतराचें स्त्रीलिंगी रूप. २. सगल्या आंगार फोड येवपाचो एक भिरांकूळ आनी वशाचो रोग.
**देवूळ** (ना. न.) देवालें घर; देवाचे म्हुर्तिची थापणूक करून तिची पूजा बी करचेलें घर.
**देवोसांव** (ना. न.) देवाची भक्ती.
**देव्होत** (वि.) देवाची भक्ती आनी सेवा करपी.
**देश** (ना. पु.) भुंयेचो एक व्हड वांटो; राश्ट्र.
**देशभक्त** (वि.) आपल्या देशाचेर मोग करपी आनी ताच्या बऱ्या भल्याखातीर वावुरपी.
**देशभक्ती** आपल्या देशाचो मोग आनी ताच्या बऱ्याखातीर केल्लो वावर.
**देशांतर** (ना. स्त्री.) खूब पयशिल्लो देश.
**देशी** (वि.) आपल्या देशांतलो देशांत तयार जावपी.
**देस** (ना. स्त्री.) भुयेंचो एक व्हड भाग; राश्ट्र.
**देसभक्त** (ना. पु.) आपल्या देसाचेर मोग करपी आनी ताच्या बऱ्याखातीर वावुरपी मनीस.
**देसभक्ती** (ना. स्त्री.) आपल्या देसाचो मोग आनी सेवा.
**देसभाव** (ना. पु.) एकाच देसांत रावतल्या मनशां भितल्लें नातें.
**द्वेस** (ना. पु.) दुसऱ्यासंबंदान वायट इत्सा; दुस्वास; कुन्नाटेपण; अंदुकेपण.
**देह** (ना. पु.) कूड; आंग; शरीर.
**देहभान** (ना. न.) आपल्या संबंदान जाणविकाय; आपल्या विशिचें शितीत; आपलें भान.
**देझेंब्र** (ना. पु.) किरिस्तांवी वर्साचो बारावो म्हयनो.

## दै

**दैत्य** (ना. पु.) राक्षस; राकेस.
**दैव** (ना. न.) नशीब; मनशाचें बरें वायट थारायता ती शक्त.
**दैवत** (ना. न.) देव.
**दैवयोग** (ना. पु.) नशिबान घडिल्ली गजाल.

## दो

**दोंकली** (ना. स्त्री.) बारीक दोंको; किडकिडीत पांय.
**दोंकलो** (ना. पु.) मोटवो वा ल्हान दोंको.
**दोंको** (ना. पु.) मोनजातिचो वा सवण्याचो पांय.
**दोग** (वि.) दोन; दोनांची जोडी.
**दोंगर** (ना. पु.) उंचार सरिल्ली भूंय.
**दोंगरयां** (अ. क्रि.) दोंगुल्लेचेर
**दोंगरी** (वि.) दोंगरांनी भरिल्लें; दोंगराळ; दोंगरावयलें; दोंगरांत पिकिल्लें.
**दोंगुल्ली** (ना. स्त्री.) ल्हान दोंगर.
**दोट्टी** (वि.) दोडिल्लें; एकामेकांक लागून आशिल्ल्यो एकेच तरेच्यो दोन वस्तू.
**दोड** (ना. स्त्री.) मिरी; कसलीय वस्त दोडटा थंय पडिल्ली रीस्क; घडी; एक व्हड आनी एक ल्हान अशा दोन

कळाची जोडी.

**दोडणी** (ना. स्त्री.) दोड; दोडचेलें वा घडी करचेलें काम.

**दोडप** (स. क्रि.) दोड घालप; कवळप.

**दोण** (ना. पु.) लाकडाचें पोकळ व्हड आयदन; आंबल्यो चेपणेक घालचेलें लाकडाचें तीन-चार उंचायेचें आयदन.

**दोणो** (ना. पु.) केळीच्या सुक्या पानांची पोंतां बांदून केल्लें सुपुल्लें आयदन; केळिच्या शेनवाता कुडक्याचें सादारण वाटयेभाशेन आयदन.

**दोत** (ना. स्त्री.) वरदक्षणा; हुंडो.

**दोतोन** (ना. स्त्री.) धर्मीक गितां; देवा भक्तिचीं गितां.

**दोन** (ना. पु. वि.) २ हो आंकडो.

**दोनशें** (ना. पु. वि.) दोन शेंकडे (२००).

**दोपरयां** (क्रि. वि.) दनपारच्या वेळार.

**दोब्राद** (वि.) दुपेट; दोन पटीनीं चड.

**दोमळो** (ना. पु.) मोटे तलकेची आनी काळ्या रंगाची व्हड मूय.

**दोंय** (वि.) दोनय.

**दोर** (ना. पु.) केळी गब्याचो पास; केळी गब्याची बावळी; सुतली; सूंव; लांब आनी मोटो राजू.

**दोरी** (ना. स्त्री.) सुंवाचो वा सुतलेचो लांब पास.

**दोरो** (ना. पु.) गळ्यांत घालचेली वा हाताक बांदचेली आनी देवाच्या नांवान मंतरिल्ली पवित्र दोरी.

**दोवलो** (ना. पु.) जेवण-खाण काडपाचें आनी वाडपाचें वाटकुळ्या तोंडाचें व्हड कुलेर.

**दोश** (ना. पु.) चुकी; दुर्गूण; अवगूण.

**दोशी** (क्रि. वि.) गुन्यांवकारी; वायट कर्तुबां केल्लो.

**दोंशी** (वि.) दोनय कुशिनीं; दोनय वाटांनी.

**दोस** (ना. स्त्री.) खावचेलो गोड जिनस; हालवो.

**दोस्त** (ना. पु.) इश्ट.

**दोस्ती** (ना. स्त्री.) इश्टागत.

**दोळकें** (वि.) बटबटीत दोळ्यांचें; व्हड दोळ्यांचें.

**दोळ्यांक उदक लावप** (वा. प्र.) फटोवप; वयलोचार करप.

**दोळ्यांक पाती लागप** (वा. प्र.) वयल्या वयर न्हीद लागप; हय न्हयशी न्हीद लागप.

**दोळ्यांत प्राण हाडप** (वा. प्र.) उमळशीक लागप.

**दोळ्यांर हात काडप** (वा. प्र.) नदर चुकोवप; फटोवप.

**दोळी** (ना. स्त्री.) माचूल; मनशाक हाड व्हर करपाची ओळी.

**दोळूक** (ना. न.) पेडीभाशेन चेपट्या आंगाचें आनी मोट्या दोळ्यांचें एक नुसतें.

**दोळो** (ना. पु.) पळोवचेलें इंद्रीय; नदरेचें साधन.

**दोळो-मोडप** (वा. प्र.) दोळो पिटपिटावप; मनांतलो विचार उक्तावप.

**दोळे फुटको** (वा. प्र.) दुस्वासी; अंदुको; कुन्नाटको.

**दोळे लागप** (वा. प्र.) दिश्ट जावप; पळयतल्याचे नदरेचो बादीकार जावप.

**दोळो लागप** (वा. प्र.) न्हीद येवप; न्हीद लागप.

**दोडप** (अ. क्रि.) नेटान धांवप.

## दौ

**दौत** (ना. स्त्री.) तिंतेर; शाय घालपाचें

आयदन.

**दौलत** (ना. स्त्री.) पयसो आडको; भांगर शिंगर आनी हेर आस्पत.

## दं

**दंक** (ना. पु.) मनांत लिपोवन दवरिल्लो राग; सूड घेवपाची खर इत्सा.

**दंग** (वि.) गुंग; गुल्ल.

**दंड** (ना. पु.) गुन्यावांखातीर केल्ली ख्यास्त; वायट करणे पासत केल्ली दुडवांची फारकाय.

**दंडणा** (ना. स्त्री.) पिडापीड; ख्यास्त; त्रास.

**दंपत्य** (ना. स्त्री.) ब्राह्मण आनी सवाशीण.

**दंश** (ना. पु.) जिवाण्यान काडिल्लो घांस.

## ध

**धकेचपाटे** (ना. पु. भो.) हुसको; धसको; कलकल.

**धको** (ना. पु.) व्हडी; वाफोर बी लागचेलो न्हंयचे देगेवयलो जागो.

**धग** (ना. पु.) हुलप; हुनसाण; उश्याताप.

**धगड** (ना. पु.) एक बायल मनशेचो दुसरो घोव; लग्न जाल्ल्या घोवाभायर दुसरो घोव

**धगधगप** (अ. क्रि.) उजो नेटान पेटप; उज्याचीं केणां येवप.

**धगधगीत** (वि.) खर; रसरशीत· खूब हून.

**धगमोर्डे** (वि.) सामकें हून वा सामकें थंड न्हय अशें; दुगदुगीत; उळउळीत.

**धगळप** (अ. क्रि.) चड पिकिल्ल्यान आपशींच फुटप; चड दीस गेल्ल्यान चिबडा सारक्या फळाक वेर वचप; फुटणा येवप.

**धड** (वि.) जाय तशें; दोश नाशिल्लो; योग्य; अखंड; सारकें.

**धड** (ना. न.) गळ्याकडे सावन कंबरामेरेनचो कुडीचो भाग.

**धडगत** (ना. स्त्री.) येसाची आस्त दिसपासारकी परिस्थित; येवजिल्लें काम जावपाची आस्त.

**धडधड** (ना. स्त्री.) खपखप; कलकल; धड्धड् असो आवाज.

**धडधडप** (अ. क्रि.) धड्धड् असो आवाज जावप; खपखपप; कलकलप.

**धडधडीत** (वि.) दुबावाविरेज; स्पश्ट; निवळ.

**धडपड** (ना. स्त्री.) तकाळस; खटपट; प्रयत्न.

**धडपडप** (अ. क्रि.) यत्न करप; प्रयत्न करप; खटपट करप; आपलो हेत सादपाचो देखून तरेकवार उपाय करप.

**धडधडावप** (स. क्रि.) शिटकावप; तापोवन काडप; अयोग्य करतल्याक शितितार हाडप.

**धडये** (अ.) कडेन; संबंदान; विशीं.

**धडो** (ना. पु.) १. पुस्तकांतलो पाठ; सार. २. बोध. ३. वार; शेर वजनाचें माप.

**धणू** (ना. न.) बागयल्ले घट्ट कांबीक दोरी ताणावन तयार केल्लें शस्त्र.

**धन** (ना. न.) पैसो-आडको आनी भांगरा सारक्यो मोलाच्यो वस्तू.

**धनगर** (ना. पु.) बोकडां; मेंढरां पोसपी आनी राखपी.

**धनदौलत** (ना. स्त्री.) पयसो-आडको; भाट-बेंस आनी हेर आस्पत.

**धन्यताय** (ना. स्त्री.) समादान; बऱ्या कामाखातीर जाल्लो आनंद.
**धन्यवाद** (ना. पु.) शाबासकी; बऱ्या कामाची तुस्त आनी तोखणाय.
**धनवंत** (वि.) पैशेकार; गिरेस्त मनीस; दुडवांकार.
**धनी** (ना. पु.) मालक; एक भोवमानाचें उतर.
**धनीन** (ना. स्त्री.) मालकीण; एक भोवमानाचें उतर.
**धनुर्धारी** (ना. पु.) धोणूं घेतिल्लो; धोणू चलोवंक जाणा जाल्लो.
**धनुर्विद्या** (ना. स्त्री.) धोणवान बाण सोडपाची विद्या; धोणूं आनी बाण हांणी झुजपाचें गिन्यान आनी कला.
**धपकावप** (स. क्रि.) लडो घालप; मार घालप; धपके घालप.
**धपको** (ना. स्त्री.) मोट्यान मारिल्लो धुमको; थापट; कुराडीचो; कुदळीचो बी घाय; पावट; खेप; फार.
**धपटप** (स. क्रि.) बडोवप; मार घालप; थापटप.
**धबधबीत** (ना. न.) पातळ वा सुको न्हय असो नुसत्याचो जिनस.
**धबधबो** (ना. पु.) दोंगरा वयल्यान पडिल्लो उदकाचो घोगो.
**धमकावणी** (ना. स्त्री.) भेश्टावणी; भिरांत घालपाचें काम.
**धमकावप** (स. क्रि.) भेश्टावप; भिरांत घालप.
**धमकी** (ना. स्त्री.) भेश्टावणी; आव्हान.
**ध्यान** (ना. न.) तोंड; रूप; कुड; चिंतणा; याद; भक्ती; मत; लक्ष.
**ध्यान करप** (स. क्रि.) चिंतप; चिंतणेत गुल्ल जावप; एकाच कामा फाटल्यान लागप.
**ध्यानस्थ** (वि.) चिंतणेंत गुल्ल जावन बशिल्लें.
**ध्यास** (ना. पु.) उमळशीक; एक एक विचार; ध्यास्त.
**ध्यास्त** (ना. पु.) खर इत्सा; हट; ध्यास.
**धरकल** (ना. न.) नेटान खांकतकच तोंडांतल्यान सुटिल्लो दाट निथू; हळडुबसार आनी दाट लुथी.
**धरकू** (वि.) खूब सोरो पियेवपी.
**धरण** (ना. न.) उदक आडावंक घाल्लो बांद.
**धरणी** (ना. स्त्री.) जमीन; भूंय; धर्तरी.
**धरणीकांप** (ना. पु.) भुंयेक सुटिल्लो कांप; धर्तरेक बशिल्लो धक्को.
**धर्तरी** (ना. स्त्री.) भूंय; जमीन; पृथ्वी.
**धर्ती** (ना. स्त्री.) पद्धत; तरा; मांडणी; चाल.
**धरधरीत** (वि.) दाट तशी पातळ न्हय अशी वस्त.
**धरप** (स. क्रि.) हातांत घेवप; हातांत सांपडावप.
**धर्म** (ना. पु.) १. लोकांक बरी चालचलणूक लागची आनी ताणीं सुखा-समादानांत जियेवचें हेपसत जाणट्या मनशांनी केल्ले नेम; लागणूक. २. पयलो पांडव.
**ध्रूव** (ना. पु.) उत्तरेक आशिल्लें नकेत्र.
**धर्मगुरू** (ना. पु.) धर्माचें शिक्षण दिवपी स्वामी.
**धर्मझूज** (ना. न.) धर्मांत सांगिल्लेवरी केल्लें झूज; धर्मापसत केल्लें झूज.
**धर्मनीत** (ना. स्त्री.) बऱ्या वायटा संबंदान धर्मशास्त्रांत सांगिल्ले नेम.
**धर्मपण** (ना. न.) नितीन आनी धर्माप्रमाण केल्लो वावर.

**धर्मप्रसार** (ना. पु.) धर्माची पातळावणी.

**धर्मपुस्तक** (ना. न.) धर्माचे नेम सांगिल्लें पुस्तक.

**धर्मपिशें** (ना. न.) धर्माविशींचो फाजील अभिमान.

**धर्मभ्रश्ट** (वि.) धर्मभायरो; धर्माभायले जिणेविशीं.

**धर्मभेद** (ना. पु.) धर्मा-धर्मांत केल्लें परकेपण; तेरकवार धर्मांतलें अंतर.

**धर्मवीर** (ना. पु.) धर्माखातीर व्हड त्याग करपी मनीस.

**धर्मराज** (ना. पु.) पांच पांडवांतलो पयलो पांडव.

**धर्मशास्त्र** (ना. न.) धर्माविशींचे नेम आनी गिन्यान.

**धर्मशाळा** (ना. स्त्री.) येतल्यां-वेतल्यांक रावचेलें घर; बिराडाक बांदिल्लें भोवशीक घर.

**धर्मादान** (ना. न.) धर्माखातीर केल्लें दान.

**धर्मिश्टाय** (ना. स्त्री.) धर्मिकपण; धर्मीक इश्टागत.

**धर्मी** (वि.) धर्माचें; धर्माविशींचें; धर्मीक.

**धर्मीक** (वि.) पळय **धर्मी.**

**धरिल्लें-बांदिल्लें** (वि.) खांकुडलेलें; मेकळेपण नाशिल्लें.

**धरिल्लो-बांदिल्लो सो जावप** (स. क्रि.) खांकडप; फाटिंफुडें येवप; मुरवत जावप.

**धवपाण** (ना. स्त्री.) धवसाण.

**धवसाण** (ना. स्त्री.) पातळसार धवो रंग; गोरसाण.

**धवळ** (ना. पु.) वयलें सकयल आनी सकयलें वयर करूंक मारिल्लो चाळो; धुवणो; बोवाळ; गडबड.

**धवळप** (स. क्रि.) दोवल्यान; दायेन बी चाळप; चकनळप; चकपळावन ओकूंक आयिल्लेवरी दिसप; पोटांत जावप.

**धवळो** (ना. पु.) पळय धवळ.

**धवी-भाजी** (ना. स्त्री.) एक पथीक भाजी.

**धवें** (वि.) दुदासारक्या वा बर्फासारक्या रंगाचें.

**धवेंफुल्ल** (वि.) खूब धवें.

**धसको** (ना. पु.) धक्को; खर हुसको; अकस्मात बरें वायट गजालीन मनाक बशिल्लो धपको.

## धा

**धा** (वि.) १० हो आंकडो; एक दशक.

**धाक** (ना. स्त्री.) भिरांत; भेश्टावणी.

**धाकटें** (वि.) ल्हान; भुरगें; उणे पिरायेचें.

**धांकण** (ना. न.) धांकणें; कसलेंय आयदन धांपचेली ताटली.

**धांकणें** (ना. न.) पळय **धांकण.**

**धांकप** (स. क्रि.) बंद करप; धांकणें घालप.

**धाकली दिवाळी** (ना. स्त्री.) नरकासुराक मारिल्ल्या दिसाच्या उगडासाक मनयल्लो दबाजो; नरक चतुर्दस.

**धाकलें** (ना. न.) पळय **धाकटें.**

**धाटणी** (ना. स्त्री.) तरा; पद्धत; माण्णी.

**धाड** (ना. स्त्री.) धुरी.

**धाडप** (स. क्रि.) पावतो करप; पाववप.

**धाडशी** (वि.) धिरवान; धीट; धिरीश्ट.

**धाडस** (ना. न.) धीर; धिटाय.

**धार्डी** (अ.) लागून; कडेन.

**धाडे** (अ.) कडेन; लागून.

**धातू** (ना. स्त्री.) लोखण; तांबें बी; जमनी पोंदा मेळपी वस्तू.

**धांदळ** (ना. स्त्री.) फजेत;

अस्ताव्यस्तपण; काम चुकारपण.
**धांदळी** (वि.) शिस्त नाशिल्लें; कशाकशेंय वावर करपी.
**धादोशी** (वि.) खुशालभरीत; समाधानी.
**धादोस** (वि.) खुशाल; पोटभर.
**धादोसकाय** (ना. स्त्री.) खुशालकाय; समादान.
**धान्य** (ना. न.) भात; गंव; नाशणे; कड्डण बी.
**धांप** (ना. स्त्री.) खरस; नेटान आनी बेगिबेगीन घेतिल्लो स्वास-उस्वास.
**धांपप** (स. क्रि.) पळय **धांकप.**
**धापळ** (ना. स्त्री.) धांपोय; एके बियेचें अर्द.
**धांपेणी** (ना. स्त्री.) खरशेणी.
**धापेवप** (अ. क्रि.) मोट्या मोट्यान आनी बेगिबेगीन स्वास घेवप; खरशेवप.
**धाम** (ना. स्त्री.) रोगाची सांथ; रावपाचें घर.
**धामधूम** (ना. स्त्री.) बोवाळ; गडबड; वांचाळ.
**धार** (ना. स्त्री.) पावळे भाशेन बारीक व्हांविल्लें उदाक वा दुसरी कसलीय पातळ वस्त; सुरये सारक्या वस्तूची कापचेली कड.
**धारजणें** (ना. न.) नशीब.
**धारजिणें** (वि.) बऱ्या नशिबाचें; नशिबवान.
**धारेस्त** (वि.) धार आशिल्लें; तीख धारेचें.
**धाल** (ना. पु.) पळय **दाल.**
**धालो** (ना. स्त्री.) गोंयचीं लोकगितां.
**धांव** (ना. न.) सडसडीत मारिल्ली चाल; बेगिबेगीन मारिल्ली चांट.
**धांवडावप** (स. क्रि.) भायर घालप; बळजबरेन परत फिरावप.
**धांवडी** (ना. स्त्री.) नेटान मारिल्ली धांव.
**धांवडावप** (स. क्रि.) धावंक लावप; आमडप.
**धांवतेरें** (ना. न.) मोटार; मोटारसायकल बी; धांवती गाडी.
**धांवतें** (वि.) धांवपी; धांवणारें.
**धांवप** (अ. क्रि.) बेगिबेगीन वचप; पळप.
**धावस** (ना. न.) पावसाळ्यांत आपशींच किल्लून मातिल्ल्यो वाली आनी हेर तरेकवार झाडां.
**धांवाधांव** (ना. स्त्री.) ताकतीक; पळापळ; ताकतिकेन केल्लो वावर.
**धांवो** (ना. न.) संकश्टाच्या वेळार देवाक मारिल्लो उलो; देवाक केल्ली होरावणी.
**धाळ** (ना. पु.) वेग मारून जाल्लें पातळ परसाकडेन.

## धि

**धिकें** (ना. न.) वेंत; ताणिल्ल्या हाताचो आंगठो आनी धाकलें बोट हांचे भितल्ली लांबाय.
**धिगी** (ना. स्त्री.) आधार; झाड वा दुसरी कसलीय वस्त कोसळची न्हय म्हणून दिल्लो म्हेडीचो बी आदार.
**धिचें** (ना. न.) वेंत.
**धिटाय** (ना. स्त्री.) बळ; हुशारकाय.
**धिंड** (ना. स्त्री.) कुसकुटावणी; लज करूंक काडिल्ली कोणाचीय भोंवडी.
**धिप्पाड** (वि.) लांब रूंद कुड आशिल्लो.
**धिप्पाडपण** (ना. न.) लांबरूंदपण; व्हडाय.
**धिमडी** (ना. स्त्री.) एकेवटेन चामडें आनी कुशीक बारीक चकत्यो आशिल्लें

वाजोवपाचें एक वाद्य; डफ.
**धिरवान** (वि.) धीर आशिल्लें; धीट.
**धिरसूप** (ना. न.) भाताक वारें दिवपाचें खोलसार सूप.
**धिरीश्ट** (ना.) धिरवान.
**धिरी** (ना. स्त्री.) धिगी; तेंको; आधार.
**धिरेस्त** (वि.) काळीजवान; मनाचो नेट आशिल्लें; धिरीश्ट.
**धिस्पटावप** (स. क्रि.) भिरकटावप; भायर मारप; धांवडावप.

## धी

**धीट** (वि.) धिरवान; धिरीश्ट.
**धीर** (ना. पु.) धिटाय; नेट.
**धील** (ना.) सदळ; व्हड.

## धु

**धुकटावप** (स. क्रि.) धुंवरावप.
**धुकलप** (स. क्रि.) नेटान फुडें सारप; हालवप; निबरान फुडें व्हरप.
**धुकें** (ना. न.) फांतोडेर पडिल्लो दंव.
**धुगधुगप** (अ. क्रि.) हुसको जावप; भिरांत दिसप.
**धुगधूग** (ना. पु.) हुसको; भिरांत.
**धुडगूस** (ना. पु.) बोवाळ; गडबड; मस्तेपण.
**धुडगूस** (ना.) शबय; उडयो; किळच्यो मारून केल्लो बोवाळ.
**धुणे** (ना. न.) धुंवचेली मुस्तायकी; उमळचेलीं आंगाचीं आनी हेर मुस्तायकी.
**धुतरो** (ना. पु.) एक विखाळ झाड.
**धुंद** (वि.) गुंग; गुल्ल.
**धुंदी** (वि.) एके तरेची गुंगी; भेरिल्लेवरी जाल्ली बुद्द.
**धुपाटणें** (ना. न.) धूप पेटोवपाचें आयदन.
**धुणीं** (ना. स्त्री.) उमळलेलीं वा उमळचेली मुस्तायकी.
**धुमकावप** (स. क्रि.) मुठी; धुमक्याचो मार घालप.
**धुमको** (ना. स्त्री.) मुठीचो फार.
**धुमटी** (ना. स्त्री.) तंबाखू.
**धुमशेण** (ना. स्त्री.) किटकिटो; धुडगूस; गडबड; बोवाळ.
**धुमशेण काणप** (स. क्रि.) खूब मस्तेपणां करप; धुडगूस घालप.
**धुर्तपण** (ना. न.) हुशारकाय; लापिटपण.
**धुर्तसाण** (ना. स्त्री.) शिटूकसाण; हुशारकाय; शादूरपण.
**धुमाळी** (ना. पु.) संगितांतलो एक ताल.
**धुल्ल** (ना. पु.) मातयेची बारीक पूड.
**धुवट्टाण** (ना. स्त्री.) धुंवराचो वास.
**धुंवट** (ना. न.) दंव; धुकें.
**धुवडी** (ना. स्त्री.) भावाली चली.
**धुवप** (स. क्रि.) उमळून निवळ करप.
**धुंवर** (ना. पु.) कसलीय वस्तू लासतकच जाल्ली कार्बन भरसल्ली वाफ.
**धुंवरसाण** (ना. स्त्री.) धुंवराचो वास.
**धुंवरापान** (ना. स्त्री.) तंबाकू.
**धुंवरी** (ना. स्त्री.) जळेरांक आनी हेर किमसांक धांवडावंक केल्लो धुंवर.
**धुवाळेपण** (ना. न.) धुवाळे जाल्ली स्थिती; धुंवाळ्याचे दीस; खर इत्सा; आवड-नावड.
**धुवाळो** (ना. पु.) गुरवारपणांत बायले मनशाक जाय नाका जाल्ल्यो इत्सा आनी रुची.
**धुसफुसप** (अ. क्रि.) एकामेकाची मनां

दुखप; भितल्ल्या भितर किजिलां जावप.

**धुसफूस** (ना. स्त्री.) भितल्ले भितर जाल्ली फाटाफूट.

**धुसफुसणी** (ना. स्त्री.) किरकीर; तक्रार; एकोमेकांभितर आयिल्ली तीड.

**धुळकट** (वि.) धुल्लान लोळिल्लें; म्हेळें जाल्लें.

**धुळभेट** (ना. स्त्री.) भायल्यान आयिल्लो तसो पांय बी धूय नासतना घेतिल्ली देवाची भेट.

**धुळवड** (ना. स्त्री.) शिगम्याच्या निमाण्या दिसा एकामेकांचेर फापुडिल्लो गुलाल.

**धुळापी** (ना. स्त्री.) धूल्ल बी मारपाक पिठाभशेन बारीक केल्ली शेतामाती.

**धुळेर** (ना. पु.) धुल्लान भरिल्लो जागो.

## धू

**धूप** (ना. स्त्री.) उदाभाशेन वासाचे खडे.

**धूर्त** (वि.) शिटूक; शादूर.

**धूव** (ना. स्त्री.) चली; चेडूं; चेडू.

**धूळ** (ना. स्त्री.) धूल्ल.

## धे

**धेंक** (ना. पु.) भिरांत; भीड; मुरवत.

**धेंकणो** (ना. पु.) धेंगसो; तिडकिचें उलोवणें.

**धेंकर** (ना. पु.) पोट उपाट भरतकच तोंडातल्यान सुटिल्ली वाय.

**धेंगसो** (ना. पु.) तिडकीचें उलोवणें; तिकशेणी; धेंकणो.

**धेंगशेवप** (अ. क्रि.) तिडकून उलोवप; तिकशेवप.

**धेंगाण** (ना. न.) कडो.

**धेंड** (ना. न.) लांबरूंद मनीस; फाकिवंत मनीस; नामनेचो मनीस.

**धेडेपण** (ना. न.) न्हवऱ्याची सेवा करचेलो वावर.

**धेडो** (ना. पु.) न्हवऱ्याक वारें बी घालूंक आशिल्लो मनीस.

**धेणल्या-पाडवो** (ना. पु.) गोरवां पुजेचो पाडवो; संवसार पाडवो.

**धेणलो** (ना. पु.) वर्साच्या पयल्या पाडव्यादिसा गोरवां राखप्यांनी वाजत-गाजत काडिल्ली श्रीकृष्णाच्या म्हुर्तीची भोंवडी.

**धेंप** (ना. न.) दांग; उडी; चड वजनाचो गोडागुळो.

**धेय** (ना. पु.) कूड; मनशाचो आंगपांग; देह.

**ध्येय** (ना. न.) हावेस; खर इत्सा; ज्याचें ध्यान करचेंशें दिसता तें.

**धेयमान** (ना. स्त्री.) धीर; धिटपण.

**धैर्यवंत** (वि.) धीर आशिल्लें; धिरवान; धीट; धिटपाण आशिल्लें.

**धैर्यवाणी** (ना. स्त्री.) धिराचीं उतरां.

## धो

**धोंकप** (स. क्रि.) उमेदीन बेगिबेगीन पियेवप; गटगटीत पियेवप.

**धोको** (ना. पु.) संकश्ट; अडचण.

**धोंग** (ना. न.) आपटून; आदळून आयिल्ली सूज; सवंग; भितर एक आनी भायर एक.

**धोंग-पोंग** (ना. न.) मोड-तोड; नखलामी; कोंक; खून; घाय.

**धोंगसप** (स. क्रि.) हातान वा बडयेन निबरान तोपिल्ले भाशेन करप; भितर चेपप.

**धोंगसणी** (ना. स्त्री.) धोंगसपाचें काम.
**धोंगसो** (ना. पु.) कोपरान मारिल्लो धपको.
**धोडयारो** (ना. पु.) ल्हान धोडी.
**धोडी** (ना. न.) हातभर लांबायेचें एक नुस्तें.
**धोणस** (ना. न.) पणसाचें म्होव आनी तांदळाचो कणो बी घालून केल्ली दोन अडेच इंच दाटायेची भाकर.
**धोंद** (ना. न.) सुटिल्लें पोट; पोटारो.
**धोंदयो** (वि.) मोट्या पोटाचो; पोटाचो धोल जाल्लो.
**धोंपर** (ना. न.) जांग हाड आनी पोवठे हाडां जोडपाचो सांदो.
**धोबी** (ना. पु.) मुस्तायकी उमळून निवळ करपी; मडवळ.
**धोर** (ना. न.) गोरू; गाय; म्हस; बैल; रेडो बी; व्हड मोनजात.
**धोरण** (ना. न.) तजवीज; माण्णी; विचार.
**धोरणी** (ना. पु.) शिटूक; बुदवंत; फुडल्या बऱ्या वायटा संबंदान विचार करपी मनीस.
**धोल** (ना. स्त्री.) १. मोटो बुराक. २. (पु.) एक व्हड वाजंतर.
**धोलकें** (ना. न.) दोनय वाटेन चामडें ताणायल्लें वाजंतर.
**धोलप** (अ. क्रि.) ल्हवू ल्हवू फुडें वचप आनी फाटीं येवप.
**धोलवप** (स. क्रि.) फाटींफुडें आनी दोनय कुशींनी हालोवप; झेलोवप.
**धोलारो** (ना. पु.) कसलीय खूब व्हड वस्त.
**धोंस** (ना.) झगडें; केस्तांव; फाटाफूट.
**धोंसणी** (ना. स्त्री.) पिडा; त्रास; धोंगसणी.
**धोंसप** (स. क्रि.) तोंपप; रोंबप; त्रास दिवप.

## धं

**धंदेवालो** (ना. पु.) वेपार उद्देग करपी.
**धंदो** (ना. पु.) पोट भरपाखातीर केल्लो वावर; उद्देग वेपार.
**धंय** (ना. न.) दूद आंबट करून. लोणयासयत केल्लो पियेवचेलो जिनस.
**धंयार धुमको मारून खावप** (वा. प्र.) जाय तसलें आनी जाय तितलें खावप; मौज मारप.

## न

**नक्कद** (वि.) रोख; रोकड.
**नक्की** (क्रि. वि.) थीर; दुबावाविरयत; जिस्त.
**नकदी** (वि.) रोकड.
**नक्कल** (ना. स्त्री.) मुळच्या कामावयल्यान केल्लें तशेच तरेचें दुसरें काम.
**नकलामी** (ना. स्त्री.) अपशकून. पळय **नखलामी.**
**नकली** (वि.) मुळावयल्यान केल्लें दुसरें; फकाणेर; फटयांचें; जें खरें न्हय.
**नकशी** (ना. स्त्री.) बारीक बारीक कोरांतून काडिल्ल्यो नाजूक वाली; सवणीं आनी हेर चित्रां.
**नक्सप** (स. क्रि.) कोरांवप.
**नकसूद** (वि.) नाजूक; सुंदर; लक्तुबायेन केल्लें.
**नकसुदपण** (ना. न.) नाजुकसाण; अपूपाय; सुंदरताय.
**नकळटेपण** (ना. न.) जाणविकायेचो

अभाव.

**नकळप** (स. क्रि.) कळप ना; नेणां जावप.

**नकासो** (ना. पु.) पृथ्वीच्या वयल्या थराची कागदार मापून केल्ली आंखणी.

**नखलामी** (ना. स्त्री.) बादा; निमित्य; अपशकून.

**नखेत्र** (ना. न.) नक्षत्र; तारो.

**नखेत्रावळ** (ना. स्त्री.) तेरेकवार नखेत्रांची माळ.

**नग** (ना. पु.) वस्त.

**नगरपालिका** (ना. स्त्री.) शाराचो सांबाळ करपी संस्था; काम्र; शारांतल्या मार्गांची; दिव्यांची; आरोग्यतायेची बी हेर सुविधांची देखभाल करपी.

**नगराध्यक्ष** (ना. पु.) काम्राचो वा नगरपालिकेचो येजमान.

**नजं** (स. क्रि.) येना; जायना.

**नजो; नजं** (स. क्रि.) जायना; जमना; जांवचें ना.

**नट** (ना. पु.) सवंगी; नाटकांत वा सिनेमांत सवंग करपी; नाटकी.

**नटप** (अ. क्रि.) तेरेकवार आंगाचीं आनी भांगर शिंगर घालून मोडप; सृंगारप.

**नटवप** (स. क्रि.) बरीं बरीं आंगाचीं आनी भांगर शिंगर घालूंक लावप; सृंगारप.

**नटी** (ना. स्त्री.) नाटकांत वा सिनेमांत सवंग करपी बायल मनीस.

**नड** (ना. स्त्री.) आडखळ; त्रास.

**नडणी** (ना. स्त्री.) शेतांत किल्लून आयिल्लें दुसरे रोंपे हुमटावपाचो वावर.

**नडणिकान्न** (ना. स्त्री.) नडणी काडपी बायल मनीस.

**नडप** (स. क्रि.) नाका जाल्लें रोंप हुमटावन काडप; बादा जावप; आडखळ जावप.

**नंडावो** (ना. पु.) घोवाचे भयणीचो घोव.

**नथ** (ना. स्त्री.) नाकांत घालपाची मोतयांची बायलांची वस्त.

**नदर** (ना. स्त्री.) दिश्ट; दोळ्यांचो गूण.

**नदर दवरप** (वा. प्र.) सांबाळप; देखरेक करप; ध्यान दवरप.

**नदरबंदी** (ना. स्त्री.) नदरेक घाल्ली भूल.

**नदरभूल** (ना. स्त्री.) नदर-चूक.

**नदर लागप** (वा. प्र.) दिश्ट जावप; दोळे लागप.

**नदर वचप** (अ. क्रि.) आस्त जावप; आवडप; मानवप.

**नपच्छात** (क्रि. वि.) फाटल्यान दवरीनासतना; मुळासावन; सामकें.

**नपुसंक** (वि.) शक्त नाशिल्लेंल्लो.

**नफो** (ना. पु.) फायदो; हीत.

**नबत** (ना. स्त्री.) देवळांतलें फांतोडेवयलें; दनपारचें आनी तिनसांजचें वाजप.

**नम** (ना. स्त्री.) हिंदू म्हयन्याच्या पयले आनी दुसरे पंद्रशीचो णववो दीस.

**नमन** (ना. न.) नमस्कार; उत्सवाचो पयलो दीस.

**नमस** (ना. न.) शेत; खाजन; शेताचो वा खाजनाचो भाग.

**नमस्कार** (ना. पु.) हात जोडप; पांया पडप; न्हिदून पांया पडप वा हात जोडप; कसरत करपाची एक तरा.

**नमस्ते** (ना. पु.) नमस्कार; अभिवादन करपाची एक तरा; दुसऱ्याक हटकुपाची भारतीय पद्धत.

**नमळाय** (ना. स्त्री.) खालतेपण; ल्हानविकाय; नम्रताय.

**नमळकाय** (ना. स्त्री.) पळय **नमळाय**.

**नमळादिक** (वि.) खालतेपण आशिल्लें.
**नमाज** (ना. पु.) मुसलमानी धर्मांतलें देवाचें नमन; प्रार्थना वा भक्ती; मुसलमानी धर्मभाशेन देवाची पराथणी.
**नमुनो** (ना. पु.) जात; पात; तरा पारखूंक घेतिल्लो कसलेय वस्तूचो ल्हानसो कुडको; कसलेय व्हड वस्तूचें केल्लें ल्हान रूप.
**न्याय** (ना. पु.) खरें-फट आनी बऱ्या वायटाची रुजवात.
**न्यायशास्त्री** (ना. पु.) जुवीझ; न्यायनितीची मनसुबी करपी कायद्याचो जाणकार.
**न्यायी** (वि.) खरें फट जाणपी आनी ते भाशेन चलपी.
**नये** (स. क्रि.) न्हय.
**नर** (ना. पु.) दादलो.
**नरकटो** (वि.) नरकांतलें; सोसूंक जायना अशी घाण.
**नरक-यातना** (ना. स्त्री. भो.) नरकांतली पिडापीड.
**नरभोजी** (वि.) मनशाक मारून खावपी; मनशाचें मांस खावपी.
**नर्क** (ना. पु.) पापी मनशाक ख्यास्त भोगोवचेलो जागो.
**नरक** (ना. पु.) घाण; पिडापीड; ख्यास्त भोगोवचेलो जागो; नर्क.
**नरकटाण** (ना. स्त्री.) खूब वायट घाण.
**नरकासूर** (ना. पु.) दंडणा भोगयणो नरकांतलो राकेस.
**नृत्यनाट्य** (ना. न.) नाचांतल्यान उक्तायल्लें उमाळे.
**नरम** (वि.) थंड; शितळ; शांत.
**नरमाय** (ना. स्त्री.) मोवसाण.
**नरमावप** (स. क्रि.) थंडावप; शांत करप; समजावप.
**नर्स** (ना. स्त्री.) ऑस्पितालांतल्या वायटकाराची जतनाय घेवपी.
**नर्सपण** (ना. न.) वायटकाराची जतनायेन वावर करचेलो धंदो.
**नरसिंव** (ना. पु.) तकली सिंवाची आनी धड मनशाचें आशिल्लो देवाचो चौथो अवतार.
**नवखेपण** (ना. न.) नवेपण; असवकळ.
**नवखें** (वि.) नवें; पयलीं अणभव नाशिल्लें.
**नवचंडी** (ना.) देवीचें एक व्रत; देवीची उपासना.
**नवजवान** (ना. पु.) नव्या विचारांचो तरनाटो; नवो जुवान.
**नवटांग** (ना. न.) एका शेराचो आठवो वांटो.
**नवरात्र** (ना. न.) दसऱ्यापयलीं णव दीस मेरेन चलता तो दुर्गेचो उत्सव.
**नवरात्रां** (ना. न. भो.) देवीच्यो पुजा करपाच्यो आश्वीन म्हयन्यांतल्यो णव राती.
**नवल** (ना. न.) अजाप.
**नवलकाणी** (ना. स्त्री.) नवलान भरिल्ली काणी; कल्पनेन रचिल्ली काणी; कादंबरी.
**नवलाय** (ना. स्त्री.) अजापाची गजाल.
**नव्यान** (क्रि. वि.) परतून.
**नवश्रिमंत** (ना. पु.) हालींचो दुडवांकार; अडेचो गिरेस्त.
**नवशिकेपण** (ना. न.) नवेपण; अणभवाचो उणाव; संवयेचो आनी अभ्यासाचो अभाव.
**नवशिकें** (वि.) कामाचो अणभव नाशिल्लें; कसल्याय वावरांत नवें.
**नवसागर** (ना. पु.) खारसाण आशिल्लें एक द्रव्य.
**नवसाण** (ना. स्त्री.) ताजेपण; नवेपण.

**नवेपण** (ना. न.) ताजेपण.
**नवसार** (वि.) मातशें नवें.
**नवें** (ना. न.) नव्यान पिकिल्ल्या शेताचें पयलें कणस.
**नवें** (वि.) पयलीं उपेग करूं नाशिल्लें; पयलीं वापरूं नाशिल्लें; पयलीं पळोवंक नाशिल्लें; पयलीं अणभवंक नाशिल्लें.
**नश्ट** (वि.) संकश्ट; दुखदेणें.
**नश्टेपण** (ना. न.) दुश्टपण.
**नश्टें** (वि.) वायट कामां करपी; पाडें.
**नशिबवान** (वि.) बऱ्या नशिबाचें.
**नशीब** (ना. न.) दैव.
**नसतें** (वि.) उपेग नाशिल्लें; विचित्र जगाभायरें; सप सप दिश्टी पडनाशिल्लें.
**नसाय** (ना. स्त्री.) नाका जाल्लें; खोस नाशिल्लें.
**न सुटकेक** (अ.) सुटका नाशिल्ल्यान; ना म्हणूं नज जाल्ल्यान; मुखतीक लागून; उपाय नाशिल्ल्यान.
**न्हय** (क्रि. वि.) हय ह्या उतराचें उरफाट्या अर्थाचें उतर; मान्यताय नाकारचेलें उतर.
**न्हयकारप** (स. क्रि.) ना म्हणप; मान्यताय दिवप ना; कबूल जावप ना.
**न्हवरी** (ना. स्त्री.) व्हंकल.
**न्हवरो** (ना. पु.) व्हरेत; जो लग्नाच्या वयाचो जाला असो तरणाटो; ज्याचें लग्न लागता तो.
**न्हाण** (ना. न.) आंग पांग धुवचेलो वावर.
**न्हाण-धूण** (ना. न.) न्हावपा-धुवपाचो वावर.
**न्हाणी** (ना. स्त्री.) न्हावपाचो आनी न्हावपाखातीर उदक तापोवपाचो जागो.
**न्हाणवप** (स. क्रि.) न्हाण घालप; आंगपांग धुववप.
**न्हाणयेघर** (ना. न.) मान्नें; न्हावपा धुवपाचें घर.
**न्हातें** (वि.) न्हाल्लें.
**न्हावप** (अ. क्रि.) आंग धुवप; माथ्यार न्हावप; माथें धुवप; आंगार न्हावप; सगली कूड धुवप.
**न्हिदप** (अ. क्रि.) दोळे धांपून कुडीक आनी मेंदूक विसव दिवप; भायल्या संवसाराची जाणविकाय नासून सुस्त विसव घेवप.
**न्हिदसुरेपण** (ना. न.) अर्दकुटी न्हीद; अर्दमर्द न्हिदेंत आसतना जाल्ली स्थिती.
**न्हिदसुरें** (वि.) न्हिदेंत आशिल्लें; न्हिदेंतल्यान सारकें जागो जावंक नाशिल्लें.
**न्हिदावप** (स. क्रि.) न्हीद घालप; आल्यो गावन; थापटून बी न्हीद हाडप.
**न्हिदावो** (ना. पु.) सुस्त न्हीद.
**न्हिवप** (अ. क्रि.) थंड जावप; शितळसाण येवप.
**न्हिवोवप** (स. क्रि.) हुनसाण उणी करप; उश्णताय देंवोवप.
**न्हीद** (ना. स्त्री.) कुडीचो आनी मनाचो पुराय विसव.
**न्हीद खळप** (स. क्रि.) जागरण करप.
**न्हेसण** (ना. न.) न्हेसपाचें कापड; साडी बी; लुगटां.
**न्हेसप** (अ. क्रि.) आंगार वापरप; घालप; आंगार मुस्तायकी चडवप.
**नळ** (ना. पु.) उदक व्हांवन व्हरपाक उपकारायल्ली वाटकुळी लांब नळी.
**नळकुटी** (ना. स्त्री.) नळ्याचो कुडको.
**नळी** (ना. स्त्री.) कोण्याचो पोकळ कुडको; धातूचो पोकळ वारांव.
**नळी काडप** (वा. प्र.) पळ काडप.
**नळो** (ना. पु.) घरा पांखे धांपचेली

मातयेची वस्तू.

**नक्षत्रावळ** (ना. स्त्री.) नक्षत्रांचो पुंजो; नक्षत्रांची माळ.

## ना

**ना** (अ.) न्हयकार सांगचें उतर.

**नाक** (ना. न.) श्वास भायर भितर घेवपाचें इंद्रीय.

**नाकटी** (ना. स्त्री.) तांदूळ; वरय आनी कड्डाण मेजपाचें मापटें.

**ना करप** (क्रि.) नाश करप; काबार करप.

**नाकपुडी** (ना. स्त्री.) उस्वास घेवपाचो नाकाचो बुराक.

**नाकर्ये** (वि.) व्हड नाकाचें; मोटें नाक आशिल्लें.

**नाकशी** (ना. स्त्री.) नाखटां खाचींत आयिल्ली पुळी.

**नाकसुरें** (वि.) नाकांतल्यान आवाज काडपी.

**नाकसूर** (ना. पु.) नाकांतल्यान काडिल्लो सूर.

**नाका** (क्रि.) इत्सा ना अशें सांगपी.

**नाक्कात्रें; नाक कातरें** (वि.) निर्लज्ज; लज नाशिल्लें.

**नाका धर्म जावप** (सं. क्रि.) त्रास जावप; कश्ट पडप; पुरो जावप.

**नाका पुरो जावप** (सं. क्रि.) खूब त्रास जावप.

**नाको** (ना. पु.) तिस्क; एक परस चड मार्ग मेळिल्लो जागो.

**नाख** (ना. न.) पळय **नाक.**

**नाखकातरें** (वि.) पळय **नाक्कात्रें.**

**नाखयां** (क्रि. वि.) नाकावयल्यान; नाकावटेन.

**नाखटो** (ना. पु.) व्हड नाख.

**नाखुशी** (ना. स्त्री.) खुशी नासचेली मनाची स्थिती.

**नाखूट** (ना. न.) बोटाच्या तोंकार वयले वटेन आशिल्लें घट्ट पातें.

**नाग** (ना. पु.) १. सोरोप. २. आसामाचे उत्तरेकडलो लोक.

**नागडेपण** (ना. न.) उकतेपण; आंगार आंगाचीं वा दुसरें कितेंय नासप.

**नागडें** (वि.) आंगार लुगट नाशिल्लें; उकत्या आंगाचें; उगडें.

**नागचाफो** (ना. पु.) चाफ्या फुलांची वा चाफ्या झाडाची एक जात.

**नागपंचम** (ना. स्त्री.) नागाची पूजा करपाची स्रावण म्हयन्यांतली पयली पंचम.

**नांगर** (ना. पु.) शेत खणपाचें एक आवत.

**नांगर भोवंडावप** (वा. प्र.) घरदाराचें लुकसाण करप.

**नांगरणी** (ना. स्त्री.) नांगरान घाल्ली खणणी.

**नांगरप** (स. क्रि.) नांगरान खणप.

**नागोवर्णे** (वि.) पयशांक फटोवपी; दुसऱ्याले पयशे खावपी; चोर.

**नागोवप** (स. क्रि.) पयशांक फटोवप; दुसऱ्याले पयशे खावप.

**नागोवपी** पळय **नागोवर्णे.**

**नागीण** (ना. स्त्री.) सोरपाची एक जात; सोरपाची मादी.

**नाच** (ना. पु.) ताला सुरार केल्ले सोबीत हावभाव.

**नाचप** (अ. क्रि.) वाजपाच्या आदारान तोंडाचे आनी हातपायांचे मोड करप; खेळप.

**नाचपी** (ना. पु.) ताला सुरार सोबीत

हावभाव करपी.

**नाचपीण** (ना. स्त्री.) ताला सुरार तरेकवार हावभाव आनी मोड करपी.

**नाचरेपण** (ना. न.) हेवटेन तेवटेन नाच करपाचो सबाव; अस्थिरताय; एकय काम धड करिनासतना खुबशा कामांत हात घालप.

**नाचरें** (वि.) हांगा थंय बेठेंच नाचपी; थिरताय नाशिल्लें.

**नाचोवप** (स. क्रि.) खेळोवप; नाच करून घेवप.

**नाचोवपी** (ना. पु.) खेळोवपी; नाच करूंक लावपी; नाच करून घेवपी.

**नाजुकपण** (ना. न.) मधुरताय; सोबितकाय; अप्रुपाय; नितळसाण.

**नाजुकसाण** (ना. स्त्री.) पळय **नाजुकपण**.

**नाजूक** (वि.) नकसूद; अप्रूप; मधूर; अरळ.

**नाटक** (ना. न.) माचयेर करून दाखयल्लो खेळ; तरेकवार सवंगां वरवीं करून दाखयल्ली घडणूक.

**नाटकाय** (ना. स्त्री.) दुस्वास; मत्सर; कुन्नाटेपण.

**नाटकी** (ना. पु.) सवंगी; नाटकांत पार्ट करपी; तरेतरेची फकाणां आनी फांलां करपी; मनांत एक आनी भायर दुसरें अशें करपी.

**नाटकुलें** (ना. न.) ल्हान नाटक.

**नाड** (वि.) तड्डकी; फटींग; धूर्त; नागोवणें; तरपाशोर.

**नाडप** (स. क्रि.) फटोवप; नागवप.

**नाडपण** (ना. न.) नागवण; फटिंगपण; तड्डक.

**नाडपी** (वि.) नागोवपी; फटोवपी; तड्डकी.

**नाडबुद्द** (ना. स्त्री.) दुसऱ्याक फटोवचेली बुद्द; दुसऱ्याचें लुकसाण करून आपलो सुवार्थ सादपाचो सबाव.

**नाडानाड** (ना. स्त्री.) नाडपण; फटिंगपण.

**नाडी** (ना. स्त्री.) मनगटाची रगताची शीर; भोंक.

**नाडेपेन्न** (ना. न.) ताणायल्ले दोरयेचेर केल्ली कसरत.

**नाडो** (ना. पु.) तेंको; आधार; कसरत करूंक दोन व्हड म्हेडीक तोणायल्ली दोरी वा सरी.

**नाणें** (ना. न.) मुयेद; म्होर.

**नाणो** (ना. स्त्री.) एक मदेराचें रानटी झाड.

**नात** (ना. स्त्री.) १. खबर आशिल्लें; जाणां जाल्लें. २. पुताची वा धुवेची चली.

**नात आसप** (सं. क्रि.) जाणा जावप; सुलूस आसप.

**नातरां** (ना. न. भो.) नातू आनी नाती.

**नातरूं** (ना. न.) नातू वा नात.

**नाताल** (ना.) जेजू ख्रिस्त जाल्लो दीस; किरिस्तांवाचो एक व्हड सण.

**नाताळ** (ना. पु.) पळय **नाताल**.

**नातू** (ना. पु.) पुतालो वा धुवेलो चलो.

**नातूक** (ना. न.) मोठ्या दोळ्यांचें; ल्हान चोचीचें एक रात सवणें; घुगूम.

**नातें** (ना. न.) संबंद.

**नातेवर्गी** (ना. पु. भो.) नात्यांतले मनीस.

**नाथप** (अ. क्रि.) नासप.

**नाद** (ना. पु.) आवड; सूर.

**नादयें** (ना. स्त्री.) छंदीश्ट; व्यसनी;

नादी.

**नादावप** (स. क्रि.) आवाज करप.

**नादी** (वि.) कसलोय नाद आशिल्लें; छंदी; व्यसनी.

**ना-नपच्छात करप** (सं. क्रि.) सामको काबार करप.

**नापास** (वि.) परिक्षेंत हार खाल्लें; पास जावंक नाशिल्लें.

**नापीत** (ना. पु.) म्हालो; केंस कापचेलो धंदो करपी.

**नाब** (ना. पु.) एक कंद; एका ल्हान झाडाचें वाडिल्लें वाटकुळसार कांड; शाकेचो गड्डो. (स्त्री.) वेपार दिवपा घेवपाचे पसऱ्या जनेलाचें फळें.

**नाम** (ना. न.) वस्तुचें; मनशाचें; मोनजातीचें वा तांच्या गुणाचें नांव; कपलाक लावचेली चंदनाची उटी.

**नामना** (ना. स्त्री.) कीर्त; फांक.

**नामर्द** (वि.) भेजूड; शुरताय नाशिल्लो; धिटाय नाशिल्लो.

**नामर्दपण** (ना. न.) भेजुडपण; भितरेपण.

**नामावळ** (ना. स्त्री.) नांवनिशी; नांवाची वळेरी.

**नामो** (ना. पु.) पत्तो; लाखाट्याचेर बरोवचेलें मनशाचें; गांवाचें; तालुक्याचें बी नांव.

**नायक** (ना. पु.) फुडारी; मुखेल.

**नायकीण** (ना. स्त्री.) धर्मीक लग्न जावंक नाशिल्ली एका दादल्याची दुसरी बायल.

**नायिका** (ना. स्त्री.) नाटकांतली तशीच कादंबरीतली मुखेल बायल.

**नायलॉन** (ना. न.) एक कृत्रीम धागो.

**नारंगी** (वि.) एका रंगाचें नांव; हळदुवो आनी तांबडो रंग भरसून केल्लो रंग.

**नारी** (ना. स्त्री.) बायलमनीस.

**नारींग** (ना. न.) लिंबाचे जातीचें एक गोड फळ.

**नालायक** (वि.) लायकी नाशिल्लें.

**नालायकी** (ना. स्त्री.) फावो त्या गुणांचो उणाव; अयोग्यताय.

**नाल्ल** (ना. पु.) माडा फळ.

**नाल्लकार** (ना. पु.) नाल्लाचो वेपारी; नाल्लाचीं भाटां आशिल्लो भाटकार.

**नाल्ली** (ना. स्त्री.) नाल्लाची कट्टी.

**नाल्लेल** (ना. न.) नाल्लाचें तेल; खोबरेल.

**नांव** (ना. न.) वळख मेळची देखून मनशाक; मोनजातीक; गांवाक बी लायिल्लें खाशेलें उतर; नामना; कीर्त.

**नांव काडप** (वा. प्र.) कीर्त जोडप.

**नांवरूप** (ना. न.) कशाकसोय केल्लो वावर; अवचिन्नपण.

**नांवलोकीक** (ना. पु.) लोकांमदीं जोडिल्लें बरें नांव.

**नांवाजतेपण** (ना. न.) नामना; कीर्त; नावलोकीक.

**नांवाजतें** (वि.) नामना; कीर्त जाल्लें; नांवलोकीक जाल्लें.

**नांवाजप** (अ. क्रि.) नामना जावप; कीर्त फांकप; बरें नांव जावप.

**नांवाडगें** (वि.) इबाड करपी; कित्याकितेंय करपी; अवचिन्नपणां करपी.

**नांवाडगेपण** (ना. न.) अवचिन्नाळेपण; मोडतोड करपाचो सबाव; आडांगिपण.

**नावादीक** (वि.) नामना जोडिल्लें; फांकिवंत.

**नास/नाश** (ना.) ना करपाचो वा काबार करचेलो वावर.

**नासणो** (ना. पु.) एक दोंगरी धान्य.

**नासतेपण** (ना. न.) नासपाची स्थिती.

**नास्तिकपण** (ना. न.) ह्या संवसारांत देव ना अशें मत्त; देवाचें आसतेपण

हाच्या आड मत्त.

**नास्तीक** (वि.) देवाच्या आसतेपणाचेर विस्वास नाशिल्लें; संवसारांत देव ना अशें मानपी.

**नास्तो** (ना. पु.) सकाळचें खाण.

**नासप** (अ. क्रि.) आसप ह्या उतराच्या परत्या अर्थाचें उतर; आसप ना.

**नाळ** (ना. स्त्री.) बाळांतिची वार; भुरगें पोटांत आसतना ताका जेवण खाण वचपाची नळी.

**नाळें** (ना. न.) आवयचे वारीचो भुरग्याचे बोंबलेक लागिल्लो भाग.

## नि

**निकर्तेंच** (क्रि. वि.) आतांच; मातसो पयलीं; इल्लेशा वेळा पयलीं.

**निखटें** (वि.) रितें; सादें; वांगडा कांय नाशिल्लें.

**निखटेपण** (ना. न.) रितेपण; सादेपण; वांगडा कांय नासपाची स्थिती.

**निखडूंडाय** (ना. स्त्री.) कुन्नाटकाय; दुस्वास.

**निखळप** (अ. क्रि.) सुटप; भायर सरप; मेकळो जावप.

**निखळावप** (स. क्रि.) भायर काडप; मेकळावप.

**निखालस** (क्रि. वि.) इल्लोसुद्दां; थोडोपासून; मात्तय; साप्प; सामको; थिरपणान.

**निग्रह** (ना. पु.) हट; मनाची धिरताय; विचाराची कडकसाण; घट्ट थारावणी.

**निगुतसाण** (ना.) निवळसाण; नितळसाण.

**निगुताय** (वि.) पळय **निगुतसाण**.

**निगूत** (वि.) निवळ; नितळ; निर्मळ.

**निचाय** (ना. स्त्री.) उणाकपण.

**निचेश्ट** (वि.) हालनासतना; धोलनासतना; शितीत गेल्लें.

**निचेश्टपण** (ना. न.) थंडसाण; हालचालीचो उणाव.

**निच्छय** (ना. पु.) थारावणी; हट.

**निच्छेयी** (वि.) धीर; चंचळताय नाशिल्लें.

**निच्छेव** (ना. पु.) खर थारावणी; थिरताय; हट.

**निज** (ना.) सैम; अस्मिताय; आपलो खाशेलो गूणधर्म.

**निजरूप** (ना. न.) आपलें रूप वा आपलो सबाव.

**निजाचें** (वि.) मुळचें; जल्मत्स.

**निटाय** (ना. स्त्री.) सरळपण; निटपाण; उबे रिस्केभाशेन तरा.

**निटावप** (स. क्रि.) नीट करप; निटायेर हाडप.

**नित्य** (वि.) सदांचें; दर दिसाचें. (क्रि. वि.) सदां, दर दिसा.

**नितळ** (वि.) निवळ; सपाट तळ आशिल्लें.

**नितळसाण** (ना. स्त्री.) निवळसाण; खडबडितसाण नाशिल्लें.

**नितळावप** (स. क्रि.) निवळ करप; एकाच तळार हाडप.

**निथळप** (अ. क्रि.) निस्तप; गळप; व्हांवप.

**निथू** (ना. स्त्री.) तोंडांतल्या पेशींतल्यान भायर सुटिल्लो एक पातळ पदार्थ; थुकी; लुथी.

**निंदप** (स. क्रि.) कुस्कुटावप; दुशण दिवप; निंदा करप.

**निंदा** (ना. स्त्री.) कुसकुटावणी; बकच्छाय; दुशण.

**निनांवी** (वि.) नांव नाशिल्लें.

**निपुत्रीक** (वि.) भुरगीं नाशिल्लें.
**निपूण** (वि.) कसबी; फिशाल; हुशार.
**निपुणाय** (ना. स्त्री.) फिशालकाय; हुशारकाय.
**निबंद** (ना. पु.) कसल्याय विशयाचेर बरयल्लो गद्य लेख.
**निबर** (वि.) घट; शक्तवान; बळगें आशिल्लें.
**निबरसाण** (ना. स्त्री.) घटसाण; शक्त; बळगें.
**निमणें** (वि.) अखेरचें; काबार जावचेपयलीचें.
**निम्बू** (ना. स्त्री.) लिंबू; लिंबिणीचें फळ.
**निमाणें** (क्रि. वि.) शेवटाक; अखेरचें.
**निमाणें** (वि.) अखेरचें; सोंपचेल्या पोंतार पाविल्लें; काबार जावचे पयलिंचें.
**निमित्य** (ना. न.) किरकोळ कारण; कसलेय घडणुकीचें ल्हान कारण.
**नियाळ** (ना. पु.) सगल्याचेर मारिल्ली नदर; सरभरस बरी वायट केल्ली विसकुटावणी.
**नियाळणी** (ना. स्त्री.) बारीकसाणेन मारिल्ली नदर; नियाळ.
**नियाळप** (स. क्रि.) बारीकसाणेन पळोवप; सगल्याचेर नदर मारप.
**नियोजन** (ना. न.) वावराची पयली केल्ली येवजण. (ना. पु.) **नियोजनाकार** येवजण करपी.
**निर्जीव** (वि.) जीव नाशिल्लें; ताजपाण नाशिल्लें; शक्त नाशिल्लें.
**निर्जिवपण** (ना. न.) जीव नासपाची स्थिती; साबुद्द नासचेली स्थिती.
**निर्णय** (ना. पु.) थारावन घेतिल्लें मत; थाराव; कबलात.
**निर्णेवप** (अ. क्रि.) भान गेल्ल्यावरी जावप; अवाक् जावप; निचेश्ट जावप; तकलेक सणसण मारिल्लेवरी जावप.
**निर्दाळप** (स. क्रि.) नश्ट करप; ना नपश्चात करप.
**निर्धास्त** (वि.) हुसक्यामेकळें.
**निर्धास्तपण** (ना. न.) चिंता आनी हुसको नासपाची स्थिती.
**निरपणस** (न. पु.) पोरसांत जावपी शाकभाजयेचें हें फळ दिवपी झाड.
**निर्बुद्द** (वि.) अबुद्द.
**निबुद्दपण** (ना.) अबुद्दीपण; बुद्दीचो उणाव.
**निर्भय** (वि.) भय-भिरांत नाशिल्लें; निर्धास्त; धिरवान.
**निर्भयपण** (ना. न.) भिरांत नासपाचो गूण; धिटाय.
**निर्मण** (ना. स्त्री.) रचणूक; सैम.
**निर्मणी** (ना. स्त्री.) सैम; वारो; उदक; गिरे आनी हो सगलो संवसार रचपी मुळावी शक्ती.
**निर्मप** (स. क्रि.) रचप; घडवप; तयार करप.
**निर्मळ** (वि.) नितळ; म्हेळ नाशिल्लें.
**निर्मळकाय** (ना. स्त्री.) निवळसाण; पवित्रताय.
**निर्मळसाण** (ना. स्त्री.) पळय **निर्मळकाय.**
**निर्माण जावप** (सं. क्रि.) आपशींच घडप; उदेवप; रूजप; उपरासप.
**निर्मोग** (ना. पु.) निखड्डाय; तिरस्कार; मोगाचो अभाव.
**निरमोण** (ना. न.) पळय **निर्मणी.**
**निर्मोळी** (ना. स्त्री.) जिरवण नाशिल्ल्यान जाल्लो एक रोग; खाल्लें जेविल्लें पचूंक नाशिल्ल्यान उपराशिल्लें एक वायट.
**निर्यात** (ना. स्त्री.) एका देशांतल्यान

दुसऱ्या देशांत धाडिल्लो म्हाल; निर्गत.
**निर्लज्ज** (वि.) लज नाशिल्लें.
**निर्लेप** (वि.) निवळ; पवित्र; थर; रांप; लेप नाशिल्लें.
**निर्वंश** (ना. पु.) भुरगेंबाळ नासपाची स्थिती.
**निर्वासप** (अ. क्रि.) घर दार आनी देस सोडून वचप; देसा भायरो जावप.
**निर्वासीत** (ना.) घर दार नाशिल्लें; देसा भायरो जाल्लो मनीस.
**निर्वाळो** (ना. पु.) खरेपण; खात्री.
**निर्विकार** (वि.) शांत; तिडक; इत्सा बी कसलोच विकार नाशिल्लें.
**निरशेणी** (ना. स्त्री.) निराशा; आस्त उरूंक जाल्ल्यान उदेल्ली खंत; जिरिल्ली उमेद.
**निरशेवप** (अ. क्रि.) आस्त तुटिल्ल्यान खंती जावप; मनांतलो हावेस सोडूंक नाशिल्ल्यान वायट दिसप.
**निरांजन** (ना. न.) वात पेटोवचेलें उबार आनी वाटकुळ्या तोंडाचें धातूचें· सुपुल्लें आयदन.
**निराधार** (वि.) आधार नाशिल्लें.
**निरूपकार** (ना.) उपकाराचो विसर; बेमानपण.
**निरूपकारी** (ना. पु.) उपकार नाशिल्लो मनीस.
**निरुपाय** (ना. पु.) उपायाचो अभाव; नाइलाज.
**निरो** (ना. पु.) म्हुट्ट्याचो पिळिल्लो रोस; ताडा-माडाची सूर.
**निरोप** (ना. पु.) रकाद; कोणाकय पावोवचेली वा धाडचेली सांगणी; आपल्यागेर आयिल्ल्या मनशाक परत वचूंक दिल्ली मान्यताय.
**निरोप घेवप** (सं. क्रि.) सांगून वचप; बरें मागून वचप; वचचे खातीर मान्यताय विचारप.
**निरोप दिवप** (सं. क्रि.) वचूंक मान्यताय दिवप.
**निर्ल्लज्ज** (वि.) लज नाशिल्लें; व्याण जाल्लें.
**निर्ल्लज्जपण** (ना. न.) लज नासपाची स्थिती; व्याण जावपाची मनाची स्थिती.
**निवर्णे** (ना. न.) मातये आयदन फुटचें न्हय म्हणून केल्लें तणाचें वेटाळें.
**निवलकाणी** (ना. स्त्री.) आंगाक कुचकुचीत कांटे आशिल्लें एक वखदी झाड.
**निवळ** (वि.) खत वा दाग नाशिल्लें; बुरशें न्हय अशें; नितळ.
**निवळसाण** (ना. स्त्री.) निर्मळकाय; नितळसाण.
**निवळावप** (स. क्रि.) नितळ करप; बुरशेपण काडून उडवप.
**निवारणार** (ना. पु.) सांबाळपी; संकश्टां पैसावपी.
**निवारप** (स. क्रि.) पयसावप; निस्तरावप; सोंपोवप.
**निवेदन** (ना. न.) सांगणी; म्हणणी.
**निवेद्य** (ना. पु.) देवाक ओंपिल्लें खाण-जेवण.
**निवोळ** (ना. पु.) शिजयल्ल्या तांदळाचें उदक; पेजेवयलें निशें; तन्न.
**निश्चीत** (वि.) स्पश्ट; जिस्त. (क्रि. वि.) दुबावा विरयत; खरेपणान.
**निश्टा** (ना. स्त्री.) खर विस्वास.
**निश्टूर** (वि.) दया माया नाशिल्लें.
**निश्पाप** (वि.) कसलेंच पातक करूंक नाशिल्लें; निवळ चाल चलणुकीचें.
**निशाणो** (ना. पु.) धार काडपाचो फातर.

**निसट्टें** (वि.) निसरड जाल्लें; बुळबुळीत जाल्लें.
**निसट्टी** (ना. स्त्री.) देंवती.
**निसण** (ना. स्त्री.) दोन लांब उब्या कोंड्याक आडवे कोंड्यो पावंडे लावन वेयर चडूंक केल्लें साधन.
**निस्तर** (ना. पु.) उपाय; राखण.
**निस्तरावप** (स. क्रि.) भागोवप; सोपोवप.
**निसंतान** (ना. न.) भुरगेंबाळ नासपाची स्थिती.
**निसर्ग** (ना. पु.) सैम; संसाराची रचणूक करपी शक्त.
**निसर्गीक** (वि.) मूळचें; निसर्गान दिल्लें; सैमीक.
**निसरड** (ना. स्त्री.) उदकान ओकसल्ल्यान बुळबुळीत जाल्ली सुवात.
**निसरप** (अ. क्रि.) घसरप.
**निसुकपण** (ना. न.) बेपर्वाय; मनाची घटसाण; सबावाचें कडकपण.
**निळसाण** (ना. स्त्री.) फिकट निळो रंग; पातळ निळो रंग.
**निळें** (वि.) मळबा रंगाचें.

## नी

**नी** (अ.) आनी.
**नीच** (वि.) ल्हान; हलकट; वायट कर्तुबां आधारपी.
**नीज** (ना. न.) सैम; निसर्ग; अस्मिताय. (वि.) मूळ; अस्सल.
**नीट** (वि.) सरळ; नितळ; सारकें.
**नीत** (ना. स्त्री.) बरें आनी वांकडें समजून घेवपाचें शास्त्र.
**नीब** (ना. न.) निमित्त्य; किरकोळ कारण.
**नीम** (ना. पु.) पेजे निवोळ; शिमेचो फाद्गर.
**नीळ** (ना. पु.) निळ्या रंगाची पूड.

## नु

**नुकसान** (ना. न.) हानी; तोटो.
**नुपुरवण** (ना. स्त्री.) तूट; उणाव.
**नुरप** (स. क्रि.) उरप ना; नासप; काबार जावप.
**नुरा** (ना. स्त्री.) चर्या; रूप; चेहरो; तोंड.
**नुलयत** (क्रि. वि.) उलय नासतना; बोवाळ करिनासतना; मोन्यानी; लिपोवन.
**नुलवप** (अ. क्रि.) उलवप ना; मोन्यानी रावप.
**नुस्तें** (ना. न.) मासळी.
**नुस्तेकार** (ना. पु.) नुस्तें विकपी.

## ने

**नेट** (ना. पु.) बळगें; शक्त; उमेद.
**नेर्डे** (ना. न.) सुयेक, दाबणाक, कुदळीक बी दवरिल्लो बुराक.
**नेणटें** (वि.) नेणार; अबुद्दी; पिरायेन ल्हान भुरगें.
**नेणटेपण** (ना. न.) भुरगेंपण; ल्हानपण.
**नेणप** (स. क्रि.) नकळप; जाणविकाय नासप.
**नेणवीक** (ना. स्त्री.) जाणविकाय.
**नेणां जावप** (सं. क्रि.) नकळप; जाणविकाय नासप; जाणापरींत नासप.
**नेणार** (वि.) अबुद्दी; गिन्यान नाशिल्लें; जाणविकाय नाशिल्लें.
**नेणारपण** (ना. न.) अप्रबुद्दी; अबुद्दीपण.
**नेपाळी** (ना.) नेपाळ देशांतलो.

**नेम** (ना. पु.) कायदो; थारावणी; चाल; रीत; तीर.
**नेम** (ना. पु.) फोण; फोणारो.
**नेमणूक** (ना.) चाकरी करचेलें आपोवणें.
**नेमप** (स. क्रि.) चाकरी दिवप.
**नेमपी** (ना.) नेमणूक करपी.
**नेमाळें** (ना.) नेमान उजवाडायल्लें वाचपाचें.
**नेमो** (ना.) केळीसारक्या झाडाचो मोखो; रोंपो.
**नेर** (ना. पु.) शेतांत आपशींच किल्लल्लें तण.
**नेरवां** (ना. न. भो.) एक तरेचो मनाचो रोग.
**नेरावप** (स. क्रि.) निवळ. करप; दाण्या-गोट्यांत भरसल्लो कोयर; फातर बी काडून तो निवळ करप.
**नेवरी** (ना. स्त्री.) करोंजी; गवांच्या पात्यांत पिठी बी भरून केल्लो खाणाचो जिनस.
**नैऋत्य** (ना.) अस्तंत आनी दक्षिण हांचेमदली दिक.

## नो

**नो** (अ.) उलो मारिल्ल्या मनशाक बी लावचेलें उतर वा कूस.
**नोकर** (ना. पु.) चाकर; पयशे घेवन दुसऱ्यांलो वावर धंदो करपी.
**नोकरी** (ना. स्त्री.) चाकरी; पैशे घेवन केल्लो धनयाचो वावर.
**नोट** (ना. स्त्री.) दुडू फारीक करपाचें दिल्लें छापी उतर.
**नोटीस** (ना. स्त्री.) कळोवणी; सुचोवणी; शिटकावणी.
**नोंद** (ना. स्त्री.) लावणी; उगडास.
**नोव्हेन** (ना. न.) फेस्ता पयलीं णव दीस मेरेन चलतां तो किरिस्तांव धर्माचो उत्सव.
**नोव्हेंबर** (ना. पु.) किरिस्तांवी वर्साचो ११वो म्हयनो.
**नोव्हेंब्र** (ना. पु.) पळय **नोव्हेंबर**.

## नौ

**नौदळ** (ना. न.) दर्यांतल्यान झुजपी सैन्य.

## नं

**नंतर** (अ.) मागीर; उपरान्त.
**नंदनवन** (ना. न.) सर्गांतली बाग.
**नंदप** (अ. क्रि.) बरे तरेन जियेवप.
**नंदादीप** (ना. पु.) देवामुखार पेटोवचेली वाटकुळ्या तोंडाची पणटी.
**नंदी** (ना. पु.) म्हादेवाक हाडपी व्हरपी बैल.
**नंदिबैल** (ना. पु.) गणसा बैल; म्हादेवालें वाहन.
**नंबर** (ना. पु.) आंकडो.

## प

**पक्केपण** (ना. न.) घटपाण; खरेपण.
**पक्के** (वि.) जातींचे; जातिवंत; खरें; घट्ट.
**पकदस्त** (वि.) लांब रूंद; घसघशीत; पेजादीक.
**पकदस्तपण** (ना. न.) घसघशीतपण; पेजादीकपण; भारदस्तपण.
**पक्वान्न** (ना. न.) साकरभात; पुन्न पोळयेसारकें उंची गोड खाण.

**पकावप** (स. क्रि.) पोटभर जेवप-खावप.
**पखतुनिस्तान** (ना. पु.) पठाण लोकांचो देश.
**पखतुनी** (ना.) पखतुनिस्तानांतलो; पठाण.
**पखवाज** (ना. पु.) तबलें आनी बावो एकठांय आशिल्लें मृदंगाभशेन वाद्य.
**पखवाजी** (ना. पु.) पखवाज वाजोवपी; पखवाज करपी.
**पखेकूळ** (ना. न.) सवणी; सवण्यांचें कूळ; सवण्यां जात.
**पखो** (ना.) कानांत घालपाची बारीक मोतयांची वस्त.
**पग** (ना. न.) पाशे उडोवन घुलो लावपाचो एक खेळ.
**पगडी** (ना. स्त्री.) १. माथ्याक घालचेली रेशमाची आनी गोंडो आशिल्ली तोपी. २. बक्षीस; लंच.
**पगडो** (ना. पु.) एक ल्हान आनी वाटकुळसार कुडीचें सवणें.
**पगळप** (अ. क्रि.) चड पिकिल्ल्यान आपशींच फुटप.
**पगार** (ना. पु.) मुशारो; काम; वावर केल्ल्याचें मोल.
**पगारी** (वि.) मुशारो दिवन दवरिल्लें; पगाराचें.
**पचक** (वि.) सय-सुवाद नाशिल्लें; रूच नाशिल्लें; सुरबुससाण नाशिल्लें.
**पचकटो** (ना. पु.) बोमाडो; रबराची पोती वा नळी; आंतकडी.
**पचकेपण** (ना. न.) सुवादाचो उणाव.
**पचकें** (ना.) रूच नाशिल्लें; सुवाद नाशिल्लें; पचपचीत.
**पच्छताप** (ना. पु.) कसलेंय वायट करण-खातीर जाल्ली खंत.
**पचण** (ना. न.) जिरवण; खाल्ल्या जेविल्ल्या वस्तूंचें रगत जावचें देखून कुडींत जाल्ली घडामोड.
**पचप** (अ. क्रि.) जिरप; जिरवण जावप.
**पचपच** (ना. पु.) बडबड; पचकें उलोवणें.
**पचपचीत** (वि.) सय-सुवाद नाशिल्लें; रूच नाशिल्लें.
**पचपचें** (वि.) बडबडें; सय-सुवाद नाशिल्लें; बडबड करपी.
**पचपी** (वि.) सोंपेपणान जिरवण जावपी.
**पचवप** (स. क्रि.) जिरवप.
**पचाणी** (ना. स्त्री.) ल्हान भुरग्याच्या माथ्याक आनी आंगाक घट्ट बांदचेलें लुगट.
**पचापच** (क्रि. वि.) भीड मुरवत नासतना; फडाफड; फाटीं फुडें पळय नासतना.
**पचोवपी** (वि.) जिरोवपी.
**पट** (ना. स्त्री.) फावट; (देखीक चोवपट, पांचपट); तोंडपाठ सांगिल्ली नामावळ वा दुसरी कसलीय गजाल.
**पटयेकार** (ना. पु.) पटी घेवन भोंवपी.
**पटवप** (स. क्रि.) खरेपण करप.
**पटायत** (वि.) हुशार; लापीट; फिशाल.
**पटी** (ना. स्त्री.) पुस्तक; चोपडी; वर्गणी; सगल्यांनी मेळून जमयल्ले पयशे.
**पटेकार** (वि.) तड्डकी.
**पटो** (ना. पु.) कालसांव घट्ट उरचें देखून कंबराक अंदून बांदिल्लो चामड्याचो तीर; तड्डक.
**पठ्ठाळो** (ना. पु.) बाळांत जाल्ले बायलेक धाडिल्ले घटसाणीचे तेरेकवार खाणा जेवणाचे जिनस.
**पठाण** (ना. पु.) बलुचिस्तानांत रावपी लोकांची जात.

**पठाणी** (वि.) पठाण लोकांसारकें; पठाणांभाशेन.
**पड** (ना. स्त्री.) १. दाणो-गोटो मेजपाचें एक माप. २. अपेस.
**पडकें** (वि.) पडिल्लें; मोडिल्लें.
**पडगो** (ना. पु.) ताटलेभाशेन एक आयदन; उबार कडो आशिल्लें ताट.
**पडटें** (वि.) पडिल्लें; देंवतें; नुकसानीचें; तुटपाणीचें.
**पड्डो** (ना. पु.) दाराक वा जनेलाक लायिल्लें लुगट.
**पडप** (अ. क्रि.) आपलेच आपूण सकयल देंवपप; हातुणार आडवो जावप; वायटांत दिसभर हातुणार न्हिदप.
**पडबिंब** (ना. न.) उदकान वा हारशांत पडिल्ली वस्तूची सांवळी.
**पडमूरपण** (ना. न.) बेमानपण; बेपर्वाय.
**पडमूर** (वि.) बेमान; भीड; मुरवत नाशिल्लें.
**पडवी** (ना.) चोवकी; व्हारांद.
**पडसवप** (स. क्रि.) एके सुवातेर किल्लवन काडिल्लीं झाडां दुसरे सुवातेर रोवप.
**पडसावणी** (ना. स्त्री.) एके सुवातेवयल्या झाडांची दुसरे सुवातेर केल्ली रोवणी.
**पडहात** (ना. पु.) वकील; मुणयारी.
**पडाव** (ना. पु.) एक आडसाटें रूंद व्हडें.
**पडोळें** (ना. न.) एक लांब शाके फळ.
**पडंग** (वि.) पाड; रोंप नाशिल्लें.
**पणजी** (ना. स्त्री.) १. आजयेची आवय. २. गोंयचें राजपाटण आनी मुखेल शार.
**पणजो** (ना. पु.) बापायचो आजो.
**पणजोळ** (ना. न.) पणज्यालें घर.
**पणटी** (ना. स्त्री.) १. तेल आनी वात घाल्लो दिवो. २. नातवाची चली.
**पणटू** (ना. पु.) नातवाचो चलो.
**पणशी** (वि.) पणसाच्या झाडाचें.
**पणस** (ना. पु.) भायल्यान कांट्याची साल आनी भितर घरे आशिल्लें फळ.
**पत** (ना. स्त्री.) देणे - घेण्याविशींचो विस्वास; कसल्याय जिनसाचो इल्लोसो भाग.
**पतकर** (ना. पु.) जापसालकी; जबाबदारी; मान्यताय; सांबाळ.
**पतकरप** (स. क्रि.) मान्यताय दिवप; जापसालदारकी घेवप.
**पत्तो** (ना. पु.) राबितो; घर-दार; नांव-निशाण; वळख; नामो.
**पत्तो नासप** (सं. क्रि.) घर-दार नेणप; नाट नासप; वळख नासप.
**पत्रक** (ना. न.) आपली म्हणपी; मत्त वा सुचोवणी आशिल्लें बरयल्लें वा छापिल्लें कागद.
**पत्रावळ** (ना. न.) पणसाची; वडाचीं; काजूचीं पानां.
**पत्रिका** (ना. स्त्री.) जाल्ल्या दिसाचें नक्षत्र; जाल्ल्या दिसाची तारीख; नक्षत्र आनी ताचेवयल्यान मांडिल्ली कुंडली; टिपण.
**पत्री** (ना. स्त्री.) तेरेकवार झाडांचीं पानां.
**पत्रो** (ना. पु.) झाडाचीं सुकिल्लीं पानां.
**पतिव्रता** (ना. स्त्री.) घोवाचो नीज मोग करपी बायल.
**पतंग** (ना. पु.) वाऱ्यार सोडपाचो चौखणी कागद आनी ताका बांदिल्ली लांब दोरी.
**पथ** (ना. न.) आरोग्य; बलायकी.
**पथ** (ना. न.) बलायकी बरी उरूंक बरें आनी जाय तितलेंच खावप जेवप

आनी हेर सगली जतनाय. (पु.) मार्ग; रस्तो.

**पथ्यार पडप** (वा. प्र.) फावप; आपशींच फायदो जावप.

**पथीक** (वि.) बलायकेक बरें.

**पद** (ना. न.) हुद्दो; अधिकार; पावल; पावंडो.

**पदक** (ना. न.) जैत जोडिल्ल्यापसत वा बरो वावर केल्ल्याखातीर दिल्लो कसलेय उंची धातूच्या पत्र्याचो कुडको.

**पद्धत** (ना. स्त्री.) तरा; मांडणी.

**पदर** (ना.) पोंत; न्हेसणाचो खांदार घेतात तो भाग.

**पदरांत पडप** (सं. क्रि.) हातांत येवप.

**पदवी** (ना. स्त्री.) शिक्षण जोडिल्ल्याचो दाखलो; व्हडपण; गर्व; मदांतकाय.

**पदवेखोर** (वि.) मस्तें; गर्वीश्ट; चड पदव्यांचें.

**पदवेदार** (वि.) व्हड जाळवणदार; खूब सत्ता आशिल्लें.

**पदार्थशास्त्र** (ना. न.) मुळांत धातूंत बदल जायनासतना संवसारांतल्या सगल्या वस्तूंचो सबाव-गूण आनी तांची घडमोड शिकोवपी शास्त्र.

**पदार्थशास्त्री** (ना. पु.) संवसारांतल्या वस्तुंच्या घडामोडीचें गिन्यान जोडिल्लो.

**पदेर** (ना. पु.) उंडे भाजपी आनी विकपी.

**पन्नाशी** (ना. स्त्री.) पन्नास वर्सांचो काळ; पन्नास वर्सांची पिराय.

**पन्नास** (वि.) अर्दो शेंकडो (५०).

**पनेळ** (ना. पु.) अशीर आनी ल्हान व्हडें.

**पपा** (ना. स्त्री.) धांव-पळ.

**पपा काडप** (सं. क्रि.) धांवप; पळ काडप.

**पयर्कीं** (अ.) भितल्लें; मजगतचें.

**पयंगीळ** (ना. पु.) एक घाणयारो; पांखां आशिल्लो पावशी जीव.

**पयर** (क्रि. वि.) कालच्या आदल्या दिसा.

**पयरण** (ना. स्त्री.) सदरो; पातळ लुगटाचें; लांब हाताचें गळगळीत आंगावयलें.

**पयऱ्या जोर** (ना. पु.) मदलो एक दीस थारावन येता तो जोर; मलेरियाचो जोर.

**पयरी** (ना. स्त्री.) मदीं एक दीस थारावन आयिल्लो फुडलो दीस; पयऱ्यान करचेलें काम.

**पयरेकार** (ना. पु.) मदलो एक दीस थारावन वावर करपी; पयऱ्यान वावर करपी.

**पयरो** (ना. पु.) मदीं एक दीस थारावन येता तो फुडलो दीस.

**पयल्यापारा** (क्रि. वि.) पयलेच फावट; पयलेच खेपो.

**पयल्याच फाराक** (क्रि. वि.) पयलेच खेपो.

**पयलवान** (ना. पु.) व्यायाम आनी कसरत करून आपल्या आंगाची घटपाण जोडपी मनीस.

**पयलीं** (क्रि. वि.) सुरवेक.

**पयलें मीस** (ना. न.) पाद्रीपणाचें शिक्षण जातकच दबाज्यान सांगिल्लें पयलें मीस.

**पयलेपण** (ना. न.) पयली खेप; पयली फावट.

**पयलें** (वि.) सगल्यांत वयलें वा आदींचें; सुरवेचें.

**पयलें-वयलें** (वि.) १ ह्या क्रमांकान येवपी; पयलें; पयलेच खेपेचें; सामकें

पयलें.

**पयशिल्लें** (वि.) पयस सुवातेवयलें; जें म्हऱ्यांतलें वा लागशिल्लें न्हंय.

**पयस** (क्रि. वि.) चड अंतरार.

**पयसलें** (वि.) पळय **पयशिल्लें.**

**पयसावप** (स. क्रि.) पयस करप; धुकलप.

**पयसो** (ना. पु.) रुपयाचो शंबरावो वांटो; दुडू.

**पर** (वि.) भायलें; परकी; दुसरें.

**पर** (ना. स्त्री.) तरा; पद्धत.

**प्रकृती** (ना. स्त्री.) भलायकी; आरोग्य; सैमाची रचणूक.

**प्रकरण** (ना. न.) भाग; वांटो; खिस्त; घडणूक; गजाल.

**प्रकार** (ना. पु.) गजाल; तरा.

**परकी** (ना. स्त्री.) ओळख देख नासपी.

**परकेपण** (ना. न.) वेगळेपण; मुरवत; मेकळेपणाचो उणाव.

**परकें** (वि.) जें घरचें न्हय; जें आपलें न्हय; भायलें.

**परखन्न** (ना. न.) पोळी; साकर-भात; पुन्नपोळये सारको गोड जिनस.

**प्रगट** (वि.) मेकळें; उकतें; भायर सरिल्लें.

**पर्गट** (वि.) पळय **प्रगट.**

**प्रगट जावप** (सं. क्रि.) अकस्मात दिश्टी पडप; उदेवप.

**परगटप** (अ. क्रि.) अचकीत दिश्टी पडप.

**परगटणार** (ना. पु.) मेकळो करून सांगपी; लोकांमदीं पातळावपी.

**परगटावणी** (ना. स्त्री.) उक्ती केल्ली; भायर फोडिल्ली गजाल.

**परगटावप** (स. क्रि.) उक्तें करप; भायर फोडप; लिपयल्लें दाखोवप; मनांतलें सांगप.

**परगटावपी** (ना. पु.) उक्तावपी; मेकळेपणान सांगपी; भायर फोडपी.

**परचक्र** (ना. न.) घुरी; परकी लोकांनी हाडिल्लें संकश्ट.

**परजळ** (ना. पु.) उजवाड; लकलक; चकचक.

**परजळप** (अ. क्रि.) चकचकप; लकलकप; उजवाडावप.

**परजळावपी** (वि.) उजवाड घालपी.

**परजळीत** (वि.) लकलकणें; चकचकणें; उजवाड आशिल्लें; पेटिल्लें.

**प्रजा** (ना. स्त्री.) राज्यांत रावतले लोक.

**प्रजासत्ताक** (वि.) लोकांच्या हातांत सत्ता आशिल्लें.

**पट्टी** (ना. स्त्री.) पावत; नीट ओळी मारपाची लाकडी काम.

**पर्णकुटी** (ना. स्त्री.) खोंप; चुडटांनी बी धांपून तयार केल्लें घर.

**प्रणाम** (ना. पच.) नमस्कार.

**प्रत** (ना. स्त्री.) नग; एक एक वस्त.

**परंत** (अ.) पूण; पुणून.

**परत-परत** (क्रि. वि.) फिरून फिरून; खूब खेपो; भोवन भोवन.

**परतवप** (स. क्रि.) परत करप; परत धाडप; धावंडावप.

**परतंत्र** (वि.) बंदें; गुलाम.

**परतप** (अ. क्रि.) आयिल्ले सुवातेर वचप.

**प्रत्यय** (ना. पु.) अणभव; खरेपण.

**परतवण** (ना. न.) व्हंकल पावणी.

**प्रताप** (ना. पु.) पराक्रम; शूरताय.

**प्रतापी** (वि.) पराक्रमी; व्हड नामना जोडिल्लें.

**प्रतिक्रिया** (ना. स्त्री.) उरफाटी क्रिया; कसलेय एके गजालीक लागून घडिल्ली

परती वा उरफाटी गजाल.

**प्रतिकूल** (वि.) उरफाटें; हिताच्या आड येवपी; लुकसाण करपी.

**प्रतिपळीं** (क्रि. वि.) सदांच; खिणा खिणाक; दिसान दीस.

**प्रतीक** (ना. न.) कुरू; चित्र.

**परतीं** (क्रि. वि.) आनीक एक खेपो.

**परतून** (क्रि. वि.) आनीक एक फावट; परत; परतें.

**परतें** (क्रि. वि.) आनी एक फावट.

**परतें** (क्रि. वि.) उरफाटे.

**परथून.** (क्रि. वि.) आनीक एक फावट.

**प्रदर्शन** (ना. न.) लोकांक पळोवपाखातीर केल्ली वस्तूंची मांडावळ.

**प्रदक्षणा** (ना. स्त्री.) वाटकुळो फेरो.

**प्रदेश** (ना. स्त्री.) प्रांत; देश; भुंयेचो एक मोटो भाग.

**परदेश** (ना. पु.) परकी देश.

**परदेशी** (ना.) परकी देशाचो रहिवासी.

**परदेशी** (वि.) दुसऱ्या गांवचें; भायल्या देशांतलें.

**परदेसपण** (ना. न.) भायल्या देशांतली तरा; पद्धत; चालि-रिती; भायल्या देसाची ओड.

**परधार्जिणें** (वि.) दुसऱ्याचो आधार घेवपी.

**प्रधान** (वि.) मुखेल; चड गरजेचें. (ना. पु.) मंत्री.

**प्रपंच** (ना. पु.) संसार; भोंवतणचो पसारो.

**परंपरा** (ना. स्त्री.) मुळची चालरीत; चलत आयिल्ली कसलीय गजाल.

**परंपरागत** (वि.) खूब काळापासून चलत आयिल्लें.

**परब** (ना. स्त्री.) धर्मीक सण; चवथ; दिवाळी; नाताळ सारको व्हड दीस.

**प्रबंध** (ना. पु.) कसल्याय विशयाचो खोलायेन अभ्यास करून त्या संबंधान मांडून बरयिल्लो लेख.

**प्रबळ** (वि.) खूब बळ आशिल्लें.

**परबें** (ना. न.) दुसऱ्याविशीं परगटायल्ली बरी इत्सा; अभिनंदन.

**प्रभाव** (ना. पु.) एकाची दुसऱ्याचेर पडिल्ली छाप; परिणाम.

**प्रभावळ** (ना. स्त्री.) देवा मुर्ती मुखार लायिल्लें लाकडाचें वा धातूचें आर्क.

**परम** (वि.) खूब चड; खूब व्हड.

**परमहंस** (ना. पु.) परमपदाक पाविल्लो साधू; संत.

**परमळ** (ना. पु.) सुवास; बरो आनी नाजूक वास.

**परमळप** (अ. क्रि.) मधूर वास दिवप.

**परमळीत** (वि.) बऱ्या वासाचें.

**प्रमाण** (ना. न.) माप; वांटो; पुरावो; सोपूत. (अ.) सारकें; भाशेन.

**प्रमाण जावप** (सं. क्रि.) सोपूत घेवप; ज्युरार जावप.

**प्रामाणीक** (वि.) उकत्या सभावाचें.

**परमात्मो** (ना. पु.) देव; परमेश्वर.

**परमार्थ** (ना. पु.) दुसऱ्याखातीर आनी देवाधर्माखातीर केल्लो त्याग; देवाधर्माचो वावर; सुवार्तांचो अभाव.

**परमेश्वर** (ना. पु.) सगलें पळयणो; सगलें व्यापी; सगली शक्त भरिल्लो सासणाचो देव.

**पर्यान** (अ.) मेरेन; सुद्दां.

**प्रायश्चीत** (ना. न.) केल्ल्या वा घडिल्ल्या चुकी पसत ख्यास्त.

**प्रयोग** (ना. पु.) कसलीय केल्ली नवी गजाल; प्रत्यक्ष केल्लें काम.

**पर्वकाळ** (ना. पु.) उदरगतीचो काळ; तरतर.

**प्रवचन** (ना. न.) न्याय नितिचेर; चाल चलणुकीचेर वा धर्माचेर केल्लें उलोवप.
**परवड** (ना. स्त्री.) मोट्यान सुरान म्हणिल्ली उजळणी.
**परवडप** (स. क्रि.) फायदो वा लुकसाण जावप ना; शक्य जावप; उपकारा पडप.
**पर्वत** (ना. पु.) व्हड आनी उंच दोंगर.
**परवंप** (अ. क्रि.) कुथणप; हाय हूय करप; वाजेवप.
**पर्वा** (ना.) कांच; भंय.
**परवार** (ना.) म्हार.
**प्रवाशी** (ना.) भोंवपी.
**प्रवास** (ना. पु.) भोवंडी.
**प्रवाह** (ना. पु.) व्हांवतें उदक.
**प्रवीण** (वि.) कुशळ; फिशाल.
**परशू** (ना. पु.) कुराडीभाशेन पूण रूंद पात्याचें शस्त्र.
**परस** (अ.) हून; पेक्षां.
**प्रसंग** (ना. पु.) घडिल्ली गजाल; संकश्ट; वायट वेळ; दुखदेणी गजाल.
**प्रस्ताव** (ना. पु.) सुरवेचीं उतरां; वळख.
**प्रस्न** (ना. पु.) विचारणी; जाणापरींत नाशिल्ल्यो वस्तुसंबंधान केल्ली चोवकशी.
**प्रस्नार्थक** (वि.) प्रश्न करूंक उपकारा पडपाचें; दुबावाचें.
**प्रसन्न** (वि.) खुशालभरीत; आनंदीत.
**परसाकडे** (ना. स्त्री.) पोटांतली मळ सोडपाची इत्सा.
**प्रसाद** (ना. पु.) देवाच्या आंगावयलीं फुलां; देवालें मत्त; म्हणणी वा परवानगी.
**प्रसार** (ना. पु.) पातळावणी.
**प्रसिद्ध** (वि.) फाकीवंत; नामना जोडिल्लें.
**प्रळय** (ना. पु.) संवार; नाश.
**परां** (क्रि. वि.) आयज सावन तिसऱ्या दिसा.
**पराक्रम** (ना. पु.) शुरतायेन केल्ली कसलीय व्हड गजाल; धिटायेन केल्ली करणी.
**पराक्रमी** (वि.) शूर; धिटायेन व्हडलीं व्हडलीं कामां करपी.
**प्राकृत भास** (ना. न.) देशा भास.
**प्राकार** (ना. पु.) देवळाभोवतणचो मेकळो जागो.
**प्राण** (ना. पु.) जीव.
**प्राणवायू** (ना. पु.) स्वासान ओडटात तो ओक्सीजन नांवाचो वारो.
**प्राणीसंग्रहालय** (ना. न.) जनावरां; सवणीं आनी हेर जीव जिते वा मेल्ले सांबाळून दवरपाचें घर.
**प्राणी** (ना. पु.) मनीस धरून सगले ल्हान व्हड जीव.
**परात** (ना. स्त्री.) व्हड आनी उथळ ताट.
**प्रांत** (ना. पु.) देशाचो भाग.
**पराथप** (स. क्रि.) पोटतिडकेन आनी काकुळटेन मागप; याचना करप.
**पराथणी** (ना. स्त्री.) काकुळटेन केल्ली मागणी; प्रार्थना.
**पराधीन** (वि.) दुसऱ्याचे सुवादीन; कसल्याय ल्हान व्हड कामांत दुसऱ्याचो आदार आनी तेंको घेवपी.
**पराधीनपण** (ना. न.) गुलामपण; दुसऱ्याच्या सुवादीन आसपाची स्थिती.
**प्रार्थना** (ना. स्त्री.) मागणें.
**प्रार्थप** (स. क्रि.) विनंती करप; मागणें करप.
**परिचय** (ना. पु.) वळख.
**परिणाम** (ना. पु.) शेवट; कामाचें बरें वायट फळ.
**परिपाटक** (ना. पु.) एका वखदी झाडाचीं मुळां; कसायाचें एक आंग.

**परिभास** (ना. स्त्री.) शास्त्रीक भास; शास्त्रीक गिन्यानाक फावोशीं उतरां.
**परामस** (ना. स्त्री.) आगत-सुवागत; जतनायेन केल्ली वेवस्ता.
**परिशद** (ना. स्त्री.) कसल्याय भोवशीक प्रस्नाचो विचार करूंक जमिल्ल्या प्रतिनिधींची बसका.
**परिस्थिती** (ना. स्त्री.) स्थिती; घडणूक.
**परिक्षा** (ना. स्त्री.) कितें जाणां नकळो ताची तपासणी.
**परी** (ना. स्त्री.) अंतराळांत वावुरपी बायलमनीस.
**परीं** (अ.) भाशेन; सारकें; प्रमाण.
**परीन** (अ.) भाशेन.
**परब** (ना. स्त्री.) सण; धर्मीक दीस.
**परोब** (ना. पु.) पयलीं काळचो व्हड सत्ता आशिल्लो जाळवणदार.
**पलंग** (ना. पु.) न्हिदपाची बाज; खाट.
**पलटण** (ना. स्त्री.) शिपायकांचो व्हड जमो; सैन्याचो एक भाग.
**पलतड** (ना. स्त्री.) दर्याची वा न्हंयेची पेली तड.
**पलतडकार** (ना. पु.) पलतडी रावपी.
**पलास** (ना. स्त्री.) राजाचो राबितो आशिल्लें घर.
**पल्लो** (ना. पु.) लांबाय; अंतर.
**प्लॅटफॉर्म** (ना. पु.) स्टेशनावयल्या येत्या वत्या लोकांक उबे रावपाक केल्लो जागो; गाडयेंत चडपाक देंवपाक केल्लो नितळ जागो.
**प्लॅटिनम** (ना. पु.) शिशा रंगाची आनी खूब मोलाची एक उंची धातू.
**पवन** (ना. न.) पळय **पोवन.**
**पवित्र** (वि.) शुद्ध; सवळें; धर्मीक म्हत्त्वाचें.
**पवित्रताय** (ना. स्त्री.) निर्मळसाण; सवळें; शुद्धी.
**पवित्रपण** (ना. न.) पळय **पवित्रताय.**
**पश्चिम** (ना. स्त्री.) अस्तंतेत सूर्य पडटा तो वाटार.
**पशू** (ना. पु.) जनावर; मोनजात.
**पशुवैज** (ना. पु.) मोनजातीची पिडा, रोग निवारपी वैज; मोनजातीक वखद दिवपी वैज.
**पसत** (अ.) खातीर.
**पसंत करप** (सं. क्रि.) मान्यताय दिवप.
**पस्तीस** (ना. पु. वि.) तीस आनी पांच (३५).
**पसय** (ना. स्त्री.) खर न्हय असो उजवाड.
**पसरकार** (ना. पु.) पसरो चलोवपी.
**पसरो** (ना. पु.) दुकान.
**पसव** (ना.) निकतेंच भायर फुटिल्लें कणस.
**पसवप** (अ. क्रि.) पोटऱ्यातल्यान कणस भायर फुटप.
**पसार जावप** (सं. क्रि.) वचप; कडासप; कडसरप.
**पळ** (ना. स्त्री.) धांव.
**पळ काडप** (स. क्रि.) लिपोवन वचप; ना जावप.
**पळटें** (वि.) धांवतें; व्हांवतें.
**पळप** (अ. क्रि.) धांवन वचप; ना जावप.
**पळपटें** (वि.) पळून वचपी; नदर दवरपी.
**पळवप** (स. क्रि.) कसलीय वस्त फारावन ताकतिकेन वचप.
**पळापळ** (ना. स्त्री.) सगल्यांनी मारिल्ली धांव; पळून वतना जाल्लो बोवाळ.
**पळयणो** (ना. पु.) राखणो; पळोवपी.
**पळोवपी** (ना. पु.) देखपी; राखपी: नदर दवरपी.

**पक्ष** (ना. पु.) भाग; तट; पंद्रस; पांखटो; संस्था.
**पक्षपात** (ना. पु.) भेद; अन्तर; दोन वा चड पक्षां भितल्ल्या एका पक्षाकडेन आशिल्ली ओड.
**पक्षपाती** (वि.) एका पक्षाकडेन ओड दाखोवपी; दोन वा चड पक्षांभितर भेद करपी वा अंतर दाखोवपी.

## पा

**पाऊण** (वि.) एके सगले वस्तूच्या चार भागांतले तीन भाग (३/४).
**पाऊणशें** (वि.) पंचात्तर.
**पांक** (ना. पु.) पणसुलाच्या देंठाचो आनी मावेचो दीख.
**पांकट** (वि.) पांक आशिल्लें; चिकट.
**पाक्ताद** (वि.) भेदी; कोणायकडेन एकचार केल्लें.
**पाक्तार जावप** (सं. क्रि.) दुसऱ्याक मेळप.
**पाकसाळ** (ना. स्त्री.) रांदची कूड; रांदप-घर.
**पाकोळ** (ना. पु.) तांदळा भाशेन बारीक दाणो.
**पाकोळी** (ना. स्त्री.) एक ल्हान सवणें.
**पांख** (ना. न.) पीस; वोत; पावस आनी शीं बादचें न्हय देखून सवण्याच्या आंगाक आशिल्ले ल्हंवेचें पान.
**पांखटो** (ना. स्त्री.) पांख; वारें ताणूक सवण्याचे दर एकले कुशीक हाताभाशेन आशिल्लो कुडीचो भाग.
**पाखलो** (ना. पु.) गोरो मनीस; येवरोपी.
**पाखाटी** (ना. स्त्री.) पावसाची वावझड घरांत सरची न्हय म्हणून बांदिल्लें चुडटांचें पाखें.
**पांखान-पांख** (ना. न.) सगलीं पाखां; दर एकलें पांख.
**पांखें** (ना. स्त्री.) घरा माथें.
**पांखो** (ना. पु.) फुलां म्होंव चिंवपी रंगयाळी पाखां आशिल्लो ल्हान जीव.
**पाखो घेवप** (सं. क्रि.) कड घेवप; कोणाचेय वटेन वचप.
**पाग** (ना. पु.) मुशारो; पागामेंत.
**पागडी** (ना. स्त्री.) माथ्याक घालपाची रेशमा लुगटाची आनी गोंडो आशिल्ली टोपी.
**पागण** (ना. न.) अहेर; केळवण.
**पागणी** (ना. स्त्री.) नुस्तें पागपाचें काम.
**पागप** (स. क्रि.) नुसतें धरप.
**पांगप** (अ. क्रि.) विस्कळप.
**पांगरप** (स. क्रि.) चादरान; कुबेर्तान वा गोजडेन आंग धांपप; गुटलावप; कामरप.
**पांगरूण** (ना. न.) आंग धांपचेले कुबेर्त; चादर
**पांगळें** (ना. स्त्री.) हात वा पांय मोडिल्लें.
**पागी** (ना. पु.) खारवी; नुसतें मारपी.
**पागेल** (ना. न.) घरा कुशीक जोळोव बी दवरपाखातीर बांदिल्ली अडेची कूड.
**पाच** (ना. न.) पाचव्या रंगाचें एक थीक.
**पाचवेसाण** (ना. स्त्री.) चुट्टेच्या वा जित्या झाडा पानाभाशेन रंग.
**पाचवें** (वि.) चुट्टे कोर.
**पाचवें-चार** (वि.) चड पांचवें; दाट पांचव्या रंगाचें.
**पांच** (ना. पु. वि.) ५ हो आंकडो.
**पोटांत पांच पांच जावप** (वा. प्र.) भिरांतीन गुळी जावप.

**पांचरंगी** (वि.) पांच रंगाचें.

**पांचसाल** (ना. न.) पांच वर्सांचो तेंप.

**पाचारप** (स. क्रि.) जाप दिवप; मेल्ल्या मनशाल्या घरांतल्या लोकांक आनी तागेल्या नात्यांतल्या मनशांक आपलें दुख्ख मनोवप; खबर घेवप; उलो मारप.

**पाचारी** (ना. स्त्री.) मदेर बी चिरतना दोन फळ्यांमदीं मारिल्ली पातळ कांबी कुडको.

**पाचू** (ना. न.) पाचव्या रंगाचो खडो.

**पाज** (ना. स्त्री.) अरूंद खिंड.

**पाजन** (ना. न.) उज्यान घालून काडिल्ली धार.

**पाजप** (स. क्रि.) धार काडप.

**पांजरो** (ना. पु.) पोशिल्ल्या जिवानी पळून वचूं नये म्हणून चोंयवटेन सरयो लावन केल्लें घर.

**पाजवप** (स. क्रि.) धार काडप; घासून पुसून लकलकीत करप.

**पाझर** (ना. पु.) आपशींच गळिल्लें उदक; दुसऱ्याविशीं दिशिल्ली काकुळट.

**पाझरप** (अ. क्रि.) गळप; थेंब थेंब व्हांवप.

**पाट** (ना. पु.) म्हाणाय; बसपाखातीर केल्ली लाकडाची निवळ फळी; पटे; कुळागरांत उदक खेळोवंक मारिल्ली खळी.

**पाटणी** (ना. न.) भाताचें गांवठी बी.

**पाटली** (ना. स्त्री.) हातांत घालपाची एक वस्त.

**पाटलो** (ना. पु.) खोंटलो; तोकरो.

**पाटांगडो** (ना. पु.) मुखेल; व्हड; योग्यतायेचो.

**पाटी** (ना. स्त्री.) कामणी; घराचें पाखें बसोवंक वणटीक घाल्ले लाकडाचे ताशिल्ले करवे.

**पांटी** (ना. स्त्री.) व्हड खोंटलो.

**पांटुलो** (ना. पु.) पळय **पांटलो.**

**पाटें** (ना. न.) पळय **पांटी.** व्हड खोंटलो.

**पाटो** (ना. पु.) दोनय वाटांनी दुरीग आशिल्लो आनी काठ्यानी बांदिल्लो मार्ग.

**पाठ** (ना. पु.) धडो.

**पाड** (वि.) उपेग नाशिल्लें; पडंग.

**पाडको** (ना. पु.) आडसाटो बैल.

**पाडंग** (ना. स्त्री.) उदक आटून गेल्लें.

**पाडप** (स. क्रि.) काडप; तोडप; खुंटप.

**पाड पडप** (सं. क्रि.) नासधूस जावप.

**पाड पडिल्लें** (वि.) दळिद्री; आस्पत बी सगळें व्हगडायिल्लें.

**पाडवो** (ना. पु.) हिंदू म्हयन्याच्या दोनय पंद्रशींतलो पयलो दीस.

**पाडाखपण** (ना. न.) दुस्मानकाय.

**पांडित्य** (ना. न.) व्हड गिन्यान; खूब जाणविकाय; बुदवंतकाय.

**पाडी** (ना. स्त्री.) आडसाटी गाय.

**पाडूक** (ना. न.) वासरूं.

**पाडेकार** (ना. पु.) पळय **पाडेली.**

**पाडेपण** (ना. न.) दुश्टपण.

**पाडेली** (ना. पु.) नाल्ल वा सुपाऱ्यो काडपाचो धंदो करपी; पाडेकार.

**पाडो** (ना. पु.) १. बैल. २. एक गाळ. ३. नाल्ल पाडपाचो वावर.

**पाणघोडो** (ना. पु.) उदकांत रावपी एक जनावर.

**पाणटो** (ना. पु.) साव्या उदकाची उथळ न्हंय.

**पाणबुडी** (ना. स्त्री.) उदकापोंदच्यान चलपी आनी म्हाल व्हरपी झुजारी बोट.

**पाणवट** (ना.) उदकान भरिल्लो जागो.

**पाणसोरोप** (ना. पु.) सोरपाभाशेन

दिसपी आनी उदकांत रावपी एक जिवाणें.
**पाणिपुरी** (ना. स्त्री.) मसाल्याचें उदक घाल्ली पुरी.
**पाणी** (ना. न.) उदक.
**पातकडी** (ना. स्त्री.) दोळ्या पातयेचो केंस.
**पातक** (ना. न.) वायट कर्तुब.
**पातकी** (वि.) पातक करपी; वायट करणी करपी; वायट कर्तुबां करपी; गुन्यांव करपी.
**पातमारी** (ना. स्त्री.) तारूं; व्हडलें व्हडें.
**पातयेणी** (ना. स्त्री.) विस्वास.
**पातयेवप** (स. क्रि.) विस्वास दवरप.
**पात्र** (ना. न.) वाटी; पेलो. (वि.) लायक.
**पातरातेर** (वि.) बडायो मारपी; तड्डकी.
**पात्राद** (ना. स्त्री.) विशाद; बडाय; शापातां.
**पात्रियार्क** (ना. पु.) किरिस्तांव धर्माचो स्वामी आनी धर्मीक जाळवणदार.
**पात्शा** (ना. पु.) राजा; बादशहा.
**पातशेवप** (स. क्रि.) खावूं नये अशे तेला-तुपासारके जिनस खावन फुगांव; हुरहुरें बी काती रोग जडार पडप.
**पात्साण** (ना. स्त्री.) तेल-तूप खाल्ल्यान हुरहुरें; देवी बी काती रोग मातप.
**पातसो** (ना. पु.) बादा; दुबाव; भलायकेक बादा जायत असो भंय.
**पातळ** (वि.) दाटसाण नाशिल्लें.
**पातळप** (स. क्रि.) विस्कळप; पसरप; आस्कळ विस्कळ आसप.
**पातळसाण** (ना. स्त्री.) दाटसाणीचो उणाव वा अभाव.
**पातळावप** (स. क्रि.) विस्कळावप.
**पाताशें** (ना. न.) पांच-स इंच लांबायेचें पातळ कापशीचे सुवादीक नुस्तें.
**पाताळ** (ना. न.) हिंदु पुराणांत वर्णिल्ली धर्तरे सकयल्ली सुवात.
**पाताळलोक** (ना. पु.) पाताळांत रावपी मनीस.
**पाती** (ना. स्त्री.) दोळ्यावयली कात; दोळ्याचो पड्डो.
**पातीव** (ना. पु.) पाद्री ह्या अर्थाचें मानाचें उतर.
**पातें** (ना. न.) तांदळा वा गंवा झाडाचें पान; नेवरेचो पिठो भरूंक लाटिल्ली पातळ रोटी.
**पातोळी** (ना. स्त्री.) नाल्ला चुन्न भरिल्ली उकडिल्ल्या तांदळा-पिठा पोळी. (वि.) पातोळे भाशेन सोबीत आनी गोड.
**पातोळेपण** (ना. न.) हालवारपण; गोड गोड उलोवणें.
**पातोळें** (वि.) गोड गोड उलोवपी.
**पाद** (ना. पु.) नाडितल्यान सुटिल्ली वाय.
**पादमारो** (वि.) पादकुरो; भोवन भोवन वाय सोडपी.
**पाद्रिकूर** (ना. पु.) इगर्जेतल्या मुखेल पाद्रीक आदार दिवपी दुसरो पाद्री.
**पाद्रीपण** (ना. न.) पाद्री लोकांचो वावर-धंदो.
**पाद्री** (ना. पु.) किरिस्तांव लोकांचो धर्मगुरू.
**पादुको** (ना. पु. भो.) फकत आंगठ्याचें बोट घालपाक मूठ आशिल्लयो खडावो.
**पान** (ना. न.) १. उस्वास घेवपाचो झाडाचो एक भाग. २. जेवणाक दवरिल्लें ताट आनी पाट.
**पानकार** (ना. पु.) खावचीं पानां विकपी.
**पानदुडू** (ना. पु.) पयलीचें सगल्यांत ल्हान नाणें.

**पानपट्टी** (ना. स्त्री.) खावचीं पानां; चुनो; कात; सुपारी बी घालून केल्ली सुपुल्ली घडी.
**पानमळो** (ना. पु.) पानवेलीची बाग.
**पानवळ** (ना. न.) लोखणाची वा दुसरे धातूची वस्त. उज्यान घालून आनी धोडावन हाडिल्ली घटसाण.
**पानवेल** (ना. स्त्री.) खावचीं पानां वेल.
**पानसाण** (ना. स्त्री.) चड दिसांच्या हालव्याक बी आयिल्लो आंबटसाणीचो वास.
**पानेवप** (अ. क्रि.) गोरवांची होट दुदान भरप.
**पानो** (ना. पु.) गायेच्या वा म्हशीच्या होटीची चींव.
**पाप** (ना. न.) १. वायट करणी. २. सणबियां सारक्या वखदी वस्तूच्या खत्याची घडी.
**पापड** (ना. पु.) उदका पिठांत मीठ मिरसांग घालून लाटिल्लो रोटयेभाशेन एक रुचीक जिनस.
**पापडखार** (ना. पु.) पापडाक घालपाचो खार.
**पापडी** (ना. स्त्री.) १. पात कडी. २. भाजी करपाची एक सांग.
**पापभिरू** (वि.) पाप करपाची भिरांत आशिल्लें; वायट कामां करनाशिल्लें.
**पापलेट** (ना. स्त्री.) नाजूक आनी सुवादीक कप्याचें वाटकुळसार नुस्तें.
**पापा** (ना. पु.) बापूय.
**पापी** (वि.) १. पापां आचारपी. २. बाबडें.
**पापीण** (वि.) १. अन्याय; पाप करपी. २. बाबडी; सादी-भोळी.
**पामरी** (ना. स्त्री.) खांदार पांगुरपाचें रेशमी आनी जरी देगेचें लुगट.
**पाय** (ना. पु.) बापूय.
**पांय** (ना. स्त्री.) दोंको; पावल.
**पायखिळो** (ना. पु.) संडास; कुमांव.
**पांयजण** (ना. न.) पायांत बांदपाच्यो घागऱ्यो.
**पायजमो** (ना. पु.) लेंगो.
**पायंडो** (ना. पु.) बसका; बुन्याद.
**पायण** (ना. स्त्री.) अरूंद वाट (चड करून घरांच्या वस्तींमदल्यान आशिल्ली.)
**पाळणें** (ना. न.) भुरग्याक न्हिदावपाचें.
**पायदळ** (ना. न.) जमनीवयल्यान झुजपी फौज.
**पायनेल** (ना. न.) फास्केंत बसयल्लें चित्र.
**पायप** (ना. न.) बारीक नळ; पोकळ वारांव.
**पांयपुसणें** (ना. न.) पाय पुसपाखातीर दारामुखार दवरपाची काथ्याची गादी.
**पायरी** (ना. स्त्री.) आंब्याची एक जात.
**पायली** (ना. स्त्री.) चार पडीचें माप.
**पांयवाट** (ना. स्त्री.) पायांनी वचून वचून आपशींच जाल्ली वाट.
**पायस** (ना. पु.) दूद वा नाल्लाचो रोस आनी गोड घालून केल्ली गंवाची वा तांदळाची शेजी.
**पायसर** (ना. पु.) घरांत आशिल्ल्या नव्या मनशाक लागून घडिल्लो बरो वायट परिणाम.
**पायां पडप** (सं. क्रि.) नमस्कार करप; शरण येवप.
**पार** (ना. पु.) १. वेळ. २. देवाची म्हूर्त घेवन भजन करीत मिरयतल्या लोकांचो मेळ; तीन वरांचो काळ; दाखण.
**पारकार** (ना. पु.) नदर दवरपी;

राखणदार; राखपी.

**पारखणी** (ना. स्त्री.) फुडली सांगणी; अदमास.

**पारखप** (स. क्रि.) अदमास करप; फुडलें घडीत सांगप.

**पारखी** (ना. पु.) फुडलें सांगपी; फुडल्यो घडणुको सांगपी; अदमास करपी.

**पारज** (ना. न.) पारज धातू. हो तेरमामेत्रांत आसता.

**पारजत** (ना. पु.) बऱ्या पर्मळाचें तांबड्या देठाचें सोबीत फूल.

**पार्ट** (ना. पु.) सवंग; नाटकांतलें पात्र.

**पार्टी** (ना. स्त्री.) नात्यांतल्या मनशांक वा इश्टांक दिल्लें सोबीत खाण-जेवण.

**पारणें** (ना. न.) उपासा मागीर केल्लें खाण-जेवण.

**पार्त** (ना. स्त्री.) ओड; कल; मूळ वा गूण.

**पारतंत्र** (ना. न.) बंदेपण.

**पार्तीद** (ना. पु.) संस्था; भौशीक एकवट.

**पार्थ** (ना. पु.) अर्जुन; पांच पांडवांतलो तिसरो भाव.

**पारधी** (ना. पु.) सांपळो, मानस बी मांडून कसलीय मोनजात पकडपी मनीस.

**पारपोळ** (वि.) तवनास; हालमपिड्ड्यार; शिस्त नाशिल्लें; वाळेस.

**पारप** (अ. क्रि.) वखदाचो गूण येवप; बऱ्याक पडप.

**पारपोळपण** (ना. न.) तवनासपण; शिस्त नासपाचो गूण.

**पारय** (ना. स्त्री.) बुराक मारपी लोखणाचो वारांव.

**पारवो** (ना. पु.) कावळ्यायेदें आनी चड करून धव्या रंगाचें एक सवणें.

**पारशी** (ना. पु.) झरतुष्ट्र ह्या प्रेषिताच्या संदेशाप्रमाणें चलपी मूळ इराण देशांतले. उजो हें तांचें भजपाचें प्रतीक.

**पार्सल** (ना. न.) पोटली; कसलोय म्हाल भरिल्ली बंद कास.

**पारा** (क्रि. वि.) वेळार.

**परार्थे** (वि.) शेळें; पयल्या दिसाचें.

**पारो** (ना. पु.) घरा वणटीचो एक भाग.

**पाल** (ना. स्त्री.) बारीक जीव मारून खावपी आनी चड करून वणटीर रावपी एक प्राणी.

**पालखी** (ना. स्त्री.) भोंवडे वेळार देवाक बसोवपाचें आसन.

**पालमत्री** (ना. स्त्री.) हातार मार दिवपाक दायेभाशेन वाटकुळसार तोंडाची एक पट्टी.

**पाल्य** (ना. स्त्री.) तणाच्या गुडव्यांत गुठलायल्ली भाताची रास.

**पालय** (ना. स्त्री.) भाता रोप्याचें वा तसल्या जातीच्या झाडाचें मातिल्लें तण.

**पालव** (ना. पु.) आधार; तेंको; सुरवात; सुरवेचीं चिन्नां.

**पालवी** (ना. स्त्री.) १. दुसऱ्या पांवड्याचें; सकयल्लें. २. आंकरी; कोंबरी.

**पालसाण** (ना. स्त्री.) वांकडी सुवात.

**पालशें** (वि.) वांकडें.

**पालास** (ना. स्त्री.) राजवाडो.

**पाल्हाळ** (ना. पु.) बडबड; जाय ताचेपरस चड उतरांनी सांगिल्ली गजाल; लांब लांब उतरांनी केल्लें सांगणें.

**पालू** (ना. पु.) बारीक आनी लांब शेपडेचें एक वाटकुळसार नुस्तें.

**पालेवप** (अ. क्रि.) नवी आंकरी फुटप.

**पालो** (ना. पु.) सुकिल्लीं पानां तण बी वस्तू; गोरवांचो चोरोव.

**पालोवप** (स. क्रि.) वाडवप.

**पाव** (ना. पु. भो.) पिठाचे (कालोवन

आनी फुगयले उपरांत चौखणी वा लांबट आकाराचे खोर्णांत भाजून काडिल्ले गुळे.

**पावट** (ना. स्त्री.) खेप; भोवंडी.

**पावंडो** (ना. पु.) सोपण; थर; तळ.

**पावणी** (ना. स्त्री.) वस्तूचें नांव होरावन मूळच्या मोलापरस सगल्यांत चड मोल दितल्याक केल्ली विक्री.

**पावणेकार** (ना. पु.) पावणेर काडिल्ल्या वस्तूंचीं नांवां आनी लोकांनी घाल्ले लांस सांगपी.

**पावणो** (ना. पु.) आपल्यागेर आयिल्लो परकी मनीस.

**पावतो करप** (सं. क्रि.) धाडून दिवप; उश्णी वस्त पाववप.

**पावन** (वि.) पवित्र.

**पावप** (स. क्रि.) जाय आशिल्लो जागो मेळवप; थारयल्ल्या जाग्यार थांबप; येवप. (अ. क्रि.) संकश्टांत आदार दिवप.

**पावल** (ना. न.) १. पांयाचो खुब्यासकयलो भाग. २. चलता आसतना दोन पायांमदली वाट.

**पावली** (ना. स्त्री.) भुरग्याचें ल्हान पावल.

**पावलो** (ना. पु.) पंचवीस पयशांचें नाणें.

**पावस** (ना. पु.) वातावरणांतल्यान पडिल्ले उदकाचे थेंब आनी धारो; कुपांतल्यान देंविल्लें उदक; काळीं कुपां विरगळून जाल्लें उदक.

**पावसाळो** (ना. पु.) पावसा दीस; पावसाचो तेंप.

**पावशें** (वि.) पावसान भरिल्लें; पावसाळ्यांतलें.

**पांवळी** (ना. स्त्री.) नळ्यांतल्यान व्हांविल्ली पावसाची धार.

**पावोवप** (स. क्रि.) सांगिल्ल्या जाग्यार हाडून दिवप.

**पाश्ट** (वा.) वायट; सामको वायट.

**पाशाण** (ना. पु.) एके तरेचो घट्ट फातर.

**पास** (ना. न.) १. सुकयल्लीं द्राक्षां. २. बांदचेली दोरी. ३. परिक्षेंत बी मेळिल्लें येस.

**पास्कां** (ना. पु.) जेजू क्रीस्त जितो जाल्ल्यापसत मनयल्लो धर्मीक दबाजो.

**पांसठ** (ना. पु. वि.) साठ आनी पांच (६५).

**पासको** (ना. पु.) एक विखारी हात दोन हात लांबायेचें जिवाणें.

**पासत** (अ.) पळय **पसत.**

**पासप** (स. क्रि.) जोडप; जुळवप.

**पासय** (ना. स्त्री.) भोवंडी; पायांनी वतल्यांक मार्गाचे कुशीक बांदिल्ली नितळ वाट.

**पासवत** (अ.) खातीर.

**पासपोर्ट** (ना. पु.) एका देशांतल्यान दुसऱ्या देशांत वचपाची लेखी परवानगी.

**पाळ** (ना. न.) मूळ.

**पाळटी** (ना. स्त्री.) पळय **पाळत.**

**पाळप** (स. क्रि.) चलणुकेंत हाडप; प्रत्यक्षांत हाडप; सांबाळप; पोसप.

**पाळत** (ना.) लिपचोरयां दवरलेली नदर; राखण.

**पाळी** (ना. स्त्री.) खेप; कानाचें सकयल्लें पोंत; वेळ.

**पाळो** (ना. पु.) मान्यताय.

**पाळो दिवप** (सं. क्रि.) मानप; आयकप; मान्यताय दिवप.

# पि

**पिक-अप** (ना. स्त्री.) म्हाल हाड-व्हर

करपाची ट्रकाभाशेन मोटार.

**पिकदाणी** (ना. स्त्री.) खाल्ल्या विड्याची पीक उडोवपाचें आयदन.

**पिकप** (अ. क्रि.) जून जावन हळ्डुवें जावप; दाणो गोटो जावप.

**पिकवप** (स. क्रि.) झाडां-पेडां रोवन फळ काडप; जमनीची कमाविशी करून पीक काडप.

**पिकांदर** (ना. न.) ल्हान पिकास; चिरे तासपाचें गवण्यालें आवत.

**पिकांव** (ना. पु.) व्हड पिकास; फातर बी फोडपाचें पिकासाभाशेन एक आवत.

**पिकावळ** (ना. स्त्री.) सगले तरेचें पीक.

**पिकावें** (वि.) पिकाळ; पिकेक बरें; अमुरपिकें.

**पिकास** (ना. पु.) जमीन खणपाचे पिकांदराभाशेन दोन पोतांचें आवत.

**पिकाळ** (वि.) फळ दिवपाक बरें; पिकेक बरें; बरे पिकेचें.

**पिकिल्लें** (वि.) पळय **पिकें.**

**पिकें** (वि.) अरळ.

**पिकोडे** (क्रि. वि.) पिकेक.

**पिकोवप** (स. क्रि.) पिकूंक घालप; उदणां घालप.

**पिंग-पाँग** (ना. पु.) बोलान आनी बेटान खेळपाचो एक खेळ; मेजार खेळपाची टेनीस.

**पिंगशें** (वि.) पुडी रंगाचें.

**पिंगळी** (ना. पु.) गितां गावन पोट भरपी लोक.

**पिचकारी** (ना. स्त्री.) भायर सोडिल्ली उदकाची बारीक धार; पंपान सोडिल्ली उदका धार.

**पिचप** (अ. क्रि.) भितल्ले भितर त्रास करून घेवप; किरमप.

**पिंजकरें** (वि.) पिंजिल्लें; पळय **पिंजकें.**

**पिंजकें** (वि.) बोथे जाल्लें; फाळे आयिल्लें; फाळिल्लें.

**पिंजप** (स. क्रि.) फाळप; चिरप; तिसत्यो करप; तीर करप.

**पिंजर** (ना. स्त्री.) कपालाक तिबो लावपाचो तांबडो वा गुलाबी पिठो; कुंकमा पिठो.

**पिजाम** (ना. न.) घरांत घालपाचें कमरार बांदिल्लें गळगळीत कालसांव आनी कोट.

**पिंजारी** (ना. पु.) कापूस बी पिंजारपी.

**पिंजारप** (स. क्रि.) उसवप; मेकळो करप.

**पिंजारपी** (ना. पु.) कापूस बी उसोवन मेकळो करपी.

**पिंज्योर** (ना. स्त्री.) घाण दवरिल्ली वस्त; आयदनांतलें वा नळांतलें उदाक घेवपाची चावी.

**पिटाळ** (ना. स्त्री.) धांव.

**पिट्टोळ** (ना. पु.) पिट्ट पिट्ट करून उडयो मारपी लांबसार दोंक्याचो आनी पांखां आशिल्लो एक जीव; सादया नुस्त्याची जात.

**पिठाळ** (वि.) चड पीठ दिवपी.

**पिठी** (ना. स्त्री.) कालयल्लें वा धोडायल्लें पीठ.

**पिठें** (ना. न.) कातीर उठिल्लो पिठाभाशेन लेप. शिंया दिसानी कात सुकिल्ल्यान तिचेर उठिल्लो चरचरीत बारीक धवो पुळेर.

**पिठो** (ना. पु.) पीठ; पूड; साखर; तूप घालून लाडवांखातीर केल्लें पीठ.

**पिंड** (ना. न.) १. शरिराची रचणूक; कूड; कुडीची घडणूक; देहाची बांदावळ;

मेल्ल्या गेल्ल्यांक ओंपचेले शिता-गुळे.

**पिडप** (स. क्रि.) त्रास दिवप; ख्यास्त भोगवप.

**पिडा** (ना. स्त्री.) रोग; ख्यास्त; त्रास; वायट चाल.

**पिडापीड** (ना. स्त्री.) त्रास.

**पिड्ड्यार करप** (सं. क्रि.) वाट लावप; उपेग जायना अशें कशाकशेंय करप.

**पिडिल्लें** (वि.) त्राशिल्लें; त्रास भोगिल्लें; ख्यास्त सोंशिल्लें.

**पिंडिका** (ना. स्त्री.) लिंगापोंदची आडवी फातर.

**पिड्डुको** (ना. स्त्री. भो.) तेरेकवार रंगाचे बारीक मणी.

**पिडेवंत** (वि.) पिडेखोर; रोगी; वायटकार.

**पिडेस्त** (वि.) पिडेन भरिल्लें; रोगी.

**पिडो** (ना. पु.) माडा चुडटाचो मदलो भाग; पिडारो.

**पिंत** (ना. न.) जिरवण जावपापसत फिगदांत आपशींच फुटिल्लो एके तरेचो पातळ पदार्थ; पित्त.

**पितृभक्ती** (ना. स्त्री.) आपल्या बापायविशींचो मोग आदर आनी ताची सेवा.

**पितळी** (ना. स्त्री.) ताट; पेज वा कसलोव पातळ जिनस घालपाचें उबार कडाचें ताट.

**पितांबर** (ना. न.) जरी देगेचें आनी रेशमी सुताचें न्हेसण.

**पिताम** (ना. पु.) कातीचेर उदेल्लो तांबडसार पुळेर.

**पितारप** (स. क्रि.) चितारप.

**पितूळ** (ना. न.) हळडुव्या रंगाची एक धातू.

**पितूळ-काम** (ना. न.) पितुळचीं आयदनां आनी हेर तरेकवार वस्तू करपाचो वावर.

**पितुळवत** (ना. न.) पितुळच्यो तरेकवार वस्तू.

**पितोशी** (ना. स्त्री.) सुवादीक आनी नाजूक कण्याचे धव्या गोबरा रंगाचें नुस्तें.

**पिद्रेर** (ना. पु.) गवंडी.

**पिनकें** (ना.) पळय **पिंजकें.**

**पिनप** (स. क्रि.) फाळप; चिरप.

**पिपरमीट** (ना. न.) एक चोखून खावपाची मिरमिरीत गोड गुळी.

**पिपरी** (ना. स्त्री.) तन्नें सुपुल्लें तवशें.

**पिंपळ** (ना. पु.) एक व्हड रूख.

**पियाव** (ना. पु.) कांदो.

**पियेवप** (स. क्रि.) उदक वा कसलीय पातळ वस्त ताळ्यांत रकवप आनी गिळप.

**पिरंगण** (ना. स्त्री.) परवण; कुंथमण.

**पिरंगप** (अ. क्रि.) परवंप; वाजेवप; कुंथवप.

**पिरंजळणी** (ना. स्त्री.) पिरंगणी; उबगणी; वाज.

**पिरंजळप** (अ. क्रि.) पिरंगप; उबगप; भितल्ले भितर वाजेवप.

**पिराडो** (ना. पु.) पळय **पिडो.**

**पिराय** (ना. स्त्री.) जिणेचीं वर्सां; वय.

**पिली** (ना. स्त्री.) काडी; नाकांत घालचेली भांगराची काडी.

**पिल्लूक** (ना. स्त्री.) वारो फुकून आवाज काडपाची वस्त; शिटी; मुरली.

**पिलो** (ना. पु.) पेटो.

**पिवंळ** (ना. पु.) वळ; पीळ.

**पिवंळप** (स. क्रि.) आवळप; वळप; वळ घालप.

**पिशवी** (ना. स्त्री.) पोती.

**पिशाच्च** (ना. न.) पिसाय; भूत; समंद बी.
**पिर्शे** (ना. न.) नाद; व्यसन; छंद; संवय.
**पिर्शे** (वि.) तकलेन धड नाशिल्लें; तकली घुंविल्लें.
**पिशेपण** (ना. न.) मेंदवाचो रोग.
**पिसकात** (ना. स्त्री.) सुरी.
**पिसडप** (स. क्रि.) पाखां तोडप; एकामेकाक मारप; बुड्डप.
**पिसय** (ना. स्त्री.) सोशासारकी एक मोनजात.
**पिस्तोल** (ना. न.) सुपुल्लें आर्म; गुळी मारपाची ल्हान बंदूक.
**पिसांट** (ना.) पिशेपणां करपी.
**पिसावप** (अ. क्रि.) शितीतार नासप; तकली घुंवप; पिर्शे लागप.
**पिसुंदर** (ना. स्त्री.) नाल्लाचे पोयेक आशिल्ली शेंदरे भाशेन वस्त.
**पिसोणी** (ना. स्त्री.) सुपुल्ली सात्र.
**पिसोळीं** (ना. न. भो.) केंसा आंबाड्याक लावपाची एक भांगरा वस्त.
**पिसोळें** (ना. न.) तेरेकवार रंगाचे; पाखाचे आनी फुलाचें म्होंव चोखपी जीव.
**पिळगी** (ना. स्त्री.) कुळी; एकाच घराण्याचे पूत; नातू; पंटू बी लोक.
**पिळप** (स. क्रि.) पिवळ घालप.
**पिळवणूक** (ना. न.) ख्यास्त; हाल-उपाद्रे.

## पी

**पी** (ना. स्त्री.) नळांतलें वा आयदनांतलें उदक, पेत्रोल बी भायर सोडपाची वा बंद करचेली चावी.
**पीक** (ना. स्त्री.) १. पिकावळ. २. विड्यान तांबडो जाल्लो निथू.
**पीच** (ना. स्त्री.) क्रिकेट खेळाच्या मळावयलो बॅटिंग करपाचो आनी धांवो काडपाचो जागो.
**पीठ** (ना. न.) तांदूळ; गंव; दाळ बी दाण्यागोट्याची पूड.
**पीप** (ना. न.) सोरो, उदक बी भरपाचें लाकडी वा धातूचें व्हड आयदन.
**पीर** (ना. पु.) वशी; मुसलमानी धर्मांतलो एक साधू.
**पील** (ना. न.) पेटो.
**पीळ** (ना. पु.) चिमटो; वळ.

## पु

**पुंकेसर** (ना.) फुलांतले दादल्याचें बीं; फुलाचे मदीं आशिल्ली सुक्षीम केसरां.
**पचपचें** (वि.) नाका जाल्लें उलोवपी; शिटुकसाण नाशिल्लें; पुच्च करून गुपितां फोडपी.
**पुचपुचेपण** (ना. न.) गरज नासतना बडबड करपाचो सबाव; नाका जाल्ल्यो गजाली पुच् करून उलोवपाचो सबाव.
**पुंज** (ना.) पुंजायल्लें भाताचें बीं भरिल्ली मूठ; सुपुल्ली रास.
**पुजन** (ना.) गंद, फुलां, फळां बी ओंपून केल्ली देवाची भक्ती; पुजा.
**पुजप** (स. क्रि.) गंद, फुलां बी ओपून देवाची सेवा करप.
**पुज्य** (वि.) मान भोवमान दिवपा सारकें; पुजा करपाक फावो सारकें.
**पुजा** (ना. स्त्री.) सेवा; भक्ती; गंद, फुलां निवेद्य बी ओंपून केल्लो देवाचो भोवमान.
**पुजा-पनस्कर** (ना. स्त्री.) देवाची सेवा.

**पुंजा जावप** (स. क्रि.) एकठांय जावप; जमप.
**पुजारी** (ना. पु.) पुजा करपी; नित्याक देवाची पूजा करपी भटजी.
**पुजे-घर** (ना. न.) देवा-कूड.
**पुंजावप** (स. क्रि.) एकठांय करप; जमोवप.
**पुंजी** (ना. स्त्री.) पैशाची गांठ; दुडवांची पोटली.
**पुंजो** (ना. पु.) एकेच जातीच्यो एकठांय केल्ल्यो वस्तू; वस्तूंची रास.
**पुटपुटप** (स. क्रि.) फुतफुतप; ओठांतल्या ओठांत उलोवप.
**पुटवप** (स. क्रि.) कोता येवप; उपेगी पडप.
**पुडवें** (ना. न.) धोतर; दादल्यांचें न्हेसपाचें धवें पातळ लुगट.
**पुडो** (ना. पु.) १. सकयल्ल्या पोतान बारीक आनी वयले वटेन रूंद अशी वाटकुळी पोती. २. तबल्याक ताणावपाचें चामडें आनी ताचेर घालपाची साय.
**पुडी** (ना. स्त्री.) कागदांत गुटलायल्ली ल्हान वस्त.
**पुण्य** (ना. न.) बरी करणी.
**पुण्यताय** (ना. स्त्री.) बरी आनी नितीक चलणूक; देवा-धर्माचीं आनी नितीन केल्लीं कर्तुबां.
**पुण्य-भूंय** (ना. स्त्री.) पवित्र भूंय; बरीं कर्तुबां आदारपी भूंय.
**पुण्यवंत** (वि.) पुण्य जोडिल्लें; निवळ चाल-चलणुकेचें; नितिवंत; धर्मीश्ट.
**पुण्यवान** (वि.) बरीं कर्तुबां आधारपी; नितिवंत.
**पुण्यशील** (वि.) पुण्यताय जोडिल्लें; बऱ्यो करण्यो आधारपी; बरे चाल-चलणुकेचें.
**पुण्यात्मो** (ना. पु.) पवित्र आत्मो.
**पुण्याय** (ना. स्त्री.) बरी चलणूक; बरें कर्तूब.
**पुणून** (अ.) परत; दोन वाक्यां जोडपी उतर; अडखळ वा अडचण सुचोवपी अव्यय.
**पुतणयो** (ना. पु.) भावालो चलो.
**पुतना** (ना. स्त्री.) जागरांतलें एक सवंग; श्रीकृश्णाक मारूंक आयिल्ली राक्षीण.
**पुतळी** (ना. स्त्री.) चार रुपये मोलाचें भांगराचें पयलीं काळचें नाणें.
**पुन्न** (ना. न.) चण्या दाळ; गोड; सोय बी मुड्डून केल्लो एक जिनस.
**पुन्नपोळी** (ना. स्त्री.) गंवाचे रोटयेंत पुन्न भरून केल्लो एक खावपाचो जिनस.
**पुनव** (ना. स्त्री.) हिंदु म्हयन्याचे पयले पंद्रशीचो पंदरावो दीस.
**पुरण** (ना. न.) सुकूरउण्यांत, नेवऱ्यांत वा दुसऱ्या कसल्याय खावपा जिनसांत भरपाचो पिठो; मूग, सोय, गोड बी घालून केल्ली मिश्रण.
**पुर्णांक** (ना. पु.) सगलो आंकडो.
**पुरती** (ना. स्त्री.) शेताक वा भाटाक मारिल्ली मातये भर.
**पुर्तुगेज** (ना. पु.) पुर्तुगालचो गांवकार. (वि.) पुर्तुगालचें.
**पुरतें** (क्रि. वि.) पाव सारकें; जाय तितलें; फाव सारकें.
**पुनर्जल्म** (ना. पु.) परतून घडिल्लो जल्म.
**पुनर्वसू** (ना. पु.) एका नक्षत्राचें नांव.
**पुरप** (स. क्रि.) पोंदाक घालप; रोमप; जमनी भितर घालप.
**पुरयत** (ना. पु.) आपल्या घरचीं सगलीं देवा-धर्माचीं कार्यां करपी भट.
**पुर्वज** (ना. पु. भो.) आजे-पणजे;

पयलींच्या जाण्टेल्यांची पिळगी.

**पुरवण** (ना. स्त्री.) पुरिमेंत; भर.

**पुर्वतयारी** (ना. स्त्री.) पयलीं केल्लो बेत.

**पुरवप** (स. क्रि.) जमनी मुळा घालप; फोण मारून भितर घालप.

**पुरवप-पत्करप** (स. क्रि.) उपकारा पडप; उपेगी पडप; मानवप.

**पुर्वाभाद्रपदा** (ना. न.) एका नक्षत्राचें नांव.

**पुर्वाशाढा** (ना. न.) एका नक्षत्राचें नांव.

**पुरसांव** (ना. न.) धर्मीक मिरवणूक.

**पुराण** (ना. न.) एकठांय केल्ल्यो देवांच्यो आनी रुशिमुनींच्यो खूब वर्सांफाटल्यो काणयो; खूब पोन्या खबरांचो ग्रंथ.

**पुराणीक** (ना. पु.) पुराण सांगपी.

**पुरातन** (वि.) खूब फाटल्या काळचें; पोरणें.

**पुराय** (वि.) सगलें.

**पुरावो** (ना. पु.) खरें वा फट हें थारावपाची वस्त; कागत वा कसलीय दुसरी गवाय.

**पुरुमेंत** (ना.) पावसाळ्या खातीर एकठांय केल्ल्यो जेवणा-खाणाच्यो वस्तू; फुडली गरज भागोवंक पयलींच एकठांय करून दवरिल्ल्यो वस्तू.

**पुरूश** (ना. पु.) दादलो; मनीस.

**पुरुशार्त** (वि.) पळय **पुरुशार्थ.**

**पुरुशार्थ** (ना.) पराक्रम; धिटाय; हुशारकाय.

**पुरूशलिंग** (ना.) जाका लागून दादलो असो समज येता तें लिंग.

**पुरूस** (ना.) घटमूट दादलो; मनीस; आपल्या घराचो मुळावण घालपी मनीस.

**पुरो** (वि.) फावो तितलो; जिस्त; जाय तितलो; पूर्ण.

**पुरो जावप** (सं. क्रि.) पावप; गरज भागप; म्रम जावप; कश्ट जावप.

**पुलपीत** (ना. पु.) सेर्मांव सांगपाखातीर इगर्जेंत आशिल्ली उबार वाटकुळी बांदावळ.

**पुल्लींग** (ना. न.) मनीस वा जीव दादलो काय बायल हें कळपाचो गूण वा खूण.

**पुलीस** (ना. पु.) सॉल्दाद; शिस्तीची कायद्याची राखण करपी सरकारी मनीस.

**पुलेणां भरप** (सं. क्रि.) पूं जावप; पुलेवप.

**पुलेवप** (अ. क्रि.) पूं जावप; मातेर जावप.

**पुर्विल्लें** (वि.) खूब वर्सां पयलीचें; पोन्नें

**पुश्ट** (वि.) घटमूट; कुडीन मोटें.

**पुश्य** (ना. पु.) हिंदु वर्साचो धावो म्हयनो; आठवें नक्षत्र.

**पुस्तक** (ना. न.) कसलेंय गिन्यान करून दिवपाक बरोवन वा छापून एकठांय शिंविल्लीं पानां.

**पुस्ती** (ना. स्त्री.) अडेचें काम; मुखेल वावराक जोडिल्लो अडे वावर; अक्षर निवळावचेली सवंय.

**पुसप** (स. क्रि.) निवळ करप; घसटून काडप; भिजिल्ली वस्त लुगटान सुकवप; पालवप.

**पुळी** (ना. स्त्री.) बारीक फोड.

# पू

**पूं** (ना.) फोडांत तयार जाल्लो धवसार दाट द्रव.

**पूट** (ना. न.) लेप; थर; वाड; भर.

**पूड** (ना. स्त्री.) पीठ; पिठाभाशेन बारीक केल्ली कसलीय सुकी वस्त; तंबाकूचो बारीक पिठो.
**पूण** (अ.) अशें आसूनय; तरी.
**पूत** (ना. पु.) आवय बापायगेर जाल्लो चलो भुरगो.
**पूर** (ना. पु.) हुंवार; बुडटी.
**पूरक** (वि.) मुखेल वावरांत फावो ती भर घालून उपकारा पडपाचें.
**पूल** (ना. पु.) न्हंयेच्यो दोन देगो वयल्या वयर रस्त्यान जोडपी बांदावळ; सांकव.

## पे

**पॅक-बंद** (वि.) काशेंत, फोलिणांत बी घालून घट्ट बंद केल्लें.
**पेखणी** (ना. स्त्री.) पेखपाचें काम; पेखचेली वा पेखिल्ली स्थिती.
**पेखप** (अ. क्रि.) निवळप; बरो जावप.
**पेंगट** (ना. न.) कंबर; भेंड.
**पेंगांव** (ना. पु.) वासो वा पाटी बी बसोवपाची खांबली.
**पेगू** (वि.) गिरेस्त; जुगाराचो नादी.
**पेंच** (ना. पु.) अडचण; आडखळ.
**पेंचप** (अ. क्रि.) चिरप; फोडप; उकते करप.
**प्रेज** (वि.) बंदखणींत घाल्लो कैदी.
**पेज** (ना. स्त्री.) तांदूळ शिजोवन केल्लो जेवणा जिनस.
**पेज** (ना.) वजन.
**पेजादीक** (वि.) वजनदार; भारदस्त; पकदस्त.
**पेट** (ना. पु.) मार; लडो.
**पेट** (ना. स्त्री.) मुस्तायकी दवरपाची मदेराची कास.
**पेटको** (ना. पु.) कुडी भितल्ल्यान उठिल्लो उमाळ्याचो नेट; हांशाचो बी नेट; कडकडो.
**पेटणें** (ना. न.) जमीन धोडावपाचें एक लाकडी आवत.
**पेटप** (स. क्रि.) लडो दिवप; मारप; धोडावप.
**पॅट्रोमाक्स** (ना. पु.) पेत्रोला वाफेन खर उजवाड दिवपी दिवो.
**पेटवप** (स. क्रि.) १. जोतीन जोत लावप; जोतीन उजवाड करप. २. मार घालप; लडे घालप.
**पेटारो** (ना. पु.) कोंड्याच्या वेळांचो वा शेता वेळांचो बी धांकणें आशिल्लो कुरपणो.
**पेटी** (ना. स्त्री.) एक वाद्य.
**पेटूल** (ना. न.) सुपुल्ली पेट.
**पेटो** (ना. पु.) पिलो; मोनजातीचें भुरगें.
**पेठ** (ना. स्त्री.) पसऱ्यांची हाळ; बाजार.
**पेड** (ना. स्त्री.) पांच-स इंच लांबायेचें आनी चेपट्या आंगाचें कांट्याचें नुसतें.
**पेड** (ना. न.) १. झाडामुळा भोंवतणी बांदून काडिल्ली नितळ फातरा उभारी. २. (न.) एकठांय शिविल्ल्यो फोली.
**पेंड** (ना. स्त्री.) नाल्लांचो घोंस; तेल पिळून उरता तो सोप.
**पेंडको** (ना. पु.) तणाचो वा कड्डाचो भोरो.
**पेड्ड्यार जावप** (सं. क्रि.) इबाड जावप; नापास जावप; मरून वचप.
**पेडवो** (ना. पु.) बोटभर लांबायेचें एक नुस्तें.
**पेडावण** (ना. न.) कामाचो आरंब; बैठक; पायो.
**पेडी** (ना. स्त्री.) १. रांदनी म्हऱ्यांत

आंचून पेटून निवळ केल्लो जमनी कुडको. २. ठोक वेपार उद्देगाचें दुकान.

**पेढो** (ना. पु.) आटयल्ल्या दुदाची गुळी.

**पेण** (ना. स्त्री.) पळय **पेंड.**

**पेणें** (ना. न.) मदिंमदीं केल्लो थांबो.

**पेत्रोल** (ना. न.) जमनी पोंदा मेळपी एक पातळ पदार्थ; मोटारी चलोवपाचें तेल.

**पेदो** (ना. पु.) इगर्जीची घांट वाजोवपाचें काम आनी हेर वावर करपी मनीस.

**पेन** (ना. न.) बरोवपाची आपार आशिल्ली लेखणी.

**पेनेत** (ना.) कानांत घालपाची बायलांचो वस्त.

**पेत्र** (ना. न.) कसरत.

**पेत्री** (ना. पु.) कसरती; कसरत करपी; उडयो लागो बी मारपी.

**पेन्शनर** (ना. पु.) कायद्याचीं वर्सां सोंपतकच चाकरी सोडिल्लो; रेफोर्माद.

**पेपारें** (ना. न.) पिल्लुक.

**पेय** (ना. न.) पियेवपाचो पातळ जिनस.

**पेर** (ना. स्त्री.) एक आडसाटें फळां दिवपी झांड; पेरां दिवपी झाड.

**पेर** (ना. न.) १. पेरीचें फळ. २. बोटाची खिळी.

**पेरगांव** (ना. न.) धोलके वा घांट वाजोवन लोकांक केल्ली कळोवणी.

**पेरणी** (ना. स्त्री.) रोवणी.

**पेरदिसांव** (ना. न.) इबाड; लुस्कान.

**पेर्न** (ना. न.) पांय; दोंको.

**पेरप** (स. क्रि.) बीं शिंपडावप; बीं रोवप.

**पेराद** (ना. न.) पेरांचो हालवो.

**पेरूं** (ना. न.) लांब आनी तांबड्या गळ्याचें एक सवणें.

**पेल** (ना. पु.) कसल्याय वावराचो भार.

**पेलप** (स. क्रि.) तोलप; शक्य नासप.

**पेल्यान** (अ.) आपलेपसून पैस.

**पेल्ल** (ना. पु.) चेंडू; बोल.

**पेर्ले** (वि.) पयसुल्लें; परकी; नातें वा इश्टागत नाशिल्लें.

**पेलो** (ना. पु.) उदाक पियेवपाचें धातूचें कोप.

**पेंवप** (अ. क्रि.) हातपायांचो वापर करून उदकांत भोंवप.

**पेस्ट** (ना. स्त्री.) पातळ पत्र्याचे बाटलेंत घाल्लो दांत घांसपाचो एक गोडसार आनी मिरमिरीत जिनस; मेंटेलाभाशेन कसलोय चिकट जिनस; पोमाद.

**पेस्त** (वि.) त्रास दिवपी; कंटाळो हाडपी; अबर्गत; अरवळ.

**पेसप** (स. क्रि.) फळ कातरून शिरो करप; कातरप.

**पेंसाव** (ना. न.) थारिल्ली येणावळ; चाकरी करून जाल्ल्या मनशाचो मुशारो; लागणूक.

**पेसेंजर** (ना. पु.) प्रवासी; भोंवपी.

**पेळी** (ना. स्त्री.) कवळी मोवळी; ल्हान पेळो.

**पेळू** (ना. पु.) पिंजायल्ल्या कापसाची लोळी.

**पेळो** (ना. पु.) कवळी; वेडो.

# पै

**पैगंबर** (ना. पु.) मुसलमानी धर्माची थापणूक करपी; महंमद.

**पैज** (ना. स्त्री.) थारावणी; कबलात; विरूद्द मत्तां आशिल्ल्या दोन मनशांमदलो करार. ह्या करारांत हार खातल्या मनशान

दुसऱ्याक थारायल्ली वस्त दिवची आसता.
**पैदा करप** (सं. क्रि.) मेळवप; सांपडावप.
**पैलवान** (ना. पु.) कसरत करपी; कुस्ती बी करपी मनीस.
**पैशे करप** (वा. प्र.) पैशे मेळवप आनी एकठांय करप.
**पैशेकार** (ना. पु.) दुडवांकार; गिरेस्त.
**पैसो** (ना. न.) दुडू; एका रुपयाचो शंभरावो भाग.

## पो

**पोल** (वि.) भितर मगज नाशिल्लें.
**पोकळ** (वि.) रितें; रिकामें; भरूक नाशिल्लें.
**पोकळसाण** (ना. स्त्री.) रितेपण; रिकामेपण.
**पोकळी** (ना. स्त्री.) पोकळसाण; रिकामी सुवात.
**पोकू** (वि.) वेपारी भाशेंत चार असो आंकडो.
**पोकें** (ना.) रितें; मगज नाशिल्लें; पोकळ; रिकामें.
**पोखरणी** (ना. स्त्री.) उस्तणी.
**पोखरप** (स. क्रि.) उस्तप; पोकळ करप; घोल मारप.
**पोंग** (ना. न.) फाटीच्या कण्याक धतरीवटेन आयिल्ली बाग.
**पोगरो** (ना. पु.) आंगभर कांटी आशिल्लें एक झाड.
**पोगेवप** (अ. क्रि.) पोंग पडप; फाटी कण्याक जमनीवटेन बाग येवप.
**पोगें** (वि.) पोंग आशिल्लें; फाटीच्या कण्याक बाग आशिल्लें.
**पोंच** (ना. पु.) शाणेपण; शिटुकसाण.
**पोचकोटो** (ना. पु.) आंतकडेची वा पोटाची पोती.
**पोजड** (ना. न.) अळशीक; घाण.
**पोजडेपण** (ना. न.) अळशिकावणो वावर.
**पोजडें** (वि.) अळशिकावणें; घाणयारें.
**पोट** (ना. न.) आमचे कुडीचो छातयेसकयलो कंबरामेरेनचो फुडलो भाग.
**पोटकळ** (ना. न.) नुस्त्याचो पोटाकडलो भाग.
**पोटकुळी** (ना. स्त्री.) हात; पांय कवळून केल्ली कुडीची पोटली.
**पोटकूळ** (ना. न.) ल्हान पोट; ल्हान भुरग्याचें वा ल्हान जिवाचें पोट.
**पोटखणें** (ना. न.) पोटांत जाल्लो रोग.
**पोटखोस** (ना. स्त्री.) भितल्ल्यान जाल्ली खुशालकाय.
**पोटगी** (ना. स्त्री.) पोट भरपापुरतो मेळिल्लो आदार.
**पोटचें** (वि.) पोटांतलें.
**पोटजाळ** (ना. पु.) भितल्ल्यान फुटिल्ली उमळशीक; अंतस्करणांतल्यान उदेल्ली तिडक; खर भूक.
**पोटजीब** (ना. स्त्री.) ताळ्याकडेन हुमकळून आशिल्ली लांबोडी कात.
**पोटण्याचें** (वि.) वायट संबंदापासून जाल्लें; अनितीक संबंदापासून जल्मल्लें.
**पोटतिडक** (ना. स्त्री.) भितल्ल्यान उदेल्ली उमळशीक.
**पोट-न्हय** (ना. स्त्री.) व्हड न्हयेक मेळिल्ली ल्हान न्हय.
**पोट-पाणी** (ना. न.) खाण-जेवण.
**पोटफुगरें** (वि.) व्हड पोटाचें; वाडिल्ल्या पोटाचें; धोंदयें.
**पोटयां सरप** (अ. क्रि.) पोट घसटून वचप.

**पोटयें** (वि.) व्हड पोटाचें; खावगें; भकारें.
**पोटरांत येवप** (सं. क्रि.) भाता रोप्याच्या पोटांत कणस फुटप.
**पोटलावप** (स. क्रि.) पोटाकडेन धरप; वेंगेंत धरप.
**पोटली** (ना. स्त्री.) गुटलायल्ली कसलीय वस्त.
**पोटांत जावप** (सं. क्रि.) पोटांत चाबिल्ल्यावरी जावप. **पोटांत पांच पांच जावप** (वा. प्र.) भिरांत दिसप; भियेवन गुळी जावप.
**पोटीर** (ना.) भाता रोप्याचो मदलो भाग.
**पोटेशियम** (ना.) एक सारें; रसायन शास्त्रांतलो एक जिनस.
**पोडोळी** (ना.) पडोळी दिवपी दुदनीभाशेन एक वाल.
**पोडोळें** (ना. न.) एक लांब पावशी फळ.
**पोणसूल** (ना. न.) आडसाटो पणस.
**पोंत** (ना. न.) दोरयेचो, वळीचो वा कसलेय लांब वस्तूचो सोंपतो वा सुरवेचो भाग.
**पोती** (ना. स्त्री.) पिशवी.
**पोतें** (ना. न.) रितो वा भरिल्लो साक.
**पोतेपण** (ना. न.) अबुद्दीपण.
**पोतो** (वि.) बाबत; अबुद्दी; अरवळ; बोणेर.
**पोंद** (ना. न.) तळ; मुळाची सुवात वा मुळाचो तळ.
**पोंदयां** (क्रि. वि.) मुळापोंदचे वाटेन; पोंदचे वाटेन.
**पोदसरी** (ना. स्त्री.) पाख्या पोंदची पाटी.
**पोंदा** (क्रि. वि.) मुळा; तळा; सकयल.
**पोदोन** (ना. पु.) धर्मीक नदरेन मानिल्लो बापूय.
**पोन्नेपण** (ना. न.) खूब पयलींचो काळ.
**पोनेळ** (ना. पु.) ल्हान व्हडें.
**पोन्नें** (वि.) पयलीं काळचें.
**पोपटपंची** (ना. स्त्री.) अर्थ समज नासतना पोपटाभाशेन तोंडातल्यान काडिल्लीं उतरां; देकोरपट्टी.
**पोपटी** (वि.) पोपटाभाशेन; पोपटा रंगाचें.
**पोपाय** (ना. स्त्री.) पोपाये झाडाचें फळ.
**पोपीस** (ना. न.) पुल्मांव; छाती; फुफ्फूस.
**पोपो** (ना. पु.) भुरग्यांले भाशेंत आंगावेलें.
**पोपोट** (ना. पु.) पांचव्या रंगाचें आनी वांकड्या चोचीचें सोबीत सवणें; कीर.
**पोमाद** (ना. न.) मेंटेल; कडयल्ल्या मेणाप्रमाण केंसाक लावपाची वस्त; खोरजीक लावपाची वखदी वस्त.
**पोय** (ना. स्त्री.) माडाचें बोंड; माडाचें फूल; माडा बोंडाचें भायलें सुकिल्लें कट्टें.
**पोर** (ना. न.) ल्हान भुरगें; ल्हान भुरगें अशा अर्थाचें तोखणायेचें उतर.
**पोरकेपण** (ना. न.) आवय बापूय नासपाची स्थिती.
**पोरगो** (ना. स्त्री.) ल्हान भुरगो; भुरगो अशा अर्थाचें एक अपुबयेचें उतर.
**पोरणें** (वि.) खूब तेंपा पयलींचें; पयलींच्या काळचें.
**पोरपण** (ना. न.) भुरगेपण; अबुद्दीपण.
**पोर्तेर** (ना. पु.) दार राखपी.
**पोरनावळ** (ना. स्त्री.) खूब तेंपा

पयलींच्यो तरेकवार वस्तू.

**पोरनें** (वि.) फाटल्या काळचें; चड तेंपाचें.

**पोरसूं** (ना. न.) तरेकवार फुलझाडां रोयिल्ली सुवात.

**पोरां** (ना. न. भो.) ल्हान भुरगीं.

**पोरां-थोरां** (ना. न. भो.) ल्हान व्हड लोक; नेणटे-जाणटे.

**पोरांटो** (ना. पु.) पोर अशा अर्थाचें कुस्कुटावणेचें उतर; वायट चाल-चलणुकेचो भुरगो.

**पोरूं** (क्रि. वि.) गेल्ल्या वर्सा.

**पोल** (ना. न.) गोटो नासिल्लें भात.

**पोल्क** (ना. न.) बायलांचें एक आंगावयलें ब्लावज.

**पोलको** (ना. पु.) पळय **पोल्क.**

**पोलट** (वि.) जें घटट न्हय आनी पोलय न्हय.

**पोलदी** (ना.) पोल्याचो मदलो उबार भाग.

**पोलवो** (ना. पु.) बारीक शेवट्यां बुरांटो.

**पोलेवप** (अ. क्रि.) पोल जावप; दाणो गोटो पोलो जावप.

**पोलो** (ना. पु.) तोंडा कुशीचो फुगरो भाग.

**पोव** (ना. पु.) तोंडाक आनी आंगाक सारोवचेलो पिठो.

**पोवठी** (ना. स्त्री.) धोपरा सकयल्लो पांयाचो फुगरो भाग.

**पोंवली** (ना. स्त्री.) माडयेची पोय; माडयेचे पोयेचो दाणो.

**पोंवशेवप** (अ. क्रि.) नुस्त्याची ताजपाण ना जावप; नुस्तें मोव जावप.

**पोंवसाण** (ना. स्त्री.) नुस्तें मोव जाल्ल्याचो वास.

**पोवळें** (ना. न.) भगव्या रंगाचो मणी.

**पोंवो** (ना. पु.) चोंबो; जमो.

**पोशेक** (ना. पु.) आंगाची आंगार घालपाची मुस्तायकी.

**पोशेणी** (ना. स्त्री.) सांसपणी.

**पोशेवप** (स. क्रि.) सांसपप. (अलं.) चोरप.

**पोस** (ना. पु.) वियेल्ल्या गाय-म्हशीचें दूद शिजोवन केल्लो खावपा जिनस.

**पोसकेपण** (ना. न.) जेवण-खाण बी दिवन केल्लो सांबाळ.

**पोसकें** (वि.) जेवण-खाण आनी हेर गरजो भागोवन सांबाळिल्लें.

**पोस्त** (ना. न.) विस्वणासारक्या व्हड नुस्त्याचें काप.

**पोस्त** (ना. न.) कारतेल; पोलीस स्टेशन.

**पोसप** (स. क्रि.) जेवण-खाण घालून वाडोवप.

**पोसपी** (ना. न.) सांबाळपी; जेवण-खाण घालपी.

**पोसवण** (ना. स्त्री.) खाल्ल्या जेविल्ल्याचो फायदो; खाणा-जेवणान जाल्ली वाड.

**पोसांव** (ना. न.) तरेतरेचीं आंगां घालून केल्लें पातळ वखद.

**प्रोसेस** (ना. पु.) कोर्टांत केल्ली केस.

**पोसो** (ना. पु.) दोनय हाताच्या बोचकुलांचो दोणो.

**पोळी** (ना. स्त्री.) पक्वान्न; गोडशें; परबेदिसा केल्लो खाशेलो गोड जिनस.

**पोळो** (ना. पु.) वांटिल्ल्या तांदळांची वा गंवांची भाकरी.

**पोळोव** (ना. पु.) पातळ भाजयेवयलो रोस.

## पौ

**पौश** (ना. पु.) हिंदु वर्साचो १०वो म्हयनो.

## पं

**पंखो** (ना. पु.) आयणो; वारो घेवपाचें एक साधन.
**पंगड** (ना. पु.) भाग; वांटो.
**पंगत** (ना. स्त्री.) रांग; जेवंक बसतल्यांची रांग.
**पंगती-प्रपंच** (ना. पु.) भेद; अंतर; अन्याव; जाति-पातीक वा धर्मीक कारणाक लागून केल्लो भेद.
**पंच** (ना. पु.) न्याय-मनसुबी करपी ग्रामपंचायतीचो एक वांगडी.
**पंचकातय** (ना. स्त्री.) गोड सोय; मुगांची दाळ बी घालून केल्लो निवेद्य.
**पंचखाज** (ना. स्त्री.) खडीसाखर; खसखस; क़िसमीस; खारीक आनी खोबरें अशे पांच जिनस घालून केल्लो निवेद्य.
**पंचखाद्य** (ना. स्त्री.) नाल्ला-सोय; मूग बी घालून केल्लो निवेद्य.
**पंचनामो** (ना. पु.) सरकारी मनशांनी केल्ली वस्तूंची वळेरी आनी मोल.
**पंचपक्वान्न** (ना. न.) साकरभात; जिलोपी; पुन्नपोळी बी पांच परखन्न; पांच पोळयो.
**पंचम** (ना. स्त्री.) हिंदु म्हयन्याचे पयले आनी दुसरे पंद्रशीचो पांचवो दीस.
**पंचमहाभुतां** (ना. न. भो.) आप; वायू; तेज; आकाश आनी पृथ्वी हीं सैमाचीं पांत तत्वां.
**पंचलव** (ना. न.) तांबें; पितूळ; शिशें; कलय आनी लोखण भरसून केल्ली धातू.
**पंचवीस** (ना. पु. वि.) वीस आनी पांच (२५).
**पंचांग** (ना. न.) तीथ; वार; म्हूर्त; गिराण अशी जिनसांवार माहिती आशिल्लें पुस्तक.
**पंचाण्णय** (ना. पु. वि.) णवद आनी पांच (९५).
**पंचामृत** (ना. न.) दूद; धंय; तूप; साकर आनी म्होंव अशे पांच जिनस भरसून केल्लो पदार्थ, तीर्थ.
**पंचायत** (ना. स्त्री.) गांवच्या जाळवणदारांची कमिटी; गांवचो कारभार करपी लोकांचें मंडळ.
**पंच्यायशीं** (ना. पु. वि.) अंयशी आनी पांच (८५).
**पंचारत** (ना. स्त्री.) पांच वातींची आरत.
**पंचास्तर** (ना. पु. वि.) सत्तर आनी पांच (७५).
**पंचेचाळीस** (वि.) चाळीस आनी पांच (४५).
**पंजाबी** (ना. पु.) पंजाब प्रांतांतलो.
**पंडीत** (ना. पु.) गिन्यानी; व्हड बरपाक्षरी.
**पंडुरोग** (ना. पु.) धवसाण पडपाचो एक रोग; रगतांतले तांबडे गुळे उणे जावपाचो रोग.
**पंडो** (ना. पु.) भटांची एक जात; गोकर्ण; पंढरपूर अशा पवित्र स्थळांत वावरपी भट.
**पंदरा** (ना. पु. वि.) धा आनी पांच (१५).
**पंद्रस** (ना. स्त्री.) पंदरा दिसांचो तेंप.
**पंप** (ना. पु.) वारो ओडून तो भायर सोडपाची नळी.

## फ

**फकत** (अ.) मात; पुण; पुणून.
**फकांडी** (ना. पु.) फकाणां करपी; फकाणेर.
**फकाण** (वि.) पिसाय; अबुद्दी; अबर्गत; अजागळ. (ना. न.) अवचित्रपण; लजे जावचेली गजाल.
**फकाणां** (ना. न. भो.) मस्कऱ्यो; झोमाऱ्यो.
**फकाणेर** (ना. पु.) फकाणां करपी; हासयणो.
**फकीर** (ना. पु.) मुसलमान साधू.
**फक्यो** (ना. स्त्री. भो.) बडायो; जाणवायो.
**फक्की** (ना. स्त्री.) बडाय.
**फजेत** (ना. स्त्री.) धांदळ; फशिल्लो वा चुकिल्लो बेत; थरिंल्ल्या बेतांत धांदळ.
**फट** (ना. स्त्री.) लटीकपण; असत.
**फटकिरेपण** (ना. न.) पळय **फट.**
**फटकिरें** (वि.) फट उलोवपी.
**फटकून** (क्रि. वि.) मेकळेपण नासतना; दाखय-लिपय करीत.
**फटकूर** (ना. न.) कांबळी फटें.
**फटमारें** (वि.) फट मारपी; फट उलोवपी; फट चलपी.
**फटवप** (स. क्रि.) असत सांगप वा करप; येवजिल्लें सादप ना; खरें लिपोवन दुसरेंच सांगप वा करप.
**फटाकी** (ना. स्त्री.) कोंड्या दाण्याची बारीक नळी आनी तातूंत गच्च भरपाची बडी.
**फटाफट** (क्रि. वि.) सडसडीत; बेगोबेग.
**फटास** (ना. स्त्री.) बारीक कोंड्याची नळी आनी तातूंत भायर भितर घालपा काडपाची नळी.
**फटींगपण** (ना. न.) फटकिरेपण.
**फटींग** (वि.) फट उलोवपी; वायट चालीचो; पातयेसारको न्हय असो.
**फटें** (ना. न.) पोत्री कांबळ.
**फटेकार** (ना. पु.) फटे घाल्लो मनीस.
**फटो** (ना. पु.) केमेरान घेतिल्लें चित्र.
**फडकी** (ना. स्त्री.) अके तरेचो फातर.
**फडफड** (ना. स्त्री.) पाखां हालयतना जाल्लो आवाज.
**फडफडणी** (ना. स्त्री.) उबगणी.
**फडफडप** (अ. क्रि.) आदळ आपट करप; नाखुशी दाखोवप.
**फडफडावप** (स. क्रि.) मोठ्यान पाखां हालोवप.
**फडफडे** (ना. पु. भो.) पच्छताप.
**फडफडो** (ना. पु.) तिडक; उबगणी.
**फडा** (ना. स्त्री.) सोरपाचें फुलयल्लें तोंड.
**फणफणप** (अ. क्रि.) नाखुशेन आदळ-आपट करप; फडफडप; जळफळप; धेंगशेवप; मोट्यान उलोवप.
**फणफणी** (ना. स्त्री.) पळय **फडफडणी.**
**फणी** (ना. स्त्री.) दांतोणी.
**फतकल** (ना. न.) जमनीर पांय पातळावन बसपाची तरा.
**फरक** (ना. पु.) भेद; अंतर.
**फरफटप** (स. क्रि.) घसटून ओडप; ओडून व्हरप.
**फरफर** (ना. स्त्री.) बडवचाराखातीर कशाकसोय केल्लो खर्च.
**फर्मान** (ना. न.) आज्ञा; कायदो.
**फर्मावणी** (ना. स्त्री.) आज्ञा; सांगिल्लें काम.
**फर्मावप** (स. क्रि.) आज्ञा करप.
**फ्लानेल** (ना. न.) विस्कळ विणिल्लें वुलनाचें लुगट.

**फलाणो** (ना. पु.) कोणय एक मनीस; एकाद्रो मनीस.

**फस्क** (ना. न.) एका पोंतार गंदक लायिल्ल्यो काडयो भरिल्ली आनी दोनय वटेन गंदक लायिल्ली सुपुल्ली कास.

**फसल** (ना. स्त्री.) फळांची पिकावळ; पावशी वा गिमी पीक.

**फस्त** (ना. न.) नश्ट; काबार.

**फस्त करप** (सं. क्रि.) सामकें काबार करप; लिप्प सोपोवप.

**फस्तीक घालप** (सं. क्रि.) गोंदळांत उडोवप; त्रासांत घालप.

**फसप** (अ. क्रि.) फटवणूक घडप.

**फसफशीत** (वि.) मेकळो; विस्कळ; सडसडीत फस् फस् असो आवाज केल्लें.

**फळ** (ना. न.) फुलांपासून जाल्लो झाडाचो भाग; शेवट; फायदो.

**फळणी** (ना. स्त्री.) फळ जावपाची क्रिया.

**फळप** (अ. क्रि.) फळ जावप.

**फळफळप** (अ. क्रि.) नेटान भायर फुटप; चंवर येवप; बरें पीक जावप.

**फळफळावळ** (ना. स्त्री.) सगले तरेचीं फळां.

**फळादिक** (वि.) बरें फळ येवपासारकें.

**फळार** (ना. पु.) खावचे जिनस; फळांसयत खावचेले तरेकवार जिनस.

**फळारी** (ना. पु.) फळांचो धंदो करपी.

**फळी** (ना. स्त्री.) ल्हान फळें.

**फळें** (ना. न.) झाडा कांडाचो चिरिल्लो एक पातळ भाग.

**फळो** (ना. पु.) शिकवपाखातीर केल्ली फळ्याची व्हडली पाटी.

# फा

**फाउंटन पेन** (ना. न.) तींत भरपाचें पेन.

**फांक** (ना. स्त्री.) कीर्त; नामना.

**फांकप** (अ. क्रि.) पातळप; पसरप.

**फांकारप** (स. क्रि.) फुलवप.

**फांकिवंत** (वि.) नामना जोडिल्लें.

**फाकुल्दाद** (ना. स्त्री.) हक.

**फाग** (ना. स्त्री.) देवाची तुस्त केल्लें गीत.

**फागूल** (ना. न.) एक फळ.

**फागूरमांय** (ना. स्त्री.) मांवाची भयण; अडेची मांय.

**फागूरमांव** (ना. पु.) मांवाचो भाव.

**फाझेन्द** (ना. न.) सरकारी कर बी फारीक करपाचें कार्यालय.

**फाट** (ना. स्त्री.) कुडीच्या कण्यावटेनचो भाग.

**फाट करप** (वा. प्र.) पळोवप ना.

**फाटकुळी** (ना. स्त्री.) फाट.

**फाटकुळेर मारप** (वा. प्र.) फाटीर धरप; फाटीर बसवप.

**फाटल्यान** (क्रि. वि.) उपरांत; मागीर.

**फाटसून** (क्रि. वि.) फाटल्यान; फाटलेवटेन.

**फाटाफूट** (ना. स्त्री.) वेगळोचार; भेद.

**फाटीं** (क्रि. वि.) फाटल्यान.

**फाटिंफुडें येवप** (वा. प्र.) अनमनप; थिरताय नासप.

**फाटीर मारप** (सं. क्रि.) शाबासकी दिवप; तोखणायेन थापट मारप; फाटकुळेर बसोवप.

**फांटो** (ना. पु.) वांटो; भाग; खांदो.

**फाटोफाट** (क्रि. वि.) रोखडेंच.

**फाट धरप** (सं. क्रि.) धांवत्या मनशांक

सांपडावप.

**फाट सोडप** (वा. प्र.) ध्यास धरप; हट धरप; एकेच वस्तूफाटल्यान लागप.

**फाड** (ना. पु.) घांस मारिल्लो जागो; घांसाचे दांत लागिल्ल्याचो जागो; घाय जाल्लो वा कसलोय फोड आयिल्लो जागो.

**फार्डें** (ना. न.) दोनांनी भाग वचपी असो आंकडो.

**फात** (ना. पु.) काल्सांव आनी जुदी.

**फांत** (ना. पु.) दुडवां-पोटली; पैशे; भांगर आनी हेर मोलादीक वस्तू.

**फांत्या-पार** (ना. पु.) फांतोड.

**फातर** (ना. पु.) गुंडो; चिरो; उमळूंक वा मीठ-मिरसांग वाटूंक तासून नितळ केल्लो घट्ट जातीचो गुंडो.

**फातरपटो** (ना. पु.) कसलीय सुचोवणी वा शिटकावणी कोरांतून बरयल्लो फातर.

***फातरफोडो*** *(ना. पु.) खणींतले फातर* फोडपी.

**फातरावप** (स. क्रि.) फातर मारप.

**फाती** (ना. स्त्री.) पावाचें काप; उंड्याची बिस्कूत.

**फांती** (ना. स्त्री.) हळी; दोरान एकोडी वा दोट्टी गुंथिल्लीं फुलां विणी.

**फांतुल्ली** (ना. स्त्री.) ल्हान चेपटो फातर.

**फांतें** (ना. न.) फांतोड; दीस उदेवचो वेळ.

**फांतेवप** (अ. क्रि.) दीस उदेवप; फांतोड जावप.

**फांतोड** (ना. स्त्री) सूर्य उदेवचे पयलींचो तीन चार वरांचो वेळ.

**फापडप** (स. क्रि.) कोयर, धुल्ल बी वाऱ्यान हुबून वचचो म्हणून कसलीय वस्त वयर सकयल हालोवप.

**फापें** (ना. न.) पणसा चारींतलें दाट आनी गोड पातें.

**फाफडप** (स. क्रि.) पळय **फापडप.**

**फाफसणी** (ना. स्त्री.) विस्कुटावणी; उस्तणी.

**फाफसप** (स. क्रि.) विस्कुटावप; उस्तप; धवळप.

**फापसावप** (स. क्रि.) कशा कशेंय उस्तप; हेवटेन तेवटेन उडवप.

**फापावप** (स. क्रि.) लडो घालप; फांफार घालप; मार घालप.

**फां फां जावप** (सं. क्रि.) हय न्हंय सो दिसाचो उजवाड भायर फुटप.

**फांपार** (ना. पु.) खोंट; पांयान मारिल्लो धपको.

**फांफार** (ना. पु.) पांयान घाल्लो धपको.

**फा-फूं** (ना. न.) फुतफुतणी.

**फा-फूं जावप** (सं. क्रि.) गुपीत गजाल भायर फुटप.

**फाम** *(ना. स्त्री.) नामना; कीर्त.*

**फामाद** (वि.) फांकिवंत; किर्तवान.

**फाय** (क्रि. वि.) फाल्यां.

**फायचें** (क्रि. वि.) फाल्यांचें; दुसऱ्या दिसाचें.

**फायदो** (ना. पु.) जोड; नफो; जमेंतल्यान खर्च काडून उरिल्लो दुडू.

**फार** (ना. पु.) आर्मांतल्यान सोडिल्ली गुळी; थापट; खेप; फावट; मार.

**फार-पेट** (ना. पु.) फोग-बातेरी; मार-फार.

**फारमास** (ना. स्त्री.) वखदां विकपाचें दुकान.

**फारावप** (स. क्रि.) १. कांडप. २. कांडणान फार घालप; धोडावप; चोरप.

**फारीक करप** (सं. क्रि.) देणें दिवप; वस्तूच्या मोलाचे दुडू दिवप.

**फारीकपण** (ना. न.) पागामेंत; हिशोब मेकळो करपाचो वावर.

**फारो** (ना. पु.) सुयेन मारिल्लो धागो.
**फाल** (ना. न.) फकाणांनी केल्ली गजाल; सवंग.
**फाल्त** (वि.) उणें.
**फाल्स** (वि.) जें खरें न्हय तें.
**फार्ले** (ना. न.) फांतोड; सुर्याची उदेणी; आयच्यान दुसरो दीस.
**फावट** (ना. स्त्री.) खेप.
**फावप** (अ. क्रि.) उसरपत मेळप; कसलेंय काम करूंक वेळ आसप; जुळप; योग्य आसप.
**फावरणूक** (ना. पु.) फायदो; बचत; हीत.
**फावशें** (वि.) जाय-तशें; योग्य.
**फास्की** (ना. स्त्री.) लाकडाचो वा धातूचो चौकोनी वा वाटकुळो आटो.
**फासणां** (ना. न. भो.) पोट चड भरिल्ल्यान जड जाल्लो स्वासोस्वास.
**फासळावणी** (ना. स्त्री.) पातळावणी; मेकळावणी.
**फासळावप** (स. क्रि.) पातळावप; मेकळावप.
**फाळ** (ना. पु.) नांगराचें लोखणी पातें.
**फाळप** (स. क्रि.) चिरप; कातरप.
**फाळवत** (ना. न.) केळीपानाचो कुडको; शिर्ती.
**फाळी** (ना. स्त्री.) लुगटाचो तीर; आंगटेचो तिरांटो.
**फाळो** (ना. पु.) लुगटाक जाल्लो व्हड बुराक.

## फि

**फिकीर** (ना. स्त्री.) पर्वा; मुरवत.
**फिकें** (वि.) पातळ रंगाचें; विटिल्ल्या रंगाचें; तिखसाणेसारकें बी रूच नाशिल्लें.
**फिग्द** (ना.) खाणा-जेवणाचे जिरवणेपासत पिंत हो रस दिवपी अव्यव.
**फिचाद** (वि.) बंद; गच्च धांपिल्लें.
**फितीस** (ना. न.) जादू; घाडपण.
**फितुरी** (ना. स्त्री.) दुस्मानाच्या हिताचो केल्लो कसलोय वावर; बेमानपण; विस्वासघात.
**फितूर** (वि.) दुस्मानाक भेदिल्लें.
**फिदाल्ग** (ना. पु.) उंच घराण्यांतलो मनीस; सरदार.
**फियादोर** (ना. पु.) रिणाची वा दिल्ल्या उतराची जापसारदारकी घेवपी.
**फियांस** (ना. न.) रिणाखातीर वा दिल्ल्या उतरापासत भरिल्ले दुडू वा दिल्ली वस्त.
**फिरंगी** (ना. पु.) पाखलो; गोरो मनीस.
**फिरती** (ना. स्त्री.) भोवंडी.
**फिरतो** (ना. पु.) भोंवपी; भोवंडेकार.
**फिरप** (अ. क्रि.) भोंवप.
**फिरपी** (ना.) भोंवपी; भोंवडेकार.
**फिर्याद** (ना. स्त्री.) सोड; सुटी; तक्रार.
**फिरवप** (स. क्रि.) भोंवडावप; घुवणावप.
**फिरशें** (ना. न.) जिवाळ; विखारी जिवाणें.
**फिरावप** (स. क्रि.) घुवणावप.
**फिरून** (क्रि. वि.) परतून; आनीक एक फावट.
**फिल्सांव** (ना. न.) मापाचेर आनी जोखांचेर मारिल्लो सरकारी मान्यतायेचो छाप.
**फिशाल** (वि.) हुशार; तरबेज; बरें कसब आशिल्लें.
**फिशालकाय** (ना. स्त्री.) बरें कसब; हुशारपण.
**फिस्कटणी** (ना. स्त्री.) फाफसणी;

मोडणी; तोडणी.
**फिस्कटप** (अ. क्रि.) आपशींच मोडप; तुटप; पिड्डयार जावप.
**फिस्कटावप** (स. क्रि.) पिड्डयार करप; फावो तो उपाय करिनासतना काम वगडावप.

## फी

**फी** (ना. स्त्री.) कसल्याय कामांखातीर थारायल्ले दुडू.
**फीत** (ना. न.) घट्ट लुगटाचो बारीक तीर; बावळ्यांक घालचेली बायलांचो वस्त.

## फु

**फुकट** (वि.) फायदो नाशिल्लें; मोलाबगर; दुडवांशिवाय.
**फुकटेपण** (ना. न.) दुडू फारीक करिनासतना घेतिल्लो लाव.
**फुकटें** (वि.) पैशे फारीक करिनासतना लाव घेवपी.
**फुकणी** (ना. स्त्री.) नळी.
**फुकप** (स. क्रि.) तोंडान वारें घालप.
**फुक्याक** (क्रि. वि.) खर्च नासतना; फुकटाक.
**फुके सवाय** (क्रि. वि.) फुकट; खर्चाबगर.
**फुगडी** (ना. स्त्री.) तोंडान फू फू करून आनी कवनां गावन नाचपाचो एक खेळ.
**फुगणी** (ना. स्त्री.) फुगोवंक घालचेलें काम.
**फुगप** (अ. क्रि.) फुलप; फोफशेवप; रागार जावप.
**फुगरेपण** (ना. न.) रागार जावपाचो सबाव.
**फुगरें** (वि.) रागार जाल्लें वा जावपी.
**फुगवणी** (ना. स्त्री.) राग; आडावन धरचेलें काम.
**फुगवप** (स. क्रि.) १. आडावन धरप. २. उदकांत भिजत घालप.
**फुगार करप** (सं. क्रि.) गळो मुड्डप; घुस्मटावप; बुचकळावप.
**फुगार जावप** (अ. क्रि.) घुसमटप; *स्वास उस्वासाची आडखळ जावप*; रागार जावप; पिरंजळप.
**फुगारो** (ना. पु.) कोंडून उरिल्ल्यान आयिल्लो नेट; तटतटसाण; घुसमटणी.
**फुगांव** (ना.) देवी भाशेन आंगार फोड उठपाचो एक वशाचो रोग.
**फुगेटी, फोगोटी** (ना. स्त्री.) पेट्टकच आवाज जावचो म्हणून दारवेन भरिल्ली लोळी.
**फुगो** (ना. पु.) बोंबाडो; वाऱ्यान फुलोवपाची रबराची सोबीत पोती.
**फुजांव** (वि.) भेजूड; भित्रें; कसलेय अडचणीच्या वा संकश्टाच्या वेळार पळ काडपी.
**फुज्यो काडप** (सं. क्रि.) धांव मारप.
**फुटक** (वि.) १. फुटिल्लें; वेर वा चीर पडिल्लें. २. (ना. न.) आदळून वा आपटून फुटिल्लें फळ.
**फुटकर** (वि.) फुटिल्लें; चीर गेल्लें.
**फुटकें** (वि.) फुटिल्लें; मोल नाशिल्लें; किरकोळ.
**फुटप** (अ. क्रि.) कुडके जावप; चीर पडप; वेर येवप; आंगाक पुळयो वा फोड येवप; भायर सरप; भायर सुटप.
**फुटपाथ** (ना. पु.) मार्गाच्या दोनय कुशींनी पायांनी चलतल्याखातीर बांदिल्ली

वाट.

**फुटबॉल** (ना. पु.) व्हड पेल्ल; पायांनी खेळपाचो पेल्ल.

**फुटयणें** (वि.) फुटोवपी; फोडपी; गुपीत गजाल भायर फोडपी.

**फुड्यान** (क्रि. वि.) मुखार; म्हऱ्यांत; तेकून; लागून.

**फुडलें** (वि.) फायचें; परांचें; फुडें येणें.

**फुडार** (ना. पु.) मुखावयलो काळ; फुडली जीण; भविश्यकाळ.

**फुडारी** (ना. पु.) लोकांच्या पसत वावर करूंक फुडें सरिल्लो मनीस.

**फुडारीपण** (ना. न.) मुखेलपण; कसल्याय वावराची जापसारदारकी घेतिल्लो.

**फुडें** (क्रि. वि.) मुखार; सामकार; रोखडोच; इल्ल्या वेळान.

**फुडें फुडें** (क्रि. वि.) मागीर मागीर; मुखार.

**फुडो** (ना. पु.) मुखावयलो भाग; तोंडा वटेनचो भाग; फुडलो भाग.

**फुणफुणप** (अ. क्रि.) पिरंगप; वाजेवप.

**फुणफुणणी** (ना. स्त्री.) पिरंगणी; वाजेणी.

**फुणफुणें** (वि.) पिरंगणें; वाजेणें.

**फुतफुतणी** (ना. स्त्री.) ल्होव ताळ्यान केल्लें उलोवणें; आवाज भायर फोडिनासतना केल्लें उलोवप.

**फुतफुतप** (स. क्रि.) आवाज भायर फोडिनासतना उलोवप; भितल्ले भितर उलोवप.

**फुत्रीक** (ना. न.) किरकोळ विचार; कारण वा घडणूक.

**फुनेल** (ना. न.) कसलोय पातळ जिनस बारीक तोंडाच्या आयदनांत रकोवन घेवचेखातीर उपकारावचेली रूंद तोंडाची आनी बारीक नळी आशिल्ली एक वस्त.

**फुफ्फूस** (ना. न.) हड्ड्यांभितर स्वास भरूंक आशिल्ली पोती.

**फुरफुरणी** (ना. स्त्री.) भायर फुटिल्ली उमेद; खुशालकायेन वा उमेदीन आंगाक सुटिल्लो मातृसो कडकडो.

**फुरफुरप** (अ. क्रि.) मनांत जाल्लो आनंद आनी उमेद भायर फुटप.

**फुरसत** (ना. स्त्री.) रिकामो वेळ; कसलोय म्हत्वाचो वावर नाशिल्लो वेळ; वावरावेळार मदींच मेळिल्लो उसव; विसव.

**फुलकार** (ना. पु.) फुलां विकपाचो धंदो करपी.

**फुलप** (अ. क्रि.) फूल फुटप.

**फुलबाग** (ना. स्त्री.) फुलां झाडां रोयिल्लें पोरसूं.

**फुल्लट, फुल्लड** (वि.) पयलेच फावट फुलिल्लें झाड; पयलेंच गुरवारपण आयिल्ली बायल.

**फुलां** (ना. पु.) गुरवार बायलेक तोखणायेन फुलां आनी हेर भेटो दिवपाचो दबाजो.

**फुलां-आटी** (ना. स्त्री.) भांगरा फुलाची फांती.

**फुलार** (वि.) सोबीत; मन ओडून घेवपी; फुलून आयिल्लें.

**फुलारी** (ना. पु.) फुलां विकपी.

**फुली** (ना. स्त्री.) फुलाभाशेन केल्ली कुरू.

**फुलेल** (ना. न.) फुलां पिळून काडिल्लो रोस; फुलांचें तेल.

**फुलोवप** (स. क्रि.) वारें भरून फुगोवप; धांपिल्ली वस्त उकती करप.

**फुलोवपी** (ना. पु.) उकतो करपी; आनंद दिवपी.

**फुसकावप** (स. क्रि.) विडी; सिगार बी ओडून फूस फूस करून भायर धुंवर सोडप.
**फुसकी** (ना. स्त्री.) नाडितल्यान भायर सरिल्ली घाणयारी वाय.
**फुसको** (ना. पु.) पळय **फुसकी.**
**फुसफुशीत** (वि.) मोव; भुसभुशीत.
**फुसफुसणी** (ना. स्त्री.) भितल्ले भितर चिड्डिल्लो राग; धुसफूस; फुतफुतणी.
**फुसफुसप** (अ. क्रि.) धुसफुसप; भितल्ले भितर राग आवळून धरप; फुसफुस असो आवाज करप.
**फुसलावणी** (ना. स्त्री.) समजावणी; भुलोवणी.
**फुसलावप** (स. क्रि.) भुलोवप; समजावप.

# फू

**फूक** (ना. स्त्री.) वारो भरूक तोंडान केल्लो नेट; तोंडान; नळयेन; पंपान बी घाल्लें वारें.
**फूग** (ना. स्त्री.) आडावण घाल्ल्यान उदकाक बी आयिल्लो नेट; ओलसाणीन आयिल्ली मोवसाण आनी मोठपाण.
**फूंच** (वि.) किरकोळ; बाबत; मोल नाशिल्लें.
**फूट** (ना. पु.) बारा इंचाची वा तीस सेंटिमिटरची लांबाय. (ना. स्त्री.) वेर; चीर.
**फूल** (ना. न.) झाडाचो एक भाग जातूंत फळ जावपाचें बीं आसता.
**फूस** (ना. स्त्री.) भितल्ल्यान दिल्लो पालव आनी बुद्द.

# फे

**फेटो** (ना. पु.) माथ्याक वेडावचेलें लांब लुगट; रुमाल.
**फेण** (ना. पु.) उदकांत शाबू वा शाबवा जातीच्यो वस्तू भरसल्ल्यान आयिल्ले बोंबाडे; फेंस.
**फेण काडप** (सं. क्रि.) उदकांत शाबू झरोवन बोंबाडे काडप; खूब कश्ट करूंक लावप.
**फेण सरप** (सं. क्रि.) खूब त्रास जावप; चड वावर केल्ल्यान पुरो जावप.
**फेणी** (ना. स्त्री.) माडाचो वा काजुचो सोरो.
**फेणेर** (ना. पु.) उदकांत शाबू बी भरसल्ल्यान आयिल्ले बोंबाडे; फेंस.
**फेणेवप** (अ. क्रि.) फेणेर सुटप.
**फेणो** (ना. पु.) १. घोंस. २. भायर सरिल्ले दांत.
**फेणोरी** (ना. स्त्री.) तयार केल्लो एक विरविरीत खावपा जिनस.
**फेती** (ना. स्त्री.) काम केल्ल्याचें मोल.
**फेपरें** (ना. न.) एका रोगाचें नांव; मल्लुकें.
**फेब्रेर** (ना. पु.) किरिस्तांवी वर्साचो दुसरो म्हयनो.
**फेर** (ना. पु.) वाटकुळो भोंवारो. (ना. स्त्री.) जात्रेच्या वा फेस्ताच्या निमतान भरिल्लो बाजार.
**फेर मारप** (सं. क्रि.) परत परत फुजो काडप.
**फॅर्र** (ना. न.) आंगल्यांच्यो मिरयो वचच्यो देखून ताचेर दामून फिरावचेली एक धातूची जड वस्त; इस्त्री.
**फॅर्र जावप** (सं. क्रि.) खूब तिडक येवप; तापार जावप.

**फॅर्र मारप** (सं. क्रि.) आंगल्यांच्यो मिरयो वचच्यो देखून तांचेवयल्यान फॅर्र ओडप.
**फेरी** (ना. स्त्री.) भोवंडी; बाजार.
**फेरी बोट** (ना. न.) आलतड पलतड करचेली ल्हान सपाट बोट.
**फेरो** (ना. पु.) भोंवारो; भोवंडो.
**फॅशन** (ना. स्त्री.) तरा; नवी पद्धत.
**फेंस** (ना. पु.) फेणेर; बारीक मोटे बुडबुडे.
**फेस्त** (ना. न.) दबाजो; धर्मीक दीस.
**फेस्तोजी** (ना. पु.) फोल्गी; मौज मारपी; चैन करपी.
**फेंसाळ** (वि.) फेणेर जावपी वा येवपी.

## फै/फो

**फैदा करप** (सं. क्रि.) पळय **पैदा करप.**
**फोक** (ना. न.) मगज नाशिल्लें फळ; बीज.
**फोकावप** (स. क्रि.) कुसकुटावप; सुपारी दिवप; तापोवन काडप.
**फोकूट** (ना. न.) दांताचे हड्डेक आयिल्लो फोड.
**फोग करप** (सं. क्रि.) तिडकप; तापोवन काडप.
**फोग** (ना. पु.) एक ल्हान फळ.
**फोग बातेरी** (ना. स्त्री.) फार-पेट; मार-फार.
**फोगेट** (ना. स्त्री.) दारवेन भरिल्ली कागदाची सुपुल्ली नळी.
**फोटो** (ना. पु.) उजवाडाच्या आदारान फिल्मार काडून खास कागदाचेर उतरायिल्लें चित्र.
**फोड** (ना.) १. फळाची शीर; कुडको. २. व्हड पुळी.
**फोंड** (ना. पु.) व्हड बुराक; भोंकणो.
**फोडण** (ना. न.) तेलान तळशिल्लो कांदो वा सासवां.
**फोडणिशी** (ना. स्त्री.) विस्कुटावणी.
**फोडप** (स. क्रि.) चिरप; कुडके करप. (अ. क्रि.) आंग उसळप.
**फोडयो** (ना. पु.) पाटांक मर्दी मर्दी मारिल्लो बारीक फोंड.
**फोडा** (ना. स्त्री.) सोरपाचें फुलयल्लें तोंड.
**फोडाफोड** (ना. स्त्री.) उसळा उसळ; आंगाक भितल्ल्यान बादिल्ली दूख.
**फोण** (ना. पु.) जमनीक पडिल्लो व्हड बुराक.
**फोणकूल** (ना. न.) ल्हान फोण.
**फोणारो** (ना. पु.) व्हड फोण.
**फोंत** (ना. स्त्री.) पिडा-रोग बरी जावची म्हणून पांयाक वा हाताक दाग दिवन वयर जाल्लें रगत व्हावन वचपाचो आदलो उपाय.
**फोंतयें** (वि.) फोंत आशिल्लें.
**फोर्पे** (ना.) पणसा चारीची दाट आनी गोड पाती.
**फोफर्शे** (वि.) घटसाण नाशिल्लें; मोव.
**फोफशेपण** (ना. न.) मोवसाण; घटसाणीचें उणेपण.
**फोफळ** (ना. न.) बेडो; सुपारी.
**फोफळी** (ना. स्त्री.) माडी; फोफळां दिवपी झाड.
**फोफेणी** (ना. स्त्री.) झाडाच्या वा फळाच्या दिखाक लागून आयिल्ली सूज.
**फोफेवप** (अ. क्रि.) दिखान तोंड फुलप; जिबेक; तोंडाक बी बारीक पुळेर उठप.
**फोर** (ना. पु.) शेता-भाटाचो सिदाव;

भाडें.
**फोर्त** (वि.) निबर; घट्ट; जबर.
**फोर्न** (ना. पु.) उंडे; पाव बी भाजपाच्यो सगल्यो मांडण्यो आशिल्लें सुपुल्लें घर.
**फोर्म** (ना. पु.) आकार; तरा; आकृताय.
**फोर्र** (ना. पु.) घराच्या पाख्यामुळा मारिल्ली फळी; आंगाच्यांक दाटसाणीखातीर भितल्ले वटेन शिवचेलें लुगट.
**फोर्स** (ना. पु.) १. बळगें; शक्त; घटसाण. २. सैन्य; फौज.
**फोर्सार करप** (सं. क्रि.) इत्सेआड करूंक लावप; दडपण घालप.
**फोल** (ना. स्त्री.) कागद.
**फोल्ग** (ना. न.) मौज; चैन.
**फोल्गी** (वि.) मौज मारपी; चैन करपी.
**फोलीण** (ना. न.) पत्र्याचें वाटकुळें वा चोवकोनी आयदन; दबो.
**फोलेर** (ना. पु.) १. न्हंयेचे वा दरयाचे देगेर बांदिल्लें दिव्या-घर. २. वातीचो दिवो.
**फोव** (ना. पु. भो.) उदकांत फुगोवन आनी भाजून काडिल्लें भात; फुलांचो चंवर.

# फौ

**फौज** (ना. स्त्री.) सैन्य; लढायेंत वांटो घेवपी शिपाय.

# फं

**फंड** (ना. पु.) चडकरून भोवशीक वावराखातीर जमयल्लो दुडू.

# ब

**बकबक** (ना. पु.) रेबडासारकी वा चिखलाभाशेन मोवसाण.
**बकबकीत** (वि.) चिखलाभाशेन मोव.
**बकच्छाय** (ना. स्त्री.) फकाणां; कुस्कुटावणी; भगली; हुंडयो.
**बकरो** (ना. पु.) एक चार पायांची आनी दाट ल्हंवेची पाळिल्ली मोनजात.
**बकें** (ना. न.) लांब पांय आनी मान आशिल्लें एक सवणें.
**बखांदी** (ना. स्त्री.) भुजान वा कोपरान मारिल्लो धोंगसो.
**बखाल** (ना. पु.) भुसारी म्हालाचो उद्देग करपी; वेपारी.
**बगर** (अ.) शिवाय; भायर.
**बगल** (ना. स्त्री.) कूस; कड.
**बगलांट** (ना. न.) आळ; फट; गुन्यांव.
**बगलांटी** (वि.) आळ घालपी; तड्डकी.
**बगलांटें** (वि.) फटकिरें;' पळय **बगलांटी.**
**बचको** (ना. पु.) हातान मारिल्ली झोंपय; नेटान आवळिल्लीं हाताचीं पांचय बोटां.
**बजबजप** (अ. क्रि.) सय सुवाद नाशिल्लो बडबड करप; भरभरप.
**बजबजें** (वि.) बडबडें.
**बटन** (ना. पु.) बुतांव.
**बटमोगरी** (ना. स्त्री.) बटमोगरी नावांची फुलां दिवपी झाड. हीं फुलां खूब पाकळ्यांचीं आसतात.
**बटमोगरें** (ना. न.) घमघमीत वासाचें मोगऱ्यापरस व्हड फूल.
**बटाट** (ना. न.) शाक भाजी बी करचेलो एक सुरबूस कंद.
**बटाट-फोव** (ना. पु.) बटाट आनी फोव घालून केल्लो खावचेलो जिनस.

**बटाटवडो** (ना. पु.) चण्याच्या पिठांत बटाटाची भाजी घालून तळिल्लो वडो.

**बटाटो** (ना. पु.) १. बटाट. २. बुद्दीन उणो; अबुद्दी.

**बड** (ना. स्त्री.) भुरग्याक जातनाच आयिल्लो आपल्या आवय-बापायचो आनी घराण्याचो बरो वायट सबाव गूण.

**बडंग** (वि.) चड तांबडो अशें सांगपाचें उतर; गाड.

**बड्डेवप** (अ. क्रि.) बरड लागून दाण्यागोट्याक बुराक पडप आनी तो पोको जावप.

**बडबड** (ना. स्त्री.) अति उलवणें; अर्थ आनी सुवाद नाशिल्लें उलोवप; बोवाळ.

**बडबडप** (अ. क्रि.) जाय ताचे परस चड उलोवप; बडबड करप; भरभरप.

**बडबडो** (वि.) चड उलोवपी.

**बडवाचार** (ना. पु.) व्हडपण; मोठेपण; बडाय.

**बडवप** (स. क्रि.) धोडावप; आपटप; लडो घालप; मार दिवप.

**बडवो** (ना. पु.) भट; पंढरपूरच्या विठोबाची पुजा करपी आनी पुजा सांगपी भट.

**बडाय** (ना. स्त्री.) मोठेपण; आपली तुस्त; व्हडपण.

**बडायखोर** (वि.) बडायो मारपी; आपलीच तुस्त तोखणाय करपी; आपलें व्हडपण मिरोवपी.

**बडी** (ना. स्त्री.) बारीक कोंड्याचो वा झाडा-खांद्यांचो कुडको.

**बणखण** (ना. स्त्री.) बंदखण; कैदखानो.

**बण्ट** (वि.) मस्तें; आडांगी; अवजाळी.

**बण्टेपण** (ना. न.) मस्तेपण; आडांगीपण; अवजाळीपण.

**बत्तीस** (ना. पु. वि.) तीस आनी दोन (३२).

**बतेलो** (ना. पु.) वेपारी म्हाल बी पयशिल्ल्यान हाड-व्हर करपाचें मोटें व्हडें.

**बदक** (ना. न.) हांयस; पायांच्या बोटांमदीं कातडी आशिल्लें मोटव्या पायांचें आडसाटें सवणें.

**बद्द** (अ.) मेरेन; एकदम; सारको; थेट.

**बदप** (स. क्रि.) मोल थारावप; मान्य जावप; तयार जावप.

**बदल** (ना. पु.) पयलीं थारायल्ल्या विचारा सुवातेर हाडिल्लो दुसरो विचार.

**बदलप** (स. क्रि.) आसा तें वेगळे तेरेन करप.

**बदला** (अ.) बाजत; ऐवजी; एका जाग्यार दुसरें.

**बदली** (ना. पु.) एके वस्तूचे वा मनशाचे सुवातेर आयिल्ली दुसरी वस्त वा दुसरो मनीस.

**बदलो** (ना. पु.) सूड; आपल्याक केल्लें वायट तशेंच मुजरत दुसऱ्याक करप.

**बदाम** (ना. पु.) एक फळ आनी मसाल्याचें एक आंग.

**बदामी हालवो** (ना. पु.) बदाम; तूप; साकर बी घालून केल्लो मयद्या पिठाचो हालवो.

**बन** (ना. न.) सोबीत झाडा-पेडांनी भरिल्लो जागो.

**बनपाव** (ना. पु.) लोणी लायिल्लो गोड लुकलुकीत पाव.

**बनारशी** (वि.) बनारस शारांतलें वा त्या शारांत तयार जाल्लें.

**बनिस्ती** (ना. स्त्री.) मोड-फोड; उधळ-आपट; कशाकशीय केल्ली करणी.

**ब्याण्णय** (ना. पु. वि.) णवद आनी दोन (९२).

**ब्यांयशी** (वि.) अंयशी आनी दोन (८२).

**बर** (ना. स्त्री.) हड्ड्याचें वाटकुळसार हाड; हड्ड्याचें वेळ.

**बरकत** (ना. स्त्री.) खुशालकाय; यस; दिशींदिशीं वाडटी आस्पत; उदर्गत.

**बरकय** (ना.) कापो पणस.

**बरशेवप** (अ. क्रि.) चड तेंप गेल्ल्यान वा जीव लागिल्ल्यान लाकडाची इल्ली इल्ली घटसाण वचप.

**बरड** (ना.) दाणो गोटो पोखरून खावपी जीव.

**बरडेवप** (अ. क्रि.) बरड लागून दाणो गोटो पोलो जावप.

**बरवप** (स. क्रि.) काडयेन; पेनान बी अक्षरां काडून आपले विचार उक्तावप.

**बरपाक्षर** (ना. न.) शिक्षण; वाचप-बरोवप.

**बरपाक्षरी** (ना. पु.) शिकिल्लो मनीस; वाचूंक बरोवंक जाणां जाल्लो.

**बरपी** (ना. पु.) बरोवपी; अक्षरां चितरावन आपले विचार आनी उमाळे उकतावपी.

**बर्फ** (ना. न.) खूब थंडायेक लागून आटून घट्ट जाल्लें उदक.

**बर्फी** (ना. स्त्री.) दूद साकर बी घालून केल्लो खावचेलो जिनस.

**बरबटेपण** (ना. न.) खडबडीतपण; भरभरीतपण; खरखरीतपण.

**बरबटें** (वि.) खडबडीत; भरभरीत.

**ब्रह्मगांठ** (ना. स्त्री.) सोडूंक कठीण अशी गांठ.

**ब्रह्मचारी** (ना. पु.) आंकवार; लग्न जावंक नाशिल्लो.

**ब्रह्मतेज** (ना. न.) गिन्यानाचें तेज वा शक्ती.

**ब्रह्मपुत्रा** (ना. स्त्री.) उत्तर भारतांतली एक न्हंय.

**ब्रह्मा** (ना. पु.) संसार रचपी देव.

**ब्रह्मिश्ट** (वि.) धर्मिश्ट आनी कर्मिश्ट.

**ब्रह्मी** (वि.) ब्रह्मदेशांतलें.

**ब्रह्मो** (ना. पु.) सृश्ट रचपी देव; ब्रह्मदेव.

**ब्रश** (ना. पु.) घांसपा पुसपाखातीर दांड्याक वा मुठीक घट्ट केंस दसोवन तयार केल्ली वस्त.

**बराबर** (अ.) वांगडा; हयकार आनी मान्यताय सांगपी उतर.

**बरें** (ना.) कल्याण करपी; सूख समाधान दिवपी.

**बरें** (वि.) बऱ्या सभावाचें आनी बरे चालचलणुकेचें; नितीवंत; न्याय नीत वळखुपी.

**बरेपण** (ना. न.) भलायकी; बरो सबाव; शाणेपण; बरे आचार विचार.

**बरेत** (ना. स्त्री.) मदेराचो चिरिल्लो वांसो.

**बरें-भलें** (ना. न.) कल्याण; हीत; सूख; समाधान; फायदो.

**बरें मागप** (सं. क्रि.) दुसऱ्याचें हीत जावचें; ताका सुखसमाधान; भलायकी मेळची अशी इत्सा उक्तावप.

**बरोवप** (स. क्रि.) पळय **बरवप.**

**बरोवपी** (ना.) पळय **बरवपी.**

**बल्कांव** (ना. पु.) उठ-बस करपाची घराची भायले वटेनची बसका.

**बल्ब** (ना. पु.) लायट पेटपाचो काचेचो

वाटकुळो तूब.

**बल्ल** (ना. न.) सोरो बी भरपाचें पोटफुगें आयदन.

**बलाय** (ना.) बेपर्वाय दाखोवचेलें उतर.

**बलायकी** (ना. स्त्री.) खुशालकाय; बरेंपण.

**ब्लावज** (ना.) बायलांचें वयल्या भागाचें आंगावयलें.

**बलिश्ट** (वि.) बळगें आशिल्लें; शक्तिवान.

**बलुची** (वि.) बलुचिस्तान देशांतलें.

**बशी** (ना. स्त्री.) काचेची पीर.

**बस** (ना. स्त्री.) चड लोकांक हाड-व्हर करपाची व्हडली मोटार.

**बसकण** (ना. स्त्री.) बसका; पातळून मारिल्ली बसका.

**बसका** (ना. स्त्री.) बसपाचो जागो; आसन; बैठक; बसचेली अैट; तळाची सुवात.

**बसकार** (ना. पु.) बशीचो धनी; बस चलोवपी.

**बसकें** (वि.) चेपटें.

**बसप** (अ. क्रि.) पाय दोडून आनी कुडीचो सगलो भार कुल्यांचेर घालून थारप; उणो जावप.

**बहिश्कार** (ना. पु.) भायर घालपाचें काम; सोडचीट; भश्टकार.

**बळ** (ना. न.) शक्ती; निबरसाण; हाताक घालचेलो वाळो.

**बळगें** (ना. न.) शक्ती; कुडीचो नेट.

**बळगेहीन** (वि.) बळगें नाशिल्लें; अक्कत.

**बळप** (अ. क्रि.) मातप; खूब वाडप.

**बळयां** (क्रि. वि.) मुद्दाम; मुजरत.

**बळान** (क्रि. वि.) मुजरत; मुद्दम; बळयांच; नेटान.

**बळार** (ना. स्त्री.) धव्या रंगाचें; लांब मानेचें आनी लांब पायाचें एक सवणें.

**बळिश्ट** (वि.) खूब बळगें आशिल्लें; शक्तिवान.

**बळी** (वि.) जीव आविल्लें; जिवाचें दान दिल्लें.

**बळी दिवप** (सं. क्रि.) जिवाची हत्या करून तो देवाक ओपप.

# बा

**बा** (ना. स्त्री.) आवय.

**बाई** (ना. स्त्री.) शिक्षिका.

**बांक** (ना. पु.) बसूंक उपकारा पडचेलो एक मोबिलाचो भाग; वणखणें नाशिल्लो सोफाभशेन मोबिलाचो एक भाग; (स्त्री.) पयशाचो वेव्हार करपी संस्था.

**बाक/बाकु** (ना. पु.) रोमन धर्मांतलो सोऱ्याचो देव.

**बा करप** (स. क्रि.) ल्हान भुरग्यांले भाशेंत थापट मारप.

**बाकी** (ना. स्त्री.) खर्च करतकच उरिल्लो जिनस; व्हड आंकड्यांतल्यान ल्हान आंकडशे उणो करतकच उरता तो आंकडो.

**बांकीन** (ना. न.) ल्हान बांक.

**बाग** (ना. स्त्री.) १. फुलां झाडां लायिल्ली सुवात; पोरसूं; २. पोंग; पालशी अैट वा तरा.

**बागडप** (अ. क्रि.) नाचप-मोडप; खेळप.

**बांगडो** (ना. पु.) एक सुवादीक नुस्तें.

**बागायत** (ना. स्त्री.) रोयिल्ल्या ल्हान व्हड झाडांचो मळो; शेत वा भाट.

**बांगुली** (ना. स्त्री.) ल्हान बांगडो; बांगड्याचें पील.

**बागोवप** (स. क्रि.) बांकडो करप; वाटकुळसाण हाडप; पालसो करप.
**बाज** (ना. स्त्री.) न्हिदपाचो पलंग वा खाट.
**बाजार** (ना. पु.) तरेकवार वस्तू विकपाचो धारायल्लो जागो; फेर.
**बाजारी** (वि.) बाजारांतलें; पयशाचो संबंद आशिल्लें; फकत फायदो आनी लुकसान पळोवपी; वेव्हारी; सुवार्थी.
**बाजुबंद** (ना. पु.) भुजां सकयल बांदपाची बायलांची वस्त.
**बाटगें** (वि.) आपलो धर्म सोडून पेल्यालो धर्म घेतिल्लें.
**बाटप** (अ. क्रि.) आपलो सोडून पेल्याचो धर्म आपणावप.
**बाटाबाट** (ना. स्त्री.) खुशयेभायर दुसऱ्या धर्मांतल्या लोकांक आपल्या धर्मांत ओडपाचें काम.
**बाटोवणी** (ना. स्त्री.) दुसऱ्याल्या धर्मांत वचपाचें काम.
**बाटोवप** (स. क्रि.) दुसऱ्या धर्मांत घालप.
**बाडगप** (स. क्रि.) भियेवप; शेवाळप; कांचवेवप.
**बाण** (ना. पु.) १. धोणवाचे दोरयेक लावन सोडपाचो ल्हान भालो; २. एक नुस्त्याची जात; ३. व्हड्याची कड.
**बातयें** (वि.) तड्डकी; फटींग.
**बातीज्म** (ना. पु.) किरिस्तांवी धर्मांत घेवपाचो विधी.
**बातां** (ना. न. भो.) तड्डकां; फटयांच्यो गजाली.
**बादिकार** (ना. स्त्री.) आडखळ; लुकसाण; वसो.
**बाद** (वि.) हार खाल्लें; नपास; हक वगडायल्लें; उपेग नाशिल्लें.
**बांद** (ना. पु.) आडावण; न्हयेचें उदक आडावंक बांदिल्लो चिखलाचो आडो.
**बाद काडप** (सं. क्रि.) कशाकशेंय काम करून उडोवप.
**बादंड** (वि.) दाट; चरबेन फुगिल्लें; मोटें; चड खावन जेवन पोट भरिल्लें.
**बादडसाण** (ना. स्त्री.) मोटसाण; चरेबक लागून आयिल्लें एके तरेचें लबलबीतपण.
**बांदनी** (ना. स्त्री.) पाटांतलें उदक मर्दीमर्दी आडावन तें दुसऱ्या पाटांत खेळोवंक उपकरावचेले गब्याचे कुडके.
**बादप** (स. क्रि.) वायटाक पडप; लुकसाण जावप; वसो येवप.
**बांदप** (स. क्रि.) घडोवप; एकार एक उबारप; वेडावप; गुटलावप; गच्च आवळून पास घालप.
**बाद-बाकी** (ना. स्त्री.) वजाबाकी; व्हड आंकड्यांत ल्हान वा तेदोच आंकडो उणो करपाचो हिशोब.
**बादाबाद** (ना.) परत्यापरतें; आरतें परतें; फिटफाट.
**बादिकार** (ना. पु.) आडखळ; लुकसाण; वसो.
**बादी** (ना. स्त्री.) तुवाल्याची वा चादराची वा विणिल्लीं पोतां; रेंद बी लावन सोबीत केल्ली लुगटाची देग.
**बानयान** (ना. स्त्री.) खोमसाभितर घालपाचें हाताचें वा हातकापें आंगाचें गंजिफ्रॉक.
**बाप** (ना. पु.) किरिस्तांव धर्मांत देवाचें नांव.
**बापू** (ना. पु.) बापूय.
**बापूय** (ना. पु.) पुताक वा धुवेक जल्म दिवपी दादलो.
**बापोल-भयण** (ना. स्त्री.) बापायच्या

**भावाची चली.**
**बापोल-भाव** (ना. पु.) बापायच्या भावाचो चलो.
**बापोलयो** (ना. पु.) बापायचो भाव.
**बाब** (ना.) भुरग्यांक लेखून लायिल्लें उपर्बायिचें उतर; पिरायेन जाणट्या वा व्हड पदवेच्या मनशाक लायिल्लें भोवमानाचें उतर.
**बांब** (ना. स्त्री.) बारीक जीव; झाडाच्या चंवराक लागणो सुक्षीम जीव.
**बाबडें** (वि.) दुर्बळ; आधार नाशिल्लें; काकुळटेणें.
**बाबत** (वि.) किरकोळ; सय-सुवाद नाशिल्लें; पचकें; अबुद्दी. (अ.) संबंदान; विशीं.
**बांबर** (ना. पु.) चिखोल; रेबड.
**बाबरींग** (वि.) अरवळ; फकाण; अबुद्दी.
**बाबा** (ना. पु.) भुरग्याक लायिल्लें अपुर्बायिचें वा तोखणायेचें उतर. **बाबा पुता करप** (स. क्रि.) समजावप; फुसलावप; समज घालप.
**बाबुलो** (ना. पु.) ल्हान भुरगें अशा अर्थाचें अपुर्बायिचें उतर.
**बाबू** (ना. पु.) ल्हान भुरगें; जाल्ल्या भुरग्याक लेखिल्लें अपुर्बायि उतर.
**बाभळ** (ना. स्त्री.) एक कांट्याचें झाड.
**बामण** (ना. पु.) एक हिंदू भितल्ली जात; ब्राह्मण; गिन्यान जोडपी आनी दिवपी.
**बामणविंचू** (ना. पु.) धवसार रंगाचो एक ल्हान आनी विखाळ विंचू.
**बामेवप** (अ. क्रि.) त्राण नासप; घुंवळप.
**बाय** (ना. न.) ल्हान चलयेक लेखिल्लें अपुर्बायिचें उतर; बायलेक लेखिल्लें भोवमानाचें उतर.
**बांय** (ना. स्त्री.) उदक काडूंक मारिल्लो खोलसार फोंड.
**बायखुरी** (ना. स्त्री.) भुजा सकयल हाताक घालपाची एक बायलांची वस्त.
**बायजण** (वि.) अबरगत; बायलेभाशेन नाजूक; भित्रो.
**बायजणपण** (ना. न.) अबर्गतपण; भितरेपण; लज.
**बायबल** (ना. न.) किरिस्तांवी धर्माचो मुळावो आनी मुखेल ग्रंथ.
**बायल** (ना. स्त्री.) १. दादलो ह्या उतराचें स्त्रीलिंगी उतर; २. घरकान्न; बायलमनीस; मादी.
**बायलपण** (ना. न.) बायलांची जात आनी सबाव गूण.
**बायलमनीस** (ना. स्त्री.) पळय **बायल.**
**बायलांडो** (वि.) बायलांची ओड आशिल्लो; बायलांचो मोगी; चालचलणूक बायलांसारकी आशिल्लो.
**बायलांव** (वि.) लांब रूंद बायलमनीस; घसघशीस कुडीची बायल.
**बाये** (अ.) बायलेक लेखून काडपाचो उद्गार.
**बायोनेत** (ना. स्त्री.) आर्माक फुडें तोकाकडेन लायिल्लें सुरयेसारकें एक पातें.
**बार** (ना. न.) अर्द वेंत लांबायेचो कोंडया कुडको; बाल.
**बारकाय** (ना. स्त्री.) पळय **बारीसकाण.**
**बारकेल्लें** (वि.) बारीक; किडकिडीत.
**बार्ज** (ना. स्त्री.) म्हाल (चड करून मीन) बंदरार पावोवपाची यांत्रीक बोट.
**बारणी** (ना. स्त्री.) पिकेचो केल्लो अदमास.
**बारप** (स. क्रि.) पिकेचो अदमास करप.
**बारपी** (ना.) पिकावळीचो अदमास करपी मनीस.

**बारबेर** (ना. पु.) म्हालो; नापीत; भीस मारपी आनी कापणी करपी.

**बारबेरी** (ना. स्त्री.) कापणी करून आनी भीस मारून घेवपाची सुवात.

**बारा** (ना. पु. वि.) धा आनी दोन (१२).

**बारा आणे** (वा. प्र.) बुद्दीन अर्दकुटो; अरवळ.

**बारावो** (ना. पु.) मनीस मरतकच ताच्या बाराव्या दिसा करपाचें धर्मीक काम.

**बारसो** (ना. पु.) भुरगें जल्मतकच ताच्या बाराव्या दिसा ताका पायण्यांत घालून नांव बी दवरपाची चाल.

**बारीक** (वि.) किडकिडीत; लांब आनी अशीर.

**बारीकपण** (ना. न.) अरूंदपण; अशीरसाण; किडकिडीतपण.

**बारीकसाण** (ना. न.) सगल्या वटांनी आनी खोलायेन तेळपाचो आनी अभ्यास करपाचो गूण.

**बाल** (ना. न.) बार; कोंड्याचो वा लाकडाचो वेंतभर कुडको.

**बालदी** (ना. स्त्री.) सकयल्लो भाग बारीक आनी वयलो मोटो आशिल्लें उदक बी हाड व्हर करचेलें आयदन.

**बालबोध** (ना. स्त्री.) देवनागरी लिपीची एक तरा.

**बालवाडी** (ना. स्त्री.) मोंटेसरी शाळा; तीन ते स वर्सां मेरेनच्या भुरग्यांक शिक्षण दिवपाची शाळा.

**बालांव** (ना. पु.) कागदा दिवो.

**बाली** (ना. स्त्री.) कानाचे पाळयेक वयले वटेन हुमकळावचेली मोतीं आशिल्ली मुदी.

**बावका देवता** (ना. स्त्री.) एके देवतेचें नांव. (अलं.) लग्न जावंक नाशिल्ली वा घोव मेळ नाशिल्ली बायल.

**बावकें** (वि.) बाविल्लें; सुकिल्लें.

**बावडें** (वि.) बापुलवाणें; आधार आलाशिरो नाशिल्लें; गरीब.

**बावटेकार** (ना. पु.) बावटो धरपी आनी सांबाळपी.

**बावटो** (ना. पु.) बंदेर; देशाची; संस्थेची वा कसल्याय एकवट्याचो हावेस सुचोवपी रंगीत लुगटाची कुरू.

**बावन** (ना. पु. वि.) पन्नास आनी दोन (५२).

**बावप** (अ. क्रि.) सुकप; भागप; झाडा-पेडांतलें उदक ना जावप.

**बावली** (ना. स्त्री.) मनशाभाशेन तयार केल्लें खेळणें.

**बावलें** (ना. न.) धातूची; लाकडाची बी केल्ली मनशाभाशेन आकृताय.

**बावलो** (ना. पु.) भुरग्याभाशेन वा दादल्याभाशेन तयार केल्ली बावली.

**बावळटपण** (ना. न.) अजागळपण; भावार्तीपण; सादेपण.

**बावळो** (ना. पु.) भूज आनी कोंपर हांचेमदलो भाग. (वि.) भेजूड; अजागळ; सादो; भावार्ती.

**बावीस** (ना. पु. वि.) वीस आनी दोन (२२).

**बावेचाळीस/बेचाळीस** (ना. पु. वि.) चाळीस आनी दोन (४२).

**बाशारेल** (ना. पु.) कायद्याचो व्हड गिन्यानी; बॅरिस्टर.

**बाशींग** (ना.) न्हवऱ्याच्या माथ्याक बांदचेले गोंडे.

**बास्कळ** (वि.) वायट; जें बरें न्हय अशें.

**बास्कळपण** (ना. न.) सय-सुवाद आनी

न्याय-नीत नाशिल्लें उलोवणें आनी करणी.

**बासठ** (ना. पु. वि.) साठ आनी दोन (६२).

**बासकें** (वि.) फट उलोवपी.

**बासन** (ना. न.) पोटली बांदपाचें लुगट.

**बासप** (अ. क्रि.) फट उलोवप.

**बासपी** (वि.) फट उलोवपी.

**बासुंदी** (ना. स्त्री.) दुदाचो पातळ खवो; दूद आटोवन आनी तातूंत साखर बी घालून केल्लो खावपाचो जिनस.

**बाळक** (ना. न.) ल्हान भुरगें.

**बाळगणी** (ना. स्त्री.) सांबाळणी; बरेभाशेन दवरपाचो गूण; जतनाय.

**बाळगणो** (ना. पु.) सांबाळपी; जतनाय घेवपी.

**बाळगप** (स. क्रि.) सांबाळप; जतनायेन दवरप.

**बाळगुपी** (ना. पु.) सांबाळपी; जतनायेन दवरपी.

**बाळंत** (ना. स्त्री.) भुरग्याक जल्म दिवपी.

**बाळंत जावप** (सं. क्रि.) भुरग्याक जल्म दिवप.

**बाळंतपण** (ना. न.) भुरग्याक जल्म दिवपाची स्थिती.

**बाळांतीण** (ना. स्त्री.) बाळंत जाल्ली वा जावपी बायल.

**बाळांतेर** (ना. पु.) बाळांतपण.

**बाळो** (ना. पु.) तांबड्या वा धव्या रंगाची बुळबुळीत आनी लांबोडी नुस्त्याची जात; कसल्याय नुसत्याचो कणो.

# बि

**बिकूण** (ना. पु.) मनशाचें रगत ओडून खावपी एक तांबडसार ल्हान जीव.

**बिगूल** (ना. न.) तुतारीभाशेन तोंडान फूक मारून वाजोवपाचें वाजंतर.

**बिटकी** (ना. स्त्री.) आपल्या बराबरची सगली मुस्तायकी आनी वस्तू.

**बिटकी कवळप** (वा. प्र.) आपल्या बराबरची सगली मुस्तायकी बी घेवन पळ काडप; बेगिबेगीन आपलें बिराड हालोवप.

**बिटबिटावप** (स. क्रि.) पिटपिटावप; दोळे बेगिबेगीन धांपप; उगडप.

**बिट्याबिट्यो** (ना. पु.) दोनय पंगडांचो; दोनय पंगडांत भाग घेवपाचो हक आशिल्लो.

**बिटी-बिटी** (वि.) मोन्यानी एकसारकी लायिल्ली नदर.

**बिड्डें** (ना. न.) कुळचेत घुसपावपाचें सुताचें घर.

**बिण्ण** (वि.) खूब काळोख; उजवाडाचें कुसय नाशिल्लो काळोख.

**बिबट** (ना. न.) उबी तिकळी; गंदाचो बी तिबो; ल्हान खत; दाग.

**बिबटें** (वि.) आंगार तिबे आशिल्लें; बिबटांनी भरिल्लें.

**बिंबल** (ना. स्त्री.) एक सुपुल्लें; लांबोडे आनी आंबट फळ दिवपी आडसाटें झाड.

**बिंबल** (ना. न.) बिंबलीचें फळ.

**बिबेल** (ना. न.) काजु-बियां सोल्लाचें तेल वा दीख.

**बिबूत** (ना. पु.) आंगारो; धूप वा

यज्ञांत ओंपिल्ल्या वस्तूंचो गोबोर.
**बिबो** (ना. पु.) तन्नी काजू बी.
**बियाण** (ना. न.) बी; रोव.
**बियाळ** (वि.) कुचकुचीत बियांनी भरिल्लें.
**बिरेस्तार** (ना. पु.) सप्तकाच्या पांचव्या दिसाचें नांव.
**बिरमत** (ना. स्त्री.) आळ; कारणाविरयत घाल्लो गुन्यांव; निमित्य.
**बिरमत फुटप** (सं. क्रि.) आळ घालतल्याक कितेंय वायट जावप.
**बिरमतें** (वि.) बिरमत घेवपी; आळ घालपी.
**बिरमूट** (ना. स्त्री.) पिसोळ्याभाशेन एक जीव.
**बिरमो** (ना. पु.) गोंयच्या भोवसाचो एक धळावो देव.
**बिराड** (ना. न.) थोड्या दिसांखातीर खंयय केल्लो राबितो.
**बिराडकार** (ना. पु.) राबितो करपी; बिराड करपी.
**बिरूद** (ना. न.) व्हडपणाची कुरू; पदक; ढाल; चांदीचो पेलो बी वस्तू.
**बिलकूल** (वि.) मातपासून; इल्लेंय.
**बिलंदर** (वि.) धूर्त; सावध; हुशार.
**बिलू** (ना. न.) भुरग्यांले भाशेंत माजर.
**बिलू जावप** (सं. क्रि.) भियेवप; कुळकुळप; शेवाळप.
**बिल्लो** (ना. पु.) बक्षिसाखातीर दिल्लें पदक.
**बिश्प** (ना. पु.) किरिस्तांवी धर्माचो जाळवणदार.
**बिशाद** (ना. स्त्री.) पर्वा; धिटाय; धीर.
**बिस्कूत** (ना. स्त्री.) गंवा पिठाची सुरबूस आनी गोड फांती; गंवाचें वा दुसऱ्या फावोशा दाण्या-गोट्याचें विरविरीत काप.
**बिळूक** (ना. न.) ल्हान बीळ; बुराक.

## बी

**बी** (ना. स्त्री.) फळांतली गुटी; काजूचें फळ.
**बीं** (ना. न.) रोव; रोवचेपासत कोंबायल्लो दाणो-गोटो.
**बीं मारप** (सं. क्रि.) बीं फाफडप.
**बीक** (ना. पु.) आपाराचें बी पोंत; बारीक पोंताची नळी.
**बीड** (ना. न.) एक काळसार धातू.
**बीन** (ना. स्त्री.) सादारण सतारी सारकें एक वाजंतर.
**बील** (ना. न.) विकत्यो घेतिल्ल्या वस्तूंची यादी.
**बीस्प** (ना. पु.) पळय **बिश्प.**
**बीळ** (ना. न.) बुराक; बारीक घोल.

## बु

**बुकलो** (ना. पु.) घरावें नुस्तें खायेरें जनावर; माजराचें पुल्लींग.
**बुक्क करून** (क्रि. वि.) अकस्मात; ध्यानामनांत नासतना.
**बुकी** (ना. पु.) बुकल्याचें अपुरबायेचें नांव.
**बुको** (ना. पु.) चंदनाचीं लाकडां लासून केल्लो पिठो.
**बुगडी** (ना. स्त्री.) कानाक वयले वटेन हुमकळावचेली बायलांची एक मोतयां वस्त.
**बुचकळप** (अ. क्रि.) धवळप; उदकांत बुडी मारप.
**बुचकळावप** (स. क्रि.) उदकांत बुडवप;

धवळप.

**बुचकळी** (ना. स्त्री.) उदकामुळा वचप-येवप.

**बुचकळो** (ना. पु.) मनाची गोंदळाची स्थिती; कितें करचें कितें ना अशें जावप.

**बुचको** (ना. पु.) बुरको; पांचय बोटांच्या नाखटांनी काडिल्लो बचको.

**बुचबूच** (ना. पु.) गच्च भरिल्ल्या किडींसारक्या ल्हान जिवांची हालचाल.

**बुचबुचप** (अ. क्रि.) किडेकशे खूब जावप.

**बुचबुचावणी** (ना. स्त्री.) उळउळावणी.

**बुचबुचीत** (वि.) दाटायेन; गच्च.

**बुटो** (ना. पु.) पानाभाशेन आकृताय; कापडाचेर वा शालवाचेर भरिल्ली पानाची आकृताय.

**बुट्टाण** (ना. स्त्री.) इबाडिल्ल्या दुदाचो वा धंयाचो वास.

**बुडकुलो** (ना. पु.) पेज बी शिजोवपाचें मातयेचो गाडगो.

**बुडटी** (ना. स्त्री.) उदकाचो व्हडलो हुंवार; जमीन; घरां बी उदकान भरून वचपाइतलें वाडिल्लें उदक.

**बुड्डणी** (ना. स्त्री.) खरपणी; आंग मोट्यान खरपुचेली इत्सा.

**बुडणी** (ना. स्त्री.) बुडी.

**बुड्डप** (स. क्रि.) मोट्यान खरपप; त्रास दिवप; पिडप.

**बुडप** (अ. क्रि.) सकयल वचप (चड करून उदकांत).

**बुडपी** (वि.) बुडणें; बुडणारें; उदकामुळा वचपी.

**बुडबुडप** (अ. क्रि.) बोंबाडे येवप.

**बुडबुडो** (ना. पु.) बोंबाडो.

**बुडवप** (स. क्रि.) उदका भितर घालप.

**बुडी** (ना. स्त्री.) उदकांत मारिल्ली उडी.

**बुडो** (ना. पु.) खोल उदकामुळा वावर करपी.

**बुतकेर** (ना. पु.) फार्मासिंतलीं वखदां; काडे बी तयार करपी आनी विकपी.

**बुतांव** (ना. पु.) आंगल्याच्यो दोनय कडो धापूंक लायिल्लो कांचेचो; शिंप्याचो बी कुडको; बटण.

**बुतीक** (ना. न.) वखदां विकचेलें दुकान.

**बुंद** (ना. न.) पातळ केल्ल्या पिठाचो थेंबो; मोतयाभाशेन वाटकुळो गुळो.

**बुंदी लाडू** (ना.) चण्या पिठाच्या मोतयांचे लाडू.

**बुद** (ना. स्त्री.) मत; शाणेपण; बुदवंतकाय.

**बुद्द शिकप** (वा. प्र.) बोध घेवप; अणभव घेवप; ताचें सार काडप.

**बुद्द शिकवप** (वा. प्र.) सूड घेवप; ख्यास्त भोगोवप.

**बुद्दिबळ** (ना. पु.) एक नामनेचो भारती घुलां-खेळ.

**बुदवंत** (वि.) मत आशिल्लें; शाणें; तकलेन हुशार.

**बुदवंतकाय** (ना. स्त्री.) शाणेपण; बरी मत; हुशारकाय.

**बुदवंतपण** (ना. न.) पळय **बुदवंतकाय.**

**बुदवार** (ना. पु.) सप्तकाच्या चोवथ्या दिसाचें नांव.

**बुन्याद** (ना. स्त्री.) कितेंय उबारपाखातीर घाल्लो पायो.

**बुफेत** (ना. स्त्री.) कसल्याय दबाज्या निमतान लोकांखातीर आपणे आपणाक घेवची वेवस्था आशिल्लें जेवण-खाण.

**बुबुलो** (वि.) भुरग्यांचे भाशेंत ल्हान वा सुपुल्लो अशा अर्थाचें उतर; कुकुलो.

**बुबूळ** (ना. न.) दोळ्याची बावली आनी भितल्लो सगलो भाग.
**बुयांव** (ना. न.) चिनी मातयेचें लोणचें बी घालपाचें आयदन.
**बुरको** (ना. पु.) नाखटां रोमून हाताच्या बोटांनी काडिल्लो बचको.
**बुरखण** (ना. स्त्री.) माथ्यावयल्यान घेतिल्लें पांगरूण.
**बुरखो** (ना. पु.) तोंडावयल्यान घेवचेलो पड्डो; माथें; तोंड बी धांपचेलें लुगट.
**बुरणूस** (ना. पु.) दाट कुबेर्त; रग; कोल्च.
**बुर्नूस** (ना.) पळय **बुरणूस.**
**बुर्राश** (ना. स्त्री.) रबर.
**बुरशेपण** (ना. न.) म्हेळेपण; निवळसाणीचो अभाव.
**बुरशें** (वि.) म्हेळें; निवळसाण नाशिल्लें.
**बुरांटो** (ना. पु.) कसलेय जातीचें बारीक नुस्तें.
**बुरूज** (ना. पु.) कोटाचेर मदीं मदीं उबारिल्ले उंच आनी अशीर खांब.
**बुरो** (ना. पु.) दांत घांसनाशिल्ल्यान तांचेर मांडिल्लो धवो थर.
**बुलेत** (ना. स्त्री.) सरकारी खबरांपत्र.
**बुशकोट** (ना. पु.) मनशाचे कुडीच्या वयल्या आंगाक घालचेलें सादारण कोटाभाशेन आंगावयलें; आंगाचें.
**बुशशर्ट** (ना.) मनशाचे कुडीच्या वयल्या भागाक घालपाचें सादारण खोमसासारकें आंगाचें.
**बुशेद** (ना. न.) सुपुल्ली दबी; ल्हान पेटूल.
**बुळबुळप** (अ. क्रि.) साबावां उदकाभाशेन वा तेल-तुपाभाशेन गुळगुळसाण येवप.
**बुळबुळसाण** (ना. स्त्री.) गुळगुळसाण; टुळटुळसाण.
**बुळबुळीत** (वि.) गुळगुळीत; तेलाभाशेन निसरडें.
**बुळबूळ** (ना. स्त्री.) बुळबुळसाण; टुळटुळसाण; साबावां उदका भाशेन गुळगुळसाण; निसरड.

## बू

**बूच** (ना. स्त्री.) बाटलेची बी गुड्डी.
**बूट** (ना. पु.) १. पायांत घालपाचे मोचे; सापाद; २. आंगटे-गुड्ड्यान दिल्लो उज्या शेक.
**बूध** (ना. पु.) सुर्याभोंवतणी घुंवतल्या एका गिऱ्याचें नांव.
**बूर** (ना. पु.) गाढव. (वि.) अबुद्दी; हटी.
**बूल** (ना. स्त्री.) च्या; काफी बी घालपाचें कांचेचें वा चिनी मातयेचें आयदन.

## बे

**बे** (वि.) दोन.
**बें** (ना. न.) बोकडेच्या रडपाचो आवाज.
**बें म्हणप** (वा. प्र.) हार पडली अशें मान्य करप.
**बेअकली** (वि.) अबुद्दी; मत नाशिल्लें; अक्कल नाशिल्लें.
**बेअब्रू** (ना. स्त्री.) वायट कीर्त; वायट अब्रू.
**बेकार** (वि.) काम धंदो नाशिल्लें.
**बेकारपण** (ना. न.) उद्देग धंदो नासपाची परिस्थिती.
**बेकारसाण** (ना. स्त्री.) कसलोच वावर नासपाची परिस्थिती.

**बेकारी** (ना. स्त्री.) बेकारपण; वावर धंदो नाशिल्ली परिस्थिती.

**बेगड** (ना. स्त्री.) सोनेरी वा रुपेरी रंगाची फोल.

**बेगडी** (वि.) बेगडीं; भायल्यान बरें पूण भितल्ल्यान दुसरे तेरेचें; भायल्यान लकलकीत पुण भितल्ल्यान बुरशें.

**बेगसार** (क्रि. वि.) बेगीन; सडसडीत.

**बेगिबेगीन** (क्रि. वि.) सडसडीत.

**बेगिचे बेगीन** (क्रि. वि.) सडसडीत; चड बेगीन.

**बेगीन** (क्रि. वि.) सडसडीत.

**बेगोबेग** (क्रि. वि.) सडसडीत; बेगिबेगीन.

**बेचैन** (वि.) हुसको जाल्लें; चैन नाशिल्लें.

**बेजार** (वि.) उबगल्लेलें; त्राशिल्लें; कंटाळो आयिल्लें; (ना. पु.) कंटाळो; वाज; त्रास.

**बेजारप** (अ. क्रि.) उबगप; त्रासप; कंटाळप.

**बेजारपण** (ना. न.) उबगण; त्रास; कंटाळो.

**बेझिमेंत** (ना. पु.) पाद्रीकडल्यान पवित्र करून घेवप.

**बेट** (ना. न.) जुंवो; चेंडू मारपाची मूठ आशिल्ली फळी.

**बॅटरी** (ना. स्त्री.) वीज तयार करपाचें एक साधन; विजेरी.

**बॅटरी दिवो** (ना. पु.) बॅटरी घालून पेटोवपाचो दिवो.

**बेठो** (वि.) ओगीच; हरशींच; व्हडलेंशें कारण नासतना.

**बेडी** (ना. स्त्री.) बंद्याच्या हाता-पायांत बांदचेली सांकळी.

**बेडो** (ना. स्त्री.) १. फोफळ; सुपारी; २. खर्चाचो पयलीं केल्लो अदमास आनी नामावळ.

**बॅण्ड** (ना.) तेरेकवार वाजंतरां वाजोवपी मनशांचो पंगड.

**बॅण्डवालो** (ना.) बॅण्डाच्या वाजोवपांत वांटो घेवपी; बॅण्डांत एकादें वाजंतर वाजोवपी.

**बेणणी** (ना. स्त्री.) नडणी; मुखेल आनी गरजेच्या झाडाचें उदक आनी सारें सोकून काडपी; हेर तेरेकवार झाडां हुमटावन उडोवपाचो वावर.

**बेणप** (स. क्रि.) नडप; निरूपेगी झाडां हुमटावन उडोवपी.

**बेत** (ना. पु.) आंखणी; थारावणी; तयारी.

**बेत** (ना. न.) रोताची बडी.

**बेतप** (स. क्रि.) आंगावेलें करूंक फावो ते तरेन लुगट कापप.

**बेतकाटी** (ना. स्त्री.) रोताची बडी.

**बेताळ** (ना. पु.) एका देवाचें नांव; (वि.) नागडो.

**बेतेकाप** (वि.) नागवल्लो वा नागयल्लो.

**बेंदल** (ना. स्त्री.) गार्फासारक्या झाडाचेर मातून ताच्या मुळातलें उदक आनी सारें सोकून घेवपी वाल.

**बेपर्वा** (ना. स्त्री.) भीड; मुरवतीचो अभाव; बऱ्या वायटाची पर्वा नासपाचो सबाव.

**बेपर्वाय** (ना. स्त्री.) पळय **बेपर्वा.**

**बेबकी** (ना. स्त्री.) उदकान तसोच जमनीर रावपी ल्हान जीव.

**बेबदड** (वि.) खूब सोरो पियेवपी.

**बेबदडपण** (ना. न.) खूब सोरो घेवपाचें व्यसन.

**बेबदो** (ना. पु.) खूब सोरो पियेवपी.

**बेबूक** (ना. न.) पळय **बेबकी.**

**बेबेपण** (ना. न.) आळसाय; सुशेगाद

सबाव; बेब्यासारकें आळशीपण.

**बेबो** (ना. पु.) १. उदकांत तसो धर्तीरं जियेवपी एक प्राणी; २. ल्हान भुरग्यांक घालपाचें एक आंगाचें.

**बेमान** (वि.) अनुपकारी; घेतिल्ल्या वा भोगिल्ल्या उपकारांची पर्वा नाशिल्लें.

**बेमानपण** (ना. न.) घेतिल्ल्या वा भोगिल्ल्या उपकार आनी फायद्या संबंदान बेपर्वाय.

**बेमेवप** (अ. क्रि.) ताजपाण नासप; पोवशेवप; हुशारकाय; पिटपिटीतपण नासप; मंद आसप.

**बेर** (ना. स्त्री.) वंटीचें माथें; वंटीच्या माथ्याची भायर सरिल्ली कड; वंटीचो वयलो भोंवारो वा भोंवतण.

**बॅरिस्टर** (ना. पु.) कायद्यां पंडीत; कायद्या संबंदान व्हड गिन्यान जोडिल्लो.

**बॅरिस्टरकी** (ना. स्त्री.) कायद्या संबंधान व्हड गिन्यान; आदोगासी; बॅरिस्टराचें सल्लो बी दिवपाचें काम.

**बेरीज** (ना.) दोन वा दोनापरस चड आंकडे एकठांय करपाचो हिशोब; मेळोवणी.

**बेल** (ना. पु.) धर्मीक म्हत्त्व आशिल्लें झाड; ह्या झाडाचीं पानां.

**बेलकी** (वि.) धूर्त; लापीट.

**बेश्टें** (वि.) कारण नाशिल्लें; कसलोच हेत वा इत्सा नाशिल्लें.

**बेश्ट्या-बेश्टें** (वि.) हरशींच; कारण वा हेत नासतना.

**बेस** (वि.) खूब बरें; समादान दिवपी.

**बेंस** (ना. न.) भाट; घरदार बी आस्पत.

**बेसन लाडू** (ना. पु.) चण्या पिठाच्यो साकर तूप घालून केल्ल्यो गुळयो.

**बेस्र** (ना. न.) फेस्ताचो पयलो दीस.

**बेसांव** (ना. न.) बरी इत्सा; दुसऱ्यांचें बरें जावचें म्हूण केल्ली मागणी; आशिर्वाद.

**बेळो** (ना. पु.) भाताचें एक गांवठी बीं.

## बै

**बैल** (ना. पु.) एक मोनजात; एक जनावर; शेताचो वावर आनी म्हाल हाड-व्हर करूंक उपेगी जनावर.

**बैलगाडो** (ना. पु.) बैलांनी ओडचेलो गाडो; खटारो.

## बो

**बोकडी** (ना. स्त्री.) एक उपेगी आनी गांवठी जनावर; ल्हंवाळ आनी भाजीपालो खावपी मोनजात.

**बोकडो** (ना. पु.) पळय **बकरो.**

**बोकाळप** (अ. क्रि.) सगलेकडेन पातळप; फांकारप.

**बोकुड्डी** (ना. स्त्री.) बोकडी उतराचें कुस्कुटावणेचें उतर.

**बोगदो** (ना. पु.) दोंगराक मारिल्ली व्हडली घोल; आर पार दोंगर पोखरून केल्लो मार्ग.

**बोगसणी** (ना. स्त्री.) मखलाशी; क्षमा; माफी.

**बोगसप** (स. क्रि.) मखलाशी करप; माफी करप; क्षमा करप.

**बोगार** (ना. पु.) कासार.

**बोगारपण** (ना. न.) कासारपण; तांब्या आयदनां करपी आनी विकपी.

**बोंगेवप** (स. क्रि.) झाडाक कळे फुटप.

**बोंगो** (ना. पु.) कळो.

**बोचकुटी** (ना. स्त्री.) बोंचो.

**बोंचणी** (ना. स्त्री.) तोपचेलें काम;

दोबचेलें काम.

**बोंचप** (स. क्रि.) तोंचप.

**बोचर्रे** (वि.) दांतपाडें; दांत नाशिल्लें.

**बोंचावणी** (ना. स्त्री.) वयल्यावयर केल्ली खणणी; बारीक पोंताच्या आवजरान घाल्लें बुराक.

**बोंचावप** (स. क्रि.) वयल्यावयर खणप; बारीक पोंताच्या अवजारान जमीन विस्कळावप.

**बोंची** (ना. स्त्री.) सुपुल्लें तोंड.

**बोचुड्डी** (ना. स्त्री.) एक सवणें.

**बोंचो** (ना. पु.) भायर सरिल्ले दांत आनी ओंट.

**बोट** (ना. न.) आंगूळ.

**बोटभर** (वि.) बोटाचे लांबायेचें; एक बोट लांब.

**बोटलेर** (ना. पु.) तारवटी; बोटीवयलें जेवण-खाण करपी.

**बोटलेरपण** (ना. न.) बोटीर रांदपा-वाडपाचें काम.

**बोटवो** (ना. पु.) पोती; चिरी; पाटी-पुस्तकां बी घालून शाळेंत व्हरपाची पोती.

**बोड** (ना. न.) मत; बुद्द; तकली; मेंदू.

**बोंड** (ना. न.) कापसान भरिल्लें वाटकुळें वा लांबोडें कट्टें; एका सकयल एक अशा पात्यांनी तयार जाल्लें फूल.

**बोडकावप** (स. क्रि.) चेंचावप; कोयत्यान बी बारीक बारीक कुडके करप.

**बोडकेपण** (ना. न.) माथ्याक केंसाचें नासतेपण.

**बोडको** (ना. पु.) केंस नाशिल्लो.

**बोडभद्र** (ना. न.) कश्याकसोय केल्लो वावर.

**बोडाक ओंस घालप** (वा. प्र.) खूब लुकसाण जावप; दिवाळें काडप.

**बोडार हात फिरोवप** (वा. प्र.) दिवाळें काडप; खूब लुकसाण करून घेवप.

**बोडूक** (ना. न.) शेंश्टी; तकलेचें कट्टें.

**बोंडो** (ना. पु.) तन्नो नाल्ल; कातली जावंक नाशिल्लो नाल्ल. (वि.) फ्राक मेंदू आशिल्लो; अबुद्दी.

**बोणी** (ना. स्त्री.) १. केळीचें फूल; २. दर दिसा पयलेंच केल्लें गिरायक.

**बोणेर** (वि.) मतीन उणें; बुद्द नाशिल्लें; अबुद्दी.

**बोणो** (ना. पु.) पळय **बोंडो.**

**बोंत** (ना. स्त्री.) दुदान बी भिजोवन ल्हान भुरग्याक चोखूंक दिवचेली आंगटेची वान.

**बोंथो** (ना. पु.) ल्हान बुराक.

**बोंथर** (ना. न.) पिंजिल्लें वा झिरझिरिल्लें लुगट.

**बोथर्रे** (वि.) बोथे जाल्लें; बुराक जाल्लें; पिंजिल्लें.

**बोंदर** (ना. न.) पळय **बोंथर.**

**बोंदरावळ** (ना. स्त्री.) पिंजिल्ल्यो आंगल्यो; आंगावयलीं; गोधड्यो बी मुस्तायकी.

**बोंदर्रे** (वि.) पिनकरें; पिनिल्लें.

**बोध** (ना. पु.) देख; शाणेपण; सार.

**बोध जावप** (सं. क्रि.) समजप; समज पडप.

**बोधिरूख** (ना. पु.) ज्या रुखाखाला भगवान बुद्धाक चिंतन करतना गिन्यानाचो उजवाड दिसलो तो.

**बोनर** (ना. न.) पळय **बोंथर.**

**बोनरो** (ना. पु.) पळय **बोंदरो.**

**बोंब** (ना. पु.) ल्हान भुरग्याक दूद घालपाची बाटली; मामादोर.

**बोंबली** (ना. स्त्री.) आवयची वार दशिल्ली ती गांठ; पोटाक मर्दी आशिल्ली वारी गांठ.
**बोब** (ना. स्त्री.) व्हडल्यान मारिल्ली गजाल.
**बोंबलेचो देंट** (ना. पु.) बोंबलेची गांठ.
**बोबाट** (ना. स्त्री.) बोब; व्हड ताळ्यान केल्लें उलोवप; किळच्यो.
**बोबार्टे** (वि.) बोवाळ करपी; व्हड ताळ्यान उलोवपी; बोब मारपी.
**बोबाळ** (ना. पु.) पळय **बोवाळ.**
**बोबाळप** (अ. क्रि.) पळय **बोवाळप.**
**बोंबील** (ना. पु.) बाळ्या भाशेन एक लांबोडें नुस्तें.
**बोंबो** (वि.) मतीन उणो; अबुद्दी.
**बोम** (ना. पु.) मामादोर; भुरग्याक दूद घालपाची चिंवेची बाटली.
**बोमली** (ना. स्त्री.) पळय **बोंबली.**
**बोमील** (ना. पु.) पळय **बोंबील.**
**बोय** (ना. स्त्री.) चण्यांची वा काजू-बियेची धापोय; काजुबियेचें वा भाजिल्ल्या चण्याचें अर्द; ल्हान शीर; फोड.
**बोर** (ना. स्त्री.) बोरां दिवपी झाड.
**बोर** (ना. न.) बोरीझाडाचें फळ.
**बोरीझाड** (ना.) पळय **बोर.**
**बोरू** (ना. पु.) एका झाडाची बडी.
**बोल** (ना. पु.) १. ल्हान व्हड चेंडू; २. दाट; गोड आनी वाटकुळ्या आकाराची पोळी; ३. तबल्यांतल्यान बी काडचेले तालाचे तेरेकवार आवाज; ४. गुन्यांव; शीण.
**बोलप** (स. क्रि.) उलोवप.
**बोलपेन** (ना. न.) सुक्या तिंताची नाळी आशिल्लें पेन.
**बोल लावप** (सं. क्रि.) दोश लावप; दुसऱ्याचो अन्याय करप.
**बोल्स** (ना. न.) जिदयेक वा काल्सावाक शिंविल्ली ल्हानशी पोती.
**बोलायकी** (ना. स्त्री.) पळय **बलायकी.**
**बोली** (ना. स्त्री.) उलोवपाची भास; उलोवंक उपकरावचेली भास; पोटभास.
**बोलन्स** (ना. न.) ल्हान बोल; सुपुल्ली गोड पोळी.
**बोवाळ** (ना. पु.) १. करंदाय; गडबड; २. व्हड ताळ्यान केल्लें उलोवणें.
**बोवाळप** (अ. क्रि.) मोट्यान उलोवप; कसल्याय वावराचें फुडारपण घेवप.
**बोवाळपी** (ना. पु.) कसल्याय दबाज्यांत बी चड कामां करपी; बोवाळ घालपी.
**बोवाळशेट** (ना. पु.) गडबड; बोवाळ करपी; बोवाळपी; बडबडो.
**बोळ** (ना. पु.) गल्ली; दोनय वटेन घरां आशिल्लो अरूंद मार्ग.
**बोळकें** (ना. न.) दांत नाशिल्लें तोंड.
**बोळू** (ना. पु.) मातयेच्या बावल्यांक काडपाचो एक रंग.

## बौ

**बौद्ध** (वि.) भगवान बुद्ध हांणी थापणूक केल्ल्या धर्माचें.

## बं

**बंगलो** (ना. पु.) सुपुल्लें आनी सोबीत आतांचे मोदीचें घर.
**बंगसाळ** (ना. स्त्री.) लाकूड चिरपाचें आनी विकचेलें घर.
**बंगसाळकार** (ना. पु.) बंगसाळीचो धनी.

**बंगाली** (वि.) बंगाल प्रांतांतलें; (ना.) बंगालांत रावपी आनी जियेवपी.
**बंड** (ना. न.) उठाव; बडाय.
**बंडल** (ना. न.) गुटली; तड्डक.
**बंडवालो** (ना. पु.) बंडांत वांटो घेवपी.
**बंडाय** (ना. स्त्री.) बंड; उठाव.
**बंद** (वि.) धांपिल्लें; मेटिल्लें; थांबिल्लें.
**बंदखण** (ना. स्त्री.) कैदखानो; गुन्यांवकारी मनशांक बंद करून दवरचेलें घर.
**बंदखणकार** (ना. पु.) बंदखण राखपी; कैद्यांक सांबाळपी.
**बंदर** (ना. न.) धक्को; बोटी; व्हडीं; तारवां बी न्हयचे कडेक वा दर्या देगेक लागपाची सुवात.
**बंदिस्त** (वि.) कोंडिल्लें; बंद करून दवरिल्लें; धांपून घाल्लें.
**बंदी** (ना. स्त्री.) बंद दवरपाचें काम; आडखळ; भश्टकार. (पु.) बंदखणीत घाल्लो कैदी.
**बंदो** (ना. पु.) गुलाम; स्वतंत्रताय वगडायल्लो मनीस; चाकर.
**बंदेपण** (ना. न.) गुलामपण; परतंत्रताय.
**बंदोबस्त** (ना. पु.) सगले तरेची वेवस्था आनी मांडणी; कडक तयारी.
**बंदोबस्ती** (ना. स्त्री.) पळय **बंदोबस्त.**
**बंधन** (ना. न.) आडखळ; नेम.
**बंधुभाव** (ना. पु.) भावा भावां भितल्ली ओड आनी कळकळ.
**बंबाळ** (वि.) भरिल्लें; बुडिल्लें; रगतान भरिल्लें.

## भ

**भक** (ना. पु.) *खाण; खावड.*
**भक्त** (ना. पु.) सेवा करपी; पुजा करपी.
**भक्ती** (ना. स्त्री.) सेवा; आठव; प्रार्थना; मोग.
**भक्तिभाव** (ना. पु.) भक्तीचो उमाळो; *भक्ती करपाची उमळशीक.*
**भक्तिमार्ग** (ना. पु.) भक्ती-भजन करून देव मेळोवपाचो एक मार्ग.
**भकप** (स. क्रि.) खावप; रगडप; भकाभक खावप.
**भकसप** (स. क्रि.) मखलाशी करप; गुन्यांवांतलो मेकळो करप.
**भकारेपण** (ना. न.) चड खावचेलो सबाव; भकपाचो गूण.
**भकारें** (वि.) खावगें; खूब खावपी.
**भगत** (ना. पु.) देवाची सेवा करपी; भक्त; देवाक भजपी; देवाचो दास; देवाचो मोगी.
**भगभग** (ना. पु.) *खर उजो; हुलप.*
**भगभगप** (अ. क्रि.) खूब उजो जावप; हुलपप; हुलपायल्लेभशेन दिसप.
**भगल** (ना. स्त्री.) कुस्कुटावणी; मस्करी; फकाणां.
**भगवंत** (ना. पु.) श्रीकृश्ण भगवान; विष्णू.
**भगवद्गीता** (ना. स्त्री.) हिंदू धर्माचो एक भोव मोलाचो आनी संवसारीक नामना जोडिल्लो धर्मीक ग्रंथ.
**भगवान** (ना. पु.) देव; परमेश्वर.
**भजणार** (ना. पु.) भजपी; सेवा करपी.
**भजन** (ना. न.) गावून केल्ली देवाची तुस्त.
**भजनी** (ना. पु.) भजन करपी; देवाचें नांव घेवन ताची तुस्त तोखणाय करपी.
**भजपी** (ना.) देवाची सेवा करपी; भक्त.
**भजें** (ना. न.) चण्या पिठांत मीठ,

मिरसांग, कांदो बी घालून केल्लो खावपाचो जिनस.

**भट** (ना. पु.) धर्मीक कामां करपी; पुरयत.

**भटपण** (ना. न.) पुजा आनी तेरतेरेचे विधी सांगपाचें आनी करून घेवपाचें काम.

**भटुरगो** (ना. पु.) भटाचो भुरगो.

**भडक** (वि.) दोळ्यांत भरसारकें; गाढ.

**भडकपण** (ना. न.) दोळ्यांत भरसारकें काम; रंग रुपाची अतिताय; चकचक; झगझग.

**भड्डप** (स. क्रि.) वयल्यावयर दळप; मोठें पीठ दळप.

**भड्डो** (ना. पु.) मोठें पीठ; कणो.

**भण्ड** (वि.) मस्तें; अवजाळी.

**भदर** (वि.) जतनाय नाशिल्लें; अरवळ.

**भपको** (ना. पु.) बडवचार; दोळ्यांत भरसारको थाट; भडकपण.

**भंय** (ना. पु.) भिरांत; हुसको.

**भयंकर** (वि.) भिरांत दिसपासारकें; भिरांकूळ.

**भयण** (ना. स्त्री.) आपल्या बापायची चली.

**भयणुली** (ना. स्त्री.) धाकली भयण.

**भयरट** (वि.) भड्डें; भयरें; आयकुचेली शक्त नाशिल्लें.

**भयरटपण** (ना. न.) भेड्डेपण.

**भयरूट** (वि.) भयरें; भेड्डें.

**भयरेपण** (ना. न.) भेड्डेपण; आयकुचेली तांक नासचेलो दोश.

**भयरें** (वि.) भेड्डें; आयकुपाची तांक नाशिल्लें.

**भयरोजोळोप** (ना. पु.) नाद; न्हावपा धुवपाचो वा घांसपा पुसपाचो मनाक जाल्लो रोग.

**भयांकूत** (वि.) भिरांत दिसपासारकें; भिरांकूळ.

**भयान गुळी जावप** (वा. प्र.) खूब भिरांत दिसप.

**भर** (ना. स्त्री.) वाड; शेता-भाटाक घाल्ली माती.

**भरकडप** (स. क्रि.) कशाकशेंय करप; शिस्त; निवळसाण बी सोडून कशाकसोय वावर करून उडवप.

**भरकुटी** (ना. स्त्री.) ल्हान भरो.

**भरगच्च** (वि.) खूब गच्च; खूब दाट.

**भरगत** (ना. स्त्री.) भर.

**भरड** (वि.) तळपी आनी जी पिकाळ न्हय.

**भरडकथा** (ना. स्त्री.) कंटाळो येसारकी व्हड कथा वा कसलीय खबर.

**भरडप** (स. क्रि.) पलय **भड्डप.**

**भरणी** (ना. स्त्री.) दुसऱ्या नक्षत्राचें नांव.

**भर्त** (ना. न.) कसलेंय फळ मुड्डून आनी तातूंत मीठ मिरसांग बी घालून केल्लो खावचेलो जिनस.

**भरतवर्ष** (ना. न.) भारत.

**भरताड** (ना. स्त्री.) भर; वाड.

**भर** (ना. स्त्री.) वाड; उदकाची वाड.

**भरप** (स. क्रि.) रित्या आयदनांत वा वस्तूंत कसलीय ल्हान वस्तू घालप.

**भरभर** (ना. पु.) बुळबुळीत चिखोल; रेबो; चड पातळ जाल्ली वस्त; बडबड.

**भरभर** (क्रि. वि.) सडसडीत; बेगिबेगीन; झपझपीत.

**भरभरप** (अ. क्रि.) १. चड पातळ आनी बुळबुळीत जावप; २. बडबडप.

**भरभरावप** (स. क्रि.) चड पातळ करप; जाय ताचेपरस चड उदक भरसप.

**भरयान** (अ.) भितर; मजगतीं; मेरेन.

**भरवप** (स. क्रि.) भरप; भुरग्याच्या पोटाक घालप.
**भरवंसो** (ना. पु.) खरेपण; विस्वास; खात्री.
**भरशीं** (अ.) बराबर; सयत; वांगडा.
**भरसप** (स. क्रि.) एक वस्तूंत दुसरी वस्त घालप.
**भरिभर** (ना. पु.) भरवंसो; जापसालदारकी.
**भरी** (ना. स्त्री.) ल्हान भरो.
**भरो** (ना. पु.) एकठांय बांदिल्ल्यो कसल्योय वस्तू.
**भलाय** (ना. स्त्री.) बरेपण; खुशालकाय.
**भलायकी** (ना. स्त्री.) भलाय; बरेपण; खुशालकाय.
**भले भले; शबय** (अ.) शिगम्या-मेळांतल्या लोकांनी घाल्ली हालेट.
**भवन** (ना. न.) व्हडलें घर.
**भव्य** (वि.) व्हड; लांब-रूंद; आयस-पयस; आस्कळ-विस्कळ.
**भविश्य** (ना. न.) फुडली घडणूक; फुडार; फुडल्या गजालींची पारखणी.
**भविश्यकाळ** (ना. पु.) फुडें येवपाचो काळ.
**भविश्यवाणी** (ना. स्त्री.) फुडाराची सांगणी वा शिटकावणी.
**भश्टकार** (ना. पु.) धर्मांतल्यान वा कसल्याय एकवटांतल्यान भायर घालचेलें काम.
**भश्टप** (स. क्रि.) अनवाळेपणाक बादिकार येवप; पवित्रताय नश्ट करप.
**भश्टावप** (स. क्रि.) पवित्रताय वगडावप; निर्मळसाण घालवप; मंगळकाय बिघडावप.
**भश्टेपण** (ना. न.) अपवित्रताय; निर्मळसाणीचें नासतेपण.
**भश्टें** (वि.) अपवित्र; अमंगळ.
**भशेन** (अ.) तेरेन; सारकें.
**भस्टकार** (ना. पु.) पळय **भश्टकार.**
**भस्टें** (वि.) पळय **भश्टें.**
**भस्म** (ना. न.) लासून केल्लो वा जाल्लो गोबोर; बिबूत.
**भळभळप** (अ. क्रि.) घसघशीत व्हांवप; खूब व्हांवप.
**भळभळीत** (क्रि. वि.) खूब प्रमाणांत; घसघशीत; फाटोफाट; बेगिबेगीन.

## भा

**भाकरी** (ना. स्त्री.) तव्यार पातळावन भाजिल्लें वा लाटून भाजिल्लें पीठ; पिठाची भाजिल्ली पोळी; रोटी.
**भाकरूट** (ना. न.) दिवाळें; कामधंद्यांत आनी वेपारांत तोलूक जायना अशें नुकसान.
**भाग** (ना. पु.) वांटो; कुडको.
**भांग** (ना. पु.) १. केंस बरे उरचे म्हणून काडिल्लो मागो; २. गुंगी हाडपाची एक वस्त.
**भागटाय** (ना. स्त्री.) अशक्तपण; सुकतडो.
**भांगतिळो** (ना. पु.) केंसाच्या मागाक लावपाची एक बायलांची वस्त.
**भागप** (स. क्रि.) वांटे करप; भागाकार करप; (अ.) बारीक जावप; सुकप.
**भागयणें** (वि.) भागोवपी; पावोवपी.
**भाग्य** (ना. न.) बरकत; नशीब; आस्पत; संपत.
**भाग्यवंत** (वि.) बऱ्या नशिबाचें; सूख समादानाचो लाव घेवंक पाविल्लें.
**भाग्यवान** (वि.) पळय **भाग्यवंत.**

**भांगर** (ना. न.) एक मोलादीक आनी सोबीत धातू.
**भांगर शिंगर** (ना. न.) ल्हान व्हड भांगरा वस्ती.
**भांगरां** (ना. न. भो.) भांगराच्यो वस्ती; दागिने.
**भांगरावत** (ना. न.) भांगराचे दागिने आनी हेर वस्तू.
**भागवत** (ना. न.) श्री विष्णूची भक्ती आनी तुस्त जातूंत केल्या असो एक नामनेचो ग्रंथ.
**भागवप** (स. क्रि.) इत्सा पुरी करप; गरज करप; गरजेक पावप; समादान करप.
**भागाकार** (ना. पु.) वांटे वा भाग करपाचें गणीत.
**भागिदार** (ना. पु.) वेपार धंद्यांत वांटो आशिल्लो.
**भागी** (ना. पु.) पळय **भागिदार.**
**भागेली** (ना. पु.) भाट-बेंसाच्या वावरांत भाग आशिल्लो.
**भागोवणी** (ना. स्त्री.) भागोवचेलें वा पावोवचेलें काम.
**भागोवपी** (ना. पु.) पावोवपी; इत्सा पुरी करपी.
**भाचरां** (ना. न. भो.) भाचे आनी भाचयो.
**भाचो** (ना. पु.) भयणिचो चलो.
**भाचोजांवय** (ना. पु.) भाचयेचो घोव; भयणिचे धुवेचो न्हवरो.
**भाच्छेवप** (अ. क्रि.) शिजयल्ल्या वस्तूक चड दिसांनी कुसकोसो वास येवप.
**भाजक** (ना. पु.) कितले वांटे करपाचे तें दाखोवपी आंकडो.
**भाजप** (स. क्रि.) लासप; उज्यांत घालप.
**भाजपी** (वि.) उज्यांत घालपी; लासपी; कसलीय वस्त भाजून काडपी.
**भाज्य** (ना. पु.) भागाकारांत जाचे वांटे करपाचे आसतात तो आंकडो; भाग करचेलो आंकडो.
**भाजिवालो** (ना. पु.) भाजी-पालो पिकोवपी आनी विकपी.
**भाजी** (ना. स्त्री.) झाडाचीं पानां; ताळयो, फळां बी शाकेक खावपाच्यो वस्तू.
**भाट** (ना. न.) झाडां-पेडां रोयिल्लो जागो; माडांनी भरिल्लो जागो; (पु.) व्हड मनशांची तुस्त तोखणाय गावपी.
**भाटकार** (ना. पु.) भाट-बेंसाचो धनी.
**भाट-बेंस** (ना. न.) शेतां-भाटां.
**भाटलें** (ना. न.) ल्हान माडां-भाट.
**भाटी** (ना. स्त्री.) १. न्हंये देगेकडेन पुरती पडून आपशींच तयार जाल्ली नवी जमीन; २. माडाची सूर, काजुचो रोस बी शिजोवन सोरो काडचेली मडकी आनी हेर वस्तू.
**भांडवल** (ना. न.) वेपारांत घाल्लो पयसो; पयशाची गांठ; पयशाचो मुदगो.
**भांडवलकार** (ना. पु.) पयशे आशिल्लो; दुडवांकार.
**भांडवलदार** (ना. पु.) भांडवल आशिल्लो; पयशांची गांठ आशिल्लो; दुडू एकठांय केल्लो मनीस.
**भांडार** (ना. न.) तिजोरी; पयशे सांबाळपाचो खाशेलो जागो.
**भांडारी** (ना. पु.) भांडार राखपी आनी ताजो हिशेब दवरपी.
**भाडें** (ना. न.) वावर केल्ल्याचो मुशारो; दुसऱ्याली कसलीय वस्त वापरिल्ल्यापसत दिल्ले दुडू.

**भाडेकार** (ना. पु.) भाडें फारीक करपी.
**भाण** (ना. न.) १. तांब्या-पितूळची व्हड मडकी; २. मुळचोच चिरिल्लो ओंट आनी ताळो.
**भाणयें** (वि.) भाण पडिल्लें; ओटांक जात्याच चीर आशिल्लें.
**भाणशिरें** (ना. न.) शीत वाळपाचो वालो वा विस्कळ विणिल्लें कसलेंय लुगट.
**भाणशिरो** (वि.) एक गाळ; एक वायट अर्थाचें उतर; अवचिन्नाळो.
**भाणस** (ना.) भुरग्याक खेळपाचीं ल्हान ल्हान जेवणा-खाणाचीं आयदनां आनी जेवणा-खाणाचे जिनस.
**भात** (ना. न.) जाच्यापासून तांदूळ करतात तें धान्य.
**भातकार** (ना. पु.) भात रोवपी; भाताची येणावळ आशिल्लो.
**भातसाण** (ना. स्त्री.) कुशिल्ले सारको वायट वास.
**भाताआसो** (ना. पु.) भाताचो कण.
**भातो** (ना. पु.) वारें ओडून भायर सोडपाची घट्ट कागदाची वा चामड्याची पोती.
**भाद्रपद** (ना. पु.) वर्साचो सवो म्हयनो.
**भान** (ना. पु.) शितीत; उगडास; लक्ष; साबुद्दी.
**भानळावप** (स. क्रि.) विसरायेर घालवप; घुसपावप; दुसरेंच उलोवणें काडप.
**भामटेपण** (ना. न.) फटींगपण; चोरपण.
**भामटें** (वि.) फटींग; चोर; न्यायनीत नाशिल्लें.
**भामसोळ** (वि.) पर्वा नाशिल्लें; जबाबदारी नाशिल्लें.
**भामसोळपण** (ना. न.) भीड; मुरवत; जबाबदारी बी नासपाचो अवगूण.
**भायर** (क्रि. वि.) उगड्या सुवातेचे; धापूंक नाशिल्ल्या जाग्यार; मेकळ्या वाटारार. (अ.) शिवाय; वगळून; सोडून.
**भायर पडप** (सं. क्रि.) जीव सोडप; संवसार सोडून वचप; मरप; प्राण सोडप.
**भायर सरप** (सं. क्रि.) आंगाची घालप; वचपाची तयारी करप.
**भायरावणी** (ना. स्त्री.) घराभायर; जातीभायर वा देशाभायर घालपाचें काम.
**भायरावप** (स. क्रि.) भायर घालप.
**भायरी** (ना. स्त्री.) पोटांतलो मळ भायर काडूंक घेतिल्लें येंडेल वा सालामार्का सारकें वखद.
**भायरें** (वि.) भायर घाल्लें; सोडिल्लें.
**भायरो जावप** (सं. क्रि.) गांव सोडून वचप.
**भायलो** (ना. पु.) परकी; दुसऱ्या गांवचो वा देशाचो.
**भार** (ना. पु.) वजन; पेज; जबाबदारी; अवसर.
**भारकूण** (ना. न.) थंडे सारकी किरकोळ पिडा.
**भार घेवप** (सं. क्रि.) जापसालकी घेवप.
**भारतनाट्यम** (ना. न.) दक्षीण भारतांतली एक नाचाची तरा.
**भारत भूंय** (ना. स्त्री.) अख्ख्या भारताची भूंय; भारत.
**भारती** (वि.) भारतांतलें; भारतांत तयार जाल्लें.
**भारादीक** (वि.) पेजादीक; गंभीर; पकदस्त.
**भारावप** (अ. क्रि.) जड जावप; खूब उपकारी जावप; अजाप जावप.
**भारी** (वि.) खूब जड.

**भालू** (ना. स्त्री.) कोल्या भाशेन एक मोनजात.
**भालेकार** (ना. पु.) भालो मारपी वा वावुरपी; भालो सांबाळपी.
**भालो** (ना. पु.) तोंक आशिल्लें आनी लांब दांड्याचें शस्त्र.
**भाव** (ना. पु.) एकाच आवय-बापायगेर जाल्ल्या पुतां भितल्लें नातें; एकाच आवय-बापायगेर जाल्ल्या धुवांचे त्याच आवय-बापायल्या पुतांकडचें नातें.
**भावकी** (ना. स्त्री.) भावा-भावा भितल्लो मोग आनी ओड.
**भावज** (ना. स्त्री.) भावाची बायल.
**भावजय** (ना. स्त्री.) पळय **भावज.**
**भावडी** (ना. पु.) भावोजी; परक्याक मानान लेखपाचें उतर; भावोजीभाशेन मान फावो जाल्लो मनीस.
**भावना** (ना. स्त्री.) उमाळो; मत्त; सूख; दुख्ख; आनंद बी मनाचे विकार.
**भावरात** (ना. पु.) विस्वास; भरवंसो.
**भावराती** (वि.) विस्वास आशिल्लें; सादें; सरळ.
**भावार्त** (ना. पु.) पळय **भावरात.**
**भावार्थ** (ना. पु.) सार; तात्पर्य.
**भावार्थी** (ना. पु.) सार काडपी; सारांश काडपी.
**भावोजी** (ना. पु.) भयणीचो घोव; घोवाचो भाव.
**भाशेन** (अ.) तरेन; पद्धतीन.
**भास** (ना. स्त्री.) १. आपले विचार; उमाळे बी उक्तावपाचीं तोंडान काडिल्लीं उतरां; २. दुबाव; समज.
**भासवप** (स. क्रि.) वयल्यावयर कल्पना करून दिवप; सुचोवप; पुसट कल्पना करून दिवप.
**भासाभास** (ना. स्त्री.) कसल्याय प्रस्नासंबंदान केल्लीं उलोवणीं.
**भाशीक** (वि.) भाशेचें; भाशेविशिचें; भाशेसंबंदान.
**भाळप** (अ. क्रि.) भुलप; खूब मानवप.
**भाळोवप** (स. क्रि.) फुसलावप; भुलवप.

## भि

**भिकण** (ना. न.) पणसाची, मस्मी झाडाच्या फळाची बी.
**भिकाड्डें** (वि.) भिकारें; भिकारी अशा अर्थाची एक गाळ.
**भिकारचळ** (ना. न.) कसलेंय वायट व्यसन; पयशांचें लुकसाण जावपाची खोड.
**भिकारभासो** (ना. स्त्री. भो.) सय-सुवाद नाशिल्लें उलोवणें.
**भिकारी** (ना. पु.) भीक मागपी; दारादारांत भोवन जेवंक-खावंक मागपी.
**भिकूण** (ना. पु.) पळय **बिकूण.**
**भिजप** (अ. क्रि.) उदकान भरप; उदकान ओलो जावप.
**भिजवप** (स. क्रि.) उदकान ओलो करप; उदकान भरप.
**भिजुड्डें** (वि.) भितरें; धिटाय नाशिल्लें.
**भिजूड** (वि.) भितरें; धीर नाशिल्लें.
**भिजुडकाय** (ना. स्त्री.) भितरेपण; धिटायेचें नासतेपण.
**भिजोवणी** (ना. स्त्री.) भिजोवचेलें काम; उदकान भरचेलें काम.
**भिडेवप** (स. क्रि.) मुरवत दिसप; अनमनप; कांचेवप.
**भिंडेल** (ना. न.) भिंडा-बियांचें सुकें तेल; भिंडा-बियांच्या तेलाचो खडो.
**भिडेस्त** (वि.) मुरवत आशिल्लें; कांच

आदर बी आशिल्लें.
**भिणभिणप** (अ. क्रि.) उजवाडप; रात सोपून हय न्हयसो उजवाड जावप.
**भिण्णेल** (ना. न.) पळय **भिंडेल**.
**भितर** (क्रि. वि.) बंद केल्ले; धांपिल्ले सुवातेंत; मजगतीं; मदीं.
**भितरयां** (क्रि. वि.) भितर; भितल्ले वटेन; अंतस्करणांत.
**भित्रेपण** (ना. न.) भेजूडपण; धिरतायेचो उणाव; धिटायेचें नासतेपण.
**भित्रें** (वि.) भेजूड; धीर नाशिल्लें.
**भितोडी** (ना. स्त्री.) घरा कुशीचो जागो; घराचे वणटीक तेंकून आशिल्ली भायली सुवात.
**भियेवप** (स. क्रि.) भंय दिसप; धीर वचप; धिटाय ना जावप.
**भिरकटावप** (स. क्रि.) शेवटून भायर उडोवप; नेटान भायर मारप.
**भिरकावप** (स. क्रि.) कशाकशींय अक्षरां बरोवप; अक्षरांचे कोंगे काडप; आडव्यो उब्यो आनी वाटकुळ्यो रिस्को काडप.
**भिरकी** (ना. स्त्री.) अकस्मात उदेल्लो विचार; कोल्ल; धुंवळ; पोट-तिडक.
**भिरण** (ना. स्त्री.) एक लांबोडें आनी आडसाटें झाड; भिण्णां दिवपी झाड.
**भिरण** (ना. न.) एक तांबडसार आंबट-गोड फळ.
**भिरभिरप** (अ. क्रि.) मुयेवप; भिरी-भिरी जावप; मुयेवन जड जावप.
**भिरभिरी** (ना. स्त्री.) तिडकेची शिरशिरी; रागाचो उमाळो; मनाक मारिल्ले सणसण.
**भिरांकूळ** (वि.) भिरांत दिसपासारकें; भिरांत घालपाचें.
**भिरांत** (ना. स्त्री.) भंय; धिटायेचें; धिरतायेचें नासतेपण.

**भिरें** (ना. न.) जमो; चुंबो; सवण्य जमो.
**भिल्ल-माड** (ना. पु.) माडाभाशेन : पानाचें एक झाड.
**भिवकुटें** (वि.) भितरें; भेजूड.
**भिस्टां** (ना. न. भो.) हुबिल्ले वे वळोवंक नाशिल्ल्यान घुस्पल्ले केंस; जाल्ले केंस.
**भिस्त** (ना. स्त्री.) विस्व जापसालदारकी.
**भिक्षू** (ना. पु.) बौद्ध धर्माचो वावरक याचना करपी; भिकारी.
**भीं भीं** (ना. न.) फांतोडेवयलो उजवाड.
**भीं भीं जावप** (अ. क्रि.) फां जावप; दीस उदेवप.
**भीक** (ना. स्त्री.) भिकाऱ्याक पैशे; तांदूळ वा आनी कसलीय वस्
**भीकमागो** (ना. पु.) भीक मा भिकारी.
**भींग** (ना.) आरपार नदर व लकलकीत आनी घट्ट कांच.
**भीड** (ना. स्त्री.) कांच; आदर; मुर
**भीड-मुरवत** (ना. स्त्री.) पर्वा; आदर; कांच.
**भीस** (ना. स्त्री.) माथेंभर वा केंस.

# भु

**भुकेल्लें** (वि.) भूक लागि खावपा-जेवपाची इत्सा लागिल्लें.
**भुकेवप** (अ. क्रि.) खायन दि भूक लागप.
**भुकेस्त** (वि.) भूक लागिल्लें; खाव इत्सा जाल्लें.

**भुगभूग** (ना. पु.) लाशिल्ल्याभाशेन जाल्ली दुखी; हुलपणी.

**भुगभुगप** (अ. क्रि.) लाशिल्ल्यावरी जावप.

**भुगोल** (ना. पु.) भूंय वर्णना; पृथ्वीची वा तिच्या खंयच्याय भागाची सगली वळख.

**भुजप** (स. क्रि.) बादप; बऱ्याक केल्लें कसलेंय काम तें करतल्याक बादप; (अ.) भंयान आकांतप..

**भुताटकी** (ना. स्त्री.) भुतचेश्टा; मनशाचे तांकीभायली घडणूक; भुतांखेतांनी केल्ली अवचित्रपणां.

**भुतावळ** (ना. स्त्री.) मेल्ल्या मनशांचे आत्मे.

**भुती** (ना. स्त्री.) वावराडी मनशान आपल्या वांगडा व्हेल्लें जेवण-खाण.

**भुमिका** (ना. स्त्री.) सवंग; पार्ट; मत्त; विचार करपाची तरा.

**भुमिकांप** (ना. पु.) भुंयेक सुटिल्लो कांप; जमनीचें हालप.

**भुमी** (ना. स्त्री.) भूंय.

**भुंयार** (ना. न.) जमनी पोंदचो जागो; घोल.

**भुयेर** (ना. न.) पळय **भुंयार.**

**भुरकटावप** (स. क्रि.) भुरके मारून खावप-जेवप; खावचेलो कसलोय पातळ जिनस सूर्र करून ओडून गिळप.

**भुरकुटप** (अ. क्रि.) खुशालकायेन उचांबळ जावप; खुशालकाय जाल्ली तेरतेरेन भायर फुटप.

**भुरकुटो** (ना. पु.) खुशालकायेची भरती; आनंदाचो खतखतो.

**भुरको** (ना. पु.) भूर्र करून ओडून गिळपाचें काम.

**भुरगें** (ना. न.) ल्हान पिरायेचो चलो वा चली; आपलो पूत वा धूव.

**भुरगेपण** (ना. न.) ल्हानपण; ल्हान पिराय; अबुद्दीपण.

**भुरगो** (ना. पु.) चलो; ल्हान पिरायेचो दादलो मनीस.

**भुरगेंबाळ** (ना. न.) पूत वा धूव; चलो-चली.

**भुरभुरीत** (वि.) भुर्र करून सोपेपणान पेटपी.

**भुरभुरप** (अ. क्रि.) भुर्र करून सोपेपणान जळप; तकलेचे केंस वाऱ्यान उडप.

**भुरभाजी** (ना. स्त्री.) भुरावळ.

**भुरावळ** (ना. स्त्री.) ल्हान भुरग्यांचो वा किरकोळ मनशांचो जमो.

**भुर्र** (ना. पु.) उडटना जाल्लो पांखांचो आवाज.

**भुलप** (अ. क्रि.) विसरायेर पडप; फसप.

**भुलयणें** (वि.) विसराय घालपी; भूल घालपी; फसोवपी.

**भुलवणें** (वि.) मत गुल्ल करपी; फसवणें; शिर्तिताक विसराय घालपी.

**भुलवप** (स. क्रि.) विसराय घालप; फटोवप; मत गुल्ल करप.

**भुल्लसप** (स. क्रि.) भुरकुटप; भुलप.

**भुलसावप** (स. क्रि.) भुलवप; विसराय घालप; फटोवप.

**भुशण** (ना. न.) अभिमान धरपासारकी गजाल; भोवमान.

**भुसकें** (ना. न.) जेवण.

**भुसमारो** (वि.) खूब जेवपी.

**भुसारप** (स. क्रि.) खूब जेवप; भकप; उमळशिकेन जेवप.

**भुसारी** (वि.) जेवण-खाण वा जेवण-खाण करचेले जिनस विकपाचें.

## भू

**भू ऽऽ** (ना. पु.) ल्हान भुरग्याक भिरांत घालपाचें उतर.
**भूक** (ना. स्त्री.) खावपा-जेवपाची इत्सा.
**भूज** (ना. न.) खांद; खांदाचें हाड.
**भूत** (ना. न.) मेल्ल्या मनशाची कूड; सोंपिल्ल्या मनशाचो आत्मो. (वि.) फाटल्लें; घडून गेल्लें.
**भूतकाळ** (ना. पु.) गेल्लो वेळ; फाटीं पडिल्लो तेंप.
**भूतबादा** (ना. स्त्री.) मेल्ल्या मनशांच्या आत्म्यान केल्ली नखलामी.
**भूंय** (ना. स्त्री.) धर्तरी; जमीन.
**भूंयकांप** (ना. पु.) जमनीचें हालप; भुंयेचो थरथर.
**भूंयकार** (ना. पु.) भुंयेचो धनी; भाटकार; जमीनदार.
**भूंयचाफें** (ना. न.) चाफ्यासारकें फूल; भुंयेंतल्यान आपशींच किल्लल्ल्या एका झाडाचें फूल.
**भूंयदळ** (ना. न.) भुंयेवयल्यान झुजपी सैन्य.
**भूंयमार्ग** (ना. पु.) जमनीवयलो मार्ग.
**भूंय-लोक** (ना. पु.) धर्तरेर जियेतलो लोक; धर्तरी; पृथ्वी.
**भूल** (ना. स्त्री.) विसराय; एके तरेची गुंगी.
**भूल-भुलयणें** (वि.) विसराय घालपी; मत गुल्ल करपी.
**भूस** (ना. पु.) जेवण; जेवणा रास.

## भे

**भें** (ना. न.) भंय; भिरांत.
**भेंकडावणी** (ना. स्त्री.) भेश्टावणी; भेसडावणी.
**भेंकडावप** (स. क्रि.) भेश्टावप; भिरांत घालप; भेसडावप.
**भेंकरें** (ना. न.) हरणा-चितळाभशेन एक मोनजात.
**भेंकरें** (वि.) भितरें; भेजूड.
**भेंकरेपण** (ना. न.) भितरेपण; भेजूडपण.
**भेकलां** (ना. न. भो.) कुडके; वांटे.
**भेजूड** (वि.) भितरें; भेंकरें; धिटाय नाशिल्लें.
**भेजूडकाय** (ना. स्त्री.) भितरेपण; भेंकरेपण; धिरतायचें नासतेपण.
**भेजुडाय** (ना. स्त्री.) पळय **भेजुडपण.**
**भेट** (ना. स्त्री.) देण; कोणाकय अर्पण केल्ली वस्तू वा दुडू; केळवण; कोणाकय मेळपाचें काम.
**भेटप** (स. क्रि.) मेळप; कोणाकय भेट दिवप.
**भेटवप** (स. क्रि.) दिवप; दान करप; ओंपप.
**भेटोवणी** (ना. स्त्री.) ओंपणी; दान; देण; अर्पण केल्ली वस्त.
**भेटो-भोंवाऱ्यो** (ना. स्त्री. भो.) अहेर; साग्वादी; अर्पण केल्ल्यो वस्तू.
**भेंडी** (ना. स्त्री.) एक मदेर दिवपी झाड.
**भेड्डेपण** (ना. न.) भयरेपण; आयकूंक येना जावपाचो दोश.
**भेड्डें** (वि.) भयरें; आयकूंक येना आशिल्लें.
**भेंडो** (ना. पु.) एक शाकेचें लांबोडें आनी बुळबुळीत फळ.
**भेद** (ना. पु.) फूट; अंतर; फाटाफूट.
**भेदी** (ना. पु.) फुटिल्लो; दुस्मानाक मेळिल्लो मनीस.
**भेरावणी** (ना. स्त्री.) कांय काळमेरेन

जाणविकाय ना करपाचें काम.
**भेरावप** (स. क्रि.) जाणविकाय ना करप.
**भेरावपी** (ना. पु.) कांय काळ मेरेन जाणविकाय नश्ट करपी.
**भेरेपण** (ना. न.) भेड्डेपण; आयकूंक येना जावपाचो दोश.
**भेरेवप** (अ. क्रि.) भेड्डो जावप; आयकूंक येना जावप.
**भेरें** (वि.) भेड्डें; आयकुचेली तांक नाशिल्लें.
**भेश्टावप** (स. क्रि.) भंय घालप; भिरांत घालप; भेसडावप.
**भेश्टावणी** (ना. स्त्री.) भेसडावणी; भिरांत घालपाचें काम.
**भेस** (ना. पु.) पोशेग; आंगावली; नटप-थटप.
**भेसडावणी** (ना. स्त्री.) भेश्टावणी; भंय घालपाचें काम.
**भेसडावप** (स. क्रि.) भिरांत घालप; भेश्टावप.
**भेसडावपी** (ना.) भेश्टावपी; भिरांत घालपी.
**भेळ** (ना. स्त्री.) चणे, मस्मी-भिकणां, चिरमुल्यो, कांदो बी भरसून केल्लो खावचेलो जिनस.
**भेळशेवप** (अ. क्रि.) चड वेळ गेल्ल्यान जेवणा-खाणाक वायट वास येवप.
**भेळसुटाण** (ना. स्त्री.) भेळशेल्ल्याची घाण; चड वेळ गेल्ल्यान जेवणा-खाणाक येता तो वास.

## भो

**भोंक** (ना. न.) बुराक
**भोंकप** (स. क्रि.) सुण्याचें आड्डप.
**भोंकरेपण** (ना. न.) भोंकणी.
**भोंकरें** (वि.) चड भोंकपी.
**भोकांव** (ना. पु.) काल्सांव अशा अर्थाचें तुच्छतायेचें उतर.
**भोग** (ना. पु.) नशिबांतले त्रास; हाल उपाद्रे.
**भोगणार** (ना. पु.) भोगपी; भोगणारो भोगपाचें दुख्ख..
**भोगणी** (ना. स्त्री.) ताबो; लाव घेवपांचें काम.
**भोगणें** (ना. न.) भोग; त्रास; नशिबांतले हाल-उपाद्रे.
**भोगप** (स. क्रि.) सोंसप; अणभवप.
**भोगयणें** (वि.) भोगोवपी; अणभवूंक लावपी.
**भोग-विदभोग** (ना. पु.) सुख दुख्ख; बरे वायट अणभव.
**भोगसणी** (ना. स्त्री.) क्षमा; मखलाशी.
**भोगसप** (स. क्रि.) क्षमा करप; गुन्यावांतल्यान सोडप; मखलाशी करप.
**भोगावळ** (ना. स्त्री.) बाब; चाल-रीत.
**भोगाळ** (ना. स्त्री.) संसारातली तरेकवार सुखां भोगपी.
**भोगी** (ना. पु.) तरेकवार सुखांचो भोग घेवपी.
**भोगोवप** (स. क्रि.) सोसूंक लावप; अणभवूंक लावप.
**भोटेपण** (ना. न.) अबुद्द; अज्ञान.
**भोटो** (ना. पु.) व्हड काजुची बी. (वि.) अबुद्दी; मत्त नाशिल्लो.
**भोपर्शे** (ना. न.) बारीक नुस्तें; बुरांटो.
**भोमो** (ना. पु.) ब्रह्मो; ब्रह्मदेव.
**भोय** (ना. पु.) मोचूल वा पालखी माथ्यार धरून व्हरपी मनीस.
**भोयो** (ना. स्त्री. भो.) हाल; व्हड लुकसाण.

**भोरकुटी** (ना. स्त्री.) भोरो.
**भोरो** (ना. पु.) एकठांय बांदिल्लीं लाकडां वा दुसरी कसलीय वस्त.
**भोव** (वि.) खूब; चड.
**भोवंडावप** (स. क्रि.) फिरवप; फिरचेलें काम करपी.
**भोवंडी** (ना. स्त्री.) भोवचेलें काम; फिरपाचें काम.
**भोंवतण** (ना. स्त्री.) भोंवारो; वाटकुळी सुवात; वाटकुळो फेरो.
**भोंवतणी** (क्रि. वि.) सबोंवार; सगल्या वटांनी.
**भोंवताडो** (ना. पु.) वाटुकुळी भोवंडी.
**भोंवती** (क्रि. वि.) सगल्या वटांनी; भोवतणी; (ना. स्त्री.) भोंवडी.
**भोंवती भागरथ** (ना. स्त्री.) एका जाग्यार थीर नासपी; हेडपी.
**भोवन भोवन** (क्रि. वि.) परत परत; फिरून फिरून; खूब खेपो; खूब फावटी.
**भोंवप** (अ. क्रि.) फिरप; हेडप; येवप-वचप.
**भोंवपी** (ना. पु.) फिरपी; हेडपी; भोवंडी करपी.
**भोवमान** (ना. पु.) भोव मान; चड मान; चड आदर.
**भोवमानेस्त** (वि.) भोवमान फावो जाल्लो; आदर दिसचो असो.
**भोंवयी** (ना. स्त्री.) दोळ्यांवयर आशिल्ली केसांची वाटकुळसार रीस्क.
**भोंवर** (ना. पु.) वाटकुळो फेरो.
**भोवरंगी** (वि.) तेरतेरचे रंग आशिल्लें वा रंग करपी; तेरेकवार कामां करपी.
**भोवरूपी** (ना. पु.) तेरतेरचीं रूपां घेवन भोंवपी.
**भोंवरी** (ना. स्त्री.) हातानी सूत काडपाची सुपुल्ली बडी आनी तिच्या सकयल्ल्या पोंताक लायिल्ली वाटकुळी चकती.
**भोंवरो** (ना. पु.) १. माथ्याच्या वयल्या पोंतार दवरिल्ले वाटकुळे बारीक केंस; २. ल्हान बडयेक वाटकुळी चकती वा गुळो लावन केल्लें भुरग्यांचें खेळणें.
**भोववचन** (ना. न.) एका परस चड; एके वस्तूपरस चड वस्तू; दोन वा चड वस्तू.
**भोवर्शी** (अ.) भोंवती; सबोवार; भोवतणी.
·**भोवस्ताळो** (ना. पु.) उलोवण्याचो थाटमाट; पातळावन केल्लें उलोवणें.
**भोंवडो** (ना. पु.) वाटकुळो फेरो; वाटकुळी भोवंडी.
**भोंवारो** (ना. पु.) वाटकुळी कड; भोंवतण; भोंवणची रीस्क.

# भौ

**भौशिक** (वि.) भोवसाचें; भोवसाकडेन संबंद आशिल्लें; सगल्या लोकांचें.
**भौस** (ना. पु.) सगळो लोक; जनता.
**भोळेपण** (ना. न.) सादेपण; वयल्यावयर विचार करपाचो वा रोखडेंच खरें मानपाचो सबाव.
**भोळें** (वि.) सादें; भावार्थी; रोखडोच विस्वास दवरपी; उकत्या मनाचें.

# भं

**भंगप** (अ. क्रि.) पेड्ड्यार जावप; वाट लागप.
**भंगयणो** (ना. पु.) भंगोवपी; पेड्ड्यार करपी.
**भंगीपण** (ना. न.) भंग्याचो धंदो; अळशीक उसपुचेलें काम; कुमांव बी

निवळ करचेलो वावर.
**भंगी** (ना. पु.) अळशीक उस्पुपी; कुमांव संडास बी निवळ करपी.
**भंगोवपी** (ना. पु.) पळय **भंगयणो**.
**भंड** (वि.) मस्तो; अवजाळी.
**भंय** (ना. पु.) भिरांत; धिटायेचें वा धिरतायेचें नासतेपण.
**भंय-भाडो** (ना. पु.) भीड-मुरवत; नमळाय.

# म

**मक्तो** (ना. पु.) कंत्राट; करार; कोणाचेरय सोंपयलें काम.
**मकर** (ना. न.) १. देवाक बसोवपाचें आसन; २. बारा राशींतली धावी रास.
**मकरसंक्रांत** (ना. स्त्री.) सुर्याचें मकर राशींत वचप; पौश म्हयन्यांतलो हिंदुंचो सण.
**मखताल** (वि.) रसमी सुताचें.
**मखलाशी** (ना. स्त्री.) गुन्यांवांतल्यान मेकळीक; माफी; गुन्यांवाची भोगसणी.
**मखो** (ना. पु.) रोंपो; केळीचो रोंपो.
**मगज** (ना. पु.) फळाचो साली भितल्लो मासाळ मगज.
**मघा** (ना. न.) धावें नक्षत्र.
**मचमचीत** (वि.) रुचीक; सुरबूस.
**मचवो** (ना. पु.) तारूं; बतेलो.
**मजकूर** (ना. पु.) उलोवन वा बरोवन मांडिल्लो विशय.
**मजत** (ना. स्त्री.) आधार; मदत; आलाशिरो.
**मजगती** (अ.) मदीं; भितर.
**मजलो** (ना. पु.) माळी.
**मजा** (ना. स्त्री.) मौज; हांसप-खेळप; करमणूक.

**मजुरी** (ना. स्त्री.) मुशारो; पगार; पागामेंत; फेती.
**मजूर** (ना. पु.) गिरणीर; कारखान्यार बी दिसपट्टें काम करपी; कसलोय वावर करपी.
**मठ** (ना. पु.) साधु-स्वामी आनी येतो वतो रावपी घर.
**मठी** (ना. स्त्री.) ल्हान आनी किरकोळ घर.
**मडकी** (ना. स्त्री.) बुडकुल्यासारकें व्हड आयदन.
**मडकुलें** (ना. न.) ल्हान मडकी; बुडकुलो.
**मडवळ** (ना. पु.) धोबी; मुस्ताकी उमळपी.
**मडवळखार** (ना. पु.) मडवळ उपकरायतात तो खार; आंगार्ची आनी हेर मुस्ताकी धुवचेलो खार; सोडा.
**मडसरी** (ना. स्त्री.) मडें; कशाकशेंय केल्लें काम.
**मडें** (ना. न.) मेल्ल्या मनशाची वा मोनजातीची कूड.
**मण** (ना. पु.) दोन कुडवांचें माप; १५ किलोचें वा ३२ रातांचें जोख.
**मणगणें** (ना. न.) चण्या-दाळ, नाल्ल-रोस, गोड बी घालून केल्लें गोडशें.
**मणी** (ना. पु.) गळ्यांतली माळ बी करपाची मोतयाभाशेन एक वाटकुळी वस्त.
**मत** (ना. स्त्री.) बुद्द; तकली.
**मत** (ना. न.) आपल्याक खरो दिसता तो विचार; आपली म्हणणी.
**मतभेद** (ना. पु.) विचारांत वा मत्तांत आशिल्ली फूट.
**मतलब** (ना. पु.) मनांतलो हेत.
**मतलबी** (वि.) मनांतलो हेत लिपोवपी;

भितल्ले गांठिचें.

**मत्स्यालय** (ना. न.) कांचे आरमारीचें तरेकवार नुस्त्याच्यो जाती दवरचेलें घर.

**मतलाडू** (ना. पु.) चण्या-बुंदीचे लाडू.

**मत्सर** (ना. पु.) कुन्नाटेपण; अंदुकेपण.

**मतिवंत** (वि.) बुदवंत; मत आशिल्लें.

**मद** (ना. पु.) मस्ती; मदान्तकाय; खूब गर्व.

**मदगद** (अ.) मदीं.

**मदनमस्त** (वि.) मदांद; खूब मस्तो.

**मद्यम** (वि.) मदलें.

**मदलें** (वि.) दोनय पोंतां भितल्लें; दोन कुशी भितल्लें.

**मदीं** (क्रि. वि.) भितर; दोन कुशीं भितल्लें; मजगतीं.

**मदें** (क्रि. वि.) पळय **मदीं.**

**मदेकत** (क्रि. वि.) पळय **मदीं.**

**मदेर** (ना. न.) फळीं; वांशे; कांबी बी वस्तू.

**मदेवप** (अ. क्रि.) मद मारप; मस्ती मारप.

**मध्यस्तकाय** (ना. स्त्री.) मध्यस्तपण; काबासांव; झगडें-तंटो निवारूंक मदीं पडिल्ल्या मनशांचें काम.

**मध्यस्तळ** (ना. पु.) मदलो जागो.

**मध्यान** (ना. स्त्री.) दनपार वा मध्यानरात.

**मध्यानरात** (ना. स्त्री.) भर रात; रातीचीं १२ सावन सादारण ३ वरां मेरेनचो काळ.

**मध्येस्त** (ना. तो.) दोगां भितल्लीं झगडीं; केस्तांवां बी मेटोवंक मदीं पडिल्लो मनीस.

**मधुराय** (ना. स्त्री.) नाजुकसाण; मोवसाण; सुरबूससाण.

**मधूर** (वि.) गोड; नाजूक.

**मन** (ना. न.) अंतस्कर्ण; जाणविकाय; मत.

**मन उखलप** (वा. प्र.) थरिल्लें काम करूंक मनाची तयारी जावप.

**मन खावंक लागप** (वा. प्र.) मनाक तोंचणी लागप.

**मनगट** (ना. न.) हाता तळव्याचो भितल्लो भाग.

**मन बसप** (वा. प्र.) मोग जडप; मर्जी बसप.

**मन येवप** (वा. प्र.) मनाक धीर जावप ना; मनाक उमेद जावप ना.

**मन लावप** (वा. प्र.) चित्त लावप; ध्यान दिवप; अंतस्करणापसून करप.

**मनवप** (स. क्रि.) करप; साजरो करप.

**मन विस्रान्ती** (ना. स्त्री.) मनाक दिल्लो विसव.

**मनशा** (ना. स्त्री.) इत्सा; मनिशा.

**मनशां** (ना. न. भो.) लोक; एका परस चड मनीस.

**मनशाळप** (स. क्रि.) मनशां वांगडा जियेवपाची संवय करप.

**मनशाळें** (वि.) मनशाची ओड आशिल्लें; मनशाळलेलें.

**मनस्ताप** (ना. पु.) मनाक बादिल्ली दुखी.

**मनस्पुर्वेक** (क्रि. वि.) मनापसून; अंतस्कर्णापसून.

**मनसुबो** (ना. पु.) मनाचे विचार; आपल्याक जाय तशें आनी जाय तितलें करतलो असो विचार.

**मना आसप** (सं. क्रि.) बंद आसप.

**मना करप** (सं. क्रि.) आडावप; थांबोवप.

**मनाक लागप** (वा. प्र.) वायट दिसप; खंत भोगप.

**मना जावप** (सं. क्रि.) बंद जावप;

कसलेंय काम करपाचें सोडून दिवप.

**मनाय** (ना. स्त्री.) बंदी; आडावणी.

**मनार घेवप** (सं. क्रि.) थारावप; लक्ष घालप; ध्यान दिवप.

**मनावप** (स. क्रि.) बंद करप; मनाय करप.

**मनीस** (ना.) जो तरेकवार उतरांनी आपले विचार आनी उमाळे उक्ते करता आनी जाका बरें आन वायट कितें तें समजता असो एक प्राणी.

**मनीसकुळी** (ना. स्त्री.) मनीस जात.

**मनीसघाण** (ना. स्त्री.) दुसऱ्या मनशाची नावड; दुसऱ्या मनशाविशीं तिरस्कार आनी तुच्छताय.

**मनीसपण** (ना. न.) माणसुकी; मनशाचे गूण; मनशाच्या आंगांतले दया; क्षमा; शांती सारके बरे गूण.

**मनोमन** (क्रि. वि.) मनापसून; उमळशिकेन; खरेपणान.

**मनोरो** (ना. पु.) व्हड खांबाभाशेन बांदावळ; खांब.

**मनोवप** (स. क्रि.) घडवप; पळय **मनवप.**

**मयंडोळें** (वि.) बारदेसांतल्या मयडेचें; मयडेचें व्हड जातीचें व्हडसार (केळें).

**मर्जिमाफीक** (वि.) नमळाय आशिल्लें; नम्र; मुरवतीचें.

**मरड** (ना. न.) उंच सुवातेर बसयल्लें शेत.

**मरण** (ना. न.) जिणेचो अंत; नाश; शेवट.

**मरणपत्र** (ना. स्त्री.) मरचे पयलीं मनशान बरोवन दवरिल्ल्यो आपल्यो इत्सा; आपूण मरतकच फुडें आपले आस्पतिचें वा हेर कसल्याय संबंदान कितें जावचें हाचेविशीं मनशान बरोवन दवरिल्लें कागद.

**मरणादीक** (वि.) मरण आशिल्लें; मरणांतल्यान सुटूंक नाशिल्लें.

**मृदंग** (ना. पु.) लाकडाचे कळशेक दोनय वटेन चामडें लावन केल्लें एक वाद्य.

**मरतबा** (ना. पु.) मरातब; व्हडपण; भोवमान; मान-मरातब.

**मरतें** (वि.) मरूंक आयिल्लें; मरणा धडेर आशिल्लें.

**मरण** (ना. न.) अंत; शेवट; अखेर.

**मरप** (अ. क्रि.) जीव वचप; प्राण सोडप.

**मर्यादीक** (वि.) मर्जिमाफीक; थंड; मवाळ सबावाचें.

**मरसर** (क्रि. वि.) खूब; मरमेरेन.

**मराठी** (वि.) महाराष्ट्रांतलें; महाराष्ट्रांत रावपी. (ना. स्त्री.) महाराष्ट्रांतली भास.

**मराठण** (ना. स्त्री.) महाराष्ट्र.

**मरी** (ना. स्त्री.) वशाच्या रोगाची एक सांथ.

**मरे** (अ.) जाचेकडेन उलयता त्या दादल्या मनशाक लेखून काडिल्लो उल्यासारको उद्गार.

**मलम** (ना. न.) पोमाद.

**मलमल** (ना. न.) एका पातळ लुगटा-जात.

**मलय** (ना. स्त्री.) दुदाची साय; सायेपसून वा सायेसारको केल्लो खावचेलो जिनस.

**मलयपुरी** (ना. स्त्री.) आटयल्लें दूद आनी पुरी.

**मल्ल** (ना. पु.) तरेकवार खेळांनी आपली कूड घट्ट केल्लो मनीस; पहिलवान; (न.) माडाचें विणिल्लें चुडीत.

**मल्लावप** (स. क्रि.) मल्लांनी शिवप.

**मल्लुकें** (ना. न.) एक मेंदवाचो रोग; कांय वेळ साबुदी ना जावन तोंडांतल्यान

फेणेर येवपाचो एक रोग.
**मळुकेकार** (ना. पु.) मळुक्याचो रोग जाल्लो.
**मलाय** (ना. स्त्री.) चुडट्यो ओडून सरळ केल्लें माडा चुडटाचें अर्द.
**मलेरिया** (ना. पु.) कुलकुल्याचो जोर.
**मवालीपण** (ना. न.) वादयांवपण; तवनासपण.
**मवाली** (ना. पु.) वादयांव; तवनास.
**मवाळ** (वि.) मोव; शांत; थंड.
**मशागत** (ना. स्त्री.) शेता-भाटाचो वावर.
**मशागती** (ना. पु.) शेताचो वावर करपी; खूब वावर करपी; (वि.) वावराची आवड आशिल्लो.
**मशींग** (ना. पु.) सुरबूस सांगो दिवपी एक झाड.
**मशीद** (ना. स्त्री.) मुसलमानी धर्माचें मंदीर.
**मशीन** (ना. न.) यंत्र; माक्न.
**मशीन-यूग** (ना. न.) जिणेंतले वेव्हार माक्नान करपाचो काळ.
**मस्करी** (ना. स्त्री.) फकाणां; झोमाऱ्यो.
**मसंड** (ना. स्त्री.) पळय **मसण.**
**मसण** (ना. स्त्री.) मनीस मरतकच ताका लासपाची वा पुरपाची सुवात.
**मस्त** (वि.) पळय **मस्तें.**
**मस्तक** (ना. न.) माथें; तकली.
**मस्तखोर** (वि.) आडांगी; भण्ड.
**मस्तणी** (ना. स्त्री.) माडवणी; गुड्डावणी; कोलावणी.
**मस्तप** (स. क्रि.) हातांनी कालोवप वा पायांनी माडोवप.
**मस्तवप** (स. क्रि.) कालोवप; मुड्डप; गुड्डावप; खोंटावप.
**मस्ती** (ना. स्त्री.) आडांगीपण; अवजाळीपण.
**मस्तें** (वि.) आडांगी; बण्ट; मदांद.
**मस्राय** (ना. स्त्री.) पातळ आनी खसखशीत लुगट.
**मसलत** (ना. स्त्री.) गुपीत तरेन घेतिल्ली थारावणी; भासाभास; एकामेकांचे घेतिल्लें मत्त; गुपीत थारावणी; कट.
**मसालो** (ना. पु.) जेवणांत घालपाच्यो मिरयां; मिरसांग; कोथंबीर; तिखी अश्यो तेरेकवार वस्तू.
**मसुण्ड** (ना. स्त्री.) पळय **मसण.**
**मसूर** (ना. स्त्री.) सादारण सणबियांसारक्या आकाराचें कड्डण.
**म्हारी** (ना. स्त्री.) एक भिरांकूळ वशाचो रोग; कॉलेरा.
**म्हारू** (ना. पु.) देंवचार.
**म्हण** (ना. स्त्री.) बोध घेसारकें अणभवाचें वाक्य.
**म्हणटकच** (अ.) अशे तरेन; देखून; म्हणून; तेखातीर.
**म्हण्टकूच** (अ.) पळय **म्हण्टकच.**
**म्हणटां म्हणटां** (अ.) इतले मजगतीं; म्हणसर.
**म्हणटा म्हणसर** (अ.) इतले भितर; इतल्यांत.
**म्हणणी** (ना. स्त्री.) सांगणी; विचार; मत्त.
**म्हणणें** (ना. न.) पळय **म्हणणी.**
**म्हणप** (स. क्रि.) सांगप; गावप.
**म्हणपाचें** (अ.) अशे तरेचें; म्हणून.
**म्हणसर** (अ.) इतल्यांत; इतले मजगतीं.
**म्हणाम्हणसर** (अ.) पळय **म्हणसर.**
**म्हत्त्व** (ना. न.) मोटेपण; व्हडपण.
**म्हयनाळें** (ना. न.) दर म्हयन्याक उजवाडाक येवपी.
**म्हयनो** (ना. पु.) सरभरस तीस दिसांचो काळ.

**म्हयमा** (ना. पु.) मोटेपण; व्हडपण
**म्हऱ्यांत** (अ.) लागीं; लागशीं; लागून; तेंकून.
**म्हशींग** (ना. पु.) एक रुचीक सांगाचें झाड.
**म्हस** (ना. स्त्री.) एक गोबरा रंगाची गांवठी दूद दिवपी मोनजात.
**म्हसरां** (ना. न. भो.) म्हशी; रेडे; रेडकां हांचो जमो.
**म्हळ्यार** (अ.) म्हणचे.
**म्हा** (वि.) मोटें; व्हड; म्हत्त्वाचें.
**म्हाकाव्य** (ना. न.) काव्याचो व्हड ग्रंथ; रामायण; महाभारत ह्यासारको काव्याचो मोलादीक ग्रंथ.
**म्हाजन** (ना. पु.) देवाचो वा देवीचो कुळावी.
**म्हाजनकी** (ना. स्त्री.) म्हाजनांची सभा; म्हाजन जावपाचे वा आसपाचे गूण.
**म्हाझूज** (ना. न.) संवसारीक झूज; व्हड झूज; महायुद्ध.
**म्हाणाय** (ना. स्त्री.) पाट; चार चेपट्या खुरांचें आनी बसूंक उपकरावचेलें नितळ फळें.
**म्हाताड्डें** (वि.) म्हातारें; म्हाताऱ्याक लेखिल्लें कुसकुटावणेचें उतर.
**म्हातारचळ** (ना. न.) म्हातारपिशें; म्हातारपणाक लागून आयिल्ली बाळबुद्द.
**म्हातारपण** (ना. न.) जाणटी पिराय; जाणटेपण.
**म्हातारी कांपप** (वा. प्र.) भियेवप; भिरांतीन कडकडप.
**म्हातारें** (वि.) वयान जाणटें.
**म्हादळें** (ना. न.) एक वाजोवपाचें सादारण ताशाभाशेन वाजंतर.
**म्हान** (वि.) मोटें; व्हड; म्हत्त्वाचें.
**म्हानां** (ना. न. भो.) कणगांच्यो; बटाटांच्यो बी तळिल्ल्यो फोडी; पातळ कापां.
**म्हापध्य** (वि.) एक हजार अब्जांचो आंकडो.
**म्हापराक्रमी** (वि.) खूब शूर; व्हड वीर.
**महाभारत** (ना. स्त्री.) व्यास ऋशीन कौरव-पांडवांच्या इतिहासाचेर बरयल्लें एक नामनेचें म्हाकाव्य.
**म्हामाय** (ना. स्त्री.) एके देवतेचें नांव; व्हडली आवय; खूब बरी आवय.
**म्हामाया** (ना. स्त्री.) एके देवतेचें नांव.
**म्हामारी** (ना. स्त्री.) एके देवतेचें नांव; पापी लोकांक मारपी शूर आवय.
**म्हायणोळ** (ना. पु.) एक विखारी व्हड जिवाणें.
**म्हायात्रा** (ना. स्त्री.) व्हड प्रवास; मोटी भोवंडी; मनशाच्या मड्याची मसणामेरेन काडिल्ली भोवंडी.
**म्हार** (ना. पु.) हरीजन लोकांतली एक जात.
**म्हारग** (वि.) फावो ताचेपरस चड मोलाचें.
**म्हारगाय** (ना. स्त्री.) सगल्या वस्तूंचें चडटें मोल.
**म्हारगी** (वि.) म्हारग विकपी.
**म्हारगो** (वि.) पळय म्हारगी.
**म्हारपण** (ना. न.) म्हाराचो धंदो.
**म्हारवत** (ना. न.) कोंड्या-वेळांची तेरेकवार आयदनां आनी हेर वस्तू.
**म्हारवाडो** (ना. पु.) म्हारांचीं घरां आशिल्लो गांवचो भाग.
**म्हाराज** (ना. पु.) देवाक वा व्हड मनशाक लायिल्लें भोवमानाचें उतर.
**म्हाल** (ना. पु.) १. तालुक्याचो भाग; २. वेपाराच्यो वस्तू; ३. सोबीत साल.

(वि.) मुखेल.

**म्हालगडो** (ना. पु.) मुखेल गडो; पाटांगडो.

**म्हालदार** (ना. पु.) मुखेलदार; महाल राखपी.

**म्हालमता** (ना. स्त्री.) पयसो-आडको आनी घरवतीच्यो वस्तू.

**म्हाल म्हातारो** (वि.) जाण्टो; जाण्टे पिरायेचो.

**म्हालवज** (ना. पु.) भांडवल; दुडवांचो मुगदो.

**मालीश** (ना. स्त्री.) मुड्डणी; चेपणी; आंगपांग दामचेलें काम; चंपी.

**म्हालेपण** (ना. न.) म्हाल्याचो कापणी करपाचो धंदो.

**म्हालो** (ना. पु.) नापीत; केंसांची कापणी करपी.

**म्हावाक्य** (ना. न.) म्हत्त्वाची सांगणी; फर्मावणी.

**महासागर** (ना. पु.) व्हड दरया.

**म्हाळ** (ना. पु.) मेल्ल्या-गेल्ल्यांक पिंड; जेवण-खाण ओपून तांचो आठव करपाचो दीस.

**म्हुट्टो** (ना. पु.) काजुच्या फळाचो मासाळ आनी रोसाळ भाग.

**म्हूण** (अ.) देखून; म्हणून; पुणून.

**म्हूर्त** (ना. पु.) कसलेंय काम करूंक बरो वेळ; बरें-भलें काम करूंक धर्मीक नदरेन फावोसो वेळ.

**म्हेड** (ना. स्त्री.) केलें आशिल्लो खूंट.

**म्हेळ** (ना. पु.) कोयर; धुल्ल बी अळशीक.

**म्हेळें** (वि.) लोळिल्लें; कोयर; धुल्ल बी लागिल्लें.

**मेसूरपाक** (ना. पु.) चण्या-दाळीचो तूप-साकर घालून केल्लो रुचीक हालवो.

**म्होंव** (ना. न.) एक तरेच्या मुसांनी आपूण रावतल्या माल्यांत तयार केल्लो पातळसार आनी गोड रोस; गोडापसून तयार केल्लो पातळ जिनस.

**म्होवो** (ना. पु.) सोल्लां काडिल्ली काजूची सगली बी.

**म्होंवाळ** (वि.) म्होंव आशिल्लें; म्होंवासारके रुचीचें.

**मळ** (ना. पु.) घाण; कोयर; दाग.

**मळ** (ना. न.) झाड-पेड नाशिल्लो आनी आयस पयस पातळिल्लो नितळ जागो.

**मळंग** (ना.) घट्ट रावपापसत मळपी लोकांचो आडवो कोंडो.

**मळणी** (ना. स्त्री.) तण आनी कणस वेगळें करचेलें शेतकाम.

**मळप** (स. क्रि.) मळणी करप; हातांनी वा पायांनी मस्तप; कालोवप.

**मळपो** (ना. पु.) शेणाची पूड.

**मळब** (ना. न.) जंय सूर्य; चंद्र आनी नक्षत्रां आसात अशें दिसता ती आमच्या माथ्यावयली धांकण्याभाशेन आयसपयस पातळिल्ली निळी सुवात.

**मळसूद** (ना. स्त्री.) फिरकेचो खिळो.

**मळेकार** (ना. पु.) मळो रोवपी आनी राखपी; मळ्याचो धनी.

**मळो** (ना. पु.) शाक भाजी आनी हेर झाडां रोयिल्ली सुवात.

## मा

**माकोड** (ना. पु.) एक झाडार रावपी; फळां आनी पानां खावपी आनी सादारण मनशाभशेन दिसपी जनावर.

**माखप** (स. क्रि.) सारप; लावप.

**माग** (ना. पु.) १. लुगट विणपाचें मशीन; २. वाट; धांव.

**मांग** (ना.) १. आंगच्याचो हात; २. गोळवार चडोवपी मनीस.

**मागणी** (ना. स्त्री.) मागपाचें काम; पराथणी; मनांत इत्सेची सांगणी.

**मागणें** (ना. न.) मागणी; पराथणी.

**मागतो** (ना. पु.) मागपी; पराथपी.

**माग्नेज** (ना. स्त्री.) मागनेझियेम सल्फेट नांवाची एक भायरी.

**मागप** (स. क्रि.) मनांतली इत्सा सांगप; पराथप.

**मांगर** (ना. पु.) घराच्या भायले वणटीक तेकूनच बांदिल्ली एक कूड; पागेल.

**मागलें** (वि.) फाटलें; गेल्ल्या तेंपाचें; सकयल्लें.

**मागशी** (क्रि. वि.) पयलीं; फाटीं.

**मांगाद** (ना. न.) आंब्याचें मेल.

**मागिलदार** (ना. पु.) घराचो फाटलो भाग; मात्रें; न्हाणी बी आशिल्लो घराचो फाटलो वाटार.

**मागीर** (वि.) उपरान्त.

**मागूस** (वि.) मागीर लागिल्लें; मागीर फुलिल्लें-फळिल्लें.

**मागो** (ना. पु.) केंस वळोवंक काडिल्ली रीस्क.

**मांगोर** (ना. पु.) पळय **मांगर.**

**माघ** (ना.) हिंदू पंचांगांतलो अकरावो म्हयनो.

**माच** (ना. पु.) दाळ; एकावयर एक दवरिल्ल्यो वस्तू.

**माची** (ना. स्त्री.) नाटक; खेळ वा सभेच्या अध्यक्षापासत बी केल्लो उंच जागो; स्टेज.

**माचूल** (ना. न.) दोळी; मनशाक एके सुवातेवयलो दुसरे सुवातेर व्हरपाचें पालखेभाशेन एक साधन.

**मांजर** (ना. न.) हुंदरांक धरपी एक उपेगी जनावर.

**माजवळ** (वि.) वाडिल्लें; जून जाल्लें; मातिल्लें.

**माट** (ना.) १. फावो तितलो पालसो नाशिल्लो; मातसो सपाट; २. चड गोडसाणिची रूच.

**माटम** (ना. स्त्री.) एक फळ.

**माटव** (ना. पु.) पळय **माटोव.**

**माटूट** (ना. स्त्री.) एक मदेराचें रानवट झाड.

**माटोव** (ना. पु.) चुडटां बी घालून तयार केल्लो मंटप.

**माटोळी** (ना. स्त्री.) उत्सवा दिसा देवामुखार माटवाक बांदिल्ली फळफळावळ.

**माठ** (ना. पु.) चड गोडसाणीन जिबेक बशिल्लो चटको; माट.

**माड** (ना. पु.) नाल्लाचें झाड.

**मांड** (ना. पु.) १. धालो वा शिगम्याचे खेळ खेळपाचें आंचिल्लें आंगण; २. पसरो; दुकान; मांडिल्ल्यो वस्तू.

**मांडकार** (ना. पु.) मांडाचो धनी; मांडावयल्यो वस्तू विकपी.

**माड्डणी** (ना. स्त्री.) माडोवपाचें काम; गुड्डावचेलो वावर; मस्तुपाचें काम.

**मांडणी** (ना. स्त्री.) उपाय; युक्ती; वेवस्था; सोय; दाळणी.

**माड्डप** (स. क्रि.) पांयापोंदा चिड्डप; पायांनी भोंवप.

**माड्डवप** (स. क्रि.) पायांनी दामप; पायांनी चिड्डप.

**मांडप** (स. क्रि.) दाळप; फावो त्या जाग्यार दवरप; पातळावप.

**माडवप** (स. क्रि.) पळय **माड्डवप.**

**माडांभाट** (ना. न.) माड रोयिल्ली जमीन.

**मांडावळ** (ना. स्त्री.) मांडिल्ल्यो वस्तू;

मांडचेली तरा.

**माडी** (ना. स्त्री.) सुपारीचें झाड; माडाची सूर.

**मांडी** (ना. स्त्री.) पांय दोडून घाल्ली बसकण.

**मांडो** (ना. पु.) घुमटाच्या तालार गावपाचें एक खासा गोंयचें गीत.

**माणकी** (ना. स्त्री.) लिबलिबीत पूण वातड मांसाचें एक नुस्तें.

**माणकुलो** (ना. पु.) भुरग्याले भाशेन ल्हान; इल्लोसो अशा अर्थाचें उतर.

**माणणी** (ना. स्त्री.) टापटीप; मांडावळ; सुखसोय; मांडणी.

**माणसुकी** (ना. स्त्री.) मनीसपण; क्षमा; शांती; माया; दया; काकुळट ह्यासारके गूण.

**माणारो** (ना. पु.) एक खावपाचो जिनस; पापडासारको खावचेलो पातळ जिनस.

**माणीक** (ना. स्त्री.) रत्न; एक मोलादिक खडो.

**माणें** (ना. न.) आळसाय; तकलेक आयिल्ली जडसाण.

**मात** (अ.) पूण; फकत.

**मातप** (अ. क्रि.) वाडप; मस्त जावप; मद मारप.

**मात्रा** (ना. स्त्री.) १. एक अक्षराची कुरू; २. आयुर्वेदीक वखद.

**मातये भरवण जावप** (वा. प्र.) अपेशी, निर्फळ जावप.

**मातवप** (स. क्रि.) वाडोवप; चडोवप.

**मातशें** (अ.) इल्लें; इल्लो वेळ; थोडें.

**मात्सो** (अ.) इल्लोसो; थोडोसो.

**माता** (ना. स्त्री.) आवय.

**माती** (ना. स्त्री.) बारीक फातरांची वा संकऱ्यांची पूड; धुळ.

**मातेबुऱ्हांव** (ना. पु.) कसलीय पातळ वस्तू ओडून घेवचेलो कागद.

**मातेर** (ना. स्त्री.) फोडांत; चवनांत जाल्लो पूं.

**माथ्यार हात भोवंडावप** (वा. प्र.) नागोवप; फटोवप.

**माथें** (ना. न.) तकलेचो वयलो भाग; तकली; कसलेय वस्तूचो वयलो भाग.

**माथो** (ना. पु.) दोंगराचें वयलें पोंत.

**मादनें** (ना. न.) न्हावपा-धुवपाचो आनी आयदनां घांसपाचो घराचो फाटलो भाग.

**मांदरी** (ना. स्त्री.) मोट्या लव्याची शेंदरी.

**मादान** (ना. न.) कसल्याय रोगान मेंदवाचेर जाल्लो वायट परिणाम; मद.

**मादानार जावप** (सं. क्रि.) मेंदवाचेर जाल्ल्या वायट परिणामान बडबडप आनी पिश्यांभशेन करप.

**मांदोलीन** (ना. न.) रेबेका भाशेन वाद्य.

**मान** (ना. स्त्री.) गोमटेचो फाटलो भाग; (पु.) आदर; प्रमाण.

**मानकुराद** (ना. पु.) आंब्याची एक रुचीक जात.

**मानगें** (ना. न.) उदकान जियेवपी एक क्रूर प्राणी.

**मानपुळी** (ना. स्त्री.) मानेक जाल्ली कांक्र.

**मानप** (स. क्रि.) आवडप; मान दिवप; समजप.

**मानमरातब** (ना. पु.) आदर; आदर-सत्कार; भोवमान; येतल्याक ऊठ-बस करप.

**मान्य आसप** (सं. क्रि.) मान्यताय दिवप; हयकार सांगप.

**मानव** (ना. पु.) मनीस.

**मानवप** (स. क्रि.) आवडप; बरें लागप; रुचप.
**मानस** (ना. स्त्री.) न्हयचें उदक भितर घेवपाचें आनी भायर सोडपाची बांदावळ.
**मानाय** (ना. पु.) शेता-भाटांत वावर करपी घटमुट मनीस; वावराडी.
**मानायपण** (ना. न.) मानायाचो वावर-धंदो.
**मानी** (वि.) अभिमानी; अपमान सोंसनाशिल्लें.
**मानीक** (वि.) भोवमानेस्त; मानादीक.
**मान्रें** (ना. न.) न्हावपा-धुवपाचो घराचो फाटलो भाग.
**माप** (ना. न.) दाणो-गोटो; कड्डण आनी हेर वस्तू बी मेजून घेवपाचें आयदन.
**मापटें** (ना. न.) ल्हान माप.
**मापप** (स. क्रि.) मापांत भरून मेजप.
**मापेली** (ना. पु.) मापपी मनीस; मापांनी भरून मेजपी मनीस.
**माफी** (ना. स्त्री.) भोकसणी; मखलाशी.
**मामा** (ना. पु.) १. आवयचो भाव; २. रांदप्याक लेखिल्लें भोवमानाचें उतर.
**मामादोर** (ना. पु.) भुरग्याक दूद घालपाची बाटली; बोम.
**मामेभाव** (ना. पु.) आपल्या मामाचो चलो.
**माम्-माम** (ना. न.) भुरग्यांले भाशेंत जेवण.
**माय** (ना. पु.) वर्साचो पांचवो म्हयनो.
**मांय** (ना. स्त्री.) आवय; घोवाची आवय वा बायलेची आवय.
**मायाजाळ** (ना. न.) मायेच्या पासांनी विणिल्लें जाळें; मोग आनी मायेंत घुसपावन उडोवचेलें जाळें.
**मायटी** (ना. स्त्री.) मातयेचें वाटकुळसार आयदन.
**मायणी घेवप** (सं. क्रि.) घाडयाकडल्यान भात उबोवपाचें उक्तावण करप.
**मायदेस** (ना. पु.) ज्या देशांत आपूण जियेतां आनी आपले आवय-बापूय आनी आजे-पणजे जियेले तो देश.
**मांय-पाय** (ना.) आवय-बापूय.
**मायभूंय** (ना. स्त्री.) आपलो देश; आपलें राष्ट्र; आपलें राज्य.
**माया** (ना. स्त्री.) मोग; भ्रम; फसवणूक; दुडवां गांठ.
**मायावीपण** (ना. स्त्री.) दांभिकपण; लटको मोग.
**मायेस्त** (वि.) माया आशिल्लें; मोग करपी.
**मार** (ना. पु.) लडो; थापटां; चिमटे; मुठी; भुरके बी; पेट.
**मार्क** (ना. पु.) अभ्यासाखातीर वा आनी कसल्याय कामाखातीर मेळिल्ले गूण.
**मारकुरें** (वि.) मारपाचें; बुड्डुपाच्या सबावाचें; केस्तांवखोर.
**मार्ग** (ना. पु.) यो-वच करूंक बांदून तयार केल्ली वाट; रस्तो.
**मार्गशीर** (ना. पु.) हिंदु पंचांगांतलो णववो म्हयनो.
**मार्गी** (ना. पु.) मार्गावयल्यान वचपी; भोंवपी.
**मार्ट** (ना. स्त्री.) पळय **माट्ट.**
**मार्तीर** (ना. पु.) लोकांच्या बऱ्याखातीर आपलो जीव ओपिल्लो मनीस; हुतात्मो.
**मार-थपट** (ना. स्त्री.) लडो; बुड्डप; थापटप; खोंटावप; मस्तप.
**मारप** (स. क्रि.) लडे घालप; बडवप; जीव घेवप.

**मार-फार** (ना. पु.) पेट; लडो.

**मार्स** (ना. पु.) किरिस्तांवी वर्साचो तिसरो म्हयनो.

**मारांद** (ना. पु.) फोगोट्यांचो मास.

**मारामार** (ना. स्त्री.) ताकीत; अडचण; हुरहुरावणी.

**मारामारी** (ना. स्त्री.) झगडीं; केस्तांवां; मार-पेट.

**मारी** (ना. स्त्री.) खिस्ताली आवय.

**मारेकार** (ना. पु.) मारपी; जिवानशीं मारपी.

**मालकी** (ना. स्त्री.) धनीपण; हक; सत्या.

**मालदिसांव** (ना. न.) स्त्राप; वायट इत्सा.

**मालदेस** (ना. पु.) आंब्याची एक जात.

**मालीस** (ना. न.) दुबाव.

**मालुकसाण** (ना. स्त्री.) पिशेपण.

**मालूक** (वि.) पिशें; तकली फिरिल्लें.

**मार्ले** (ना. न.) १. मुसांचें घर; २. वाडिल्ले आनी घुस्पल्ले केंस.

**माव** (ना. स्त्री.) १. पणसांत घरे दसून आसतात ती कांडी; २. खत; दाग.

**मांव** (ना. पु.) न्हवऱ्याचो वा व्हंकलेचो बापूय; घोवाचो बापूय तसोच बायलेचो बापूय.

**मावशी** (ना. स्त्री.) आवयची भयण; बापोलयाची बायल.

***मावशी-भयण*** (ना. स्त्री.) आवयचे भयणीली धूव.

**मावसो** (ना. स्त्री.) आवयचे भयणीचो घोव तसोच बापायचे भयणीचो घोव.

**मावसो-भाव** (ना. पु.) आपले मावशेचो पूत.

**मावळण** (ना. स्त्री.) बापायची भयण.

**मावळींग** (ना. न.) एक गोड-आंबट फळ.

**मावळो** (ना. पु.) आवयचो भाव; मामा.

**मावूळ** (वि.) आजोळचें; देखीक मावूळ बड.

**मावोर्डे** (ना.) बायलेल्या आवय-बापायचें घर.

**मांस** (ना. न.) कुडीचे कातिपोंदा आनी हाडांवयर आशिल्लो आंगाचो तांबडसार भाग.

**मांसखायरो** (ना. पु.) मांस; नुसतें खावपी.

**मास्तर** (ना. पु.) शणै; वाचूंक बरोवंक शिंकोवपी आनी बरी देख दिवपी; गुरुजी.

**मासळकार** (ना. पु.) मासळी विकपी.

**मासळी** (ना. स्त्री.) नुस्तें.

**मांसाळ** (वि.) मांसान भरिल्लें; खूब गिरोप आशिल्लें.

**माहिती** (ना. स्त्री.) वळख; गिन्यान; खबर.

**माळ** (ना. स्त्री.) हार; फुलांचो वाटकुळो झेलो.

**माळप** (स. क्रि.) केंसांत खोवप.

**माळी** (ना. पु.) फुलां-झाडां रोवपी आनी ताची जतनाय घेवपी; (स्त्री.) मजलो.

**माळूण** (ना. न.) एक चड विखारी न्हय अशें आनी हुंदरांक धरपी जिवाणें.

**माळो** (ना. पु.) वांशे पुरून आनी तांचेर फळी घालून तयार केल्लो जागो;

ल्हान माळी.

## मि

**मिचकावप** (स. क्रि.) पिटपिटावप; दोळे मोडप.

**मिचकावणी** (ना. स्त्री.) पिटपिटावणी; दोळ्यांचे मोड.

**मिचमिचप** (अ. क्रि.) जाळ पडिल्लेवरी जावप; जळिल्लेवरी दिसप.

**मिचमिचीत** (वि.) तीख; तिखट.

**मिचमीच** (ना. पु. भो.) जाळ; चुरचुरसाण.

**मिजगत** (ना. स्त्री.) मिजास; व्हडपण.

**मिजास** (ना. स्त्री.) बडाय; बडवचार; व्हडपण.

**मिजाशी** (वि.) मिजास आशिल्लें; व्हडपणाचें; बडवचाराचें.

**मिजासखोर** (वि.) पळय **मिजाशी.**

**मिटर** (ना. पु.) दशमान पद्धतीतलें लांबाय मेजपाचें मुळावें जोख.

**मिटकी** (ना. स्त्री.) जिबेन केल्लो आवाज; रूच सुटिल्ल्यान जिबेन टूक्क असो काडिल्लो आवाज.

**मिट्ट** (वि.) मिटक्यो मारी इतलें; खूब गोड.

**मिठागर** (ना. पु.) मीठ पिकोवपाच्यो कुणग्यो.

**मिडमिडप** (अ. क्रि.) खर तिखसाणीन वा उस्तुरें गेल्ल्यान घुस्मटल्यावरी जावप.

**मिडमिडो** (ना. पु.) घुस्मटणी.

**मिणमिणटें** (वि.) मातसो उजवाड दिवपी; लिकलिकणें.

**मिणमिणप** (स. क्रि.) लिकलिकप; ल्होव उजवाड दिवप.

**मित्र** (ना. पु.) इश्ट; ओड आनी बरे संबंद आशिल्लो; बरेपणान चलपी.

**मिथून** (ना. स्त्री.) बारा राशींतली तिसरी रास.

**मिनीट** (ना. न.) मिनूट.

**मिनूट** (ना. न.) साठ सेकंदांचो काळ; एका वराचो साठावो भाग.

**मिर्ग** (ना. न.) एका नखेत्राचें नांव; पयलेंच पावसाळी नखेत्र.

**मिरमिरप** (स. क्रि.) चुरचुरप; तोरिंगाची वा लारांजाची साल जिबेक लागतकच जी जाणविकाय जाता ती जावप.

**मिरमिरसाण** (ना. स्त्री.) चुरचुरसाण. पळय **मिरमिरप.**

**मिरमिरीत** (वि.) चुरचुरीत. पळय **मिरमिरप.**

**मिरवणूक** (ना. स्त्री.) खासा कार्याखातीरची भोंवंडी; पुरसांव.

**मिरवप** (अ. क्रि.) भोंवप; मोटेपणान फिरप; मौजेखातीर भोंवप.

**मिरवेल** (ना. स्त्री.) मिरयां दिवपी वाल.

**मिरसांग** (ना. स्त्री.) एक तिखसाणे रूचिचें लांबोडें फळ.

**मिरास** (ना. स्त्री.) आस्पत; भाटबेंस; गिरेस्तकाय.

**मिरी** (ना. स्त्री.) दोड; आंठी.

**मिरीं** (ना. न.) मिरवेलीचें बीं (हें तीख आसता).

**मिलितार** (ना. पु.) झुजांत वांटो घेवपी शिपाय.

**मिलितारी** (ना. स्त्री.) झुजपी शिपायाचो कारभार पळोवपी सरकारी खातें.

**मिशन** (ना. न.) धर्मविशींचो वावर; आपलो धर्म वाडोवपाचो; पातळावपाचो एक सारको केल्लो वावर.

**मिशनरी** (ना. पु.) धर्म पातळावपाचो

वावर करपी; आंगार घेतिल्लें काम मनापासून करपी; कसल्याय वावराक आपली जीण ओंपिल्लो मनीस.

**मिश्र** (वि.) भरसल्लें; एकांत दुसरो घुसपल्लें.

**मिश्र अपुर्णांक** (ना. पु.) सगली वा सगल्यो वस्तू आनी ते वस्तूचे भाग दाखोवपी आंकडो (१¹/₃).

**मिशाळो** (वि.) व्हड मिश्यो आशिल्लो; लांब आनी मोट्या मिश्यांचो.

**मिशी** (ना. स्त्री.) वयांत येवच्या वेळार ओठांवयर फुटिल्ले केंस.

**मिस्तीर** (ना. पु.) मेस्त्री; शिकोवपी; शिक्षक.

**मिसळप** (स. क्रि.) भरसप; सगल्यांकडेन संबंद दवरप.

## मी

**मीठ** (ना. न.) आटिल्ल्या खाऱ्या उदकाचे सुके खडे.

**मीठगावडो** (ना. पु.) आगरी; मिठागरांत वावर करपी.

**मीठ-फाळी** (ना. स्त्री.) एक गांवठी खेळ.

**मींड** (ना. पु.) वाद्याचेर काडिल्लो आलाप.

**मीन** (ना. न.) लोखण आनी लोखणासारकी कसलीय धातू उसपुपाची खण.

**मीस** (ना. न.) किरिस्तांव धर्मांतली देवाची पुजा.

## मु

**मुकटो** (ना. पु.) रस्मी धोतर; कद; अनवाळें न्हेसण.

**मुक्काम** (ना. पु.) राबितो; बिराड.

**मुक्त** (वि.) मेकळें.

**मुक्ती** (ना. स्त्री.) मेकळेपण; संवसाराचे सगले तरेचे पास तोडून ब्रह्मांत विलीन जावचेलें काम.

**मुकदम** (ना. पु.) कारभारी; भाट-बेंसाचेर वा कसल्याय वावराचेर नदर दवरपी.

**मुकदमपण** (ना. न.) वावर करतल्या वावराड्यांचेर नदर दवरचेलें काम.

**मुकामळ** (ना. न.) सोबीत रूप; कमळाभाशेन सुंदर चेहरो.

**मुकूट** (ना. पु.) माथ्यांत घालपाचो माणकां मोतयां लायिल्लो भांगराचो टोप.

**मुकेपण** (ना. न.) मोनेपण; उलोवंक येना जावपाचो दोश.

**मुको** (ना. पु.) चुंबन; उमो. (वि.) मोनो; उलोवंक येना आशिल्लो.

**मुखदुर्बळ** (वि.) थोडें उलोवपी; सारकें आनी उकतेपणान उलयनाशिल्लें.

**मुखशुद्धी** (ना. स्त्री.) जेवतकच तोंडाक हिंवळाण येवची न्हय म्हणून फळासारकें बी खाल्लें खाण.

**मुखामळ** (ना. न.) सोबीत तोंड.

**मुखार** (वि.) सामकार; तोंडावटेन; ह्याफुडें.

**मुखावयलें** (वि.) फुडलें; तोंडाफुडलें.

**मुखें** (ना. न.) म्हुर्तीचो फुडलो भाग; चेहरो.

**मुखेल** (वि.) मुख्य; सगल्यांत म्हत्त्वाचें; पयल्या पांवड्याचें.

**मुखेलपण** (ना. न.) फुडारीपण.

**मुखेली** (ना. पु.) फुडारी; पाटांगडो; कसल्याय कामाची जापसालदारकी घेतिल्लो.

**मुगदो** (ना. पु.) दुडवांची गांठ.
**मुंगरप** (अ. क्रि.) हाता पायांची पोटली करून बसप वा न्हिदप.
**मुंगस** (ना. पु.) सादारण सोंशायेदें लांबोडें सोरपाक मारपी रानवट जनावर.
**मुगा** (अ.) एक उद्‌गार.
**मुज्ग** (ना. न.) वाजप; संगीत वाजंत्र्यांचो मेळो.
**मुज्गे** (ना. पु.) वाजंत्री; वाजोवपी.
**मुजत** (ना. स्त्री.) कसल्याय वावराक थारावन दिल्लो वेळ.
**मुजरत** (क्रि. वि.) बळयां; मुद्दम; खासा.
**मुंजो** (ना. पु.) जाची मूंज करतात तो भुरगो.
**मुटमुटीत** (क्रि. वि.) रूचीन; मटामट.
**मुठलें** (ना. न.) गोड सोय घालून केल्ले तांदळा पिठाचे उकडलेले गुळे; मुठये.
**मुठयो** (ना. पु.) चून भरिल्लो आनी उकडलेलो पिठा गुळो.
**मुठावप** (स. क्रि.) मुठींनर मार घालप; मुठी मारप.
**मुंड** (ना. न.) कापिल्ली तकली; शीर; माथें.
**मुंडकार** (ना. पु.) भाटांत रावन तें राखपी मनीस.
**मुंडकारपण** (ना. न.) भाटाची राखण करपाचो वावर.
**मुड्डप** (स. क्रि.) हातांनी मस्तप; चिड्डप; मळप.
**मुड्डशी** (ना. स्त्री.) एक लांब शिरशिरीत सुवादीक नुस्तें.
**मुंडली** (ना. स्त्री.) आळवाचें दांव.
**मुंडाशें** (ना. न.) रुमाल; माथ्याक वेडायल्लें लुगट.
**मुंडासो** (ना. पु.) पळय **मुंडाशें.**
**मुडी** (ना. स्त्री.) भरिल्लो अर्दो साक; दाण्या-गोट्यान भरिल्लो अर्दो साक; मुडयेभाशेन मोटो.
**मुडो** (ना. पु.) सालीची मूठ; सान्नीचे व्हीर एकठांय करून बांदिल्ली गांठ.
**मुंडो** (ना. पु.) चुनो बी धोडावचेलो लाकडाचो दांडो.
**मुणकारी** (ना. पु.) नाल्लांचें वा दुसरें कसलेंय भाट राखपी.
**मुणयारी** (ना. पु.) अधिकारी; जाळवणदार; पडहात; सरकारी वकील.
**मुणारो** (ना. पु.) खुंटारो; झरून ल्हान जाल्ली सान्न.
**मुणोहात** (ना. पु.) मदल्या बोटाच्या पोंतापासून कोंपरा मेरेनचो भाग.
**मुतखडो** (ना. पु.) मुताचे पोतयेंत; नळयेंत वा पिंडात जाल्लो फातर.
**मुतप** (अ. क्रि.) कुडींतलो वायट द्रव भायर सोडप.
**मुताळ** (वि.) मूत जावंक मजत करपी.
**मुतरी** (ना. स्त्री.) मूत सोडूंक खासा केल्ली सुवात.
**मुतरें** (ना. न.) परतु-परतून मुतपी.
**मुत्सद्दीपण** (ना. न.) तेरेकवार राजकी प्रस्नांची जाणविकाय आनी ते सोडोवपाची तांक.
**मुत्सद्दी** (ना. पु.) राजकी प्रस्नांचो खोलायेन विचार करपी आनी ते सोडोवपी.
**मुदगो** (ना. पु.) दुडवां पोटली.
**मुदयाळें** (वि.) मुदयेभाशेन वाटकुळ्या आकाराचें.
**मुद्रा** (ना. स्त्री.) १. राजाचो वा सरकाराचो छाप; कुरू; २. चर्या; नदर; तोंडावयले विकार.

**मुदल** (ना. न.) मूळ; मुळचें भांडवल.
**मुदांस** (ना. न.) बदल; उदक-वाऱ्याचो बदल करूक दुसरेकडेन केल्लो राबितो.
**मुदी** (ना. स्त्री.) बोटाक घालपाची भांगराची वा हेर कसल्याय धातूची वस्त.
**मुद्दम** (क्रि. वि.) बळयां; मुजरत; खासा.
**मुनी** (ना. पु.) रुशी; विचारांत गुल्ल जावपी; तपस्वी.
**मुमखेपण** (ना. न.) घुमेपण; उलोवपाची नावड; मनांतले विचार, उमाळे बी दामून दवरचेलो सबाव.
**मुमखें** (वि.) उलोवंक फाटीं; मनांतले विचार आनी भावना भितर दवरपी.
**मुंबर** (ना. पु.) तोंडाक आयिल्ली तरुणपणाची पुळी.
**मुर्मर** (ना. पु.) उज्याचे बारीक इंगळे आशिल्लो रांदनीतलो गोबोर.
**मुमुरखें** (क्रि. वि.) ओठांतल्या ओठांत; अस्पश्ट.
**मुमुरख्यांनी** (वि.) भितल्ल्या भितर; तोंड उगड नासतना.
**मुयेणी** (ना. स्त्री.) हाता-पायांक आयिल्ली एके तरेची जडसाण आनी भेरेणी.
**मुयेवप** (अ. क्रि.) मुयो चाबिल्लेवरी जावप; रगताची घोळणी सारकी जायनाशिल्ल्यान भिरभिल्ल्यावरी जावप.
**मुरगुटप** (अ. क्रि.) लजेन बी आंग मुड्डप; आंग आंवळप; मोड करप.
**मुर्तिकार** (ना. पु.) मूर्ती करपी कलाकार.
**मूर्तिमंत** (वि.) सामकें दोळ्यांफुडें उबें आशिल्लें; सामकें खरें; धड्डडीत नदरेक दिश्टी पडटा अशें.
**मुरदंग** (ना. पु.) पखवाजाभाशेन वाजंतर; दोनय वटांनी चामडें ताणायल्ली आडवी कळशी.
**मुरदंगी** (ना. पु.) मुरदंग वाजोवपी; वाजंत्री.
**मुर्दाड** (वि.) मस्तें; मुरवत नाशिल्लें.
**मुर्दाडपण** (ना. न.) बेपर्वाय; मस्तेपण; मदांदकाय.
**मुरप** (अ. क्रि.) जिरप.
**मुरवत** (ना. स्त्री.) कांच; भिरांत.
**मुरवती** (ना.) भिडेस्त; लजेस्त.
**मुरली** (ना. स्त्री.) पिल्लूक; बांसरी.
**मुरलीधर** (ना. पु.) श्रीकृश्ण.
**मुरांबो** (ना. स्त्री.) कसल्याय फळाचो मगज आटोवन केल्लो हालवो.
**मुरींग** (ना. पु.) नाल्लांतलें उदक आटून आपशींच भितर जाल्लो गोड भुसभुशीत गुळो.
**मुलसांव** (ना. स्त्री.) सुपुल्लो लोखणाचो गुळो.
**मुलामो** (ना. पु.) भांगराचो; रुप्याचो बी लेप.
**मुलूख** (ना. पु.) देशाचो भाग; जमनीचो पयशिल्लो भाग.
**मुराड** (वि.) कुडीन मातिल्लें.
**मुशारो** (ना. पु.) पगार; पागामेंत; वावराचे पयशे.
**मुसक** (ना. न.) किमस; मूस; जळेरा सारके ल्हान जीव.
**मुस्कट** (ना. न.) पोलो; चेऱ्याचो एके वटेनचो भाग.
**मुस्त** (ना. स्त्री.) चड फाटलो काळ.
**मुस्तींत** (क्रि. वि.) काळार; तेंपार.
**मुस्तायकी** (ना. स्त्री.) आंगाचीं; सगल्यो गरजेच्यो वस्तू.
**मुसमुसप** (अ. क्रि.) घुस्मटप; फुगार जावप.
**मुसराद** (ना. पु.) आंब्याची एक जात.

**मुसलमान** (ना. पु.) महंमद पैगंबरान थापिल्ल्या धर्माचो मनीस.
**मुसलमानी** (वि.) मुसलमानाचें.
**मुसळ** (ना. न.) कांडण; कांडूंक उपकरावचेलो लाकडाचो घट्ट करवो.
**मुळचें** (वि.) पयलींचें; पोंदचें; तळाचें; निजाचें.
**मुळस** (ना. न.) दोंगराचें मूळ; तळ.
**मुळा** (क्रि. वि.) पोंदा; तळा.
**मुळावण** (ना. न.) सुरवात; पायो; बुन्याद.
**मुळावें** (वि.) मुळचें; बुन्यादीचो; प्राथमिक; तळाचें; सुरवेचें.
**मुळी** (ना. स्त्री.) ल्हान मूळ.
**मुळो** (ना. पु.) एके शाके भाजयेचें वाडिल्लें मूळ.

## मू

**मू** (अ.) कसलोय प्रस्न करतना उपकारतात तें उतर. ताचो अर्थ हय असो जाता.
**मूख** (ना. न.) तोंड.
**मूग** (ना. पु.) एका कड्डण.
**मूज** (ना. स्त्री.) जानवें घालपावेळार केल्लो धर्मीक विधी.
**मूट्टो** (ना. पु.) काजू; काजीच्या फळाचो रोसाळ भाग; काजू बियेवयर आशिल्लो मासाळ आनी रोसाळ भाग.
**मूठ** (ना. स्त्री.) धांपिल्लें बोचकूल.
**मूत** (ना. न.) मुता-पिंडांत तयार जाल्लो भायर उडोवपाचो पातळ पदार्थ.
**मूय** (ना. स्त्री.) एक उद्वेगी आनी शिटूक ल्हान जीव.
**मूर्ख** (वि.) अबुद्दी; गिन्यान नाशिल्लें.
**मूर्खपण** (ना. न.) अबुद्दीपण; नेणारपण, अज्ञान.
**मूर्त** (नीं. स्त्री.) मातयेची वा कसलेय धातूची बावली.
**मूल्त** (ना. न.) दंड; पयशांनी फारीक करचेली शिक्षा.
**मूस** (ना. पु.) १. एक पांखाचो; सोंडयाळो; पिटपिटीत आनी सुपुल्लो जीव; २. न्हंयेचें उदक भितर भायर घेवपाचें बांद फोडून लायिल्लें दार.
**मूळ** (ना. न.) झाडाचें पाळ; पोंद; तळ; बुन्याद.

## मे

**मेकळावप** (स. क्रि.) मेकळो करप; वेगळावप; विस्कुटावप.
**मेकळीक** (ना. स्त्री.) स्वतंत्रताय.
**मेकळेपण** (ना. न.) पळय मेकळीक.
**मेकळें** (वि.) पासांतल्यान सुटिल्लें; स्वतंत्र.
**मँगनीज** (ना. न.) एक धातू.
**मेंगेपण** (ना. न.) अजागळपण; आळसाय.
**मेंगो** (ना. पु.) अजागळ; अन्नाडी.
**मेच** (ना.) दुखाणुंतलो पूं बी व्हांवन वचचो म्हणून तें फोडटकच भितर घालपाचो आंगरेचो वा रबराचो तीर.
**मॅच** (ना. स्त्री.) सर्त; चडाओड.
**मेज** (ना. न.) व्हड चोवपाय; वाचपा-बरोवपाचें एक सोबीत साधन.
**मेजणी** (ना. स्त्री.) मेजपाचें काम; जोख घेवपाचें काम.
**मेज-माप** (ना. न.) मेजपाचो आनी मापचेलो वावर.
**मेजप** (स. क्रि.) आंकडो थारावप.
**मेजपी** (ना. पु.) मेजपाचें काम करपी.

**मेटण** (ना. स्त्री.) मेटपाचें काम; शिंविल्ली दोड.

**मेटप** (स. क्रि.) जोडप; जुळोवप.

**मेंटिल** (ना. न.) तेलांत शिजयल्लें मेण.

**मेंढरां** (ना. न. भो.) मेंढरे; मेंढ्र्यो आनी तांचे पेटे.

**मेंढरी** (ना. स्त्री.) मेंढ्र्याची मादी; एक उपेगी आनी गांवठी जनावर.

**मेंढरो** (ना. पु.) सादारण बोकड्यायेदो ल्हंवाळ आनी उपेगी जनावर.

**मेंढां** (ना. न. भो.) पळय **मेंढरां.**

**मेंढो** (ना. पु.) मळे **मेंढरो.**

**मेण** (ना. न.) एकेतरेचो चिकट आनी तेलकट जिनस.

**मेणकट** (वि.) मेणाचें; मेणाभाशेन बुळबुळीत; मेणान भरिल्लें.

**मेणवात** (ना. स्त्री.) उजवाडाखातीर केल्ली मेणाची वात.

**मेतरावणी** (ना. स्त्री.) वेळ वगडावपाची किरकोळ कामां.

**मेतरावप** (अ. क्रि.) किरकोळ कामांत वेळ वगडावप; कळाव करप.

**मेथकूट** (ना. न.) लोणचें; मेथो भरिल्ल्यो आंबल्यो; आंवाळे; लिंबू बी फळां.

**मेथी** (ना. स्त्री.) मेथये झाडाचें बीं; मेथयेची भाजी.

**मेथो** (ना. पु.) लोणच्या आंबल्यांत भरपाचो मीठ मिरसांग; हींग बी मसालो.

**मेदाल** (ना. न.) पदक; इनामापसत दिल्लो धातूच्या पत्र्याचो सोबीत आकाराचो कुडको.

**मेंदू** (ना. पु.) तकलेच्या कट्ट्यांत भरिल्लो जाणविकाय दिवपी कुडीचो म्हत्वाचो भाग.

**मेय** (ना. पु.) बुटा पोंदा पायांत घालचेल्यो तरेकवार सुताच्यो आनी पांया आकाराच्यो तळयो.

**मेर** (ना. स्त्री.) देग; शीम; बारीक ओटो.

**मेरावणी** (ना. स्त्री.) मेरांची आंखणी आनी त्यो घालपाचें काम.

**मेरू** (ना. न.) एक रानवट सोबीत जनावर.

**मेरेन** (अ.) पर्यंत; सोपचेले शिमेकडेन.

**मेल** (ना. न.) म्हेंव; कसलींय फळां कडोवन केल्लो पातळसार हालवो; पिकिल्ल्या आंब्यांचो रोस आटोवन केल्लो हालवो.

**मेल्लें** (वि.) प्राण सोडिल्लें; जीव गेल्लें; एक वायट गाळ.

**मेवणी** (ना. स्त्री.) बायलेची भयण.

**मेवणो** (ना. पु.) बायलेचो भाव वा आपले भयणीचो घोव.

**मेस्त** (ना. पु.) कला-कसबाचें काम करपी.

**मेस्तपण** (ना. न.) ठवयपण.

**मेस्त्री** (ना. पु.) मास्तर; शिक्षक.

**मेळ** (ना. पु.) एकठांय आयिल्लो लोक.

**मेळ घालप** (अ. क्रि.) एकठांय हाडप; गांठ घालप.

**मेळप** (स. क्रि.) हातांत येवप; गवसप; सांपडप; दिश्टी पडप; गावप; भेट घेवप.

**मेळवप** (स. क्रि.) जोडप; आपणावप.

**मेळोवपी** (ना. पु.) जोडपी; जोडकार.

**मेळांय** (ना. न.) दुदांत भरशिल्लें ताक.

**मेळून** (अ.) बराबर; वांगडा; सांगातान.

**मेळो** (ना. पु.) जमो; मेळ.

## मै

**मैल** (ना. पु.) लांबाय मेजपाचें एक

जोख; देड किलोमिटरापरस मात्शी चड लांबाय.

## मो

**मोकळें** (वि.) पळय **मेकळें.**
**मोकास्रो** (ना. पु.) ओपिल्लें शेत.
**मोख** (ना. स्त्री.) तीर; फेंक; हावेस; हेत.
**मोखो** (ना. पु.) केळीचो वा दुसऱ्या तसल्याच झाडाचो रोंपो.
**मोखणी** (ना. स्त्री.) जिस्त थारायल्ले सुवातेर कसलीय वस्त मारपाचें काम.
**मोखप** (स. क्रि.) जिस्त थारायल्ले वस्तूचेर वा सुवातेचेर मारप.
**मोग** (ना. पु.) माया; प्रेम.
**मोगरी** (ना. स्त्री.) एक फुलांझाड.
**मोगरें** (ना. न.) धव्या रंगाचें परमळीत सोबीत आनी सुपुल्लें फूल.
**मोंगल** (ना. पु.) मुसलमान लोकांली एक जात.
**मोंगली** (वि.) मोगलां संबंदीचें; मोंगल लोकांचें.
**मोगाळ** (वि.) मोगान भरिल्लें; मोग आशिल्लें.
**मोगाळपण** (ना. न.) मोग आसपाचो सबाव; मोगी सबाव.
**मोगी** (वि.) मोग आशिल्लें.
**मोची** (ना. पु.) मोचे; जोतीं; बूट बी करपी; चामार.
**मोचेकार** (ना. पु.) मोचे घालपी; मोचे करपी.
**मोचो** (ना. पु.) बूट.
**मोटवेपण** (ना. न.) फावो तितले लांबायेचो उणाव; खुजेपण; गिड्डेपण.
**मोटवेसाण** (ना. स्त्री.) पळय **मोटवेपण.**
**मोटवें** (वि.) उणे लांबायेचें; आंखूड; खुजें; गिड्डें.
**मोटसाण** (ना. स्त्री.) मोटेपण; फुगरेपण; गुटगुटीतपण.
**मोटाय** (ना. स्त्री.) पळय **मोटसाण.**
**मोटार** (ना. स्त्री.) आपले आपूण चलपी गाडी.
**मोटेपण** (ना. न.) व्हडपण; बडाय; मोटसाण; जाडाय.
**मोटें** (वि.) गुबगुबीत; फुगरें; आंगान भरिल्लें; फुगिल्ले कुडीचें.
**मोड** (ना. स्त्री.) ल्हान ल्हान कुडके; व्हड नाण्याबद्दल वा नोटीबद्दल त्याच मोलाची ल्हान नाणी वा ल्हान नोटो.
**मोड** (ना. न.) वादळ; कुपांनी भरिल्लें मळब; नेटान व्हांवतो पावस आनी वारो; तुफान.
**मोडकें** (वि.) धड नाशिल्लें; कुडके जाल्लें; मोडिल्लें.
**मोडटें** (ना. स्त्री.) आडखळ; मोडे.
**मोडप** (स. क्रि.) १. कुडके करप; २. लाग करप; सोबीत हावभाव करप. (अ. क्रि.) कुडके जावप.
**मोडशी** (ना. स्त्री.) परसाकडेंतल्यान गेल्लो बुळबुळीत मळ वा रगत.
**मोडकूल** (ना. न.) शेतकामत्यालें एक आवत; कोंड्याच्या पोंताक वाटकुळसार सरी; तण पुंजावपाचें वा एकठांय करचेलें एक आवत.
**मोडाव** (ना. पु.) मोडिल्ले बारीक बारीक कुडके.
**मोडावळ** (ना. स्त्री.) मोडिल्ल्यो फोडिल्ल्यो बी वस्तू.
**मोडी** (ना. स्त्री.) हातानी सडसडीत बरोवपाची देवनागरी लिपिची एक तरा.
**मोडें** (ना. न.) पळय **मोडो.**

**मोडो** (ना. पु.) आडखळ; कसल्याय वावरांत आयिल्ली वा हाडिल्ली अडचण.
**मोतयाळ** (ना. न.) बारीक नुस्त्याची जात.
**मोतीं** (ना. न.) दरयांतले शिंपयेच्या पोटांत वाडिल्ली वाटकुळी आनी सोबीत वस्त.
**मोद** (ना. पु.) तरा; सोबितकायेच्यो तरा; फॅशन.
**मोदक** (ना. पु.) चून्न भरिल्ले वाटकुळे पिठा-गुळे.
**मोदेल** (ना. पु.) नमुनो; देख घेवचेली वस्त.
**मोनजात** (ना. स्त्री.) जनावर.
**मोनेपण** (ना. न.) उलोवंक येना जावपाचो दोश.
**मोन्यानी** (क्रि. वि.) उलयनासतना; गडबड, बोवाळ करिनासतना.
**मोनें** (वि.) उलोवंक येनाशिल्लें; फुलूंक नाशिल्लें; उकतें जावंक नाशिल्लें.
**मोफलर** (ना. पु.) गळ्या भोंवतणी घेवपाचो ल्हंवेच्या लुगटाचो लांबोडो कुडको.
**मोबील** (ना. स्त्री.) बसपा-उठपाक आनी वाचूंक बरोवंक केल्ल्यो कदेला-मेजा सारक्यो वस्तू.
**मोमो** (ना. पु.) छातयेचो मांसाळ भाग.
**मोयपास** (ना. पु.) मोगाचे पास; ओड.
**मोयर** (ना. पु.) मुसलमान.
**मोर** (ना. पु.) एक सोबीत सवणें; भारताचें राष्ट्रीय सवणें.
**म्होर** (ना. स्त्री.) धातूचें नाणें.
**मोरचूत** (ना. न.) सल्फेट आनी कॉपर मेळून जाल्लो एक रसायनीक जिनस.
**मोरताल** (ना. स्त्री.) तंबाकू घालून सिगरेट करपाचो पातळ कागद; मड्याचेर घालतात तें लुगट.
**मोरतेल** (ना. न.) लोखणाचो तुतयो; हातोडी.
**मोरी** (ना. स्त्री.) १. घट्ट कातीचें आनी गोबरा रंगाचें एक नुस्तें; २. न्हावपा-धुवपाची कूड; ३. जेजू क्रिस्ताची आवय मारी.
**मोरो** (ना. पु.) न्हाणाची व्हड मोरी.
**मोहरम** (ना. पु.) मुसलमानी धर्मांतल्या वर्साचो पयलो म्हयनो.
**मोळी** (ना. स्त्री.) ल्हान भरी; तंबाकूच्या पानांची भरी.
**मोळू** (वि.) वेपारी भाशेंत पांच अशा अर्थाचें उतर.
**मोक्ष** (ना. पु.) मुक्ती.

## मौ

**मौज** (ना. पु.) फोल्ग; हांसो येसारकी गजाल.

## मं

**मंगळ** (वि.) बरें; पवित्र; एका गिऱ्याचें नांव.
**मंगळसूत्र** (ना. न.) लग्नावेळार व्हंकले गळ्यांत बांदचेलो पिड्डुकांसयत मणी.
**मंगळार** (ना. पु.) आयतार धरून सप्तकाचो तिसरो दीस.
**मंचक** (ना. पु.) पलंग; बाज; हालती बाज; झोपाळो.
**मंजुळसाण** (ना. न.) नाजूकसाण; मधुरताय.
**मंजूळ** (वि.) नाजूक; मधूर.

**मोल** (ना. न.) किंमत; विकूंक दवल्लेले वस्तूचे दुड्ड; म्हत्त्व; दर; आंगाचीं धांकचेली बुतांवासारकी एक सुपुल्ली वस्त.
**मोलादीक** (वि.) सोबीत मोलाचें; अप्रूप.
**मोलावणी** (ना. स्त्री.) मोल थारावप; बारणी.
**मोलावप** (स. क्रि.) मोला संबंदान अदमास करप; किंमत थारावप.
**मोव** (वि.) नरम.
**मोवण** (ना. न.) दाळ करचेपयलीं हुडदांक काडिल्लो तेला-लेप.
**मोवसाण** (ना. स्त्री.) नरमाय.
**मोवाळ** (वि.) मोव सबावाचें; थंड कालेतीचें; मोवसाण आशिल्लें.
**मोवळां** (ना. न.) कानांवयर काडिल्ले केसांचे फुगे.
**मोवळी** (ना. स्त्री.) ल्हान भोरो.
**मोसम** (ना. पु.) थरावीक काळ; चड पिकेचे दीस.
**मोह** (ना. पु.) इत्सा; आवड.
**मंडळ** (ना. न.) संस्था; कांय लोकांचो एकवट.
**मंडळी** (ना. स्त्री.) नात्यांतलो लोक; कांय लोकांचो एकवट.
**मंत्र** (ना. पु.) गुपीत शक्तीन भरिल्लीं उतरां; जादू करूंक म्हणिल्ली गूट उतरां.
**मंतरप** (स. क्रि.) मंत्र मारप; जादू करप.
**मंत्रप** (स. क्रि.) मंत्र म्हणून भारप.
**मंत्री** (ना. पु.) प्रधान; राज्याचो व्हड जाळवणदार.
**मंत्रीक** (ना. पु.) मंत्र करपी; मंत्र म्हणपी; जादू करपी.
**मंद** (वि.) आळशी; मोव; नाजूक; वावराक फाटीं.
**मंदाय** (ना. स्त्री.) आळसाय; सवकसाय.
**मंदी** (ना. स्त्री.) सवकसाय; सुस्तपण.
**मंदीर** (ना. न.) घर; पवित्र घर; देवूळ.

# य

**यजमान** (ना. पु.) १. धनी; मुखेली; अध्यक्ष; २. यज्ञकर्म करपी.
**यजमान्न** (ना. स्त्री.) यजमानाची बायल; मुखेली बायल.
**यजमानकी** (ना. स्त्री.) कसल्याय वावरांतलें मुखेल काम.
**यजमानपण** (ना. न.) लग्न-कार्यांतलें मुखेल काम.
**यजमानी** (ना. पु.) पळय **यजमान.**
**यत्ता** (ना. स्त्री.) वर्ग.
**यत्न** (ना. पु.) तकालस; खटपट; तरेकवार उपाय.
**यथायोग्य** (वि.) फावो तशें; योग्य तरेन; जथापथ.
**यती** (ना. पु.) रुशी; सन्याशी; स्वामी.
**यम** (ना. पु.) मरण हाडपी देव.
**यमक** (ना. न.) कवितेंतली स्वरांची वा व्यंजनांची जुळोवणी.
**यमदूत** (ना. पु.) मेल्ल्या मनशाक व्हरपी; मरण घेवन येवपी आनी प्राण घेवन वचपी.
**यमराज** (ना. पु.) यम नांवाचो राजा.
**यमराज्य** (ना. न.) यमालें राज्य; ख्यास्त आनी यातनेचें राज्य.
**यश** (ना. न.) जैत; हातांत घेतिल्ल्या वावराचो बरो शेवट.
**यहुदी** (वि.) ज्युदेव लोकांसंबंदीचें; ज्युदेवांचें वा ज्युदेवांनी केल्लें.
**यज्ञ** (ना. पु.) होम; याग; धर्मीक

कृत्य.
**यज्ञयाग** (ना. पु.) होम आनी हेर धर्मीक कामां.

## या

**याग** (ना. पु.) धर्मीक वावर.
**यातना** (ना. स्त्री.) हाल; देडणां; उपाद्रे.
**यात्रेकरू** (ना. पु.) धर्मीक थळां भोंवपी; भोवंडेकार.
**याद** (ना. स्त्री.) उगडास; स्मरण.
**यादस्ती** (ना. स्त्री.) पळय **याद.**
**यादस्तीक** (ना. न.) उगडासाखातीर तयार केल्लो पुतळो वा कसलीय वस्त.
**यादी** (ना. स्त्री.) वस्तूंची वळेरी; नामावळ.
**यान** (ना. न.) गाडी; धांवतेरें; एक सुवाते वयल्यान दुसरे सुवातेर व्हरपी.
**यार्ड** (ना. पु.) तीन फुटांची लांबाय.

## यु

**युक्त** (ना. स्त्री.) मांडणी; उपाय.
**युक्तिवंत** (वि.) युक्ती करूंक जाणां आशिल्लें; तेरेकवार मांडण्यो आनी उपाय करचेली बुद्द आशिल्लें.
**युक्ती** (ना. स्त्री.) पळय **युक्त.**
**युगपुरूस** (ना. पु.) युग निर्माण करपी.
**युद्ध** (ना. न.) झूज; लडाय.

## यू

**यूग** (ना. न.) व्हड काळ; काळाचो व्हड वांटो.

## ये

**येंडेल** (ना. न.) येंडा फळांचें तेल; एक भायरेचें तेल; तेला-भायरी.
**येंडा झाड** (ना. न.) येरंड.
**येण्डें** (वि.) अबुद्दी; ठोंबें; मठ्ठ.
**येणावळ** (ना. स्त्री.) भाटां-बेंसाचो दुड्डू; उत्पन्न.
**येणारें** (ना. न.) येवपी; येणें.
**येणें** (वि.) पळय **येणारें.**
**येणें-वचणें** (वि.) येवपी वचपी.
**येत्न** (ना. न.) पळय **यत्न.**
**येतां-येतां** (क्रि. वि.) येवचेलें काम करतां आसतना; थोड्याच वेळांत.
**येतां-वेतां** (क्रि. वि.) येतना-वेतना; उसरपतीच्या वेळार.
**येतीश्ट** (वि.) खूब; न्हज जातासर.
**येतो-वेतो** (वि.) येवपी-वचपी.
**येदें** (वि.) इतलें व्हड; इतलें लहान; इतले मोठायेचें; इतल्या आकाराचें.
**येदोळ** (क्रि. वि.) पयलीं; थोड्या वेळापयलीं.
**येन्ना** (अ.) चलता त्या वेळार.
**येन्नादर** (अ.) चलता त्या वेळामेरेन.
**येनासप** (अ. क्रि.) येवप ना; येना जावप.
**येंप्रेग** (ना. पु.) चाकरी; नोकरी; वेवसाय.
**येंप्रेगाद** (ना. पु.) चाकर; नोकर.
**येवजणूक** (ना. स्त्री.) विचार.
**येवप-वचप** (अ. क्रि.) आपल्या म्हऱ्यांत पावप आनी आपल्या म्हऱ्यांतल्यान पयस चलप.
**येवपी-वचपी** (ना.) आपल्या म्हऱ्यांत चलून पावपी आनी आपल्या म्हऱ्यांतल्यान पयस चलपी.
**येरंड** (ना. पु.) फळां दिवपी एक

लांब झाड.

**येरदेर** (ना. पु.) वारसदार; मेल्ल्या मनशा उपरांत तागेले आस्पतीचो धनी.

**येरांस** (ना. न.) मेल्ल्या मनशाचीं भाटां-बेसां आनी हेर आस्पत.

**येरादारी** (ना. स्त्री.) आरत्यो परत्यो भोवंड्यो.

**येरादाऱ्यो** (ना. स्त्री.) पळय **येरादारी.**

**येरें** (ना. न.) व्हडें उजवे वा दावेवटेन व्हरपाचो दांडो.

**येलापो** (ना. पु.) गोड; सोय बी घालून तळिल्लो पिठा-गुळो.

**येलिफांत** (ना. स्त्री.) लुगटाची एक जात.

**येवकार** (ना. पु.) आपल्याकडेन आयिल्ल्याचो आदर; आयिल्ल्याचो मान-मरातब; आयिल्ल्याक नमस्कार बी करप.

**येवजण** (ना. स्त्री.) आंखणी; बेत; तयारी.

**येवजणूक** (ना. स्त्री.) खोल विचार; खोलायेन केल्लो बरो-वायट विचार.

**येवजप** (स. क्रि.) सुचप; उगडास जावप.

**येवप** (अ. क्रि.) आपलेकडेन पावचो देखून चलप.

**येवपी** (ना.) आपल्याकडेन पावंक चलप.

**येवरोपी** (वि.) येवरोप खंडांतलें.

**येवलां** (ना. स्त्री. भो.) ल्हान जीव; किमसां.

**येव्ह** (ना. स्त्री.) देवान रचिल्ली संवसारांतली पयली बायल मनीस.

**येवाळें** (ना. न.) उदकांत जियेवपी एक जिवाणें.

**येस** (ना. न.) बरो शेवट; केल्ल्या वावरांत जोडिल्लें जयत.

**येसाय** (ना. स्त्री.) तालीम; घोळोवणी.

**येळ** (ना. पु.) वेलची; वेलदोडो.

**यो-वच** (ना. न.) येवप-वचप.

**योग** (ना. पु.) स्वास उस्वासाचेर आधारिल्लो मेंदवाचो एकेतरेचो व्यायाम; मानसशास्त्राचो व्यायाम.

**योग्य** (वि.) फावो ते तरेचें वा तरेन.

**योग्यताय** (ना. स्त्री.) लायकी; फावो त्या गुणांचे आसतेपण.

**योगी** (ना. पु.) रुशी; तपस्वी; स्वामी.

## यौ

**यौवन** (ना. न.) जुवानपण; तरनाटेपण.

## यं

**यंत्र** (ना. न.) माक्न; मशीन.

**यंत्रकार** (ना. पु.) माकनां चलोवपी.

**यंत्रशास्त्र** (ना. न.) माक्ना संबंदान शास्त्र.

**यंत्रशास्त्री** (ना. पु.) तरेकवार माक्नाविशींचें गिन्यान जोडिल्लो.

## र

**रक्कम** (ना. स्त्री.) दुडू; एकठांय केल्ले पयशे.

**रकप** (अ. क्रि.) व्हांवप; गळप.

**रक्तखेव** (ना. पु.) रक्तक्षय; रक्ताचो शिंवर; रक्ताचे पाट.

**रक्तचंदन** (ना.) एका वखदी झाडाची कांडी.

**रक्तपिनी** (ना. स्त्री.) हत्तिरोग; कुडीचे भाग मोटे जावपाचो रोग.

**रक्तस्राव** (ना. पु.) भायर व्हांवतें रगत.

**रकवप** (स. क्रि.) एका आयदनांतलें दुसऱ्या आयदनांत घालप; व्हांवोवप; भायर सोडप.

**रखरख** (ना. पु.) वोताचे कडकड; खूब उश्णताय.

**रखरखतें** (वि.) खूब खर; आंग भाजपी.

**रखरखें** (वि.) खर उजवाडाचें.

**रगडणी** (ना. स्त्री.) झरोवणी; खावचेलें काम.

**रगडप** (स. क्रि.) चाळप; घांसप; भकप; खूब खावप.

**रगडो** (ना. पु.) वानांत घालून वांटचेलो लांबोडो फातर.

**रगत** (ना. न.) मनशाच्या वा हेर कुडीच्या आंगांत घोळपी पातळ पदार्थ.

**रगत कपलाक चडप** (वा. प्र.) तकलेंत रक्ताचो नेट जावप.

**रगतावप** (स. क्रि.) रगतान भरप.

**रगताळें** (वि.) रक्तान भरिल्लें.

**रगाडो** (ना. पु.) खूब वावर.

**रचणाय** (ना. स्त्री.) रचचेलें काम; घडवणूक.

**रचणार** (ना. पु.) रचोवपी; घडोवपी.

**रचणी** (ना. स्त्री.) पळे **रचणूक.**

**रचणूक** (ना. स्त्री.) घडोवणी; रचणाय.

**रचप** (स. क्रि.) घडवप; कल्पनेन तयार करप.

**रंज** (ना. पु.) ल्हान थेंबो; फळाच्या रोसाचो बारीक थेंब.

**रजा** (ना. स्त्री.) सोड; सुटी.

**रजपूत** (ना. पु.) राजपुतान्यांतलो मनीस.

**रजय** (ना. स्त्री.) दाट आनी उबदार कोल्च.

**रड** (ना. स्त्री.) रडें; दुख्खान भरिल्लो आवाज; भायर फुटिल्लो दुख्खाचो आवाज.

**रडकुऱ्यां** (वि.) रडूंक पाविल्लें; रडपा देगेर पाविल्ली स्थिती; रडपाच्या बेतांतलें.

**रडकुऱ्यां परतलो** (वा. प्र.) रडूंक पावलो.

**रडकुरो** (वि.) रडपी; पिरंगणो.

**रडटलें** (वि.) रडकुरें; रडपी.

**रडणी** (ना. स्त्री.) रड; रडें.

**रडत मरत** (क्रि. वि.) उमेदीबगर; इत्सेभायर.

**रडप** (अ. क्रि.) दोळ्यांतल्यान दुकां काडप; तोंडांतल्यान दुखेस्त आवाज काडप.

**रडवप** (स. क्रि.) रडूंक लावप; रडचेली परिस्थिती हाडप.

**रडवें** (वि.) रडकुरें.

**रडी खेळप** (सं. क्रि.) खेळाचे नेम मोडप.

**रडें** (ना. न.) दुख्खाचो उमाळो आवाजांतल्यान भायर फुटप; दुखेस्त हेळो.

**रण** (ना. न.) वाळवंट; झाडां-पेडां; उदक बी नाशिल्ली सुवात.

**रणखेव** (ना. पु.) झुजांतली कापाकाप.

**रत्न** (ना. न.) हिऱ्या माणकासारकी मोलादीक वस्त.

**रवंथो** (ना. पु.) खोरजेचो जन्तू.

**रवळनाथ** (ना. पु.) गोंयचो एक खाशेलो देव.

**रवी** (ना. स्त्री.) ताक चाळपाचो लाकडाचो दांडो.

**रवीस** (ना. स्त्री.) रीत; पद्दत.

**रस्त** (ना. स्त्री.) रांग; रीस्क; पंगत.

**रस्तो** (ना. पु.) मार्ग.

**रसपाळें** (ना. न.) पातळ सालीचें

आनी मांसाळ केळें.
**रस्मी** (वि.) रेशमा सुताचें.
**रसयो** (ना. स्त्री. भो.) व्हड रांदनी.
**ऱ्हस्व** (वि.) मोटवें; आंखूड; थोडो वेळ उरपी.
**रसायनी** (वि.) रसायनी शास्त्रांतलें.
**रसरसप** (अ. क्रि.) घसघशीत वाडप; ताजपाण येवप.
**रसरसशीत** (वि.) टवटवीत; ताजें; बरें वाडिल्लें.
**रसाळ** (वि.) रोसान भरिल्लें; रोसाळ.
**रक्षाबंधन** (ना. न.) आस्वीन म्हयन्याचे पुनवेक भयणीन खासा वा मानिल्ल्या भावाच्या हाताक राखी बांदपाची चाल.

## रा

**रांक** (ना. स्त्री.) वळ; रेघ; रांग.
**राकेस** (ना. पु.) क्रूर आनी दुश्ट मनीस; दैत्य; देवाचो दुस्मान.
**राकेसी** (वि.) क्रूर; दया-माया नाशिल्लें.
**राखण** (ना. स्त्री.) सांबाळ.
**राखणदार** (ना. पु.) राखपी; सांबाळपी; रक्षण करपी.
**राखणायत** (ना. पु.) राखणदार.
**राखणो** (ना. पु.) राखणार; गोरवां सांबाळपी; राखणदार.
**राखप** (स. क्रि.) सांबाळप; नदर दवरपी.
**राखपी** (ना. पु.) सांबाळपी.
**राखी** (ना. स्त्री.) रेशमी सूत आनी ताका लायिल्लें फूल वा कमळ.
**राग** (ना. पु.) तिडक.
**रांग** (ना. स्त्री.) रीस्क; वळ.
**रागणें** (ना. न.) राग; देव-देंवचाराचो राग.
**रागाभरीत** (वि.) रागान भरिल्लें.
**रागी** (वि.) राग आयिल्लें; तापट.
**रागार जावप** (क्रि.) राग येवप.
**रागीश्ट** (वि.) रागान भरिल्लें; तिडयें; तिडकें.
**रांगोळी** (ना. स्त्री.) देवाऱ्याभोवतणी वा देवामुखार पिठान चितारिल्ल्यो वळी आनी वाली.
**राघवदास** (ना. पु.) तूप; खिसमीस बी घालून केल्ले लाडू.
**रांच** (ना. पु.) खतखत्या भाशेन एक जेवणाचो जिनस.
**राजकन्या** (ना. स्त्री.) राजाली धूव.
**राजकर्ण** (ना. न.) राज्य चलोवपाचें शास्त्र; राजकी चळवळ.
**राजकर्णी** (वि.) देशाचे राजकी जिणेंत भाग घेवपी; मुत्सद्दी; राजकी चळवळ करपी; सत्त्या जोडूंक कारस्तानां करपी.
**राजकाटी** (ना. स्त्री.) राजदंड; राजालो हातांत घेवपाचो दांडो; राजाली सत्त्या दाखोवपी दांडो.
**राजकारण** (ना. न.) राज्य कशें जोडचें; कशें चलोवचें आनी कशें राखचें हाचें शास्त्र वा गिन्यान. पळय **राजकर्ण.**
**राजकुमार** (ना. पु.) राजाचो पूत.
**राजकूळ** (ना. न.) राजालें घराणें; राजाचो वंश.
**राजगूड** (ना. पु.) राजगूट; राजाचें वा राजकी गुपीत.
**राजकी** (वि.) राज्याविशिंचें; राज्य चलोवपा संबंदीचें.
**राजघराणें** (ना. न.) राजाचें कूळ वा घराणें.
**राजघात** (ना. पु.) राजाचो खून; राजाचें व्हड नुकसान.
**राजघातकी** (ना.) राजाचो घात करपी;

राजाक मारपी; राजाचो खुनी.
**राजचिन्न** (ना. न.) राजाचे सत्त्येची कुरू.
**राजदंड** (ना. पु.) पळय **राजकाटी.**
**राजदूत** (ना. पु.) राजाल्यो सांगण्यो हाड-व्हर करपी.
**राजधानी** (ना. स्त्री.) राज्याचें मुखेल शार; राजा रावता तें आनी जंय सावन राज्याचे सगले वेव्हार चलतात तें शार.
**राजनीत** (ना. स्त्री.) राजान कशें चलचें; कशें वावुरचें हाचेविशींचे नेम; राज्य चलोवचेले कायदे.
**राजनिवास** (ना. पु.) राजा रावता तो जागो; राजवाडो.
**राजपथ** (ना. पु.) राजमार्ग; राजा वा राष्ट्राचो सगल्यांत व्हडलो जाळवणदार येता-वता तो मार्ग.
**राजपाटण** (ना. न.) राज्याचें मुखेल शार; जंय सावन राज्याचे सगळे वेव्हार चलतात तें शार.
**राजपत्र** (ना. न.) राजाले हुकूम बरयल्लें कागद.
**राजपुत्र** (ना. पु.) पळय **राजकुमार.**
**राजभक्ती** (ना. स्त्री.) राजाचो मोग; राजनिश्टा.
**राजभवन** (ना. न.) राजवाडो; राजाची पलास.
**राजमंदीर** (ना. न.) राजाचें घर; राजा रावता तें घर.
**राजमान्य** (वि.) राजाक मानिल्लें; राजाचो हयकार आशिल्लें.
**राज्य** (ना. न.) राजाच्या शेकातळा आशिल्ली भूंय; स्वतंत्र देश.
**राज्यपाल** (ना. पु.) राजाचो प्रांतांतलो मुणयारी वा पडहात; गोव्हेर्नादोर; गव्हर्नर.
**राज्यसभा** (ना. स्त्री.) राज्याचे व्हड जाळवणदार कायदे आनी हेर वेव्हार करतात ती सभा.
**राजरोस** (क्रि. वि.) उगड; सगल्यांमुखार; सगल्यांहुजीर.
**राजवाडो** (ना. पु.) राजाली पलास; राजा रावता तें घर.
**राजशाय** (ना. स्त्री.) राजा आसचो आनी ताणें राज्य चलोवचें अशें मानपी राज्यपद्धत.
**राजसभा** (ना. स्त्री.) राजा धरून तागेल्या सगल्या जाळवणदारांची सभा.
**राजहंस** (ना. पु.) धवी फुल्ल आनी भोव सुंदर हांयसाची जात.
**राजा** (ना. पु.) पात्शा; राय; राज्य चलोवपी.
**राजांगण** (ना. न.) चार चोवक्यांमदलें आयस-पयस आंगण.
**राजिनामो** (ना. पु.) आपले इत्सेन नोकरी वा कसलीय जापसालदारकी नाका म्हणून बरोवन दिल्लें सांगणें.
**राजू** (ना. पु.) काथ्याची वळिल्ली मोटसार आनी घट्ट दोरी.
**राट** (ना. न.) उदक काडपाची गाडी; वावराचो पसारो.
**राटप** (अ. क्रि.) घोळप; सवंय आसप; कामाचो अणभव आसप.
**राटार घाल्लेवरी जावप** (वा. प्र.) घुंवळप.
**राटावळी** (ना. स्त्री. भो.) जिनसांवार कामां; हांगाथंय भोवन करचेलीं कामां.
**रांड** (ना. स्त्री.) घोव नाशिल्ली बायल; घोव मेल्ल्याची बायल.
**रांडपण** (ना. न.) घोव मेल्ले बायलेची स्थिती.
**रांडगें** (वि.) रांड बायलेचें; रांड बायलेपसून जाल्लें.

**राणाव** (ना. स्त्री.) पळे **रांड.**
**राणी** (ना. स्त्री.) राजाची बायल.
**राणूल** (ना. न.) रांड; एक गाळ.
**राणो** (ना. पु.) झुजारे जातीचो मनीस.
**रात** (ना. पु.) एक जोख; सादारण अर्द किलो; (स्त्री.) सुर्याचे अस्तंते सावन दुसऱ्या दिसाचे ताचे उदेंते मेरेनचो काळखी काळ.
**रातपाळी** (ना. स्त्री.) रातीचें सुबेज काम.
**रातराणी** (ना. स्त्री.) भोव बऱ्या वासाचीं फुलां दिवपी आनी रातीचें फुलपी झाड.
**रातांदळें** (वि.) रातीची नदर नाशिल्लें; रातीचें कुड्डें जाल्लें.
**रातेर** (ना. पु.) हुंदरांक मारपाचो वा पकडचेलो सांपळो.
**रांदची कूड** (ना. स्त्री.) जेवण-खाण रांदचेली कूड.
**रांदन** (ना. स्त्री.) तीन फातर दवरून वा तीन फातर दवरिल्ल्यावरी आकार दिवन उजो करचेली वेवस्ता; चूल.
**रांदप** (स. क्रि.) जेवण-खाण शिजोवन तयार करप.
**रांदप-घर** (ना. न.) पळय **रांदची कूड.**
**रांदपी** (ना. पु.) जेवण-खाण तयार करपाचो धंदो करपी.
**रान** (ना. न.) दाटायेन झाडा-पेडांनी भरिल्लो जागो.
**रानटी** (वि.) रानांत रावपी; शिकूं सवरूं नाशिल्लें; अडाणी.
**रानदुकर** (ना. पु.) रानांत जियेवपी दुकर.
**रानवट** (वि.) रानटी; रानांत जियेवपी.
**रानवटपण** (ना. न.) जंगलीपण; अडाणीपण; रानटी.
**रानवटी** (वि.) रानांत जियेवपी; जंगली.
**रांप** (ना. पु.) आयदनाचेर बी दाटिल्लो मळ; लेप.
**रांपण** (ना. स्त्री.) नुस्तें पकडचेलें व्हडलें जाळें.
**रांपणकार** (ना. पु.) दरयांत रांपण घालपी; ओडपी आनी नुस्तें पकडपी.
**रांपप** (स. क्रि.) १. नुस्तें पागप; रांपणीन नुसतें धरप; २. मळ दाटप; आयदनांचेर बी म्हेळो थर येवप.
**रांपी** (ना. स्त्री.) चामडें बी कातरपाची आनी तें तासपाची ल्हान तासणी; वाटकुळसार पातें आनी मूठ आशिल्लें चामारालें हत्यार.
**रांपो** (ना. पु.) नाल्ल बी सोलपाचो ल्हान भालो.
**राबप** (स. क्रि.) रावप; थांबप.
**राबस** (वि.) ओबड-धोबड; नाजूकसाण नाशिल्लें.
**राबितो** (ना. पु.) बिराड; रावपाचें काम.
**राम** (ना. पु.) दशरथाचो पूत; रामायणांतलो नायक.
**रामनम** (ना. स्त्री.) रामजल्माचो वाडदीस; चैत्रांतले पयले नमी दिसाची जल्मगांठ.
**रामफळ** (ना. न.) एक फळ; आनॉन नावांचें पुर्तुगाली फळ.
**रामायण** (ना. न.) वाल्मीक स्वामीन रचिल्लें म्हाकाव्य.
**राम** (ना. पु.) राजा.
**रायभारी** (ना. पु.) लग्नाच्यो सोयरिको जुळोवपी.
**राया** (ना. पु.) राजा.
**राव** (ना. पु.) एक भौमानाची पदवी.
**रावण** (ना. पु.) लंकेचो एक राजा;

रामाचो दुस्मान.

**रावतिका** (ना. स्त्री.) राबितो; जियेणी; बिराड.

**रावप** (अ. क्रि.) जियेवप; बिराड करप; राबितो करप; थारप; थांबप.

**रावपी** (ना.) जियेवपी; बिराड करपी; थांबपी.

**राबवप** (स. क्रि.) थांबवप; थारवप.

**रावंस** (ना. स्त्री.) एक सुवादीक आनी सुरबूस मोटें नुस्तें.

**रावूळ** (ना. पु.) राजा रावता तो जागो; राजवाडो; पलास.

**राश्ट्र** (ना. न.) स्वतंत्र व्हड देश.

**राश्ट्रकरण** (ना. न.) आपल्या राश्ट्राचें बरें भलें करपाची इत्सा आनी वावर.

**राश्ट्रकूट** (ना. न.) आठव्या शेंकड्यांतलें गोंयकार राजघराणें.

**राश्ट्रपती** (ना. पु.) राश्ट्राचें अध्यक्ष; राश्ट्राचो सगल्यांत व्हड जाळवणदार.

**राश्ट्रीक** (वि.) राश्ट्राचें; राश्ट्राविशींचें.

**रास** (ना. स्त्री.) पोरसांव.

**रासवळ** (वि.) चार-चोवगांचें; भोवशीक.

**राक्षस** (ना. पु.) पळय **राकेस.**

**राक्षेसी** (वि.) पळय **राकेसी.**

## रि

**रिकामपण** (ना. न.) बेकारपण; वावर धंदो नासपाची स्थिती.

**रिकामें** (वि.) बेकार; वावर नाशिल्लें.

**रिगप** (अ. क्रि.) आंग आंवळून भितर सरप.

**रिगवप** (स. क्रि.) भितर घालप; भितर भरप.

**रिझवप** (स. क्रि.) खुशालकाय भोगवप; आनंद दिवप; हांसवप.

**रिणकारी** (ना. पु.) रीण घेतिल्लो; उश्णे दुडू बी घेतिल्लो.

**रितेपण** (ना. न.) पोकळसाण; रिकामपण.

**रितें** (वि.) रिकामें; पोकळ.

## री

**रीग** (ना. स्त्री.) भितर सरपाचें काम; रिगचेलें काम.

**रीण** (ना. न.) उश्णो घेतिल्लो दुडू वा वस्त.

**रीत** (ना. स्त्री.) चाल; पद्धत; तरा.

**रीस्क** (ना. स्त्री.) वळ; रेग.

## रु

**रुखातळ** (ना. पु.) रुखामुळाकडची सुवात.

**रुखावळ** (ना. स्त्री.) तरेतरेचीं झाडां; रुखां-माळ.

**रुचप** (स. क्रि.) रूच घेवप; आवडप; मानप; रुचीक बरो लागप.

**रुचीक** (वि.) सुरबूस; सुवादीक; बरे रुचीचें.

**रुजप** (अ. क्रि.) किल्लप; मूळ धरप.

**रुजवण** (ना. स्त्री.) किल्लल्लें बीं; कोंब फुटिल्लो रोव.

**रुजवप** (स. क्रि.) किल्लपाक घालप; कोंबेवप.

**रुजवात** (ना. स्त्री.) मनसुबी; खरें-फट तपासचेलें काम; न्याय-निवाडो.

**रुजू** (क्रि. वि.) तपासणेंत मेळिल्लें; तपासणेचे वळेरींत आनी नामावळींत सांपडिल्लें.

**रुढी** (ना. स्त्री.) परंपरेन आयिल्ली चाल-चलणूक; खूब तेंपासावन चलत आयिल्ली रीत आनी संवंय.

**ऋणानुबंद** (ना. पु.) संबंद; नातें; नात्यागोत्याचे आनी इश्टागतीचे पास.

**रुतू** (ना. पु.) एका वर्साचे दोन दोन म्हयन्याचे स भाग.

**रुद्र** (ना. पु.) महादेव; शंकर.

**रुंदसाण** (ना. स्त्री.) कडेसाकून कडेमेरेनचें अंतर.

**रुंदाय** (ना. न.) पळय **रुंदसाण.**

**रुंदावप** (स. क्रि.) रुंदायेन विस्तारप; रुंदायेन व्हड जावप.

**रुपय** (ना. पु.) रुपयो; शंबर पयशे मोलाचें नाणें.

**रुपकार** (ना. पु.) अणकाराचें एक रूप.

**रुपडें** (ना. स्त्री.) कागदाचें तयार केल्लें मनशाचें रूप.

**रुपणें** (ना. न.) सुंदर रूप.

**रुपयो** (ना. पु.) पळय **रुपय.**

**रुपवंत** (वि.) रुपेस्त; बऱ्या रुपाचो.

**रुपांतर** (ना. न.) रुपाचो बदल; अणकार.

**रुपावत** (ना. न.) रुप्याच्यो वस्तू.

**रुपाळें** (वि.) बऱ्या रुपाचें; रुपेस्त; सुंदर.

**रुमड** (ना. न.) औदुंबराचो रूख.

**रुपें** (ना. न.) एक धवी मोलादीक धातू.

**रुपेस्त** (वि.) सुंदर; देखणें; सोबीत.

**रुपोय** (ना. पु.) पळय **रुपय.**

**रुशी** (ना. पु.) पयलीं काळचो गिन्यानी आनी चिंतक.

## रू

**रूख** (ना. पु.) व्हड झाड.

**रूच** (ना. स्त्री.) गोड; तीख; खारट हाचे संबंदान जिबेक जाल्ली जाणविकाय.

**रूं** (ना. न.) खारजे भाशेन जाल्लें चवन.

**रूढ** (वि.) खूब वर्सांपासून चलून आयिल्लें.

**रूंद** (वि.) रूंदाय आशिल्लें; व्हड रूंदायेचें.

**रूप** (ना. न.) आकार; चेहरो; मनशाचे कुडीचो भायलो आकार; सुंदरसाण.

**रूय** (ना. स्त्री.) एक विखारी झाड.

**रूळ** (ना. पु.) उज्या गाडयेखातीर केल्लो लोखणाचो मार्ग.

## रे

**रे** (अ.) दुसऱ्याक लेखून काडिल्लो उल्यासारको उद्गार.

**रेखणी** (ना. स्त्री.) बारीक बारीक केल्लें रंगाचें काम; चितारणी; पितारणी.

**रेखप** (स. क्रि.) रेगो काडून चितारप.

**रेग** (ना. स्त्री.) रीस्क; वळ.

**रेगटी** (ना. स्त्री.) कश्याकशीय मारिल्ली रीस्क; वांकडी तिकडी मारिल्ली रेग.

**रेखांगणीत** (ना. न.) रेखांशास्त्र; वस्तूंचो आकार; जमनीची मेजणी; तरेतरेचीं जोखां बी शिकयता तें शास्त्र.

**रेंच** (ना. पु.) हाया; खातल्याक पळोवन दुसऱ्याक सुटिल्ली रूच आनी तिका लागून खातल्याक जाल्लो बादिकार; खातल्याक जाल्ली दिश्ट.

**रेंच जावप** (स. क्रि.) खातल्याक दिश्ट जावप; खातल्याचेर हाया पडप.

**रेज्म** (ना.) चारशें अयशीं वा पाचशें कोऱ्या कागदांचो पेळो.

**रेजिदोर** (ना. पु.) पाटील; गांवचो सरकारी जाळवणदार; सरपंच.

**रेजिदोरकी** (ना. स्त्री.) पाटिलकी; रेजिदोराचीं कामां.

**रेजिस्ताद** (वि.) टपालांत रुजू केल्ली आनी बरोवन घेतिल्ली चीट वा दुसरी कसलीय वस्त.

**रेजीश्त** (ना. पु.) कसलीय गजाल बरोवन घेवचेलें काम; जल्म; लग्न; मरण सारकेल्यो घडणुको बरोवन दवरचेलें काम.

**रेंटप** (स. क्रि.) धुकलप; फुडें व्हरप.

**रेडको** (ना. पु.) ल्हान रेडो.

**रेडिओ** (ना. पु.) तारेविरयत संदेश पावोवपाचें साधन.

**रेडिओ-स्टेशन** (ना. न.) तरेतरेच्यो खबरो; घडणुको बी जंय सावन पयस पावयतात तें घर.

**रेडी** (ना. स्त्री.) जिवान बरी आशिल्ली घसघशीत म्हस.

**रेडूक** (ना. न.) म्हशीचें पोर.

**रेडो** (ना. .) एक शाकाहारी; शांत आनी उपेगी जनावर.

**रेन्द** (ना. स्त्री.) १. भाटां-बेंसाची येणावळ; भाडें; २. फुलां वाली बी विणून तयार केल्लें लुगटाचें तीर.

**रेंदकाम** (ना. न.) लुगटाचेर सोबीत वाली; फुलां बी विणपाचें वा भरचेलें काम.

**रेन्दकार** (ना. पु.) रेंद फारीक करपी; भाडें दिवपी; भाटां बेसांचो दुड्डू फारीक करपी.

**रेंदेर** (ना. पु.) माडाची सूर काडपी.

**रेपुब्लीक** (ना. न.) लोकांनी लोकांखातीर चलयल्लें लोकांचें राज्य; लोकांची सत्त्या आशिल्लें राज्य.

**रेबेक** (ना. न.) चार सरयो ताणायल्लें एक वाद्य; व्हायोलीन.

**रेबेकांव** (ना. पु.) व्हड रेबेक.

**रेबेकिस्त** (ना. पु.) रेबेक वाजोवपी.

**रेबड** (ना. न.) चिखोल; रेबो; बांबर.

**रेबो** (ना. पु.) चिखोल.

**रेलगाडी** (ना. स्त्री.) उज्या-गाडी.

**रेल्वे** (ना. स्त्री.) लोखणा रुळाचो मार्ग; ह्या मार्गावयल्यान धांवपी गाडी.

**रेलोज** (ना. स्त्री.) घडयाळ; हाताची; मेजावयली वा वंटिची घडयाळ.

**रेलोजकार** (ना. पु.) घडयाळकार; घडयाळां विकपी; घडयाळां सारकीं करपी.

**रेंव** (ना. स्त्री.) दरया म्हऱ्यांतली कसाची माती.

**रेंवट** (वि.) रेंवेन भरिल्लें.

**रेवडप** (स. क्रि.) वेडावप; गुटलावप; धुवणावप.

**रेवडी** (ना. स्त्री.) गोडा-पंकाची तीळ बी लायिल्ली वडी.

**रेवती** (ना. न.) एका नक्षत्राचें नांव.

**रेवाडो** (ना. पु.) वेडो; घुवणो.

**रेंवाळ** (वि.) रेंवेन भरिल्लें.

**रेशीम** (ना. न.) एक नाजूक आनी लकलकीत सूत.

**रेस्पेर** (ना. पु.) न्हवऱ्या-व्हंकलेक दिल्लो येवकार; स्वागत.

**रेस्मी** (वि.) रेसमा सुताचें; रेसमापसून तयार केल्लें.

# रो

**रोकड** (ना. स्त्री.) मोडीचे पयशे; रोख पयशे.
**रोख** (वि.) जें उधारीचें न्हय.
**रोखडें** (क्रि. वि.) बेगीन; फाटोफाट; सडसडीत.
**रोख-ठोक** (वि.) रोकड; उदारेन केल्लें न्हय.
**रोखप** (स. क्रि.) तीर धरप; थिरताय आसप; रोंबप; भेदप.
**रोखी** (वि.) रोख.
**रोग** (ना. पु.) पिडा; वायट.
**रोगयाळें** (वि.) पिडेखोर; पिडेस्त.
**रोगीपण** (ना. न.) वायटकारपण; रोगाचें आसतेपण.
**रोगी** (वि.) पळय **रोगयाळें.**
**रोगीसाळ** (ना. स्त्री.) रोग्यांक वखदां करपाचें घर; ओश्पिताल.
**रोगेल्लें** (वि.) पिडा-रोग जाल्लें.
**रोज** (ना. न.) एक सोबीत फूल.
**रोंट** (ना. न.) दाट भाकरी.
**रोटी** (ना. स्त्री.) लाटिल्ली पातळ भाकरी.
**रोटो** (ना. पु.) किडो; व्हड कीड.
**रोत** (ना. न.) हातांत घेवचेली नितळ सोबीत बडी; घट्ट आनी तणक बडी.
**रोतेयसांव** (ना. न.) कदेलांच्या बी बसचेल्या आनी तेंकचेल्या जाग्यार विणिल्ली रोता-बडयांच्या दोरांची जाळी.
**रोद** (ना. न.) चक्र; खेळूंक बी वाटकुळे रिस्केन बशिल्ले मनीस.
**रोंद** (ना. न.) कांय शिपाय; शिपायांचो जमो.
**रोप** (ना. पु.) जिनसांवार लुगटां.
**रोंपप** (स. क्रि.) रोवप; रोपयो लावप; सेव मारप.
**रोंपलो** (ना. पु.) रोंपो; निकतेंच उदेल्लें झाड.
**रोंपी** (ना. स्त्री.) पळय **रोपलो.**
**रोपेर** (ना. पु.) लुगटां-वेपारी.
**रोंपो** (ना. पु.) व्हड जाल्ली रोंपी.
**रोंबप** (स. क्रि.) पुरप; खोवप; भितर घालप.
**रोमट** (ना. न.) शिगम्या-इंत्रुजांतलो खेळ.
**रोमप** (स. क्रि.) तोपप; भितर घालप.
**रोमी** (वि.) रोमन; रोमन लोकांनी आपणायिल्ली (लिपी.)
**रोयण** (ना. स्त्री.) मुयां-घर.
**रोल** (ना. पु.) फोलिंचो वाटकुळो पेळो.
**रोस** (ना. पु.) पिळून काडिल्लें सार; शिवराक कडी.
**रोस्त** (ना. पु.) तोंड; फुडली वट.
**रोस्त** (ना. न.) जनेला-भोंवतणी मारिल्लो रंगाचो पटो.
**रोव** (ना. पु.) किल्लायल्लें बीं.
**रोवणी** (ना. स्त्री.) रोवचेलो शेता-वावर; झाडां रोवचेलें काम.
**रोवप** (स. क्रि.) बीं मारप; झाडां लावन; झाडां किल्लावन काडूंक जमनींत रोंबप.
**रोहिणी** (ना. स्त्री.) चोवथें नक्षत्र.

# रं

**रंग** (ना. पु.) वस्तूंचेर पडिल्लो उजवाड भायर सुटून ताणें आमचे नदरेर केल्ल्या परिणामांची जाणविकाय; धवें; काळें;

तांबडें अशें वस्तूंचें भायलें रूप.
**रंगढंग** (ना. पु.) तरेकवार मोड.
**रंगप** (अ. क्रि.) रंग दिवप; रंगांत येवप; स्फूर्त येवप.
**रंगपुजा** (ना. स्त्री.) तरेतरेच्या फुलांची आरास केल्ल्या आसनाचेर देवाक बसोवन ताची केल्ली पुजा.
**रंगयाळें** (वि.) रंग-ढंग करपी.
**रंगवप** (क्रि.) रंग भरप; रंग काडप; चितारप; पितारप; तरेकवार रंगांनी चित्रावप.
**रंगसाळ** (ना. स्त्री.) १. नाटकांतली संवगां रंगोवचेली कूड; २. बायलांकडेन रंग ढंग करपाची राजा लोकांची शाळा.
**रंगार येवप** (सं. क्रि.) रंग भरप; फुलून येवप; आकर्शण वाडप.
**रंगारी** (ना. पु.) रंग काडपी; कपडे रंगात काडपी.
**रंगी** (वि.) तरेकवार रंगांचें.
**रंगी बेरंगी** (वि.) तरेकवार रंगांचें.
**रंगीत** (वि.) रंगयल्लें; तरेकवार रंगांचें.
**रंगेल** (वि.) रंगढंग करपी; मौज मारपी.
**रंभा** (ना. स्त्री.) एक भोव सुंदर अप्सरा.

## ल

**लक्क** (वि.) निवळ; चक्क.
**लकण** (ना. स्त्री.) झेम; इल्ली न्हीद.
**लकणी** (ना. स्त्री.) पळय **लकण.**
**लकणेवप** (अ. क्रि.) विसव घेवंक आडवो पडप; लकप.
**लक्तुबाय** (ना. स्त्री.) वावराची अपुरबाय; जतनाय.
**लकप** (अ. क्रि.) न्हिदेन वा कसलेय गुंगेन तोल वचप.
**लकलक** (ना. पु.) खर उजवाड; चकचकसाण.
**लकलकप** (अ. क्रि.) चकचकप: झगझगप.
**लकलकीत** (वि.) उजवाडान भरिल्लें; चकचकीत.
**लखलखणें** (वि.) उजवाड दिवपी; झगझगणें.
**लखेण** (ना. स्त्री.) कुरू; खाशेलो गूण.
**लगडी** (ना. स्त्री.) भांगराची वा रुप्याची कांब.
**लगदो** (ना. पु.) कालयल्ल्या पिठाचो; मातयेचो वा आनीक कसल्याय वस्तूचो गुळो.
**लग्न** (ना. न.) दादल्याक आनी बायलमनशेक घोव-बायल अशा नात्यान एकठांय हाडचेलो धर्मीक विधी.
**लगाम** (ना. पु.) धांवत्या घोड्याक बी आपल्या ताब्यांत दवरूंक ताच्या तोंडांत घाल्लो पटो; दावें; येरें; ताबो दवरूंक केल्ली मांडणी; ब्रेक.
**लचांड** (ना. न.) भानगड; घुसपागोंदळ.
**लचांडी** (वि.) भानगड करपी वा भानगडींत घालपी; गोंदळांत घालपी.
**लज** (ना. स्त्री.) मुरवत; धिटायेचो उणाव; थोड्या प्रमाणांत भितरेपण; आपले पवित्रतायेक आनी शिलाक बादा येत म्हणून भिरांत.
**लजप** (अ. क्रि.) भीड जावप; मुरवत दिसप; भिडेन तकली बागोवप.
**लजे झाड** (ना. न.) बोट लागतकच बागोवपी आनी पानां मेटून घेवपी झाड.
**लजेवप** (स. क्रि.) भिडेवप; मुरवतीन तकली बागोवप.
**लजेस्त** (वि.) भिडेस्त; मुरवती.
**लटकें** (वि.) फटयांचें; जें खरें न्हय.

**लटपटें** (वि.) कडकडें; हालतें.
**लटपटप.** (अ. क्रि.) कडकडप.
**लटाफट** (ना. स्त्री.) झगडें; मारामार.
**लटीक** (वि.) फटयांचें; जें खरें न्हय.
**लटीकपण** (ना. न.) असत्; फटकिरेपण.
**लठ्ठ** (वि.) कुडीन मोटें; गुबगुबीत.
**लठ्ठपण** (ना. न.) कुडीचें मोटेपण; गुबगुबीतपण.
**लडामुडी** (ना. स्त्री.) घुसपागोंदळ; लटापटी; ताकतिकेक लागून जाल्लो बोवाळ.
**लडी** (ना. स्त्री.) सुताचें वेटाळें; शिवण भरपाचें रंगीत आनी लकलकीत सुताचें वेटाळें.
**लडे-फोग** (ना. पु. भो.) मार-फार; फोग-बातेरी.
**लडो** (ना. पु.) पेट; फार.
**लडलडप** (अ. क्रि.) कडकडप; थरथरप.
**लढाय** (ना. स्त्री.) झूज.
**लफडें** (ना. न.) लचांड; भानगड.
**लबदो** (ना. पु.) मासाचो कुडको.
**लमाण** (ना. पु.) मुस्तायकी; गोरवां बी घेवन वचपी मनशांचो जमो.
**लय** (ना. स्त्री.) ताल; गती; चाल.
**लवंग** (ना. न.) १. काराफूल; २. लोखणाची पांच; स हात लांबायेची पारय.
**लवंडप** (अ. क्रि.) आड पडप; लकप; तोल वचून पडप.
**लवणप** (अ. क्रि.) पळय **लवंडप.**
**लवो** (ना. पु.) एक सवणें.
**लश्कर** (ना. न.) सैन्य; लडाय करपी शिपायांचो जमो.
**लश्करी** (वि.) सैन्याविशींचें; लश्करा संबंदान.
**लस** (ना. स्त्री.) रोग जावचो न्हय म्हणून जें करतात तातूंत उपकारायल्लो द्रव.
**लसलसणें** (वि.) मातिल्लें; घसघशीत वाडिल्लें.
**लसलसप** (अ. क्रि.) मातप; घसघशीत वाडप.
**लस्सी** (ना. स्त्री.) दाट ताकांत साकर बी घालून केल्लो एक पियेवपाचो जिनस.
**लसूण** (ना. स्त्री.) कणकणीत वासाच्या कांद्याची धवी जात.
**ल्हंव** (ना. स्त्री.) आंगाचे कातीर वाडिल्ले नाजूक केंस.
**ल्हान** (वि.) धाकलें; नेणटें; मोटवें; थोडे पिरायेचें.
**ल्हानपण** (ना. न.) भुरगेपण; खालतेपण; नमळाय.
**ल्हानविकाय** (ना. स्त्री.) खालतेपण; नमळाय.
**ल्हानुलें** (वि.) धाकटुलें; कुकुलें.
**ल्हाय** (ना. स्त्री.) फुलयल्लें सुकें भात.
**ल्हार** (ना. न.) लाट; वाऱ्यान वयर सरिल्लें उदक.
**ल्हेंवटें** (वि.) खावगें; परत परत खावचें अशी इत्सा आशिल्लें.
**ल्हेंवटेपण** (ना. न.) खायन खायन दिसपाची इत्सा; भकारेपण.
**ल्हेंवप** (स. क्रि.) चाटप; जिबेन सांसपप; जिबेन ओडप.
**ल्होव** (वि.) उण्या वजनाचें; वजन नाशिल्लें.
**ल्होवसाण** (ना. स्त्री.) चड वजन नासपाची स्थिती.
**लक्ष** (वि.) शंबर हजारांचो आंकडो. (ना. स्त्री.) ध्यान; चित्त.

**लक्षण** (ना. न.) कुरू; गूण.
**लक्षुमी** (ना. स्त्री.) दुडवांची आनी आस्पतीची देवी.

## ला

**लां** (ना. स्त्री.) मेंढराचे केंस; पिंजून निवळ आनी नितळ केल्ल्या मेंढरां केसांचें सूत.
**लांकडी** (वि.) लांकडाचें; मदेरापासून तयार केल्लें.
**लांकुडकार** (वि.) लांकडां विकपी; मदेराचो वेपार करपी.
**लांकूड** (ना.) मदेर; झाडांचे ल्हान व्हड खांदे.
**लाख** (ना. स्त्री.) कांय झाडांचो पेट घेवपी दीख आनी तांबडो रंग भरसून तयार केल्ली वस्त; (वि.) शंबर हजार.
**लाखी** (वि.) लाखेपासून तयार केल्लें.
**लाखटेवप** (अ. क्रि.) लजेवप; गुन्यांव केल्ले जाणविकायेन लज जावप.
**लाखाटो** (ना. पु.) कागदाची ल्हान पोती.
**लाग** (ना. पु.) मोड; लाळेगोळे; (स्त्री.) गोरवां-बोकडांक येणो एक वशाचो रोग.
**लागतें** (वि.) तेंकपी; किल्लपी; फुलां-फळां जावपी.
**लागप** (अ. क्रि.) तेंकप; मूळ धरप; (स.) दसप.
**लागभाग** (ना. पु.) संबंद; नातें.
**लागयें** (वि.) मोड करपी; हालवारपणां करपी; लाळेगोळे करपी.
**लागशिल्लें** (वि.) म्हऱ्यांतलें; लागींच्या नात्याचें.
**लागशीं** (अ.) म्हऱ्यांत; लागीं.
**लागसार** (अ.) म्हऱ्यांत; शेजरा.
**लागीं** (अ.) म्हऱ्यांत; तेंकून; शेजरा.
**लागीं येवप** (वा. प्र.) अशक्त जावप.
**लागीक** (वि.) रोगाचो वसो हाडपी आनी दिवपी.
**लागू जावप** (स. क्रि.) संबंद आसप; जबाबदार आसप.
**लागून** (अ.) तेंकून; खातीर; पसत.
**लागो-बांदो** (ना. पु.) संबंद; नातें.
**लागोळें** (वि.) लाग करपी; गोडयेन उलोवपी आनी चलपी.
**लाचार** (वि.) खूब गरजिवंत; काकुळटेणी दशा जाल्लें; वायट परिस्थितीन काकुळटवाणें जाल्लें.
**लाचारपण** (ना. न.) दीन परिस्थिती.
**लाट** (ना. स्त्री.) ल्हार.
**लाटण** (ना. पु.) लापयांव.
**लाटणी** (ना. स्त्री.) रोटयो चपात्यो बी लाटूंक उपकारावचेली आडवी गुळगुळीत बडी.
**लाटप** (स. क्रि.) लाटणेन पिठा-गुळे झरोवन पातळ करप; आपणावप.
**लाटफळां** (ना. न. भो.) तड्डकां; बडायो.
**लाटफळें** (ना. न.) रोटयो; पापड बी लाटपाचें वाटकुळें नितळ फळें.
**लाठी** (ना. स्त्री.) दांडो; पुलीस उपकरायतात तो दांडो.
**लाड** (ना. पु.) अपुर्बाय; तोखणाय.
**लाडकुबाय** (ना. स्त्री.) चड अर्थी अपुरबायो जाल्लें भुरगें.
**लाडकें** (वि.) मोगाचें; अपुरबायेचें; जाय जाल्लें.
**लांडगो** (ना. पु.) एक रानटी आनी मांस खावपी जनावर.
**लाडेवप** (अ. क्रि.) चड अपुरबायेन हटी जावप.

**लाडांत येवप** (सं. क्रि.) रंगांत येवप; लाडी-गोडी करप.

**लाडू** (ना. पु.) गुळी; खावचेलो एक वाटकुळो जिनस.

**लांडो** (ना. पु.) शेंपडी तुटिल्लो मुंडो.

**लांडोर** (ना. स्त्री.) मोराची मादी.

**लात** (ना. न.) लोखणाचो पातळ पत्रो; ह्या पत्र्याचो दबो.

**लातबडायो** (ना. स्त्री.) तड्डकां; बडवचार.

**लाती** (ना. स्त्री.) पापडांची पिठागुळी मातृशी लाटून तिका दिल्लो वाटकुळो आनी व्हड आकार.

**लार्ती** (ना. स्त्री.) एक खूब पोरणी आनी गिरेस्त युरोपी भास.

**लादी** (ना. स्त्री.) १. पिंजायल्ल्या आनी निवळ केल्ल्या कापसाची लोळी; २. बर्फाचो फातर.

**लापयांव** (ना. पु.) कांचेचो तूब लायिल्लो पेत्रोलाचो दिवो.

**लाप्स** (ना. पु.) शिशाची बारीक काडी आशिल्ली पेन्सील.

**लापीट** (वि.) हुशार; शिटूक.

**लापीटपण** (ना. न.) हुशारकाय; शिटूकसाण.

**लांब** (वि.) लांबाय आशिल्लें.

**लांबट** (वि.) शिरशिरीत; उंचायेन व्हड.

**लांबण** (ना. स्त्री.) इल्ली इल्ली हाडिल्ली लांबसाण; एके मुदयेंत दुसरी मुदी; गुंथून लांबयल्ली माळ; लांबावणी.

**लांबतें** (वि.) हुमकळटें; लांबयल्लें.

**लांबाय** (ना. स्त्री.) तोंक धरून तोंक मेरेनचें अंतर.

**लांबरूंद** (वि.) उबे आनी आडवे वटेन व्हड.

**लांबसाण** (ना. स्त्री.) लांबाय; उंचाय.

**लांबावणी** (ना. स्त्री.) इल्ली इल्ली लांबयल्ली गजाल.

**लांबी** (ना. स्त्री.) लांबाय; उंचाय; मदेराच्या खाचींत वा बुराकांत भरचेली मेणाभाशेन चिकट वस्त.

**लाभ** (ना. पु.) फायदो; नफो.

**लामणदिवो** (ना. पु.) हुमकळायल्लो पांच; सात बी वातीचो तेला-दिवो.

**लायक** (वि.) योग्य; फावो तशें; जायतशें.

**लायकी** (ना. स्त्री.) योग्यताय; फावो त्या वा जाय त्या गुणांचें आसतेपण.

**लायट** (ना. स्त्री.) उजवाड.

**लायटी कांडी** (ना. स्त्री.) उजवाड दिवपी नळी.

**लायणारें** (वि.) लावपी; दसोवपी; पेटोवपी; तेंकोवपी.

**लाल्लुक** (वि.) खूब गोड.

**लालखी** (ना. स्त्री.) देवाक बसोवचेलें आसन.

**लालेवप** (स. क्रि.) आशेवप; खूब आस्त धरप.

**लाव** (ना. पु.) लाभ; फायदो.

**लावप** (अ. क्रि.) दसप; (स.) तेंकोवप; रोवप.

**लावपी** (वि.) तेंकोवपी; दसोवपी; रोवपी.

**लावालाव** (ना. स्त्री.) चाडी; चाडयो करून झगडीं लावपाचो सबाव.

**लाशें** (ना. न.) लाशिल्ले भाशेन खत.

**लांस** (ना. पु.) पावणेंत केल्ली मागणी; शेताचो भाग.

**लासप** (अ. क्रि.) भाजप; (स.) जळप.

**लाळ** (ना. स्त्री.) तोंडांतल्यान व्हांविल्लो लुथयेचो बोळ.

**लाळयें** (ना. न.) आंगाच्यांचेर पडची न्हय देखून भुरग्याच्या गळ्याभोंवतणी बांदिल्लो वाटकुळो कुडको.
**लाळयें** (वि.) लाळ सोडपी; लाळ व्हांवोवपी.
**लाळेगोळे** (ना. पु. भो.) फुसलावंक वा भुलोवंक केल्ले तरेकवार मोड आनी गोड गोड उलोवणीं.

## लि

**लिकलीक** (ना. स्त्री.) उजवाड; झिजझीग.
**लिकलिकप** (अ. क्रि.) उजवाडप; झिगझिगप.
**लिकलिकसाण** (ना. स्त्री.) पळय **लिकलीक.**
**लिखणी** (ना. स्त्री.) तिंतान बरोवचेलें पेन.
**लिखीत** (ना. न.) बरयल्लो कागद; करार बी बरयल्लो कागद.
**लिंग** (ना. न.) मनीस; जीव; जनावर वा वस्त दादलो काय बायल हें जाचेवयल्यान कळटा तें.
**लिंगायत** (ना. पु.) श्री बसवेश्वराच्या संप्रदायांतलो.
**लिटर** (ना. पु.) दाणोगाटो आनी दूद, पेत्रोल बी मेजपाचें एक जोख.
**लिपचोरयां** (क्रि. वि.) अस्वडीं; कोणाक कळय नासतना.
**लिपण** (ना. न.) वारो बी वचचो न्हय देखून आयदनाक मारिल्लो गुड्डो.
**लिपतें** (वि.) दडिल्लें; लिपिल्लें.
**लिपप** (अ. क्रि.) दडप; दिश्टी पडचो न्हय अशा जाग्यार रावप.
**लिपी** (ना. स्त्री.) भास बरोवपाच्यो कुरवो, देखीक: नागरी, रोमन, कन्नड.
**लिपवप** (स. क्रि.) दडवप; दिसचो न्हय अशे सुवातेर दवरप.
**लिफ्ट** (ना. न.) व्हडल्या घराच्या दर एकल्या मजल्यांत लोकांक पावोवचेलें पायणें.
**लिंबीण** (ना. स्त्री.) लिंबू दिवपाचें झाड.
**लिंबू** (ना. पु.) एक वाटकुळें, आंबट पूण रूचीक फळ; लिंबिणिचें फळ.
**लिमप** (स. क्रि.) परसाकडे जातकच कुले धुवप.
**लिमोनाद** (ना. न.) लिंबाचें सरबत.
**लिसेव** ना. पु.) पुर्तुगेज माध्यमीक शाळा.
**लिसेंस** (ना. न.) परवानगी.
**लीख** (ना. स्त्री.) केंसांत जाल्ले उयेचें तांती.
**लीग** (ना. न.) केंस घट्ट उरूंक लावचलो आडवो आंकडो.
**लीव्र** (ना. पु.) पुस्तक; फोलींची पटी (चड करून धव्या).

## लु

**लुगट** (ना. न.) सणंग; कपडो.
**लुंगी** (ना. स्त्री.) कंबराक वेडावपाचें लुगट.
**लुचप** (स. क्रि.) चोखप; तोंडान ओडून घेवप.
**लुटप** (स. क्रि.) चोरप; मेंळत तशें हातासप.
**लुटपी** (वि.) चोरपी; हातासपी.
**लुंड** (ना. न.) कापिल्लो हात, पांय वा तकली.
**लुडबुडप** (अ. क्रि.) मर्दी पडप; मर्दींच

बोवाळ घालप.
**लुडबुडें** (वि.) मर्दींच बोवाळ घालपी.
**लुडबेवप** (अ. क्रि.) कशाकसोय उच्च्यार करप; उच्चारांत दोश आसप.
**लुडबें** (वि.) सारकें उच्चार करूंक येना आशिल्लें; चुकीचो उच्चार करपी.
**लुंवण** (ना. स्त्री.) शेताची कापणी.
**लुंवणी** (ना. स्त्री.) पळय **लुंवण.**
**लुंवपी** (स. क्रि.) पिकिल्लें शेत कापून हाडपी.
**लुंवलुवप** (स. क्रि.) कुचकुचप; उळउळप.
**लुस्काण** (ना. न.) नुकसान; वेपारांत तूट; तोटो.
**लुस्काणी** (ना. स्त्री.) पळय **लुस्काण.**
**लुस्कानकी** (ना. स्त्री.) लुस्काणी.

## लू

**लूट** (ना. स्त्री.) चोरी; चोरयेचो म्हाल; चोरिल्ल्यो वस्तू.
**लूटबाजार** (ना. पु.) मनाक येत तशी चोरी.
**लूत** (ना. स्त्री.) एक कातीचो रोग; हातापायांक बी आयिल्ली सूज.

## ले

**लेकुरवाळी** (ना. स्त्री.) भुरगेकान्न.
**लेख** (ना. पु.) बरोवन काडिल्ले विचार.
**लेखणी** (ना. स्त्री.) बरोवचेलें पेन.
**लेखन** (ना. न.) तरेकवार विशयांचेर केल्लें बरवप.
**लेखप** (स. क्रि.) मानप; कोणाकय उद्देशून उलोवप.
**लेखी** (वि.) बरयल्लें.
**लेगीत** (अ.) सुद्दां; पसून.
**लेंगो** (ना. पु.) पातळ लुगटाचें गळगळीत काल्सांव.
**लेपड** (ना. पु.) भायर सोडिल्ल्या सुक्या मळाचो भाग.
**लेडशेवप** (स. क्रि.) लालेवप; ल्हेंवटेपण करप; आशेवप.
**लेण्डी** (ना. स्त्री.) ल्हान लेण्ड.
**लेत्र** (ना. न.) १. अक्षर; २. रिणासंबंदान करून दिल्लो कागद.
**लेत्राद** (ना. पु.) बरपाक्षरी; शिकिल्लो-वाचिल्लो.
**लेत्रादकी** (ना. स्त्री.) वाचप; बरप; वकिली; आदोगासी.
**लेप** (ना. पु.) थर; उश्ट्या शिता-गोटे.
**लेप** (ना. स्त्री.) पातळ पूण सुवादीक नुस्तें.
**लेबडप** (स. क्रि.) चिखलान भरप.
**लेयतांव** (ना. पु.) मातिल्लो दुकोर.
**लेंस** (ना. पु.) घाम बी पुसचेलो लुगटाचो चोवकोनी कुडको.

## लो

**लोक** (ना. पु.) मनशांचो जमो; एकठांय आयिल्ले खूब मनीस.
**लोककथा** (ना. स्त्री.) लोकांमदीं आयिल्ली काणी.
**लोकगणटी** (ना. स्त्री.) लोकांची मेजणी.
**लोकगीत** (ना. न.) लोकांमदीं आशिल्लीं गितां.
**लोकजीण** (ना. स्त्री.) भोवसाची जीण.
**लोकप्रीत** (ना. स्त्री.) लोकांविशींचो मोग.
**लोकप्रेम** (ना. न.) पळय **लोकप्रीत.**
**लोकभास** (ना. स्त्री.) लोकांली भास.

**लोकमत** (ना. न.) लोकांले विचार.
**लोंकर** (ना. स्त्री.) मेंढराचे पिंजारून निवळ केल्ले केंस; अशा केसांचें सूत.
**लोकरीत** (ना. स्त्री.) लोकांमदीं आशिल्ली चाल.
**लोकल** (वि.) देशी; गांवठी; गांवचें.
**लोकवस्ती** (ना. स्त्री.) लोकांचो राबितो.
**लोकवेद** (ना. पु.) लोकां-काणयो, लोकां-गितां बी; हातूंतल्यान उकतें जाल्लें गिन्यान.
**लोकसभा** (ना. स्त्री.) लोकांल्या म्हुणयारांची सभा.
**लोक-संख्या** (ना. स्त्री.) लोकांचो आंकडो.
**लोकां-काणी** (ना. स्त्री.) लोकांनी रचिल्ल्यो काणयो.
**लोकिकचार** (ना. पु.) लोकांमदीं चलिल्ली न्याय-नीत.
**लोकीक** (ना. पु.) लोकांमदीं जाल्ली कीर्त वा अपकीर्त; बरी वायट फांक.
**लोखण** (ना. न.) एक गरजेची आनी काळसार धातू.
**लोखणेवप** (अ. क्रि.) कळम येवप; काळसार रंग येवप.
**लोखणें** (ना. न.) वडे; पुरयो बी तळचेलें वाटकुळसार कानांचें आयदन.
**लोगारी** (ना. स्त्री.) आळशिपणां; कळाव.
**लॉंच** (ना. स्त्री.) म्हाल हाड-व्हर करपी ल्हान बोट.
**लॉज** (ना. न.) पसरो; दुकान; नाल्ल भात बी भरचेलें घर.
**लोट** (ना. पु.) नेटान धांविल्लें उदक; हुंवाराचें नेटान धांवतें उदक.
**लोटप** (स. क्रि.) धुकलप; नेटान फुडें सरप; गर्दी करप; गचमुड्डी करप.
**लोटिंगो** (ना. पु.) झाडा-काण्डाचो करवो; मोट्या लांकडा कुडको.
**लोड** (ना. न.) व्हड आनी दाट उशें.
**लोडेराव** (ना. पु.) लोडेवन अयटीन बशिल्लो मनीस.
**लोडेवप** (अ. क्रि.) लोडाक वणखून विस्कळ बसप.
**लोंडो** (ना.) उदकाचो लोट; हुंवाराचें बी नेटान व्हांविल्लें उदक.
**लोणचें** (ना. न.) मसालो भरून चेपिल्ल्यो आंबल्यो, आंवाळे, लिंबू बी फळां; मेथकूट.
**लोणी** (ना. न.) आंबट केल्ल्या दुदांत तयार जाल्ले साये-गुळे.
**लोदो** (ना. पु.) हाडां बी नाशिल्लो; फकत मांसाचो गुळो.
**लोब** (ना. पु.) पाद्री बी घालतात तो गळ्यासावन पावलामेरेन लांब चोळो.
**लोभी** (वि.) आशादोशी.
**लोमकळप** (अ. क्रि.) हुमकळप.
**लोलो** (वि.) अजागळ; बोंबो; अरवळ.
**लोहचुंबक** (ना. पु.) लोखण ओडून घेवपी शक्त.
**लोळणी** (ना. स्त्री.) लोळचेलें काम; खूब तेंप मेरेन पडून उरिल्ली कसली गजाल.
**लोळप** (अ. क्रि.) दोनय वटेन कूस फिरयत आडवो उदारो जायत रावप.
**लोळी** (ना. स्त्री.) वाटकुळी लांबसार कवळी.
**लोळो** (ना. पु.) वाटकुळो मोव गुळो.

## लं

**लंकेची पार्वती** (वा. प्र.) आंगार

इल्लेंय भांगर नाशिल्ली.
**लंच** (ना. स्त्री.) काम जावचें म्हणून पयलींच दिल्लें बक्षीस.
**लंपट** (वि.) आशादोशी; खूब आस्तेखोर.

## व

**वकील** (ना. पु.) आदोगाद; आरोपी वा फिर्यादीवटेन केस चलोवपी.
**वकीलकी** (ना.) वकिलाचो धंदो; वकिलपण; कोर्टांत आरोपी वटेन वा केश करतल्यावटेन करचेलें काम; आदवोगासी.
**वकीलपण** (ना. न.) पळय **वकीलकी.**
**वखद** (ना. न.) पिडा-रोग निवळावंक दिल्लो कडो, पोसांव, गुळयो बी वस्तू; वायटकाराक केल्लो उपाय.
**वखदी** (वि.) वखदाचें; वखदा संबंदीचें.
**वखवख** (ना.) भक; जेवपा-खावपाची खूब आस्त; खूब भूक.
**वगडावणो** (ना. पु.) कशाकसोय खर्च करपी; फायदो नासतना वेव्हार करपी.
**वगडावप** (स. क्रि.) फायदो नासतना वेव्हार करप; कशाकसोय खर्च करप; नुकसान करून घेवप.
**वगडावपी** (वि.) नुकसान करून घेवपी; तजवीज नासतना वेव्हार करून दुडू मोडपी.
**वगत** (ना. पु.) वेळ; काळ; कळाव.
**वगळणी** (ना. स्त्री.) भारावणी; भारावचेलें काम.
**वगळप** (स. क्रि.) भारावप; भायर दवरप.
**वचक** (ना. पु.) कांच; भिरांत; मुरवत.
**वचन** (ना. न.) पाळपाचें दिल्लें उतर; प्रतिज्ञा.
**वचप** (अ. क्रि.) फुडें सरप; फुडें चलप; वाट चलप.
**वज** (ना. स्त्री.) उमेद; सवंय; खर इत्सा.
**वजन** (ना. न.) १. जडसाण; भार; २. सत्या; म्हत्व.
**वजनदार** (वि.) भाराचें; खूब जड; म्हत्त्व आशिल्लें.
**वज्र** (ना. न.) एक खूब मोलाचें थीक.
**वज्रबळी** (वि.) वज्राभाशेन निबर; खूब घट्ट; खूब बळिश्ट.
**वजवजप** (अ. क्रि.) वाजेवप; उबगप.
**वजवर्जे** (वि.) उबगणें; वाजेवपी; पिरंगणें.
**वझरो** (ना. पु.) झरो; जमनी पोंदच्यान भायर फुटिल्लें उदक.
**वट** (ना. स्त्री.) कड; तास; बाजू.
**वटर्णे** (ना. न.) तायखिळ्या बियांचो दाट रोस.
**वट्टेलांव** (ना. पु.) एक दाट पानांचें वखदी झाड.
**वठप** (स. क्रि.) शक्य जावप; करूंक येवप.
**वड** (ना. पु.) धर्मीक म्हत्त्व आशिल्लो एक व्हड रूख; (स्त्री.) इत्सा; पोटतिडक; तळमळ.
**वडा** (ना. स्त्री.) पैज; थारावणी.
**वडी** (ना. स्त्री.) चड जेविल्ल्यान आयिल्ली आळसाय.
**वडील** (वि.) जाणटो; पिरायेन व्हड; (ना. पु.) जाणटेले; आजे-पणजे; बापूय.
**वडो** (ना. पु.) तांदळा पिठाचो पुरयेभाशेन तळिल्लो जिनस.
**वण** (ना. पु.) रंग; कांय फळांच्या

भितल्ल्या मगजाचो रंग.
**वणखणें** (ना. न.) बोलतेराचो; कदेलाचो बी तेंकचेलो भाग.
**वणखप** (स. क्रि.) तेंकप; फाट लावन बसप.
**वणत** (ना. स्त्री.) घर उबारपाक लागपी पारो.
**वत** (ना. न.) सुर्याच्या किरणांचो उजवाड.
**वथरेणी** (ना. स्त्री.) तळमळ; काकुळटेन केल्ली पराथणी.
**वथरेवप** (स. क्रि.) तळमळप; आस्त लागप; खर इत्सा जावप.
**वदंता** (ना. स्त्री.) वार्ता; फाम; फांक; बोवाळ.
**वद्य** (ना. पु.) हिंदु म्हयन्याची दुसरी पंद्रस.
**वन** (ना. न.) रान; झाडां-पेडांनी गच्च भरिल्लो जागो.
**वनदेवता** (ना. स्त्री.) रानाची देवता; सयमाची देवता; निसर्ग देवता.
**वन्न** (ना. न.) मुगां-दाळींत नाल्ल; जिरें बी घालून केल्लें कालवणें.
**वनफळ** (ना. न.) रानटी फळ.
**वनश्री** (ना. स्त्री.) रानाची सुंदरताय; रानांतल्या झाडां-पेडांची सोबितकाय.
**वनस्पत** (ना. स्त्री.) रानांतलीं ल्हान व्हड झाडां-पेडां.
**वनस्पती** (ना. स्त्री.) ल्हान व्हड झाडां.
**वनस्त्री** (ना. स्त्री.) पळय **वनश्री.**
**वय** (ना. न.) पिराय; जिणेचीं वर्सां.
**व्यक्ती** (ना. स्त्री.) दर एकलो मनीस.
**वयणेवप** (अ. क्रि.) उजो उणो जाल्ल्यान सारकें तळनासतना उरप; धुंवरेवप.
**व्यथा** (ना. स्त्री.) दुख्ख; त्रास; खंत.
**वयर** (क्रि. वि.) उंचेल्या जाग्यार.
**वयरचड** (वि.) दुसऱ्यापरस वयरचें.
**व्यर्थ** (वि.) फुकट; फायदो-उपेग नाशिल्लें.
**वयल्यान** (क्रि. वि.) उंचल्यान; परतें; उरफाटें.
**वयलेवयर** (क्रि. वि.) खोलायेन वच नासतना; भायल्यान.
**वयलो** (वि.) उंचाये वयलो.
**वयलोचार** (ना. पु.) भायल्यान केल्ली दाखोवणी; दांभिकपण; फकत दाखोवंक केल्ली करणी.
**व्यवसाय** (ना. पु.) धंदो; उद्देग.
**व्यवहार** (ना. पु.) ल्हान व्हड वावर.
**व्यवहारज्ञान** (ना. न.) नदरेन मेळयल्लें ज्ञान; वावराचे फायद्याचें.
**वयवाट** (ना. स्त्री.) खूब वर्सांसावन आयिल्ली चाल.
**व्यसन** (ना. न.) वायट सवंय.
**वयसुल्ल्या** (वि.) वयल्या; ऊंच आशिल्ल्या; उंचायेवयल्या.
**व्याकरण** (ना. न.) भाशेचें शास्त्र आनी तिची बांदावळ.
**व्याकरणी** (ना.) व्याकरण तयार करपी आनी बरोवपी.
**व्याख्या** (ना. स्त्री.) लक्षणां आनी अर्थ.
**व्याख्यातो** (ना. पु.) एखाद्या विशयाचेर उलोवपी.
**व्याख्यान** (ना. न.) एखाद्या विशयाचेर केल्लें उलोवणें.
**व्याज** (ना. न.) रिणाक दिल्ल्या दुडवाचें भाडें.
**व्याण जावप** (सं. क्रि.) लज जावप.
**व्याधी** (ना. स्त्री.) पिडा; रोग.
**व्यापक** (वि.) व्हड; आयस पयस

पातळलेलें; व्हड आस्पाव आशिल्लें.
**व्यापार उद्देग** (ना. पु.) वेवसाय; धंदो.
**व्यायाम** (ना. पु.) हाता-पायांची कसरत.
**वयार करप** (सं. क्रि.) रवाना करप; सोंपवप.
**वेय** (ना. पु.) सुनेचो बापूय वा धुवेचो मांव.
**वर** (ना. न.) साठ मिनटांचो काळ.
**वर** (ना. पु.) आपल्याक जाय ती मागणी करपाचो जोडिल्लो हक.
**वर्कम** (ना. पु.) लुगटाचेर वा भिंगाचेर काडिल्ली सोनेरी किरां-मोरां.
**वरखडप** (अ. क्रि.) पळय **वरखणप.**
**वरखणप** (अ. क्रि.) खरचटप; घसटून बी कात वचप.
**वर्ग** (ना. पु.) एकेच तरेच्या वस्तूंचो वा मनशांचो पंगड.
**वर्गणी** (ना. स्त्री.) पटी; लोकांकडल्यान जमयल्लो दुडू; नेमाळ्याचें दिसपट्टें; म्हयन्याचें वा वर्सुकें मोल.
**वर्गणिदार** (ना.) वर्गणी दिवपी; पटी फारीक करपी; नेमाळ्याचें मोल फारीक करपी.
**वर्ण** (ना. पु.) १. रंग; २. वेवसायाचे नदरेन हिंदुधर्मांत केल्ले मनीस जातीचे चार भाग.
**वरण** (ना. न.) पळय **वन्न.**
**वर्णन** (ना. न.) कसलेय वस्तूचे बारकायेन सांगिल्ले गुणदोश; घडणुकेच्यो सांगिल्ल्यो बारीक सारीक गजाली.
**वर्णना** (ना. स्त्री.) पळय **वर्णन.**
**व्रत** (ना. न.) निच्छेव; धर्मीक नेमाभाशेन देवाखातीर केल्लो त्याग आनी भक्ती.
**वर्तन** (ना. न.) चलणूक; वर्तणूक.
**वर्तमान** (वि.) सध्याचो; तुर्ताचो. (ना. स्त्री.) खबर; गजाल; बातमी.
**वर्तप** (अ. क्रि.) घडप; चलप; आसप.
**वर्तमानकाळ** (ना. पु.) चलता तो काळ; तुर्ताचो वेळ; सध्याचो तेंप.
**वर्तमानपत्र** (ना. न.) तरेकवार घडणुको कळीत करचेलें नेमाळें; तुर्ताक घडिल्ल्यो गजाली कळोवपाचें नेमाळें.
**वर्तवप** (स. क्रि.) सांगप; कळोवप; वर्णना करप.
**वरदहस्त** (ना. पु.) वर दितना वयर उबारिल्लो हात; सगले तरेचे कृपेचो हात.
**वरदक्षणा** (ना. स्त्री.) लग्नावेळार न्हवऱ्याक दिल्ली दक्षणा; हुंडो.
**वरदान** (ना. न.) मागिल्ल्या वराचें दान; मागणेचें दान.
**वर्म** (ना. न.) मर्म; घडिल्ली चूक; वायट करणेची यादस्ती.
**वर्म काडप** (सं. क्रि.) कुतां काडप; तोंचून उलोवप.
**वर्मां-कर्मां** (ना. न. भो.) वायट करण्यो; हातांतल्यान घडिल्ल्यो चुको.
**वरय** (ना.) तांदळाभाशेन वाटकुळो बारीक दाणो.
**वरवी** (अ.) वटेन; वतीन; मार्फत.
**वर्शी रुतू** (ना. पु.) पावसाळो; पावसा-दीस.
**वर्शीक** (ना. पु.) आवय बापूय वा दुसऱ्या कोणाय जाणट्याचो मेल्लो दीस; मेल्ल्या दिसाचो वर्सुकी धर्मीक विधी.
**वरस** (ना. न.) बारा म्हयन्यांचो वा ३६५/३६६ दिसांचो काळ.
**वर्स** (ना. न.) पळय **वरस.**
**वर्सगांठ** (ना. स्त्री.) जल्माचो वाडदीस; जल्म दिसाचो वर्सुकी दबाजो.
**वर्सा घडी** (क्रि. वि.) खूब वर्सांनी.
**वर्सानवर्स** (क्रि. वि.) दर एकल्या

वर्सा.

**वर्सावळ** (ना.) दर वर्सा घडटल्या खूब गजाली भितल्ली एक गजाल.

**वर्सासंकी** (क्रि. वि.) खूब वर्सांनी.

**वर्सासंकिंनी** (क्रि. वि.) खूब वर्सांनी घडपी.

**वर्सासन** (ना. न.) वर्सुकी घडणूक.

**वल्कल** (ना. न.) झाडांचे सालीचें न्हेसण.

**वर्सुकें** (वि.) दर एकल्या वर्सा घडपी; वर्सानवर्स घडपी.

**वरी** (अ.) सारकें; भाशेन.

**वशाड** (वि.) नापीक; झाडां-पेडां नाशिल्लें.

**वशीन** (अ.) वटेन; कडेन.

**वसणूक** (ना. स्त्री.) वस्ती; बसयल्ली सुवात.

**वस्त** (ना. स्त्री.) जिनस; वस्तू; दागिनो.

**वसंत रुतू** (ना. पु.) वर्साचो पयलो रुतू; फुलां-फळां दिवपी रुतू; वर्साच्या स रुतूंतलो फुलां-फळांनी भरिल्लो आनी पथीक वाऱ्या-उदकाचो पयलो रुतू.

**वस्ताद** (वि.) बिलंदर; हुशार; लापीट; चाणाक्ष.

**वस्ती** (ना. स्त्री.) वसयल्लो जागो; लोकांचो राबितो आनी शेत-कामत आशिल्ली सुवात.

**वस्तू** (ना. स्त्री.) जिनस; वस्त.

**वसतें** (वि.) वसूंक लागिल्लें; मनशांच्या राबित्यान बी उदरगतीक येवपी.

**वसप** (अ. क्रि.) शेत-कामतासयत मनशांचो राबितो जावप.

**वस्त्र** (ना. न.) लुगट; न्हेसण.

**वस्त्रा शाबू** (ना.) फकत आंगाची आनी हेर मुस्तायकी निवळ करपाचो शाबू.

**वसवस** (ना. पु.) खावपा-जेवपाची खर इत्सा.

**वसवसणी** (ना. स्त्री.) पळय **वसवस.**

**वसवसप** (स. क्रि.) हें खावचें तें खावचें; सगलें खावचें अशें दिसप.

**वसवसेपण** (ना. न.) पळय **वसवस.**

**वसवशें** (वि.) वसवस उठिल्लें; मेळत तें खावचें अशी आस्त जाल्लें.

**वसुली** (ना. स्त्री.) उदार व्हेल्ल्या व्यापाराचे पयशे हाडपाचें काम; उशणे व्हेल्ले पयशे मागून हाडपाचें काम.

**वसू** (वि.) देवाच्या नांवान सोडिल्लो बैल; बांगर बैल.

**वसूल** (वि.) उदारीचे हाडिल्ले पयशे; उदार म्हालाचो मागून हाडिल्लो दुडू.

**वसूल करप** (सं. क्रि.) उदार म्हालाचे पयशे मागून हाडप.

**वसो** (ना. पु.) एकाचो दुसऱ्याक आयिल्लो रोग; रोगाचे जंतू पसरपाचो गूण.

**व्हंकल** (ना. स्त्री.) न्हवरी; निकतीच लग्नाची चली; लग्न जाल्ली चली.

**व्हट** (ना. स्त्री.) तास; बाजू; कसलेय वस्तूची फुडली, फाटली वा कुशीनच्यो वटो.

**व्हड** (वि.) लांब; मोटें; चड पिरायेचें.

**व्हडप** (ना. न.) विणिल्ल्या चुड्टांचें आडावण.

**व्हडपण** (ना. न.) मोटेपण; जाणटेपण; लांब-रूंदपण.

**व्हडपणां** (ना. न. भो.) बडवचार; बडायो.

**व्हडली दिवाळी** (ना. स्त्री.) तुळशीच्या लग्नाचो उत्सव.

**व्हडलेशें** (वि.) मोटेंशें; चडशें.

**व्हडलें** (वि.) मोटें; जाणटें; पिरायेन

व्हड. (ना. पु.) व्हडलो सोरोप.
**वट्ट** (वि.) एकूण आंकडो; सगलो आंकडो.
**व्हडवीक** (ना. स्त्री.) मोटेपण; बडाय; बडवचार.
**व्हडविकाय** (ना. स्त्री.) पळय **व्हडवीक.**
**व्हडाव्हडान** (क्रि. वि.) मोट्या-मोट्यान; व्हड ताळ्यान.
**व्हडानव्हड** (वि.) सगल्यांत व्हड.
**व्हडाय** (ना. स्त्री.) व्हडपण; जाणटेपण; लांब-रूंदपण.
**व्हडें** (ना. न.) उदकांतल्यान मनीस आनी म्हाल व्हरपाचें एक सादन; व्हड पनेळ.
**व्हदळ** (क्रि. वि.) थोडो वेळ पयलीं.
**व्हनी** (ना. स्त्री.) भावज; भावाची बायल.
**व्हय** (अ.) मूं?
**व्हरण** (ना.) मुस्तायकी बी घेवन वचपी लग्नाचें बिराड.
**व्हरतेपण** (ना. न.) व्हरपाचो वावर.
**व्हरप** (स. क्रि.) एके सुवातेसावन दुसरे सुवातेर पाववप.
**व्हरस** (ना.) जाय तितल्या जिनसांचें जेवण.
**व्हरेत** (ना. पु.) न्हवरो.
**व्हवर** (ना.) घोव-बायल; घोव आनी बायल हांची जोडी.
**व्हळप** (अ. क्रि.) सगले म्हयने सोंपचे पयलीं पोटचें वचप.
**व्हळपेवप** (अ. क्रि.) वोतान कणकणप; वोतांतल्या वावरान काळो जावप.
**व्हळपप** (अ. क्रि.) खर वोतान ताकळेवप; खर वोतांत भोंविल्ल्यान जीव सोकून येवप आनी कणकणप.
**व्हळोवप** (अ. क्रि.) पोटचें भायर वचचें म्हणून उपाय करप.
**व्हाज** (ना. पु.) फुलदाणी; फुलझाड रोवचेलें मातयेचें आयदन.
**व्हाण** (ना. स्त्री.) जोतें.
**व्हायसरॉय** (ना. पु.) राजाचो मुणयारी; राजाच्या नांवान देशाचो कारभार करपी.
**व्हायोलीन** (ना. न.) रेबेंक; तारांचेर गज ओडून वाजोवचेलें वाद्य.
**व्हांवतें** (वि.) धांवतें; नेटान धांवपी उदक वा कसलीय पातळ वस्तू.
**व्हांवप** (अ. क्रि.) होळून वचप; गळप; उदकाचें नेटान धांवप.
**व्हांववप** (स. क्रि.) गळोवप.
**व्हाळ** (ना. पु.) दोन-चार हाताचे रुंदायेन व्हांवतें उदक.
**व्हाळय** (ना. स्त्री.) ल्हान व्हाळ; शेतांतल्यान व्हांविल्लो व्हाळ.
**व्हीर** (ना. पु.) चुडटाचे मर्दी आशिल्ली बारीक काडी.
**व्हिस्तूस** (ना. पु.) व्हिस्तीद; चलयेचें आंगावयलें.
**व्होंकेवप** (अ. क्रि.) म्हसरांचो आवाज; म्हसरांचें रडप.
**व्होर** (ना.) घोव-बायलेचें जोडें.
**व्होलो** (ना. पु.) सकयल्ल्या पोंतार वाटकुळो फळ्या कुडको लायिल्लो व्हडें ताणपाचो दांडो.
**व्होंवळी** (ना. स्त्री.) लग्ना-मुजींत बी बोवाळपी बायलमनीस.
**व्होंवळीक** (ना. स्त्री.) लग्ना-मुजीचें आमंत्रण.
**व्होंवळो** (ना. पु.) लग्ना-मुजींत बोवाळपी मनीस.
**व्होळप** (अ. क्रि.) पळय **व्हळप.**
**वळ** (ना. स्त्री.) रीस्क; रेग; दाट

कातीचेर काडिल्लो चिमटो.

**वळख** (ना. स्त्री.) नांव, गांव आनी हेर सगली जाणां जाल्ली वा जाणा जावचेली खबर.

**वळखप** (स. क्रि.) नांव, गांव आनी हेर सगल्यो गजाली जाणां जावप.

**वळसप** (अ. क्रि.) वाऱ्यान सुकिल्ल्यावरी जावप.

**वळंगार** (ना. पु.) उटंगार; उदकाचे लोट.

**वळण** (ना.) मोडण; वळसो.

**वळप** (अ. क्रि.) दिशा बदलप; मर्दीच दुसरे वटेन वचप; कूस बदलप; (स.) दामप; मुड्डप.

**वळपेवप** (अ. क्रि.) वोतान ताकळेवप; कणकणप; सोकून काडिल्लेवरी जावप.

**वळवप** (स. क्रि.) फिरावप; घुवणावप; दिशा बदलप.

**वळवळप** (अ. क्रि.) दुखीचे त्रास भोगप; हाल जावप; सोसूंक जायनात अशे उपाद्रे भोगप.

**वळवळो** (ना. पु.) हाल; त्रास.

**वळसो** (ना. पु.) मोडण; वळण.

**वळार** (ना. पु.) कांकणकार.

**वळारपण** (ना. न.) कांकणकाराचो धंदो; कांकणां विकपाचो वेवसाय.

**वळावप** (अ. क्रि.) जेवणार बसून ओडी काडप; जेवणाची रूच नाशिल्ल्यान मुरवती खातीर कशेंय तरी जेविल्ले भाशेन करप.

**वर्ळे** (ना. न.) सोलिल्ल्या नाल्लाचें अर्द.

## वा

**वा** (अ.) हें ना जाल्यार तें अशें दाखोवपी उतर; दों मदलो एक अशें सांगपी उतर.

**वांक** (ना. स्त्री.) बाग; बागवल्ली तरा.

**वांकडेपण** (ना. न.) वांकडी तरा; निटपणीचें नासतेपण; वायटपण.

**वांकडें** (वि.) जें नीट न्हय, उबें न्हय, सरळ न्हय.

**वांकप** (अ. क्रि.) बागप; वांकडो आसप; वांकडो जावप.

**वांकवप** (स. क्रि.) बागोवप; वांकडो करप.

**वांकें** (वि.) थोंटें; पायांनी कुटपी; पांयकुटणें.

**वाखोर** (ना. पु.) केंस तासचेलें खूब धारेचें सादारण सुरयेभाशेन हत्यार.

**वाग** (ना. पु.) एक क्रूर रानटी जनावर.

**वांगड** (ना. पु.) सांगात.

**वांगडा** (अ.) बराबर; सांगाताक.

**वांगडी** (ना. पु.) बराबरचो; एकेच यत्नेंत वा संस्थेंत आसपी.

**वागप** (अ. क्रि.) जियेवप; जीण सारप; दुसऱ्याकडेन चलप.

**वागरें** (ना. न.) वागाची छाप; वागाचे भिरांतीन सुद्द उणी जावप; भियेवन जंयचे थंय गुळो जावपाची दशा.

**वागीण** (ना. स्त्री.) वागाची मादी.

**वागचबको** (ना. पु.) वागान मारिल्लें दावखूल; वागाचो बचको; वागान घाल्ली घुरी.

**वागमारो** (ना. पु.) वाग मारपी; वागाची शिकार करपी.

**वागी** (ना. स्त्री.) आंगाक कांट आशिल्ली व्हड सुंगटाची जात.

**वागोणी** (ना. स्त्री.) खूब पायांचो लांबोडो आनी विखारी जीव.

**वागोळें** (ना. न.) १. सवण्याभाशेन

उडपी आनी मोनजातीभाशेन आसपी आनी जियेवपी प्राणी; २. एक रूंद; पातळसार आनी लांब शेंपडेचें नुस्तें.

**वाचन** (ना. न.) बरयल्लें उच्चारपाचें काम; बरयल्लीं उतरां तोंडांतल्यान काडप.

**वाचनमंदीर** (ना. न.) वाचूंक दवरिल्ल्या पुस्तकाचें घर.

**वाचप** (स. क्रि.) बरयल्लें उच्चारप; बरयल्लें वळखप आनी सांगप.

**वांचप** (अ. क्रि.) जियेवप; तगप; उरप.

**वाचवप** (स. क्रि.) वाचून घेवप; वाचूंक लावप.

**वांचवप** (स. क्रि.) वाटावप; पिडा-रोग वा दुसऱ्या कसल्याय संकटांतल्यान वाटावप.

**वाचपी** (ना.) बरयल्लें उच्चारपी; वाचन करपी.

**वांचपी** (ना.) पिडा-रोगांतल्यान सुटपी; संकश्टांतल्यान मेकळो जावपी.

**वाचा** (ना. स्त्री.) उलोवपाची शक्त; तोंडांतल्यान उतरां काडपाची तांक.

**वाचाविदळ** (वि.) बडबडें; खूब उलोवपी.

**वाचाळ** (वि.) बडबडें; खूब उलोवपी.

**वाज** (ना. पु.) कंटाळो; उबगण.

**वांज** (ना. न.) कातली नाशिल्लो पोको नाल्ल; (स्त्री.) भुरगें जावपाची तांक नाशिल्ली बायल.

**वाजंतर** (ना. न.) धोल, तासो बी वाद्य.

**वाजंत्री** (ना. पु.) तासो; शेनाय; धोल बी वाजोवपी.

**वाजतें** (वि.) वाजपी; गाजपी; आवाज करपी.

**वाजप** (अ. क्रि.) आवाज करप; गाजप.

**वांजपण** (ना. न.) फळ दिवपाची तांक नासपाचो दोश; भुरगें-बाळ जावपाची अशक्यताय.

**वाजवप** (स. क्रि.) आवाज काडप; वाद्यांतल्यान आवाज आनी तरेकवार सूर काडप.

**वाज वाजप** (सं. क्रि.) वाज येवप; उबगण येवप.

**वांजुट्टी** (वि.) भुरगें-बाळ दिवपाची तांक नाशिल्ली.

**वाजेणी** (ना. स्त्री.) उबगणी; कंटाळो.

**वाजेवप** (अ. क्रि.) उबगप; कंटाळप; पिरंगप.

**वाट** (ना. स्त्री.) मार्ग; रस्तो; कड; बाजू.

**वाटकुळेपण** (ना. न.) चक्राभाशेन; आटयाभाशेन; मुदयेभाशेन आकार.

**वाटकुळें** (वि.) चक्राभाशेन आकाराचें.

**वांटणी** (ना. स्त्री.) भागणी; वांटे वा भाग करपाचें काम.

**वांटप** (स. क्रि.) वांटे करप; भागप.

**वांटपण** (ना. न.) घासाघीस; दुडवांसंबंदान वा मोला संबंदान चिकित्साय.

**वांटपणो** (ना. पु.) वस्तूच्या मोला संबंदान घासाघीस करपी चिकित्साये मनीस.

**वांटपी** (वि.) वांटे करपी; भाग करपी.

**वाटमार्गी** (ना. पु.) वाटेयवयल्यान येवपी-वचपी; वाटसुरो.

**वाटयां** (अ.) वटेन; बाजून.

**वाट लावप** (वा. प्र.) लुकसान करप; दुसऱ्याचें कितेंय वायट करप; धांदळ करप.

**वाटली** (ना. स्त्री.) सादारण पितळेभाशेन

पुण जड आयदन; पेज बी जेवपाचें पडग्याभाशेन आयदन.

**वाटसुरो** (ना. पु.) वाटेवयल्यान वचपी.

**वाटसूर** (ना. पु.) वाटसुरो.

**वाटाणे-चणे** (ना. पु. भो.) वाटकुळे चणे.

**वाटार** (ना. पु.) सराद; भोंवपाची सुवात.

**वाटाव** (ना. पु.) एका देशाचे पयशे दिवन दुसऱ्या देशाचे पयशे घेतना फारीक केल्लें भाडें.

**वाटावप** (स. क्रि.) वांचवप; वायटांतल्यान मेकळो करप.

**वाटी** (ना. स्त्री.) उदक, कॉफी, च्या बी घालून पियेवचेलें धातूचें वाटकुळें ल्हान आयदन.

**वाटेक वचप** (सं. क्रि.) तिडावप; किजील करप.

**वाटेक लावप** (सं. क्रि.) निमित्यां सांगून धाडप; वयार करप; इबाडप.

**वांटेकार** (ना. पु.) वांटो घेवपी; वांटे करपी.

**वांटो** (ना. पु.) भाग.

**वाटोणें** (ना. न.) मूत.

**वाठार** (ना. पु.) पळय **वाटार**.

**वाड** (ना. स्त्री.) विकास; उदर्गत; गिमा-दिसांतलो गोरवां-गोठो.

**वाडी** (ना. स्त्री.) व्हडलें घर; गांवचो भाग.

**वाडवप** (स. क्रि.) व्हड करप; मातवप; उदरगत करप.

**वाडप** (अ. क्रि.) व्हड जावप; उदरगत जावप; जेवणाच्या ताटांत जिनस घालप.

**वाडटें** (वि.) व्हड जावपी; चडटें.

**वाडगो** (ना. पु.) व्हड वाटी.

**वाडवप** (स. क्रि.) १. व्हड करप; उदर्गत करप; २. पालवप.

**वाडो** (ना. पु.) लोकांचो राबितो आशिल्लो गांवाचो भाग.

**वाडाव** (वि.) वाडिल्लें; घसघशीत. (ना. स्त्री.) वाड; व्हडसाण.

**वाणी** (ना. पु.) एक वर्ण वा जात; व्यापारी; उद्येग-धंदो करपी.

**वातड** (वि.) निबर; घट्ट; हटी.

**वातडप** (अ. क्रि.) घटसार जावप; वातड जावप.

**वात्रट** (वि.) कित्याकितेंय उलोवपी आनी करपी; फटकळ.

**वातरोग** (ना. पु.) संधिवात; संदी धरपाचो रोग.

**वातावरण** (ना. न.) परिस्थिती; भोंवतण.

**वातेवप** (अ. क्रि.) मुयेवप; आंग धरप.

**वाद** (ना. पु.) चर्चा; भासाभास; तंटो; झगडें.

**वादयांव** (ना. पु.) वाळेस; तवनास; पारपोळ.

**वादी** (ना. स्त्री.) तीर; पिटो; रबराची बारीक नळी.

**वादोरी/वाद्री** (ना. स्त्री.) फाळिल्लो तीर.

**वानर** (ना. पु.) माकोड.

**वानसाळ** (ना. स्त्री.) दाणो-गोटो काडपाचें घर.

**वापरणी** (ना. स्त्री.) उपेग करचेलें काम.

**वापरप** (स. क्रि.) उपेग करप.

**वाफ** (ना. स्त्री.) हवेच्या रुपांतलें उदक.

**वाफोर** (ना. पु.) उदकांत चलपी ल्हान बोट.

**वाय** (ना. स्त्री.) वायू; जिरवण

नाशिल्ल्यान कोंडून उरिल्लें परसाकडचें.

**वायखर** (वि.) वाय जावपाचें खाण-जेवण.

**वायंगण** (ना. न.) भाताची गिमी पीक.

**वायंगीण** (ना. स्त्री.) वायंगीं दिवपी झाड.

**वायंगें** (ना. न.) एक शाकेचें फळ.

**वायट** (वि.) जें बरें न्हय; दोशी; दुर्गुणी; (ना. न.) पिडा-रोग.

**वायटकार** (ना. पु.) पिडा-रोग जाल्लो मनीस.

**वायटपण** (ना. न.) वांकडेपण; दुस्मानकाय.

**वायटी** (ना. स्त्री.) लाकूड, कागद, कपडे बी खावपी धवी कीड.

**वायदमन** (ना. न.) पुलमावांक आयिल्ले सूजीक लागून जाल्लो रोग.

**वायल** (ना. न.) १. एक पातळ लुगट; २. फोव; चणे बी भाजपाचें व्हड कुयणें.

**वायसोळें** (ना. न.) जिवाण्या सारकें लांब; वाटकुळें पुण सुवादीक नुस्तें.

**वायू** (ना. पु.) वारो; गॅस.

**वार** (ना. पु.) १. दीस; २. लांबाय मेजपाचें एक जोख; ३. पोटांतल्या भुरग्याक जेवण पावोवपी नळी.

**वार्नीज** (ना. न.) मदेर बी नितळ आनी लकलकीत जावचें देखून ताका सारोवचेलें एके तरेचें तेल.

**वाऱ्यार पडप** (सं. क्रि.) उबंत पडप; आधार आलाशिरो नासप.

**वारांव** (ना. पु.) लोखणाची; पितूळची बी नळी.

**वारें** (ना. न.) हवेचें नेटान व्हांविल्लें ल्हार; वातावरणांत चड उणो दाब जाल्ल्यान तयार जाल्लें हवेचें ल्हार. **वारें पाणी करप** (वा. प्र.) लक्षांत घेवप ना; म्हत्त्व दिवप ना. **वारें येत तशें सूप** (वा. प्र.) वेळ येता ते भाशेन करचेलें काम.

**वारेंसुत्र** (ना. न.) भूत-पिशाच्च.

**वारो** (ना. पु.) पळय **वारें.**

**वाल** (ना. पु.) विरवीर; चवळ्यांची; अळसांद्यांची बी सांग. **वाली लावप** (वा. प्र.) दुसऱ्याचें नुकसान करप.

**वालो** (ना. पु.) हातमागार विणिल्ल्या लुगटाचो हात; पावूण हात रूंदायेचें न्हेसण.

**वाव** (ना. पु.) खर वारो; व्हांवतो वारो.

**वांव** (ना. पु.) ताणायल्ल्या दोनय हातांमदली लांबी.

**वावझड** (ना. स्त्री.) वाऱ्यासयत व्हांविल्लो पावस.

**वावटळ** (ना. स्त्री.) नेटान व्हांविल्लो वारो; वादळ.

**वावूर** (ना. पु.) कामधंदो; कश्ट.

**वावरप** (अ. क्रि.) वावर करप; कश्ट करप; तकालस घेवप.

**वावराडी** (ना. पु.) वावर करपी; शेता-भाटांत वावर करपी मनीस; (स्त्री.) घरचो वावर करपी बायल मनीस.

**वावराडो** (ना. पु.) वावर करपी; काम करपी.

**वावळी** (ना. स्त्री.) तिस्ती; तिरांटो; दोराचो तीर; फुलांची फांती बी घालचेलो केळी-गब्याचो बारीक दोर.

**वाश्ट** (वि.) वायट.

**वाश्टपण** (ना. न.) वायटपण; दुस्मानकाय.

**वास** (ना.) नाक ह्या इंद्रियाक लागून

जें कळटा तें.
**वास्तव** (वि.) खरें; घडणें वा घडिल्लें; सत्य.
**वास्तवीक** (वि.) खरें घडणें. (अ.) खरें म्हळ्यार; खरें सांगचें जाल्यार; पूण.
**वास्तू** (ना. स्त्री.) घर; इमारत.
**वासना** (ना. स्त्री.) इत्सा; ओड; मोह.
**वासपूस** (ना. स्त्री.) चोवकशी; सोद; विचारपूस.
**वासरी** (ना. स्त्री.) लांब कूड; जेवणाची लांब कूड.
**वासरूं** (ना. न.) पाडूक; रेडूक.
**वांसली** (ना. स्त्री.) ल्हान वासो.
**वांस्वेल** (ना. न.) अस्वल; एक रानटी मोनजात.
**वासाळ** (वि.) घमघमीत वासाचें.
**वांसो** (ना. पु.) माडाचो वा मदेराचो ताशिल्लो वा चिरिल्लो करवो.
**वाहन** (ना. न.) एका जाग्यावयल्यान दुसऱ्या जाग्यार मनशां वा मुस्तायकी व्हरपाखातीर आशिल्लें साधन; गाडी, मोटार, उज्यागाडी बी धांवतेरी.
**वाळ** (ना. पु.) वाल; एक दाटसार पानांची आनी शाक-भाजी करपाची वाल.
**वाळप** (स. क्रि.) गाळप; शितांतलें तन्न दुसऱ्या आयदनांत रकवप; (अ. क्रि.) सुकप; भागप.
**वाळय** (ना. स्त्री.) वायटी; कागद, लुगट बी तोंचपी धवी कीड.
**वाळवंट** (ना. न.) उदाक; झाड-पेड आनी जीव प्राणी नाशिल्ली शेकानशेक रेंवट सुवात.
**वाळवो** (ना. स्त्री. भो.) दोनय ओटांचीं एकामेकांक तेंकताना ता पोंतां.
**वाळी** (ना. स्त्री.) नथी भाशेन नाकांत घालचेली बायलांची मोतयां वस्त.
**वाळेस** (वि.) तवनास; पारपोळ.
**वाळेसपण** (ना. न.) तवनासपण; पारपोळपण.
**वाळो** (ना. पु.) मुदये आकाराची वाटकुळी मोटसार सरी; पायांत घालपाची वस्त.

# वि

**विकट** (वि.) विद्रूप; सरूपताय नाशिल्लें.
**विकटाय** (ना. स्त्री.) विद्रुपताय; कुरुपताय.
**विकतें** (वि.) पयशे घेवन दिवचेलें; मोल फारीक करून घेतिल्लें.
**विकप** (स. क्रि.) वस्तूचें मोल घेवन ती दुसऱ्याक दिवप.
**विकपी** (वि.) वस्तू बदला पयशे घेवपी; वस्तू दिवन तिचें मोल घेवपी.
**विक्री** (ना. स्त्री.) वस्तू विकचेलें काम; विकिल्लो म्हाल.
**विकृत** (वि.) बदल केल्लें; वायट केल्लें; मुळचें रूप काडिल्लें; कुरूप.
**विकृताय** (ना. स्त्री.) मुळच्या रूपांत केल्लो बदल; कुरूपताय.
**विकळ** (वि.) काकुळटेणें; पिंजिल्लें; फुटिल्लें.
**विकळाप** (ना. पु. भो.) भोगिल्ल्या त्रासाचें आनी हाल उपाद्र्यांचें काकुळटेणें वर्णन.
**विकार** (ना. पु.) बदल, भावना; उमाळो; पिडा; रोग.
**विकारी** (वि.) बदलपी.
**विकास** (ना. पु.) वाढ; उदर्गत.
**विखंड** (वि.) वेगळें; मोडिल्लें; तुटिल्लें;

फोडिल्लें.

**विखार** (ना. पु.) विखाचो बादिकार.

**विखारप** (अ. क्रि.) विखाचो बादिकार जावप; जडार पडप.

**विखाळ** (वि.) विखान भरिल्लें; वीख आशिल्लें.

**विखाळें** (वि.) पळय **विखाळ.**

**विंगड विंगड** (वि.) वेग वेगळे.

**विंगळो** (ना. पु.) इंगळो; कोळसो.

**विगार** (ना. पु.) गांवचे इगर्जेचो मुखेल पाद्री.

**विघ्न** (ना. न.) वायट घडणूक; संकश्ट.

**विघ्नाळें** (वि.) विघ्नां करपी; चाडयो बी करून लोकांभितर दुस्मानकाय करपी; पाडे बुद्दिचें; धोंस घालपी.

**विचकप** (अ. क्रि.) उगडप; पिंजप; दांत दाखोवप.

**विचकावप** (स. क्रि.) उसवप; दांत दाखोवन चाळोवप.

**विंचप** (स. क्रि.) पळय **वेंचप.**

**विचवी** (ना. स्त्री.) खोरजेभाशेन एक कातीचो रोग.

**विचार** (ना. पु.) चिंतण; कल्पना; तर्क बी मनाचो धर्म वा काम.

**विचारणी** (ना. स्त्री.) प्रस्न; विचारपाचें काम.

**विचारप** (स. क्रि.) प्रस्न करप; खबर घेवप; पाचारप.

**विचारपी** (ना.) प्रस्न करपी; आदार दिवपी; खबर-चोवकशी करपी.

**विचारीक** (वि.) खोल विचार करपी; चिंतन करपी.

**विटप** (स. क्रि.) कंटाळप; उबगप.

**विचित्र** (वि.) जाचें चित्र काडूंक येना; सामान्याभायलें.

**वितरागप** (अ. क्रि.) त्रास पावप; उबगप; अडचणी उक्तावन सांगप.

**वितराग** (ना. पु.) उबगणी; वैताग; निरशेणी.

**वितरागी** (वि.) उबगण आयिल्लें; वैतागी.

**विंदणें** (ना. न.) पळय **विन्नें.**

**विद्वाट** (ना. पु.) इबाड; कशाकसोय केल्लो वावर.

**विद्वाटां** (वि.) इबाडलेलें; इबाड करपी; वाट लावपी.

**विद्वत्ता** (ना. स्त्री.) गिन्यान; विद्या जोडिल्लो.

**विद्वान** (ना. पु.) गिन्यानी; विद्या जोडिल्लो.

**विद्वास** (ना. पु.) मोड-तोड; विध्वंस; नाश; विद्वाट.

**विद्वासी** (वि.) विद्वाटें; इबाड करपी; मोड-फोड करपी.

**विद्वासप** (स. क्रि.) विध्वंस करप; विद्वाट करप; इबाडप.

**विद्रुपाय** (ना. स्त्री.) कुरूपताय; वायट रूप आसपाची स्थिती.

**विद्रूप** (वि.) वायट रुपाचें; कुरुप; सरुपताय नाशिल्लें.

**विदुशक** (ना. पु.) फकाणेर; सर्कशींतलो हांसयणो मनीस.

**विदेस** (ना. पु.) परकी देस.

**विधवा** (ना. स्त्री.) घोव मेल्या उपरान्त जी लग्न जावंक ना ती बायल.

**विद्यार्थी** (ना. पु.) शिकपी; विद्या मेळोवपी; गिन्यान जोडपी.

**विधान** (ना. न.) म्हणणें; कसलेय गजालीसंबंदान मांडिल्लो विचार; मत्त.

**विद्या** (ना. स्त्री.) गिन्यान; शास्त्र आनी कला हांचें गिन्यान.

**विद्यावंत** (वि.) विद्या जोडिल्लें; पंडीत.

**विद्यालय** (ना. न.) विद्या दिवपाचें

घर.
**विधिमंडळ** (ना. न.) राज्याचे कायदे करपी मनशांचो एकवट.
**विधी** (ना. स्त्री.) करणी; क्रिया; नेमाप्रमाण केल्ली करणी.
**विधेय** (ना. पु.) लागणूक; कर्तव्य; उद्देशाविशीं सांगिल्ली गजाल.
**विनती** (ना. स्त्री.) मागणी; विनंती.
**विनंती** (ना. स्त्री.) मागणी; सांगणी.
**विनवणी** (ना. स्त्री.) नमळायेन केल्ली मागणी; पराथणी.
**विनवप** (स. क्रि.) नमळायेन मागप; पराथप.
**विनाग्र** (ना. स्त्री.) आंबेवंक दवरिल्ल्या सोऱ्यांतलें निस्तल्लें उदक.
**विनायकी** (ना. स्त्री.) म्हयन्याचे पयले पंद्रशींतल्या चोवथीदिसा केल्ली गणपतीची पुजा.
**विनूळ** (ना. पु.) सांगटाभाशेन एक सावें नुस्तें.
**विन्नें** (ना. न.) लाकूड तासपाचें रूंद पात्याचें एक ठवयालें हत्यार.
**विचित्र** (वि.) जाचें चित्र काडूंक येना, जो चालंत वा सरभरस मनशांभाशेन न्हय, सामान्या भायलें अशें; हटी; कोल्ली.
**विंचू** (ना. पु.) कुल्ले दोंक्यांभाशेन दोन दोंके आनी नांगी आशिल्ली एक विखारी जीव.
**विंजीन** (ना. न.) पळय **इंजीन.**
**विटकळप** (अ. क्रि.) दुदासारक्या जिनसांतले घटक वेगळे जावप.
**विटकर** (वि.) रंग गेल्लें; रंग विटिल्लें.
**विटकें** (वि.) विटिल्लें; मुळचो रंग गेल्लें वा वचपी.
**विटप** (अ. क्रि.) मुळचो रंग वचप; कंटाळप; वाजेवप; उबगप.
**विटंबणा** (ना. स्त्री.) कशाकशेंय दिल्लें रूप; इपश्टा; कुसकुटावणी.
**विटवप** (स. क्रि.) कंटाळो हाडप; उबगण हाडप.
**विडी** (ना. स्त्री.) कुड्या पानांत वा शेनवतांत तंबाकू भरून केल्ली बोटायेदी. कवळी.
**विडो** (ना. पु.) खावच्या पानांत सुपारी चुनो आनी हेर मसालो घालून केल्ली चोवकोनी सुपुल्ली घडी.
**विणकार** (ना. पु.) विणपी; कोश्टी.
**विणंग** (ना. न.) एक खूब कांट्यांचें पेडीसारकें पातळ नुस्तें.
**विणप** (स. क्रि.) सुतांत सूत घालप; धाग्यांत धागो गुंथप.
**विणपी** (वि.) कोश्टी; आडवे उबे धागे घुस्पावन लुगट; जाळी वा जाळें तयार करपी.
**विणयेबयलें** (ना. स्त्री.) केंसाविणयेर माळपाचें विणयेसारकीच बायलांची वस्त.
**विणी** (ना. स्त्री.) केंसांची फांती.
**विणें** (अ.) बगर; शिवाय.
**विद्यार्थी** (ना. पु.) गिन्यान जोडपी; शिकपी.
**विंधळेपण** (ना. न.) कशाकसोय खर्च करपाचो सबाव; शिस्त नाशिल्लो कारभार.
**विंधळें** (वि.) पयशांची वाट लावपी; खर्च करपांत शिस्त नाशिल्लें; कशाकसोय खर्च करपी.
**विनाश** (ना. पु.) पुराय काबार जाल्ली स्थिती.
**विनाशी** (वि.) काबार जावपासारकी.
**विनोद** (ना. पु.) हांसयणी गजाल; हांसो येवपासारकें उलोवणें; हांसो फुटपाची बरयल्ली वा घडिल्ली गजाल.

**विनोदी** (वि.) हांसयणें; हांसो येवपासारकें.
**विपत्ती** (ना. स्त्री.) संकश्ट; हाल; त्रास.
**विपरीत** (वि.) विचित्र; कल्पनेभायले घडणूकेचें; अजाप करिसारकें.
**विपरीतपण** (ना. न.) विचित्रपण; नवल; अजापाची घडणूक.
**विपश्टा** (ना. स्त्री.) दुख्ख; विटंबणा; खूब त्रास बादपाच्यो घडणूक.
**विभक्ती** (ना. स्त्री.) शब्दांत जाल्ले बदल.
**विभाग** (ना. पु.) वांटो; भाग.
**विभुती** (ना. पु.) मान-भोवमान करिसारको व्हड मनीस.
**विमान** (ना. न.) मळबांतल्यान वचपी यान; मनीस आनी म्हाल मळबांतल्यान व्हरपी धांवतेरें.
**विमानमार्ग** (ना. पु.) विमानाची थरावीक वाट.
**विमानीक** (ना. स्त्री.) विमान चलोवपी.
**विमुक्त** (वि.) पुराय मेकळें; बांदपासातल्यान सुटिल्लें; स्वतंत्र.
**विमो** (ना. पु.) अकस्मात मरण येवचे पयलीं दुडवांची करून दवरिल्ली तयारी; पयशांची बचत करपाची एक येवजण.
**वियेणी** (ना. स्त्री.) बाळांतपण; पोटांतल्या भुरग्याचें भायर येवप.
**वियेवप** (अ. क्रि.) बाळांत जावप; पोटांतलें भुरगें भायर सरप.
**विरगळणी** (ना. स्त्री.) वितळणी; पातळ वस्तूंत सुकी वस्त पुराय भरसून वचपाची स्थिती; एकामेकांत भरसून एक आंग जावपाचो गूण.
**विरगळप** (अ. क्रि.) एकामेकांत भरसून एक आंग जावप; एकामेकांत पुराय मेळून वचप.
**विरगळावप** (स. क्रि.) भरसवप; एकठांय करप; ओले वस्तूंत सुकी वस्त पुराय भरसून दोगांचेंय एक आंग करप.
**विरजण** (ना. न.) आंबट केल्लें दूद.
**विरजप** (स. क्रि.) जिरप; आटून वचप; मन विरूस जावप.
**विरजावप** (स. क्रि.) जिरोवन उडवप; मन विरूस करप.
**विरप** (अ. क्रि.) जिरप; आटप; सुकून वचप; पातळ वस्तुची वाफ जावप.
**विरमाय** (ना. स्त्री.) वर्म; मर्म.
**विरमायेर व्हरप** (स. क्रि.) वर्मार व्हरप; मनाक लावन घेवप.
**विरविरसाण** (ना. स्त्री.) नाजूक कुरकुरसाण; खावचेल्या सुक्या आनी तुपान तळिल्ल्या जिनसाची नाजूक कुरकुरितपण.
**विरविरीत** (वि.) नाजूक आनी कुरकुरीत.
**विरविरीतपण** (ना. स्त्री.) पळय **विरविरसाण.**
**विरवीर** (ना. स्त्री.) चंवळेची; अळसांद्यांची बी सांग; ह्यो सांगो दिवपी झाड.
**विरळ** (वि.) विस्कळ; पातळ.
**विराम** (ना. स्त्री.) विसव; थांबचेलें काम.
**विरी** (ना. स्त्री.) शक्त; धिरताय; विरताय.
**विरूद्ध** (वि.) आड; उलट; परतो; उरफाटो.
**विरूस** (वि.) उमेद नाशिल्लो; निर्शेल्लो.
**विरूसकाय** (ना. स्त्री.) निर्शेणी; उमेद नासपाची स्तीत.
**व्हिरोणी** (ना. स्त्री.) व्हिरांची बारीक भरी; ५०/६० चुडटे.

**विरोध** (ना. स्त्री.) उरफाटी करणी; आडकाम.

**विरोधी** (वि.) आड काम करपी; उरफाटी कृती करपी.

**विलायत** (ना. स्त्री.) भायलो देश.

**विलायती** (वि.) भायल्या देशांतलो.

**विलो** (ना. स्त्री.) सोंपयल्लें वा सोंपोवचेलें काम.

**विलो लावप** (स. क्रि.) काबार करप; सोंपोवप.

**विलोद** (ना. स्त्री.) रेसमाचें वा कापसाचें खूब मिळमिळीत लुगट.

**विल्लें** (ना. स्त्री.) कोंड्या-वेळांचो पांजरो; कवाथो वा दुसरो कसलोय रोंपो मोनजातीन खावंचो न्हय म्हणून ताचे भोंवतणी घाल्लें कोंड्या वेळांचें बंद आडावण.

**विविधताय** (ना. स्त्री.) तरेक तरा.

**विवीध** (वि.) तरेतरेचो; तरेकवार.

**विशय** (ना. स्त्री.) शिक्षणाचे वेगवेगळे भाग; भास; गणीत; इतिहास अशे गिन्यानाचे तरेकवार फांटे.

**विश्रांती** (ना. स्त्री.) विसव; वावर; काम; कश्ट नासपाची स्तीत.

**विश्व** (ना. स्त्री.) संवसार; जग; सृश्ट.

**विश्वरूप** (ना. स्त्री.) ह्या संवसाराचें आकांताचें रूप.

**विश्वविद्यालय** (ना. स्त्री.) गिन्यान दिवपी संस्था.

**विश्वास** (ना. स्त्री.) खरेपण; भरवंसो; विस्वास.

**विशाळ** (वि.) विस्कळ; लांबरूंद; खूब व्हड.

**विशाळताय** (ना. स्त्री.) लांबरूंदसाण; खूब व्हडसाण; भव्यताय.

**विशीं** (अ.) संबंदान.

**विशेश** (वि.) चड; गरजेपरस चड.

**विशेशण** (ना. स्त्री.) उतरांची एक जात; नामाचो गूण; सबाव सांगपी उतर.

**विशेशताय** (ना. स्त्री.) अदिकताय; अदिकाय.

**विशेशनाम** (ना. स्त्री.) मनीस; दोंगर; न्हंय; गांव; या नामांचें खाशेलें वेगळें नांव सांगपी उतर.

**विस्कटणी** (ना. स्त्री.) उसवणी.

**विस्कटप** (अ. क्रि.) उसोवप; दोड वा घडी सुटप.

**विस्कण** (ना. स्त्री.) उस्तण; उसोवणी; विस्कटावणी.

**विसकणी** (ना. स्त्री.) पळय **विस्कण.**

**विस्कटावप** (स. क्रि.) कशाकशेंय उसोवप.

**विसकटावणी** (ना. स्त्री.) घडी मोडपाचें काम; कशाकशेंय उसोवचेलें काम.

**विस्कप** (स. क्रि.) उसोवप; विस्कटावप.

**विस्कळ** (वि.) मेकळें; लांब रूंद; आयस-पयस.

**विस्कळाय** (ना. स्त्री.) मेकळेपण; लांब रूंदपण.

**विस्कळावप** (स. क्रि.) पातळावप.

**विस्कुटप** (स. क्रि.) पळय **विस्कटप.**

**विस्कुटावणी** (ना. स्त्री.) पळय **विस्कटावणी.**

**विस्कुटावप** (स. क्रि.) घडी मोडप; दोड उसोवप.

**विस्तार** (ना. पु.) वाड; व्हडपाण.

**विस्तारप** (अ. क्रि.) व्हड जावप; वाड जावप; पसरप. (स. क्रि.) व्हड करप.

**विस्मिताय** (ना. स्त्री.) नवल; अजाप.

**विस्मीत** (वि.) अजापीत; नवल जाल्लें.
**विसर** (ना. पु.) उगडास नासपाची स्थिती; उगडासाचो अभाव; याद नासप.
**विसरप** (स. क्रि.) उगडास नासप; याद वचप.
**विसरभोळें** (वि.) जें तें विसरपी; परत परत विसरपी; उणे यादस्तिचें.
**विसराय** (ना. स्त्री.) पळय **विसर.**
**विसराळें** (वि.) उगडास उर नाशिल्लें; उणे यादस्तीचें.
**विस्व** (ना. न.) जग; संवसार.
**विसव** (ना. पु.) कामा विरयत आसपाची स्थिती; विश्रांती.
**विस्वकारण** (ना. न.) सबंद संवसाराचें हीत सादपाचो वावर.
**विसवण** (ना. पु.) एक सुवादीक आनी मांसाळ नुस्तें.
**विस्वास** (ना. पु.) भरवंसो; पातयेणी.
**विस्वासप** (स. क्रि.) पातयेवप; भरवंसो दवरप.
**विसळप** (स. क्रि.) धुवप; आयदनांत उदक घालून तें धवळप.
**विसावो** (ना. पु.) विसव; वावर नासपाची स्थिती.
**विहार** (ना. पु.) बौद्ध भिक्षुंचो मठ.
**विळख्यांनी उलोवप** (सं. क्रि.) घुसपावन उलोवप; चिमट्यांनी उलोवप.
**विळखो** (ना. पु.) गांठ; वेटाळो; वेडो.
**विळविळीत** (वि.) नाजूक; विलोदाभाशेन मोव.
**विळविळीतपण** (ना. न.) मोवसाण; नाजूकसाण.
**विक्षिप्तपण** (ना. न.) विचित्रपण; कोल्लसाण; लहर.
**विक्षीप्त** (वि.) विचित्र; कोल्ली; लहरी.
**विज्ञान** (ना. न.) खूब गिन्यान; रसायनशास्त्र; पदार्थ विज्ञान शास्त्र; मानसशास्त्र अशा तरेकवार शास्त्रांचें गिन्यान.
**विज्ञानीक** (ना. पु.) रसायनशास्त्र; पदार्थ विज्ञान शास्त्र अशा तरेकवार शास्त्रांचें गिन्यान जोडिल्लो मनीस.

## वी

**वीख** (ना. न.) पाटांत गेल्यार वा रगतांत गेल्यार मरण पसून हाडपी वस्त.
**वीज** (ना. स्त्री.) बिजली; यंत्रां चलोवपी; उजवाड दिवपी अशी शक्त.
**वीट** (ना. स्त्री.) मातयेचो भाजून तयार केल्लो नितळ चोवकोनी फातर; (पु.) कंटाळो; किळस.
**वीण** (ना. स्त्री.) विणकाम; विळख्यांनी तयार केल्लें काम दोन वा चड धाग्यांची घुसपावणी.
**वीर** (वि.) शूर; धीट; काळीजवान.
**वीस** (ना. पु.) २०.

## वे

**वेखण** (ना. न.) आल्याभाशेन जमनीमुळा जावपी एका झाडाचें मूळ.
**वेग** (ना. न. भो.) भितल्ल्यान मदिंमदीं उठिल्ल्यो कळो.
**वेंग** (ना. स्त्री.) मिठी; हातांनी घाल्लो विळखो.
**वेगळावप** (स. क्रि.) पयसावप; वेगळो करप.
**वेगळावो** (ना. पु.) वेगळेपण; वेगळोचार; फूट.
**वेगळीकाय** (ना. स्त्री.) पळय **वेगळावो.**

**वेगळीक** (ना. स्त्री.) पळय **वेगळोचार.**

**वेगळेपण** (ना. न.) कुशींत सरपाचें काम; वेगळोचार; फूट.

**वेगळें** (वि.) कुशीन सरिल्लें; भायर सरिल्लें; फुटिल्लें.

**वेगळोचार** (ना. पु.) वेगळेपण; भेद; फूट.

**वेगीं** (क्रि. वि.) बेगीन; सडसडीत.

**वेंगेवप** (स. क्रि.) वेंग मारप.

**वेंचणूक** (ना. स्त्री.) निवड; बरें वायट वेगळावन बरें दवरचेलें काम.

**वेंचप** (स. क्रि.) निवडप; बरें आपणावन हीण सांडप.

**वेंचीक** (वि.) निवडलेलें; आपल्याक जाय तेंच काडिल्लें; फावो तेंच.

**वेंटो** (ना. पु.) कोनाळें; वेडो.

**वेंठ** (ना. स्त्री.) सक्ती; बळजबरी; भेश्टावणी.

**वेड** (ना. स्त्री.) कानांत घालपाची मोतयां थिकांची बायलांची वस्त.

**वेंटप** (स. क्रि.) वेडो घालप; भोंवतणी रावन राखप; सबोंवार रावप.

**वेडे** (ना. पु. भो.) पायांच्या दुसऱ्या बोटाक घालपाच्यो मुदयो.

**वेढो** (ना. पु.) भोंवतणी रावचेलें काम; रेवाडो.

**वेण** (ना. स्त्री.) धुवेची वा पुताची आवय; वेयाची बायल.

**वेणी** (ना. स्त्री.) केंसांची फांती; फुलांची हळी.

**वेत** (ना. न.) बेतकाठयेचें झाड.

**वेंत** (ना. स्त्री.) ताणायल्ल्या हाताचो आंगठो आनी निमाणचें बोट हांचे भितल्लें अंतर वा लांबाय.

**वेंतोज** (ना. पु.) आंग; छाती बी शेकपाचें कांचेचें चिडकेसारकें आयदन.

**वेद** (ना. पु.) हिंदू धर्माचीं पुस्तकां.

**वेदना** (ना. स्त्री.) दुखी; कळ.

**वेदशाळा** (ना. पु.) वेद शिकोवचेली शाळा.

**वेदांत** (ना. पु.) वेदीक तत्त्वज्ञान; वेदांतली शिकवण.

**वेदांती** (ना. पु.) वेदांत शिकिल्लो धर्मशास्त्री; तत्त्वगिन्यानी.

**वेदी** (ना. स्त्री.) माची; व्यासपीठ; अध्यक्षांक बी बसोवचेलो २/३ हात उंचायेचो जागो.

**वेध** (ना. पु.) फुडें करपाच्या कामाचो हुसको; चिंता वा तयारी.

**वेपार** (ना. पु.) धंदो; वेवसाय; उद्देग.

**वेपारी** (ना. पु.) उद्येग-धंदो करपी.

**वेय** (ना. पु.) धुवेचो वा पुताचो मांव.

**वेर** (अ.) मेरेन.

**वेर** (ना. स्त्री.) फूट; चीर.

**वेळीप** (ना. पु.) एक हिंदु जातीचें नांव.

## वै

**वैकुंठ** (ना.) सर्ग; श्रीविष्णु देवाच्या राबित्याची सुवात वा निवासस्थान.

**वैखण** (ना. न.) पळय **वेखण.**

**वैज** (ना. पु.) वायटकारांक तपासून वखदां दिवपी; पिडा-रोग निवळावपी.

**वैजकी** (ना. स्त्री.) वैजपण; वयज जावपाचें शिक्षण.

**वैजपण** (ना. न.) पळय **वैजकी.**

**वैजीण** (ना. स्त्री.) बाळांत करूंक आधार दिवपी बायलमनीस.

**वैजीणपण** (ना. न.) बाळांतिणीक आधार दिवपाचो धंदो.

**वैताग** (ना. पु.) निर्शेणी; उबगण; कंटाळो.
**वैतागप** (स. क्रि.) वाजेवप; कंटाळप; निर्शेवप.
**वैद** (ना. पु.) पळय **वैज.**
**वैभव** (ना. न.) व्हडपण; गिरेस्तकाय; मिरास.
**वैर** (ना. न.) दुस्मानकाय; दुस्मानपण.
**वैरी** (ना. पु.) दुस्मान; शत्रू.
**वैशाख** (ना. पु.) हिंदु वर्साचो दुसरो म्हयनो.
**वैशिश्ट्य** (ना. न.) वेगळेपण; खाशेले गूण.
**वैश्णव** (वि.) श्रीविष्णुची भक्ती आनी उपासना करपी.

## वो

**वो** (अ.) वा; नाजाल्यार; किंवा.
**वो** (अ.) अजाप उक्तावपाचो वा उलो मारपाचो उद्गार.
**वोक्ल** (ना. न.) चश्मो.
**वोक्लीस्त** (ना. पु.) वोक्लां तयार करपी आनी विकपी.
**वोगी** (वि.) गप्प; शांत.
**वोगीच** (अ.) हरशींच; कसलेंच कारण नासतना; बेठोच.
**वोगो** (अ.) शांत; गप्प; मोन्यांनी.
**वोगोत** (ना. पु.) वेळ; काळ; नशीब.
**वोग्गो** (अ.) मोन्यांनी; गप्प; हूं चूं करिनासतना.
**वोडी** (ना. स्त्री. भो.) पोट चड भरतकच मारिल्ले सणसण; खूब खाल्ल्यान आयिल्ली एकेतरेची आळसाय आनी जडसाण.
**वोत** (ना. न ) सुर्याचो खर उजवाड.
**वोल्ली** (ना. स्त्री.) तांदूळ बी धुवचेलें कोंड्या वेळांचें उबें आयदन.
**वोंवो** (ना. पु.) अका मसाल्या झाडाचें वासादीक फळ आनी मसाल्याचें आंग.
**वोंस** (ना. न.) एका राताचो सोळावो भाग.
**वोसूक** (ना.) देवी नांवांचो रोग; कातीक फोड येवपाचो एक भिरांकूळ रोग.
**वोळंबो** (ना. पु.) वणत बी नीट उबी जाल्या काय ना तें पळोवपाचें सादन.
**वोळू** (ना. पु.) आंगान बरो वाडिल्लो बैल.

## वं

**वंदन** (ना. न.) नमन; नमस्कार.
**वंय** (ना. स्त्री.) झाडा-खांद्यांचें वा कोंड्यांचें बी आडावण.
**वंश** (ना. पु.) पिळगी; भुरगीं; नातरां; पण्टुरां हांच्यो पिळग्यो.
**वंशावळ** (ना. स्त्री.) आपल्या कुटुंबांतल्या सगल्या मनशांची नामावळ.

## श

**शक** (ना. स्त्री.) वर्साची मेजणी; शालिवाहनाच्या नांवाकडेन संबंद आशिल्ली वर्साची मेजणी.
**शक्त** (ना. स्त्री.) बळगें; बळ; शक्ती; शकत.
**शकत** (ना. स्त्री.) बळगें; शक्ती.
**शक्तिवंत** (वि.) बळगें आशिल्लें; शक्तिवान.
**शक्तिवान** (वि.) पळय **शक्तिवंत.**
**शक्ती** (ना. स्त्री.) बळ; बळगें; शकत.
**शकप** (स. क्रि.) तांकप; तांक आसप;

करूक जावप.

**शकून** (ना. पु.) फुडले घडणुकेचें बरें चिन्न; फुडें जातले गजालीची बरी कुरू; बरें लक्षण.

**शणै** (ना. पु.) शिक्षक; गुरू.

**शणैमाम** (ना. पु.) मास्तर; शिक्षण दिवपी; शिकोवपी.

**शत** (वि.) शेंकडो; शंबर.

**शतक** (ना. न.) शंबर वर्सांचो तेंप; शंबर.

**शनी** (ना. पु.) सूर्यमाळेंतलो एक गिरो.

**शब्द** (ना. पु.) उतर.

**शब्दकोश** (ना. पु.) उतरांची कोठी; भार्शेतल्या शब्दांचें अर्थासयत पुस्तक.

**शब्दचोर** (ना. पु.) उतरांची वा बरयल्ल्या कसल्याय लेखाची चोरी करपी.

**शब्दचोरी** (ना. स्त्री.) उतरां; लेख बी चोरपाचें काम.

**शबय** (ना. स्त्री.) धुमशेण; पळय **शेबय.**

**शब्दयोगी अव्यय** (ना. न.) उतराक लावपाचें कूस; संबंदी अव्यय, देखीक : आरमारी **पोंदा.**

**शब्दरचना** (ना. स्त्री.) उतरांचो वापर; खंयचें उतर कित्याचें काम करता ह्या विशींचें गिन्यान.

**शब्दविचार** (ना. पु.) खंयचें उतर कशें घडलां ह्या संबंदान केल्लो विचार.

**शब्दसंग्रह** (ना. पु.) एकठांय केल्लीं उतरां; उतरावळ.

**शब्दसाम्य** (ना. न.) उतरांचें सारकेपण; सादारण सारक्या अर्थाचीं उतरां.

**शब्दार्थ** (ना. पु.) उतराचो अर्थ.

**शब्दामृत** (ना. न.) उतरांची गोड; गोड आनी मधूर भास.

**शमप** (अ. क्रि.) थांबप; थंडाय हाडपी; शांत करपी.

**शरदरुतू** (ना. पु.) वर्साच्या स रुतूंतलो चोवथो रुतू; आश्वीन आनी कार्तीक ह्या दोन म्हयन्यांतलो काळ.

**शरम** (ना. स्त्री.) लज.

**शरीर** (ना. न.) कूड; आंग.

**शरीमंत** (वि.) गिरेस्त; दुडवांकार.

**शस्त्र** (ना. न.) हत्यार.

**शस्त्रक्रिया** (ना. स्त्री.) वायट जाल्लो कुडीचो भाग शस्त्राच्या आधारान काडून उडोवपाचें काम.

**शस्त्रवैज** (ना. पु.) शस्त्रक्रिया करपी वैज.

**शस्त्रहीण** (वि.) हत्यारां नाशिल्लें.

**शस्त्रास्त्रां** (ना. न. भो.) शस्त्रां आनी अस्त्रां.

**शव** (ना. न.) मडें; प्रेत.

**शवपेटी** (ना. स्त्री.) मडें घालपाची कास.

**शहामृग** (ना. पु.) वाळवंटांत जियेवपी एक व्हड सवणें.

# शा

**शाक** (ना. स्त्री.) भाजी; झाडांची मुळां; पानां; फुलां शिजोवन केल्लो खावपाचो जिनस.

**शाक-खायरें** (वि.) भाजी-पालो खावपी.

**शाकारणी** (ना. स्त्री.) घराच्यो कणयो बी सारक्यो करून घर धांपप.

**शाकारप** (स. क्रि.) घराचें पाखें बी सारकें करून तें चुडटांनी वा नळ्यांनी धांपप.

**शाकुती** (ना. स्त्री.) पळय **शागोती.**

**शागोती** (ना. स्त्री.) सोंशाचें, दुकराचें, कोंबयेचें बी मांस; रांदिल्लें मांस.

**शाण्णय/शाण्णव** (ना. पु. वि.) णवद आनी स (९६).
**शाणुलो** (वि.) शाणो; शाणो ह्या अर्थाचें अपुर्बायेचें उतर.
**शाणपण** (ना. न.) बुदवंतकाय; शाणेपण; जाणवायो; सुबेजपण.
**शाणी** (ना. स्त्री.) साण; भांगराचो कस पळोवपाचो फातर; धार आनी तोंक काडचेलो फातर.
**शाणेपण** (ना. न.) बुदवंतकाय; चतुराय; हुशारकाय.
**शाणेपणां** (ना. न. भो.) जाणवायो; फाजील उलोवणीं; आडवीं तिडवीं उतरां
**शार्णे** (वि.) बुदवंत; बरी मत आशिल्लें.
**शांत** (वि.) थंड; नरम.
**शांतताय** (ना. स्त्री.) थंडसाण; नरमाय.
**शांता** (ना. स्त्री.) आदिमाता शांतादुर्गा.
**शांतिवन** (ना. न.) पं. जवाहरलाल नेहरू हांची समाधी आसा ती सुवात.
**शांती** (ना. स्त्री.) शांतताय; थंडाय.
**शाप** (ना. पु.) स्राप.
**शापग्रस्त** (वि.) शापाचें बादिकार जाल्लें; शापाक लागून त्रास पाविल्लें.
**शापातां** (ना. न. भो.) जाणवायो; फाजील उलोवणीं.
**शापी** (वि.) शापिल्लें.
**शाबास** (अ.) तुस्त; तोखणाय आनी तेंको दिवपाचें उतर.
**शाबासकी** (ना. स्त्री.) तेंको; तोखणाय.
**शाबू** (ना. पु.) आंग आनी आंगलीं निवळ करचेखातीर सोडा; चरबी घालून तयार केल्ली एक वस्तू.
**शाय** (ना. स्त्री.) बरोवंक उपकारावचेलो रंगीत पातळ पदार्थ; तींत.
**श्यायंशीं** (वि.) अंयशी आनी स (८६).
**शार** (ना. न.) व्हड व्हड घरां; रूंद मार्ग; मोटो वेपार-उद्देग आनी खूब लोकांचो राबितो आशिल्लो जागो; नगर.
**शाल** (ना. स्त्री.) फाटीर घालपाचें मोटवें पाल; पांगुरचेलें रेस्मी लुगट; म्हावस्त्र.
**शालू** (ना. पु.) बायलांचें जरीचें उंची न्हेसण.
**श्यास्तर** (ना. पु. वि.) सत्तर आनी स (७६).
**शास्त्र** (ना. न.) विद्येचो भाग; गिन्यानाचो फांटो; धर्मीक नेम; धर्मीक ग्रंथ.
**शास्त्रज्ञ** (ना. पु.) पंडीत; शास्त्राचें गिन्यान जोडिल्लो मनीस.
**शास्त्री** (वि.) पंडीत; शास्त्राचें गिन्यान आशिल्लो मनीस.
**शाळगडो** (ना. पु.) शाळेंत शिकपी भुरगो.
**शाळा** (ना. स्त्री.) शिक्षण दिवपी घर; विद्येचें घर.

# शि

**शिकणार** (ना. पु.) शिकपी; शिक्षण घेवपी; गिन्यान जोडपी.
**शिकप** (स. क्रि.) गिन्यान मेळवप; शिक्षण घेवप.
**शिंकप** (अ. क्रि.) नाकांतल्यान नेटान उस्वास फुटून येवप.
**शिकपी** (ना. पु.) गिन्यान जोडपी; विद्या मेळोवपी.
**शिकवण** (ना. स्त्री.) शिकोवचेलें काम; विद्यादान.
**शिकार** (ना. स्त्री.) मोनजात वा सवणीं पकडचेलें वा मारचेलें काम.
**शिकारी** (ना. पु.) जनावरां वा सवणीं पकडपी वा जिवानशीं मारपी.
**शिकिल्लें** (वि.) गिन्यान मेळयल्लें.
**शिर्के** (ना. न.) दूद वा दुसरो कसलोय जिनस हुमकळावन लावपाची दोनय वाटेन दोन मालीं आशिल्ली एक वस्त.

**शिक्को** (ना. पु.) छाप; रबराचेर वा लोखणा पत्र्याचेर कोरून काडिल्लीं अक्षरां.
**शिकोवपी** (ना. पु.) गिन्यान दिवपी; विद्यादान करपी.
**शिकोवपी** (ना. पु.) पळय **शिकवण.**
**शिखर** (ना. न.) माथें; तेमूक; दोंगराचें वयलें माथें.
**शिंग** (ना. न.) कांय जनावरांच्या तकलेक फुटिल्लीं पोंतां; आपल्या जिवाची राखण करूंक कांय मोनजातींक कानांवयर आशिल्लीं पोतां.
**शिंगा लावप** (वा. प्र.) फटवप.
**शिगमो** (ना. पु.) फाल्गुन म्हयन्यांतलो उत्सव. देवाक नमन घालून रोमटांच्या आवाजांत मनयल्लो एक मोटो उत्सव.
**शिगर** (ना. न.) व्हिराची बारीक काडी.
**शिंगार** (ना. पु.) सृंगार; वेशभुशा.
**शिंगाडो** (वि.) पळय **शिंगाडो.**
**शिजप** (अ. क्रि.) उकडप; उज्याचें उश्णतायेन मोव जावप.
**शिजवप** (स. क्रि.) उकडप; उज्याचेर जेवण-खाण तयार करप.
**शिजोवणी** (ना. स्त्री.) उकडणी; उज्यार मोव करचेलें काम.
**शिटकप** (अ. क्रि.) मनाक लागप; मनाक तोपप; बोचप.
**शिटकावणी** (ना. स्त्री.) इशारो; इशारत; भानार हाडचेलें काम; उपदेश; हिताची सांगणी; जाग.
**शिटकावप** (स. क्रि.) इशारो दिवप; शितितार हाडप; जागवप.
**शिट्ट जावप** (सं. क्रि.) सट्ट करून राग येवप; तीड येवप.
**शिट्टी** (ना. स्त्री.) बारीक बडी; झाडाची बारीक खांदी.
**शिट्टो** (ना. पु.) भाताचें एक गांवठी बीं.
**शिटुकसाण** (ना. स्त्री.) हुशारकाय; लापीटपण; बुंदवंतकाय.
**शिटूक** (वि.) हुशार; लापीट; बुदवंतकायेची सया आशिल्लें.
**शिडकाव** (ना. पु.) शिंवर.
**शिडशिडप** (अ. क्रि.) शिंवरप; पातळ पावसाचें उदक पडप; पावसाचो मात्सो शिंवर पडून वचप.
**शिडशिडो** (ना. पु.) शिंवर; मात्सो पडून गेल्लो पावस.
**शिटकुर्टे** (वि.) परत परत शीण काडपी; पिरंगुपी.
**शिणप** (स. क्रि.) मनांतलो राग; खंत बी उलोवन दाखोवप; दुसऱ्यांनी करचेली कामां केली नांत देखून मनांतली तिडक वा खंत उक्तावप.
**शिणशिणप** (अ. क्रि.) कळ येवप; दुखी बादप; सणसणवप.
**शिणायणी** (ना. न.) पांचव्या रंगाचो खुबो; पोटांत कालूं आशिल्लो; पांचव्या रंगाचो तिसरे भाशेन जीव.
**शितळ** (वि.) थंड; शांत.
**शितळकाय** (ना. स्त्री.) थंडसाण; शांतताय.
**शितळसाण** (ना. स्त्री.) पळय **शितळकाय.**
**शिताडो** (ना. पु.) उदकाचो वा शेणा-उदकाचो शिंवर.
**शिताफळ** (ना. न.) आंतेर; गोड गोरोप आनी काळ्यो व्हडसार बियो आशिल्लें फळ.
**शितारी** (ना. स्त्री.) तेंकडी; वयल्या पोंतार पालशे बडयेचो कुडको आशिल्ली लांब कोंड्या बडी.
**शिंदनी** (ना. स्त्री.) बारीक कातले-कुडको.
**शिंदप/शिनप** (स. क्रि.) आदोळेन वा सुरयेन बारीक कुडके करप.
**शिंदळ** (वि.) वायट चलणुकेची;

अनितवंत.

**शिंदळकाय** (ना. स्त्री.) शिंदळपण; अनितीक संबंद.

**शिदाव** (ना. पु.) खंड; मुंडकारान वा रयतान भाटकाराक फारीक करचेलें शेताभाटाचें उत्पन्न; भाटकाराक फारीक करचेली शेता-भाटाची पिकावळ.

**शिदावी** (ना. पु.) शिदाव घालपी; भागेली.

**शिदो** (ना. पु.) एका जेवणाचें मांदूळ; कड्डण बी सामान.

**शिपटें** (ना. न.) सुपारीची पेंड; सुपाऱ्यांचो व्हड घोंस.

**शिंपडप** (अ. क्रि.) शिंवरप; फाँपडप.

**शिंपडावप** (स. क्रि.) शिंवरावप; फापडप; पातळावप.

**शिंपप** (स. क्रि.) उदक घालप; शिंपडप; रकोवप.

**शिपें** (ना. न.) बुतांव; सुरयांच्यो मुठी बी करचेलो एक घट आनी लकलकीत जिनस.

**शिपाय** (ना. पु.) झुजांत वांटो घेवपी आनी देशांत हेर वेवस्ता दवरपी मनीस.

**शिपायक** (ना. पु.) पळय **शिपाय.**

**शिपायकी** (ना. स्त्री.) शिपायपण; शिपायाचो धंदो.

**शिंपी** (ना. स्त्री.) दर्जी; आंगावयलीं शिंवपी.

**शिपी** (ना. स्त्री.) तिसऱ्यांचें; खुब्यांचें बी भायलें कट्टें; त्या कट्ट्यांचें अर्द.

**शिपीभर** (अ.) तिसरेच्या कट्ट्याच्या अर्दांत जाता इतलें; शिपयेंत जाता तितलें.

**शिंपो** (ना. पु.) व्हड शिपी.

**शिंबरी करप** (स. क्रि.) नाक मुड्डप.

**शिंबरेपण** (ना. न.) नाकसुरेपण; नाक्कात्रेपण; निल्लज्जपण.

**शिंबरें** (वि.) नाकांतल्यान उलोवपी; नाकसुरें; नाककात्रें; लज नाशिल्लें.

**शिमरेपण** (ना. न.) पळय **शिंबरेपण.**

**शिमरें** (वि.) पळय **शिंबरें.**

**शिमेळ** (ना. पु.) सुवारेंत वाजोवपाचें सादारण ताशाभाशेन वाद्य.

**शियाळें** (ना. न.) तन्नो नाल्ल; आडसर.

**शिंयाळो** (ना. पु.) शिंयांचो तेंप.

**शिरकप** (अ. क्रि.) रिगप; चिड्डून भितर सरप; आडखळून उरप.

**शिरकावप** (स. क्रि.) चिड्डून भितर रिगवप; चिड्डून दामून भितर भरप.

**शिरगणती** (ना. पु.) लोकांची मेजणी; लोकांचो आंकडो थारावंक केल्लें लोकांचें मेजप.

**शिरच्छेद** (ना. पु.) तकली कातरून उडोवचेलें काम.

**शिरणी** (ना. स्त्री.) शिननी.

**शिरंतर** (ना. न.) मनशाक जाणविकाय दिवपाचे कूडभर पातळिल्ले ल्हान व्हड आनी बारीक मोटे तंतू.

**शिरती** (ना. स्त्री.) केळीच्या पानांचो मदीं चिरूंक नाशिल्लो कुडको.

**शिरपूट** (ना. न.) बारीक बडी; बारीक बारीक खांदे आशिल्ली बडी.

**शिरपुटो** (ना. पु.) आंगान बारीक; शिरशिरीत खांदे आशिल्ली बडी.

**शिरपेंच** (ना. पु.) पागडेक वा मुकुटाक लावपाची विळविळीत रेस्मा धाग्याची एक सुंदर वस्त.

**शिरशिरप** (अ. क्रि.) कडकडप; थंड वाऱ्यान वा जोर आयिल्ल्यान थरथरप.

**शिरशिरी** (ना. स्त्री.) कडकडो; थरथरो.

**शिरशिरीत** (वि.) किडकिडीत; आंगान बारीक.

**शिरशिरो** (ना. पु.) पळय **शिरशिरी.**

**शिरवळ्यो** (ना. स्त्री. भो.) गंवा-पिठाच्यो वा तांदळा-पिठाच्यो शेवयो; कालयल्ल्या पिठाचे हातांनी

वळिल्ले वा शेवग्यान पिळिल्ले बारीक धागे.
**शिराप** (ना. पु.) स्त्राप; दुसऱ्याचें वायट जावचें अशें मागणें.
**शिरापप** (स. क्रि.) स्त्राप दिवप; दुसऱ्याचें वायट जावचें अशी इत्सा उक्तावप.
**शिरींग** (ना. न.) बारीक तोंक आशिल्ली कांचेची नळी.
**शिरिस्तो** (ना. पु.) चाल; तरा; पद्धत; रूद; सवंय.
**शिरें** (ना. न.) कोंड्याचो बारीक बारीक खांदो आशिल्लो पोंताकडलो कुडको.
**शिरो** (ना. पु.) सांजो; गंवा कण्याचो वा गंवा लरांवाचो तूप; साकर घालून केल्लो खावचेलो जिनस.
**शिलवंत** (वि.) बरे नितिचें; बरे चाल-चलणुकीचें; नितवंत.
**शिलालेख** (ना. पु.) फातरपटो; फातरार कोरांतून बरयल्लो लेख.
**शिल्पकला** (ना. स्त्री.) फातर कोरांतून बावलीं आनी हेर वस्तू करपाची कला.
**शिल्पीक** (ना. पु.) फातर कोरांतून बावली आनी हेर वस्तू करपी कलाकार.
**शिल्लक** (वि.) व्हड आंकड्यांतल्यान ल्हान आंकडो वजा करतकच उरिल्लो आंकडो; चड वस्तूंतल्यान उण्यो वस्तू काडटकच उरिल्ल्यो वस्तू.
**शिल्ली** (ना. स्त्री.) व्हड पालीभाशेन आनी पुडी रंगाचो एक लांबोडो प्राणी.
**शिलोक** (ना. पु.) कवितेची एक तरा.
**शिव** (ना. पु.) महादेव. (वि.) कल्याणकारक.
**शिंव** (ना. पु.) एक रानटी क्रूर मोनजात.
**शिवणकाम** (ना. न.) आंगावयलीं बी शिंवचेलो तशेंच तेरेकवार तुवाले बी विणपाचो वावर.
**शिवणावळ** (ना. स्त्री.) शिविल्लीं वा शिंवचेलीं आशिल्लीं तेरतेरचीं आंगावयलीं आनी हेर मुस्तायकी.
**शिंवप** (स. क्रि.) सुये-सुतान धागो मारून लुगटाचे तेरेकवार कुडके जोडप; सुये-सुताच्या धाग्यांनी मेटप.
**शिवण** (ना. स्त्री.) सुये-सुतान धागे मारून जोडप; तेरेकवार रंगांच्या सुतांनी कला कुसर करप.
**शिवण-यंत्र** (ना. न.) शिवपाचें मशीन.
**शिंवपी** (ना. पु.) शिवण करपी; दर्जी.
**शिंवर** (ना. न.) शिताडो; शिपिल्लें वा फापुडलेलें उदक वा दुसरो कसलोय पातळ जिनस.
**शिवराक** (वि.) फकत शाक भाजी खावपी; मांस आनी नुसतें खायनासतना भाजी-पालो खावन जियेवपी.
**शिवरावप** (स. क्रि.) फापडप; शिंपप; फवारे सोडप.
**शिवशिवप** (अ. क्रि.) फुरफुरो येवप; उमेदीन आंग फुलप.
**शिंवशिंवप** (स. क्रि.) पळय **शिवशिवप.**
**शिवाय** (अ.) त्याभायर; बगर.
**शिवालय** (ना. न.) म्हादेवाचें देवूळ; शिवाचें मंदीर.
**शिंवासन** (ना. न.) राजाचें बसपाचें आसन.
**शिंव्हीण** (ना. स्त्री.) शिंवाची मादी.
**शिश्ट** (वि.) शिकिल्लें आनी बरे चालचलणुकेचें; लोकांचे आवडीचें; लोकप्रीय.
**शिश्टाय** (ना. स्त्री.) मध्यस्ती; समजिकायेन झगडीं; वांदे ना करपाचो यत्न.
**शिश्य** (ना. पु.) शिक्षण घेवपी; गुरूच्या हाताखाला शिक्षण घेवपी.
**शिश्यावळ** (ना. स्त्री.) शिश्यांची माळ.

**शिर्शें** (ना. न.) एक काळसार धातू.
**शिस्त** (ना. स्त्री.) वेळच्या वेळार आनी नेमाप्रमाण वावर करपाची पद्धत.
**शिंसो** (ना. पु.) बाटली; बोत्ल.
**शिळकी** (ना. स्त्री.) नेटान सोडिल्ली धार.
**शिळा** (ना. स्त्री.) काळी आनी नितळ फातर.
**शिळोणी** (ना. स्त्री.) तोंडांतल्यान वारो सोडून केल्लो आवाज; ओटांचो चेंबू करून काडिल्लो आवाज.
**शिक्षक** (ना. पु.) शिक्षण दिवपी; विद्यादान करपी; शिकोवपी.
**शिक्षण** (ना. न.) गिन्यान दिवपाचें काम.
**शिक्षणक्रम** (ना. पु.) शिक्षणाची वळेरी.
**शिक्षणखातें** (ना. न.) शिक्षणाविशींचें सगले प्रस्न सोडपी सरकारी कार्यालय.
**शिक्षा** (ना. स्त्री.) दंड; शासन.

## शी

**शीं** (ना. न.) थंड वातावरण; थंड हवा; उणी जाल्ली उश्णताय.
**शी** (ना. स्त्री.) कंटाळो आनी वीट उक्तांवपाचो उद्गार; अळशिकावचेलें उतर.
**शींक** (ना. न.) नाकांतल्यान नेटान सुटिल्लो वारो.
**शीख** (ना. पु.) गुरू नानकाच्या पंथांतलो; शीख धर्मीक.
**शींग** (ना. न.) पळय **शिंग.**
**शीड** (ना. स्त्री.) वाऱ्याच्या नेटान व्हडें बेगीन वचचें म्हणून व्हड्याक मर्दी ताणायल्लें लुगट.
**शीण** (ना. पु.) खंत; तक्रार.
**शीत** (ना. न.) तांदूळ उकडून आनी आयदनांतलें उदक गाळून तयार केल्लो जेवपाचो जिनस. (वि.) थंड.
**शीब** (ना. न.) मनशाचे कातीर जाल्लें खत.
**शीम** (ना. स्त्री.) मेर; ल्हान-व्हड प्रदेशा भोंवतणची सराद.
**शीम जावप** (वा. प्र.) अति जावप; चड जावप.
**शीम-सर्त नासप** (सं. क्रि.) व्हडपण सांगूंक येवप ना आनी तुळा करूंक जमप ना.
**शील** (ना. न.) चाल-चलणूक; सबाव; जियेणी.
**शीर** (ना. न.) माथें; चिरिल्लो उबो कुडको.
**शीलवंत** (वि.) बरे चालचलणुकेचें; नितिवंत.
**शींव** (ना. पु.) एक रानटी; क्रूर जनावर.

## शु

**शुक्र** (ना. पु.) सुर्यमाळेंतलो एक गिरो.
**शुक्लपक्ष** (ना. पु.) चांदन्याची पंद्रस.
**शुत्** (अ.) शिटकावणी दिवपाचो उद्गार.
**शुद्ध** (वि.) निवळ; चुकेबगर; साबुद्द.
**शुद्धी** (ना. स्त्री.) निवळसाण; जागरुकाय; साबुद्दी.
**शुन्य** (ना. न.) पुज्य (०).
**शुभ** (वि.) बरें; मंगळ.
**शुल्क** (ना. न.) वर्गणी; भाडें; फीचे पयशे.
**शूर** (वि.) धीट; धिरवान.
**शूरताय** (ना. स्त्री.) धिटाय; धीर.
**शृंगार** (ना. पु.) नटपाचें काम; सोबीत भेस.
**शृंगारप** (अ. क्रि.) नटप; न्हेसप.
**श्रीमती** (ना. स्त्री.) बायलमनशेक लायिल्लें भोवमानाचें उतर.

# शे

**शे** (अ.) न्हयकार उक्तावपाचो उद्गार.
**शें** (वि.) शेंकडो; शंबर; शतक.
**शेक** (ना. पु.) हून उदकाचो मारिल्लो बूट.
**शेंकडो** (ना. पु.) शंबर; शें; शतक.
**शेकणी** (ना. स्त्री.) पाल; किमसां बी खावपी आनी चडकरून वणटीर रावपी एक जीव.
**शेंकरें** (ना. न.) कोंब्या माथ्यावेलो तुरो.
**शेकानशेक** (क्रि. वि.) आस्कळ-विस्कळ; आयस पयस; लांब-रूंद.
**शेकीं** (अ.) अखेर; शेवट.
**शेकप** (स. क्रि.) हून वाफेचे बूट दिवप; उज्याच्या धगान कुडीची उश्णताय वाडोवप.
**शेकुणी** (ना. स्त्री.) पाल; शेकणी.
**शेगडी** (ना. स्त्री.) कोळशे घालून उजो करपाची पत्र्याची वा शिमिटाची रांदन.
**शेज** (ना. स्त्री.) बाज; पलंग.
**शेजरा** (क्रि. वि.) म्हऱ्यांत; लागीं; तेंकून.
**शेजार** (ना. पु.) आपल्या घरा म्हऱ्यांत रावपी लोक.
**शेजार धर्म** (ना. पु.) शेजाऱ्यांकडचे संबंद.
**शेजारपण** (ना. न.) शेजाऱ्यांच्यो लागणुको; म्हऱ्यांत रावतल्या लोकांकडेन दवरचेले बरे संबंद.
**शेजारी** (ना. पु.) आपल्या घरालागीं रावपी.
**शेजारी-सामारी** (ना. पु.) आपल्या घरा म्हऱ्यांत रावपी खंयचोय शेजारी.
**शेजो** (ना. पु.) ल्हान माळी; देवाक बसोवचेली माळी.
**शेट** (ना. पु.) भांगराचे आनी रूप्याचे दागिने आनी हेर वस्तू करपी; मोटो वेपारी.
**शेटपण** (ना. न.) शेटीचो धंदो; भांगराच्यो आनी रुप्याच्यो वस्तू करपाचो धंदो.
**शेड** (ना. स्त्री.) एके तरेची हळडुवसार आनी चिकट माती.
**शेंडी** (ना. स्त्री.) दादल्या मनशान माथ्यार मदींच वाडयल्ले इल्ले केंस.
**शेंड्यो** (वि.) शेंडी आशिल्लो.
**शेड्डो** (ना. पु.) तोपयो; शिल्लेभाशेन एक प्राणी.
**शेण** (ना. न.) गोरवांची विश्टा.
**शेण-शिताडो** (ना. पु.) शेणा-उदकाचो शिंवर.
**शेणजो** (ना. पु.) आज्याचो आजो; बापायचो पणजो.
**शेणटू** (ना. पु.) नातवाचो नातू; पुताचो पंटू.
**शेणटूर** (ना. स्त्री.) पळय **शेणटू.**
**शेणप** (अ. क्रि.) ना जावप.
**शेणय** (ना. पु.) मास्तर; कुलकर्णी; बामण; बरपाक्षरी.
**शेणयपण** (ना. न.) मास्तरकी; कुलकर्णिपण; वाचपा-बरोवपाचें काम करपी.
**शेणा-गायर** (ना. स्त्री.) गोरवांचें शेण सांपावन दवरचेलो फोंडारो.
**शेणें** (ना. न.) घट्ट वस्तू फोडपाची आनी सादारण खिळ्या आकाराचो लोखणाचो कुडको.
**शेत** (ना. न.) भाताचें रोंप लायिल्ली नितळ आनी व्हड सुवात.
**शेतकाम** (ना. न.) खणप; तास मारप असो शेताचो तरेतरेचो वावर.

**शेतकामत** (ना. न.) शेत-भात रोवपाचो वेवसाय; शेती.

**शेतकामती** (ना. पु.) शेतकार; शेत रोवपी.

**शेतकार** (ना. पु.) शेत रोवपी; शेतकामती.

**शेतजमीन** (ना. स्त्री.) शेताक फावोशी जमीन; शेत रोवंक योग्य तरेची जमीन.

**शेत-भाट** (ना. न.) भात लायिल्ली आनी नाल्ल लायिल्ली सुवात; भाताचें शेत आनी नाल्लाचें भाट.

**शेत्तीस** (वि.) तीस आनी स (३६).

**शेतोड** (ना. पु.) व्हड व्हड शेतां; शेत रोयिल्ल्यो खूब जमनी.

**शेंदरी** (ना. स्त्री.) बारीक लव्याची मांदरी.

**शेंदुरी** (वि.) हळडुव्या तांबसार रंगाचें.

**शेंदूर** (ना. स्त्री.) शिशें आनी प्राणवायू हांच्या रसायनी मिस्रणान तयार जाल्लो एक जड तांबडो जिनस.

**शेनवार** (ना. पु.) आयतार धरून सप्तकांतलो निमाणो दीस.

**शेनाय** (ना. स्त्री.) फूंक मारून वाजोवपाचें एक वाजंतर.

**शेनायकार** (ना. पु.) शेनाय वाजोवपी.

**शेंप** (ना. स्त्री.) लांब शेंपडी.

**शेंपडी** (ना. स्त्री.) फाटीकणो सोंपता थंयच्यान आशिल्लो हालपी भाग.

**शेपन** (ना. पु. वि.) पन्नास आनी स (५६).

**शेपाय** (ना. पु.) आजो; बापायचो वा आवयचो बापूय.

**शेबय** (ना. स्त्री.) हातांत दांडे आनी व्हड ताळ्यान गायन केल्लो कशाकसोय नाच; धुमशेण.

**शेंबूड** (ना. न.) नाकांतल्यान व्हांविल्लो बुळबुळीत पातळ जिनस.

**शेमांय** (ना. स्त्री.) बापायची वा आवयची आवय.

**शेर** (ना. पु.) सादारण पावूट लिटर.

**शेरको** (ना. पु.) चाकर; घर-वावर करपी; घर चाकर.

**शेरवानी** (ना. स्त्री.) बंद गळ्याचो लांब कोट; दादल्याचो राश्ट्रीक पोशाक.

**शेरूक** (ना. न.) पगड्याभाशेन ल्हान सवणें.

**शेरें** (ना. न.) १. बारीक बारीक ताळयो आशिल्ली बडी; २. पोरसूं.

**शेरो** (ना. पु.) १. बरें-वायट मत्त; २. पानवेलिचें एक झाड.

**शेल** (ना. स्त्री.) सुंबाची बारीक आनी लांब दोरी.

**शेलकें** (वि.) बरें; वेंचीक.

**शेलावणें** (वि.) मोटें; फुगरें; व्हड.

**शेलें** (ना. न.) नाल्लांचें शेंबक.

**शेलो** (ना. पु.) खांदार घेवपाचें अशीरशें उंची लुगट.

**शेव** (ना. पु.) १. चण्या-दाळीचो मसालो घालून केल्ल्यो शेवयांभाशेन बारीक काडयो; २. दिसांतल्यान दोन तीन खेपो सूर जमोवंक पोंब तासपाचें काम.

**शेवक** (ना. न.) नाल्लाच्या देंटाचो दांडो.

**शेवगो** (ना. पु.) शेवयांचो दांतो.

**शेंवटप** (स. क्रि.) मोखून मारप; भावर मारप.

**शेवटाळी** (ना. स्त्री.) व्हड शेंवटो.

**शेंवटो** (ना. पु.) एक सुवादीक नुस्तें.

**शेंवतीण** (ना. स्त्री.) एक फुलझाड.

**शेंवतें** (ना. न.) एक सादारण रोजाभाशेन सोबीत वास आशिल्लें फूल; शेंवतिणीचें फूल.

**शेवयो** (ना. स्त्री. भो.) कालयल्ल्या पिठाचे हातांनी वळिल्ले वा दांत्यांनी पिळिल्ले बारीक धागे.

**शेवयांदांतो** (ना. पु.) शेवयो पिळपाचो दातो.

**शेवाळप** (अ. क्रि.) लजेवप; भियेवप; धिटाय वचप.

**शेवाळें** (ना. न.) व्हड शेंवटो.

**शेंश्टी** (ना. स्त्री.) नुस्त्याची तकली वा बोडूक; नुस्त्याचीं बोडकां धोडावन तयार केल्लो जेवणाचो जिनस.

**शेंस** (ना. पु.) लग्नासारको विधी; देवाक ओपून घेतिल्ले वाडिल्ले चलयेचो लग्नाभाशेन विधी.

**शेंसर** (ना. न.) जोडप्यांच्या माथ्यार तांदूळ शिंवरचेली लग्नांतली चाल; अवसर येवचो देखून देवाचें नांव घेवन मनशा कुडिचेर शिंपडायल्ले तांदूळ.

**शेळ** (ना. स्त्री.) उदकाची थंडाय; जमनीन ओडून घेतिल्लें उदक; शेताक आशिल्ली ओलसाण.

**शेळमोर्डें** (वि.) उणे उश्णतायेचें; चड हुनसाण नाशिल्लें.

**शेळ-वोत** (ना. न.) मंद वोत; हुनसाण नाशिल्लें वोत.

**शेळाव** (ना. पु.) थंडाय; शेळो वारो; शेळी हवा.

**शेळेवप** (अ. क्रि.) लजेवप; थंड जावप.

**शेळो** (ना. पु.) शेळीन वाडिल्ली बारीक मोव झाडां. (वि.) जो ताजो न्हय.

**शेळोणी** (ना. स्त्री.) पळय **शिळोणी.**

# शै

**शैली** (ना. स्त्री.) तरा; पद्धत.

**शैलिदार** (वि.) बरे तरेचें; सोबीत.

# शो

**शोकीन** (वि.) सोक आशिल्लें; आवड आशिल्लें; सवंय; व्यसन आशिल्लें.

**शोफेर** (ना. पु.) मोटारकार; ड्रायव्हर; मोटार चलोवपी.

**शोशप** (स. क्रि.) सोकप; ओडून घेवप.

# शं

**शंकर** (ना. पु.) १. महादेव; २. एक बारीक पानांचें-फुलांचें आडसाटें झाड.

**शंकराफूल** (ना. न.) शंकराचें फूल.

**शंकू** (वि.) धा हजार अब्ज.

**शंख** (ना. पु.) समुद्रांत रावतल्या एका जिवाचें कट्टें; ह्या कट्ट्याचें वाद्य. (वि.) अबुद्दी.

**शंबर** (ना. पु. वि.) शेंकडो; शें; शतक.

**शंबरी** (ना. स्त्री.) शंबर वर्सांची पिराय.

**शंबरांश** (वि.) शंबरावो वांटो.

**शंका** (ना. स्त्री.) दुबाव.

**शंड** (वि.) शक्त; नेट; धीटपण नाशिल्लें.

# स

**स** (ना. पु. वि.) ६ हो आंकडो.

**सक** (वि.) स पावटी.

**सकट** (अ.) सयत; बराबर.

**सकत** (ना. स्त्री.) शक्त; शकत; बळगें.

**सक्ती** (ना. स्त्री.) बळजबरी; दडपण.

**सकनळी** (ना. स्त्री.) गळो; गळ्याची नळी.

**सकयल** (क्रि. वि.) सकला; खाला;

मुळा; पोंदा. **सकयल वयर जावप** (वा. प्र.) हुसकेवप; काचाबूल जावप.

**सकल** (क्रि. वि.) पळय **सकयल.**

**सकलाट** (ना. स्त्री.) भुंयेचो सकलो भाग; देंवती.

**सकस** (वि.) बऱ्या कसाचें; फायद्याचें; बलायकी दिवपी.

**सकसपण** (ना. न.) बलायकी; फायदो दिवपाचो गूण.

**सकळविकळ** (वि.) हुस्केलें; भियेलें; मन थाऱ्यार नाशिल्लें.

**सकाळ** (ना. स्त्री.) सूर्य उदेवपा वेळचो आनी दनपारच्या बारा वरांमेरेनचो काळ.

**सगल्यासगलें** (वि.) पुराय सगलें; सबंद.

**सगले** (वि.) एकान एक.

**सगलें** (वि.) सबंद; भाग करूं नाशिल्लें.

**सगुणी** (वि.) बऱ्या गुणांचें; बऱ्या सबावाचें; बरे चालचलणुकीचें.

**सगूण** (ना. पु.) बरे गूण; बरो सबाव; बरी चाल चलणूक.

**सगोत्र** (वि.) एकाच गोत्रांतले.

**सचिवालय** (ना. स्त्री.) सरकारी मंत्र्यांचें आनी व्हड जाळवणदारांचें कार्यालय.

**सचीव** (ना. पु.) मंत्री; विधानसभेचो सभासद; मंत्र्यांचो चिटणीस.

**संज्जन** (ना. पु.) बरो मनीस; नितिवंत मनीस; बरे चलणुकीचो.

**सज्जनपण** (ना. स्त्री.) बरे गूण; बरी चाल-चलणूक.

**सजप** (अ. क्रि.) भेस करप; नटप; न्हेसप.

**सजवप** (स. क्रि.) न्हेसवप; नटवप.

**सजावट** (ना. स्त्री.) सुंदर मांडणी; सोबीत रचणाय; रंग-रूपाची सोबीत मांडणी.

**सजोवप** (स. क्रि.) पळय **सजवप.**

**सजोवपी** (ना. पु.) न्हेसोवपी; नटोवपी; सृंगारपी.

**सट् करून** (क्रि. वि.) अकस्मात; ध्याना-मनांत नासतना; अवचीत.

**सटकुळप** (अ. क्रि.) भागप; सुकप; मुळचें मोटेपण गळप.

**सट्ट जावप** (सं. क्रि.) अकस्मात उगडास जावप.

**सटकप** (अ. क्रि.) कळयनासतनां म्हऱ्यांतल्यान सडसडीत वचप.

**सट्टो** (ना. पु.) पयलीं केल्लो करार; पयलीं घेवन दवरिल्लो म्हाल.

**सटवी** (ना. स्त्री.) दुर्गा देविचें एक नांव.

**सटवें** (वि.) सवें; सव्या आंकड्यावयलें.

**सट-सट** (क्रि. वि.) बेगिबेगीन; सडसडीत.

**सटर फटर** (वि.) किरकोळ; मोल नाशिल्लें.

**सटांयच करून** (क्रि. वि.) सट्ट करून; बेगीन; शेंवटून; घो करून.

**सटासट** (क्रि. वि.) बेगीबेगीन; एका फाटल्यान एक; सडसडीत.

**सटी** (ना. स्त्री.) भुरग्याच्या जल्माच्या सव्या दिसा ताका वायट जावचें न्हय देखून दुर्गा देवीची पुजा करपाची चाल.

**स्टेशन** (ना. न.) थांबो; उज्यागाडयेचो थांबो.

**स्टेशन मास्तर** (ना. पु.) उज्या गाडयेच्या थांब्या-घराची देखभाल करपी.

**सडप** (अ. क्रि.) बारीक जावप; सोल्लां काडप.

**सडपातळ** (वि.) शिरशिरीत; चड बारीक वा मोटें न्हय.

**सड्यार सूंट फुलप** (वा. प्र.) दोंगरावयले नापीक जमनीर झाड जावप आनी फुलप.

**सडसडप** (अ. क्रि.) गरजेच्यो वस्तू वा दुडू काबार जावप.
**सडसडीत** (क्रि. वि.) बेगीबेगीन.
**सडीक** (वि.) ताशिल्लें; सोल्लां काडिल्लें; गुळगुळीत.
**सडेतोड** (वि.) भीड, मुरवत नाशिल्लें; मेकळें; फटकळ.
**सडो** (ना. पु.) दोंगरा माथ्यावयलो फातरड आनी झाड-पेड नाशिल्लो जागो.
**सण** (ना. पु.) १. *सणबियां* झाडाची बावळी; हे बावळेची वळिल्ली दोरी; २. धर्मीक उत्सवाचो दीस.
**सणंग** (ना.) तरेकवार लुगटां.
**सणंगा-मांड** (ना. पु.) लुगटां-पसरो; कपड्यां दुकान.
**सणबियां** (ना. स्त्री.) सणा-झाडाचीं बियां.
**सणसण** (ना. पु.) दुखीच्यो कळो; खर तिडक.
**सणसणप** (अ. क्रि.) तकली उसळप; दुखीच्यो कळो येवप; तिडक मारप.
**संणसमारंभ** (ना. पु.) धर्मीक वा समाजीक दबाजो.
**सणीझाड** (ना. न.) सणबियां झाड.
**सणी सूत** (ना. न.) सणबियां झाडाचें विणिल्लें सूत.
**सत** (ना. न.) खरें; खरेपण; सत्य.
**सतत** (क्रि. वि.) थांबय नासतना; परत परत; एकसारकें.
**सत्त्या** (ना. स्त्री.) हक; मालकी.
**सत्त्याग्रह** (ना. पु.) *खऱ्या आनी बऱ्या* कामाखातीर धरिल्लो आग्रो; धरणें.
**सत्त्याणय** (ना. पु. वि.) णवद आनी सात (९७).
**सत्त्यास्तर** (ना. पु. वि.) सत्तर आनी सात (७७).
**सत्तर** (ना. पु. वि.) ७० हो आंकडो.
**सत्तरी** (ना. स्त्री.) सत्तर वर्सांची पिराय.
**स्तंभ** (ना. पु.) खांबो; खांब.
**सत्तावन** (ना. पु. वि.) पन्नास आनी सात (५७).
**सत्तावीस** (ना. पु. वि.) वीस आनी सात (२७).
**सत्तेचाळीस** (ना. पु. वि.) चाळीस आनी सात (४७).
**सत्वीक** (वि.) *शांत; थंड; बऱ्या गुणांचें.*
**सधन** (वि.) आस्पत आनी पैसो आडको चड आशिल्लें.
**सत्य** (ना. न.) खरें; खरेपण; सत.
**सत्यनारायण** (ना. पु.) श्रीविष्णूची पूजा.
**सत्यानाश** (ना. पु.) पुराय नाश; सगले तरेचें लुकसान.
**सत्यभास काडिल्लें** (वि.) खूब निर्शेल्लें; उमेद आनी धीर गेल्लें.
**सत्यवादी** (ना. पु.) खरें उलोवपी; सत्यान चलपी.
**सत्र** (ना. न.) जायते दीस चलपी कार्य; कार्यक्रम; उपक्रम.
**सतरंजी** (ना. स्त्री.) दाट आनी मोव जादम; गालीचो.
**सतरा** (वि.) धा आनी सात (१७).
**सत्री** (ना. स्त्री.) पावस वा वोत आदारूक उपकरावचेलें एक साधन; देवाच्या वा राजाच्या माथ्यार धरपाचें छत्र.
**सतेल** (ना. न.) तोपाभाशेन एक आयदन.
**सत्त्वज्योत** (ना. स्त्री.) सत्त्वाची खर ज्योत; खंबिरताय; मनाचें बळगें.
**सत्‌शील** (वि.) बऱ्या शिलाचें; नितिवंत; बरे चलणुकेचें.

**सताड** (वि.) सामकें; सबंद; सबंद उकतें दार.
**सतार** (ना. पु.) उब्यो सरयो आनी आडवे पड्डे आसून नखयेन वाजोवपाचें एक वाद्य.
**सतावणी** (ना. स्त्री.) त्रास; पिरंगणी.
**सतावप** (स. क्रि.) त्रास दिवप; धोंगसप.
**सती** (ना. स्त्री.) घोवाच्या पेट्ट्या सरणार ताचे बायलेन लासून घेवप.
**सथरवथर** (वि.) गळीत; हालचाल करूंक पसून बळगें नाशिल्लें; थतरमतर.
**स्थिती** (ना. स्त्री.) दशा; अवस्था.
**सद्गदीत** (वि.) उमाळोभरीत; दाटिल्ल्या गळ्यान.
**सद्गुरू** (ना. पु.) देवधर्माची शिकवण दिवपी गुरू.
**सद्गुणी** (वि.) बऱ्या गुणाचें.
**सद्गूण** (ना. स्त्री.) बरे गूण.
**सदर** (ना.) चोवकी; जमनीपरस उंच बांदिल्ली चोवकी.
**सदरो** (ना. पु.) पयरण; पातळ लुगटाचें गोल नाशिल्लें सादारण खोमसाभाशेन आंगावयलें.
**सदळ** (वि.) विस्कळ; गळगळीत.
**सदां** (क्रि. वि.) पळय **सदीं**.
**सद्या** (क्रि. वि.) तुर्ताक; चलता त्या दिसांनी.
**सदानंद** (ना. पु.) सदांच आनंदी; एक पोपटी रंगाच्या पानांचें फुलझाड.
**सदीं** (क्रि. वि.) सदां; नित्याक; सगल्या दिसांनी.
**सदुपयोग** (ना. पु.) बरो उपयोग.
**सन** (ना. पु.) साल; वर्सावळ.
**सप्टेंबर** (ना. पु.) किरिस्तांवी वर्साचो णववो म्हयनो.
**सपण** (ना. न.) पावंडो.
**सप्तक** (ना. न.) सात दिसांचो काळ.
**सप्तकी** (वि.) सप्तकाचो; सात सात दिसांचें; दर सप्तकाक घडपी.
**सप्तपदी** (ना. स्त्री.) लग्नांत तांदळा राशीवयल्यान न्हवऱ्या व्हंकलेन वांगडा मारिल्लीं सात पावलां.
**सप्तम** (वि.) सातवें; सातवी तीथ.
**सप्तस्वर** (ना. पु. भो.) संगितांतले मुखेल सात सूर.
**सप्तहा** (ना. पु.) सात दीस मेरेन चलिल्ली वा चलपाची कार्यावळ.
**सपन** (ना. न.) न्हिदांत पळयल्लें तरेकवार देखाव आनी घडणुको.
**सपनेवप** (अ. क्रि.) सपनां पळोवप.
**स्पश्ट** (वि.) निवळ; मनमेकळें; दाखय-लिपय करीनासतना.
**स्पश्टपण** (ना. न.) मनमेकळेपण; उकतेपण.
**सपसप** (क्रि. वि.) खूब खेपो; परत परत.
**सपाट** (वि.) एकाच तळाचें; चडटी देंवती नाशिल्लें.
**सपाटी** (ना. स्त्री.) उंचाय; खालाय नाशिल्लो तळ.
**सपूत/सोपूत** (ना. पु.) प्रतिज्ञा; देवाचें; आवय-बापायचें वा आनीक कोणाय मोगाच्या मनशाचें नांव घेवन दिल्ली गवाय.
**सपूत घेवप** (सं. क्रि.) प्रतिज्ञा करप; देवाच्या वा कोणाय मानादीक मनशाचें नांव घेवन खरेपण सिद्ध करप.
**सफरचंद** (ना. न.) एक मांसाळ; वाटकुळें गोड फळ.
**सफळ** (वि.) फळ दिल्लें.
**स्फुरण** (ना. न.) उमेद; नेट; स्फूर्त.
**स्फुटप** (अ. क्रि.) अंतस्करणांतल्यान

आपशींच उदेवप.

**स्फूर्त**(ना. स्त्री.) अंतस्करणांतल्यान फुटिल्ली उमेद.

**सफेद** (वि.) धव्या रंगाचें.

**सबब** (ना. स्त्री.) कारण.

**सबळ** (वि.) घट्ट; बळाचें; बळ आशिल्लें.

**सबाव/सभाव** (ना. .) बरे-वायट गूण; चाल-चलणूक.

**सभ्य** (वि.) शिकिल्लें सवरिल्लें आनी बरे चाल-चलणुकीचें.

**सभ्यपण** (ना. न.) नितळ चाल-चलणूक.

**सभा** (ना. स्त्री.) भोवशीक जमात; एकठांय जमिल्लो लोक.

**सभागृह** (ना. न.) लोक जमचेलें घर.

**सभागी** (वि.) बऱ्या भाग्याचें; बऱ्या नशिबाचें.

**सभापती** (ना. पु.) सभेचो यजमान; अध्यक्ष; लोकसभेचो वा विधानसभेचो अध्यक्ष.

**सभामंटप** (ना. पु.) देवळा फुडलो खूब लोक बसपाचो मंटप.

**सभावीक** (वि.) निसर्गीक; सबावाभाशेन.

**सम** (वि.) सारकें; बराबर; तुळा करूंक जायत अशें.

**समज** (ना. पु.) समजणी; कल्पना; मत्त.

**समज पडप** (सं. क्रि.) मनाक पटप; समजाविशी जावप.

**समजणी** (ना. स्त्री.) कळणी; ध्यानांत पडपाचें काम; मतींत वचपाचें काम.

**समजदार** (वि.) बुदवंत; समजिकायेचें.

**समजप** (स. क्रि.) कळप; ध्यानांत पडप; मतींत वचप.

**समंजस** (वि.) समजणी आशिल्लें; बरें वायट समजुपी.

**समजावणी** (ना. स्त्री.) समजावचेलें काम; समजाविशी.

**समजावप** (स. क्रि.) समज घालप; पटवप.

**समजाविशी** (ना. स्त्री.) पळय **समजावणी.**

**समता** (ना. स्त्री.) सारकेपपण; बराबरी; एकरूपताय.

**समर्थ** (वि.) शक्त आशिल्लें; तांक आशिल्लें.

**समंद** (ना. पु.) मृतात्मो; कुटुंबाक राखण करपी.

**समदृश्ट** (ना. स्त्री.) सारकी दृश्ट; निपक्षपाती नदरः

**सयम** (ना. पु.) वेळ; काळ.

**स्मरण** (ना. न.) उगडास; याद; यादस्ती.

**स्मरणी** (ना. स्त्री.) डायरी; यादस्तीक; जपाची माळ.

**स्मृती** (ना. स्त्री.) उगडास; आठव; याद.

**समर्थपण** (ना. न.) शक्ती; तांक; बळगें.

**समृद्ध** (वि.) संपत आनी सूख समादानान भरिल्लें.

**समरदना** (ना. स्त्री.) ब्राह्मणांक वाडिल्लें जेवण; देवकारें.

**स्मरप** (अ. क्रि.) उगडास जावप; याद जावप.

**समरस** (वि.) एकरूप; तल्लीन.

**सम्राट** (ना. पु.) व्हड राज्याचो राजा; पातृशा.

**समराधना** (ना. स्त्री.) पळय **समरदना.**

**समस्त** (वि.) सगले; सबंद.

**समक्ष** (क्रि. वि.) दोळ्यांमुखार; तोंडार.

**समाचार** (ना. पु.) चोवकशी; बलायकी संबंदान आनी हेर बऱ्या वायटाची घेतिल्ली खबर.
**समाज** (ना. स्त्री.) भौस; सरभरस सगलो लोक.
**समाजीक** (वि.) भोवशीक.
**समाधी** (ना. स्त्री.) इत्सामरण; खोशयेन केल्लो जिवाचो त्याग; खोशयेचें मरण; आपल्याक पुरून घेतिल्लो जागो; त्या जाग्यार बांदिल्ली तुळस वा केल्ली दुसरी कसलीय बांदावळ.
**समाधीस्त** (वि.) समाधी घेतिल्लो.
**समांतर** (वि.) सारकें अंतर आशिल्लें.
**समान** (वि.) सारकें; एकच तरेचें.
**स्मार्त** (ना. पु.) शिवभक्त; शैव पंथाचें.
**समारंभ** (ना. पु.) दबाजो; उत्सव.
**समारंभप** (अ. क्रि.) मनवप; दबाजो करप.
**समास** (ना. पु.) दोन उतरांची जुळोवणी.
**समारोप** (ना. स्त्री.) सार; सारांश; अध्यक्षालें निमाणचें उलोवप.
**समीक्षण** (ना. न.) तपासणी; नियाळ.
**समुद्र** (ना. पु.) दरया.
**समुद्र-फेण** (ना. पु.) समुद्राच्या ल्हारांचो फेणेर; समुद्रांतल्या उदकाचे बोमाडे.
**समुद्रस्नान** (ना. न.) दरयाच्या उदकाचें न्हाण.
**समृद्ध** (वि.) खूब पिकावळीचें; खूब आस्पत आशिल्लें.
**समृद्धताय** (ना. स्त्री.) व्हड आस्पत; झाडां-पेडांची शेतां-भाटांची; वेपार-उद्देगाची; बरपाक्षराची खूब उदरगत.
**समिधा** (ना. स्त्री.) यज्ञांत घालचेल्यो तरेकवार झाडांच्यो काडयो.
**समुद्रा-वेळ** (ना. स्त्री.) दर्यामुखार पातळिल्ली लांब रूंद सुवात.
**समूर्त** (ना. पु.) बरो वेळ; ज्योतीश शास्त्राचे नदरेन फावोसो वेळ.
**समेट** (ना. पु.) समजणी; एकमत; दोन मनशांमदलो वा वांदो आशिल्ल्या दोन गांवांमदलो; देशांमदलो करार.
**समेळ** (ना. न.) सादारण ताशाभाशेन चामडें ताणावन तयार केल्लें एक वाद्य.
**सय** (ना. स्त्री.) निशाणी; नाल्लाची कीस.
**सयत** (अ.) वांगडा; बराबर.
**सयंब** (ना. न.) निसर्ग; सृश्टं.
**सयंबगूण** (ना. पु.) निसर्गाचे धर्म.
**सयसुमार** (ना. पु.) जिस्त केल्लो अदमास.
**सय-सुवाद** (ना. पु.) सुरबुससाण; रूच.
**सया** (ना. स्त्री.) रंग-रूप; आकार.
**सर** (ना. स्त्री.) तुळा; बराबरी; मोतयांचो; मणयांचो बी गुंथिल्लो पोड.
**सर** (ना. पु.) मोतयांच्यो; मणयांच्यो बी एक परस चड माळो.
**सरकप** (अ. क्रि.) घसटून पेल्यान वचप; बशिल्लेकडेन फुडें सरप.
**सर्कस** (ना. स्त्री.) आंग बागोवन केल्ल्यो तरेतरेच्यो करामती.
**सरकार** (ना. न.) शासन; राजवट.
**सरकारी** (वि.) सरकाराकडेन संबंद आशिल्लें; सरकाराचें; सरकारान केल्लें.
**सर्ग** (ना. पु.) इंद्र आनी हेर देवांचो राबितो आशिल्लो जागो.
**सर्गदन** (वि.) चड उमळशिकेन काचाबूल जाल्लें; हुसकेल्लें.
**सरगम** (ना. पु.) संगिताची मुळावी सुरावळ; सा; रे; ग; म; प; ध; नी अशे संगितांतले सात सूर.

**सर्गलोक** (ना. पु.) सर्ग; सर्गार रावपी लोक.

**सर्गसूख** (ना. न.) सर्गांतलें सूख.

**सरंगो** (ना. पु.) १. हाता तळव्याभाशेन एक सुवादीक नुस्तें; २. कागदाचो पतंग.

**सरण** (ना. न.) मेल्ल्या मनशाची कूड लासूंक पेटयल्लो लाकडांचो माच.

**सर्द** (ना. स्त्री.) भाताची पावशी पीक.

**सरद** (ना. स्त्री.) दोन देशांमदली शीम.

**स्रद्दा** (ना. स्त्री.) भावार्त; विस्वास.

**सरदार** (ना. पु.) सैन्याचो एक अधिकारी; झुजमारो जाळवणदार.

**सरदारकी** (ना. स्त्री.) सरदारपण; सरदाराचो वावर.

**सरप** (अ. क्रि.) सोंपप; काबार जावप; वचप.

**सरपंच** (ना. पु.) ग्रामपंचायतीचो मुखेल पंच.

**सरपटणी** (ना. स्त्री.) घस्टणी.

**सरपटप** (अ. क्रि.) घसटून फुडें सरप.

**सरपळी** (ना. स्त्री.) एकामेकांत धातूचे दुवे गुंथून केल्ली धातूची माळ.

**सर्पी** (ना. स्त्री.) १. विंचवी; २. खोरजेभाशेन आयिल्ल्ल्यो पुळयो आनी फोड.

**सरबत** (ना. न.) फळाचो रोस आनी उदक; साकर घालून केल्लो पियेवपाचो जिनस.

**सरबराय** (ना. स्त्री.) घरांत आयिल्ल्या परकी मनशाची जेवणा-खाणाची बी सगली वेवस्था.

**सुरबुससाण** (ना. स्त्री.) बरी रूच; सुवाद.

**सर-भर** (ना. स्त्री.) हाडिल्लें सोंपप आनी सोंपिल्लें हाडप असो चलिल्लो वावर.

**सरभरस** (वि.) सरासर; बरें-वायट भरसल्लें.

**स्रम** (ना. पु.) कश्ट; चड काम; पुरो जावपाइतलो वावर.

**सर्वनाम** (ना. न.) एका नामाबदला उपकारायल्लें दुसरें उतर.

**सर्वपदवेदार** (वि.) सगल्यांपरस चड सत्त्या आशिल्लो.

**सर्वभरीत** (वि.) सगल्यांक भरून आशिल्लो.

**सरवळी** (ना. स्त्री.) देवळांतल्या चोवका कुशीन दोनय वटेन आशिल्लो जमनीचो तीर.

**सृश्ट** (ना. स्त्री.) सयंब; निसर्ग; आपूण धरून आपले भोंवतणी आशिल्ल्यो सगल्यो वस्तू.

**सृश्टी** (ना. स्त्री.) पळय **सृश्ट.**

**सरशीं** (अ.) लागीं; सरीं.

**सरशेवट** (ना. पु.) निमाणो शेवट; अखेर.

**सरस** (वि.) चड बरें; (ना. पु.) जनावरांचीं नाखटां, शिंगांपासून तयार केल्लो चिकट जिनस.

**सरसरीत** (क्रि. वि.) सर्र; सर्र असो आवाज जावपी वा करपी.

**सरस्पत** (ना. स्त्री.) विद्येची देवता; साहित्य; वाङ्मय.

**सरस्पती** (ना. स्त्री.) कला आनी विद्या हांची देवता.

**सरस्वती** (ना. स्त्री.) पळय **सरस्पती.**

**सरसुमार** (ना. पु.) सारको अदमास; जीस्त अदमास.

**सरसोंपप** (अ. क्रि.) आशिल्लें नाशिल्लें सगळें काबार जावप.

**सरळ** (वि.) मेकळें; उकत्या मनाचें;

भायर भितर सारकें.

**सरळपण** (ना. न.) मेकळेपण; उगडो सबाव.

**सराद** (ना. स्त्री.) वाटार; शीम.

**सरांटप** (अ. क्रि.) ताळो सुकून येवप.

**श्राद्** (ना. न.) बापायचो; आवयचो वा कोणाय जाणटेल्याचो मरणा दीस.

**सराफ** (ना. पु.) भांगरा-मोतयांचो वेपार.

**सराव** (ना. पु.) सवंय; तालीम.

**सरांव** (ना. पु.) जाग.

**सराव घेवप** (सं. क्रि.) अदमास घेवप; सोद घेवप.

**श्रावण** (ना. पु.) हिंदु वर्साचो पांचवो म्हयनो.

**सरासर** (ना. न.) सरभरस; सरासरी; प्रमाण.

**सरासरी** (ना. स्त्री.) बरो-वायट; चड-उणो अशो सगल्या तरांच्यो जाती भरसून थारायल्लें एक प्रमाण.

**स्त्रिलींग** (ना. न.) बायल वा मादी अशें दाखोवपी उतर.

**स्त्रीकेंसर** (ना. पु.) फुलांतलें बायलेचें बी.

**सरी** (ना. स्त्री.) धातूची बारीक काडी.

**सरीं** (अ.) म्हऱ्यांत; लागीं; सरशीं.

**सरी करप** (सं. क्रि.) निवळ करप; फापडप; कड्डणांतलो बी कोयर फातर भायर उडोवन तें निवळ करप.

**सरूपी** (वि.) सुंदर; रूपान बरें.

**सरूपाय** (ना. स्त्री.) सुंदरताय; बरें रूप; सोबीतपण.

**सरूप** (ना. न.) सुंदरसाण; सोबीत रूप.

**सरे भरप** (सं. क्रि.) वायेन दुखप; कसकस येवप.

**सर्व** (वि.) सगलें.

**सर्व करणार** (ना. पु.) सगलें करपी.

**सर्वकाळ** (क्रि. वि.) सगलो काळ; सदांच.

**सर्वगुणी** (वि.) सगले गूण आशिल्लें.

**सर्वजाणणार** (वि.) सगल्यांची जाणविकाय आसपी.

**सर्वपदवेदार** (वि.) सर्वशक्तिवान; सगली सत्त्या आशिल्लो.

**सर्वभोजी** (वि.) सगलें खावपी; भाजिपालो तशेंच मांस; नुस्तें खावपी.

**सर्वस्व** (ना. न.) आपलें सगलें; जें जें कितें आसा तें.

**सरोवर** (ना. न.) आयस पयस पातळ्ळेलें तळें.

**सलवप** (अ. क्रि.) आशिल्ले परिस्तितींत जुळप.

**सलवसप** (अ. क्रि.) आशिल्ले परिस्तितींत बदल करिनासतना अडचण निस्तारप.

**सलवार** (ना. स्त्री.) पायांक गच्च बसचेलें पातळ लुगटाचें कालसांव.

**सलाम** (ना. पु.) मुसलमानी लोकांक नमस्कार करपाची तरा; नमस्कार करपाची मुसलमानी तरा.

**सलामी** (ना. स्त्री.) वंदना; भोवशीक लश्करी वंदना.

**सल्लां** (ना. न. भो.) कल्लां; साली.

**सवकप** (स. क्रि.) आस्त जावप; गोडी लागप; सवंय जावप.

**सवंकळ** (ना. स्त्री.) वळख; परिचय.

**संवकाळप** (स. क्रि.) नवी पालवी येवची देखून झाडांचे खांदे मारप; निरूपेगी झाडां मारून उडवप.

**सवकास** (क्रि. वि.) थंडसाणीन; ताकीत करिनासतना; हुरहुरावणी करिनासतना.

**सवकासाय** (ना. स्त्री.) मनाची

शांतताय; कसल्याय कामाक लायिल्लो चड वेळ.

**सवंग** (ना. न.) नाटकांतलो पार्ट; तेरेकवार भेस केल्लो मनीस. (वि.) अजागळ; अरवळ.

**सवंगी** (वि.) सवंग घेतिल्लें; तेरेकवार भेस केल्लें.

**सवर्णो** (ना. न.) पक्षी; चोंच; पांखां आनी दोन पांय आशिल्लो कावळ्याभाशेन प्राणी.

**सवत** (ना. स्त्री.) एका घोवाच्या दोन वा चड बायलांभितल्लें नातें.

**स्वतंत्र** (वि.) मेकळें; बांदपास नाशिल्लें.

**स्वतंत्रताय** (ना. स्त्री.) मेकळेपण; आपलें हीत आनी फुडार आपणेच थारावपाचो हक.

**स्वता** (स.) खासा आपूण.

**सवती-आवय** (ना. स्त्री.) बापायची दुसरी बायल.

**सवती-भयण** (ना. स्त्री.) बापायचे दुसरे बायलेची चली.

**सवती-मामी** (ना. स्त्री.) मामाची दुसरी बायल.

**सवतो-भाव** (ना. पु.) बापायचे दुसरे बायलेचो चलो.

**सवतो-मामा** (ना. पु.) आवयचो सवतो भाव.

**स्वधर्म** (ना. पु.) आपलो धर्म; आपली लागणूक.

**स्वधर्मी** (वि.) आपल्या धर्माचें.

**स्वभाव** (ना. पु.) मनशाचे बरे-वायट गूण.

**स्वर** (ना. पु.) ताळो; आवाज; सूर.

**सवराक** (वि.) फकत भाजी-पालो; फुलां-फळां खावपी.

**स्वरूप** (ना. न.) आपलें रूप.

**सव्वीस** (ना. पु. वि.) वीस आनी स (२६).

**सव्वेचाळीस** (ना. पु. वि.) चाळीस आनी स (४६).

**सवप** (स. क्रि.) (गाळी) सांगप.

**सवस्तकाय** (ना. स्त्री.) दरांची देंवती; सवायकी.

**स्वस्थसाण** (ना. स्त्री.) शांतताय; विसव.

**सवळें** (ना. न.) अनवाळें; रेसमाचें; कापसाचें नवें वा उमळिल्लें न्हेसण.

**सवळेपण** (ना. न.) अनवाळेपण; न्हावन-धुवन निवळ न्हेसण न्हेसपाचें काम.

**सवळें** (वि.) अनवाळें; न्हावन-धुवन निवळ जाल्लें.

**स्वादीन** (वि.) आपणायल्लें; स्वतंत्र; आपलो ताबो आनी हक आशिल्लें.

**स्वादीन करप** (सं. क्रि.) ताबो दिवप वा ताबो घेवप; आपणावप वा आपणावंक लावप.

**स्वाभिमान** (ना. पु.) आपल्याविशींचो अभिमान; आपलो आदर.

**स्वाभिमानी** (वि.) आपलो अभिमान आशिल्लो.

**स्वामी** (ना. पु.) धर्मीक गुरू; धनी; मालक.

**सवाय** (वि.) उणे दरेचें.

**सवाय-नाड** (वि.) चड नाड; चड तड्डकी.

**सवायशीण** (ना. स्त्री.) लग्न जाल्ली बायल; देवीच्या नांवान पुजिल्ली लग्न जाल्ली बायल मनीस.

**सवायशें** (वि.) एकशें पंचवीस (१२५).

**स्वारी** (ना. स्त्री.) १. व्हड मनशाक लायिल्लें भोवमानाचें उतर; २. घुरी; आक्रमण.

**स्वास** (ना. पु.) नाका-तोंडातल्यान ओडिल्लो वारो.
**सवे** (अ.) बराबर; वांगडा.
**स्वेच्छास्वार** (ना. पु.) आपले इत्सेभाशेन चलणूक; आपल्याक जाय तें करप.
**सश्ट** (ना. स्त्री.) हिंदु म्हयन्याचे पयले आनी दुसरे पंद्रशीचो सवो दीस.
**सस्त** (वि.) सवाय; उणें मोल पडिल्लें; शांत.
**सस्तताय** (ना. स्त्री.) सवायकी; उण्यो जाल्ल्यो दरो; शांतताय.
**सस्ताय** (ना. स्त्री.) पळय **सस्तताय.**
**सस्तावप** (अ. क्रि.) सवाय जावप; वस्तूच्यो दरो देंवप.
**सहकार** (ना. पु.) मदत; आधार.
**सहकारी** (ना. पु.) मदत करपी; आधार दिवपी.
**सहकार्य** (ना. न.) पळय **सहकार.**
**सहज** (क्रि. वि.) सोपेपणान; व्हडलेंशें कारण नासतना; तकालस घेना आसतना.
**सहन करप** (सं. क्रि.) सोंसप.
**सहस्त्र** (वि.) हजार (१०००).
**सहस्त्रांश** (ना. पु.) हजारावो भाग.
**सळसळप** (अ. क्रि.) खतखतप; खतखतून सळ्ळ सळ्ळ असो आवाज जावप.
**सळसळीत** (वि.) खतखतीत.
**सळसळ** (ना. पु.) खतखत.
**सळसळो** (ना. .) खतखतो.
**सळी** (ना. न.) धातूची बारीक बडी; धातूची वा रबराची बारीक नळी.

## सा

**सा** (ना. पु.) संगीत शास्त्रांतल्या मुळाव्या सात सुरांतलो पयलो सूर.
**साइत्य** (ना. न.) सरस्पत; वाङ्मय; साहित्य.
**साहित्य** (ना. न.) पळय **साइत्य.**
**साहित्यकार** (ना. पु.) साहित्य रचपी; कथा-कविता बी बरोवपी.
**साहित्तीक** (ना. पु.) पळय **साहित्यकार.**
**साक** (ना. पु.) व्हड पोती; तागा-सुताची चिरी.
**साकर** (ना. स्त्री.) उशे कांड्याच्या रोसापासून केल्ले गोड आनी मिठाभाशेन बारीक खडे.
**साकर पुडो** (ना. पु.) न्हवऱ्या व्हंकलेच्या लग्नाची थारावणी.
**साकरभात** (ना. पु.) शिजयल्ल्या बारीक तांदळांत तूप; साकर; लवंग; बदाम बी घालून केल्ली गोड पोळी.
**साक्रामेंत** (ना. पु.) मनशाचो आत्मो शुद्ध आनी पवित्र जावचो देखून क्रिस्तांव धर्मांत फर्मायल्ले आत्मनिवेदना सारके विधी.
**साकरी** (ना. स्त्री.) सारें; आमोनियम सलफेट नांवाचें झाड मातोवपी सारें.
**सांकव** (ना. पु.) व्हाळाचेर बी बांदिल्लो ल्हान पूल.
**साकाटो** (ना. पु.) पोन्नो आनी झरिल्लो साक.
**साकाद** (ना. न.) जनेलाभायर बांदिल्ले व्हारांद.
**साखळ** (ना. स्त्री.) व्हड साखळी.
**सांखळी** (ना. स्त्री.) एकांत एक मुदयो गुंथून केल्ली माळ.
**सांगड** (ना. पु.) एकामेकांक जोडिल्ल्यो दोन वस्तू; जोडिल्लीं दोन व्हडीं.
**सांगट** (ना. न.) घटसार मासाचें आनी काळसार रंगाचें नुस्तें.

**सांगणार** (ना. पु.) सांगपी; उलोवपी; उच्चारपी.

**सांगणी** (ना. स्त्री.) म्हणणी; रकाद; निरोप.

**सांगणें** (ना. न.) उपदेश; सल्लो; मागणें; पराथणी.

***सांगतो*** *(ना. पु.) उलोवपी.*

**सांगप** (स. क्रि.) उलोवप; मनांतले विचार आनी उमाळे उक्तावप.

**सागर** (ना. पु.) दरया; व्हड समुद्र.

**सागवान** (ना. पु.) सायलाचें झाड.

***सांगशी*** *(ना. स्त्री.) कोंड्या वेळाची* करंडी.

**सांगाडो** (ना. पु.) हाडांचो सांपळो; घडपाचे कसलेय ल्हान व्हड वस्तूची मूळची आंखण.

***सांगात*** *(ना. पु.)* वांगड.

**सांगाती** (ना. पु.) वांगडी.

**सांगातीण** (ना. स्त्री.) वांगडाक आशिल्ली बायल मनीस.

**सांगाळो** (ना. पु.) व्हड सांगट; हात देड *हात लांबायेचें* सांगट.

**सांगोड** (ना. पु.) पळय **सांगड.**

**सागोती** (ना. स्त्री.) रानदुकराचें; सोशाचें; कोंब्याचें बी मांस; रांदिल्लें मांस.

**सांचप** (अ. क्रि.) कोंडून उरप; एकठांय उरप; सांपावन उरप.

**सांचो** (ना. पु.) आयट; मूस; नमुनो; फॉर्म.

**साज** (ना. पु.) सृंगार; नटणी.

**सांज** (ना. स्त्री.) सांजवेळ.

**सांजवेळ** (ना. पु.) सांजेचो वेळ.

**सांज-सकाळ** (क्रि. वि.) सकाळ सांजवेळ; सकाळचो दीस आनी सांजेचो मायथो; दीसभर.

**सांजो** (ना. पु.) लोरावांत वा कण्यांत साकर तूप घालून केल्लो खावपाचो जिनस.

**साट** (ना. न.) *पणसाचें म्होंव वा* आंब्याचो मगज पातळावन आनी सुकोवन केल्लो खावपाचो जिनस.

**साटली-पोटली** (ना. स्त्री.) सगली मुस्तायकी.

**सांटावप** (स. क्रि.) एकठांय करप; एकठांय जमोवप.

**सांटो** (ना. पु.) एकठांय केल्ल्यो वस्तू; सांठावन दवरिल्लो म्हाल.

**साठ** (वि.) ६० हो आंकडो.

**सांठवण** (ना. स्त्री.) सांपावणी; सांटो.

**सांठवप** (स. क्रि.) एकठांय करप; सांपावप.

**साठी** (ना. स्त्री.) साठ वरसांची पिराय.

**सांठो** (ना. पु.) एकठांय केल्ल्यो वस्तू.

**साठोवणी** (ना. स्त्री.) सांपावणी.

**सांडगो** (ना. पु.) कणगांच्या वा साबुदाण्याच्या शेवयांचे घोंस.

**सांडप** (अ. क्रि.) ना जावप; मळनासतना रावप.

**साड्डावप** (स. क्रि.) सारवप.

**सांडवप** (स. क्रि.) ना करप.

**साडी** (ना. स्त्री.) बायलांचें न्हेसण.

**साडू** (ना. पु.) बायलेचे भयणीचो घोव.

**साडे** (वि.) आनीक अर्द.

**साडो** (वि.) अर्दो; (ना. पु.) लग्नाचो विधी चलता आसतना व्हंकलेक न्हवरेकारांनी दिल्लें उंची न्हेसण आनी फुलां; कुकमा सारके सौभाग्याचे हेर अळंकार.

**साण** (ना. स्त्री.) घट्ट फातर; चंदन बी झरोवपाची घट्ट जातीची फातर.

**साणस** (ना. पु.) पुस्तकां; कपडे बी खावपी एक ल्हान जीव.
**साणावप** (स. क्रि.) दामून चेपून भरप.
**सात** (ना. पु. वि.) ७ हो आंकडो.
**सातको** (ना. पु.) सात आंकड्यांचो जमो; इस्पिकेतलें सात आंकड्याचें पान.
**सात्तीस** (ना. पु. वि.) तीस आनी सात (३७).
**सांतपट** (वि.) एक सातको सात खेपो; सात पटीनी.
**सातपानी** (वि.) सात पानां फुट्टकच फुलां-फळां येवपाचो गूण आशिल्लें (झाड).
**सांतली** (ना. स्त्री.) कोंड्याच्यो सरयो आनी माडा-चुडटाचें धांकणें आशिल्ली सत्री.
**सातवडो** (ना. पु.) सात दिसांचो गट.
**सांत्वन** (ना. न.) शांत करपाचें काम; निर्शेल्ल्या वा दुख्ख बादिल्ल्या मनाक धीर दिवचेलें काम.
**सात्वीक** (वि.) थंड आनी नितीक चलणुकेचें.
**सातवें** (वि.) वळेरींतल्या सातव्या क्रमांकार आयिल्लें.
**सातशें** (ना. पु. वि.) सात शेंकडे (७००).
**सातसठ** (ना. पु. वि.) साठ आनी सात (६७).
**सांतेरी** (ना. स्त्री.) एक गोंयची थळावी देवी; श्री शांतादुर्गा.
**सातोळें** (वि.) १. आवयच्या पोटांतल्यान सात म्हयन्यांनी जल्म घेतिल्लें; २. सात दिसांनी उजवाडाक येवपी.
**साथ** (ना. स्त्री.) वांगड; सांगात.
**सांथ** (ना. पु.) वशांचो रोग.
**साथिदार** (ना. पु.) वांगडी; साथी.
**साथी** (ना. पु.) वांगडी; बराबरचो; सांगाती.
**साद** (ना. पु.) उलो; आवाज.
**सांदन** (ना. न.) हुड्डांच्या पिठाचे उकडिल्ले गुळे; हीट; इडली भाशेन खावपाचो जिनस.
**सादप** (अ. क्रि.) कामांत येस मेळप; मनासारकें जावप.
**सांद** (ना. स्त्री.) बारीख खांच.
**सांदकाम** (ना. न.) वस्तूचे दोन भाग जोडप; मेटप.
**सांदणी** (ना. स्त्री.) जोडणी; मेटणी; जुळोवणी.
**सांदप** (अ. क्रि.) वस्तूचे दोन भाग जोडप; मेटप; कलयेन वा दुसरे धातून जोडप.
**सादर** (वि.) शादूर; भान आशिल्लें.
**सादर जावप** (स. क्रि.) भान राखप.
**सादवप** (स. क्रि.) येस मेळोवन घेवप; मनासारकें करून घेवप; तबलें; तासो ह्या सारक्या वाजंतरांक चामडें ताणावप.
**सांदवप** (स. क्रि.) सांदे मेटवप; वस्तूच्या दोन भागांभितल्ली खांच मेटप.
**सादारण** (वि.) सामान्य.
**सादुपण** (ना. स्त्री.) सादो-सरळ; त्यागी; माणसुकीचो; धर्मीक सबाव.
**सादू** (ना. पु.) शांत; काकुळटेणो; त्यागी; धर्मीक सबावाचो; बावा.
**सादूर** (वि.) शांत; ध्यान दिल्लें; लक्ष दवरून; जागरूक.
**सादेपण** (ना. न.) सरळपण; उजुपण; बडवाचाराचो अभाव; बडायेचें नासतेपण.
**सार्दे** (वि.) बडाय; बडवचार नाशिल्लें.
**सांदो** (ना. पु.) वस्तुच्या दोन भागांमदली खांच.
**सार्देभाळें** (वि.) सरळ; मनमेकळें; भायर

भितर सारकें.

**साधन** (ना. न.) उपाय; शस्त्र.

**साधना** (ना. स्त्री.) अभ्यास; तपश्चर्या.

**साधप** (अ. क्रि.) पळय **सादप.**

**साध्य जावप** (सं. क्रि.) येस मेळोवप; मनांतली इत्सा भागप; मनासारकें घडप.

**साधू** (ना. पु.) पळय **सादू.**

**सान** (वि.) ल्हान.

**सानकप** (स. क्रि.) रांदनीत उजो करप.

**सान्न** (ना. स्त्री.) कोयर काडपाचो व्हिरांचो झाडू; देंटावन आंवळून बांदिल्ले व्हीर.

**सांपळो** (ना. पु.) ल्हान व्हड मोनजात सापडावंक मांडिल्लें जाळें वा केल्ली दुसरी कसली युक्ती; गुन्यांवकारी मनशांक पकडचेली मांडणी.

**सानन** (ना. न.) हुडीद आनी तांदूळ भरसून केल्ले पिठाचे गुळे उकडून तयार केल्लो एक खावपाचो जिनस.

**सानन-धाकणो** (ना. पु.) सानन उकडचेलें एक खास आयदन.

**साप** (अ.) खूब; सामको.

**सांपडणी**(ना. स्त्री.) दवरिल्ली वा सांडिल्ली वस्त मेळपाचें काम.

**सांपडप** (स. क्रि.) मेळप; सांडिल्लें वा ना जाल्लें कितेंय परत मेळप.

**सांपडावप** (स. क्रि.) मेळोवन घेवप; सोदून काडप; तरेतरेचे उपाय करून हातासप.

**साप्प** (अ.) सामको; खूब; साप.

**सापात** (ना. पु.) घराच्यो वणटी बांदचे पयलीं मुळच्या चोवकाक दिल्ली उबारी; बूट; मोचे.

**सांपावणी** (ना. स्त्री.) आडो वा बांद घालून एकठांय करचेलें काम.

**सांपावप** (स. क्रि.) एकठांय करप; आडो वा बांद घालून जमोवप.

**सांबर** (ना. न.) किडकिडीत पायांचें आनी सुंदर शिंगाचें एक रानवट जनावर.

**साबार** (वि.) सगले; एकान एक.

**सांबारें** (ना. न.) कडी; हुमण; रोस.

**साबांव** (ना. पु.) आंग आनी आंगावलीं नितळ करचेखातीर सोडा; चरबी; च्येर बी घालून तयार केल्ली एक वस्त.

**सांबाळ** (ना. स्त्री.) सांबाळचेलो वावर; राखण; जतनाय.

**सांबाळप** (स. क्रि.) राखप; जतनाय घेवप.

**सांबाळपी** (ना. पु.) राखणदार; राखणो; राखपी; जतनाय घेवपी.

**साबुद्द** (ना. स्त्री.) शितीत; भान; शुद्दी.

**साबुदाणे** (ना. पु.) सागू झाडापासून तयार केल्ल्यो खावचेल्यो बारीक गुळयो.

**साबू** (ना. पु.) पळय **शाबू** वा **साबांव.**

**साम** (ना. पु.) कोणाकय आपले वटेन हाडपाच्या साम, दाम, दंड आनी भेद अशा चार उपायांतलो पयलो उपाय; गोड उलोवणें; समजिकाय.

**सामकार** (क्रि. वि.) फुडें; तोंडाफुडें.

**सामकें** (वि.) चड; सारकें.

**सामवेद** (ना. पु.) गावन म्हणचेलो वेद; चार वेदांतलो तिसरो वेद.

**सामंत** (ना. पु.) सकल्या पांवड्याचो राजा.

**साम्यवाद** (ना. पु.) कायद्याचें; आस्पतीचें वा समाजीक नदरेन सगले मनीस सारके असो विचार.

**साम्राज्य** (ना. न.) व्हड राज्य; खूब पातळ्ळेलें राज्य.

**साम्राज्यवाद** (ना. पु.) आपल्या देशाभायर हेर देशांचेर सत्त्या गाजोवंक येता असो विचार.

**साम्राज्यवादी** (ना. पु.) आपल्या देसाभायर हेर देशांचेर सत्त्या गाजोवंक सोदपी.
**सामर्थ्य** (ना. न.) शक्त; सत्त्या.
**सामसूम** (ना. न.) गाड शांतताय; किण्ण वाटार.
**सामान** (ना. न.) मुस्तायकी; गरजेच्यो वस्तू.
**सामान्यताय** (ना. स्त्री.) सरभरस; सादारणपण; सादरण प्रमाण.
**सामान्यतायेन** (क्रि. वि.) सादारणपणान; सरभरस.
**सामान्या-भायलें** (वि.) सपसप दिश्टी पडना अशें; असादारण.
**सामायीक** (वि.) भोवशीक; रासवळ.
**सामार** (ना. पु.) मिरसांग; कोथमीर बी भाजून केल्ली मसाल्याची पूड.
**सामारी** (ना. पु.) मसाल्याच्यो वस्तू विकपी; शेजाऱ्याभाशेन मनीस.
**सामुहीक** (वि.) भोवशीक; रासवळ.
**साय** (ना. स्त्री.) दुदांतलें वयर आयिल्लें सार; मलय.
**सायकल** (ना. स्त्री.) दुचाकी.
**सायकलसुवार** (ना. पु.) सायकल चलोवपी.
**सायब** (ना. पु.) एक भोवमानाचें उतर.
**सायबीण** (ना. स्त्री.) १. बायलमनशेक लावचेलें भोवमानाचें उतर; २. जेजूश क्रिस्ताची आवय; ३. देवी.
**सायल** (ना. पु.) एक मदेराचें झाड; सागवान.
**सायली** (वि.) सायला मदेराचें.
**साया** (ना. स्त्री.) सावळी.
**सार** (ना.) मगज; तत्त्व; शिजयल्ल्या कड्डणाच्या उदकांत नाल्लाचो रोस; गोड; आंबटाण बी घालून केल्लो जेवणार खावचेलो जिनस.
**सारकेपण** (ना. न.) सादारण एकेच तरेचो रंग; रूप आनी गूण.
**सारकें** (वि.) सादारण एकेच तरेचें; एकेच भाशेचें.
**सारंगी** (ना. स्त्री.) सरयांचेर गज ओडून आवाज काडचेलें एक तंतुवाद्य.
**सार्थक** (ना. न.) इत्सा भागिल्ल्याची खोशी; केल्ल्या वावराचें समादान.
**सारथी** (ना. पु.) रथ चलोवपी; बुद्द शिकोवपी.
**सारन** (ना. स्त्री.) चुडटे व्हिरांचो झाडू. पळय **सान्न**.
**सारप** (अ. क्रि.) दीस काडप; जियेवप; काजुलो काडून दिव्याची वात फुडें सारप.
**सार्वजनीक** (वि.) भोवशीक; सरभरस; सगल्या लोकांचें.
**सारवप** (स. क्रि.) लेप काडप; सान्नीन घसटप.
**सारासार** (ना. पु.) खरें आनी फट; बरें आनी वायट.
**सारी** (ना.) मनशाचें मडें लासूंक केल्लो उजो; लाशिल्ल्या मड्याचो गोबोर.
**सारें** (ना. न.) झाडां-पेडांक घाल्लें शेण-मूत; सांवळ; आमोनियम सल्फेट बी वस्तू.
**सारोद्दार** (क्रि. वि.) सगले तरेन; कांयच दवरिनासतना; मुळासयत.
**साल** (ना. स्त्री.) भायली कात; सोल्ल; (न.) १. वर्स; २. घराची विस्कळ आनी व्हड कूड.
**सालट** (ना. न.) सालीचो वा कातीचो कुडको.
**सालती** (ना. स्त्री. भो.) कातीचे तीर;

सालीचे कुडके.

**सालदार्टे** (वि.) सालीन दाट; दाट सालींच्या केळ्यांची जात.

**सालपो** (ना. पु.) सालिचो कुडको.

**सालाद** (ना. न.) फळांच्या कुडक्यांत मीठ-मिरसांग घालून केल्ली करम.

**सालाबाद** (ना. न.) वर्सचाल; वर्सुकी नेम.

**सालेंमालें** (ना. न.) हांजी हांजी; आपल्या फायद्याखातीर केल्ली दुसऱ्याची तुस्त.

**साव** (ना. पु.) सज्जन; सदाचारी; गुन्यांव नाशिल्लो मनीस.

**सावकारकी** (ना. न.) भाट-बेंसाची उस्तवारी; घाणाचो उद्देग.

**सावकारी** (वि.) सावकारा विशिंचें; सावकारा संबंदीचें; (ना. स्त्री.) घाणात रीण दिवपाचो उद्देग.

**सावचीत** (वि.) जागरूक; सादर; लक्ष लायिल्लो; ध्यान दिल्लो; चित्त दवरिल्लें.

**सावज** (ना. न.) रानवट मोनजात.

**सावट** (ना. स्त्री.) सावळी; ल्हान झाडा-पेडांचेर बी पडिल्ली सावळी; कुपांचो काळोख.

**सावत्र** (वि.) सवतो; सवते विशिचो वा सवते संबंदान.

**सावद** (वि.) जागरूक; सावचीत; (ना. न.) रानवट मोनजात.

**सावध** (वि.) जागरूक; सावचीत.

**सावधपण** (ना. न.) जागरूकपण; सावचितपण.

**सावन** (अ.) साकून; थावन.

**सावप** (स. क्रि.) मेळप; गावप; अवचीत मेळप.

**सांवर** (ना. स्त्री.) कापसा-बोंडां दिवपी एक रूख.

**सांवरप** (स. क्रि.) सांबाळून धरप; राखप.

**सावारप** (स. क्रि.) आडावप; थांबवप.

**सावरबोर्णे** (ना. न.) व्हडसार आनी मांसाळ केळें; शाकेचें वा फोडी करचेलें केळें.

**सावरीबोंड** (ना. न.) सावरीचें फळ; कापूस आनी गुटयो आशिल्लें सावरीचें लांबोडें बोंड.

**सावशीत** (वि.) सावध; जागरूक; सावचीत.

**सावळ** (ना. स्त्री.) झाडांची पानां आनी ताळे; झाडा-पानांचें सारें.

**सांवळी** (ना. स्त्री.) उजवाड-वोत नाशिल्ली सुवात; सावली.

**सांवळें** (वि.) काळसार रंगाचें.

**सांवारप** (स. क्रि.) सरी करप; फापडप.

**साबूद** (ना. स्त्री.) भलायकी; आरोग्य.

**सावें** (वि.) खारसाण नाशिल्लें; गोड उदकाचे न्हयेंतलें.

**सास्टांग** (वि.) आठ आंगांचो; आठ आंगां तेंकोवन.

**सास्टांग नमस्कार** (ना. पु.) दोन हात; दोन धोंपरां; दोन पांय; छाती आनी तकली तेंकोवन केल्लो नमस्कार.

**सासठ** (ना. पु. वि.) साठ आनी स (६६).

**सासण** (ना. न.) अंत नाशिल्लो काळ; चिरंजिवपण; शाश्वत काळ.

**सासणाचें** (वि.) मरण नाशिल्लें; शेवट नाशिल्लें; सदांकाळ उरपी.

**सांसपणी** (ना. स्त्री.) गरज नासतना हाका ताका हात लावन वेळ वगडावपाची खोड.

**सांसपप** (स. क्रि.) १. हात भोवंडावप; माये-मोगान हात ओडप; २. बेठोच

हाका ताका हात लावन वेळ काडप.

**सांसंव** (ना. न.) एक बारीक आनी मसाल्याचो जिनस; सांसवे झाडाचें बीं; सांसवां, गोड बी घालून आंबले घोटांचो एक जिनस.

**सांसवेल** (ना. न.) सांसवांचें तेल.

**सासाय** (ना. स्त्री.) देवाच्या आसतेपणाची कुरू; देवाची जागृताय; आलाशिरो; तेंको; आधार.

**साह्य** (ना. पु.) आलाशिरो; मजत; तेंको.

**साहित्य** (ना. न.) बरपावळ.

**साळ** (ना. स्त्री.) १. शाळा; २. ठवयालें तशेंच दरज्यालें बी वावर करपाचें घर; ३. कांट्यांभाशेन लांब केंसांचें रानटी जनावर; एक भाताचें गांवठी बी.

**साळवानशेक** (ना.) लांब लांब उलोवणीं; अतितायेन भरिल्ल्यो खबरो; बडबड.

**साळीक** (ना. न.) तळ्यांत जाल्लें सुंदर धव्या, तांबड्या रंगाचें फूल.

**साळोरी** (ना. स्त्री.) काळ्या रंगाचें आनी हळडुव्या चोचीचें शिटूक सवणें.

**साक्ष** (ना. स्त्री.) गवाय; घडणूक पळयल्लो; पुरावो.

**साक्षात्कार** (ना. पु.) प्रत्यक्ष अणभव; प्रत्यक्ष ज्ञान.

**साक्षात** (अ.) दोळ्यां सामकार; घडघडीत.

**साक्षिदार** (ना. पु.) गवाय दिवपी.

# सि

**सिगरेट** (ना. स्त्री.) उंची तंबाकूचो चुरो भरिल्ली कागदाची नळी.

**सिग्नल** (ना. पु.) स्टेशनाचे दोनय वटांनी येते वेते रेल्वे गाडयेक शिटकावणी दिवंक लायिल्लो बावटो; कुरू; शिटकावणी; इशारो.

**सिगार** (ना. न.) सुवासीक तंबाकूचो चुरो भरिल्ली कागदाची नळी.

**सिताफळ** (ना. न.) एक वाटकुळें आनी गोड मगज आशिल्लें फळ; आंतेर; आंत.

**सितारी** (ना. स्त्री.) तेंकडी; झाडाचे ताळे; सांगो बी काडचेली लांब बारीक बडी आनी ते बडयेच्या वयल्या पोंताक बांदिल्लो ल्हान बडये कुडको.

**सिदाव** (ना. पु.) शेता-भाटांचो खंड.

**सिद्ध करप** (सं. क्रि.) पटोवन दिवप; खरेपण पटोवप.

**सिद्धांत** (ना. पु.) तत्त्व; सत्य.

**सिंधू** (ना. पु.) दर्या; समुद्र.

**सिनेमा** (ना. पु.) हालत्या आनी उलयण्या फोटोंचो देखावो.

**सिनेल** (ना. न.) एका चिऱ्याचे रुंदायेची वणत.

**सिमितेर** (ना. स्त्री.) किरिस्तांव लोकांचें स्मशान; मसण.

**सिमीनार** (ना. स्त्री.) पाद्रीपणाचें शिक्षण दिवपी शाळा.

**सिंयोर** (ना. पु.) मानादीक मनीस; धनी.

**सिलेट** (ना. स्त्री.) बरोवचेली पाटी; फयणी.

# सु

**सु** (अ.) बरो ह्या अर्थाचे उतराचे सुरवेक लावपाचें कूस.

**सुकड** (वि.) सुकिल्लें; भागिल्लें; बारीक

जाल्लें.

**सुकडपण** (ना. न.) बारीक जावपाचो; सुकपाचो वा भागपाचो गूण.

**सुकडी** (ना. स्त्री.) किडकिडीत; बारीक.

**सुकडो** (ना. पु.) सुकून वचपाचो रोग.

**सुकणें** (ना. न.) सवणें.

**सुकतडो** (ना. पु.) दिशीं दिशीं बारीक जायत वचपाचो गूण.

**सुकती** (ना. स्त्री.) उदकाची उतरती; उदका पांवड्याची देंवती.

**सुकप** (अ. क्रि.) बारीक जावप; भागप; उदक आटप; ओलसाण वचप.

**सुक्रार** (ना. पु.) आयतार धरून सप्तकाचो सवो दीस.

**सुकवण** (ना. स्त्री.) सुकोवचेलें काम.

**सुकवप** (स. क्रि.) ओता-वाऱ्याक घालून शेळ सोडप; ओलसाण ना करप.

**सुकाणूं** (ना. न.) येरें; व्हडें उजवे वा दावेवटेन व्हरपाची फळी आनी तिका लायिल्लो दांडो.

**सुकाळ** (ना. पु.) बरो काळ; बरी पिकावळ आशिल्लो काळ.

**सुकंडो** (ना. पु.) काळीं आनी विखयाळीं कुसां आशिल्ली एक पावसाळी कीड.

**सुकुण्णें** (ना. न.) बारीक आनी बोटभर लांबायेचें केळें.

**सुकुरउंडो** (ना. पु.) तांदूळ आनी गंव हांच्या पिठांत मुगांचें पुरण घालून तळिल्ले गुळे.

**सुकेड** (ना. स्त्री.) सुकी जमीन.

**सुकें** (वि.) उदक नाशिल्लें; शेळ मोडिल्लें; ओलसाण नाशिल्लें.

**सुको सोडप** (वा. प्र.) चोवकशी करिनासतना वा शिक्षा करिनासतना सोडप.

**सुखदिणें** (वि.) खुशालकाय; समादान दिवपी.

**सुखां** (ना. न. भो.) फोल्गां; खुशालकायेचे प्रसंग.

**सुखावप** (अ. क्रि.) सूख भोगप; आनंदप; खुशालकायेंत गुल्ल जावप.

**सुखासन** (ना. न.) देवाक बसोवपाचें सोबीत आसन.

**सुखी** (वि.) समादानी; आनंदी; खुशालकायेन भरिल्लो.

**सुंगट** (ना. न.) फाटीर कल्ल आशिल्लो उदकांत रावपी एक जीव जो नुस्तें म्हणून लोक खातात.

**सुगंध** (ना. पु.) बरो वास.

**सुगुरकाय** (ना. स्त्री.) सुवार्तीपण; आपलें हीत सादपाचो गूण; सगल्यो आडखळी चुकोवन आपलो फायदो करपाचो सबाव.

**सुगुरवो** (ना. पु.) बरो शकून; बरो वेळ; बरो परिणाम.

**सुगूर** (वि.) आपलो फायदो करून मेकळें जाल्लें.

**सुटकेक** (वि.) सुटका नाशिल्ल्यान; ना म्हणू नज जाल्ल्यान; मुरवतीक लागून; उपाय नाशिल्ल्यान.

**सुटणी** (ना. स्त्री.) मेकळीक; सोड.

**सुटप** (अ. क्रि.) १. मेकळो जावप; बांदपासांतल्यान मेकळो जावप; २. बाळांत जावप.

**सुटी** (ना. स्त्री.) सोड; वावरांतली मेकळीक; वावर नाशिल्लो काळ.

**सुटो** (वि.) मेकळो.

**सुडबुडप** (अ. क्रि.) गोंदळ घालप.

**सुडबुडें** (वि.) गरजे भायर बोवाळ घालपी.

**सुडसुडीत** (वि.) वावराक सडसडीत; आदावत नाशिल्लें; चपळ.

**सुडसुडीतपण** (ना. न.) चपळाय;

हुशारकाय.
**सुणें** (ना. न.) कोलूक; कुत्री.
**सुणो** (ना. पु.) एक गांवठी; इमानी आनी उपेगी जनावर.
**सुतक** (ना. न.) कोणय मेल्या उपरांत तागेले कुळयेंतल्या हेर मनशांनी बारा दीस मेरेन पाळिल्लो भश्टकार.
**सुतली** (ना. स्त्री.) सणाची दोरी.
**सुतलावप** (स. क्रि.) चोरप; फारावप.
**सुतलावणी** (ना. स्त्री.) चोरी; फारावणी.
**सुता पुनव** (ना. स्त्री.) नारळी पौर्णिमा; श्रावण म्हयन्यांतले पुनवेक दर्याक नाल्ल बी ओंपचेलो दीस.
**सुगूर** (वि.) आपल्या फायद्याची जतनाय घेवपी; आपलें हीत पळोवपी.
**सुगूरवो** (ना. पु.) बरो परिणाम करपी; फायदो करपी; बरो शकून; हीत करपी शकून.
**सुचन** (ना. न.) सुचोवणी.
**सुचप** (स. क्रि.) कल्पना येवप; मतींत विचार उदेवप.
**सुचवप** (स. क्रि.) उगडास करप; दुसऱ्याचे मतींत घालप; शिटकावप.
**सुचोवणी** (ना. स्त्री.) सांगिल्ली कल्पना; कळयल्लो विचार; शिटकावणी.
**सुचित्त** (वि.) शांत; सुशेगाद; थंड.
**सुचित्ताय** (ना. स्त्री.) सुसेग; शांतताय; थंडसाण.
**सुची** (ना. स्त्री.) नामावळ; वळेरी.
**सुजट** (वि.) मोटो जाल्लो; सुजिल्लो; फुगिल्लो.
**सुजप** (स. क्रि.) मोटें जावप; फुगप; मोटसाण येवप.
**सुजवप** (स. क्रि.) फुगवप; मोटसाण हाडप.
**सुटका** (ना. स्त्री.) मेकळीक; मुक्ती; परतंत्रतायेंतली सोडणूक.
**सुती** (वि.) सुताचें; कापसा-सुताचें.
**सुद्द** (ना. स्त्री.) भान; शितीद.
**सुद्धां** (अ.) पसून.
**सुंदर** (वि.) सोबीत; देखणें.
**सुंदरकाय** (ना. स्त्री.) सोबितकाय; देखणेपण.
**सुंदरताय** (ना. स्त्री.) सोबितकाय; सुंदरसाण; देखणेपण.
**सुदर्शन** (ना. न.) बरें रूप; सोबीत दिश्टावो.
**सुंदरसाण** (ना. स्त्री.) सोबितकाय; देखणेपण.
**सुंदराय** (ना. स्त्री.) सुंदरताय; सोबितकाय.
**सुधारणा** (ना. स्त्री.) फावो जाल्लो बदल; बरो बदल.
**सुधारप** (स. क्रि.) बरो बदल करप; उदरगत करप.
**सुधारिल्लें** (वि.) बरें केल्लें; बरे चालचलणुकेचें; शिक्षण घेतिल्लें.
**सुनशा** (ना. स्त्री.) सुलूस; वळख.
**सुनीत** (ना. स्त्री.) बरी नीत.
**सुपली** (ना. स्त्री.) ल्हान सूप; कोंड्या-वेळांचे तांदूळ बी सर करचेलें आयदन.
**सुपारी** (ना. स्त्री.) बेडो; फोफळ.
**सुपुरपण** (ना. न.) धाकलेपण; ल्हानपण.
**सुपूत** (ना. पु.) बऱ्या गुणाचो पूत.
**सुपुर्लें** (वि.) ल्हान; इल्लेंशें.
**सुफळ** (वि.) बरें फळ दिवपी.
**सुबूद** (ना. स्त्री.) बरी बुद्द.
**सुबेज** (वि.) फाजील; मस्तें.
**सुमान** (ना. न.) सात दिसांचो काळ; आठवडो.

**सुमार** (ना. पु.) अदमास.
**सुमाराभायर** (वि.) कल्पनेभायर; खूब.
**सुयेर** (ना. पु.) बाळांतपणाखातीर कुळयेंतल्या हेर मनशांनी बारा दीस मेरेन मानपाचो भशटकार.
**सुयेल** (ना. स्त्री.) व्हड तोंकाची सूय; माडाक जाल्लो रोग.
**सुरंग** (ना. न.) घमघमीत वासाचें हळडुवें फूल.
**सुरबूस** (वि.) सुवादीक; रुचीक.
**सुरबूससाण** (ना. स्त्री.) सुवादीकपण; रूच.
**सुरबुशीत** (वि.) सुरबूस; रुचीक; सुवादीक.
**सुरमांव** (ना. पु.) दोळ्यांत घालपाचें अंजन.
**सुरय** (वि.) उकडूंक नाशिल्लो.
**सुर्यमाळ** (ना. स्त्री.) सुर्या भोंवतणी घुंवपी गिरे.
**सुर्या** (ना. पु.) आमकां उजवाड आनी उशणताय दिवपी तारो.
**सुर्याफूल** (ना. न.) सुर्या किरणांभाशेन भोंवतणी किसरां आशिल्लें वाटकुळें सोबीत फूल.
**सुर्यावळ** (ना. स्त्री.) सुर्या भोंवतणी घुंवपी गिरे.
**सुर्यास्त** (ना. पु.) सुर्याचो अस्त; सुर्याचें मावळप.
**सुरवाडप** (स. क्रि.) सोंपवप; सरवप; दुसऱ्यालें आशिल्लें नाशिल्लें व्हरप.
**सुरवात** (ना. स्त्री.) आरंब.
**सुरसुरें** (ना. न.) १. कातीर बारीक पुळेर उदेवपाचो रोग; २. दारू लायिल्लें सूत.
**सुरक्षीत** (वि.) बरी राखण केल्लें; ना जावपाची भिरांत नाशिल्लें; राखचेली सगले तेरेची जतनाय घेतिल्लें.
**सुरांटो** (वि.) खूब सोरो पियेवपी.
**सुरी** (ना. स्त्री.) लोखणाची पाती आशिल्लें कातरपाचें एक हत्यार.
**सुरू** (वि.) आरंब जाल्लो.
**सुरू करप** (सं. क्रि.) आरंब करप.
**सुरू जावप** (सं. क्रि.) आरंब जावप.
**सुरेवप** (अ. क्रि.) चड पिकून उरिल्ल्यान मातसो कुशिल्ल्याचो वास येवप.
**सुरो** (ना. पु.) व्हडली सुरी.
**सुलक्षण** (ना. न.) बरें लक्षण; बरे गूण.
**सुल्तान** (ना. पु.) मुसलमान राजा.
**सुल्लोळी** (ना. स्त्री.) तांदूळ; फोव; हुडीद; गोड; सोय बी घालून केल्लो पोळो.
**सुलूस** (ना. स्त्री.) सुनशा; जाग.
**सुवात** (ना. स्त्री.) जागो; जमीन.
**सुवार्त** (ना. पु.) फकत आपलो फायदो; आपलें हीत.
**सुवार्ती** (वि.) आपलेंच हीत आनी फायदो पळोवपी.
**सुवार्थ** (ना. पु.) पळय **सुवार्त.**
**सुवार्थाभायरें** (वि.) सुवार्त नाशिल्लें.
**सुवादीन करप** (सं. क्रि.) दुसऱ्याच्या ताब्यांत दिवप.
**सुवादीन** (क्रि. वि.) ताब्यांत दिल्लें.
**सुवारी** (ना. स्त्री.) शिमेळ; घुमटां आनी कांसाळीं वाजोवपाची एक गोंयची खाशेली तरा.
**सुशेग** (ना. पु.) विसव; शांतताय.
**सुशेगाद** (वि.) थंड; शांत; ताकीत नाशिल्लें.
**सुशेल** (ना. न.) कंवळ्या कुंवल्याची शाक.
**सुसंगीत** (वि.) बरे भाशेन; कसलीच

बादा वा वायट जावंक नाशिल्लो.

**सुस्कार** (ना. पु.) सूऽऽ अशें करून सोडिल्लो स्वास.

**सुस्त** (वि.) शांत; थंड.

**सुस्ती** (ना. स्त्री.) आळसाय; आदावत.

**सुश्रुशा** (ना. स्त्री.) जतनाय; सेवा; चाकरी.

**सुळको** (ना. स्त्री.) कसलेय वस्तूचें सुळ्याभाशेन पोंत.

**सुळसुळप** (अ. क्रि.) निसरप; तुळतुळीत जावप.

**सुळसुळाट** (ना. पु.) अकस्मात जाल्ली गर्दी आनी बोवाळ.

**सुळसुळीतपण** (ना. न.) तुळतुळीतपण; नितळसाण.

**सुळसुळीत** (वि.) नितळ; तुळतुळीत.

**सुळो** (ना. पु.) एक खूब ल्हान बारीक आनी जिवाण्याभाशेन जीव.

**सुक्षीम** (वि.) खूब ल्हान.

## सू

**सूख** (ना. न.) समादान; आनंद; खुशालकाय.

**सूज** (ना. स्त्री.) मोटपाण; मोटसाण; फुगरेपण.

**सू जावप** (सं. क्रि.) मनाक ल्होव दिसप; हुसक्यांतलो सुटप; तोंडातल्यान 'सू' असो सुटकेचो उद्गार येवप.

**सूंट** (ना. स्त्री.) सुकयल्लें आलें.

**सूड** (ना. पु.) आपल्याक वायट करतल्याचें तशेंच वायट करप; बदलो; गुन्यांवा आड केल्लो परतो गुन्यांव.

**सूत** (ना. न.) कापसाची वळिल्ली बारीक दोरी.

**सूद** (ना. स्त्री.) जाणविकाय; भान; शितीद.

**सून** (ना. स्त्री.) पुताची बायल.

**सूप** (ना. न.) दाणो-गोटो सरी करपाचें कोंड्या-वेळांचें आयदन.

**सूट** (ना. पु.) काल्सांव आनी कोट.

**सूटबूट** (ना. पु.) येवरोपी भेस.

**सूंब** (ना. पु.) नाल्ला काथ्याची वळिल्ली दोरी.

**सूय** (ना. स्त्री.) लोखणाची वा दुसरे धातूची एके वटेन बुराक आनी दुसरे वटेन बारीक पोंत आशिल्ली सुपुल्ली काडी.

**सूर** (ना. पु.) आवाज; नाद.

**सूर्ण** (ना. पु.) जमनी पोंदा जाल्लो सुर्णाझाडाचो मासाळ गड्डो.

**सूर्त** (ना. स्त्री.) सूर धरपाचें शेनाये सारकें वाद्य.

**सूर्य** (ना. पु.) आमकां उजवाड आनी उश्णताय दिवपी तारो.

**सुरेसाण** (ना. स्त्री.) चड पिकतकच आयिल्लो वास; आंबो बी चड पिकिल्ल्याचो वास.

**सूस्त** (वि.) शांत; थंड; स्वस्त.

## से

**सेक्रेटरी** (ना. पु.) चिटणीस; कार्यवाह.

**सेजांव** (ना. पु.) किरिस्तांव धर्मांतल्या फेस्ताचो एक दीस. पळय **सोज्यांव.**

**सेट** (ना. पु.) गट; कांय वस्तूंचो मेळो.

**सेंटीमिटर** (ना. पु.) एका मिटराचो शंबरावो वांटो.

**सेंटीलिटर** (ना. पु.) अका लिटराचो शंबरावो वांटो.

**सेंटीग्राम** (ना. पु.) एका ग्रामाचो शंबरावो वांटो.

**सेंडविच** (ना. पु.) मर्दी भाजी; चटणी; मासळी; मांस भरिल्ली पावाचीं दोन अर्दां.
**सेंतेंस** (ना. न.) जुविजान दिल्लो निकाल.
**सेर्त** (वि.) खरें; बराबर.
**सेती** (ना. स्त्री.) सेदाभाशेन एका लुगटाची जात.
**सेतू** (ना. पु.) बांद; आडावण; उदक पुरोवन केल्ली वाट.
**सेतेंब्र** (ना. पु.) किरिस्तांवी वर्साचो णववो म्हयनो.
**सेना** (ना. स्त्री.) सैन्य; फौज.
**सेनापती** (ना. पु.) सैन्याचो मुखेल अधिकारी.
**सेर** (वि.) सादो-भोळो.
**सेरतेज** (ना. स्त्री.) खरेपण; खात्री.
**सेरदांव** (ना. न.) कसलोय बरयल्लो दाखलो.
**सेरमांव** (ना. पु.) धर्मासंबंदान वा न्यायनिती संबंदान पाद्रीन इगर्जेंत केल्लें उलोवप.
**सेर्वीस** (ना. स्त्री.) नोकरी; काम; वावर; चाकरी.
**सेवा** (ना. स्त्री.) चाकरी.
**सेवावृत्ती** (ना. स्त्री.) सेवा करपाचो गूण.
**सेंसूर** (ना. न.) शीण.
**सैतान** (ना. पु.) देवाचो दुस्मान.
**सैतानी** (वि.) सैतानासारकें; वायट; क्रूर; दयामाया नाशिल्लें.
**सैनीक** (ना. पु.) झुजारी; लढायेंत वांटो घेवपी शिपाय.
**सैन्य** (ना. न.) झुजाऱ्यांचो जमो; फौज.
**सैम** (ना. पु.) निसर्ग; सृश्ट.
**सैमीक** (वि.) निसर्गीक; सैमाचें.
**सैरभैर** (वि.) चित्त थाऱ्यार नासपाची मनाची स्थिती; बेचैन.

# सो

**सो** (ना. स्त्री.) नामांचो; विशेशणांचो आनी क्रियापदांचो अर्थ बदलूंक तांकां निमाणचे वटेन लावपाचें कूस. देखीक : बांगडोसो (बांगड्याभाशेन); पडलोसो (पडिल्ल्या सारको.)
**सोक** (ना. पु.) खूब आवड; खूब रूच.
**सोकप** (स. क्रि.) ओडून काडप; पिळून काडप; त्राण नासप; बारीक जावप; सुकून वचप.
**सोकर्ले** (ना. न.) नाकांत घालपाची एक बायलांची वस्त.
**सोगोट** (वि.) सगलो; पूर्ण.
**सोज्यांव** (ना. पु.) तांदळांत वा गवांत नाल्लाचो रोस; गोड बी घालून केल्लो एक खावपाचो जिनस.
**सोटो** (ना. पु.) दांडो.
**सोड** (ना. स्त्री.) सुटी; वावर नाशिल्लो वेळ वा दीस.
**सोंड** (ना. स्त्री.) नाका तोंडाचो लांब जाल्लो भाग.
**सोंड** (ना. न.) मुस्कट.
**सोडचीट** (ना. स्त्री.) राजिनामो; चाकरी सोडपाविशींची आपखुशयेन बरयल्ली चीट.
**सोडणूक** (ना. स्त्री.) मेकळीक; मेकळेपण.
**सोडप** (स. क्रि.) मेकळो करप; बांदपास मेकळावप.
**सोडून** (अ.) भायर दवरून; थारावन.
**सोडवण** (ना. स्त्री.) मेकळेपण; बांदपासांतल्यान मेकळीक.
**सोणकुटी** (ना. स्त्री.) नाका-तोंडाचो

भाग.

**सोण्ण** (ना. न.) नाल्लाची भायली साल.

**सोतेल्ल** (ना. न.) तोपाभाशेन एक आयदन.

**सोद** (ना. पु.) सोदचेलें काम; चोवकशी; तपास.

**सोदप** (स. क्रि.) चोवकशी करप; सोद करप.

**सोनखत** (ना. न.) शेणा-मुताचें सारें.

**सोनार** (ना. पु.) भांगरा रुप्याच्यो वस्तू करपी.

**सोनारकी** (ना. स्त्री.) शेटपण; सोनारपण; भांगरा-रुप्याच्यो वस्तू करपाचो धंदो.

**सोप** (ना. पु.) रोस पिळून काडटकच उरिल्लो चोंथो आनी चिवण; मास वा भाजी शिजयल्ल्या उदकांत थोडो मसालो घालून केल्लो पियेवपाचो जिनस.

**सोंपण** (ना. न.) पावंडो; इस्कादीचो एकेक पांवडो.

**सोंपत्यार** (क्रि. वि.) सोपचेल्या वेळार.

**सोंपतें** (वि.) काबार जायत वचपी.

**सोंपप** (अ. क्रि.) काबार जावप; खलास जावप.

**सोंपवप** (स. क्रि.) काबार करप; खलास करप; कसलेय गजालीची दुसऱ्याचेर जापसालदारकी घालप.

**सोपूत** (ना. पु.) देवाचें वा आवडट्या मनशाचें नांव घेवन केल्लें विधान; जुरामेंत.

**सोंपेपण** (ना. स्त्री.) सहजपण; प्रयत्नांची; त्रासांची वा तकलास घेवपाची गरज नासपाचो गूण.

**सोंपेपणी** (क्रि. वि.) प्रयत्नाबगर; त्रास वा तकालस घेवपाची गरज नासतना.

**सोपेर** (ना. पु.) सोप घालपाचें आयदन.

**सोपो** (ना. पु.) बांका भाशेन पुण मातयेचो वा फातराचो बसपा उठपाचो अूंच जागो.

**सोफा** (ना. पु.) मोव गादयेचो आनी वणखणें आशिल्लो बांक.

**सोब** (ना. स्त्री.) सोबितकाय; सुंदरताय.

**सोबत** (ना. स्त्री.) वांगड; सांगात.

**सोबप** (स. क्रि.) नदरेक बरें दिसप; सुंदर दिसप.

**सोबवप** (स. क्रि.) सुंदर दिसता अशें करप; सोबितकाय हाडप.

**सोबा** (ना. स्त्री.) सुंदरकाय; सोबितपण.

**सोबितपण** (ना. न.) सुंदराय.

**सोबीत** (वि.) सुंदर; देखणें.

**सोमरस** (ना. पु.) सोम नावांचे वालीचो रोस.

**सोमार** (ना. पु.) आयतार धरून सप्तकाचो दुसरो दीस.

**सोय** (ना. स्त्री.) नाल्लाचे कातलेची कीस.

**सोयतिचें** (वि.) सोयिचें; फावोशें; योग्य.

**सोयरिगत** (ना. स्त्री.) सोयरीक; नातें; संबंद.

**सोयरीक** (ना. स्त्री.) नातें; संबंद.

**सोयरें** (वि.) नात्यांतलें; सोयरीक आशिल्लें; नात्याचो संबंद आशिल्लें.

**सोयरो-धायरो** (वि.) नात्यांतलो आनी नात्यांतल्या मनशाभाशेन.

**सोयेग** (ना. पु.) बरी संद; बरो योग.

**सोरगत** (ना. स्त्री.) सोयरीक; नातें; संबंद.

**सोर्त** (ना. स्त्री.) नशीब; सोडत; लॉटरी; नशिबाची परिक्षा.

**सोर्तिकार** (ना. पु.) सोर्ती विकपी.

**सोरो** (ना. पु.) फळाच्या वा दाण्यागोट्याच्या रोसापासून गाळिल्लो

पातळ जिनस; फळांच्या रोसाच्या वाफेपसून काडिल्ली पातळ वस्त.
**सोरोप** (ना. पु.) नाग; एक खूब विखाळ जिवाळ.
**सोल** (ना. न.) १. भिंडाचा वा वोंटाचो पातळ सुकयल्लो कुडको; २. चामड्याचो तळ.
**सोलकडी** (ना. स्त्री.) नाल्लाचो रोस घालीनासतनां सोलां; मिरसांगो; हींग आनी गोड घालून केल्लें तिंवळ.
**सोलणी** (ना. स्त्री.) सोलचेलो वावर.
**सोलप** (स. क्रि.) साली काडप; रांप्यान नाल्लाचीं सोडपां काडप.
**सोल्दाद** (ना. पु.) शिपाय; झुजारी.
**साल्ल** (ना. स्त्री.) फळाची भायली साल.
**सोवळें** (वि.) अनवाळें; वायट काम करूंक नाशिल्लें.
**सोशिकपण** (ना. न.) सोंसपाची तांक; सहन करचेली शक्त.
**सोशी** (वि.) सोस आशिल्लें; खूब आवड आशिल्लें; मोगी.
**सोंशीक** (वि.) सहन करपी; शांत; सोंसपी.
**सोंशेणी** (ना. स्त्री.) न्हिदिल्ले अवस्तेंत जाल्ल्या खोल स्वासोस्वासाचो आवाज.
**सोशेवप** (अ. क्रि.) न्हिदेंत मोट्यान केल्ल्या स्वासोस्वासाचो आवाज येवप.
**सोस** (ना. पु.) खर इत्सा; आवड.
**सोसणाय** (ना. स्त्री.) सोंसणूक; सोसपाचो गूण; सहन करपाचो सबाव.
**सोंसणी** (ना. स्त्री.) सहन करपाचो गूण.
**सोंसप** (अ. क्रि.) सहन करप; भोगप.
**सोसप** (स. क्रि.) आवडप; मानवप.
**सोंसपा भायर्रे** (वि.) जें सोसूंक जायना; जें सहन करूंक येना.
**सोंसो** (ना. पु.) एक शिटूक; पिटपिटीत आनी सादारण बुकल्या येदें रानटी जनावर.
**सोळा** (ना. पु. वि.) धा आनी स (१६).
**सोक्षमोक्ष** (ना. पु.) बरो; वायट निकाल.
**सोळावें** (ना. न.) एका शेराच्या सोळाव्या भागाचें माप.

## सं

**संक्री** (ना. स्त्री.) संकरट माती; बारीक फातर.
**संकट** (ना. न.) वायट घडणूक; कठीण आनी त्रासांची परिस्थिती.
**संकरट** (वि.) बारीक फातर आशिल्लें; फातरांनी भरिल्लें.
**संकल्प** (ना. पु.) बेत; येवजण; विचार.
**संकश्ट** (ना. न.) अडचणीचो प्रसंग; त्रास बादपाची परिस्थिती.
**संकश्टी** (ना. स्त्री.) म्हयन्याच्या दुसऱ्या चोवथी दिसा करतात ती श्रीगणपतीची पुजा.
**संकेत** (ना. पु.) कुरू; थारावणी.
**संख्या** (ना. स्त्री.) आंकडो.
**संग** (ना. पु.) इश्टागत; मैत्री; संबंद.
**संगत** (ना. स्त्री.) इश्टागत; सांगात; वांगड.
**संगम** (ना. पु.) मेळणी; मिलन.
**संगमरवर** (ना. पु.) एक घट्ट आनी जड फातर.
**संगमरवरी** (वि.) संगमरवर नांवाच्या फातराचें.
**संग्रह** (ना. पु.) जमयल्ल्यो वस्तू; एकठांय केल्ले जिनस.

**संगीत** (ना. न.) गोड सुरांची जुळोवणी; आनंद दिवपी सूर.
**संघप्रदेस** (ना. पु.) केंद्र सरकाराच्या शेकातळा आशिल्लो प्रदेस.
**संचरप** (अ. क्रि.) भोंवप; लोकसेवेखातीर भोंवप.
**संचार** (ना. पु.) लोकांच्या बऱ्या केल्ली भोवंडी.
**संत** (ना. पु.) साधू; शुद्ध आनी बरे चालचलणुकेचो.
**संतत** (ना. स्त्री.) धर्मान आनी न्यायनितीन भरिल्ली जीण.
**संत पुरूस** (ना. पु.) नितिवंत मनीस.
**संताप** (ना. पु.) राग; तिडक; कोप.
**संतापप** (अ. क्रि.) तिडकप; राग येवप.
**संतुश्टाय** (ना. स्त्री.) समादान; तृप्ती; खुशालकाय.
**संतूश्ट** (वि.) खुशाल; समादानी.
**संतोश** (ना. पु.) समादान; आनंद; खुशालकाय.
**संथ** (वि.) सोवकास; ल्हवुल्हवू.
**संद** (ना. स्त्री.) योग्य वेळ.
**संद्या** (ना. स्त्री.) सकाळची; दनपारची आनी रातीची केल्ली देवाची पराथणी आनी म्हणिल्ले मंत्र.
**संदेश** (ना. पु.) सांगणी; रकाद; कळोवणी.
**संधिवात** (ना. पु.) हाडांच्यो संधी धरपाचो रोग.
**संपत** (ना. स्त्री.) आस्पत; पयसो-आडको.
**संपत्ती** (ना. स्त्री.) दुडू; आस्पत; पयसो-आडको.
**संप्रदाय** (ना. पु.) चालरीत; वयवाट.
**संपादन** (ना. न.) जुळोवणी; वेवस्ता.
**संपादप** (स. क्रि.) जुळोवप; वेवस्ता करप; तयारी करप.
**संपादपी** (ना. पु.) कसल्याय कामाची सगली जुळोवणी आनी वेवस्ता करपी; नेमाळ्याचो मुखेल बरोवपी आनी कारभार करपी.
**संबंद** (ना. पु.) नातें; सोयरीक.
**संभव** (ना. पु.) शक्यताय.
**संभवप** (अ. क्रि.) शक्य आसप; कसलीय गजाल घडपाची शक्यताय आसप.
**संभाशण** (ना. न.) दोन मनशांमजगतचें उलोवणें.
**संयुक्त** (वि.) बराबर; वांगडा; एकठांय.
**सवकळ** (ना. पु.) वळख; परिचय; संबंद.
**सवंगडी** (ना. पु.) बराबरचो; सांगाती; वांगडचो; वांगडी.
**संवप** (स. क्रि.) (गाळी) सांगप.
**संवय** (ना. स्त्री.) एकेच तरेचो वावर करपाचो मनाचो धर्म; व्यसन; छंद.
**संवाद** (ना. पु.) दोगां भितल्लें उलोवणें; एकमत.
**संव्वार** (ना. पु.) अच्छेव; नाश.
**संस्कारी** (वि.) आकलन करपी; गिन्यान जोडूंक योग्य.
**संस्कृत** (ना. स्त्री.) शुद्ध केल्लो; निर्मळ; एक पोरणी आनी गिरेस्त भास.
**संस्कृताय** (ना. स्त्री.) मनीस जातीची जडण घडण.
**संस्कृतीक** (वि.) संस्कृतीचें; संस्कृतायेकडेन संबंद आशिल्लें.
**संस्कार** (ना. पु.) शिक्षण; बोध; उपदेश.
**संसर्ग** (ना. पु.) संगत; वसो.
**संस्थान** (ना. पु.) ल्हानशें राज्य; देवस्थानासारकी संस्था.

**संस्थानीक** (ना. पु.) संस्थानाचो राजा.
**संवसार** (ना. पु.) जग; घरचो वेव्हार.
**संवसारी** (वि.) बायल भुरगीं आशिल्लो; संवसारांत पडिल्लो.
**संवसारीक** (वि.) जतनायेन संवसार करपी; शाणेपणान घरचो वेव्हार करपी.
**संव्हार** (ना. पु.) नाश; उच्छेद; ना नपच्छात.
**संशोधन** (ना. न.) शास्त्रीक सोद; नवें गिन्यान.
**संशोधनकार** (ना. पु.) संशोधन करपी.
**संस्ता/संस्था** (ना. स्त्री.) कसलेंय बरें आनी भोवशीक काम करूंक एकठांय आयिल्लो लोक.
**संसद** (ना. स्त्री.) राश्ट्राचे कायदे आनी धोरण थारावपी लोक; पार्लमेंट.
**संसद भवन** (ना. न.) संसद वांगड्यांची भासाभास करपाचें घर.
**संसलो** (ना. पु.) सार; सरी करून फकत गरजेचें दवरचेलें काम.

## ह

**हक** (ना. पु.) सत्त्या; सत्ता.
**हकदार** (ना. पु.) सत्त्या आशिल्लो.
**हकमकळ** (वि.) गळिल्ल्या आंगाचें; गळगळीत.
**हकीम** (ना. पु.) वैज; पाळां मुळांचो वैज; वैद.
**हजर** (वि.) उपस्थित.
**हजार** (वि.) धा शेंकडे (१०००).
**हजारांनी** (वि.) खूब; व्हड संख्येन.
**हजारांश** (ना. पु.) हजारावो वांटो.
**हट** (ना. पु.) एकेच वस्तूचो वा गजालीचो आग्रो.
**हटकप** (स. क्रि.) उलो मारप; आपोवप; जाप दिवप.
**हटपणां** (ना. न. भो.) तरेतरेचे हट; परत परत केल्ले हट.
**हटमटवाळां** (ना. न. भो.) तरेतरेच्यो खटपटी लटपटी.
**हटी** (वि.) नादी; हट आशिल्लें.
**हचडबड** (वि.) अरवळ; पिसाय; अर्दकुटें.
**हड्डी** (ना. स्त्री.) दांताचें हाड.
**हड्डें** (ना. न.) छाती; गळ्या सकयल्लो भाग.
**हत्त्या** (ना. स्त्री.) मार-फार; हिंसा; खून; वध.
**हत्यार** (ना. न.) शस्त्र; आर्म.
**हत्यारबंद** (वि.) हत्यारासयत; हत्यारां घेवन आशिल्लो.
**हती** (ना. पु.) लांब सोंडयेचे व्हड कान आशिल्लें बारीक दोळ्यांचें अगडबंब जनावर.
**हडबंगां** (ना. न. भो.) आडांगिपणां; अवचित्रपणां.
**हडबंगी** (वि.) आडांगी.
**हद्द** (ना. स्त्री.) शीम.
**हद्देक पेटप** (सं. क्रि.) निच्छेव करप; हट धरप; एकाच कामा फाटल्यान लागप.
**हद्देक लागप** (वा. प्र.) एकाच कामाफाटल्यान लागप.
**हमाल** (ना. पु.) मुस्तायकी हाड-व्हर करपी.
**हय** (अ.) मान्यताय उक्तावचेलें उतर.
**हयकार** (ना. स्त्री.) मान्यताय; संमती.
**हय-न्हयशें** (वि.) भोव थोडें.
**हयवय** (अ.) हय; मान्यताय नेटान उक्तावपाचें उतर.
**ह्याभायर** (अ.) ह्याशिवाय; हें सोडून;

हें भारावन.

**हरकटणी** (ना. स्त्री.) मत्सर; दुसऱ्या संबंदान वायट इत्सा.

**हरकटप** (अ. क्रि.) दुसऱ्याचें सूख पळोवन पिरंजळप; मत्सर करप; दुसऱ्याचें वायट इत्सप.

**हरकत** (ना. स्त्री.) अडचण; आडखळ; विरोध.

**हरण** (ना. न.) एक सुंदर कुडीचें रानटी जनावर.

**हरदास** (ना. पु.) किर्तनकार; धर्मीक तत्त्वज्ञान सांगपी.

**हरदासी** (वि.) हरदासासंबंदीचें; हरसादाविशीं.

**हरयाळी** (ना. स्त्री.) १. एक लांब पांचव्या रंगाचें जिवाणें; २. पांचवें तण; दुर्वा.

**हरवट** (वि.) हरवेशें; सारकें शिजूंक नाशिल्लें.

**हरवटाण** (ना. स्त्री.) हरवंस वास.

**हरवसाण** (ना. स्त्री.) हरवो उरिल्ल्याचो वास; हरवो वास.

**हरवंस** (वि.) भातशें हरवें.

**हरवंससाण** (ना. स्त्री.) हरवो आसपाचो गूण.

**हरवें** (वि.) शिजय नाशिल्लें.

**हरशीं** (क्रि. वि.) कारण नासतना; वोगीच.

**हरिजन** (ना. पु.) देवाचो आवडटो; अस्पृश्य.

**हलकट** (वि.) हीण; निल्लज्ज; सकल्या पांवड्याचें.

**हलकटपण** (ना. न.) हीणपण; निल्लज्जपण.

**हलकेपण** (ना. न.) ल्होवसाण; हीणपण.

**हलकें** (वि.) ल्होव; चड वजन नाशिल्लें; हीण.

**हवा** (ना. न.) धर्तरेभोंवतणी आशिल्लें वायूंचें मिश्रण.

**हवामान** (ना. न.) थंड; उश्ण अशी हवेची तरा.

**हवालदार** (ना. पु.) शिपायांवयलो अधिकारी.

**हवालीं करप** (सं. क्रि.) सुवादीन करप.

**हवालो** (ना. पु.) जापसालदारकी घेतिल्लो मनीस; मध्यस्त.

**हवेली** (ना. स्त्री.) व्हड घर.

**हस्तुकीं** (अ.) हातान; कडल्यान; वरवीं; मार्फत.

**हस्तिदंती** (वि.) हत्तीच्या दांताचें; हत्तीच्या दांतापसून केल्लें.

**हळडुवसाण** (ना. स्त्री.) हळडुवो रंग.

**हळडुवें** (वि.) हळदी रंगाचें.

**हळद** (ना. स्त्री.) हळदी झाडाचें मूळ.

**हळद लावप** (सं. क्रि.) वावराची वाट लावप; कशाकशें करप.

**हळबळें** (वि.) बडबडें; मनमेकळें.

**हळसांदो** (ना. पु.) एका कड्डणाचें नांव.

**हळसांद्यां वाल** (ना. स्त्री.) हळसांद्यांची वाल वा सांग.

**हळहळप** (अ. क्रि.) काकुळट करप; खंत उक्तावप.

**हळी** (ना. स्त्री.) फांती; सुताचेर सोबितकायेन गुंथिल्लीं फुलां.

**हळू** (क्रि. वि.) ल्हवू; ल्होव ताळ्यान.

## हा

**हां** (अ.) मान्यताय उक्तावचेलो उद्गार.

**हांकारप** (स. क्रि.) व्हडें; तारू बी भायर घालप; व्हड्याचे भोंवडेक आरंब जावप.
**हाग ओंक** (ना. स्त्री.) १. भोवन भोवन परसाकडेन वचपाची आनी ओंकारो लागपाची पिडा; २. कॉलेरा.
**हागडो** (ना. पु.) भोवन भोवन परसाकडेन वचपाची गरज.
**हागप** (स. क्रि.) जिरवणीचें काम जातकच खाल्ल्या जिनसांचो उपेग नाशिल्लो सोप भायर उडोवप.
**हागरें** (वि.) भोवन भोवन परसाकडेन वचपी.
**हांगसून** (क्रि. वि.) हांगासावन; हांगासाकून.
**हांगा** (क्रि. वि.) उलयतल्याच्या म्हऱ्यांत.
**हांगसल्ल्या** (क्रि. वि.) हांगाच्या.
**हांगसल्ल्यान** (क्रि. वि.) हांगाच्यान.
**हाजीर** (वि.) उपस्थीत.
**हाड** (ना. न.) जीव-प्राण्याचे कुडीचो घट्ट लाकडाच्या दांड्यासारको भाग.
**हाडकुटें** (वि.) हाडां वयर सरिल्लें; बारीक.
**हाडकूट** (ना. न.) हाडाचो कुडको.
**हाडकुळें** (वि.) हाडकुटें; हाडां वयर सरिल्लें.
**हाडप** (स. क्रि.) घेवन येवप.
**हाडपी** (ना. पु.) घेवन येवपी.
**हाड-व्हर** (ना. न.) घेवन येवपाचे आनी घेवन वचपाचें काम.
**हाडांची काडां करप** (वा. प्र.) खूब तकालस घेवप.
**हाडावळ** (ना. स्त्री.) १. हाडांची नामावळ आनी वर्णना; २. हाडांचो सांपळो.
**हांडी** (ना. स्त्री.) १. ल्हान हांडो; २. मनशाच्या कंबरा सकयल्लो भाग.
**हांडी-मडकी** (ना. स्त्री.) व्हड आयदनां.
**हाडूक** (ना. न.) हाडा-कुडको; ल्हान हाड.
**हांडो** (ना. पु.) तांब्याची वा दुसरे धातूची मडकी.
**हाण्डीर** (क्रि. वि.) कंबरार.
**हाणप** (स. क्रि.) लडो घालप; मारप.
**हात** (ना. पु.) बावळो; बोचकूल.
**हातकाम** (ना. न.) हातांनी केल्लें काम; हातांनी तयार केल्ल्यो वस्तू.
**हातकुली** (ना. स्त्री.) ल्हान हात; ल्हान भुरग्याचो हात.
**हातबेडी** (ना. स्त्री.) हाताक घालपाची बेडी; हात बांदचेली सांखळी.
**हातगूण** (ना. पु.) हाताचो गूण; हातान दिल्ल्या वखदाचो वा वस्तूचो फायदो जाता असो समज.
**हात जोडप** (सं. क्रि.) हात जुळोवप; नमस्कार करप.
**हातमाग** (ना. पु.) लुगड विणपाचें हातांनी चलोवपाचें यंत्र.
**हांतर** (ना. पु.) कोंड्या वेळांची व्हड मांदरी.
**हांतरप** (स. क्रि.) पातळावप.
**हांतरूण** (ना. न.) न्हिदपाची मुस्तायकी; कुलच्यांव; उशें; चादर बी वस्तू.
**हात लागप** (वा. प्र.) आफडप.
**हात वावुरपी** (ना. पु.) हातांनी वावर करपी; आपल्या आपूण काम करपी; स्वयंसेवक.
**हाताशीर** (ना. स्त्री.) उपट भरिल्लो एका हाताचो पोसो.
**हातासप** (स. क्रि.) आपणावप.
**हातूण** (ना. न.) गादी; उशें; चादर

बी वस्तू.

**हातो** (ना. पु.) एक घमघमीत वासाचें आनी हळडुव्या रंगाचें फूल.

**हातोटी** (ना. स्त्री.) हाताची करामत; युक्त; मांडणी.

**हातोडी** (ना. स्त्री.) तुतयो; मॉरतेल.

**हापाप** (ना. पु.) निमाणचो मंद हास्कार-हुस्कार.

**हामेर** (ना. पु.) गायेन उमाळ्यान काडिल्लो सूर.

**हामेवप** (अ. क्रि.) गायेन; बैलान वा पाडकान उमाळ्यान सूर काडप.

**हाय** (अ.) कळवळ्यान काडिल्लो उद्‌गार.

**हायस्कूल** (ना. न.) मध्यमीक शाळा; पांचवे यत्तेपासून धावे यत्तेमेरेन शिक्षण दिवपाची शाळा.

**हांयस** (ना. न.) बदक; हंस; गरयेच्या पोंताक लायिल्लो सुंगटाचो वा मासाचो कुडको.

**हाया** (ना. स्त्री.) खातले वस्तूची दुसऱ्याक रूच सुटून ती खातल्याक पिडा-रोग जावप.

**हार** (ना. स्त्री.) खेळांत; झुजांत बी आयिल्लें अपेस; मोतयाची वा फुलांची माळ.

**हारवप** (स. क्रि.) हार घालप; दुसऱ्याचेर अपेस घालप.

**हारसो** (ना. पु.) एके वटेन चुनो वा पारो लायिल्ली कांच.

**हारोवप** (स. क्रि.) हार घालप; अपेस घालप.

**हाल** (ना. पु.) त्रास; उपद्रव; पिडापीड.

**हालउंडो** (ना. पु.) तांदळा कण्यांत नाल्लाचो रोए; गोड बी घालून तयार केल्ल्या पिठाचे गुळे.

**हालचाल** (ना. स्त्री.) हालप-चलप; गती.

**हालणी** (ना.) हालचेलें काम.

**हालणें** (वि.) हालपी; हालतें.

**हालतें** (वि.) हालणें; हालपी.

**हालप** (अ. क्रि.) एका जाग्यावयल्यान दुसऱ्या जाग्यार वचप; गती मेळप.

**हालयतो** (ना. पु.) हालोवपी; गती दिवपी.

**हालवांतीण** (ना. स्त्री.) मेल्ले बाळांतिणीचें भूत.

**हालवारपण** (ना. न.) चोबाळेपण; दुसऱ्याक मानत अशे हावभाव करून केल्लें उलोवणें.

**हालवारे** (ना. पु. भो.) हावभाव करून केल्ली गोड गोड उलोवणीं.

**हालवो** (ना. पु.) साकर, तूप बी घालून केल्लो खावपाचो गोड जिनस.

**हालहवाल** (ना. पु.) परिस्थिती; हालचाल.

**हाल-हाल** (ना. पु.) खूब उपद्रव; खूब दंडणा; खूब पिडापीड.

**हालीं** (अ.) सध्याच्या काळांत; लागींच्या तेंपात.

**हालेट** (ना. स्त्री.) बोवाळ; किळांच; गर्जना.

**हांव** (स.) आपूण स्वता; खर इत्सा; म्हत्वाकांक्षा; उमळशीक.

**हांवपण** (ना. न.) सुवार्त; हांव; म्हाका; म्हजो अशें म्हणपाची संवय; गर्व.

**हावको** (ना. पु.) हावू; राकेस; भिरांत दिसणो.

**हावभाव** (ना. पु.) हातवारो; अभिनय; तोंडार उक्तायल्ले तरेतरेचे उमाळे.

**हावळ** (ना. स्त्री.) जिवार आयिल्लें व्हड संकश्ट; ना जावन वचपाचें अरीश्ट.

**हावू** (ना. पु.) भिरांकूळ मनीस; भुरग्यांक

भेश्टावचेलें उत्तर.

**हावेस** (ना. पु.) ध्येय; इत्सा; उमळशीक.

**हांशी** (ना. स्त्री.) भुरग्यांले भाशेंत हांसो.

**हांशील** (ना. पु.) फायदो; नफा.

**हांस** (ना. न.) हंस; एक धव्या रंगाचें आनी लांब गळ्याचें सोबीत सवणें.

**हासकार** (ना. पु.) नेटान नाका-तोंडांतल्यान ओडिल्लो स्वास.

**हासकारप** (अ. क्रि.) नाका-तोंडांतल्यान नेटान वारो ओडप.

**हांसकुरें** (वि.) तोंडार हांसो आशिल्लें; हांसतें.

**हांसतें** (वि.) हांसकुरें; तोंडार हांसो आशिल्लें.

**हांसप** (अ. क्रि.) खुशालकाय; आनंद उक्तावपाचो भाव आनी आवाज.

**हांसपी** (वि.) आनंद उक्तावपी; तोंडांतल्यान खुशालकायेचो आवाज काडपी.

**हांसमूख** (वि.) तोंडार हांसो आशिल्लें; हांसरें.

**हांसरें** (वि.) तोंडार हांसो आशिल्लें; आनंदी.

**हांसवप** (स. क्रि.) हासूंक लावप; हांसो काडप; हांसपाचें करप.

**हांसाळी** (ना. स्त्री.) ल्हान गोड फळां दिवपी एक रानवट झाड.

**हांसाळो** (ना. पु.) एक ल्हान गोड फळ; हांसाळेचें फळ.

**हांसो** (ना. पु.) हांसचेलें काम; खुशालकायेचो भाव आनी आवाज.

**हाळ** (ना. स्त्री.) चाळ; घरांची वा पसऱ्यांची माळ वा रांग.

# हि

**हिकमत** (ना. स्त्री.) कसब; युक्ती; मांडणी.

**हिकमती** (वि.) कसबी; युक्तीवान.

**हिंणगें** (वि.) पिरंगणें; उबगणें.

**हिंगा** (क्रि. वि.) हांगा.

**हिंचण** (ना. स्त्री.) कसल्याय कामाखातीर फाटल्यान लागपी.

**हिंचणपण** (ना. न.) धांवडायल्यार पासून फाटल्यान लागपाची खोड.

**हिजडेपण** (ना. न.) वांजपण.

**हिजडो** (ना. पु.) दादलो न्हय आनी बायल न्हय असो मनीस.

**हिजरी** (ना. पु.) मुसलमानी सन.

**हिटर** (ना. न.) विजेची शेगडी.

**हिंड** (ना. न.) गोरवांचो आनी हेर मोनजातिचो जमो; कळप.

**हिणयां** (क्रि. वि.) हेवटेन; हांगासावन.

**हिणवप** (स. क्रि.) कुस्कुटावप; उणाक लेखप.

**हिणसावप** (स. क्रि.) किरकोळ लेखप; कुस्कुटावप.

**हिणावप** (स. क्रि.) हीण लेखप; किरकोळ मानप.

**हिंद** (ना. पु.) हिंदुस्तान; भारत.

**हिंद-भूमी** (ना. स्त्री.) भारत; हिंदुस्तान.

**हिंदी** (ना. स्त्री.) भारतांतली एक नामनेची भास.

**हिंदुस्तान** (ना. पु.) आशिया खंडांतलो एक व्हड आनी फांकिवंत देस; भारत.

**हिंदुस्तानी** (वि.) हिंदुस्तानांतलें; उर्दू उतरांची भर आशिल्ली हिंदी भास.

**हिंदु** (ना. पु.) हिंदु धर्म आचरपी.

**हिमटी** (ना. स्त्री.) रडपाच्या नेटान जाल्लो ओंटाचो चेंबू; रडपाचो नेट

दामिल्ल्यान भायर फुटिल्लो घुस्मटिल्लो आवाज.
**हिमटेपण** (ना. न.) चिकूपण; दुडवांचो मोग आनी लोभ.
**हिमटें** (वि.) चिकू; दुडवांचें लोभी; खर्चाक सामकें फाटीं सरपी.
**हिमशिखर** (ना. न.) बर्फान भरिल्लें दोंगराचें तेमूक.
**हिमालय** (ना. पु.) बर्फाचें घर; उत्तर भारतांतलो आनी अख्ख्या संवसारांतलो सगल्यांत उंच पर्वत.
**हिरमोड** (ना. पु.) निर्शेणी; विरूसकाय.
**हिरो** (ना. पु.) एक खूब मोलादीक खडो.
**हिलामत** (ना.) देवाचे पालखेमुखार धरपाच्यो धुडयो; अबदागीर बी वस्तू.
**हिंवट** (ना. न.) दंव; धुंवट; शिंया तेंपार रातचो आनी सकाळचो हवेंत पडिल्लो धुंवर.
**हिंवसाण** (ना. स्त्री.) नुसत्याची हिंवळाण.
**हिंवळाण** (ना. पु.) नुसत्याचो वास.
**हिशेब** (ना. पु.) जमा-खर्चाची वळेरी आनी ताळो.
**हिशोब** (ना. पु.) जमा खर्चाची लावणी आनी ताळो.
**हिस्पान** (अ.) मत्तान; मत्ताप्रमाण.
**हिसपाभायलें** (वि.) जमेक धरपाचें न्हय.
**हिसबी** (वि.) हिसबांत हुशार; हिशोब करपी; वेव्हारी; कसल्याय कामांतलो फायदो आनी नुकसान पळोवन तातूंत पडपी; आपलें हीत पळोवपी.
**हिंसा** (ना. स्त्री.) अत्याचार; कुडीक केल्ली बादा; मार-धपट; फार-पेट.
**हिंसाकार** (ना. पु.) मार-फार करपी; अत्याचार करपी.
**हिळो** (ना. पु.) शेत वा तण बी कापूंक उपकरावचेलें दांतांचें कोयतेभाशेन हत्यार.

## ही

**ही** (स.) उलयतल्याच्या म्हऱ्यांत आशिल्लें स्त्रीलिंगी व्यक्तीक लेखिल्लें सर्वनाम.
**हींग** (ना. पु.) एका झाडाचो तीख वासाचो दीख.
**हीट** (ना. पु.) सान्नान भरिल्लो उबार आनी तोंकाचो दोणो.
**हीण** (वि.) न्याय नीत नाशिल्लें; हलकट; किरकोळ.
**हीत** (ना. न.) फायदो; बरेंपण.
**हीम** (ना. न.) बर्फ.
**हींव** (ना. न.) शीं; थंडी.

## हु

**हुकमी** (वि.) हुकमाभाशेन चलपी; खात्रीचो.
**हुक्की** (ना. स्त्री.) लहर; तलफ.
**हुंकार** (ना. पु.) हूं असो आवाज.
**हुक्को** (ना. पु.) लांब नळयेची गुडगुडी.
**हुकुमदार** (ना. पु.) फर्मावपी; फर्मावणी करपी.
**हुकुमनामो** (ना. पु.) बरयल्ली फर्मावणी.
**हुकुमशा** (ना. पु.) सगली सत्या आपल्याच हातांत दवरिल्लो सत्ताधारी.
**हुकूम** (ना. पु.) फर्मावणी.
**हुंगप** (स. क्रि.) वास घेवप.
**हुज्जत** (ना. स्त्री.) वांटपणां.
**हुजरां** (क्रि. वि.) हुजीर; तोंडार; समक्ष.
**हुडक्या हुडक्यांनी** (क्रि. वि.) हुडके

काडीत; घुसमटून रडिल्ल्याचो आवाज काडीत.
**हुडकेवप** (अ. क्रि.) घुसमटून रडिल्ल्याचो आवाज फुटप.
**हुडको** (ना. पु.) घुसमटून रडिल्ल्याचो आवाज.
**हुंडयो** (ना. पु.) कुडकुडो; थरथर.
**हुंडी** (ना. स्त्री.) कर्ज अमकेच तारखेक फारीक करपाचें दिल्लें लेखी लेत्र; प्रॉमिसरी नोट.
**हुंडो** (ना. पु.) वरदक्षणा; न्हवऱ्याक व्हंकलेकारान दिल्ले दुडू.
**हुतहुतप** (अ. क्रि.) विचार करिनासतना काम करूंक सोदप.
**हुतुतू** (ना. पु.) एक भारतीय खेळ.
**हुतहुतेपण** (ना. न.) खोलायेन विचार करिनासतना बेगिबेगीन काम करपाचो सबाव; ताकतीक.
**हुतहुतें** (वि.) ताकतिकेन आनी खोलायेन विचार करिनासतना काम करपी.
**हुंदीर** (ना. पु.) एक लांब शेंपडेचो आनी मनशाचें खूब लुकसाण करपी प्राणी; घराक बुराक घालून मुस्तायकी तोंचून बी मनशाचें लुकसाण करपी एक प्राणी.
**हुंदुल्ली** (ना. स्त्री.) ल्हान हुंदीर.
**हुद्दो** (ना. पु.) सत्त्या; अधिकार.
**हुनत** (ना. न.) वोत; सुर्याचो उजवाड.
**हुनसाण** (ना. स्त्री.) उश्णताय; धग.
**हुपप** (स. क्रि.) कसलेय वस्तुवयल्यान पावल घालप वा उडी मारप.
**हुंबर** (ना. पु.) दारासकयल आशिल्लो पावंडो.
**हुबवणी** (ना. स्त्री.) भाताक बी वारो दिवपाचें काम; कोयर पोल बी वत्तचें देखून वारो दिवचेलें काम.
**हुबवप** (स. क्रि.) वारो दिवप; वाऱ्यार धरप; वाऱ्याचेर सरी करप.
**हुमकळणी** (ना. स्त्री.) लांबोवणी.
**हुमकळप** (अ. क्रि.) लांबप; कसलेय वस्तूचें वयलें पोंत बांदिल्लें आसून सकयल्लो भाग मेकळो सुटप; लांबप; हुमकळप.
**हुमकळावप** (स. क्रि.) वस्तुचें वयलें पोंत बांदून हेर भाग मेकळो सोडप; लांबवप; लोंबकळावप.
**हुमरो** (ना. पु.) दारा सकयल्लो पावंडो.
**हुमण** (ना. न.) नुस्त्याची कडी.
**हुमटप** (अ. क्रि.) मुळासकट निखळप.
**हुमटावप** (स. क्रि.) निखळावप.
**हुमलो** (ना. पु.) तांबड्या रंगाची आनी चड करून झाडांनी रावपी चाबपी मूय.
**हुमाणें** (ना. न.) कुवाडें.
**हुयेल** (ना. स्त्री.) गजाल; बोब.
**हुरण** (ना.) हुमले; तांबसार आनी चाबऱ्यो मुयो.
**हुरहुरावणी** (ना. स्त्री.) ताकतीक; काचाबूल जाल्ली स्थिती वा काचाबूल जावचेलें काम.
**हुरहुरावप** (स. क्रि.) ताकतीक करप; काचाबूल करप.
**हुरहुरें** (ना. न.) जोर येवन कातीर बारीक पुळयो येवपाची पिडा.
**हुरू-हुरू करप** (सं. क्रि.) ताकतीक करप; ताकतिकेन काचाबूल करून सोडप.
**हुरो** (ना. पु.) एक दिखाळ आनी वखदी झाड.
**हुलप** (ना. पु.) उज्याचो धग; भगभग.
**हुलपप** (अ. क्रि.) भाजप; लासप; जळप.
**हुलपवप** (स. क्रि.) उजो लावप.
**हुलांडी** (ना. स्त्री.) ल्हान पनेळाक

**वा व्हड्याक बांदिल्ली तितलीच लांब मदेराची जड फळी.**

**हुलूक** (ना. स्त्री.) रगत खावपी एक बारीक हुळहुळो जीव. **हुलकेच्या काळजाचें** (वा. प्र.) भेजूड; भित्रें.

**हुंवार**(ना. पु.) उदकाची उपाट भरती.

**हुंवारी** (वि.) उदकान उपट भरिल्ली.

**हुशार** (वि.) शिटूक; लापीट; बुदवंत.

**हुशारकाय** (ना. स्त्री.) लापिटपण; शिटूकसाण; बुदवंतकाय.

**हुशारकी** (ना. स्त्री.) हुशारकाय; लापिटपण.

**हुशारी** (ना. स्त्री.) शिटूकसाण; बुदवंतकाय.

**हुस्कार** (ना.) उस्वास; नाकांतल्यान भायर सोडिल्लो स्वास.

**हुसकी** (ना. स्त्री.) बारीक पानाचें एक झाड.

**हुस्कारप** (अ. क्रि.) सुस्कारप; नाकांतल्यान वारो भायर सोडप.

**हुस्केवप** (स. क्रि.) चिंता काडप.

**हुसको** (ना. पु.) चिंता.

**हुस्स** (अ.) पुरो जातकच तोंडांतल्यान सुटिल्लो उद्गार.

**हुसहुसणी** (ना. स्त्री.) तटतटणी; कातीचेर आयिल्ल्या फोडांची दुखी.

**हुसहुसप** (स. क्रि.) तटतटप; कातीचेर आयिल्लो फोड भितल्ल्यान दुखप.

**हुसहूस** (ना. स्त्री.) तटतट; भितल्ल्यान बादिल्ली दुखी.

**हुळहुळप** (अ. क्रि.) स्पर्श जाल्ल्यान कातकुल्यो जावप; आंगावयल्यान हांगा थंय ल्हवू भोंवप; बोवाळ घालप.

**हुळहुळेपण** (ना. न.) हुळहुळो सबाव; कसलेय गजालींत भितर सरपाची खोड.

**हुळहुळें** (वि.) हांगा थंय भोंवपाचो सबाव आशिल्लें; वचत थंय आनी वचत तातूंत हात घालपी; गडबडें.

**हूम** (ना. स्त्री.) घाम.

**हुमेवप** (अ. क्रि.) हूम येवप; घाम गळप.

## हे

**हे** (स.) उलयतल्याच्या म्हऱ्यांत आशिल्ले बायलमनशेक वा स्त्रिलिंगी मोनजातीक आनी वस्तूक लेखिल्लें उतर.

**हें** ऽ धिक्कार केल्ल्याचो उद्गार; न्हयकार उक्तावचेलें उतर.

**हेक्टाग्राम** (ना. पु.) शंबर ग्रामाचें वजन.

**हेंगाडीपण** (ना. न.) गांवठीपण; गांवगारीपण.

**हेंगाडी** (वि.) गांवठी; गांवगारी.

**हेडणी** (ना. स्त्री.) भोंवणी.

**हेडणें** (वि.) भोंवतें.

**हेडप** (अ. क्रि.) गरज नासतना भोंवप; वेळ काडूंक भोंवप.

**हेडपी** (ना.) गरजे भायर हांगा थंय भोंवपी.

**हेडमास्तर** (ना. पु.) मुखेल मास्तर.

**हेडसावणी** (ना. स्त्री.) कुस्कुटावणी; हिणावणी.

**हेडसावप** (स. क्रि.) हिणावप; चाळोवप.

**हेत/हेतू** (ना. पु.) इत्सा; हावेस.

**हेदोळ** (क्रि. वि.) कांय वेळा पयलीं.

**हेमंत रुतू** (ना. पु.) मार्गशिर्श आनी पौश म्हयन्यांतलो काळ.

**हेर** (ना. पु.) गुपीत घडणुको सोदून काडपी.

**हेर** (वि.) आनीक जायते; लेखूंक

नाशिल्ले.

**हेरप** (स. क्रि.) तेळप; बारीकसाणेन पळोवप.

**हेलिकॉप्टर** (ना. न.) सोवकास आनी सकयल्ल्यान वचून ल्हानशा जाग्यार देवोवंक मेळपी विमान.

**हेवटेन** (क्रि. वि.) हेकडेन; हे दिकेन.

**हेवशीन** (क्रि. वि.) हे दिकेन; हेवटेन.

**हेवशेन** (क्रि. वि.) हे कडेन; हे वटेन; हे दिकेन.

## है

**हैराण** (वि.) प्रमान त्रास पाविलें; पुरो जालें.

**हैवान** (ना. स्त्री.) जनावर. (वि.) अरवळ; पिसाय.

## हो

**हो** (स.) उलयतल्याच्या म्हऱ्यांत आशिल्ल्या दादल्याक; जनावराक वा वस्तूक लेखिल्लें उतर. (अ.) उलो बी करचेलो उद्गार.

**हॉकी** (ना. स्त्री.) पोंतार वांकड्या दांड्यांनी चेंडू मोखपाचो एक खेळ.

**हॉर्को** (ना. पु.) उत्तर आनी दक्षीण दाखोवपी कांटो आशिल्ली घड्याळासारकी वस्त.

**होगडावणी** (ना. स्त्री.) कशाकसोय केल्लो खर्च; निरुपेगी वावर.

**होगडावप** (स. क्रि.) फायदो नाशिल्लो खर्च आनी वावर करप.

**हॉटेल** (ना. न.) जेवण खाण विकचेलें घर; खाणावळ.

**होड** (ना.) पागेल; घराचे भितोडेक तयार केल्लो बंद जागो; चुट्टांनी शिंविल्लो;सोंपो.

**होम** (ना. पु.) यज्ञ; देवाच्या नांवान तूप; तेल; अन्न बी ओपूंक तयार केल्लो उजो.

**होमकुंड** (ना. न.) होमाखातीर तयार केल्ली कुंडी; चोवकोनी आयदना भाशेन जागो.

**होमप** (अ. क्रि.) अग्नीक ओंपप; यज्ञांत घालप.

**होरावणी** (ना. स्त्री.) देवाक उलो मारून घाल्लें गाराणें.

**होरावप** (स. क्रि.) देवाक उलो मारून ताका आपलीं दुख्खां सांगप आनी तीं निवारूंक पराथणी करप.

**हॉल** (ना. पु.) आयस पयस साल; भोवशीक कार्यावळी आनी नाटकां बी जावपाचें आस्कळ विस्कळ साल.

**होलमप** (स. क्रि.) अदमास लागप; वास लागप; नाट मेळप.

**व्हॉवळो** (ना. पु.) लग्न-मुजींत बोवाळपी मनीस; व्हॉवळीक सांगपी.

**व्हॉवळीक** (ना. स्त्री.) लग्न-मुजीचें आमंत्रण.

**व्हॉवी** (ना. स्त्री.) लग्न-मुजीचें दळण बी करतना गायिल्लें गीत.

**होळप** (अ. क्रि.) णव म्हयने जावचे पयलीं पोटचें वचप.

**होळंब** (ना. पु.) रडून काडिल्लो लांब हेळो.

**होळी** (ना. स्त्री.) शिगम्या म्हयन्यांतलो एक उत्सव; लाकडां, पानां, शेणी बी पेटोवन केल्लो उजो.

## क्ष

**क्षण** (ना. पु.) खीण; इल्लो वेळ.

**क्षत्रीय** (ना. पु.) झुजारी; चार वर्णांतलो दुसरो वर्ण.

**क्षमा** (ना. स्त्री.) माफी; भोकसणी; मखलाशी.

**क्षमाशांत** (वि.) सोशीक.

**क्षय** (ना. पु.) १. नासतेपण; ताश; देंवतो काळ; २. बारीक जोर आनी खांक येवपाची पिडा.

**क्षयरोगी** (वि.) क्षयाची पिडा जाल्लो; खांक आनी बारीक जोर येवपाचो रोग जाल्लो.

## क्षि

**क्षितिज** (ना. न.) मळब जमनीक वा दर्याक तेंकता अशें दिसता ती रीस्क; मळबाची धार.

## क्षे

**क्षेत्र** (ना. न.) मळ; सुवात; थळ; जागो.

**क्षेत्रफळ** (ना. न.) लांबी-रुंदेचें मेजमाप.

**क्षेपणास्त्र** (ना. न.) खूब पयस सोडपाचें अस्त्र; अग्निबाण.

**क्षेम** (ना. न.) कल्याण; हीत; बलायकी आनी बरकत.

## ज्ञ

**ज्ञान** (ना. न.) गिन्यान; जाणविकाय.

**ज्ञानकोश** (ना. न.) सगले तरेचें गिन्यान दिवपी कोश.

**ज्ञानमठ** (ना. पु.) गिन्यान दिवपाचो आनी जोडपाचो मठ.

**ज्ञानमार्ग** (ना. पु.) गिन्यानान मुक्ती मेळोवपाचो मार्ग.

**ज्ञानवंत** (वि.) गिन्यान जोडिल्लो; गिन्यानान भरिल्लो; बुदवंतकाय जोडिल्लो.

**ज्ञानेंद्रीय** (ना. स्त्री.) गिन्यान जोडपाचो दोळो; कान बी कुडीचो भाग.

**ज्ञानीं** (वि.) गिन्यान जोडिल्लो; बुदवंत.



प्रो. शांताराम अनंत हेदो हे फोंडे तालुक्यांतल्या शिरोडें गांवचे. तांचो ज़ल्म त्याच गांवांत ११-४-१९१२ ह्या दिसा जालो. तांणी आपलें मुळावें शिक्षण — मराठी तशेंच पुर्तुगेज — आपल्या गांवातच घेतलें. फुडल्या लिसेव धरून ट्रेनिंग कॉलेज मेरेनच्या शिक्षणाखातीर तांकां कांय वर्सां पणजे रावचें पडलें.

ट्रेनिंग कॉलेजचे निमाणे परिक्षेंत ते पयल्या वर्गांत पास जाले आनी रोखडीच तांची शिक्षकाच्या जाग्यार नेमणूक जाली. एक भोव बरे शिक्षक अशी तांची नामना जाली.

गोंय सुटके उपरांत तांकां आपले नोकरेंत वाड मेळ्ळी. शिक्षण खात्याच्या झोनल इन्स्पेक्टरच्या जाग्यार तांची नेमणूक जाली आनी ह्या पदार आसतनाच १९७० वर्सा ते नोकरेंतल्यान मेकळे जाले.

तांणी पुर्तुगेज, मराठी आनी कोंकणी अशा तिनय भासांत साहित्य रचलां. खलील जिब्रानच्या 'मॅडमन' ह्या पुस्तकाचो तांणी पुर्तुगेज भाशेंत अणकार केला तशेंच शिक्षणशास्त्राचेर लेख बरयल्यात. मराठींत तांणी 'आधुनिक शिक्षणाचे प्रणेते' हें पुस्तक बरयलां. कोंकणीची तर ते अखंड सेवा करीत आसातच. हे भाशेंत तांणी 'बापू', 'यात्रीक' आनी 'मदलो पूत' अशीं पुस्तकां बरयल्यांत. तांगेल्या 'बापू' ह्या पुस्तकाक कोंकणी भाशा मंडळ आनी कला अकादमी हांचीं इनामां फावो जाल्यांत. पूण कोंकणीच्या मळावयलो तांगेलो म्हत्वाचो वावर म्हळ्यार तांणी तयार केल्लो हो कोंकणी-कोंकणी कोश.

Impressions, Bgm. Tel. 24